With Compliments —
Shri M Subba Rao
Editor NBT
22/10/97

# काळी गंगा

## (कादंबरी)

महाबळेश्वर सैल



# काळी गंगा


काणकोण - गोंय 403 728

प्रकाशन क्रमांक : 129

1996

(साहित्य प्रसवण मौलिक : पन्नास रुपया)



**प्रकाशक :** प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई :** राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

मुखपृष्ठ : दिपक पेडणेकार




**मोल :**
1996 --- 150 रुपया
1997 --- 150 रुपया
1998 --- 180 रुपया

ISBN 81-85854-38-6

जाणा !'

मंजूळान नाल्ल फोडलो. एका वळ्याच्यो फोडून शिन्यों केल्यो. थंय भजनां-खोंपीसरीं भुरगीं खेळटालीं. हातांतल्यो कातलेफोडी दाखोवन ताणें भुरग्यांक आपयलीं आनी त्यो भुरग्यांक वांटल्यो. शेंवतूआजयेन फणफणत म्हळें,

'कसली तुगेल्या फळसोबणाची कातली वांट्टा ?'

'ना आजये, आमगेल्या पाड्याक मुगे पाडी जाल्या.'
ताणें उरिल्लें एक वळें आजयेमुखार दवरलें आनी म्हळें, 'आजये, हाजें मुगो तुका गोड घालून घाटणें करून दी म्हूण सांग सुनेक.'

मंजूळ घरा येयलें. आजून बायूल येवंक नासलें. सांजेची वोताचीं किरणां पयस केरवडी गांवावयल्यान घांगरे तळपार पडून तें दोंगरायेदें तळप आंगार लखून येयिल्लेवरी दिसतालें. दोंगरांतल्यान वांकडी तिकडी व्हांवत येयिल्ली मुखावेली काळी न्हंय आतां सांजच्या वोतांत भांगरान सोबयिल्ली काळी व्हंकल कशी दिसताली.

आंगलेचे होंटयेंत होंटीभर पेरां घेवन सुमन धांवत धांवत येयलें आनी घरांत घुसलें. मंजूळान विचारलें, 'बायूल, खंयच्यान कितें हाडलां गो पापया?'

इतले म्हणसर ताचे फाटीक लागिल्लो पंढरी दारांत येवन उबो रावलो. तो खर्शेत खर्शेत आड्डलो, 'खंय गेलें तें मंजूळ? आपय ताका भायर. सोडचों ना ताका. दोंको मोडुनूच घालतां आयज. तुगेले भयणीन म्हगेले पेरीचीं तन्नीं पेरां बुड्डून हाडल्यांत. अख्ख्या झाडाचें निसंतान केलें. सामकी तन्नीं पेरां. अजून फुलय झडूंक नासलें. मंजूळ, आपय ताका भायर. ना तर हांवच ओडून हाडटां.' तो बागलांत येयलो.

मंजूळ दोनय हातान बागल धरून सामकें आडवें उबें रावलें. 'पंढरीअण्णा, तूं येवं नाका भितर. हांव सांगतां भितर येवं नाका.'

पंढरी तणतणत भायल्या सोंप्यारूच बसलो. 'तें भायर येयसर हांव हांगाच खडद्दार बसतलों. पूण ताका आयज सोडचों ना. चार रोतां फुलयतलोंच ताजेर.'

खरें म्हळ्यार मंजूळाली भिंयेवन गुळीच जाल्ली. तरीय ताणें बळयांच आवाज चडोवन म्हळें, 'पंढरीअण्णा, हांव सुमनाक हात लावंक दिवंचें ना. पयलींच सांगता.'

'चोयतलों कितें करता तूं' पंढरी सोंप्यार बसकण मारून बशिल्लो. मंजूळ दारांत दार धरून उबें आसलें. पूण सुमनाचो आवाज नासलो. तें खंयच्या कोनशाक वचून लिपून बशिल्लें देव जाणा!

मुखावयल्यान रामदाद वयतालो. ताणें विचारलें, 'कितें जालां रे तुजें पंढरी ?'

'गणेशाल्या धाकल्या चेडवान म्हजे पेरीचीं तन्नीं पेरां बुड्डून हाडलीं न्ही रे. आनी हें मंजूळ भयणीचो पाखो घेवन दार आडोवन उबें आसा.'

'मातशें अवजाळीच चेडूं तें सुमन. चेडूं भुरगें पूण चेड्यावरी गांव माथ्यार घेत हुबदळटा. पयर बर्म्याकडच्या चिंचेरुखार चडून बडयेन चिंचो बडयतालें.'

'ना रे रामदाद, तशें मस्तें न्ही तें, पूण ह्या दिसांनी ताका कितें जालां कळना.'

पंढरी मर्दीच ताणशेलो, 'बरीं पडूंक जाय चार रोतां, मागीर निवळटलें.'

'तुका सांगतां पंढरीअण्णा, हांव हात लावंक दिवचेंना ताका.'

'तुवेंच चडयलां ताका. तूं ताचो पाखो घेता म्हण ताजें फावो जालां. तूं फाल्यां लग्न जावन घोवा घरा वयतकीर हाताक मेळचें ना तें.'

'तशें मायेस्त रे तें ! ल्हान आसा. सुदरतलें'.

रामदादान वतां वतां म्हळें, 'पंढरी, पोराक मारूं-बिरूं नाका. आवय नाशिल्लें पोर. काकुयट दिसता.'

कांय वेळान गणेश बांदावेल्यान येतना दिस्टीक पडलो. ताज्या खांदार नांगरा घडप आसलें. तो येयलो आनी ताणें तें घरामुखावेल्या पणसारुखाक तेंकोवन उबें दवरलें. जूंवय उबें केलें. हातांतलें खोरें हाडून पांवळेंत तेंकयलें. मुंजीक खोवयिल्लें वाल्याचें शेवट सोडून ताणें तोंड पुसलें. मंजूळ कुरू करून आपाक कांय सांगूं नाका म्हण पंढरीक विनयतालें. पूण पंढरी रागान मांडुनूच आसलो.

गणेशान विचारलें, 'कितें जालां तुजें पंढरी ?'

'तुगेल्या धाकल्यान म्हगेले पेरीचीं तन्नीं पेरां बुड्डून हाडलीं. फुलांय झडूंक नाशिल्लीं तन्नीं पेरां. आतां भितर वचून लिपून बसलां. झाडाक एक पेर दवरूंक ना.'

गणेश मोन्यानच पणसारुखासर गेलो. थंय जुंवाक खोवोवन दवरिल्ली जोताबडी ताणें काडली. लिमतोडेची बैलाचे फाटिरूय फुटची ना असली घट बडी. ती बडी घेवन तो मंजूळाक कुशीक धुकलून घरांत गेलो. मंजूळ भिंयेवन थरथरतालें, आनी रडटालें, 'नाका रे आपा, बायूलाक मारूं नाका !'

सुमन भिजिल्लें कुकडशें भिंयेवन काळखा कोनशाक बशिल्लें. गणेशान ताका ओडून सालांत हाडलें. होंटयेंतलीं हरवीं पेरां सांडून सालभर पातळ्ळीं. गणेशान आठ-धा बडयो ताजे फाटीर, पांयार सप्सप् करून मारल्यो. मंजूळ मर्दी पडलें. एक बडी ताजेरूय पडली. मागीर बडी तशीच सुमनामुखार नाचयत ताणें म्हळें, 'वयतलें

? आनीक हेरांल्या बागांत वयतलें ? भोव जाल्यो तुज्यो कागाळ्यो. आदींच तूं मेल्यार पुरो जालां म्हाका. तातूंत हीं मस्तेपणां.'

भायर बशिल्लो पंढरी तटास. पाड पडूं दी पेरां, थंयच्यान धांवनच वयचें अशें ताका दिसलें. येदेंशें तोंड करून तो वोगी उबो रावलो.

गणेशान हातांतली बडी तशीच भायर शेंवटून मारली. खुंटयेक लायिल्लें खोमीस काडून आंगार लकयलें. हातांत कोयती घेवन वचून नांगराची जगल निखळावन हातांत घेतली. कोयती वासरेंत दवरून कोणाक कांय पाचारिनासतना तो वचूंक भयर सरलो. आंगणामेरेसरीं पावतकीर मंजूळान विचारलें, 'खंय वयता आपा ?'

'जगल पाजूंक मेस्तागेर.'

फार्टी पळेनासतना ताणें सडसडीत पावलां मारलीं. सुमन न्हिन्नाळत हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटालें. मंजूळ ताका म्हन्यांत घेवन बशिल्लें आनी वोगी वोगी करतालें. पूण मंजूळाकूय रडूंक येतालें.

पंढरी थंयच्यान कुशीक कडसताना सोताकडेनच उलयतालो. 'पाड पडूं दी तीं पेरां. पोराक बेठोच मार पडलो. हांव खंय जाणां आसलों गणेश ताका इतलो मारतलो म्हण !'

सुमन रडचें थांबतकीर मंजूळान ताका न्हाणयेंत व्हरून ताजें तोंड धुलें. मागीर ताका घेवन केंस वळोवंक बसलें. कांय वेळ दोगांय भयणी मोन्यांनीच बशिल्ल्यो.

'बायूल, तूं आनीक मस्ती करचें ना मुगो ?'

'बाय, तुकाय बडी बसली ?'

'ना गो. मातशी बसली.'

'मगेर भुजार हो वळ पळे.'

'तुवें अख्खी फाट फोडून घेयल्या आनी म्हज्या वळाचें विचारता तूं.'

'बाय, आपा सद्दां हांव मेल्यार पुरो कित्याक म्हणटा गो ?'

'पिशें तूं. बेठोच रागान म्हणटा तो.'

'बाय, तुवें आईक पळयिल्लें?'

'हय.'

'हांवें पळयिल्लें ?'

'तूं सामकेंच ल्हान गो तेन्ना. तीन म्हयन्यांचें.'




'मगेर हांवें पळोवंक ना न्हू?'

'पळयिल्लें गो. पूण तुका याद ना.'

'आई खुब्ब फुलां माळटाली?'

'हय. तिकाय म्हजेवरीच फुलांचो भोव सोस. आत्र्यापयऱ्यान न्हंयकडेन वचून ती कांदळां खुंट्टून हाडटाली.'

'म्हाका मात फुलां आवडिनात.'

'आमचें बायूलच एक फूल तें !'

'आई कोणावरी दिसताली गो, तुजेवरी काय म्हजेवरी बाय ?'

'दोगांयवरी.'

'फट उलयता तूं. पयर गंगामावशी म्हण, मंजूळ सामकें आवयवरी दिसता आनी सुमन बापायलें रूप घेवन येयलां.'

'म्हण कितें जालें? आपाय आमचोच न्हू. वयल्यान हांव आईवरी काळेंसावळें. तूं आपावरी गोरें.'

'मगेर आपा सदांच म्हाका मारता कित्याक ?'

मंजूळान ताका खाकोळांत वोडलें, 'आतां आनीक कोण हात लावचो ना आं म्हज्या बायूलाक. पूण तूं मस्तेपणां करचें मातशें सोड.'

सुमन बशिल्लेकडेनूच झेमेवंक लागलें. 'बायूल न्हिदूं नाका आं तूं इतले बेगीन. मगेर जेवंक उठचेंना. बरो रोस केला हांवें वायंर्गी, देंठे आनी तिसरे घालून.'

तरीय सुमन उठलें. भितल्ल्यान लव्याची शेंदरी हाडून सालांत एका कोनशाक न्हिदून गेलें. मंजूळ आपाली वाट पळयत सोंप्यार बशिल्लें. सुर्या निकतोच गडावटेनच्या गांवांत अस्तमतेक गेल्लो. काळ्या उजवाडांत काळी न्हंयचे धारेंतल्यान काजळ व्हांवंक लागलां अशें दिस. दनपरां वोता कडार हातूंतल्यान रुपें व्हांवता अशें दिसतालें. आतां मात ताजें काजळ जालां. ते धारेंत पयस एक शीड कवळिल्ली बोट थीर उबी आसली. ताजी कुंयाकाठी मुखावेल्या दोंगरार खुरीस मारिल्लेवरी उबी आसली.

खारगे गांवांत पावता म्हणसर संथ एके धारेन व्हांवपी काळी न्हंय ह्या शिद्दर गांवा सामकार पावतकीर विकराळ रूप घेता. शिद्दर पावतकीर तिजी धार फुट्टा आनी ताजे दोन जुंवे निर्माण जातात. ह्या जुंव्यांभोंवतणीं न्हंयची धार नाचत मोडत मुखार वता. केन्ना वोतांत ह्यो धारो नर्तिकेवरी नाचतात अशो दिसतात; जाल्यार

केन्ना काळोख देवंक लागतकीर त्यो नागणीवरी आपलो विळखो जुंव्याभोंवतर्णी घालून बसल्यात अशें दिसता. मगेर काळखांत न्हंयचें, न्हंयंतल्या जुंव्याचें आगळेंच साम्राज्य थंय वसता. रातचें एकाद्रें शेवणें थंय रडूंक लागलें, कोणाल्या घरांतल्यान धुंवर वयर सरलो म्हणटकीर जगबुडी उपरांतच्या कदीम काळांत रिगिल्लेवरी दिसता.

ल्हवल्हवं काळखांत नदरेआड वचपी मुखावेल्या वाठाराकडेन मंजूळ कांचवेवनशें पळयतालें. ताज्या काळजाक आतां आगळीच हुरहूर लागली. मन मोवमोव, ताळणी लागिल्लेवरी जालें... ताका आयज आईची भोव याद येवंक लागली. येदो व्हडलो केंसांचो आंबाडो ! ताजेर फुलां ! कपलार सदांच व्हांवपी रुपया येदो कुकूम ! आई सारकी ताज्या दोळ्यामुखार उबी रावली. आईल्या कापडाचो दुदाचो कसो वास नाकांत भरलो. तेन्ना तें णव वर्सांचें आसलें. पूण ताका आईली सारकी याद आसा. तिजो वास नाकात परमळटा. तिजो आवाज कानात घुमता.

ताजे दोळे भरून येयले. ताणें एक फावट भितल्लेवटेन बायुलाची सुलूस घेतली. तें सुस्त न्हिदिल्लें. ताज्या माणकुल्या ताळ्यांतल्यान सूं सूं सो आवाज येतालो.

...बायूल अजून ल्हान आनी आपा आतांच म्हजें लग्न करूंक सोदता. कित्याक इतली ताकतीक करता तो ! मेळमेळिल्ल्यांक सांगत सुटला, मंजूळाक एक बरो भुरगो पळयात म्हण. बायूलाक तर अजून बांयच्यान एक बिंदूल भरून हाडूंक कळना. आर्दीच तें आपाक दोळ्यांमुखार नाका. तातूंत मातशें अवजाळी. तवनासपणां करता. म्हाका तर ताका सोडून वचचेंच नाका अशें दिसता. पूण आपा कांय आयकचो ना. सतरा सरून अठरा लागल्यांत म्हणटा. कितलो तेंप घरांत दवरून घेतलो काय म्हणटा. बायूलाक सोडून वचच्या चिंतनानच म्हजें काळीज कलकलता. पूण आपाक कोण सांगतलो: तो कोणालें आयकुवपी?

बऱ्या वेळान आपा येयलो. आपाली सुलूस लागतकीर तें सट्कन उठलें. भायर भितर पळयल्यार सामको काळोख पातळ्ळा. इतलो काळोख जालो आनी हांव अरवळावरी दिवो लायनासतना बसलां. तें ताकतिकेन भितर गेलें. वयताना वाटेवयले मणयेक आपटलें. सोदल्यार उज्यापेटच मेळना. इतल्यान आपा भितर येयलो. खिशांतल्यान उज्यापेट काडून ताणें लखख करून पेटयली. भितर वचून दिवो लायलो.

'काळखांतच कित्याक बसल्यांत गो तुमी ?'

'वोगीच बसून रावलें पिशांवरी. बायूलय न्हिदलां न्हू.'

गणेश माडाअळ्यार वचून हातपांय धुवन येयलो. कांय वेळ विडी फुसकायत

तो वासरेंत बसलो. शेजारचो विश्राम मोन्यांनीच भितर येयलो आनी मुखार बसलो. गणेशान तंबाखूची पोती ताजेसरीं मोखली. विश्रामान पोतयेंतलो तंबाखू आनी शेनवत घेवन एक विडी बांदली. ती चिमणेर धरून पेटयताना ताणें म्हळें, 'काल आंब्यावटेच्यान वांयगणांत गोरवां घुसलीं खंय !'

'राखूंक जाय. हातातोंडाक येयिल्लें गोरवां खावन वयतली.'

'धा जाणांली आस्पत कोण राखतलो ?'

'दर दिसा एकल्यान आंगार घेवंक जाय.'

'खरें तुजें. आयज धाकल्याक बरेंच मारलें खंय तुवें ?'

गणेश वोग्गी रावलो.

'मायेस्त पोर तें. भुरगें आसा. इल्लीं आडांगीपणां करता.' विश्राम उठलो आनी विडी फुसकायत वचूंक लागलो. वतना ताणें सांगलें, 'मारूं नाका रे त्या पोरांक. आवय नाशिल्लीं पोरां तीं. तुकाच आवय मानून आसात.'

मंजूळ भितर बायूलाक जेवंक उठयतालें. पूण तें कशेंच उठनासलें. 'बायूल, पळय आपा येयला. ताका परथो राग येतलो आं ऊठ.' पूण सुमन उठलें ना. तें न्हिदेंतूच गुल्ल.

'आपा, चय बायूल जेवंक उठना.'

गणेश उठलो आनी सुमना म्हऱ्यांत वचून कांय वेळ मोन्यानच उबो रावलो. तें सुस्त न्हिदिल्लें. तीन म्हयन्यांच्या बाळकावरी तागेलो चेरो सामको निरागस दिसतालो. चिमणेच्या उजवाडांत फक्कत तागेल्या दंडावेले, पांयांवेले वळ उठून दिसताले. पूण ताजी दूख चेऱ्यार इल्लीय नासली. आपान ताका मोन्यानच उठोवन आंगार घेतलें. भायर हाडून तागेल्या दोळ्यार, चेऱ्यार उदक लायलें. तें आं... आं... करीत उठलें. तरीय अर्दमर्द न्हिदेंत. ताका ताणें म्हणयेर हाडून बसयलें. ताजो हात शिताक लायलो, 'जेव गो बायूल.'

सुमनान दोळे धांपुनूच ताटांतलें शीत कालयलें. थार दिनासतना तें सगलें शीत उंडयेर उंडी करून जेवलें. बायन दिल्लो तांबयो घेवन, वचून तोंड धुलें आनी आसा तशेंच वचून तें परथें न्हिदलें. रोखडीच ताका न्हीद लागली. जशें तें आत्तां उठुंकूच नासलें.

आपाकय वाडलें मंजूळान. जेवतां जेवतां ताळो खरडिल्लोसो करून गणेशान विचारलें, 'बायूल चड वेळ रडत बशिल्लें गो ?'

'तुका मारूंक लागल्यार दोळे उरनात आपा. आनीक केन्ना मारू नाका रे आपा ताका !'

गणेश वोगीच रावलो.

आपाचें सदां अशेंच. बरो आसल्यार बरो. राग येयल्यार सामको कुड्डो जाता. आनी बायूलाचेर तो कसलो राग धरून बसला देव जाणा. आईकय तो भोव सतायतालो. ल्हानसान गजालींक सवतालो. पूण आई जेन्ना वायटान हांथरुणाक लागली तेन्ना ताची विदर्णाच जाली. आईचें ताणें खूब केलें. ल्हान भुरग्यावरीं तिची सेवा चाकरी केली. आपले मांडयेर तकली घेवन तो तिका भरयतालो. ती गेली तेन्ना स म्हयने सैरभैर आसलो. पिशावरी भोंवतालो. 'आपली लक्षुमी उठून गेली रे देवा' म्हण रडटालो. बायूलाक तर तो दाव्या दोळ्यान पळोवंक तयार नासलो. व्हरून तिज्याच फोंडांत घालात म्हणटालो.

मंजूळ तेन्ना ल्हान, णव वर्सांचें. पूण ताका सगली सारक्की याद आसा. चितेंत घालूंक शास्त्र म्हूण गंधाचो कुडको जाय आसलो. सोदल्यार गंधाकांडी खंयच मेळना. मगेर ताणेंच गंधाकांडी सोदून हाडून केशवभाऊल्या हातांत दिल्ली. एके वटेन तें रडटालें तर लासूंक येयिल्ले ताकाच कितें कितें विचारताले. वाड्यावेल्यो जायत्यो बायलो घरांत एकठांय जाल्ल्यो. पूण त्यो घरांत बेठ्योच गणमणटाल्यो. आई भोंवतणीं बसून दुखेस्त अशें कितें कितें उलयताल्यो. बायूल तर खंय पडिल्लें कोणाक खबर नासली !

मंजूळ पयलीं पासुनूच बरे समजिकायेचें. लोक म्हणटाले, ताचेर आवय आवयचो हात ओडून गेल्या... आपालीय मंजूळाचेर भोव माया. मंजूळाचे फाटीर एक चेडो जावन भायर पडलो. तिसरें सुमन जालें आनी आवय गेली. हें सगलें विपरीत पळोवन आपा धुंवलो. भितल्ले भितर सुकून निबर जाल्लेवरी जालो. णव वर्सांचें मंजूळ मात एके रातींत शाणें सुरतें बुदवंत जालें. म्हालम्हातारेवरी घरांत वावरूंक लागलें.

दुसरे फावट आई चेड्या फावटीक गुरवार आसली तेन्ना मंजूळ स वर्सांचें. बायलो म्हणटाल्यो, 'तुगेले आईल्या पोटांत मुगो, बाबू आसा, तुगेलो भाव!' आई पोटार पडल्यार धुकलून दिताली म्हण तें पोटाभोंवतणीं हात घालून पोटाक कान लावन न्हिदतालें. बाबूक हांव खेळयतलें, घेवन नाचतलें, तागेलें मुतिल्लें धुयतलें म्हण चिंततालें.

'आई, बाबू केन्ना येतलो गे ?'

'आनीक इल्लो व्हडलो जातकीर.'

'तूं म्हाका ताका घेवंक दितली मुगे ?'

'हय गो, तुवेंच खेळोवंचें, न्हाणोवंचें ताका. म्हालगडी भयण न्हय तूं तेगेली?'

तो जातनाच गेलो. कितें जालें म्हण ताका कळचे पयलींच ते बाबूक घेवन गेले. आईलें पोट जिरलां आनी बाबू मात ना. तें आईल्या भागिल्ल्या पोटाकडेन सामकें कांचवेवन पळयतालें.

आई दीसदीस ताका व्हेल्ले वाटेकडेन नदर लावन बसताली. तेंवय केन्ना आई वांगडा आईल्या खाकोळांत मोन्यांनीच बसतालें. केन्ना सांजच्या अचकीत तें बाबूक व्हेल्ले वाटेन धांवक लागतालें. आकाड्यांत वचून वाट पळयत उबें राविल्लेवरी उबें रावतालें. ताका पयस झाडांतल्यान कोण तरी खोऱ्यान खणटा असो आवाज येतालो. तें कांचवेवन धांवत धांवत परथें येतालें. आईल्या पोटाकूय हात लावंक तें थर्त भिंयेतालें. कितलेच दीस आई-आपा घरांत मोन्यानीच वावुरतालीं. जाचें ताका तोंडय पळोवंक मेळूंक नासलें त्या बाळकान जायते दीस ताळणी लायिल्ली. ताचेविशीं कांय कोणच उलयनासलो आनी तेंवय कांय कोणाक विचारिनासलें. बेठेंच एक मोर्ने सांवट पातळिल्लें.

जेवन जातकीर मंजूळान सगलीं आयदनां एकठांय केलीं आनी तें माडाअळ्यार येयलें. 'आपा, मातसो भायर आंगणांत येवन उबो राव. हांव आयदनां धुवन काडटां.'

'कसलो भंय दिसता गो तुका भरिल्ल्या वाड्यार, चोयवटेन घरां मुगो.'

'म्हाका काळखाचो थर्त भंय दिसता. काळोख आतांच दावखुलां मारतलो अशें दिसत रावता.'

'पोकरीच तूं. फाल्यां तुज्या घोवाक सांगूंक जाय, अटमा रुखापोनाक घर बांद म्हण.'

'कित्याक म्हण आपा ?'

'अटमा रुखापोनाक दिसानच काळोख आसता.'

'आई काळखाक भिंताली आपा ?'

'हय. तिवय तुजेवरी काळखांत पांय दवरूंक कचरताली, धूवय आवयवरीच.'

'काळखाक भिंवपी मनशां बेगीन मरतात खंय आपा!'

'थुमेकाल. आडरातीक कितेंय अभद्र उलयता!'

वाड्यावेल्या हेरांचीं जेवणां अजून जावंक नासलीं. जायत्या घरांनी उलोवपाचो गजबज, आयदनां वाजिल्ल्याचो आवाज आयकूंक येतालो. नरशिंवाल्या आंगणांत उलयत बशिल्ले दादले अजून उठून वचूंक नासले. पयलीं गणेशय तांचे मर्दी वचून बसतालो. पूण आतां तो सांज जातकीर बेठोच विडयो फुसकायत वणटीक तेंकून बसता.

मंजूळ काम आवरून घेवन सुमनासर आड पडलें. ताणें ताचो आंगाखाला गेल्लो हात ल्हवच सोडोवन नीट केलो. आंगार कांबरूण घालें. ताणें आपले मानेखाला गुठली जाल्ले केंस वयर काडून खांदावेल्यान छातयेर घेतले. काळेकाळे मोंव रसम कशे भरपूर केंसान ताचें अर्दें आंग धांपून गेलें. उताणें न्हिदिल्लेकडेन ताचो हड्ड्याचो भार ताका सोंसना जालो. ल्हवूच ताणें हड्ड्याची एक कूस भूंयक तेकयली आनी बायूलाचेर हात उडोवन तें न्हिदलें.

आंगणांत बडी तेंकयत कोण येतासो आवाज येयलो. मंजूळान सुलूस घेतली. साळूआजी दिसताली. साळूआजी दिसांतल्यान दोन फावट सकाळीं आनी सांज नेमून दिल्लेवरी जण एकल्याच्या दारांतल्यान फेरी मारता. जाणट्यांक – नेणट्यांक दर एकल्याक पाचारीत वता. केन्ना आंगणांतल्यान वता, केन्ना वासरेंत येवन बसता, केन्ना रांदचेकुडींत वचून चुलीमुखार बसता.

गणेश वासरेंत हांथरुणार आड पडिल्लो. मुखार चिमणेदिवो जळटालो. साळूआजयेन भितर रिगतां रिगतां म्हळें, 'मुसुंडेवेलीं म्हारवां अजून उठलीं नात आनी इतले बेगीनच जेवन न्हिदलो तूं गणेश?'

'ना गे साळूआजये, पुरो जाल्लें. सांजचें इदळाक जोत बांदिल्लें न्ही...'

वासरेर तेंकत तिणें म्हळें, 'मर्ण येवचेपयलीं मरचें न्ही आनी न्हीद येवचेपयलीं न्हिदचें न्ही. ह्या दिसांनी तूं तर शेंकर उडयिल्लो रोगेल्लो कोंबो कसो जाला.'

'भोग ! आनीक कितें !'

'कसल्या भोगाक रडटा तूं ? बारा वर्सांची आसतना रांडाव जाल्ली मुरे हांव ! भोगाक रडत बशिल्लें जाल्यार ह्या वाड्याचो संवसार करूंक पावचें नासलें. तुजीं तर निजाचीं भांगर कशीं दोन भुरगीं आसात... हाड. विडी हाड.'

'हांवें वळिल्ली तुका उपकारची ना.' गणेशान तिका तंबाखू आनी शेनवत काडून दिलें. तिणें केळीपानां शेनवतार एक बारीकशी विडी वळ्ळी.

'आयज तूं म्हास्ती दोंगुल्लेर झळकल्ली मुगे.'

'भोंवतां दोंगरांनी मुळयो, कांडयो आनी साली पुंजायत. बापोलयाकडच्यान हो वखददळणीचो मंत्र घेयलो आनी तातूंत जिविताचें घुस्पलें. बापोलयान तरी घरांत इतलीं भुरगीं आसतना म्हाकाच कित्याक वेंचून काडचें ?

'खऱ्यांनीच बुदवंत गे तूं साळूआजये. तुजे इतलो हुशार ताका आनीक कोण मेळूं येतालो ?'

'पूण एक खरें गणेश, हो वखददळणीचो मंत्र हांवें घेयलो आनी म्हजें रांडावपण लेगीत हांव विसरलें.'

'पूण एक सांगतां साळूआजये, तूं मेलेउपरांत तुजी वखदाची सांगशी काळी न्हंयंत व्हरून बुडोवंची पडटली. तातूंतली एक मुळी कोणाक वळखूंक येवंची ना, झरोवन दितलो म्हळ्यार.'

'सामक्कें खरें रे तुजें. ही विद्या कोणाक तरी दिवंची म्हण हांवें भोव यत्न केले. पूण कोण त्रास घेवंक मागता ? यो म्हजेवांगडा रानांनी भोंवंक यो, वखदाचो झाड-पालो दाखयतां म्हळ्यार कोण एकलो येयना. आतां येयल्यात गुळयो. कोणाक जाय दगदगे ! दोतोराक नोटां काडून दितात कुचकुचीत. हांव इतलीं वर्सां फुकट वखदां दितां पूण कोणाक दिनवास ना.'

'हय गे, खरें तुजें.'

'तुजें धाकलें आनीक इल्लें व्हड आशिल्लें जाल्यार हांव म्हजी सांगशी ताच्या गळ्यांत बांदतासलें.'

'शा, ताका कितें कळूंक येयलां ? अरवळ तें !'

'ना, ना गणेश. तशें समजूं नाका. बरें हुशार आसा तें. पयर हांवें बेठेंच म्हळें, रातीन मळब भरून आशिल्लीं हीं नखेत्रां दिसान खंय वयतात गो ? तर ताणें कितें जाप दिली जाणा ?'

'कितें ?'

'म्हणूंक लागलें, दिसान उजवाडाचो हुंवार येता आनी नखेत्रां बडून वयतात.'

'अशें ?'

'न्हिदलीं रे पोरां ?'

'न्हिदलीं आसतलीं ! तांचोच एक हुस्को रातदीस खाता साळूआजये.'

'कांयच हुस्को करूं नाका तूं. देव आसा. गर्भ रचचे पयलीं देव आवयल्या पोटांत भुरग्यांक हांथरूण घालून दवरता आनी जल्मचे पयलीं चिंवांनी दूद पानयता. ताचो हुस्को देवाक. तुका न्ही.'

विडी फुसकायतां फुसकायतां साळूआजयेक खर खांक मारली. हड्ड्याच्या बोरयांचो सांपळो सामको खबदळ्ळो. ताळ्यांतल्यान हूं हूं असो आवाज कांय वेळ येत रावलो आनी मागीर ती खोकची थांबली.

लांब शिडशिडीत आंगलोटाची साळूआजी आतां सामकी कवळिल्ली आनी बरगल्ली. तकलेवेले धवे कापूसकेंस वयलेवयर हुबताले. दिस, ते खंयच्याय खिणाक माथ्यावेल्यान उडून वाऱ्यार वयतले. गणेशाक दिसलें ही अखखी साळूआजी पोटोळी कशी गुठलायली जाल्यार सोण्णांसयत नाल्लायेदीय जावंची ना. पूण कितली बुदवंत बायल ! आशाढ, श्रावणांत विष्णू हरिविजय, पांडवप्रताप वाचता आनी ही म्हऱ्यांत बसून दर वाचपाची काय बरी विसकटावणी करून सांगता. हिगेलेंच आयकत रावचें अशें दिसता. लग्नाघरांत, मर्णाघरांत सदांच मुखार. लग्नाच्या सामानाची यादी दितना एक नाल्ल चुकयनासतना जिस्ताजिस्त यादी करून दितली.

हिगेलो भाव यसो मेलो तेन्ना भावालो चेडो ल्हान धा-बारा वर्सांचो. त्या चेड्याक घेवन तिणें भावालो आठ खाणयेचो शेताचो संवसार नकसूद सांबाळ्ळो. ही भावाल्या चेड्याक घेवन, खांदार नांगर-जूं मारून शेतांत वयताली. सोता जोत बांदून एक होरो कसून भावाल्या चेड्याल्या हातांत नांगर दिताली. अशें सांगतात, ह्या गांवांत जोत बांदून नांगराच्या निरमण्यार हात दवरपी ही पयली बायल.

खांक थांबतकीर साळूआजयेन सांगलें, 'सरादेर झूज पेटलां खंय, चीनान घुरी घाल्या खंय ह्या भारत देशाचेर. काल हळगेच्यान श्रीपाद शेट येयल्लो. तो सांग, आकांताचें झूंज खंय. रेडिओचेर त्योच खबरो खंय ह्या दिसांनी. पाडपडिल्ल्या ह्या गावांत एक रेडिओ ना कितें आयकतलो जाल्यार.'

'हे फावट आमच्या वाड्यावयलो कोणय मुखार ना मुगे ?'

'काल पासून तीच खबर काडटालें हांव. पूण कोणाची खबर कोणाक ना. महेश्वर आनी बाळू मात काश्मीरांत आसात म्हण जाणा हांव. मनोहर आसामांत आसा खंय ! सदानंदाली मात म्हयनो जाली चीटच ना. आवय बावडी रडटा.'

'एकलोच चेडो न्हय गे तो तिगेलो!'

'आवयलें आयकनासतना फलटणींत गेला. आवयच्या जिवाक कांच. चेडो

वचतसान अपरूपें सामकें बरगलां. कांट्याकच जीव घेवन आसा.'

मगेर गणेश आनी साळूआजयेन वाड्यावेले कितले जण फलटर्णींत आसात हाजो बोटार हिशोब केलो. वट्ट णव जण आसले. अठरा घरांतले णव जण फलटर्णींत. साळूआजयेन म्हळें, 'बैल हे बैल, वाड्यावेले दादले. बरे शिकले म्हण नात. शिकप अर्दारच सोडटात आनी फलटर्णींत धांवन वयतात, तेवय कित्यांत जाणा, इन्फंट्रींत. तकलीच उणी. आतां हांगा आशिल्ल्यांच्या जिवांक घोर.'

'फार्टी जाल्ले जर्मनीचें लडायेंतय अशेच साळूआजये, वाड्यावेले अर्दे दादले लडायेर. गांवांत पोस्टमन येयल्यारूच ह्या लोकांच्यो बोबो पडटाल्यो. महेश्वरालो बापूय नापत्तो जालो तेन्ना एका फाटोफाट तीन तारो. गांवाचेर हावळ.'

'तरीय चेडो गेलोच मुरे फलटर्णींत.' साळुआजयेन देवतेच्या देवळाचे दिकेन हात हेळायत आंगवण घाली, 'पाव गे देवतेआवय, ह्या वाड्यावेलो एकानएक भुरगो खुशाल परतो येवं. परतो येतकीर तुजे मांडयेसरी जोडप्यान हाडून होंटी भरूंक लायतलें. परंतराक उज्या, उदकांत तुजीच राखण तांकां.'

बडी उबी केली आनी ती वचूंक उठली.

'पांवळेच्या आड्याक आपटशी गे, सांबाळून वच.'

'आड्याक आपटूंक आतां हांव पयलीं वरी उबी उरूंक ना रे. देहाक धतरीचे वेध लागल्यात.'

'दिवो दाखय म्हणटा ?'

'कित्याक रे, जल्मापासूनची संवकळेची वाट.'

'तशें न्हू. पांयां पोनांतल्याची भिरांत गे.'

'ताजी भिरांत उरली ना आतां. खावंचो आसल्यार केन्नाच खाता आसलो तो. एक फावट मुळी खणटना हाताचेर नाचून गेलो. हो देड वांवाचो, हळदीची मुडली कसो हळदुवो. गळ्याचेर ही तायटायेदी तुळस. आनीक एक सांगतां तुका गणेश, ह्या वाड्यावयलो ह्या वाठारांत एक्कय जीव घेतिल्लो ना ताणें. हांगा खुंटी मारून मठी बांदिल्ल्या मूळ'पुरसाची म्हयमा ती. अजुनूय तो खुळखुळ्याची खुळखूळ काठी तेंकयत वाड्याभोंवतणीं भोंवता आनी वाड्याची राखण करता. हांवें आयकला ताजो खुळखुळो.'

हांचो कूळदेव गावडोंगरेचो मल्लिकार्जून म्हण हांचो मूळपुरूस गोंयच्यान हांगा येवन राविल्लो हातूंत दुबाव ना.

पयलीं ह्या वाड्याक शिद्दर गांवचो लोक जेवणकारांवाडो म्हणटाले. कोणाकय परबेक, वर्शिकेक, म्हाळाक जेवणकार रवदुरो, धिणो, सवासीण जाय जाल्यार ह्याच वाड्यावयल्यान कोणाकय आफयताले. ह्या गांवच्या लोकांचे हे सोयरे म्हण.

मूळ पुरूस गोंय सोडून ह्या दिगंतराक कसो आनी कित्याक येयलो हाचेविशीं एक खबर पिळग्यान पिळग्यो घोळत येयिल्ली आसा-

आयल्या दोंगराच्या मुळसांत आनी पयल्या दोंगराच्या मुळसांत दोन ल्हान गांव आशिल्ले. दोनय गांवांमदीं गोरवां चरोवंच्या वाठारावयल्यान, दोंगरांत साळ, वाळ, गोणो, कुळीथ रोवंच्या जाग्यावयल्यान हाणामारीचें झगडें चलतालें. एके रातीक पयल्या मुळसांतल्या गांवच्या लोकान आयल्या मुळसांतल्या गांवच्या लोकालीं शेंपन्नास गोरवां गोठ्यांतल्यान सोडून व्हेलीं. तीं ताणें आमडून एका ऊंच दोंगराच्या धेंगणासरीं व्हेलीं. गोरवांक आमडून, बडोवन धेंगणावेल्यान सकल उडयलीं. कितलींशींच गोरवां मेलीं, पांयें मोडून पडलीं. उरिल्लीं अटंग्या रानांत शेणलीं आनी वागान खायलीं.

दुसरे रातीक आयल्या मुळसांतल्या गांवच्या लोकान पयल्या मुळसांतल्या गांवाचेरूच घुरी घाली. ताणें लोकाक मारलो, धाडायलो, बडयलो. गांवच्या बुदवंताक मारून ताजें मुंडकें कुराडेपात्यार नाचयत हाडलें. तें मुंडकें आपल्या रित्या गोठ्याच्या पाडसाक बांदून गोठ्याक उजो लायलो.

मगेर ते आपली साटली पोटली घेवन दिगंतराक फासपले. धा वाटांनी धा जाण गेले. हो हांचो मूळ पुरूस मायंगिणीच्यान सकल देंवन गोपतिठ्यार पावलो. थंयच्यान हळगे गांवांत. हळगेच्या लोकान ताका एक रातची वसती लेगीत करूंक दिनासतना धांवडायलो. मागीर तो हुळगे गांवांत पावलो. त्या लोकांन ताका गांवच्या सिमेभितर लेगीत घेयलो ना. थंयच्यान तो न्हंय बळाटून खारगे गांवांत येयलो. त्या तेंपाक गांवांत कोणय अनवळखी मनीस येवन रावतलो जाल्यार गांवच्या बुदवंताचो कौल घेवचो पडटालो. समा कारणाबगर सोंपेपणान कौल मेळनासलो. खारग्यांत ताणें तसेंच रावचेलो यत्न केलो तर गांवचे लोक हातांत तोणे आनी दाणे घेवन ताका मारूंक येयले.

निमाणो तो शिद्दर गांवांत येयलो आनी देवळामळार चिंतेस्त बसलो. वांगडा बायल आनी भुरगीं. आनी आनीक हांव खंय वयतलों रे देवा म्हण तकलेर हात घेवन तो बशिल्लो.

तेन्ना शिद्दरचें नरशिंवा देवूळ नव्यान बांदताले. ही व्हडली बारा वजांची ओंवळी लाकडाची पाटी खांब्यार चडोवंक जाय आसली. लोक ती पाटी खांब्यार चडोवंच्या वावराक लागिल्ले. पूण ती तांचेकडेन कशीच उठना जाल्ली. सेगीत पांच दीस यत्न करून तांकां नाकापुरो जाल्लें. मूळ पुरसासान चयलें आनी ताज्यो बावळ्यो फुरफुरल्यो. मूळ पुरूस पांच हात ऊंच आनी घटमूट आसलो, लोखण ओतून बडयिल्लो पुतळो कसो. आंगांत हतयाचें बळगें. ताणें त्या लोकाक सांगलें, तुमी सगले मेळून पाटयेक एका शेवटाक खांदे दियात. हांव एकलो दुसऱ्या पोंताक खांदो दितां. लोक आयकतच उरले.

'पळयात तरी तुमी खांदे दिवन.'

त्या सगल्यान एका शेवटाक खांदो दिलो. मूळ पुरणसान एकल्यानच दुसरें शेवट उखलून पाटी खांदार मारली. एक पांय फातरेर दवरून ताणें सट्‌कन पाटी खांब्याच्या माथ्यार तेंकयली. सगल्यांकच अजाप !

देवळाचो मिराशी मुखार येयलो. ताणें विचारलें, 'खंयचो कोण गा तू?'

'घरदार सांडून शिंवेसरांत येयलां धनया. तुमच्या गांवांत थारो दियात. नातर उबंत पडटलों !'

मिराशान ताका म्हऱ्यांत आफयलो आनी गांवच्या बुदवंतांहुजीर सांगलें, 'तो एक कडमाचो आनी दुसरो ऊंच सांवरीचो रूख दिसता, तो तिठो तुजो. थंय खुंटी मारून मठी उबी कर. संतोशान राव. न्हंयचे देगेर जायती जमीन पडींग आसा. ती वसोवन खा. जमीन कस्टाची पूण मांसाळ. मर्दी मर्दी हुंवारांत कुसून वयता; पूण एक वर्स पिकल्यार तीन वर्सां खावन सरचें ना.'

मूळ पुरसान साटली पोटली उखलली आनी तो बायलेक भुरग्यांक घेवन वचूंक लागलो. कडमा रुखाचे दिकेन.

'आनी हें चय, तुवें देवळाची पाटी पयलीं तेंकयल्या. नरशिंवाचे जत्रेक कळसाक फोडिल्ल्या सात नाल्लांतलो एक नाल्ल तुज्या मानाचो. ह्या गांवचो आतां मानाचो एक पाट तुका.'

मूळ पुरसान दिनवासान, भावार्तान मिराशाकडेन चयलें.

'तुजो कूळदेव कोण गा ?'

'मल्लिकार्जून, गांवडोंगरेचो.'

'मगेर तूं आमचो सोयरो. उमास पुनवेक आयतोच गांवाक जेवणकार मेळ्ळो.'

कडमारुखासरीचो तिंठो बरोच ऐसपयस आसलो. थंय कसलीं कसलीं जायतीं झाडां झोपां पातळिल्लीं. मूळ पुरसान बारीक चयल्यार थंय मर्दीच एक कोसळून मातयेभरवण जाल्लेंशें घराचें घटण आसा. तशेंच कोसळिल्लें एक तुळशीपेड आनी एक कळमेल्ली दिवली.

एका वाटसुऱ्यान थांबून म्हळें, 'बरकत ना ह्या पडींग तिंठ्याक. मठी उबी केल्लो चार पावसाळे तिगना. पुत्रफळच प्राप्त ना. फार्टी कोणें एके मेल्ले गुरवार बायलेक पोटांत जितें भुरगें आसतना तशीच पुरली हांगा. तेन्नासावन अलवांतीण मूळ धरूंक दियना.'

मूळ पुरूस घोर चिंतनांत पडलो. आनीक खंय म्हण वयतलो तळपट्या सड्यार पडूंक ! आयतीच गांवची राखण मेळ्ळ्या ती सोडूंक फावोना. कितें बरें वायट जावंचें आसा तें हांगाच जावं. तो किंवाट्यान उठलो. ताणें खुंटी मारली आनी कुदळ हातांत घेयली.

आयज त्या थळार मूळ पुरसाले वंशकुळयेचीं मेजून अठरा घरां आनी तीस चुली आसात. खावन पिवन धादोयस. वाड्याचे सरभोंवतणीं जायत्या जातींचे आंब्यारूख आसात. मर्दीं पेंडयेन भरिल्लो माड कवाथो धोलता. चार दिकांनी चार बांयो आसात – तळयो कशो.

वाडोय अशा थळार वसला, चोंयभोंवतणीं शेकानशेक पातळिल्लीं शेतां आसात. शेतापयल्यान एके वटेन काळी न्हंयची धार आनी त्रातूंतले जुंवे. वयले वटेन शेतां सोंपतकीर ऊंच दोंगर. दोंगराच्या मुळसांतल्यान कारवार शाराक वचूंक गेल्लो पांयवाट कसो रस्तो.

शिद्दर गांवाचो हो एकच वाडो शेतांमर्दीं. हेर सगलो गांव दोंगराच्या मुळसाक. अख्ख्या गांवार फाटल्या ऊंच पाचव्याचार दोंगरान सावळ धरिल्लेवरी जाल्या म्हण गांव सैमाच्या खाकोळांत बशिल्लेवरी थंडशितळ, सोबीत आनी तुस्ट.

खूब पावस पडून काळी न्हंयंत उदक चडूंक लागलें म्हणटकीर मात ह्या सकयल्या वाड्यावयल्या लोकांच्या पोटांत कलकलता. केन्ना हुंवाराचें उदक येवन आंगणाक लागता, केन्ना घटणाक तेंकता. मगेर हे साटली पोटली बांदून घरां सोडचे तयारेक लागतात. 'व्हडल्या पुरी' वर्साक तर सामक्के तेरा दीस वाडो उदकांत बुडून आसलो.

गणेश सकाळ नसकाक उठलो. तोंड धुवन ताणें मंजूळाक जागयत म्हळें, 'हांव म्हातारआंब्या शिरेंत जोत बादंतलों. तूं मगेर चाव भाकरी घेवन बायूलाक धाडून दी. बेगींनच धाडून दी गो. मगेर जोत सोडून वंयक खूंट हाडूंक दोंगरार वचूंक जाय.'

आपा गेलो आनी मंजूळ रोखडेंच आळसाय सांडीत उठलें. मर्दी केन्ना नकळो दोगीय भयणीं एकाच चादरांत रिगिल्ल्यो. मंजूळ ल्हवच चादरांतल्यान भायर येयलें. ताणें सुटिल्ल्या केंसांचो आंबाडो बांदलो. पळेल्यार पोल्कार्ची वयलीं दोन बुतांवां सुटल्यांत. ताणें बेगीबेगीन बुतांवां लायलीं. श्या, दोनय पोल्कां अशीर जाल्यात. बेगीनच नवें शिवंक जाय. बायूलाकूय एक आंगली जाय.

रातीं ताणें भाकरेक म्हण एक आटोव उकडे तांदूळ आनी अर्द आटोव सुरय तांदूळ तिंबोवंक घातिल्ले. ते ताणें धुवन रगाड्यार घाले. आनी घडघड करीत तें वांटूंक लागलें. बायूलाक जाग येयली.

'बाय पोळ्यांक वांट्टा गो ?'

न्ही, भाकरेक.'

'हांव खांवचेंच ना हां'

'तुका सद्दां पोळे जाय भकूंक. पोळ्यांक उडीद जाय, भाजूंक तेल जाय.'

'बाय शाळेक रजा आयज.'

'कित्याक म्हण गो'

'माजाळेची भांडी जत्रा न्हय?'

'थंय माजाळेक जत्रा आनी तुमकां हिंगा शिद्दराक रजा. बरें बाये तुमचें.'

'मास्तर माजाळेचोच न्हू गो. बाय, माजाळे मुगो व्हडली जत्रा जाता खंय. गोंयच्यान लेगीत लोक येता खंय.'

'एक वर्स गेल्लें हांव आपावांगडा. थंय आपालो मावसभाव सदामामा आसा न्ही गो. मुगो दोन भांडी आसतात. तांकां व्हडले व्हडले दोर घालून शंबर दोनशें लोक ओडटात. भांडीची वयली आडी इतली लांब, इतली लांब ती वरशी गेली म्हणटकीर मळबाक तेंकता अशी दिसतात. ओडटले लोक 'यो भांडी यो, यो भांडी यो' म्हण व्हडव्हडान आड्डतात. वयली आबोलेफुलांच्या सरांनी सोबयिल्ली आडी वयर सकल हालता, करकरता. भांडी वांगडा लोकांच्यो झुंडी धांवतात. मज्जा दिसता !'

'म्हाका मात आपा एक्केय जात्रेक व्हरना.'

'आई आसताना वयतालो गो तो जत्रेक, नाटकाक. आतां खंयच वचना तो. आमच्या गांवचे जत्रेक लेगीत वचना मुगो तो.'

'कित्याक म्हण ?'

'नकळों. तूं जाणा बायूल, आपा पयलीं नाटकांत लेगीत काम करतालो.'

'खरेंच?'

'म्हाका घट याद आसा आपान येद्दी व्हडली दाडी लावन एका नाटकांत काम केल्लें. हांव आईवांगडा मुखारच बशिल्लें. आई हांस हांस हांसताली.'

सुमनान बेठेंच 'हूं' केलें आनी तें परतें वचून न्हिदलें.

'आगो वचून न्हिदलें मुगो. चल भिकूअण्णागेर वचून दूद घेवन यो चावेक.

तें वोग्गी उठलें आनी पेलो घेवन दुदाक गेलें. भायर उजवाडिल्लें. पूण हवेंत बरोच शेळाव आसलो आनी शीं खातालें. सुमनान दोनय हात हड्ड्यार कवळून घेतले. आंगणामेरेवयल्या कवाथ्याचीं चुट्टां वाऱ्यान हाललीं. दवाचे थेंबे तागेल्या आंगार पडले. ताजें आंग शिरशिरलें. ताणें पेलो हातांत घेवन धांव मारली भिकूअण्णाच्या घराचे दिकेन. वाटेर खुशालील्या आंगणांत खुशाली पोल्लेत व्हडलो उजो करून भात उकडटालो. नितळ सारयिल्ल्या आंगणांत काल उकडिल्लें आनीक भात सुकोवंक घातिल्लें. सुमन थंय मातशें उज्याच्या धगाक थारलें. पोल्लेवयलें हें व्हडलें भाताभाण गाजेतालें. ताजो भरभर आवाज सारक्को येतालो. मदींच वेलें उदक ओततालें आनी बद्द चुलींत चळ्ळ करून वचून पडटालें. खुशाली परथो परथो भात उकडलां काय म्हूण चयतालो आनी उजो मुखार सारतालो. हरी कांबळ कांबरून घेवन उजो शेकतालो. 'कितलीं भाणां जालीं रे खुशाली ?'

'हें आठवें. निमाणें भाण.'

'आठच ?'

'ह्या वर्साक पीक तसलीच ती. गेल्ल्या वर्साक सामकें इकरा भाणां भात उकडिल्लें हांवें हरी. तरीय मुखावयली पीक येता म्हणसर खर्शेल्लों. ह्या वर्साक देवच आसा. निमाण्या म्हयन्याक व्हाडीक भात हाडूंक निळूगेर वचचें पडलेंना जाल्यार पुरो.'

'श्या, निळूगेर ! खाणयेक देड खाणी भात खळार येवन व्हरता. आनी वयल्यान पोल भात काडून दिलें म्हणटा. आमचे वंशपिळगेचो आसुनूय मारवाड्याल्या कास्ताचो कसो कळंतर खाता.'

'तुजें बरें हरी, पंदरा वर्सां फलटणींत नोकरी करून येयलो आनी आतां पेन्शन.'

'अरे, अठरा वर्सांचो आसताना गेल्लों पांय धाडावंक फलटणींत. कसले दगदगे काडले जाणा ! हांगा तुमी बामणालीं शेतां आडावन घेयलीं आनी आतां तीं तुमचींच जावन गेलीं. आतां तुमी व्हडले शेतकार. म्हज्या बापायलें शेत लेगीत भावान सारकें वांटून दिलेंना. वयल्यान, हांवें राखून दवरल्यां. दिता तितलें घे म्हळें ताणें. व्हडलो भाव म्हण हांवय कांट्यार बसून झगडूंक गेलों ना. चार कवडेची पेन्शन दिसता तुमकां.'

'कितेंय म्हण तूं हरी, शेता धंदो म्हणटा तो भुकेकंगाल धंदो. जाणटेल्यांनी म्हणुनूच दवरलां-, उत्तम व्यापार, मध्यम नोकरी, कनिश्ट शेती. मदींच खुशालीन उलो मारलो, 'आगो, दवलो आनी बुटी घेवन यो, भात उसपूंक जाय.' ताणें सरसरीत जळटीं लाकडां ओडून भायर काडलीं आनी ताजेर उदक मारलें. ताजी नदर सुमनाचेर गेली.

'हें 'मुगांलालू' केन्ना येयलें ?'

सुमन लजेलें आनी ताणें धांव मारली. ल्हान आसताना एक फावट ताका कोणें तरी एक मुगां लाडू दिल्लो. तो तसोच हातांत धरून तें 'मुगांलालू मुगांलालू' करीत वाडोभर नाचिल्लें. तेन्नासान ताका 'मुगांलालू' म्हण लोक चाळयताले.

सुमन दूद घेवन येयलें तेन्ना मंजूळ चुलीवयल्यान चाव सकयल काडून बशिल्लें. 'आगो इतलो वेळ गो तुका दूद हाडूंक ? म्हस पानेवंक बशिल्लें काय कितें गो ?'

सुमनान उलटें ताजेरच तोंड व्हड केलें, 'भिकूअण्णान आतांच गोठ्यांतल्यान दूद काडून हाडिल्लें मुगो.'

'बरें बरें. तोंड धूव आनी येवन चाव पी.'

मंजूळान सुमनाक चाव भाकरी दिली. आपाली चाव पितळेच्या बासकिटांत घालून वायलासरी दवरली.

'सुमन बेगीन चाव पी. आपाक शेतांत चाव घेवन वचूंक जाय. हांव बांयर वचून उदक घेवन येतां.'

मंजूळ दोड उखलून राजू घेवन बांयर गेलें. सुमन चाव पिवन भायर येयल्यार घरामुखावयले वाटेवयल्यान गोविंद, मनू, चंद्रकांतबीन भुरगे खंय तरी वयताले. सुमनान व्हडान विचारलें, 'खंय वयतात रे गोविंद ?'

'भंवरी तळ्यांत साळकी बोंडे काडूंक.'

'उदक चड ना मुरे ?'

'ना गो, कमरभर.'

'हांव येवं ?'

'यो.'

सुमनान फाटींफुडें पळेलें ना. दार तशेंच उकतें सांडलें आनी तें भुरग्यांवांगडा धांवलें.

मंजूळ उदका दोड घेवन येयल्यार सुमन भायर भितर खंयच ना. तें आंगणांत येयलें आनी व्हडाव्हडान आपोवंक लागलें, 'सुमन गो, सुमना, खंय खंवसलें हें पाडपडिल्लें.'

पूण सुमनाचो आवाज ना. वाड्यादेगेच्यान पिसो गंगू गोरवांचो पंगड घेवन वयतालो. तो गोरवांकडेन व्हडाव्हडान उलयतालो आनी तांकां गाळयो घालतालो. ताजेन सगलो वाठार कांय वेळ गजगजून गेलो. तें परथें सादोवंक लागलें, 'सुमन गो...

मदल्या घरांतली सुमित्रामावशी दारांत येयली. तिणें दारांतल्यानच सांगलें, 'आगो वाड्यावयलीं पोरां भंवरी तळ्यांत साळकी बोंडे काडूंक गेल्यांत. तेंवय गेलां आसतलें. तांचेकडेन उलयतालें तें हेदोळ.'

मंजूळाक अशे फडफडे मारले ताणें मनांत म्हळें, आतां येवंदी ताका. हांवच कोंड्या बडयेन फोडून काडटलें ताका ! तें सडसडीत भितर गेलें. ताणें चावेचें बासकीट उखललें. भाकऱ्यो फाळ्यांत गुठलावन घेयल्यो आनी तें आपाक चाव व्हरून दिवंक गेलें.

शेतांत आपान बायूलाक कित्याक धाडूंक ना म्हण विचारतकीर ताणें सांगलें, 'उठिल्लेंच कळाव करून. भंगूं म्हळें. तोंड धुतकीर ताका चाव दिवन हांवच येयलें.'

मंजूळ चाव दीवन येयलें तरीय सुमन ना. आतां तर ताका खऱ्यांनीच तिडक मारली. ताका सोडचेंच ना हांव. ताणें कोंड्यांआळीत वचून एक बारीक बडी मोडून हाडली आनी पांवळेंत एका कोनशाक दवरली.

मंजूळ मुडें बांदूंक तणाचीं फ्रांती वोळूंक सोंप्यार बशिल्लें. मुखावेली न्हंय ताजे पलतडचे हळगे, हुळगे गांव, ताजे फाटले दोंगर हाजेर चकचकीत वोत पडिल्लें. आनी तो सगलो वाठार हाताकडेन येयिल्लेवरी दिसतालो. हुळग्यामळार नव्यानच बांदिल्ले ते व्हडले शाळेच्या नळ्यांचो तांबडो रंग हंयच्यानय कळटालो. न्हंये देगेर

आशिल्ल्या उशेलाक कोण तरी राटीन उदक काडटालो. राटीचो कर्रकर्र आवाज येतालो.

मंजूळाच्या मनांत तिडक आनी एकवटेन हुस्को. बायलपोर हें चेड्यांवांगडा उदकांत मिरोवंक गेलां. तळ्यांत थंय पयल्यान गणपतीक माती काडटात. थंय पांय गेल्यार परतें येवंचें ना वयर!

शेजारच्या घरांतली गोकूळकाकी शेणान आंगण सारयताली. कोळशे बडोवन घालून भरशिल्लें काळेंकाळें शेण. दर गिमांत गोकूळकाकी कितलें सोबीत आंगण करता ! शेकानशेक समतळ आंगण. सोबीत कातरिल्ल्यो मेरो. आदीं मातयेंन आंगण सारोवन घेवन मगेर तें सुकतकीर शेण–मातयेन सारोवप. ताजेवयल्यान काळ्याकिट्ट शेणाचो हात मारप. आंगण इतलें सोबीत, आंगणभर नाचचें, फुगड्यो घालच्यो अशें दिसता. खुशालीअण्णा दारांत इल्लो चुट्टांचो माटोव घालता. घरदारांत सदांच थंड शितळसाण नंदता. वाड्यार दर एकल्याच्या दारांत गिमांत सारयिल्लें आंगण आसता. पूण गोकूळकाकील्या आंगणाची सोबीतकाय आगळीच. आंगणांतली तुळस तर ती गवण्यान पिंतारिल्लेवरी सारयता.

गोकूळकाकी उरिल्लें शेण तायटार घेवन वाड्याकुशीचे गायरेंत उडोवंक वयताली. मंजूळान म्हळें, 'काकी, तूं अंदूं तुज्या आंगणांत शिगम्यामेळ नाचोवन घे. तुज्या आंगणांत शिगम्यांमेळ देंवलो म्हणटकीर तांकां दुट्टीन उमेद येतली.'

'हांव बरें नाचोवन घेताशिल्लें. बरी ताट भरून तळय लेगीत दिताशिल्लें. पूण मूळ तुळशीच्या व्हडल्या आंगणांतूच मेळ नाचूंक जाय, हेर खंय नाचूंक फावोना म्हण पुर्वाचाराचो दंडक आसा न्हू गो.'

'पूण तुगेलें आंगण कोणें तरी नाचून घेवंचेलेंच.'

'आगो, तुगेलो आपा शेताची मेर म्हगल्या आंगणा मेरेपरस नकसूद घालता. म्हजी कसली तुस्त करता.'

हय. आपा खऱ्यांनीच सोबीत हाताचो. तार्णे घातिल्ली धानांची, शिवडांची घुडी कितली सोबीत. तणावळय कितली पकदस्त. पूण हालीं हालीं ताज्या हाताक आळसाय येयल्या, हात मोनेवंक लागल्यात. पयर बिंयाचें मुडें कशेंतरीय बांदून दवरलां. एके वटेच्यान पोट फुटिल्लेवरी दिसतात. पयलीं कशे चेंड्रू कशें मुडें बांदतालो तो.

बऱ्या वेळान सुमन येयलें. आकाड्यांतल्यान मोन्या पावलांनीं आंगणांत पावलें. भिंयेतभिंयेत. मंजूळान ताका रागान पळयलें खरें, पूण ताका पळयलें आनी

ताजो राग दोळ्यांतच मावळ्ळो. सुमन उदकांत चिप्प भिजिल्लें. केंसांतल्यान लेगीत उदक गळटालें. ताज्या दोनय खांदार फुलिल्लीं तट्टटीत वजेंभर साळकां आशिल्लीं. तें सामकें साळकांत भरून गेल्लें. ताजें गोरें मुखामळय एक साळीकच जाल्लें. आनी आंगलेचे होंटयेंत होंटी भरून साळकी बोंडे. ताका पळोवन मंजूळाक कितें उलोवंचें तें सुचना जालें. तें पळयतच उरलें.

सुमन मुखार मंजूळासरीं येयलें. ल्हवच होंटयेंतले दोन मोठ्ठे बोंडे काडून ताजे मुखार धरून ताणें म्हळें, 'बाय, बोंडे खातलें ?'

ताज्या चेऱ्यार इतलें शुद्ध निरागसपण आशिल्लें, मंजूळ गप्पगार जालें. ताणें तागेल्या खांदावयलीं देंठासयत धा-वीस साळकां काडून आपले मांडयेर दवरून घेयलीं आनी तीं हुंगलीं. ताणें मनांत म्हळें, म्हणच बायूल तुगेली आई जाल्लें हांव! तुजे येदें आसतानाच तुगेली आई जाल्लें हांव ! तूं मात अजून आडांगीपणां सोडिना.

सुमन परतें एक फावट ताजें नदरेमुखार तीन म्हयन्यांचें बाळक जालें. मंजूळ णव वर्सांची ताजी आवय जावन ताका खेळांवंक लागलें. आईल्या चिंवांक रडटल्या सुमनाक सुलोचनासरीं व्हरून ताणें म्हळें, 'ताई, हाका मातशें चिंवांक धरता ? रडून रडून चिनाल्लां तें !' तें फाटल्या यादींनी घुसपलें...

मंजूळ चुलीसरीं बसून पेजेमडकेक जाळ सारतालें. पेजेची मडकी खतखत्यान ओतताली आनी निसाची धार उज्यार पडटाली. उजो परथो परथो पालवतालो. सालांत पांच म्हयन्यांचें सुमन हांथरुणार थार दिनासतना रडटालें. ताका उखलून घेवंक म्हण मंजूळान बेगीबेगीन उजो मुखार सारलो. ताजो हात इंगळ्यांक लागून हुलपलो. वेल्यान हूनहून निसा धार हातार पडली. तें आवयस करीत न्हिन्नळ्ळें. हात तसोच फाफडीत तें भायर येयलें.

भायर वासरेर बशिल्लो गणेश सुमनाचेर रागान तणतणटालो. 'अवचिन्न. आडमायत्यार थार दिनासतना आड्डता. म्हयन्याभितर आवयक खाली आनी आतां कोणाक खावंक रडटा ? मेल्यार सुटिल्लों हांव.'

मंजूळानें ताका उखलून आंगार घेतलें आनी तें आंगणांत येयलें. 'रडूं नाका हां, बरें म्हजें बायूल. ना... ना... ना...'

मंजूळान ताका आंगार घेवन धोलयलें, खाकोळांत घेवन तें आंगणभर धांवलें.

मेरेवेलें दसणीचें फूल काडून ताणें ताजे मुखार धरून हालयलें. ल्हव ल्हव तें रडचें थांबलें.

'आपा, पेज शिजली दिसता. पेजेमडकी सकयल काडून दवर चुलीवयल्यान. काल हांवें गोकूळमावशेक आफयल्ली सकयल दवरूंक.'

गणेशान भितर वचून पेजेमडकी काडून निंवण्यार दवरली. भायर येतां येतां ताणें म्हळें, 'पेजेवांगडा तोणाक कितें केलां गो तुवें ?'

'लीलाताईन चार मशिंगासांगो दिल्यात. तेंच शिजयतां.' तें भितर गेलें. ताणें आर्दी इल्लो पेजेचो निवळ ताटांत काडून तो थंड केलो आनी तो बायूलाक चमच्यान इल्लो इल्लो पाजयलो. मगीर ताका घालून तें मशींग शिनूंक लागलें. इतले मजगतीं गणेश भितर वचून नाल्लावळें घेवन कांतन्यार कांतूंक लागलो. भायर वासरेर बसून मशींग शिनपी मंजूळाक एका तालांत खर्रखर्र असो आवाज आयकोंक येतालो. आई अशीच सोय कांतताली ताटली भरून. हुमणाक, शाकेक आनी थोडी सोय घालिनासली. आपा सदांच सवतालो. पाडिल्ले नाल्ल बेगिनूच सोंपयता म्हण. पूण तिका जाय तशी सोय घातलेबगर रांदुंकूच कळनासलें. मामा मदींच एकाद्रो दीस येतालो. आंगणांत पावतकीर म्हणटालो, 'हांव तुगेल्या हुमणाचे यादीन धांवन येयलां. मगेर तो येतना न्हंयकडच्यान हाडिल्ल्या शेंवट्यांची, शेतकांची गांथन मुखार करतालो. ही हातभर गांथन आनी ताका वेंत-वेंतभर शेंवटे आनी शेतकां, ताज्जीं फडफडीत. मगेर आईल्या हाताक आगळी सुरबूससाण येताली.

आई कांतूंक लागली, रे लागली, हांव पयलो सोयेचो भंवर घेवन धांवंक लागतालें. आई सवं. पूण हांव बद्द अंगणांत. आई म्हाका जायते फावट 'तवनास चेड्डूं तूं' म्हणटाली. म्हाका बरें दिसतालें. आई वतकीर मात लोक म्हाका म्हणूंक लागले, 'मंजूळ, पोरा तुवें आतां बायूलाची आई जावंक जाय. बापायक अन्न शिजोवन घालूंक जाय.'

ताणें मशिंगा सांगो शिनून जातकीर त्यो धुवन घेयल्यो. रांदचेकुर्डींत आशिल्ल्या आपान त्यो तोपलेंत घालून चुलीर शिजोवंक उडयल्यो. वयल्यान सोय, कांदो आनी मिरसांग घाली. तो जाळ सारत चुलीसरीं बसलो. घराचे फाटले वटेच्यान गोकूळमावशी खंय तरी वयताली. 'मंजूळ रांदलें गो' म्हणत ती जनेलासरीं येयली. फाट करून चुलीसरीं बशिल्ल्या गणेशाक पळोवन तिणें म्हळें, 'सकाळीं खांदार खोरें मारून मेरो करूंक गेल्लो पळयिल्लो मुरे हांवें. केन्ना येयलो ?'

'आतांच येयिल्लों. चिखलांत खोरीं मारून मारून पुरो जालें. बेगीनच येयलों.'

गोकूळमावशेन वयतां वयतां म्हळें, 'शेताभाटाचो वावर आनी घरा येवन

चुलीकडेन दगदगे. दादल्या मनशाक असो चुलीसरीं बशिल्लो पळोवंनजो म्हज्यान. पूण धा वर्सांच्या चेडवार कितलें म्हण पातयेतलो.'

मंजूळान जनेलांतल्यान चयलें, गोकूळमावशी तुरुतुरू चालीन चलूंक लागिल्ली. तशीच ती. चलूंक लागल्यार, कामाक लागल्यार तिका सुशेग म्हण खबर ना. मोटव्या हातां-पांयांची, घटमूट हाडांपेरांची गोकूळमावशी कामाक वाग. शेतांत हेरांवांगडा नडूंक गेल्यार, लुंवंक गेल्यार हिगेलो शेव सगल्यांत मुखार पावता. रानांत जळोव हाडूंक गेल्यार हो येद्दो व्हडलो भोरो घेवन येता. दादलेय अजापतात.

सुमनाक थापटून थापटून मंजूळान न्हिदयलें. मगेर ताणें तागेल्यो आंगल्यो, तोपल्यो रातीं भिजयिल्लें हांथरूण एकठांय केलें. भितर येवन ताणें म्हळें, 'आपा, हांव बांयर वचून वस्त्रां धुवन हाडटां.'

आपान बेठेंच हां म्हळें. तें थंयच मातशें गणमणलें. 'आपा, भिकूअण्णा बायूलाल्या दुदाच्या पयशांविशीं विचारतालो. म्हशीक पेण्ड हाडूंक जाय म्हणटालो.'

गणेश सट्कन्न किसळ्ळो, 'दितां म्हणून सांग पयशे. बुडोवन खावंचोंना. आनी तुका सांगतां, फाल्यांसावन दूद बंद. चड अपुरबाय नाका. वांचल्यार वांचता.'

मंजूळ भिंयेल्लेवरी जालें. 'नाका आपा, दूद दिलेंना जाल्यार भुकेन तळमळटलें तें.'

'पेजेकुयां खावय फाल्यांसावन मुड्डून.' मंजूळ ओग्गी बांयसरीं गेलें.

बांयवयल्यान परथें येयल्यार लीला बायूलाक घेवन आंगणांत उबें आसा आनी ताका ओगीओगी करता. ताणें मंजूळाक धपकायलें, 'आगो ताका तशेंच व्हासरेर सांडून खंय गेल्लें गो ? पोर कितलो वेळ जालो रडून चिनाल्लें. भूक लागली आसतली गो ताका.'

आपा आशिल्लो, खंय गेलो काय म्हणीत तें भितर गेलें आनी बशयेंत थोडीं पेजेकुयां घालून तीं मुड्डून घेवन येयलें. 'हांगा दी लीलाताई, ताका कुयां भरयतां.'

'आगो तीं कुयां पचतलीं ताका ? हगवण लागतली मुगो.'

'कांय जावंचें ना लीलाताई, दी तूं ताका.'

लीलान बायूलाक मंजूळाकडेन दिलें आनी म्हळें, 'फाल्यां कितेंय जाल्यार हांवें सांगलें ना म्हणूं नाका हां.' तें वचूंक गेलें.

मंजूळान बायूलाक दोन चमचे कुयां भरयलीं आनी तीं ताणें ओंकून उडयलीं.

ताजे आंगलेर सगलें उश्टें सांडलें. तें बेठेंच ताणशेलें, 'चड जालें हां बायूल तुजें. पेज जेविना जाल्यार फाल्यांसवन उदक पिवन रावचें पडटलें. आपान दूदय बंद कर म्हळां.'

तें भितर गेलें आनी वायलार दवरिल्लें दुदाचें तोपूल घेवन येयलें आनी तातूंत आशिल्लें सगलें दूद ताका पिवयलें. पोट भरलें आनी बायूल हांसूक खेळूंक लागलें. ताजेवांगडा मगेर मंजूळाय खेळ्ळें. कुयो घालीत ताळयो मारीत. बायूलाक दोनय पांयांर घेवन मगेर ताणें व्हडें केलें, इमान केलें. दोगय भयणी हांसून हांसून खेळ्ळ्यो.

खेळून पुरो जातकीर बायूल झेमवंक लागलें आनी मंजूळ बेठेंच भिंयेल्लेवरी जालें – फाल्यांसावन आपान ताजें दूदयं बंद कर म्हळां!

भिकूअण्णा दारामुखावयल्यान वयतालो. तो परतो पयशे मागीत म्हण मंजूळ वासरेंत कडव्या अडसराक उबें रावलें, ओग्गी. भिकून आंगणांतल्यानूच जाप केली, 'मंजूळ, आगो मंजूळ.'

ओगी भिंयेत भायर येत ताणें म्हळें, 'कितें अण्णा ?'

'व्हडली कोक्याआवय जावन भोंवता. बायूलाक दूद कोण पिवयतलो ?'

'हांवें पयशांचें आपाक सांगलां अण्णा.'

'मेळिल्लो गणेश म्हाका. ताजी तकली घुंवल्या. दूदच बंद कर म्हणटा. म्हाका सवंकच लागलो तो. पयशे दिता तेन्ना दिता. तूं दूद हाड सद्दां. पोराक वळवळावं नाका. पोराची आवय मेली आनी मोमो चुकलो. आतां हांवें दूदय बंद करचें. दुडवाक पावता तो कामाक पावता आनी दुदाक पावता तो जल्माक पावता म्हणटात.'

मंजूळाक घळ्ळ जावन रडुंकूच येयलें. ताज्यो पातयो भिजल्यो आनी ताणें ओलो आंवडो घोंटलो. तें आनीक रडचें न्हय म्हणून भिकून बेगीबेगीन म्हळें, 'वच, घरांत दुदाचो चंबू भरून दवरला. मावशेक दी म्हण सांग.'

सांजचो काळोख पडटकीर आपा येयलो. तो हातपांय धुविनासतना तसोच तकलेवयल्यान कांबळ कांबरून घेवन वासरेंत न्हिदलो. मंजूळान चिमणेदिवो ताजेसरीं हाडून दवरलो. तेंवय थंय कुशीक बसलें. बायूल भितर न्हिदिल्लें. मंजूळाक आपाक उठोवंचेलो धीर नासलो. केन्नाय तो सट्ट करून तापता.

मंजूळाकय आतां बशिल्लेकडेन झेम येवंक लागली. इल्ली इल्ली झेमेची झळपण आनी परती जाग... मामागेर वचूंक आईवांगडा व्हडयेंत बसल्या. आंगार नवीं वासाचीं आंगलीं. आईली जरीची कापडादेग, आंबाड्यार शेंवतेचीं, आबोलेचीं फुलां... आई कण्णान साकरआंब्याचे आंबे हालोवन पाडटा. एक पिक्को आंबो आपूण इल्लो

घांस मारून अखखो म्हाका दिता. तें आईच्या पोटाक कान लायता आनी म्हणटा, 'आई, भितल बाबू आशा... !'

मर्दीच झेमेतना ताजो तोल गेलो आनी तकली खट करून वणटीक आपटली. आपान तकलेवयल्यान कांबरूण काडून पळयलें, 'पोर हांगा बसून झेमेता दिसता.' तो उठलो.

'बाय ऊठ जेवंक या.'

तो उठलो आनी ताणें आपणेंच वाडलें. मोन्यानच. दोगांय जाणां जेवंक लागलीं. पूण दिसतालें, हांगाच खंयतरी आई वावुरता. तिची सावळी हालता, काळखा-उजवाडांतल्यान ती भोंवता. आतां दोगांयमदलो कोण तरी आईविशीं कितेंय उलयतलो आनी दोगांय रडूंक लागतलीं. आई वयतकीर देड दोन म्हयने अशेंच जातालें, कोणाचीं ल्हव पावलां वाजलीं, एक म्होवाळ उतर कानार पडलें म्हणटकीर सट्ट करून दोळे व्हांवंक लागताले. आपा तर इतलो मनान सदळ जाल्लो मंजूळाक जायते फावट दिसतालें, आपा तोंडार कांबरूण घेवन भितर रडूंक लागला.

जेवन उठ्ठकीर आपान विचारलें, 'बाय, बायूलाक दूद दिल्लें मुगो ?'

'हय आपा, भिकूअण्णान दूद व्हर म्हण सांगलां.'

'हाड तूं दूद. हांव दितां पयशे.'

यशवंत आनी आबोलें ल्हवच घरांत घुसलीं आनी गणेशामुखार मोन्यानच येवन बसलीं.

'कित्याक येयिल्लो यशवंत ?'

'बेठोच, बेठोच रे.'

ह्या घोवा बायलेचीं गांवाक तोखणाय. शेतांत रानांत वयतना दोगांय एकठांयच भायर सरतात आनी एकठांयच परततात. घोवान जोत बांदल्यार बायल खबरो करीत मेरेर बसता. आनी बायल नडूंक लागल्यार घोव खबरो करीत बसता. लोक तांकां साळोरी जोडें म्हण चाळयतात. पूण गणेशाक तीं दोगांय शेतांत पावस पडूंक लागतकीर एका घुरम्यांत उबीं राविल्लेंच आठवता.

कोनशाक एक कुराड आसली. यशवंत बेठोच कुराडेसरीं गेलो. 'गणेश पळय ,

तुगेले कुराडीचो दांडो मोडला मुरे. दुसरो घाल बेगीनच.'

'रानांत वचून दांडो हाडूंक जाय. तासून नितळ करून घालूंक जाय.' पूण गणेश तांकां बारीक तेळटालो. कित्याक म्हण देंवलां हें जोडपें हांगा ?

आबोलें भोव चुरचुरत उलयतालें, 'बायल नाशिल्लें घर म्हळ्यार, पेड नाशिल्लो पिंपळ. दोगां बायलचेडवां. फाल्यां तांचें जायतें जावंचें आसा. बायलचेडवांक म्हणटात ती आवय जायच.'

'भोग भोगूंक जाय आबोल्या.'

'आतां भोगशी तूं. फाल्यां म्हातारपणां हातपांय मोडून घरांत पडटकीर कितें करतलो ? आपलो मनीस म्हणटा तो घरांत जाय.'

'आतां कितें उपाय आसा ताका ?'

'उपाय आसा गणेशबाब. तुजें वय कांय जालेंना. तूं परतो लग्न जा.'

गणेशाले तकलेर घण बशिल्लेवरी जालो. जाका तो भितालो तेंच दावखुलां दाखयत मुखार उबें राविल्लें. ताणें रागान म्हटलें,

'तुका पिशें लागलां आबोल्या. वचात तुमी हांगाच्यान काडून वोगी.'

यशवंतान म्हळें, 'एक फावट दिवो पालवलो तर तो परतो पेटयताताच मुरे आमी? ते कुराडेक परतो दांडो घालतलोच मुरे तूं? पयली बायल आसतना चार चार लग्नां करताले. भर वयांत बायल मेल्या आनी असोच रावतलो तू? त्या दोगां नेणार भुरग्यांचें तरी चय !'

मान सकल घालून कपल धरून गणेश वोगीच बसलो.

'म्हगेल्या बापोलयाचें चेडूं आसा. काळें-सावळें पूण घटमूट आंगलोटाचें. बापोलयो माडावयल्यान पडतसान हांथरुणार लागून पडला.'

'म्हण तूं तुगेले बापोयलभयणीक म्हगेल्या चेडवांचे तकलेर सवत आवय म्हण बसोवंक पळयता ?'

'मोगरें तशें बरें चेडूं, गणेशबाब. हांवय हांगा आसांच. फाल्यां ताणें पोरांक चडउणें केल्यार केंसांक धरून हालयतलें हांव !'

गणेश कांयच उलयलोना.

ह्या दिसांनी बायूलाक कितें जाल्लें कळनासलें. रात-दीस रड रड रडटालें. खाल्लेंय पचनासलें आनी ओंकाऱ्यो करून उडयतालें. मदींच पोट फुगून येतालें. मदींच थंडी जावन घुसमट्टालें. आंगान सामकेंच बरगल्लें तें. आदली तांबशी गोरी कात आतां दुदाची कशी धवी पडिल्ली आनी ती सामकी हड्ड्याक गळ्याक दशिल्ली. दोन बिटबिटे दोळे तितलेच दिसताले. मदींच केन्नाय तें मंजूळाक पळोवन हांसल्यार ताज्या काळजांत चर्र जातालें. हांसताना ताज्या चेऱ्यावयल्यो शिरो ताणटात आनी ताका दुखता अशें दिस. तें रडूंक लागतकीर मंजूळ ताका नानापरी करून खेळोवंचेले यत्न करतालें. तें रडचें थांबना जातकीर मंजूळय रडूंक लागतालें. आपा वचून परतो परतो साळूआजयेक आपोवन हाडटालो. ती येवन तापय-शेकय करताली. जाल्यार मुंडल्योबीन झरोवन दिताली.

साळूआजी सोताचें अपेश मानून घेवंक तयार नासली. म्हण केन्ना केन्ना म्हणटाली, जोर रडटा पेजेक आनी बाळक रडटा मांयचे उबेक.

बायूल सोंशेवंक आनी रडूंक लागतकीर केन्ना केन्ना आपा वोगी निर्दय कसो वासरेंत बसून रावतालो. पूण मंजूळाचो जीव मात वयर सकल जातालो. तें भायर भितर करतालें. पांवळेंत उबें रावन खंयचेय मावशेक, काकीक उलो मारतालें. तागेल्या उल्याक त्यो धांवुनूय येताल्यो. सगल्यो निमाण्यो एकाच मत्तार येवन थारताल्यो - आवय नाशिल्ल्या पोरांची ही जीण अशीच. हुबत बुडत वयर सरचेली. एके बायलेन म्हळें, 'ताका कारवारा व्हरून बऱ्या दोतोराक दाखोवन तपासून हाडात.'

मंजूळान आपाक म्हळें, ' आपा आमी बायूलाक लांचीन कारवाराक व्हरुया.'

आपान बेठेंच हूं म्हळें.

'फाल्यांच व्हरुया रे आपा !'

आपा परतो हुंकारलो.

त्या दिसा बायूल खूब रडलें. जण एकलो आपल्या घरांत तें रडें कांचवेवन आयकतालो. मदींच तें रडें वाडोभर पातळिल्ल्या माडाच्या चुड्टांतल्यान आनी आंब्याच्या तळ्यांतल्यान घुसपून वाड्यार रखयिल्लेवरी जातालें तर केन्ना एक चींख कशी खरपणान कानाक तेंकतालें. आवय नाशिल्लें एक पोर आवयच्या चिंवांक रडटा आनी आमी मुडदार कशे तें रडें मोन्यांनी आयकतात. फाल्यां गणेशाक सांगूंक जाय. दोंगर हुपून वचून न्हंय बलाटून वचून ताका खंयच्या तरी दोतोराक दाखोवन हाड म्हण. पापया, बेठेंच अपसरण माथ्यार घेवं नाका. ताजी मेल्ली आवय बगशिची ना

तुका!

मर्दींच सुमित्राकाकी येवन दारांत उबी रावली. तिणें सांगलें, 'पोराक आवयच्या मोम्याची गांठ आयल्या. चींव तोंडांत दिल्यार शेर्त रडचें थांबता तें.'

पूण मोमो खंयच्यान हाडचो गे काकी, अशे भाव तोंडार हाडून मंजूळ तिजेकडेन पळेत रावलें.

'केशवालें सुलोचना कुळारा येयलां. ताचेसरीं घेवन वच.'

सुमित्रा तशीच परती गेली. मंजूळ तिजेकडेन भावार्तानशें पळेतालें. सुमित्रा इतली घडघडीत घरंदाज दिस, ह्या वाड्यावेल्या लोकांत ती वेगळीच दिसताली. उंच आनी गोरो गोरो रंग. कसलीय साडी आसली तरी ती नितळ आनी न्हेसतालीय ज्युस्ताज्युस्त. घरांतलो सगलो वावर ती करताली पूण सदांच टापटीप आनी टवटवीत. लोक सांगताले तें एका मामलेदारालें चेडूं म्हण. पांच भयणींतलें निमाणें. ताज्या लग्नापयलीं दोन वर्सां बापूय कसले तरी भानगडींत सांपडून ताजी नोकरी गेली. आनी हें उंच आनी सोबीत टापटीप चेडूं नरशिंवाच्या गळ्यांत पडलें. ती खंयूय कसल्याय प्रसंगार गेल्यार कुशीनबी उबी रावताली. सगलें सारकें नियाळटाली आनी आपली बुद्द दिताली. तिजी भाशा आनी आवाजय इतलो नितळ, सुल्लाखी, लोकांक तिगेलें बेगिनूच पट्टालें.

'आपा बायूलाक सुलोचनाताईसरीं व्हरुया.'
'हांव नाका गो. तूं लीलाक घेवन वच.'

मंजूळान काळखांतल्यानूच लीलाताईल्या घरासरीं धांव मारली.

वाड्याच्या सामक्या दुसऱ्या पोंताक केशवअण्णालें घर. मंजूळ आनी लीला बायूलाक घेवन तांगेर वचूंक भायर सरलीं तेन्ना लोक जेवन खावन न्हिदचे तयारेक लागिल्ले. बायूल सामक्कें पिरपीर करतालें. लीलान ताका खांदार घेतिल्लें आनी तें रडचें न्ही म्हण तागेलें तोंड दामुनूच धरिल्लें.

तीं दोगांय केशवअण्णाल्या दारांत पावलीं आनी दोगांय गळसणलीं. तांचे वासरेर सामक्को काळोख आसलो. सुलोचना भितर चेड्याकडेन थुळेत थुळेतेशें कितें कितें उलयतालें आनी आपुणूच हांसतालें. बंद दाराचे फटींतल्यान दिव्याच्या उजवाडाची चीर दिसताली. मंजूळान पिनिल्ल्या आवाजांत उलो मारलो, 'सुलोचनाताई, सुलोचनाताई.'

सुलोचना आपल्या चेड्यावांगडा थुळेवंकच गुल्ल. मर्दींच बायूल

घुसमटिल्लेवरी रडलें. मंजूळान परतो उलो मारलो.

'सुलोचनाताई'

सुलोचनान कांय वेळ सुलूस घेयली. 'कोण गो' म्हणत येवन दार उकतें केलें. फाटल्यान केशवअण्णा, देवकीमावशीय दारांत येयलीं. 'कितें गो मंजूळ? कितें जालें ?'

'सुलोचनाताई, बायूलाक तुगेल्या दुदाक धरता ?'

खीणभर सगलीं गडबडलींच. लीलान सांगलें, 'पोर केदोळच्यान रडून रडून चिनाल्लां. चिंवांक धरल्यार मातशें थंड रावतशें दिसता.'

केशवअण्णान म्हळें, 'धर पुता ताका चिंवांक. आवय नाशिल्लें पोर. जल्म दिल्ले आवयपरस दुदाआवय व्हड म्हणटात. तुजो चेडो आयुश्यवंत जातलो.'

सुलोचनान बायूलाक आंगार घेयलें आनी भितर व्हरून सगळ्यांहुजीरच पालवाखाला घेवन चिंवांक धरलें. तें लुचू लुचू करून चींव चोखतालें. मदींच सूं करून श्वास घेतालें. मदींच तुश्टतायेनशें हुंकारतालें. कुशीक उबें राविल्ल्या मंजूळाच्या आंगार सरसरून कांटो उबो राविल्लो.

चींव चोखतां चोखतां बायूल न्हिदलें. सुलोचनान म्हळें, 'फाल्यां आनीक रडल्यार परतें घेवन येयात. बेठेंच रडोवंनाकात.'

देवकीमावशेन म्हळें, 'म्हशीचेंबीन दूद दियात ताका.'

'ह्या दिसांनी ताका कांयच पचना मावशे.'

परतें येतना लीला मंजूळाक सांगतालें, 'ह्या सुलोचनाक लग्नाउपरांत पांच स वर्सां भुरगेंच जालें ना. घोव त्रास दिवंक लागिल्लो. तो नीब घेवन दुसरें लग्न करूंक उठिल्लो. चेड्डूं लेगीत पळयिल्लें खंय. तेन्नाच हाका दीस गेले. नशिबानच सुटलें.'

मंजूळ बेठेंच हूं हूं करतालें.

लीला मंजूळापरस स सात वर्सांनी व्हड. तरीय दोगांली बरी इश्टागत आसली. मुळांत लीलाचो सभावूच इतलो गोड तें मंजूळाक भोव आवडटालें. लीला उलयतना भिजिल्ल्या तोंडानशें तोंड भरून उलयतालें आनी उतरा उतराक दोळ्यांतल्यान हांसतालें. तागेली दुस्वासी भावाबायलय जेन्ना तागेली तुस्त करताली तेन्ना लोकाक लीलाविशीं चडच माया दिसताली. लीला तशें सोबीत बीन कांय नासलें. तें खूब गोरें आसलें. पूण त्या गोरेपणाक रेखीवपण नाशिल्ल्यान तें पसरट आनी भसडें दिसतालें.

पूण तागेले गूण मात वेंचून घेवसारके.

मर्दी दोन दीस बायूल बरें उरलें. तिसऱ्या दिसाक रातचें बायूलाचें पोट फुगून भातो जालो. अचकीत ताका मारून येवंक लागलें. हांथरुणार तें हुडलेंशें जावंक लागलें. तागेलें आंगपांग घट जावंक लागलें. मंजूळान व्हडान हुयेल मारली. साळूआजी लागींच खंय तरी आसली ती धांवन येयली. बेगीबेगीन तिणें एक मुळी झरोवन दिली. मुळी खऱ्यांनीच बऱ्याक पडली. बायूल थाऱ्यार आयलें. पूण ताका आता जोर चडूंक लागलो. साळूआजयेन तागेल्या कपलार हात दवरलो आनी निक्षून सांगलें, 'आत्तांच्या अत्तां ताका दोतोरासरीं व्हरूंक जाय. नातर पोर कशेंच हाताक मेळचेंना !'

घे ! वाडोभर लोक आंगणांत एकठांय जाल्ले. ह्या वाड्यावयल्या एक्कान एक मनशान बायूलाक आंगार खेळयिल्लें. आपल्या घरा व्हरून नाचयिल्लें. तें म्हयन्याचें आसतनाच घराभायर पडिल्लें आनी घराघरांनी भोंवतालें म्हणूं येता. पूण अन्नाडीच लोक ते. आवय नाशिल्लें पोर म्हण अपुर्बाय खूब करताले. पूण ताजें पालनपोशण कोण कशें करता हें कोणाकच पडूंक नाशिल्लें. ल्हान भुरग्यांक कितेंय खावयल्यार पचना, हागूंक ना तर ओंकूंक जाता इतलेंच ते जाणा आशिल्ले.

आतां ताकतिकेन ताका दोतोरासरीं व्हरूंक जाय. घे आंगणांत तीन चार लांटणादिवे एकठांय जाले. ताणें गणेशाक सांगलें, 'पोराक चादरांत नीट गुठलाय आनी खांदार घे. कारवार व्हरूंक आतां व्हडें ना, गाडी ना. लागींच हळग्या दोतोरासरीं या. न्हंय बळाटली म्हणटकीर हळगें.

विष्णू, खुशाली, सदाशिव वांगडा वचूंक भायर सरिल्ले. गोकूळमावशेन म्हळें, 'कोणतरी दोगच वचात. बेठीच व्हड्यांत लूट नाका.' पिसो अरवळ विठोबाय तांचेवांगडा वचूंक सोदतालो आनी फाटल्यान फाटल्यान करतालो. ताका कोणेंतरी धपकायलो, 'विठोबा, तूं आनी वचूं नाका. बेठोच बेजार करतलो सगल्यांक.'

पूण मंजूळ कशेंच थोपनाशिलें. सगल्यान समजायलें, 'तूं वचूं नाका. रातचो वेळ. कितलें चलून वचूंक जाय. ते भायर न्हंय बळाटूंक जाय. पूण तें कशेंच रावनाशिल्लें. ल्हान भुरग्यावरी व्हडाव्हडान 'बायूल गो, बायूल गो' म्हण रडटालें आनी धरिल्ल्यांचे हात सोडोवन घेतालें. बायूल जायतसान एक खीण तें ताजेपासून पयस वचूंक नाशिल्लें. वाड्यावेल्या शेजाऱ्यान केन्ना उखलून व्हेल्यार तें थतरवितर जातालें आनी बेगीनच वचून घेवन येतालें. लोक फकाणांनी म्हणटाले, 'म्हालआवयलें हड्डे दुदान शिरशिरल्या दिसतलें.' आनी आयज ताज्या दोळ्यांहुजीर ते बायूलाक चादराक

गुठलावन पयस व्हरताले.

दादले आकाडो बळाटून वाड्याभायर पावले आनी मंजूळ 'आपा रे' म्हण हुयेली मारीत तांचे फाटल्यान धांवलें. खुशालीन म्हळें, 'येवंदी. जीव रावचोना ताजो घराकडेन.'

आपान खांदार घेतिल्लेकडेनय बायूलाल्या आंगार खतखतपी जोराची हूनसाण जाणवताली. वाडो आनी न्हंय हांचे मदलो सगलो शेताकेर कसून घातिल्लो. बारीक मेरावयल्यान, दिपळ्यांतल्यान आनी तासांतल्यान ते चमकताले. मर्दींच एकाद्रो तोल सांडून झिडपतालो. पूण गणेश बायूलाक सांबाळून घेवन अचळय चलतालो. मंजूळ ताजे सामके फाटल्यान चलतालें. मर्दींच 'बायूल' म्हण पाचारतालें.

भायर तसो सामको काळोख नाशिल्लो. पयस गडावटेन अस्ताक गेल्ल्या चंद्रुमाचें माणकुलें अर्दूक चकचकतालें. मर्दींच तें धुंवर कशा कुपांनी अर्दमर्द रिगतालें आनी परतें भायर येतालें. तकलेवेलें मळब मात गोबरा हातान पुसोवन उडयिल्लेवरी सामकें रितें आशिल्लें. बेठींच खदळ, धवर्शींकाळीं कुपां पातळिल्लीं.

पयस बांदावयल्या झाडांतल्यान कोणतरी रडिल्लेवरी आवाज येतालो. कोण सवणें, सावद रडटा काय कोण मनीस किळांच्यो मारता कांयच कळनाशिल्लें. मर्दींमर्दीं तो आवाज वाठार कापीत येतालो आनी ते सरशीं मंजूळ भिंयेल्लेवरी आपाक तेंकतालें.

फार्टी वाड्यावयली एक आजी मेल्ली. तिगेलो पांय खूब सुजिल्लो आनी ताका रूंव जाल्लें. तो धरतरेक तेंकतकीर खूब दुखतालो आनी आवयस म्हणून दर पावलासरशीं ती किळांच मारताली. तातूंतच ती मेली. मेले उपरांत लोक उलयताले – ती आतां म्हारू जावन रातची दुखारो पांय घेवन तशीच भोंवता आनी आवयस आवयस करीत रडत वयता. जायतेजण आपणें आयकलां म्हण खात्री दिवन सांगताले. ताचो मंजूळाक उगडास जातालो आनी भिरांत दिसताली.

फाटल्यान विष्णू आनी खुशाली चलताले ते ताका मर्दींमर्दीं कितेंय उलोवन धीर दिताले. थांबून बायूलाकूय चयताले.

तारीकडेन पावल्यार न्हंयक सामकी सुकती. दोनय व्हाटेनची तड तीस चाळीस पावलां उक्ती पडिल्ली. भागिल्ले न्हंयची धार काळ्या चिखलांतल्यान काळोख व्हांवता अशी दिस. पयस पयस मेरेन झाडां पेडांनी, दोंगर–दोंगुल्ल्यांनी वेंगयिल्ली ही न्हंय आतां काळखांत एकाद्रे रिते पोकळेंत रिगूंक चल्ल्या अशी दीस. घराच्या दारांतल्यान चुड्टांच्या अडसरांतल्यान तें सदांच वोताच्या किर्णांत चकचकपी गडगंज न्हंय पळयतालें. आयज ह्या काळखांत काळ्या कुशिल्ल्या चिखलामर्दीं न्हंयचें बरगल्लें

भिरांकूळ रूप पळोवन मंजूळ थतरवितर जालें. तें नदर ताणूनशें पळयतच रावलें, तातूंतच सांडून कांचवेनशें.

न्हंयेतडीर तार नाशिल्ली आनी तारयोय नाशिल्लो. थंय लागींच पागयांलीं चार पांच घरां आशिल्लीं. तणाचीं तीं माणकुलीं उबीं घरां काळखांत तणाचीं घुडीं कशीं दिसतालीं.

खुशालीन मुखार वचून उलो मारलो, 'तारयामाम, आसा रे?'

एका घरांतल्यान बायलेचो आवाज येयलो, 'कोणाकतरी घेवन पलतडी गेल्लो. थंयच खोंपींत न्हिदला दिसता.'

मगेर खुशालीन आनी विष्णून आळीपाळीन तारयाक सादयलें, 'तारया, तारया, तारया, होऽऽऽ'

बऱ्या वेळान जाप येयली, 'ओऽऽ हुय्य' आवाज काळे पोकळेंत ल्हाराल्हारांनी घुंवलो.

ते बराबर पलतडीन बोवाळसो आयकोंक येयलो आनी काळखांतली हालचालशी. आवाज थांबलो आनी तार उदकांत धुकलिल्लोसो, होले मारपी घस्सघस्स आवाज.

तारयो अलतडीन लागीं पावतकीर व्हडाव्हडान सांगतालो, 'कोण अनुळखो हतया येद्या तामड्या बैलाक घेवन येयला आनी म्हाका पलतडी पावय म्हण्टा. वळख ना देख. कोणालो बैल खंयच्यान चोरून हाडला देव जाणा. फाल्यां म्हजेर बगलांट.'

मुखार पावतकीर तो हांकां वळखलो आनी म्हळें, 'कोण रे गणेशमाम, कितें जालें, कोणाक कितें जालें ?'

'धाकलें रे जोरान थळपेता. दोतोरासरीं व्हरतां.'

तारयान चॅ चॅ चॅ चॅ करीत चुरचुरो उक्तायलो आनी बेगीबेगीन तांकां तारींत बसयले. चिखलांतल्यान चलून वचून तारीर बस म्हणसर पांय चिखलान भरून गेल्ले. ते उदकांत मातशे झंजाळून तशेच व्हड्यांत बसले. एक व्होलें विष्णून घेयलें आनी दुसरें तारयान. जोरजोरान व्होले मारीत ते उदक कापूंक लागले. व्होले मारतां मारतांच तारयो सांगतालो, 'हांव तेवटेन गेल्लों थंयच उरलों. भंवरीचे तीग चौग जाण येवन बशिल्ले उलोवंक. सकाळीं घोलार कोबुवां (ऊस) घाण्यार गोडाकायल सकल देंवयतना सुटून पडून एकलो सामको भाजलो. दोनय पांयांचे बेबे जाल्यात. दनपारच्या लांचीन कारवारा व्हेला.'

व्हड्यांतल्यान देंवतकीर तारयान सांगलें, 'हांव हंयच खोंपींत न्हिदतां. परते येतकीर म्हाका उठयात. पोराक सांबाळून हाडात. दोतोराक हांवें सांगलां म्हण सांग, देऊ तारयान. दोतोर तोंडान वायट तो. सवंता. गाळयो घालता. पूण मनाचो बरो. जण एकलो आपूण गरीब म्हण सांगता आनी ताका फटयता. ताकाय पोट आसाच न्ही रे?'

ते न्हंयची तड पार करून वयर येयले आनी तांकां खारगेचो शिवराम दिस्टीक पडलो. बैलाक एका रुखाक बांदून तो खोंपीमुखार बशिल्लो. खोंपींतल्या लांपयांवाचो उजवाड ताज्या तोंडार पडिल्लो. ताका विष्णू वळखलो. 'अरे खंय रे शिवराम ?'

'माजाळे भांडी जात्रेक गेल्लों बैल हाडूंक. तारयो पलतडी पावय म्हळ्यार कसोच आयकना.'

'अरे तूं मिलेट्रींत गेल्लो न्ही रे ?'

'पंदरा वर्सां करून येयलो पेन्सिनेर. आतां जोत करून वांट्याक येयिल्लें वसोवन खातलों. भावान एक बैल दिला.'

मगेर विष्णून तारयाक उलो मारून सांगलें, 'तारयामाम, हो खारगेचो शिवराम. आमी शिद्दरा एकेच शाळेंत शिकिल्ले. दळवी मास्तराकडेन. व्हर ताका पलतडीन. बैल जुवान आसा. दाव्याक धरल्यार कांय न्ही करून पेंवन वयतलो.'

ते दोतोराल्या घरामुखार येवन पावले तेन्ना सामक्की मध्यानरात जाल्ली. जनेलांतल्यान चयल्यार एक बारीक केल्लो लांपयांव भितर पेट्टालो आनी एके बाज्जेर न्हिदिल्लो दोतोर व्हडाव्हडान घोरेतालो.

पूण हांका कोणाक दोतोराक उठोवचेलो धीर नाशिल्लो. बायुलाच्या हुसक्यान सगले वयर सकयल जाताले. पूण कोणाक दोतोराक उठोवचेलो धीर नाशिल्लो.

रसत्यावयल्यान कोणतरी बोवाळत वयतालो. हांकां पळोवन तो दवाखान्याच्या वरांदांत येयलो. घम्म करून सोऱ्याचो वास पातळ्ळो. ताणें व्हडाव्हडान उले मारून दोतोराक जागयलो.

'दोतोर लोक मरतात हिंगा, हळगे, हुळगे, शिद्दर, किन्नरच्यान तारी बलाट्न येतात आनी तूं घोरेता ?'

'कोण रे तो मांयझंयो,'– म्हणीत दोतोर उठलो. ताणें लांपयांव व्हड केलो. तो लांपयांव व्हड बुरड्याचो आगळोच आशिल्लो. ताजो उजवाड खूब पडटालो. दोतोराल्या आंगार म्हेळें, बोंते पडिल्लेंशें बनियान आशिल्लें आनी धिमिये सकयल

पाविल्लें खाकी मोटवें खालसांव. सदावर्सकाळ तें ताज्या आंगार आसतालें. खंय भायर सरचो जाल्यार ताजेर एक पैरण लखयतालो आनी भायर सरतालो तो.

तो उठलो आनी हातांत एक बडी घेवन भायर येयलो. 'रॉकी तूं वयता काय ना हिंगाच्यान. पयर एक बडी पडिल्ली तुजेर.'

रॉकी रस्त्यार गेलो आनी 'सालाझार मुर्दाबाद, सालाझार मुर्दाबाद' म्हणत वचूंक लागलो. पयस गेलो आनी रडिल्लेवरी कितें कितें उलोवंक लागलो.

दोतोर वारांदांत येवन कायवेळ वोग्गी उबो रावलो. ताणें सोताकडेनच उलयिल्लेवरी म्हळें, 'बायल कुळारा म्हण गोंयां गेल्ली. स म्हयने जाले. तीं गेली आनी गोंय खप्पकन बंद जालें. मूस रिगना. वास ना पूस. हो हांगा पिसो जावन भोंवता. बरो खणीर चिरे मारतालो. आता सगलेंच सोडलां.'

मगेर दोतोर जाग येयिल्लेवरी फार्टी फिरलो.

'पाडपडिल्ल्यांक वेळ ना काळ. उठ्ठात येतात. बरें खावन पिवन मरात. शीक जावचे नात. दोन शितागोटे आनी एक निसत्या कांटो हाजे भायर केन्ना कितें खालां कोणें?'

'दोतोर भुरगें सामक्कें बरें ना.'

कितें जालें ? म्हणत दोतोर मुखार गेलो आनी ताणें भुरगें गणेशाल्या खांद्यावयल्यान उखलून आपल्या खांदार घेतलें आनी तो भितर गेलो. आपूण न्हिदिल्लेच खाटीर घालून हातांत बॅटेरेदिवो घेवन ताका तपासूंक लागलो. हे सगले जनेलांतच दाटी करून उबे आशिल्ले. दोळ्यांत जीव हाडून बायूलाक पळयताले.

दोतोर तपासतानाच उलयतालो. 'भुरग्याची दैना केल्या दैना. जोताक बांदचे बैल तुमचेपरस बरे ! मरूंक तेंकतकीर हिंगा घेवन येतात दोतोराचेर बिरमत घालूंक. आतां दोतोरान कितें तुळशीपानार उदक सोडचें बेगीन मरात म्हण !'

विष्णून म्हळें, 'आवय नाशिल्लें पोर गा सायबा.'

दोतोरान कांय वेळ ताजेकडेन पळयलें आनी तो मोन्यानच तपासूंक लागलो.

'पोटाचो कचको जंतान भरला. आंगावयलें दूद पितल्या भुरग्याक चड करून जंत जायनात.'

मगेर दोतोरान बायूलाक कसलेंतरी वखद पिवयलें. एक सूय तोपली. सूय तोपतकीर बायूलान मारिल्ली किंळाच आयकोन मंजूळ रडूंक लागलें. खुशालीन ताका

धपकायत ओगी केलें.

दोतोरान बायूलाक हाडून गणेशाकडेन दिलें. ताणें ताका तशेंच चादराक गुठलावन खांदार घेयलें. मगेर दोतोरान कागदांत गुठलावन तीन गुळयो दिल्यो. बाटलेंत घालून इल्लें तांबडें वखद दिलें. मगेर गणेशाल्या खांदार हात दवरून मोंव उतरांनी ताणें सांगलें, 'फूल कशा पोराची दैना जाल्या. ह्यो तीन गुळयो सेगीत तीन रातीक दी. जंत वयतकीर सुदारतलें. खावंक पिवंक बरें घाल. म्हशी दूद, पेज आनी दिसाक एक केळें खावय.'

गणेशान दिनवासान, भावार्तान तकली हालयली.

'खंयच्यान येयलात तुमी ?'

'शिद्दरच्यान.'

'वचूंक तार आसतली मुरे ?'

'सांगून येयलात.'

'पोराक सांबाळात. जाल्यार परतें घेवन येयात.'

मर्दींच खुशालीन विचारलें, 'दोतोर घरांत एकलेशे ? बायल भुरगीं...'

दोतोर सटकन्न किसळ्ळो, 'कोण रावता तुमच्या अवचिन्न, दळदिऱ्या गांवांत !' तो काडून भितर गेलो. सगले जण रस्त्यार येयले आनी वाटेक लागले. विष्णून म्हळें, 'खुशाली, कित्याक म्हण विचारली तुवें बायलेची खबर? तूं नकळो, आठ धा वर्सां जालीं बायल आपूण ह्या गांवगिऱ्या वाठारांत रावना म्हण सोडून गेली तें.'

'हांव नकळो आशिल्लों रे बाबा' म्हण खुशालीन दोनय पोल्यार दोन मारून घेयलीं.

तांकां चलून मातशे मुखार वयतकीर सटकन उगडास जालो, दोतोराले पयशे दिलेच नात.

'हय मुरे...'

'या दिवनच या.'

ते सगलेजण फाटीं फिरले. परते जनेलाकडेन येवन पळयल्यार दोतोर हेदोळचेवरी थार न्हिदला आनी घोरेता.

'मगेर कितें करचें आतां ?

विष्णून म्हळें, 'आनीक जागोवचे नाका. हांव आठ दिसान म्हारीजाल्रेक येतलों

तेन्ना दितां.'

आतां ते सडसडीत पावलां मारीत वाटेक लागले. हेदोळचो हुस्को, ताण आतां देंविल्लो. विष्णू मर्दीमर्दी मंजूळालीं फकाणांय करतालो.

'आतां तो तारया तुका व्हड्यांत घेत म्हण सांगू नजो.'

'कित्या ?'

'आगो तो व्हडलो बैल व्हड्यांत बसचो आसा न्ही गो.'

'ओगीच तूं.'

'तूं अशें कर. बैलाची शेंपडी धर आनी न्हंयंत हुडी मार. शेंपडी कशीच सोडी नाका.'

'ओगीच तूं. फट.'

मर्दींच गणेशान सदळ जायतशें म्हळें, 'जोर देवंक लागलां आतां.'

ते चलूंक लागले. खुशालीन म्हळें, 'रातचें रावया आमी आलतडीच म्हगेले मावशेघरा. वाटेरच भंवरींत तिगेलें घर.

'नाका. वाड्यावयलो लोक वाट पळयता दिसता हुसक्यान.'

ते न्हंयसरी पावले तेन्ना तो हेदोळचो बैल आनी बैलकार केन्नाच न्हंय पार करून गेल्लो. तारयो व्हडें तडीक लावन तातूंत आड पडिल्लो. चोंयवटेन वाठार सामको थंड आसलो. तें काळें व्हडें, तातूंत काळी कांबळ कांबरून न्हिदिल्लो तारयो आनी काळी न्हंयची काळी धार हातूंत कांय वेळ मंजूळ शेणिल्लेवरी जालें. पूण तारयाक उठयतकीर ताणें व्हडाव्हडान उलोवन, खबरो सांगून सगलो वाठार जागयलो. मंजुळाक सू जालें.

तारीवयल्यान देंवतकीर खुशालीन म्हळें, 'तारयामाम, तुवें ह्या वर्साचें वींडेकारालें खंडिताचें भात व्हेलें ना मुरे ?'

'येतां, येतां एक दीस दनपरां. तुमीच आटोव कुडव दिल्यार आमचें पोट भरूंक जाय न्ही.'

ते घरासरीं पावले तेन्ना रातचें एक वर तरी जाल्लें जावये!

वाड्यावयले जायते जण म्हन्यांत दिवो घेवन वासरेंत, आंगणामेरेर बशिल्ले. आकाड्यांत हांची सुलूस लागतकीर सगले उठून आंगणांत एकठांय जाले, 'कितें जालें, कितें सांगलें दोतोरान ?

विष्णून व्हडान सांगलें, 'बरें आसा तें. बरें जातलें. जंतांचो त्रास खंय. वखद बीन दिलां.'

'जोर ना मुरे ?'

'वार्टेंतच देंवलो जोर.'

मंजूळान घरांत वयतना जमिल्ल्या लोकांक पळयले, तातूंत फार्टी शेता मेरेसरीं आपाकडेन आकांताचें झगडें केल्लो सदाशिवअण्णाबीन आशिल्लो.

आपान बायूलाक व्हरून सालांत घालें. मंजूळाकूय झेम येताली. ताणें बायूलाचे कुशीकच शेंदरी पातळायली आनी खिणांत तें न्हिदून गेलें.

शितामडकेंत दाय घालून मंजूळान शीत अडचून पळयलें, शीत शिजिल्लें. तें वाळूंक आपाक आफोवचें म्हण ताणें वासरेंत येवन पळयलें. आपा तासणी घेवन नांगर करूंक लाकडामुंडी तासतालो. मंजूळ भितर आयलें आनी ताणें आपणेंच बाणशिरें हातांत घेयलें आनी शितामडकी सकयल देंवयली. ती तशीच वाळणेर चडोवन वांकडी करून वाळणेक घालताना हातांतल्यान निसरली आनी सकल पडली. मडकेची फुटून कयलां जार्ली. शीत आनी नीस भुंयेर सांडून पातळ्ळो. इल्लो हून नीस ताज्या पांयांर पडलो आनी पांय भगभगूंक लागलो. पूण तें ओग्गीच रावलें. आतां आपा भितर येयल्यार म्हाका दवरचोना. ताजी भिवन गुळी. काय बरी मडकी फोडली हांवें!

भितर कितें तरी पडिल्ल्याचो, फुटिल्ल्याचो आवाज गणेशाक येयिल्लो. ताणें विचारलें, 'आगो, कितें जालें गो?'

'मंजूळ ओगीच रावलें, 'आगो, कितें फुटलें गो भितर ?' आवाज ना. तें भिंवन ओग्गी.

गणेश बेगीबेगीन भितर गेलो. वाळणेसरीं शिता मडकी फुटून पडिल्ली. नीस व्हांविल्लो. तातूंतल्यान हून वाफ वयर सरताली. 'कितले फावट सांगलें तुका. चुलीवयले मडकेक तूं हात घाली नाका म्हण. पूण आयकिना तूं. मगेर ताणें मोव आवाजांत विचारलें, 'बाय, आंगार बीन नीस पडूंक ना मुगो तुज्या?'

'ना आपा.' ताणें पांय लिपयिल्लो.

ताणें तीं कयलां एकठांय केलीं आनी तीं तो भायर घेवन गेलो. 'तें शीत मायटेंत भरून दवर. मगेर बैलांमुखार दवरूं येतलें.'

भायर वयताना तो सोतासरींच उलयतालो, 'तुमची आवय, आमकां हांगा त्रासांत घालून आपूण सुखान उठून गेली. लोक तिका आयाव मर्ण येयलें म्हणटात. आमकां मात फाटल्यान दगदगे!' गणेशान एक फावट घरभर नदर भोंवडायली. घराक कसलें घरपण उरूंक नासलें. बुटी, चोबो, सूप, वल्ली, दायें, दोरी एक म्हण जाग्यार नासलीं. पांयांसकले भुंयचे कपचे हुडिल्ले. कितलो तेंप सारव-बरव नासलें... 'घोव मरून बायल उरची पूण बायल मरून घोव उरचो न्ही रे देवा! रांड दादल्याचें जिवीत कुंड्यापास्ट !'

रातचो वासरेंत आड पडटकीर गणेशाक उगडास जालो. हेदोळ वाळणेर शितामडकी फुटली तेन्ना हांवें बायलो पांय पळोवंकच ना. तें मगेर खुंटलेंशें लेगीत करतालें. पांयार बीन नीस पडलो ना मूं?

तो उठलो आनी चिमणेदिवो घेवन भितर गेलो. मंजूळ जागेंच आसुये! उजवो पांयो परतो परतो फापुडटालें. गणेशान मुखार वचून दिव्याच्या उजवाडाक बारीक पळयलें. उजव्या पावलाचो चपको लासून तांबडो जाल्लो आनी ताजेर बेदाण्यायेदे फोड उठिल्ले. तो तागेल्या पांयांकडेन दुक्कां गळयत बशिल्लेवरी कांय वेळ ओग्गी बसलो. मगेर उठलो. ताणें गंधाकांडी आनी उदक घेवन साणीर बरें गंध झरयलें. तें साणीर तशेंच घेवन ताणें इल्लें इल्लें गंध तागेल्या पावलाक लायलें.

'बाय, चड उजो जाता गो ?'

मंजूळान रडिल्लेवरी हूं केलें.

'तुवें हेदोळच सांगचें न्ही गो म्हाका !'

ताणें परतेंय बेठेंच 'हूं' केलें. आपल्या चेडवाक कुशींत घेवन खूब रडचें अशें ताका दिसलें. ताजी नदर कुशीक सुस्त न्हिदिल्ल्या आठ-णव म्हयन्यांच्या बायूलाचेर गेली. संवसारांतल्या सगल्या दगदग्यांतल्यान मुक्त अशें तें सुस्त न्हिदिल्लें. गणेशान मनांत म्हळें, 'हाजें एक बरें, हाका मंजूळाच्या रुपान आवय मेळ्ळ्या. हांव आनी मंजूळच मात अनाथ जाल्यांत !

यशवंत भास्कराल्या घरामुखावेलो आकाडो बलाट्रन खंय तरी वचूंक वयतालो. गणेश नवे हाडिल्ले कांबळीच्यो वादऱ्यो वोळत आंगणामेरेर बशिल्लो. हो पळय तोंड चुकोवनसो पयसुल्ल्या आकाड्यांतल्यान भायर सरता ! फार्टी तर घोव बायल दोगांय येवन लग्न जा म्हण लालेतार्ली. तरीय ताणें उलो मारलोच. 'अरे यशवंत, खंय वयता ? हे वटेन यो मुरे मातसो.'

यशवंत येवन मोन्यानच गणेशासरी बसलो. गणेशान दोळे तिरशे करून ताजेकडेन पळयलें. तागेल्या चेऱ्यार कसलीच उचंबळाय नासली. बेठोच तो नदर चोरतालो आनी आवाजांतय सदळसाण नासली. कांय वेळ बेठींच नांगर-निरमण्याचीं आनी इदळ-उशेलांचीं उलोवणीं जालीं.

'गणेश, तुगेले हे मुखावेले पाख्याचे आडे सामकेच बड्डेल्यात. दुसरे घाल ना तर केन्नाय मोडून पडटले.'

'पडूं दी. पाड पडूं दी सगलें. हांगा सगलेंच मोडूंक लागलां थंय आड्याचें कोणाक पडलां ?'

यशवंत उठलो. ताणें त्या आड्यार दोन फावट धप् धप्पकन हात मारलो. तातूंतलीं बड्डेल्लीं सांसवां सरसर सकल पडलीं.

'पळयलीं ?'

गणेश तापलो, 'यशवंत, येवन बस तूं वोगी.'

यशवंत परतो येवन मेरेर बसलो. ताणें खांकरलेशें करून आवाज सदळ केलो, 'आयजकालचीं हीं चेडवां सोता दिसूंक खुळण्या तोंडाचीं; पूण हांकां चाकरे शिपाय न्हवरो जाय.'

'तूं परतो गेल्लो यशवंत ?'

'आबोल्यान तीन फावट्यो मारल्यात. ताणें जायतें सांगलें पूण तांचें आपलेंच.'

'कितें म्हणटात ?'

'दोगांय चेडवांच आसात म्हणटात आनी आस्पतय चड ना म्हण सांगतात.'

गणेशाक शिट्ट जालें.

'आस्पत ना खंय. सोताचें सात खाणयेचें शेत रोयतां हांव. कोणाले शेतामेरेर वचून पोट भरिना. म्हज्या दारांतले हे धा-बारा माडच एक घराबो पोशीत.'

'ह्या वर्सांनी शेतां भाटांक कोण खाता गणेश. शेत आसलें म्हणटकीर शेतांत

घोळूंक जाय. वोतांत पावसांत करपूंक भिजूंक जाय. आतांच्या चेडवांक चाकरे शिपायांवांगडा वचून अलामत बसून खावंक जाय.'

मगेर कांय वेळ दोगय वोगीच बसले.

'चेडूं बरें आसा यशवंत ?'

'आसा. आंगलोटान घटमूट आसा पूण काळें. अनुसुया होनयेच्या पावलाचीय सर ना.'

'जावं आसलें. घरदार तरी राखता आसलें. दोग जणां हीं अबुद्द पोरां. फार्टीफुडें तांकां आलाशिरो जाय. हांव खंय म्हण पावतलों ?'

यशवंत कांयच उलयलो ना.

गणेश मर्दीच तणतणलो. 'दोगांय चेडवांच आसात खंय ! आतां तांकां हांव व्हरून खंय बुडोवन मारूं ! सगले तोखणाय करतात ताजी. म्होंव्या गुणाची लक्षुमी म्हणटात. पूण पापीण दोन चेडवां म्हज्या पदरांत घालून आपूण सुखान उठून गेली ! आतां म्हज्या जिवाक कांच. हीं चेडवां न्हय जाल्यार हांव भरतेभारार वचून काळी न्हंयेत हुडी घेवचेलों !'

यशवंताक आपलें उलोवपच खुंटिल्लेवरी जालें. 'येतां गणेश' म्हण तो उठून वचूंक लागलो.

'सुन म्हयनो लार्गी पावलो यशवंत. धालो मांडावयलो शिवशंभो बंधव तूं. ह्या वर्साक मांड पडटलो मुरे ?'

'देव येवचो आसल्यार थोपतां. घरांतल्यान आफोवन व्हरतलो. पूण तुका सांगतां गणेश, अनसुयाव्होनी मांडार येतकीर मांडाची सासाय आनी सोबायच वाडटाली, चक्रायवंत भयण ती आमची. ह्या वर्साक चक्रायवंत कोणाचे कुडीर येता चवंक जाय.'

सुन म्हयनो सुरू जाल्लो. सुन म्हयन्यांत ह्या वाठारांतलो सगलो वेव्हार सुन्न जावन पडटा म्हळ्यार जाता. सून म्हयन्याक झाड झोप लावंक फावोना; घराक, गवळांक बुन्याद घालूंक फावना; सोयरीगतीचें उलोवंक फावोना. बरें कारण करूंक फावोना असो वडलांचो नेम आसा. ह्या सुन्न म्हयन्याक कांय जाण 'सून' म्हयनो म्हणटात. म्हळ्यार

ह्या म्हयन्यांत सुनांक कामांतल्यान मातशी उसरपत मेळटा. धान, तण मळून जाल्लें आसता. मेरो, धारो करून ओलीं शेतां, जोतां बांदचेली वाट पळयत आसतात. दादले सदळ जावन उज्या धगांत, वोताकडार, ना तर आंगणामाटवांत झांकड्यो मारीत ब़सतात. बायलो मात ह्या म्हयन्यांत धालो खेळटात. ना तर कुळारा वयतात.

शिद्‌दरच्या ह्या सकल्या वाड्यार गेल्लीं चार वर्सां धालो पुजला. नेमान चार वर्सां धालो खेळटात आनी मांड पडटा. एक फावट पुजिल्लो मांड सात वर्सां पयलीं संतवक फावोना असो दंडक आसा.

वाड्याचे पूर्व दिकेक मेकळ्या शेतांत एक माटोव घातिल्लो. मांड सारोवन बरोवन नितळ केल्लो. मद्‌दीं एक तुळस. हे तुळशीक कवंडाळें करून त्यो देवसभेंतल्यो एकवीस रंभो कुदताल्यो आनी देवाधनयाक होरायताल्यो.

रात पडटकीर एक गॅसबत्ती पेटोवन म्हेडीक हुमकळावन दवरताले. बत्तेच्या उजवाडांत बायलो धालो खेळूंक लागताल्यो, तरातरांचीं गायनां म्हणटाल्यो. गावप तालार येतकीर धोल वाजतालो. खिणाखिणांत धोलाच्या वाजपाक नेट चडटालो. मगेर एकेक बायल गावप सोडून कुदक लागताली. कुदत कुदूंत मांडार येताली. आपलें नांव वळख सांगताली. कोण तुळसायवंत, कोण नागायवंत, कोण चक्रायवंत, कोण इज्जयवंत, कोण माणकायवंत. सगल्यो एकवीस भयण्यो. सगल्यांत वडील तुळसायवंत आनी निमाणी माणकायवंत. हे भायर दोगजण भाव – पुंडलीक बंधव आनी शिवशंभो बंधव. एकलो मांडाधनी. तो मांडाचो राखणो. मांडार कोण भूतखेत रिगचीं न्हय म्हण ताणें राखण करप. तो अवसर येयिल्लेकडेन शोऽऽ शोऽऽ करून कुदत धांवन परतो परतो मांडाच्यो शिमो घेता. मांडाक प्रदक्षिणा घालता.

आनीक नागबाळ म्हण एका भुरग्याचेर अवसर येता. तो नागावरी घश्टत घश्टत मांडाक प्रदक्षिणा घालता. मांड संतयसर ताजें हें चालूच आसता. अशें सांगतात, एक फावट वनांत भोंवतना नागायवंतेची सोबीतकाय पळोवन एक नाग फाटीक लागलो. नागायवंत भिंवन धांवतां धांवतां झिडपून पडली. नागान तिज्या सगल्या आंगाक वेंटाळो घालो. तिका सामकी अंदून आपल्या आंगांत घेतली. हेर सगल्यो विसूय भयण्यो एकठांय जावन विकळाप करूंक लागल्यो. कांय वेळान नागान तिका सोडली. सोडचे पयलीं तिज्या तोंडांत आपलें वीख सोडलें. त्या विखापासून नागबाळ जल्मलो.

ह्या नागाबाळाचेर जल्मतसावन नागायवंतेन नदर लेगीत घालिना. ताजो प्रतिपाळ हेर भयणींनी मायेन केलो. आतां लेगीत नागबाळ मांडार येवंक कळाव

जाल्यार हेर भयण्यो विकळाप करतात. पूण नागायवंत ओग्गी आसता. कितलोय गोरो भुरगो आसूं, ताजेर नागबाळाचो अवसर येतकीर तो काळोनिळो पडटा म्हणटात.

मांडासरीं बत्ती पेटिल्ली. ल्हव ल्हव कोणतरी घोल वाजयतालो. अजून बायलो न्हावंन धुवन येवंक नासल्यो. गायनां सुरू जावंक नासलीं. गणेशाक बागलांतल्यान बत्तेचो उजवाड दिश्टी पडटालो. सुन म्हयन्याचे उमाशेचो काळोख चिरीत उजवाडाचीं किर्णां वासरेंत बशिल्लेकडेन गणेशाल्या दोळ्यांर पडटालीं. दाराभायलो गुपाट काळोख आनी पयल्यानचीं तीं वांकडीं तिकडीं खीण किर्णां हांचेमदीं बेठींच भुतां नाचतात अशें ताका दिसतालें. ह्या वर्साक अनुसुदा मांडार आसचें ना ! ताजीं गायनां आयकोंक येवचिंनात !!

मंजूळाक धालां मांडार खेळ पळोवंक वचची भोव उमळशीक लागिल्ली. ताणें आयज बेगीनच आपाक वाडिल्लें. आपणेंय इल्लें जेवन घेतिल्लें. पूण सुमन कशेंच न्हिदनाशिल्लें. बेठेंच कुसकुसतालें. आपानच म्हळें, 'मांडार वयता गो बाय ? हाड, बायूलाक हाडून म्हजेसरीं घाल. हांव थापटितां.'

ताणें बायूलाक हाडून वासरेंत आपासरी घालें. भितल्ल्यान चिमणी हाडून भायर दवरली. तें आंगणांत येयलें आनी ताणें मांडाचे दिकेन धांव मारली. फाटल्यान आपा सांगतालो, 'आगो, चादर तरी व्हर वयतना. शीं खाता भायर. बेठेंच मांडार खेळूं बीन वचूं नाका. ल्हान तूं अजून.'

मांडाभोंवतणीं जायतो लोक एकठांय जाल्लो. तकलेवेल्यान चादरां, कांबळ्यो कांबरून घेवन लोग बशिल्ले. तातूंत भुर्गींय रिगून बशिल्लीं. चोंयवटेन उमाशेचो काळोख आनी मदीं हो उजवाडाच्या माटवाचो भंवर. तातूंत गायनां करूंक राविल्ल्यो बायलो. ल्हव ल्हव वाजपी धोल. ताजेन त्या मांडाक आनी माटवाक देवसभेचीच सासाय आयिल्ली. मंजूळ लोकांमदीं खंयच्येतरी आवशेमावशेचे उबेंत बशिल्लें. ताका दिसलें, आपान म्हणिल्लें चादर घेवन वच म्हण. हाडल्यार बरें जावचेलें.

आतां बायलांचीं गायनां सुरू जाल्लीं. आंब्याचे ताळयेंतल्यान, माडाच्या चुट्टांतल्यान रिगत तीं गायनां गणेशाल्या कानार येवन पडटालीं. अनुसया काय बरें गोड गायतालें. घणघणीत पूण गोड आवाज. गाल्यांत वयल्या तालार. म्होंव चाखीत राविल्लेवरी दिसतालें. हांगा बसुनूय ताजो आवाज पारखितालों हांव.

मांडावयल्या गायनांक आतां ल्हव ल्हव ताल आनी वेग येवंक लागिल्लो. पयलीं अठरा गांवच्यो अठरा बायलो एकठांय जातात तें गायन –

कोणकोण गांवच्यो नारी गे तुमी,
कोणकोण गांवच्यो नारी ।
आमी माजाळे गांवच्यो नारी गे आमी,
माजाळे गांवच्यो नारी ।
तुमी केजेर बसून आयलीं गे तुमी,
केजेर बसून आयलीं ।
आमी रथार बसून आयलीं गे आमी,
रथार बसून आयलीं ।
तुमी कोणकोण गांवच्यो नारी गे तुमी,
कोणकोण गांवच्यो नारी ।
आमी खारगें गांवच्यो नारी गे आमी,
खारगें गांवच्यो नारी ।
तुमी केजेर बसून आयलीं गे तुमी,
केजेर बसून आयलीं ।
आमी घोड्यार बसून आयलीं गे आमी,
घोड्यार बसून आयलीं ।
तुमी कोणकोण गांवच्यो नारी गे तुमी,
कोणकोण गांवच्यो नारी ।
आमी केरवडी गांवच्यो नारी गे आमी,
केरवडी गांवच्यो नारी ।
तुमी केजेर बसून आयलीं गे तुमी,
केजेर बसून आयलीं
आमी तारवार बसून आयलीं गे आमी,
तारवार बसून आयलीं ।

अशे तरेन बायलो भोंवतणच्या सगल्या गांवांचीं नांवां गुंथूथात. त्या त्या गांवच्यो धुवो आपल्या कुळार गांवचें नांव घेवंक उमेदीन मुखार सरतात.

गणेश कान दिवन आयकता. बायलेच्या उगडासान तो थतरवितर जाता. तो रडचोच उरता म्हळ्यार जाता.

मगेर बायलो गांवच्या सगल्या देवांक नमन करतात –

रान मारूं, रान मारूं फळसाचें गे फळसाचें,
रामनाथा देवा देवूळ बांदूं कळसाचें गे कळसाचें ।
रान मारूं, रान मारूं आंब्याचें गे आंब्याचें,
सांतेरी देवी देवूळ बांदूं खांब्याचें गे खांब्याचें ।
रान मारूं, रान मारूं किनळेचें गे किनळेचें,
म्हादेवा देवा देवूळ बांदूं माळयेचें गे माळयेचें ।

साडे तीनशें दाणयो रथा तुज्यो घुडयो
रथांत कोण देव बसे गे, रथांत कोण देव बसे गे,
रथांत बसे नाराण देवा,
देवांत देव तो सोबे गे, देवांत देव तो सोबे

साडे तीनशें दाणयो रथा तुज्यो घुडयो
रथांत कोण देव बसे गे, रथांत कोण देव बसे गे,
रथांत बसे महामाया देवी,
देवांत देव ती सोबे गे, देवांत देव ती सोबे

साडे तीनशें दाणयो रथा तुज्यो घुडयो
रथांत कोण देव बसे गे, रथांत कोण देव बसे गे,
रथांत बसे नरशिंवा देवा,
देवांत देव तो सोबे गे, देवांत देव तो सोबे

आतां धालांच्या वाजपांक नेट चडटा. देवांक नमन घालतां घालतां त्यो कुदूंक लागतात आनी शो शो करीत मांडार तुळशीसरीं धांवतात. देवती, मल्लिकार्जून, निरंकार, क्षेत्रपाळ देवाक नमन जाता म्हणसर सगल्यो भयणी, कुशीक बशिल्ल्या दादल्यांतल्यान दोगय भाव, मांडाधनी कुदत मांडार येतात. मांडाधनी पार गर्जण मारीत मांडाक फेरयो घालता. नागबाळ सास्टांग भुंयेचेर पडून फेरयो घालूंक लागता.

पूण चक्रायवंत अजून मांडार पावंक नासली. सगल्यो भयणी, भोव विकळाप करीत तिका सादयताल्यो –

चक्रायवंते भयणी गे,

खंय नी काय भयणी गेली गे ।
झडकरी लवकर येई गे ।
फुलांची आमची भयण गे ।
मोगाची आमची भयण गे ।
रानी नी वनी शेणली गे ।
चक्रायवंते भयणी गे,
चक्रनी तुजें सोडी गे ।
कुपां नी मोडां हूंप गे ।
दरया नी दोंगर माणय गे ।
झडकरी लवकर येई गे ।
शो..... शो..... शो.....

पुंडलीक आनी शिवशंभो बंधव तिका सोदूंक धाविल्लेवरी मांडाक मार वेगान फेरयो घालताले आनी भयणांक घटाय आनी धिटाय दिताले –

बर्म्याची तिका राखण गे ।
इंद्राची तिका राखण गे ।
देवतेची तिका राखण गे ।
हुस्को नी काळजी सोडात गे ।
शो... शो... शो...

मांडाधनयाची तरा मात आगळीच आशिल्ली. सांवार आयिल्लेवरी शो शो घालीत तो धांवतालो. आनी गरड मारीत म्हणटालो –

तेत्तीस कोटी देवा गा ।
पिठो नी भस्म जाशी गा ।
बाळक म्हजें खंय गा ।
म्हज्या नी माणयेर हाडी गा ।
शो... शो... शो...

ईज्जायवंत मांड सोडून संवसारार ईज्ज सोडूंक उठिल्लेवरीं तिडकीन तांडव

करताली. नागायवंत नागणीवरी कुडीक आळखे विळखे दीत हाताचें फाडें करून भंवर घेताली. माणकायवंत बेठीच रडिल्लेवरी देवाक होरायताली. ओंवळायवंत, कांदळायवंत आपआपले परीन भयणीक साद घालताल्यो.

अचकीत मांडाचे उजवे दिकेक बशिल्ल्या लोकांमदीं हालचाल दिसूंक लागली. बोवाळसो जालो, 'कुशीक सरात, वाट दियात'. धोल वाजोवपी व्हडाव्हडान धोल बडोवंक लागलो. मंजूळ बशिल्लेकडेन अवसर येवन कुदूंक लागिल्लें. शो शो करीत, तकली हालयत तें कुदतालें. कांय वेळान तें तशेंच कुदत मांडार येयलें. दोनय हात आनी तकली चक्रावरी घुंवडायत तें कुदतालें. इकरा बारा वर्सांचे एक बारीक एकशिवडी चेडूं तें. पूण आयज अवसर येतकीर ताजी रया, तरा आनी झेतच बदलिल्लो. पटाईत बंटीण कशी तें कुदतालें. तें मांडार येतकीर मांडा धनयान तुळशीकडचो तांबयो उखलून ताजेर उदक शिंपडिलें. अचकीत ताका ताळो फुटलो; घडघडीत आवाजांत ताणें आपली वळख दिली -

तुळसायवंते भयणी गे,
चक्रायवंत तुजी भयण गे,
नमन तुका पयलीं गे
कुडीच्या सोदांत भोंवलें गे,
मळब धरतरी हेडलें गे,
शो... शो... शो...

मगेर चक्रायवंत गांवांतल्या अठरा देवांक नमन घालूंक लागली. तशेच हात चक्रावरी घुंवडायत -

रामनाथा देवा तुका दंडवत शो, दंडवत शो.
मलकार्जूना देवा तुका दंडवत शो, दंडवत शो.
नरशिंवा देवा तुका दंडवत शो, दंडवत शो.
म्हादेवा देवा तुका दंडवत शो, दंडवत शो.
सातेरी देवी तुका दंडवत शो, दंडवत शो.
..........

गणेश मांडावयल्या गायनांचो, होरावणेचो आवाज घेत वासरेंत बशिल्लो.

मुखावेलो दिवो केन्नाच पालवल्लो. मांडावेल्या उजवाडाच्या भंवरांत एक सुवाळो चलतालो. उजवाडाच्या किर्णार बसून गायनाचे सूर कानार येवन पडटाले. केशवान आंगणांत येवन ताका मंजूळाचेर चक्रायवंतेचो अवसर येयला म्हण सांगलें. गणेशान काडी पेटोवन दिवो लायलो. कांय वेळ तो ओगी रावलो. मगेर ताणें म्हळें, 'चक्रायवंतेक आदीं आवयची कूड जाय जाल्ली. आतां धुवेची. अवसर खर तो.'

'हय, चक्रायवंत आनी नागायवंत हांची सासाय लेगीत चड म्हणटात.'

गणेश मुखावयलो दिवो घेवन उठलो. 'केशव मातसो हांगा बस. धाकलें न्हिदलां.'

'तूं खंय वयता गणेशबाब ?'

'इंद्रसभेंतली रंभा ती. घरा येतकीर ताका फुलां माळोवंक जाय. हांव फुलां घेवन येतां खुट्टून. ताजे आईक ह्या म्हयन्याक मांड संतयसर खोंटल्यांनी फुलां लागतालीं'.

तीनचार वर्सांचें जाता म्हणसर सुमन पिडेस्त आनी बारीक भागिल्लेंच आसलें. पोटाचो कचको तितलोच दिस्टीक पडटालो. हड्ड्यावेली कात हाडांक दशिल्ली आनी मानेक तर जीवच नासलो. गोरे कातीक दुदावर्ण मारतालो. तें केन्ना शीक पडत हाजो नेमच नासलो. मंजूळ सदां तेच भिरांतेंत आसतालें. आतां तें आवयची माया मेळ्ळी ना म्हण अशें जालें निखालस म्हणूं नजो. मंजूळाक आवयची मोम्यांचींव ताज्या तोंडांत दिवचें शक्य नासलें. पूण हेर सगलो आवयचो मोग ताणें ताका भोव दिलो. णव-धा म्हयन्यांचेंच आसताना सुमनान मंजूळांतली आवय जागयली. मुळांत मंजूळांत आवय इतल्या खर प्रमाणांत आसली, आवयचें एक विश्वरूप सुमनामुखार उबें रावलें. आतां ह्या कामांत ताका बापायचो आलाशिरो जाय तसो मेळ्ळो अशेंय म्हणू नजो. बायल मेली आनी ताज्या काळजार जी वेर गेली ती सांदलीच ना. आदींच मातसो भितल्ल्यान हटी, खोडयाळो मनीस तो, ताणें सुमनाक गुन्यांवकारी धरलें आनी ताजेरच राग धरून बसलो.

वाड्यावेलो लोक हुंडक्या उल्यांक धांवन येताले. तो एक धीर आसलो म्हण मंजूळान नेट धरिल्लो म्हणूं येता. पूण लोकांकय आपलो वावरउद्योग आसलो. हो लोकच मुळांत कसल्या ना कसल्या वावरांत घुस्पून रावपी. सरदे जातकीर थोडेंभोव

वायंगण. मगेर इदळ, पोरसूं, उशेल, तण, शिवड, गोरवां, म्हसरां. कामाचे दोंगर. इतलें काम उसपुनूय हे लोक खावन-पिवन तुस्ट आसले अशें म्हणू नजो. तातूंत ते इतले नकसूद बारीकसाणीचे, खळार एक भातागोटो, तणाकाडी भायर पडूंक दिवंचे नात. भायर हुबिल्ली पोल लेगीत परती हुबोवन व्हरून उकडून कांडून घेताले. तरीय वर्साक वर्स तेंकयता म्हणसर मारामार!

मंजूळान आवयचें पांखें सुमनाचेर धरिल्लें. वाड्यावेले लोकय उल्याक धांवन येताले. बापायलीय सावळी आसली तरीय सुमन अशें पिडेस्त कित्याक जालें. घडये आवयल्या हड्ड्याच्या चिंवांची म्हयमा भोव आसुये !

लीला लग्न जावन गेल्ल्याक एक वर्सान पयलेच फावट कुळारा येयिल्लें. तें लग्न जावन वयतकीर मंजूळ कितले म्हयनेतरी ताज्या उगडासान आकूळपिकूळ जातालें. लीलाताई वांगडच्यो कितल्यो सुखसंतोशाच्यो यादी आशिल्ल्यो. न्हंयंत वचून कोंड्यो काडूंक, कालवां फोडूंक ताका लीलाताईनच शिकयिल्लें. तीं दोगां वल्ली घेवन न्हंयेर वयतालीं. अर्दवल्ली कोंडयो आनी मगेर ताजेर अर्दवल्ली धडेवेलीं कांदळां खुंटून भरप. मगेर दीसभर वाड्यार कांदळांचो घमघम. जण एकलेच्या माथ्याक कांदळांसर.

लीलाताई लग्न जावन घोवावांगडा वयताना मंजूळ खुब्ब रडिल्लें. अर्दवर आकाड्यांत उबें रावन हुंडक्या हुंडक्यान रडटालें. मगेर कोणेतरी ओडून हाडून ताज्या दोळ्यांक उदक लायिल्लें.

मंजूळाक लीलाताईलो घोव मात मातसोय आवडूंक नाशिल्लो. तो काळसो आनी खूबच लांब आशिल्लो. तागेले पोले भितर गेल्ले आनी मान वांकडी जावन घोड्यावरी तोंड मुखार आयिल्लें. भावोजी म्हण पाचारल्यार ताज्या चेऱ्यावेली मिरीय हालनाशिल्ली. मोन्यावरी बेठोच 'हूं' करतालो.

तो फॉरेस्टांत गार्ड आशिल्लो. यल्लापूर लागींसर एका अटंग्या जंगलांत नाक्यार रावतालो. लीलाकय ताणें आपलेसरीं व्हेल्लें लग्न जातकीरच.

लीला सांग, 'अटंगें रान गो बाये, चोंयवटेन मळबाक तेंकिल्ले रूख. मर्दींच नाके. तातूंत दोनच बिराडां. दिसानय नाक्यामुखार गवेरेडे येवन चरतात. एक दीस हांव बांयर उदक हाडूंक गेल्लें तर एक व्हडलें अश्वल नाकापुडयो फुलयत

रुखावळींतल्यान भायर येयलें. हांव बिंदूल तशेंच बांयंत सोडून धांवन येयलें.

मंजूळ कांचवेवन आयकतालें.

'एक दीस तर सामकेंच मरपाचें हांव. हांवें एक कोंबी पोशिल्ली. वयर दोरयेक हुमकळावन दालयेंत तिका रवाण्याक बसयिल्ली. एक दीस घे कोंबयेची बोब. मुखार वचून तांतयां सांसपून पळोवचीं म्हण हांवें हात वयर केलो पूण म्हाका मातसो दुभाव येयलो आनी हांव जनेलार चडलें. पळयल्यार ही व्हडली नागीण तांतयार कवंडाळें करून बसल्या. नाक्यार आमी दोगांच बायलो. दादले कामाक जंगलांत गेल्ले. पयल्यान दोन तीन कुळंब्यांलीं घरां आशिल्लीं. आमी दोगांनय व्हडाव्हडान उले मारीत तांकां आफयले. दोग दादले येयले. तांणी रवाण्याची दालीच सकल उडोवन ती नागीण मारली. नागीण म्हण कसली काळीण गो बाये ! तिका आनी हात लावंक गेल्लें हांव !'

'बरें वाटवलें ताई तूं.'

'काय बरीं णव तांतयां बसयिल्लीं हावें रवाण्याक. सगलीं फुटून गेलीं.'

लीला पयलीं आंगान धश्टपुश्ट आसलें. आतां तें सामकें भागिल्लें. भागिल्ल्यान आतां तें सडसडीत सोबीत दिसतालें. पूण पयलींचें तांबशें तेज मात आंगार नासलें.

'भागलें मुगो तूं लीलाताई ?'

'म्हाका बाये निसत्याबगर गोटो वचनासलो. हाणें तर आयतारा एक फावट यल्लापूर वचून निस्तें हाडप.'

'पयलीं हांगा तरी निस्तें चड खंय खातालें तूं ! एका सुंगटान ताटभर शीत जेवपी मनीस तूं.'

'तें रातचे म्हज्या आंगार लखून येयिल्लेवरी जातालें. रातीन तर काळोख इतलो गच्च आनी शेळेल्लोसो, सदांच भिरांत आनी चेपण.'

'घोव वांगडा आसताना भिरांत कसली गो तुका ?'

'हे तर फॉरॅस्टाचे मनीस. रानांत वतकरी तांचींय झाडांच जातात. सकाळीं हातांत कोयती आनी भुती घेवन वचप आनी सांजच्या येवप. म्हजे शेजारचे नवेंच लग्न जाल्ले ललितव्वाक मर्दीच व्हाळणी लागली. घे रगताचे खळे. ती हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक लागली. म्हाका मिठी मारिल्ली सोडीच ना. दादल्यान वचून खंयच्यान तरी एके बायलेक आफोवन हाडली. तिणें खूब उपचार केले. बरी फिशाल बायल. कसलीं कसलीं म्हण झाडापाल्याचीं वखदां तिजेकडेन. आमी ललितव्वाक म्हळें, 'तूं

आतां गांवांत वच. पूण ती धोवाक रानांत सोडून कशीच वचूंक तयार ना जाली. तो गेल्यार हांवय थंय एकलें रावचें नाशिल्लें गो बाये! तें रान खावंक येता म्हाका. तिगेलें पळयतसावन म्हाकाय थर्त भिरांत दिसताली.

मगेर बरीच हेवटेनचीं तेवटेनचीं उलोवणीं जालीं. लीलान मदींच विचारलें, 'मंजूळ, न्हावंक लागलें तूं ?

मंजूळान लजेत तकली हालयली आनी तें हयकारलें.

'पयलेच फावट कोण आशिल्ली म्हऱ्यांत ?'

मंजूळ आर्दी खूब हांसलें. मगेर लजलज लजलें, 'लुंवणेचे दीस. वाड्यार कोणच ना. आडवळेर दुदी शिनूंक बशिल्लें. तशेंच उठलें हुंडक्याहुंडक्यान रडुंकूच येवंक लागलें. म्हाका रडटा तें पळोवन बायूलय रडूंक लागलें. पूण पयलीं तुवें म्हाका सांगिल्लें न्हू गो !'

लीलान यल्लापुरच्यान येतना जायतो म्हालमतो हाडिल्लो. केळीं, सुपारी, वेलदोडे आनी म्होंव. एक व्हड बाटली म्होंव ताणें सुमनाक म्हण दिलें. सांगले, 'दिसाक एक चमचो दी ताका. पळे कशी सगळी पिडा पयसावता.'

मंजूळान ताका दिसाक एक व्हड चमचो म्होंव चुकनासतना दिलें आनी खरेंच सुमनाक आगळीच तरतरसाण येयली. एक फावट तें आंगान निवळ्ळें आनी निवळत गेलें.

लोक सुमनाक पळोवन म्हणटाले, वयान वाडटकीर भुरगीं आपशींच आंगान भरतात. तांचें खरेंच आसुये !

मीर्ग सरून आरद्रा लागिल्लो. सगल्या मळबाची काळ्या कुपांची एक घुमटी जाल्ली. घोग्यांनी वारो वेळटालो आनी रातदीसा पावस रखरख रखतालो. थार दिनासतना दडकेर दडको. ल्हव ल्हव शेतां बुडूंक लागिल्लीं. उदक वाड्याक तेंकिल्लें. आतां हो गांवांतच पडिल्लो पावस जाल्यार न्हंयंतल्यान व्हांवन वचचो, पूण खंयच्या दिगंतरांतल्या वाठारांत कुपां आपणाक घालून घेतालीं देव जाणा. एक दीस सांजच्या वेल्या वटेच्यान उदकाचे लोट व्हांवन येवंक लागले. तातूंतच उदकाक बांद घातिल्लेवरी वारो उरफाटे दिकेन उटांगारान सोंसेवंक लागलो. दिसतालें, उदक

व्हांवचेंच थारलां. पळयतां पळयतां शिद्दरचो दोंगर धरिल्लो हळगें, हुळगें, केरवाडी मेरेनचो सगलो वाठार उदकान भरून गेलो. जशी अख्खे प्रिर्तुमेची एक शीमहद्द नाशिल्ली तळय जावंक लागिल्ली.

वाड्यावेल्या लोकांच्यो बोबो आनी हुयेल्यो. घरदार सांडून पोरां तोरांक घेवन लोक दोंगराचे दिकेन धांवक लागले. बऱ्या नशिबान वाडेकारांले सगल्यांचे गोठे दोंगराकडेन. सदाशिवान एकल्यानच आपलो गोठो सकयल बांदिल्लो. वाड्याकुशीकच उंचशें थळ पळोवन. हेरांलें आयकनासतना. तो गोरवां सोडोवंक म्हण गोठ्याकडेन धांवतालो. लोकान आडावन सांगलें, 'आर्दी तुजो आनी बायल–भुरग्यांचो जीव वाटय.' एक दुसऱ्याक व्हडाव्हडान उले मारीत, उदक कापीत सगले धांवताले.

कंबरभर उदक आसतना ते उदकांत देविल्ले. मदलें शेत बलाटून येयसर उदक गळ्यामेरेन पावलें. निमाणें तर गणेश सुमनाक उखलून उदकार ओडूनच हाडटालो. कांय लोकान वांगडा ल्हानल्हान पोटल्योसाटल्यो घेतिल्ल्यो; कोणाकोणाच्यो व्हांवनय गेल्ल्यो. पूण काकूट विष्णू बायलेली – दसमतीची. तिगेलो एक ट्रंक आशिल्लो. तो तिका बापायन मरचेपयलीं दिल्लो. तातूंत ती आपणाल्यो आवडीच्यो वस्ती घालून दवरताली. भावान मुंबयच्यान हाडिल्लो शालू, पांच वर्साचो जावन मेल्ल्या चेड्यालो कमरेचो चांदयेचो गोफ, घोवालें देवपुजेचें पितांबर तातूंत आसलें. पयलीं घरांत वचून तो ट्रंक माथ्यार घेवन तें येयिल्लें. पूण घोवान तो माथ्यावयल्यान ओडून काडून थंयच उडयलो आनी ताका ओडून घेवन तो धांवलो. दसमती परतें परतें फाटीं वळोन पळयतालें.

वाड्यावेले सगले सत्तर ऐंशीं लोक एकेक करून धडपडत दोंगराकडचे उंचायेचेर येवन उबे रावले आनी एक दुसऱ्याचो सोद घेवंक लागले. ल्हान भुरगीं किळांच्यो मारून रडटालीं आनी जाणटेय देवाक पाराथीत विकळाप करताले. अंबिकेक आपलो चेडो मनू खंयच दिस्टी पडना जालो. ती हुयेली मारीत परती उदकांत हुडी मारूंक धावली. कोणेंतरी तिका आडावन म्हळें, 'आगे तो पळय, मनू हांगाच आसा.'

आंगावेलें सगलें चिप्प भिजिल्लें. कोणाकडेन सुक्या वस्त्राचो एक फाळो नासलो ओलें सोडून उडयतलो म्हळ्यार. रातचे घडयेक खंय वचून पडटले, कितें खातले होय हुस्को आसलो. माथ्यार भरिल्ल्या मळबांतल्यान सारक्को धार तुटयनासतना पावस पडटालो. आंगावेलें भिजिल्लें. पांयाकडच्यान मुखार एक उदकाचो दरया सगलें पोटांत घेवन पातळिल्लो. ते हुंवाराचे लोट व्हांवतात काय व्हांवचे थांबल्यात कांयच कळनासलें. लोकांक दिसतालें होच निमाणो सांवार ! आतां म्हण हांगा कोंब किल्लवचो ना !

वाडो हुंवारान गिळिल्लो आनी झाडामाडांच्यो तेंगश्यो तितक्योच दिस्टीक पडटाल्यो. तो बंदराकडचो मळबाक तेंकूक गेल्लो. पिंपळारूख आतां उदकार सत्री धरिल्लेवरी दिसतालो. जाणटेले काचाबूल जावन सांगताले, असलो म्हापूर आनीक केन्ना येवंक ना.

ल्हव ल्हव काळोख पातळूंक लागलो आनी लोकाल्या आंगातली उमेदच मेली. ओल्या वस्त्रानच दोंगराच्या मुळसांत ते दाटी करून बसले. सगलेच गोठेल्लेवरी थंड किरांव ! कोणाल्या गात्रांत इल्लो त्राण, हुरूप नासलो. फक्कत हुस्को भरून आसलो. सगले इतले थंड बशिल्ले, जशे म्हण्टाले, सगलेच लुटून गेलां थंय रडटलो म्हण कोणाक !

कांय वेळान सोदतशे आयल्या पेल्या वाड्यावेले कांय लोक आयले. तांणी आपल्या वळखीच्यांक, सोयऱ्यांक कांय जणांक आपल्या घरा व्हेले. गणेशाक आनी पोरांक मुकूंद येवन घेवन गेलो. उरिल्ले कांय जण आपल्या पांयान देवूळवाड्यार, मेस्तावाड्यार गेले, कोणाले वासरेर पडून रावचें म्हण. सोयरू मातं बायलेक आनी पोरांक घेवन आपल्या गोठ्याकडेन गेलो. म्हणूंक लागलो, कोणाची पांग नाका, गोठ्या माळ्यार रावतलों सोताच्या.

मुकूंद गणेशालो सोयरो न्ही. पूण बायल मरचे पयलीं तो दर वर्साक वर्सुकेक, म्हाळाक मुकूंदागेर जेवणकार म्हण वयतालो. केन्ना दुकानाकडेन, गोठ्याकडेन केल्यार तांगेर वचून बसतालो. मुकूंदालो एक चेडो मुंबयंत चाकरेक आशिल्लो, दुसरो कारवारा पोलिसांत. भोव उणें उलोवपी. मुकूंदाल्या तोंडार सदांच एके तरेची तृप्तताय आसताली. बायल मात सामकी सादी. सतरा भोंगे काडून कापड न्हेसताली आनी बाबा पुता करून अघळपघळ उलयताली. पूण मुकूंदाल्या दोळ्यांत इतली जरब आशिल्ली, ताणें मातशे दोळे वठारून चयल्यार पुरो, ती गप्प जाताली. घोवान आनी बायलेन गणेशाल्या पोरांक भोव बरें केलें. मुकूंदा बायलेन आपलें एक पोन्नें कापड पिंजून ताजे दोन कुडके करून सुमनाक आनी मंजूळाक न्हेसूंक दिलें. ते कापडाकुडके गुठलावन घेतकीर दोगीय भयणी गमतीच्यो दिसताल्यो. मंजूळ तर लजलज लजतालें.

सामक्के तेरा दीस उदक भरून आशिल्ले. लोक सदां बांदार येवन बसताले आनी वाड्याचे दिकेन पळयत बसताले. आर्दी आर्दी उलयताले तरी आतां मात मोन्यानच बसताले.

भास्करान घुसमटिल्लेवरी म्हळें, 'घरदाराक उजो लागल्यार पालोवंक धडपड घालूं येता. हांगा हाणें सगलेंच गिळून उडयलां.'

रामआज्यान म्हळें, 'आतां आनीक हें उदक देंवतलें, आनी हो वाडो परतो वसतलो! कितल्या पिळग्यांची मिळकत ही ! पोरातोरांक डबांत उडयलीं रे!'

'तरी बरें रामदादा, जाण्टेल्यान एक देख घालून दिल्ली, न्हंयतडीवेलीं घरां म्हण पयलींपासून वणट्यो फातरान बांदीत आयल्यात. नातर पयल्या धपक्यांतच घरां मातयेभरवण जावपाचीं.'

'आतां तरी कितें जालां म्हण कोणें चयलां. फातरांच्यो वणटी खरें पूण मातयेनच फातर बांदल्यात मुरे. सिमीट खंय घालां !'

'आतां जाता तें चोवपाचें. घरां तरी शाबूत उबीं रावं दी रे देवा ! पोटाक चिमटो घेवन संवसार परतो उबो करूं ! घरां पडल्यार मात आमकां संवसार उरचो ना.'

'ह्याच बुडून कुसूंक लागिल्ल्या वेंत वेंत जमनीखातीर हाणामारीचीं झगडीं करताले मुरे, आतां खंय आसा ती ?'

'देवाधर्माच्या नेमाभायर लोक वचूंक लागतकीर हीं एकेक संकश्टां!'

सदाशीव आपल्या गोठ्यांत बांदिल्ल्या रेड्यांच्या उगडासान आकूळपिकूळ जावन रडटालो. 'काय बरें रेड्याचें जोत रे देवा, हांव कानी तरी काडून येवंक जाय आसलों. बुडून मेल्यार उपकारतासले.'

मुखावेलो न्हंय पलतडचो हुळगे गांव शेकानशेक न्हंयचे तडिरूच वशिल्लो. तो गांव इतलो बुडून गेल्लो, हांगा आनीक गांव आसा हें सांगुनूय खरें दिसनासलें.

एक दीस सरकारी मनशां बैलगाड्याचेर घालून कारवार सान कितें कितें घेवन येयले. तांणी सोदून सोदून हांच्या हातांत खावच्यो पोटल्यो दवरल्यो. पूण वाड्यावेल्या लोकांमदीं कसलीच उमेद नासली. सोयरू मात आपल्या गोठ्याकडच्यान सादोवन तांकां सांगतालो, 'आमी कांय जण हांगा आसात रे!'

तेराव्या दिसाक उदक देंवलें आनी सगलें उकतें पडलें. लोक एकेक करून पयलीं घडयेर येवन उबे रावले आनी मगेर वाड्याचे दिकेक चलूंक लागले. शेतांत वाटेर दिमीभर रेबो सांचिल्लो. शेतां कुसून गेल्लीं. तणाची एक पाकळी उरूंक नासली. शेताचो शेकानशेक पडींग तिणें जाल्लो. सगल्या वाठाराक कुसड वास मारतालो. सानसान झाडांच्यो साली आनी फांदयो लेगीत कुसूंक लागिल्ल्यो. धरतरेची एक उकती समाधी !

न्हंय मात दंश करून विळखो सोडून गेल्ले नागिणीवरी आतां आपल्या पाटांतल्यान संथ व्हांवताली.

सदाशीव येयिल्लोच पयलीं आपल्या गोठ्यासरीं धांवलो. गोठो समतोच धर्तरीर येयिल्लो. ताज्या पोंदाक तागेले दोन रेडे आनी रेडकी पोटाची दोंगुल्ली जावन मरून पडिल्ली. सदाशीव आनी तागेली बायल थंयच बसून कपलार हात मारून घेवन हुयेल्यांनी रडूंक लागलीं. पूण थंय घाणींत बसूंक खंय येतालें!

अजाप म्हळ्यार वाड्यावेलें नीलकंठालें घर सोडल्यार एक्कान एक घर उबें आशिल्लें. तशी पडझड खूब जाल्ली. कोणालें वेलें छप्पर हूबून गेल्लें, कोणाली भितल्ली वणत कोसळिल्ली, खंय वणटीर वेर येयिल्ली. पूण घराचे सांगाडे मात नीट उबे आशिल्ले. घरांतलो दोणोगोटो कुसून गेल्लो. भाताचें, तांदळाचे मुडे भिजून भितल्ले भितर फुगून पाड जाल्ले. मुगांचें, हुड्डांचें कोडके कोंबेवन कुसून गेल्ले.

आपा, मंजूळ आनी सुमन आंगणांत येवन उबीं रावलीं आनी तांणी एक फावट सरभोंवतणीं पळयलें. सगलो वाडो शेकड्यांनी वर्सां भुंयेच्या पोटांत रावन वयर सरला असो पोरणो आनी बरगल्लो दिसतालो.

मंजूळाली काय बरी माडार वेंगोवन चडिल्ली माटव घोंसाळ्यांची वाल कुसून मुळार चिखोल जावन पडिल्ली. बचकायेद्या दसणीफुलांच्या झाडांच्यो आतां बेठ्यो काडयोच उरिल्ल्यो. न्हाणये खोंप हुबून खंय पाविल्ली देवाक खबर! थंय बेठ्योच मेडयो उब्यो आशिल्ल्यो.

तीं भिंयेत भिंयेत घरांत गेलीं. घरांत गेल्यार सालांतली मदली एक वणत कोसळ्ळ्या. गणेश जाणा आशिल्लो, ती वणत मातयेची आनी कोसळटलीच. तरीय ताका सू जालें.

दसमती बावडी आठ दीस आपलो सोंपणार सोंडून गेल्लो ट्रंक सोदीत भोंवताली. शेवटा तिका तो पयस एक शेतांत खाणवांत मेळ्ळो. भितल्ले ऐवज काडून ती तो सुकय सुकय सुकयताली.

अख्ख्या वाड्यार सादी वेर लेगीत वचनासतना शाबूत आशिल्लें तें घर म्हळ्यार भास्करालें. व्हडले माळयेचें कोट कशें घर तें. सकयल्यान वयर मेरेन फातरान गडगंज बांदिल्लें.

घरा आशिल्लो दाणो गोटो कुसून पाड जाल्लो. रोविल्लीं शेतां मातयेभरवण जावन पडींग पडिल्लीं. लोक कपलार हात मारून घेवन चिंतेंत पडिल्लो. सरकारान घराक पन्नास रुपया आनी चार कुडव तांदूळ दिल्ले. लोक घरदाराचें थंयच सांडून खंयच्याइ रोंपीं बींय हाडून शेत परतें रोंव जाता काय पळोवंक हणकोण, असनोटी

माजाळी, मुडगेरी ह्या गांवांनी गेल्ले. कोर्णेकोर्णे व्हाडीक, कळंतरान मागून बींय भात हाडिल्लें. शेतांत जोतां बांदचें शक्य नाशिल्लें. सगलो रेबो सांचिल्लो आनी बैलांचे पांय भितर मुंगरताले. लोकांक हलकेन हलकावन खोऱ्यान खणून बींय उडयलें. रोंपी मेळिल्ल्यान रोंपी लायलीं. त्या अख्ख्या वाठारांतलें, स–सात गांवचें शेत कुसून गेल्लें कोणाक रोंपीं, बींय मेळ्ळें कोणाक मेळ्ळें ना. गणेशान आपलो मावसभाव सदाकडेन माजाळे वचून पांच वर्जी रोंपीं हाडिल्लीं. सदान आपली एक कुणगीच हुमट्न दिल्ली. पूण ती पाव वांट्यान शेताकरा पावलिना.

ह्या म्हापुरान ह्या वाठाराचें रूप आनी रयाच बदलून उडयली. हुळगें गांवचो गांव उठून दोंगरादेगेर रावंक गेलो. नीळकंठय परतो वाड्यार घर बांदूंन तयार ना जालो. ताणें आपल्या वाड्यावयल्या बागा कुडक्याक वंय घाली आनी घराची पाख्यांची पडिल्ली मुस्तायकी वयर गोठ्यासरीं व्हरून गोठ्या कुशीक सरकारी जाग्यार दोन पाख्यांचें घर बांदलें.

तो अख्खो पावसाळो लोकांन फक्कत पावसापासून माथें लिपयत आनी पेज जेवन काडलो.

सगले पडझडीक लेपलेपण लावन ह्या धपक्यांतल्यान भायर सरूंक

वाड्याक वर्स देडवर्स तरी लागलें. गणेशाली कोसळिल्ली वणत ताणें सोताच घाली. बापायन आनी धुवेन मेळून शेतांतल्यान चिकणमाती हाडली. ती मस्तून कालयली. मंजूळान गुळे करून दिले आनी ते गणेशान थापले.

‘आपा, बायुलाक शाळेंत घालूंक जाय न्ही !’

‘वयल्यावाड्यार देवळाकडेन शाळा. पावसाळ्यांत उदक भरता व्हाळांत, शेतांत.’

‘जयरामअण्णा वाड्यारच शाळा काडटा खंय. भास्करदादाले माळयेर ह्या वर्सासान. फाल्यां भुरग्यांक आफयलां.’

आपा वोगी रावलो.

‘म्हयन्याक दोन कुडव भात नातर एक कुडव तांदूळ.’

‘कित्या, सरकार पगार दिवचो ना ?’

'दोन वर्सां खंय पगार मेळचो ना.'

आपा परतो वोगी.

'शिकूं दी ताका चार बुकां. उपकारतलीं वाचूंक बरोवंक.'

मंजूळान दुकानासरीं वचून पाटी काडी हाडली. दुसऱ्या दिसाक तें सुमनाक घेवन भास्करअण्णाले माळयेर गेलें.

माळयेच्या दाराक आंब्या ताळयेचें गडगंज तोर्ण बांदिल्लें. ताका फुलां खोवयिल्लीं. निकतोच पुजा करून उठिल्लेवरी जयरामअण्णान कानार फूल लायिल्लें. कपलाक गंधा तिबो. मुखांर धा–बारा भुरगीं बशिल्लीं. तांच्याय कपलार गंधा तिबो लागिल्लो. एका ताटांत ताटभन्न गोडांत भरशिल्ल्यो कातले फोडयो आशिल्ल्यो. त्यो तो आयिल्ल्यांक वांट्टालो. उपरांत ताणें एका दुसऱ्या ताटांत कातले फोडयो घाल्यो आनी त्यो एका व्हडशा भुरग्याक आफोवन वाड्यार वचून वांटून येवंक सांगलें. तो भुरगो उमेदीन गेलो.

मंजूळान आनी सुमनानय कातली खाली. पूण सुमन शाळेंत बसूंक तयार नाशिल्लें. परतें परतें रडत मंजूळा फाटल्यान येतालें. जयरामअण्णान सांगलें, मंजूळ तूंवय बस ताका घेवन. मगेर आपशींच रमतलें. तांचे कुशीकच एक भुरगो बशिल्लो. गोरो, हांसकुऱ्या तोंडाचो. ताज्या आंगार नितळ खोमीस आशिल्लें. मंजूळ ताका वळखलें ना. कोण हो खंयचो ?

'नांव कितें रे तुजें ?'

'गोविंद.'

'कोणालो, खंयचो तूं ?'

तो भुरगो कांयच उलयलो ना.

'जयरामअण्णा, हो भुरगो कोण रे ?'

'भास्करदादालो भाचो मुगो तो. भाच्याक हांगाच हाडून शाळेंत घाला ताणें. अपुरबायेच्या ह्या भाच्याक लागून भास्करदादान शाळेक आपली माळी दिल्या.' जयराम मजघेवन हांसलो.

खरेंच सुमन थोड्याच वेळांत गोविंदावांगडा खेळूंक गुल्ल जालें. मंजूळ ल्हवच उठून सकयल येयलें.

इतल्यांत सोयरूदाद संवत, गाळयो घालीत आंगणांत येयलो, 'अरे जयरामा,

चड शाणो जाला तूं, देडशाणो. निखळायतां पळय तुका. गांवाक सांगप ना करप ना. उठ्ठा आनी शाळा काडटा. हो वाडो म्हळ्यार तुज्या बापायची मिरास कितें रे ?'

जयराम बेगीबेगीन माळयेवेल्यान सकयल देंवलो, 'कितें जालें सोयरूदाद?'

'तोंड घेवन आनी विचारता कितें जालें म्हण. तुवें शाळा काडचे पयलीं गांवपण आफोवन धा जाणांक सांगिल्लें ? ह्या वाड्यार लग्ना माटवाक म्हेड पुरचे पयलीं धा जणांक सांगतात आनी तूं येदी व्हडली शाळा काडटा गुपचूप. चोरावरी.'

'बऱ्याचें काम सोयरूदाद. दोन बुकां शिकल्यार भुरगीं सुदरतलीं. फुडें सरतलीं.'

'म्हाका सांगूं नाका तुजें शाणेशात्र, केन्नाचो रे तूं, केन्नाचो काय म्हणटां. सात यत्ता शिकलो आनी कास्टी सुटून भोंकार चड्डी येयली म्हण शाणो जालो कितें तूं ? शाळा बीन तें सरकारालें काम. तुका सांगतां, फाल्यांसान एक भुरगो येवचो ना शाळेक.'

'तुका जाय जाल्यार आफयतां हांव धा जाणांक. बऱ्या कामाक कोण आडमेळें हाडचो ना.'

सोयरून ताज्या उलोवण्याकडेन लक्ष दिनासतनाच म्हळें, 'भुरग्यांकडच्यान भात तांदूळ घेतलो खंय ! लुटूंक बसला हिंगा. हांव चयतलो कोण कसे दिता म्हण.'

भास्कर भितरच आशिल्लो. तो आयकतालो. तिडकीनसो तो भायर येयलो. 'सोयरू चड जालें तुजें, शाळा म्हजे माळयेर. हांव म्हजे माळयेर शाळा काडटलों नातर घाणो घालतलों. तुका लागना तें.'

'पूण शिकूंक येतलीं तीं वाड्यावेलीं भुरगींच मुरे. कोण येतात चयतलों. दोंको मोडून घालतलों. एकेकाचो.

'धाडूं नाकात तुमी भुरग्यांक. हांव म्हज्या एकल्या भाच्याक घेवनच शाळा चलयतलों. मास्तराक पगार एकलो दितलों.'

'भाच्याक खंय भाच्याक. सगलें करून भागलो, आतां भाच्याक हाडला, इस्टेट वाऱ्यार पडटली म्हण.'

'पळय सोयरू, चलूंक लाग हांगासल्लो. नातर दोनय दोंके मोडून घालतलों.' भास्करान भितर वचून दांडो हाडलो. सोयरू थंयच्यान बेगीबेगीन काडून गेलो. वतां वतां तो आइडलो, 'तुगेल्या आज्यान आनी बापायन गरजेक पडिल्ल्या भावबंदांक लुटले, तांची जमीन हातासली. बऱ्याक पडची ना. तिसरोच खावन वयतलो.'

तो वयतकीर भास्कर थंय एकठांय जाल्ल्या लोकांक सांगतालो, 'हांगेलो चेडो

अंदूं सातवेक बसचेलो आसा. आपल्या चेड्याकच वाड्याचेर शाळा काडून दिवची म्हण चिंत्तालो तो.'

हांगेलें आयकोन मंजूळ कांचेवेलें. सुमनाक शाळेंत दवरचेली तागेली उमेदच मेली. तें माळयेर गेलें आनी सुमनाक घेवन बद्द घरा येयलें. जयराम कोणाकडेन तरी उलोवंक गुल्ल जाल्लो. ताणें ताका सांगलें लेगीत ना. उपरांत एकेक करून भुरगे उठून गेले. माळयेर फकत पुजेचें ताट, तांबयो आनी दिवो. एकलो जयराम आनी ताजे फुड्यांत बशिल्लो गोविंद - भास्करालो भाचो.

जयराम काळसो मोटवोच सतरा अठरा वर्सांचो भुरगो आसलो. ताजें उलोवप गोड आनी नमळकायेचें. केन्ना केन्ना तो इतले नमळकायेन उलयतालो, ताज्या खरेपणाविशींच दुभाव येवचो. दादा, अण्णा, मामा म्हळेबगर तो पाचारिनासलो. ताजो एक भाव फलटणींत आसलो. तो म्हयन्याम्हाल कांय पयशे धाडटालो. तागेली आवय ह्या दुसऱ्या चेड्याक आनीक गांवच्यान खंय भायर धाडूंक तयार नासली. जयरामय आवयविशीं, गांवाविशीं चड लागणूक आशिल्लो सो आसलो. जल्मापासून तो गांवच्यान खंय भायर वचूंक नासलो आनी आतांय वचची ताजी इत्सा नासली.

तो आतां सद्दां सकाळीं आपली खाकी चड्डी, वयल्यान धवें पैरण घालून भुरग्यांक एकठांय करूंक भायर सरतालो. आंगणांत बीन खेळपी भुरग्याक धरून, न्हाणयेंत व्हरून तागेलें तोंड धुवन ताचे कपडे मागून घेवन आपुणूच घालतालो. आनी ताका शाळेंत घेवन येतालो. चडशीं भुरगीं सकाळीं उठून जोताकडेन चाव भाकरी बीन घेवन वयतालीं. जयराम केन्ना आकाड्यांत उबो रावन, केन्ना बांदार वचून उबो रावन तांकां उले मारीत सादयतालो. मास्तराक चयतकीर केन्ना भुरगीं धांवन वयतालीं. आंगणांत, वासरेर आत्तां आशिल्लो भुरगो नाच जातालो. मगेर हातांत दिवो घेवन माळ्यार बीन लिपून बशिल्ल्या भुरग्यांक सोदून काडचे पडटाले. जेन्ना तो भुरग्यांक सोदून घेवन शाळेवटेन येतालो तेन्ना ताज्या दोनय हाताक धरिल्लीं दोन भुरगीं, आंगार धरिल्लें एक भुरगें, मुखार फाटीं एक दोन भुरगीं आसतालीं. ताची पाटी काडीय ताजेचकडेन आसताली. तांतलें एकतरी भुरगें रडत चलतालें.

सद्दां धरून हाडिल्लीं पांच स भुरगीं आनी खोशयेन येयिल्लीं पांच स भुरगीं अशें करून तो शाळा चलयतालो. ताणें आनीक एक माण्णी केली. एक कीलभर धेंपयेगोड हाडलें आनी ताजें बारीक बारीक कुडके करून दवरले. शाळा सुटचे पयलीं सद्दां तो एकेक कुडको भुरग्यांल्या हातार दवरतालो.

ताणें तांदूळ भात दियात म्हण तांच्या आवय बापायक सांगिल्लें खरें, पूण कोणेंच केन्ना ताका पडभर तांदूळ हाडून दिलेनात. मळून जातकीर भास्करान मात एक खांडी भात कुशीक काडून दवरलें. तें भात खासा जयरामान खळार वचून माथ्यार मारून हाडलें. अचकीत एक दीस शाळेच्या इन्स्पेक्टरान हे शाळेक भेट दिली. तेन्नासावन शाळा नांवारुपाक येवंक लागली. जयरामाचो जयराम मास्तर जालो आनी ताका सरकाराकडल्यान कांय पयशेय मेळूंक लागले. पयलींच जेन्ना एके मुठीन ताका तीनशें रुपया मेळ्ळे तेन्ना ताणें शाळेचे माळयेर सत्यनारायणाचो वीर्त केलो. गांवच्या लोकांक आफोवन तांकां प्रसाद वांटलो. शाळेक काळे फळे, नकाशे बीन हाडले.

सोयरूली सून शोभा सडसडीत भितर सरली. भितर येवन भिवनशी दोपून उबी रावली. 'कितें गे शोभावयनी ?'

शोभा खुळूखूळ हांसलें. ताज्या सोबीत दोळ्यांतल्यान, पातळ पातळ ओंठांतल्यान खूबशें हांशें शेणलें. इतली सोबीत ही शोभावयनी आनी इतलें नितळ संतोसाचें तिगेलें हांशें पळोवन मंजूळाक तिजे विशीं भोवभोव माया दिसली. पळेल्यार तिगेलें पोट बरेंच उबार दिसता. ताणें ल्हवूच तिज्या पोटावेल्यान हात भोंवडायत म्हळें, 'शंकरभाऊ वयतना तुका कुवाडें घालून गेलो काय कितें गे ?'

शोभा परतें हांसलें. फुलांची वाल वाऱ्यार धोलिल्लेवरी जाली. ताणें आपलें न्हेसण मातशें अळंग करून फाफुडलें. तिज्या न्हेसणांतल्यान एक पोटोळी धप्प करून सकयल पडली.

'हें कितें गे वयनी ?'

'पडभर सुरय तांदूळ हाडल्यात. दळून थालीपीठ करुया.' मगेर तिणें दोन रुपया काडून दित म्हळें, 'हे गोडाक आनी नाल्लाक.'

'आसूं, पयशे नाकात. नाल्ल आनी गोड आसा म्हजेकडेन घरांत. पूण पार्वतमावशी तुका पोटभर वाडटा न्हय गे !'

'कसलें जेवण तें, उकडे तांदूळ शिजोवन घालता. तांचें हुमण, शाक केन्ना खायलां तुवें ? मांयकडेन आसा कितें ? मांव मुजीक चावी लावन भोंवता. म्हजी आई कितलें बरें मचमचाचें रांदता जाणा ! याद येता गो !'

सान, बारीक आंगलोटाची शोभावयनी खावंक मागूंक राविल्ल्या भुरग्यांवरी मंजूळामुखार उबी आसली.

तशें शोभा मंजूळाच्या वयाचें जातलें. कारवार लार्गीसार बाड गांवचें तें. गेल्या वर्साकच सोयरूलो चेडो, शंकरावांगडा लग्न जावन ह्या गांवांत येयिल्ले. घोव शंकर फलटर्णींत आसा. शारांतल्या चेडवांच्या आंगार एके तरेचें तुकतुकीत तेज आसता, तसलें तेज शोभाल्या आंगार आसलें. बारीक सावळो आंगलोट, भिजिल्लेशे लिकलीक दोळे, सदाफुलींच्या पाकळ्यांवरी हांसतीं ओटां. चेडूंय न्ही आनी बायलय न्ही अशें मदलेंच एक अपरूप रूप.

मंजूळान ताका रांदचेकुडींतच दांतें मांडून दिलें. शोभान आनी सुमनान मेळून ते तांदूळ दळ्ळे. मंजूळान कांदो, सोय, गोड घालून पीठ कालयलें. तवो चुलीर दवरून पचपचीत तेल घालून थालीपिठाच्यो रोटयो भाजल्यो.

'वयनी, एक कुवाडें घालूं ?'

'घाल गो. तूं एक तुगेल्या शंकरभाऊवरीच. तो मुगो म्हगेल्या पोल्याक साकरआंबो म्हण्टा आनी म्हगेले वेणयेक बांगरबैलाच्या गळ्यांतली कानी म्हण्टा. आनी ती धरून ओडटा.'

'तूं ताका साकरआंबो बरो चोखून खावंक दिता मुगो ?'

'तुगेलें म्हण नाका जाल्लेंच हां मंजूळ' तें लजेत लजेत हांसलें. 'पत्रां म्हण कितलीं बरीं बरयता गो, हांव तणावळी फाटल्यान व्हरून बसून वाचतां, ल ऽ ज दिसता.'

'तुगेले केंस मात खऱ्यांनीच लांब आनी घसघशीत रसम कशे! आंगाभोंवतर्णी फासफून घेवन साडी पोल्क सोडोवन उडयल्यार लेगीत कोणाक कळचें ना.'

'हट्. फटकिरें तूं. तुगेलें कुवाडें घाल मुगो.'

'नाका. तुगेल्या कुवाडयानूच पोट भरलें.'

थालीपीठ खातांखातां शोभान मंजूळाल्या हड्ड्यावयल्यान ल्हवूच हात भोंवडायलो. 'कितलें गुबगुबीत उबार हड्डे गो तुजें. म्हाका समा हड्डे ना म्हण शीण काडटा तो.'

'थालीपीठ खा मुगे !'

भायर कोणाली तरी सावळी हालली. मंजूळ बेगीबेगीन भायर येयलें. शोभाली मांय पार्वतमावशी दारांत येयिल्ली. 'आगो शोभा, हांगा येयल्या गो? पाडपडिल्लें

कितलो वेळ जालो, खंय गेल्या खबर ना.'

'आगे, तें चोबो घेवन शेणी पुंजावंक गेलां मुगे.'

'चोबो तर आगणांत पडिल्लो आसा.'

'म्हजो चोबो आशिल्लो हांगा वासरेंत. उखलून घेवन गेल्या. सांगप ना करप ना. कोणालेंय कितेंय उखलून व्हरता. कितेंय उलयल्यार तुगेल्या शंकरभाऊक येतकीर सांगतलें म्हणटा.'

'आसूं आसूं. हाडून दितलें तें.' पार्वतमावशी चार पांवलां गेली आनी तिणें फार्टी वळोन म्हळें, 'कितें भाजतात गो, बरो सुरबूस तेलकट वास येता.'

'कांय ना गे, आपाक म्हण चार गंवनां काडटां.'

'बरें चमचमीत रांदता गो तूं. फाल्यां घोव काडयेयेदो आसल्यार मुसळायेदो करून उडयतलें.'

'म्हजो घोव मुसळायेदोच आसा पार्वतमावशे.'

'मगेर तो तुजी मस्ती बरी जिरयतलो.'

पार्वतमावशी वचूंक गेली. थंयच मंजूळाफाटल्यान सुमन उबें आसलें. मंजूळाक सारकी भिरांत दिसताली. तें कितेंय उलयत म्हण. पूण तें शाप्यावरीं वोग्गी रावलें.

भितर वतकीर आर्दी शोभा हांसहांस हांसलें. 'मांय बरी गो म्हगेली सादी. आवयवरीच पूत. मांवाक मात हांव थर्त भिंयेतां बाय.'

'कित्याक गो ?'

'बरो न्ही तो मनीस... ए खन्यानीच तूं म्हाका तुगेलो चोबो दी. हांव चार शेणी पुंजावन घेवन येतां.'

दुसऱ्या वर्साक तालुक्याच्या स्नेहसंमेलनाक जयराममास्तरान भुरग्यांकडल्यान एक माणकुलें नाटक बसोवन घेतलें, एकलो रयत आनी दुसरो जमीनदार. जमीनदार खुर्चेर धोतर, कोट, फेटो घालून बसला. रयत एक वालो न्हेसून कांबळ खांदार उडोवन उकत्या आंगान आपली दुर्बळटाय, दरिद्रीपण उकतायता आनी सांगता, ह्या वर्साक

तुज्या शेताची गेण घालूक हांव तांकना. –

कशीकन्न घालूं गेण धनया,
कशीकन्न घालूं गेण ।
रोवच्या वेळार बैल म्हजो,
    रानांत मारलो वागान ।
कशीकन्न घालूं गेण धनया,
    कशीकन्न घालूं गेण ।
नडच्या वेळार बायल म्हजी,
    थार पडली जोरान ।
कशीकन्न घालूं गेण धनयां
    कशीकन्न घालूं गेण ।
मोगाच्या पावसान दगोच दिलो,
    पोटऱ्यार पडना जावन ।
कशीकन्न घालूं गेण धनया
    कशीकन्न घालूं गेण ।
सोंपलो म्हजो भाताचो गोटो,
    पोटाक पावना जावन ।
कशीकन्न घालूं गेण धनया,
    कशीकन्न घालूं गेण ।

मगेर जमीनदार उठ्ठा. हातांतली बडी भुंयेर आपटीत म्हणटा, 'भात ना, बीं दी.'

'बींय ना गा धनया.'
'बीं ना मुडो दी.'
'मुडो ना गा धनया.'
मुडो ना कोडको दी
'कोडकोय नागा धनया.'
'गाडगो दी, मडकी दी.'
'गाडगोय ना, मडकीय ना गा धनया.'

'गाडगो ना मडकीय ना, रीण काड.'

'मुदलाच्या दोबराद कळंतर गा धनया.'

'तशें जाल्यार ही पळय हांव म्हजी जमीन घेवन चललों.' जमीनदार हांतरी कवळिल्लेवरी भूंय कवळिल्ल्याचो हावभाव करता आनी ती खांक्याक मारून चलूंक लागता. रयत तकलेर हात मारून घेवन बसता आनी रडूंक लागता.

नाटकुलें बेसबरें जाल्लें. ताळयोय बऱ्यो बडल्यो. पूण थंय तालुको शाळा बोर्डाचो अध्यक्ष मुखेल सोयरो म्हूण येयिल्लो. तो मात रागार फुगार जावन वयर सकयल जातालो.

त्या वर्साचे शाळेचे पयशे हाडूंक गेल्यार ऑफिसांत इन्सपेक्टरान ताका विचारलें, 'मास्तर तूं कम्युनिस्ट ?'

'कितें म्हळें सायबा ? म्हाका कळूंक ना.'

'तालुको शाळा बोर्डाचो अध्यक्ष, कारवारचो व्हडलो जमीनदार. ताजी जमीन कारवार, बाड धरिल्ले हळगें, हुळगेंमेरेन पातळिल्ली आसा. तूं ताजे आड नाटक करून लोकांक खुबळावन घालता ?'

'हें हांव कांयच नकळों सायबा. हांवें बेठेंच तें नाटकुलें केल्लें. गांवांत पयर्लीपासून घोळत येयलां तें.'

'तें तुजें तूं पळय. अध्यक्षान हाचेफुडें तुजे शाळेचें ग्राण्ट बंद केल्या. आतां तूं आनी अध्यक्ष. आमच्या म्हऱ्यांत तूं आनीक येवं नाका.'

जयराममास्तर अचकीत आंगार संकश्ट येयिल्लेवरी थतरवितर. करूंक गेलो गणपती, जालो माकड. आतां कितें करचें गा देवा !

जमीनदार कारवारांतच रावतालो. तो तसोच उठून जमीनदारासरीं वचूंक गेल्यार ताजें तें कोट कशें घर, भोंवतणची शेकानशेक उंच दुरीग, भितल्लो चकचक पळोवन भिंयेल्लेवरी जालो. तो तसोच सांजची लांच धरून परतो येयलो.

ताणें सगलें आईक सांगलें. आईन म्हळें, 'तो घनशाम शणै. अरे तुगेलो मामा तागेली पांच खाणयांची जमीन करता. आनी दर वर्साक चुकनासतना ताजी गेण व्हड्यार घालून व्हरून पावयता. मामाक वचून सांग तुज्या धनयान अशें केलें म्हण.'

दुसऱ्या दिसाक तो उठून हळग्यां मामागेर गेलो. मामान म्हळें, 'हांव चार

दिसान ताजेकडेन साळचे सुरय तांदूळ घेवन वचचो आसां. तूं यो म्हजे वांगडा. सांगुया ताका. हांवें सांगल्यार ना म्हणचो ना तो.'

मामा आनी भाचो दोगय मेळून कारवारा गेले. साळच्या सुरय तांदळांची पोटली व्हरांड्यांत तेंकोवन ताणें ताका देवा धनया करून विनयलें आनी मनयलें.

हे शाळेंत सुमन चवथीमेरेन चार वर्सां उरलें. उपरांत तें, गोविंद आनी वाड्यावेले दोगतीग भुरगे वयले देवळाकडचे शाळेंत वचूंक लागलीं. पांचवेक कानडी शाळेंत तें एकलेंच चेडूं. चेडे भुरगे सगले बांकार बसताले. सुमनाक एकल्याकच एक स्टूलशें दिवन कुशीक बसयताले. भुरगेपणासावन खेळत नाचत येयिल्लो तो गोविंद बांकार हेरांमर्दी बसतालो आनी सुमन एकलेंच कुशीक. आपणाक कित्याक म्हण हे कुशीक अशे बसयतात हें सुमनाक आर्दी कळ्ळेंच ना. जयराममास्तराले शाळेंत बरें आसलें. सगले बापोयलभाव आनी गोविंद भाचो कोणाचेय मर्दी वचून बसचें आनी चिमटे काडचे. अशें हें वेगळें बसचें सुमनाक कशेंच मनवनासलें. शाळा सोडुनूच वचचें अशें दिसतालें.

सुरवेक वयाच्या पांच-स वर्सांमेरेन सादेंसुदें अरवळ दिसपी सुमन मातशें आंगान भरतकीर समतेंच तवनास जालें. जयराममास्तराचे शाळेचे माळयेर तें धडधड करून एकेच धावणेंत देंवतालें आनी चडटालें. मास्तर मगेर मंजूळाकडेन कागाळी करी.

पांचवेची शाळा सुरू जाल्ली. गोविंदाक पुस्तकां हाडूंक भास्कर गेल्लो तेन्ना मंजूळान ताचेकडच्यान सुमनाकय पुस्तकां हाडून घेतिल्लीं. मंजूळान आपल्या हातान एक पिशवी शिंविल्ली. तातूंत तें पुस्तकां घालून व्हरतालें.

एक दीस गोविंद आनी सुमन दोगांय शाळेक वयतालीं. सांकवावेल्यान पयलो व्हाळ बळांटून गेलो तो गोविंद. फाटल्यान आशिल्ल्या सुमनान म्हळें, 'पळय रे गोविंद पळय.'

ताणें 'आगो, आगो' म्हणटानाच सुमनान सांकवावेल्यान रंव ऽ करून धांव मारली. तें अर्दार पावलें आनी तोल सांडून झिडपून व्हाळांत पडलें. व्हाळांत जोरगतेचें उदक तुडूंब भरिल्लें. उदकांत पडलें आनी दोन तीन बुचकळ्यो खावन वयर येयलें. पुस्तकांची पिशवी खंय व्हांवन गेली कळ्ळीच ना. कोणाक कितें सांगतलो म्हळ्यार, शेतामर्दी पयस हो व्हाळ. थंय लागींसर कोण ना.

सुमन वयर येयलें आनी पुस्तकां गेलीं म्हण व्हडाव्हडान रडूंक लागलें. गोविंदान म्हळें, 'सुमन, म्हगेलीं पुस्तकां दितां तुका हांव. मामाक म्हगेलींच पुस्तकां पडलीं म्हण सांगतां. म्हाका हाडटलो तो नेवीं पुस्तकां.'

सुमनान म्हळें, 'नाका, तूं वच शाळेक.' आनी तें ओल्या कपडयानच बद्द घरा येयलें; भिंयेत, लिपत.

घरा येयल्यार मंजूळ घर बंद करून आपावांगडा दिपळो घेवन शेतांत गेल्लें. वाड्यादेगेर वाडेकाराल्यो तीन चार तणावळ्यो आशिल्ल्यो. तें थंय गेलें आनी ताणें आंगावेलीं आंगली काडलीं आनी वोतांत सुकोवंक उडयलीं. तें थंय तणाळीच्या अडसराक वोग्गी बसून रावलें. ताका एके वटेच्यान रडूंक येतालें आनी भिरांतय दिसताली – बायची, आपाची, मास्तराची भिरांत.

आतां शाळेक पुस्तकां खंयचीं व्हरचीं ? म्हाका नाकाच ती शाळा. आनी तो ऐगळ मास्तर कितलो सवता. मातसो जाग्यावेल्यान हालूंक दिना. सदांच बरय आनी वाच म्हणटा. परोची कळना म्हण सवता. म्हाका गणितां तर सामकीं कळनात. तो सुरेश व्हडले झेत दाखयता गणितांत हुशार म्हण. परिक्षेंत विचारल्यार बीन कांयच सांगिना.

...बायक हांवें पयर म्हळें, हांव मामागेर केरवडी जत्रेक वयतां म्हण. तर तें, नाका शाळा चुकतली, म्हणूंक लागलें. मामागेले भिण्णीक भिण्णां पिकल्यांत आसतलीं. गोड साकरभिण्णां तीं. आतां शाळेक वचचेंच ना हांव. बायन मारल्यारय वचचें ना. गोविंदाक एकल्याकच वचूं दी. आनीक कोण्णा वांगडा शाळेंत वचना तो. शाळेचो वेळ जातकीर पाटी पुस्तकां घेवन येता आती म्हाकाच आपयता. हेर भुरगे ताका बायलकुरो म्हण चाळयतात. पूण आयकना तो.

आंगलीं मातशीं सुकतकीर ताणें आंगार घालीं आनी तें तणावळींतच बसून रावलें.

बशिल्लेकडच्यान ताज्या घराचें आंगण, वासरी दिश्टीक पडटाली. वाड्यार कोणेंकोणें उलयिल्ल्याचो कितें हाणिल्ल्याचो, फोडिल्ल्याचो आवाज आयकोंक येतालो. घरासरी वचचें नाकाच दिसतालें. ल्हव ल्हव ताका झेम येवंक लागली. तें थंयच तणार पडून न्हिदून गेलें.

...सपनांत उदकाची धार वोतांत चकचकता. अचकीत तें उदकांत पडटा. व्हाणीवांगडा व्हांवत वयता. उदकाच्या भोंवऱ्यांत घुंवता. खळखळ उदकाचो फेणेर कपीत पयसपयस पावता, चोंयवटेनचीं झाडां, शेतां, दोंगर ताजे वांगडा धांवंक लागतात. व्हाळांतल्यान व्हांवन वचून काळी न्हंयंत तें पावता... मगेर सट्कन कांदळां झाडाचे फांदयेक हात घालून घट धरून रावता... ताजेवेल्यान उदकाचे लोट व्हांवन वयतात. वयर कशेंच येवंक जायना... मगेर थंय गोविंद येता. तडीवयल्या

खडपार पांय दीत ताका हात दिता...

जाग येवन दोळे उक्ते करून चयल्यार तें तशेंच तणार पडिल्लें आसा. कुशीचे तणावळींत कोर्णेतरी तण सरगिल्ल्याचो सर्रसर्र आवाज येता. तें कांचवेवनशें उठ्ठा. मातशी मान वांकडी मरून चयल्यार बाय तणावळींतल्यान तण काडटा. तें वोग्गी लिपता.

मंजूळान तण व्हरून गवर्णीत बैलासरीं घालें. तें बैलांकडेन कांय वेळ कितें कितें उलयलें. मगेर घरांत वचून हेर वावराक लागलें. सुमन अडसराक उबें रावन सगलें चयतालें. बाय येतनाच बैलांक हामडून घेवन येयलां दिसतलें!

सुमनाक गवर्णीत वचून बैलांसरीं बसचें अशें भोव दिसलें. वाड्याचे वंयक तेंक़नूच ताटीन आडावन गवण केल्ली. वंयंत व्हडलो चोंची आंबो आशिल्लो. ताजी थंड सावळी गवणीर पडटाली. ती सावळी, बैलांच्या आंगाचो वास ताका भोव मानवतालो. चांदू तर इतलो साधू बैल. ताचे मोव मोव मानेर तें कितलो वेळ पडून रावतालें. तो शिंगां लेगीत हालयनासलो.

तें तणावळींतल्यान भायर येयलें आनी धांवत गवर्णीत गेलें. गवणीच्या आडांब्यार बसलें. थंयसावन सामकी घराच्या दारार नदर पडटाली. बाय सामकें कामांत गुंथल्लें.

आतां शाळा सुटली आसली. कांय वेळान गोविंद येतलो. ताज्या पोटांत पांचपांच... आयज बाय दवरचें ना. आपाक कळ्ळ्यार आनी...

पाटीदप्तर खांदाक मारून पयलीं गोविंद सुमनालेच खबरेक येयिल्लो.

'मंजूळताई, सुमन खंय गो ?'

'तुजेच वांगडा तें शाळेंत गेल्लें आनी म्हाका विचारता ?'

'वयताना तें व्हाळांत पडलें न्ही गो ?'

'कितेंऽऽ !'

सांकवावयल्यान व्हाळांत पडिल्लें. मगेर वयर येवन तशेंच घरा येयिल्लें.'

'मगेर खंय गेलें तर तें ! अरे देवा... !'

मंजूळ होळोम काडून व्हडव्हडान रडूंक लागलें. मगेर रडटां रडटांच ताका आफोवंक लागलें, 'आगो बायूल, बायूल खंय गेलें गो !'

'ताजीं पुस्तकां व्हांवन गेली ताई.'

'कितें पुस्तकांय गेलीं ? कितले फावट सांगलें, सांकवार नाच करुं नाका म्हण. आतां खंय गेलें बायूल म्हजें !'

ह्या वेळार वाड्यार दादले कोण नाशिल्लेच. कोण कोण शेतांतल्यान, रानांतल्यान येवचे आशिल्ले, तर कोण भायलेभायर दुकानांकडेन गेल्ले. दारांत वाड्यावयल्यो सगल्यो बायलो एकठांय जाल्ल्यो. सगल्यांचो आंगणांत कलकल.

बाय तर सामकें थार दिनासतना बायूलाक सादयतालें. बाय रडटा तें सुमनाच्यान पळोवंक नजो जालें. तें उठलें आनी वाड्याचे वंय कडेकडेच्यान घराफाटल्यान गेलें. मगेर ल्हवच घराचे कुशीक. कोणेंतरी ताका पळयलें आनी म्हळें, 'आगो हें हिंगा आसा मुगो !'

मंजूळान ताका पळयलें आनी तें रागान झिडपलें. आंगणांतलो सान्नी कुटारो उखलून ताज्या आंगार धांवन वचत ताणें म्हळें, 'खंय खंवसल्लें पाडपडिल्ल्या इतलो वेळ ! सांकवावयल्यान ल्हव वच म्हणून सांगल्यार तुका पिडा मारता.'

ताणें उखलिल्लो सान्नीकुटो कोणेंतरी धरून काडून उडयलो.

'आगो बरें म्हण बरें, आयज कितें चड उणें जाल्लें जाल्यार.' मंजूळान एकदम ताका खाकोळांत घेयलें आनी तशेंच घरांत हाडलें, 'चल न्हांणयेकडेन वचून न्हावन यो. न्हांणयेक उजो घाला हावें. न्हावन यो. पेज वाडटां हांव.'

सुमन दोरयेवेलीं आंगलीं घेवन न्हाणये खोपींत गेलें. वाड्यावयल्यो बायलो शाळेची, व्हाळाची, सांकवाची खबर उलयत फासपल्यो.

शाळा म्हळी की सुमन आतां दड मारूंक लागलें. नेवीं पुस्तकां हाडटां हाडटां म्हणून दीस गेले आनी शेवटा सगलेंच उरलें. सुमन इतले दीस शाळेक वचनाशिल्लें. पूण गणेशान एक दीस एका उतरान विचारलें ना. आदींच ह्या अख्ख्या वाड्यावयलें एकलेंच चेडूं शाळेक वयतालें तेंवय बंद जालें. लोकाक तें कळ्ळेंच ना. लोक तर ह्या दिसांनी चीनाच्या झुजाच्यो खबरो आयकोंक आनी उलोवंक गुल्ल जाल्ले.

एके घरवडींतले णव जण फलटणींत आशिल्ले आनी दिसानदीस झुजाच्यो पाड्यो खबरो येताल्यो. वाडोभर हुसको. सदानंदाली आई तर घरतरेक लागिल्ली. एकलोच चेडो आयकनासतना फलटणींत गेल्लो. तिका लोक धीर दिताले. रातचे तिजे वांगडा कोण कोण न्हिदूंक रावताले.

काल रानांत गेल्लेकडेन गणेशाल्या पांयाक कांटो लागिल्लो. ताणें थंयच तो कांटो ओडून काडिल्लो. पूण दूख उरली. पांय फातरार धाडावलो आनी दुखीन सुजलो. तरीय गणेश आयज कुटत कुटत रानांत वयतालो. दोंगराच्या मुळसाक ताका वयल्या वाड्यावयलो हरी मेळ्ळो. तो पतरो पुंजावन झाबळ्यांत भरतालो. गणेशाक पळोवन ताणें म्हळें, 'कसल्यो गोणयो घाल्यात तुजेर, कुटत कुटत रानांत वयता तो !'

'घराकडेन वाजेतां हांव हरी. बसून कितें करतलों. घरांतल्यान भायर सरल्यार तितलोच जिवाक विश्राम. नाका जाता रे घरा !'

हरीन गणेशाकडेन बारीक पळयलें, अवतिकायच जाल्ली ताजी. वोतांत ताजीं भुजां, चेरो करपल्लो. दोळे म्हेळे, तेलकट दिसताले आनी तातूंतलें तेजच उडून गेल्लें. ताची मुदलाची लांब, मोठीं हाडां तितलींच उरिल्लीं. वयलें मांस मात भितल्ले भितर जिरून गेल्लें. देवळाकडेन एक वर्स 'हिरण्यकशपू' खेळ केल्लो. तातूंत गणेश हिरण्यकशपूलो सेनापती जाल्लो. कितें थै थै नाचतालो तो. त्याच वर्साक नरशिंवाचें काम करतल्याचेर नरशिंवाचो अवसर येयिल्लो आनी ताणें जो याग केल्लो, हिरण्यकशपूक खरोच मारून उडयता आशिल्लो. धा – वीस लोकान धरून दवरिल्लो आनी पांयार नाल्ल फोडून ताका संतयिल्लो. लोक अजून याद करतात.

मगेर हरी मुखार येयलो. गणेशाक एक विडी दिवन ताणें उब्यानच विडी पेटयली.

'केन्ना चार आठ दिसांतल्यान एक फावट म्हाल्याकडेन वचून खाड तरी काड मुरे.'

गणेशान बेठोच खाडावेल्यान हात भोंवडायलो. ताका दिसलें आपले पयलींचे गुबगुबीत पोले आतां सामकेच तळाक पावल्यात.

'हरी, व्हडल्याचें लग्न करून उडयतां. तुज्या पत्त्याक बरो भुरगो आसल्यार चय.'

'नेणटें न्ही रे तें !'

'नेण्टें खंयचें. आवय मेल्ली तेन्ना णव वर्सांचें आशिल्लें. आतां आवय मरूनच णव वर्सां जालीं.'

'धाकल्याचें कशें जातलें ?'

'तो एक घोर आसा. ताका लागुनूच दोन वर्सां तडवच केलो लग्नाक. आतां जालां तें सुमाराचें. सोताचेंच करून घेयल्यार पुरो. म्हाका आनीक आतां जल्माचें चुकूंक येयलां ! चूल म्हळी कीं नाका दिसता हरी. फातरांची खण उपशीन हांव पूण

चूल नाका !'

'हय. दादल्या मनशाक जडच तें.'

'चोय तूं खंयूच बरो भुरगो आसल्यार. व्हडलो गिरेस्त नाका. गुणान बरो आसल्यार जालो. ताजे आवयचें आसा इल्लें भांगर. घालून करून दितलों.'

हरीन बरें चोवया म्हळें आनी तो पतरो पुंजावंक लागलो. गणेश रानांतले रुखावळीचो वेध लागिल्लेवरी दोंगर चढूंक लागलो. तो कुट्टा तें पळोवन हरीक ताका परतें एक खेपे आइडून सांगचें अशें दिसलें, 'गणेश असो धाडावल्ल्या पांयान दोंगर चडूं नाका रे!'

केशव आखाडो बळाटून खंयतरी वयतालो. गणेशान केशव म्हण उलो मारलो. तागेलो उलो आयकोन तो येयलो. गणेश तसो वाटेन वयतल्यांक उलो मारपी न्हू. आंगावेल्यान वयतल्याक लेगीत तो बगल दिवपी. पूण ह्या दिसांनी ताका तोंड फुटिल्लेवरी जाल्लें. कितें जालां काय ! केशवान म्हऱ्यांत येत म्हळें, 'कितें गणेश ?'

'तळयेकडचें जालें कसून ?'

'हय. घट जाल्लें. उडयलें कसून कशेंतरी. बैलांची मान सुजल्या बावड्यांची. हो एकेक कायली येदो दिपळो वयर सरला. बायल बोब मारताली. कित्याक म्हण उलो मारिल्लो ?'

'फार्टी भैरेचो भुरगो एक बरो आशिल्लो. पोलीस आसलो शिर्शीत. तेन्ना करून उडयल्यार बरें आसलें. मर्दी हो पूर येयलो. धाकलेंय ल्हान आसलें; सगलें धांदळेंत तशेंच उरलें.'

'मंजूळाविर्शी म्हणटा तूं ?'

'हय रे, अंदूं करून उडोवंकच जाय.'

मंजूळ पावळेंतच उबें आशिल्लें. तें बेगीबेगीन भितर गेलें. आपाक कितें जालां, मेळत ताका सांगीत सुटला.

'केशव तुज्या पत्त्याक बरो भुरगो आसा जाल्यार चोय. भुरगो मात बरो गुणाचो आसूंक जाय.'

'फलटर्णींत अशिल्लो उपकारता ?'

'बरें मनांत ना. तरीय भुरगो बरो आसल्यार चोवं येता. ह्या दोन तीन वर्सांमदीं गोंय मेकळें जायतसावन बरेच भुरगे गोंयां नोकरेक लागल्यात. चय कोणाकूय विचारून.'

'हांव खबर काडटां गणेश.'

'नशिबांत आसा तेंच मेळटलें रे. पूण आपूण यत्न करूंक जाय न्ही. आदींच सगलें सारकें पळोवन दिवंक जाय. मगेर कोण भोगता तें !'

'हय तर, त्या खारगेच्या विठोबालें काय बरें साळीक कशें सोबीत चेडूं मुंबयंत आशिल्ल्या एकल्याक दिल्लें. बाडचो खंय चेडो. चेडूं पळोवंक येताना सूटबूट घालून येयिल्लो. हें भुललें. व्हडले कंपनींत सुपरवायझर आसा म्हण सांगतालो खंय. फाटलो फुडलो विचार करिनासतना, कूळ मूळ पळेनासतना म्हूर्त धरलो आनी चेडवाचें लग्न करून उडयलें. ताणें खंय बायलेक व्हेली आनी मुंबयचे झोंपडपट्टेंत दवरली. झोंपडेमुखार व्हांवतें गटार आनी गू घाण खंय !'

'नोकरी बरी नाशिल्ली खंय ?'

'खंय रे ! ल्हानशा कारखान्यांत घांसपूस करतालो. तातूंत सोऱ्याचें व्यसन. लग्नाक बार्शींग सोडटकीर रोखड्यारोखडो वचून पिवन येयिल्लो खंय. बापायन बरें धा-बारा तोळे भांगर धुवेल्या आंगार घातिल्लें. तेंवय विकून खायलें. आतां आंगार एक गूंज भांगर ना. फार्टी विठोबा धुवेक पळोवंक म्हण मुंबय गेल्लो. येवन आतां तकलेर हात मारून घेवन रडटा.'

आयकोन गणेश भिंयेल्लेवरी जालो. 'म्हज्या आनी हरणासारक्या पोराक असलें नाका रे देवा !'

'आवय नाशिल्लें पोर. भुरगेपणापसून दगदगे काडल्यात. घोवाघरा तरी सुखान रावं.'

'सोऱ्याचें व्यसन सामकें वायट. तसलें आनी नाका रे देवा!'

बासठच्या चीनावांगडच्या झुजांत ह्या वाड्यावयले तीग जण मुखार सरादेर आसले. उपरांत तीगय जण खुशाल परतल्ले. पूण पांसठच्या पाकिस्तान वांगडच्या लडायेंत मात एकलो झुजामळार पडलो. सोयरूलो चेडो, शोभालो घोव शंकर - लग्न जावन उमेदय भागूंक नासली. लग्न जालेउपरांत एकच फावट दोन म्हयन्यांचे रजेर

येवन गेल्लो. सरादेर वचूंक भायर सरला म्हण एकच चीट येयिल्ली. उपरांत कांयच कळ्ळेंना. वाडोभर ताजोच हुस्को.

अचकीत एक दीस तारच आयली. 'शंकर गांवकर बरो ना !'

'तिसऱ्या दिसाक दुसरी तार आयली. 'शंकर गांवकर चड बरो ना.'

वाडोभर हुस्को. घरांत बोबो आनी हुयेल्यो ! शोभा तर...!

लोक तिसरे तारेची कांचवेवन वाट पळयताले. पयलीं फलटणींत वचून येयिल्ले रामदाद, गणपत आजो बीन ल्हव आवाजांत सांगताले, 'मिलिटरींत कोणय भायर पडल्यार एकदम कळयनात. अशे दिसाक एकेक तार धाडून कळयतात.'

दीसभर लोक सगलो वावर सोडून आंगणांत, मागीलदारांत, आकाड्यांत येवन उबे रावन वाट पळयताले. तिसरी तार आनीक येवची न्ही रे देवा म्हण पाराथताले !

आनी खऱ्यांनीच तिसरी तार येयली. तारवालो कडवडच्यान तार घेवन सायकलीर येयिल्लो. वयल्या रस्त्याकुशीक सायकल दवरून तो धांव मारीत शेतांतल्यान वाड्यार येवंक लागलो. ताका येतना पळोवन वाड्यावेल्या लोकांच्यो घे बोबो सुरू जाल्यो.

तार जयराममास्तरान सय करून घेयली. शंकर झुजामळार फारपेटांत गुळी लागून भायर पडिल्लो !!

लोकांच्या दोळ्यांमुखार शोभाचें नितळ, निश्कलंक हांशें परतें परतें उबें रावतालें. ताजें सान भुरग्यावरी निरागसपण आठवोन तांचें काळीज कलकलटालें. तांका शोभाखातीर परतीं परतीं दुकां गळोवचीं अशें दिसतालें. अखखो वाडो दुख्खाच्या खोलखोल भुंयारांत धुकलून दिल्लेवरी जाल्लो.

म्हयनोभर ह्या दुख्खाचें सांवट कांबरून वाडो मोन्यांनी वावुरतालो. मंजूळाक तर दिसतालें, आतां शोभा दारान येतले आनी खाऊ दिगो म्हाका' म्हण उबें रावतलें. ताका शोभाले घरावटेन वचूंक लेगीत थर्त भंय दिसताली.

एक दीस वयल्या वाड्यावेल्यान मुकुंदालें सांगणें येयलें, येवन वच म्हण. गणेश ज्या ज्या उठून मुकुंदागेर गेलो. कित्याक आफयिल्लो भावोजी म्हण ताजे मुखार

उबो रावलो.

हुळग्यांत एक भुरगो आसलो, ताका आवय नासली. बापायलो एकलोच चेडो. मॅट्रिकेक नापास जातकीर फलटर्णीत गेल्लो.

फलटण म्हणटकीर गणेश शेळेलो. कांचवेवन मुकुंदामुखार उबो रावन तो सांगता तें मोन्यान आयकूंक लागलो. मुकूंद सांगतालो, 'व्हडलें माळयेचें घर आसा. दारांतल्या बागांत केळ, कवाथो, आंबो-पणस दाटयेन उबो आसा. ते भायर सात खाणयांचें पिकाळ शेत.'

'पूण फलटर्णीत आसा न्हू ?'

'फलटण आतां पयलींवरी उरलिना गणेश. पगार बरो मेळटा. केन्ना बायल भुरग्यांकय व्हरूंक मेळटा.'

'झुजां म्हणटात तीं वायट. सोयरूचो काय बरो भुरगो...'

'तेंच सांगूंक सोदतालों हांव. शिकिल्लो भुरगो हो. झुजामळार वचच्या तसल्या कामाक ना. सप्लायेंत आसा खंय. सप्लाय म्हळ्यार फलटणीक दाणोगोटो पावोवच्या कामाक.'

'भुरगो बरो आसा ?'

'मंजूळाक फावो सारकोच. आंगान बारीकच. पूण गोरो रुपेस्त. कोणाले मिजगर्तींत पडपी न्हू. भुरगेपणापसून चयला हांवें ताका. तागेलो बापूय म्हाळू, म्हगेलो मावसभाव. पयर तेवटेन गेल्लों तेन्ना तोच म्हणूंक लागलो, पुताक एक बरें चेडूं पळय म्हण.

'हुळगेचो म्हाळू. आयकलां हांवें नांव.'

पयलींच सांगतां, म्हाळू मातसो तिरकटीच. केन्नाय भिरीक करून राग येता. पूण ताजें आतां कितें उरलां ? पन्नास सरलीं पांच उरलीं. ताका मातसो थातारून घेयल्यार सगलो दरकार सुनेचोच.'

'पूण फलटण म्हटल्यार भंयच दिसता.'

'तुज्या मत्तान तूं चींत गणेश. हांवें फकत बोट करून दाखोवन दिलां.'

'कितें जाता तें चोयतां चिंतून', म्हण सांगून गणेश घरा येयलो.

पूण गणेशाक आतां उमळशीकच लागिल्ली, बायचें घरदार, बायचो घोव, मांव कशे आसतले हातूतच तो गुल्ल उरतालो.

एक थळ दाखोवन दिलां मुकुंदान. पळोवन तरी येवचें. फाल्यां बेठेंच बरें थळ सोडलें म्हण चिटमिटे नाकात.

एक दीस गणेशान ट्रंकांतल्यान धोतरापान काडलें. तें न्हेसून वेल्यान उमळिल्लें खोमीस घालें. मंजुळान विचारलें, 'आपा खंय वयता ?'

तो हय न्हयसो हांसलो. 'इल्लें काम जालां. हुळग्या वचून येतां.'

मंजूळाक भोव बरें दिसलें, आपान आयज खाड केलां, नवे कपडे घाल्यात. आर्दी आपा असोच दिसतालो. नितळ गोरो हांसकुरो !

हुळगे बागांतलो म्हाळूलो चेडो ! ताणें अंदाजानच घर लागीं केलें. मर्दी एक दोग जणांक विचारल्यार तांणी बेठेंच उलयनासतना बोटच दाखयलें. गणेशान मनांत म्हळें, 'बरे हे लोक, वाटसुऱ्याक वाटय दाखयनात.'

घर न्हंये धडयेवेल्यान एका उल्यारच आसलें. न्हंयच्या उदकाची थंडसाण, खारसाण घराकडच्यानय होलमताली.

गणेश तांगेल्या आकाड्यांतल्यान भितर रिगलो आनी ताका भोव थंडशितळ सावळेंत रिगिल्लेवरी दिसलें. थंयचे भुंयेंतय शेळ आशिल्ली आनी सगलें बाग झाडां झोंपांनी धांपून गेल्लें. गणेशान मनांत म्हळें, बरो कश्टी दिसता हो म्हाळूमाम !

आकाड्यांत मात दोनय कुशीक बरेच मातिल्ले राकेस कशे दोन रूख आशिल्ले. एक कांट्यां कांट्यांचो कवंजी रूख आनी दुसरो तांबड्या फुलान चंवरिल्लो पंगऱ्या रूख. येद्दो व्हडलो पंगऱ्या रूख ताणें केन्नाच चोवंक नासलो. वेंग पावना जाल्ल्या कवंजी रुखाचीं पानां साप झडिल्लीं आनी ताज्या आंगावेले कांटेच दिस्टीक पडटाले. हाणें हे रूख आकाड्यांत कित्याक दवरल्यात काय!

माघ म्हयनो सोंपूंक आयिल्लो. पूण आंगण अजून सारोवंक नासलें. तें मातयेन आनी कोयरान भरिल्लें. तुळशी मांडीय कोसळिल्ली. ताजेरूय कोणें मातयेचो, शेणाचो हात भोंवडावंक नासलो. ताणें मनांत म्हळें, जाव, बायलमनीस नाशिल्लें घर. बायलमनीस आयलेबगर ह्या घराक कांय घरपण येवचें ना.

दारांत उबो रावन ताणें उलो मारलो, 'घरांत कोण गा ?'

आवाज ना. गणेशाक दिसलें हें येद्दें व्हडलें माळयेचें घर ! आपलो आवाज खंयचेतरी कुडींत सांडलो. ताणें परतो व्हडान उलो मारलो.

एक जाण्टेलो भायर येयलो. ताच्या हातांत नाल्लाचीं सोण्णां आसलीं. ताणें तीं

मोन्यानच आंगणांत येवन मेरेभायर मोखर्ली. गणेशान ताका बारीक तेळ्ळो. ताणें रुप्याच्या जाड गोफ्राचेर कास्टी मारिल्ली. ताजें शेवट घोपरामेरेन लांबतलें. आंग उकतेंच आसलें. कास्टी इतली म्हेळी जाल्ली ती ताजे गोरे कातीवांगडा सोबनासली. तो बरोच गोरो आसलो. वोतांत पावसांत घोळपी तो शेतकार आसुनूय ताजी कात काळी पडूंक नासली. उरफाटी तामसी जाल्ली. ताणें विचारलें, 'खंयच्यान आयला ?'

'शिद्दरचो सकल्या वाड्यादयलो गणेश हांव. मुकूंदभावोजीन सांगिल्लें, तुमगेलो पूत लग्नाचो आसा म्हण.'

'चेडूं कोणालें ?'

'म्हगेलीच धूव.'

ताणें गणेशाक 'यो बस' म्हण वासरेंत व्हेलो. थंय एक आरामखुर्ची आसली. ताका वल्याच्या बदलाक कसलेंतरी चामडें घातिल्लें. गणेश ताजेर बसलो.

तो मोन्यानच भितर गेलो. ताणें बशयेंत इल्लें पातळ गोड आनी तांबयांत उदक हाडून गणेशामुखार दवरलें. गणेशान इल्लें पातळ गोड तायटार घेयलें आनी खालें. वयल्यान तो उदक पियेलो – हें गोड इतलें खारें कशें ? मातयेचो गूण आसुये!

'उशेल केल्लें गा ?'

'गेल्ल्या वर्साक केल्ल्यो दोन आळयो. ह्या वर्साक ना. शेताचोच वावर जायना एकल्याकडेन.'

'आदर्ली नळ्या घरां हीं. सामकीं पकदस्त. आतां असली लाकडाची मुस्तायकी खंय मेळूंक आयल्या !'

'एकान एक चिऱ्या वणट्यो. सगलें लाकूड माडतीचें आनी सागवानी. हेर चिल्लर लाकडाचो एक कुडको ना.'

गणेश बशिल्लेकडच्यान उठलो. बेठेंच घराचें काम पळोवचेलें नीब करून ताणें सालांत ओणोव घेवन सगलें बरीक नियाळ्ळें. सालांत एक व्हडलो काळो कुळकुळीत शिश्याचो पलंग आसलो. एका कोनशाक व्हडली कणात्तर उबी केल्ली. ती भरिल्ली आसा काय अर्द रिती आसा कांयच कळनाशिल्लें. आनीक भितर दाळून दवरिल्ल्यो मुडयांच्यो थडी दिस्टीक पडटाल्यो. गणेशाक आगळीच उमेद आयली. तो येवन खुर्चेंत बसलो. दारांतले दोन कवाथे आंगणांत लखून आयिल्ले. तांच्या व्हड व्हड चुद्टांची सावळी दारांत पातळिल्ली. कवाथे कुचकुचीत पेंडीन भरिल्ले.

गणेशान उमेदीन विचारलें, 'ह्या वर्साक पुताचें लग्न करता गा ?'

म्हाळू कांय वेळ वोग्गी रावलो. मूठ उकती करचे पयलीं दाखय-लिपय केल्लेवरी. मगेर ताणें उमळशीक दाखयनासतना म्हळें, 'बरें चेडूं मेळ्ळ्यार करचें म्हणटां.'

'चेडवाविशीं अनमानूं नाकात. हुशार आनी मायेस्त म्हजी धूव.'

'घटमूट, घोळटिकेचें जाय.'

'सगलें सारखें राखून व्हरतलें तें. हांवें तशें चड काम माथ्यार दिवंक नासलें. पूण कामाक लागल्यार वाग. आवय मेले उपरांत ताणेंच राखून व्हेले न्ही सगलें.'

म्हाळू बरोच वेळ वोगीच रावलो. गणेशाक भोव कितें कितें उलोवचें अशें दिस. पूण तो हात वावडून घेता अशें ताका दिसलें.

'म्हजो पूत मॅट्रिक जाला. फलटर्णींत म्हण बेठोच उणाक कामाक ना तो. बरोवचें, हिशेब दवरचें बीन काम करता. एकलोच पूत. हें आसा तें सगलें पुताचें. सून येतकीर सुनेनच सगलें सांबाळून व्हरचें.'

'हय गा !'

'तो उत्तमालो चेडो देवीदास गेल्ल्या वर्साक लग्न जाला. सातवी काय आठवी शिकून गोंयां आर्म पोलिसांत आसा. घरा ना धड खाणयेचें शेत. हातरेयेदो बागा कुडको. ताका सामकें तेरा तोळे भांगर घालून दिलां. वेल्यान दोनय माटवांचो खर्च. दिसूंक कसो आसा जाणा, म्हज्या चेड्या मुखार काजुलो.'

'तुमचो सगलो मान-भोवमान राखतले गा आमी. ताजे आवयचें आसा इल्लें भांगर.'

'तुमकां लागून सांगना. ह्या गांवची रीत आनी पत सांगतां. आमचें अजून थारचेंच आसा.'

'चेडो केन्ना येतलो ?'

'येतले म्हयनो देड म्हयन्यान.'

'येतकीर ताका चेडूं पळोवंक धाडून दियात.'

'चोवया चेडो कितें म्हणटा तो.'

'हांव आनीक खंय पळयना.'

'तशें बांदून दवरचेंय बरें न्ही.'

'तरीय तुमचो चेडो येता म्हणसर हांव रावतां.'

'तुमकां जाय जाल्यार.'

'म्हजें धुवेविशीं कोणाकडेनय गांवांत विचारल्यार कळटलें तुमकां, भोव गुणांचें म्हण तें.'

'मुकुंदान सांगल्यार पुरो आमकां.'

गणेश तागेल्या घराचीं सोपणां देंवताना आंगणांतली कोसळिल्ली तुळशीमांडी ताका परती दिस्टीक पडली. ताणें मनांत म्हळें, हें सगलें नीट करून जाग्यार उडोवंक बायक कांय न्ही. आकाड्यांत पावतकीर मात ताणें थारायलें, आकाड्याकुशीचे हे दोनय रूख मारून उडोवंक सांग म्हण बायक सांगूंक जाय.'

आकाड्यांतल्यान गणेशान एक फावट फाटीं वळोन पळयलें. गुबगुबीत आंगाचो, मोट्या हाडांचो म्हाळू तसोच उकतो दारांत उबो आसलो. इतलो सोयरिकेक सोयरो आयला म्हण ताणें आंगाक खोमीस लेगीत घालूंक नासलें.

शेताकेर मांडोवन, न्हंय बळाटून घरा पाव म्हणसर वोताचो रखरख माथ्यार चडिल्लो. वोतांत चलून येवन तो कासावीस जाल्लो. वासरेंत हुश्श करीत बसत ताणें म्हळें, 'बाय, आदीं ताटांत घालून इल्लो पेजेनिवळ हाड. मगेर न्हातां बीन.'

मंजूळान बेगीबेगीन वचून ताटांत पेजेनिवळ हाडलो. गणेशान तो सरसरीत घोंटलो. ताट तोंडाक लायिल्लें काडलें ना. निवळ पितकीर ताका इल्ली हुशारी येयली. तो मंजूळाक पळोवन हांसलो.

'आपा, खंय गेल्लो तूं ?

'माळयेचें घर आसा पूण घराक आंगणय ना आनी घरपणय ना. बायलमनशेचो साद आवाज नासताना बागांतल्या माडाक इतल्यो पेंडी तर कांकणां हात किणकिणटकीर विचारयेंच ना. बाय एक मात करूंक जाय तुवें, लग्न जातकीर तो आकड्यांतलो कांट्यांचो कवंजी रूख आनी पंगन्या रूख आदीं मारून उडोवंक सांगूंक जाय.'

मंजूळ लजलें आनी भितर धांवलें.



शेतांत बांय फोंडारो मारून बापायन आनी धुवेन पोरसूं केल्लें. देंठे, भाजी, गोंयची भाजी, वायंगीं, पडवळीं, कोंकणे दुदी आनी मिरसांगो लेविल्ल्यो. तेभायर एक

काळंगाबांदी. पोरसूं रोयतसान मंजूळ सामकें पोरसाफाटल्यानच आशिल्लें म्हळ्यार जाता. सकाळीं घराकडचें काम बेगीबेगीन सोंपोवन तें पोरसांत येतालें. मगेर पोरसाक उदक शींप, सारें सोप कर, माती धर हातूंत तें वोत चडटा मेरेन घुस्पून उरतालें. बायूलाक तें चड करून पोरसांत हाडिनासलें. तें हुतहुतें बेठेंच पोरसांत नाचतालें आनी खंयूय पांय दवरतालें. मगेर तागेलो एकाद्रो रोंप बीन मोडटालो. बायूल हें बिंदूल व्हरून आळ्याक घाल म्हळ्यार तें बिंदूल हाडटालें आनी वेल्यान घसोघसो करून रकयतालें. ताजेन रोंपे धरतरेक लागताले. मगेर तें उलोवणीं खातालें. हरशींय तें ह्या दिसांनी बायलें इतलें उलोवणें खातालें, ताज्या तवनासपणाक मंजूळ सामकें बेजारिल्लें.

आपा रानांतल्यान येतकीर ना तर जोत सोडटकीर पोरसांत येतालो. दोगांय मेळून मगेर पोरसूं शिंपतालीं. मंजूळान उदक काडून दिवप आनी तें आपान हाडून शिंपप.

पोरसूं बेसबरें जाल्लें. कोंकण्याच्या माटवाक आठ धा लांब कोंकणे लांबतालें. पडवळीं माटवावेल्यान धरतरेक तेंकतालीं. पुरुसभर उंच देंठे कोनशांमुल्यांत तरतरताले. मिरसांगेक हरव्यो तांबड्यो सांगो घोंसांनी लांबताल्यो. काळंगाची वाल पोरसाक कवंडाळें घालून मुखार मुखार धांवत आसलीं. ताका बारीकमोटीं धा–वीस काळंगां लागिल्लीं. कांय काडिल्लीं, कांय काडचीं आशिल्लीं.

‘बाय, तान लागल्या; एक काळींग काडटा.’

‘हिंगांच फोडटलो आपा ?’

‘हय. खावया फोडून.’

‘बायूलाक ?’

‘व्हरची एक शीर.’

आपान कमरेचे माकडेंतली कोयती काडली आनी एक जूनशें काळींग काडलें. तें घेवन तो बांयफोणाचे धडेर गेलो. बाय यो गो, म्हणत ताणें काळंगाचेर कच्कन कोयतेचो घायो घालो. ताका मुखार कितें तरी झळकलें. तकली वयर काडून चयल्यार दोग तरणाटे मुखावेले वाटेन वयताले. म्हऱ्यांतल्यानच. गणेशान पाचारलें, ‘कोणगा, खंय वयतात ?’

तांणी चांचरलेंशें करून म्हळें, ‘हांगाच. बेठेच.’

‘खंयच्या गांवचें ?’

'हुळग्याचें.' ते वचूंक सुटले. गणेशान म्हळें, 'काळंगाक घायो घायलो आनी तुमी दिस्टीक पडले. आतां एकेक शीर खावन वचात.'

ते थारले. गणेशान बारीक पळेलें आनी तो काळंगाच्यो शिरो करूंक लागलो. तांतलो एकलो काळसो आनी लांब आशिल्लो. आनी ताणें मोटवें कालसांव घातिल्लें. दुसरो मात गोरो तरतरीत आशिल्लो. ताणें नवें नितळ शर्ट, पॅण्ट आनी बूट घातिल्ले. माथ्याक घातिल्ल्या सुवासीक तेलाचो परमळ सुटिल्लो. गणेशाक आगळोच दुबाव येयलो. मान सकयल घालून तो मोन्यानच शिरो करूंक लागलो. आता हांकां काळींग खावंक तर आफयलां. ताणें एकेक शीर काडून तांच्या हातांत दिली. मंजूळाकय ग्हन्यात आफोवन एक शीर दिली.

काळींग भितल्ल्यान इतलें तांबडें आसलें, ताज्या शिरांतल्यान रगत निशेता अशें दिसतालें.

मंजूळाक बेठेंच दिसलें, तो पॅण्ट बूट घातिल्लो तरणाटो सारको म्हाकाच पळयता. हॅट, कोण हे परंतरांतले अनवळखी !

त्या मोटवें कालसांव घातिल्ल्यान शीर खावन सोंपयतां सोंपयतां सांगलें, 'सकल्या वाड्यावयल्या गणेशागेर वयतात आमी. हाका चेडूं पळोवंक. हो भाचो म्हगेलो.'

मंजूळान काळंगा शिरेक मारिल्लो घास तोंडांत तसोच उरलो. तो गिळटां गिळटां काळंगाचो रोस सकल देंवलो आनी ताजें तोंड रगशेल्लेवरी जालें. ताणें बेगीबेगीन पोल्काच्या हातान तोंड पुसलें. ताका थंयच्यान धांव मारची अशें दिसलें.

गणेशान सांगलें, 'हांवच तो गणेश. आनी हें म्हगेलें चेडूं मंजूळ. हाकाच तें पळोवचेलें.'

आतां वट्ट थंय एक अजापाची, खोशयेची आनी भीड भिरांतेची शिरशिरी पातळ्ळी. तो न्हवरो भुरगो तर मुमुरखोच मुरकटत हांसतालो.

तो मोटवें कालसांव घातिल्लो गणेशा सामकार तणार बसलो. ताणें मज घेवन म्हळें, 'मामा, तूं म्हाका वळखलो ना ? हांव किन्नरचो चौकेवाड्यावेलो नारायण. राघोबालो चेडो. पांच स वर्सांफाटीं तुवें आमचेकडच्यान एक बैल हाडिल्लो. हांवेंच कानी सोडून दिल्लो.'

गणेशान ताका सारकें पळेलें आनी म्हळें, 'हय याद जाली. बरो बैल हां तो. खूब घोळ्ळो. अजूनय आसा गवणींत.' मगेर ते दोगय व्हडाव्हडान हांसले.

नारायण भोव आपलेपणान उलयतालो. तो मनीस पळोवंकच भोव समजिकायेचो आनी जिवितांतले धपके सोंशिल्लोसो दिसतालो. ताणें म्हळें, 'जावं, आमी हांगा मेळ्ळे आनी घरा मेळ्ळे एकच. परके काय न्ही.' मगेर ताणें भाच्याक म्हळें, 'पळय श्रीधर. हांगाच व्हंकलेक बरें करून पळय. फाल्यां म्हणचे नाका, चेडवाक बरें न्हेसोवन स्नो, पोव लावन सोबयलें आनी आपूण फट्‌वलों म्हण.'

तो सारको हांस हांस हांसतालो. आनी मुखार उबें आशिल्ल्या मंजूळाक तिरशे नदरेन पळेतालो.

मंजूळ तशें गोरें नाशिल्लें. ताजो रंग बेठोच सावळो तामसो आशिल्लो. आतां आतां पोले तर इतले तामशे दिसताले, ताजी तागसाण सगल्या चेऱ्याचेर फांकताली. आंगलोटानय तें ल्हानशेंच बारीक. पूण तरतरीत, एक शिवडी बांध्याचें. ताज्या लांब भरपूर केंसान तर ताजे सोबितकायेक आगळीच शिरवंतकाय लाबिल्ली.

तो न्हवरो भुरगोय बारीक आंगलोटाचोच आशिल्लो. पळयल्यार हो फलटणींत आसा हें खरेंच दिसनासलें. तो बरोच गोरो आशिल्लो. पूण ताजो ओंठाकडचो भाग, नाक चडच तांबडें आशिल्ल्यान ताज्या सोभावाक कसली तरी धार आसा अशें दिस. तातूंत दोळे घारशे. पूण त्या घारश्या दोळ्यांक बरें तेज नाशिल्लें. ताजेन तो गोरो आसुनूय किरकोळ दिस.

आपान म्हळे, 'बाय तूं चोबो घेवन घरा चल, आमी येतात फाटल्यान.' मंजूळान चोबो उखलून माथ्यार घेतलो आनी सडसडीत घरची वाट धरली. गणेशान तांकां मात बेठेच पोरसांत गणमणायत दवरून वेळ काडलो.

मंजूळ घरा पावल्यार गोविंद आनी सुमन धांवत, बोवाळत वासरेंत, आंगणांत खेळटालीं. ताणें दोगांकय चोब्यांतल्यो दोन काळंगा शिरो दिल्यो. आपूण घरांत वचून बेगीबेगीन सगळें नीट नितळ करूंक लागलें.

सुमन भायल्यान रडतशें आयलें, 'बाय, म्हजी शीर खाताना मातयेंत पडली.'

'कसलें हुतहुतें अरवळ गो तूं ! फाल्यां कशें जातलें तुजें देवाक खबर!'

मगेर मंजूळ ताकतिकेन सुमित्रा मावशेसरीं गेले. ताणें तिका कानांत सांगिल्लेवरी सांगलें, 'पळोवंक येतात.'

खिणांक खबरेन गांव भरलो. सुमित्रामावशी आनी हेर दोग बायलो रांदचेकुडींत येवन बसल्यो, कोण कोण आपल्या दारांत, आंगणांत, जनेलांत येवन उबे रावले. 'मंजूळाक पळोवंक येतात खंय.' सगल्यांक मोठी उमळशीक.

तेमेरेन गणेश तांकां घेवन आकाड्यांत येवन पाविल्लो. येदोळ मुमुरखोच हांसपी तो न्हवरो भुरगो आतां वोग्गी फाटल्यान चलतालो. ताणें दारांत येतकीर पांयांतले बूट काडले. ताणें तांबड्या रंगाचे मेय घातिल्ले. ते मेय घालुनूच तो हांथरून दवरिल्ल्या नवे लाव्याचे मांदरेर बसलो. पांयांतले ते तांबडे मेय, फुल्ल धवें पॅण्ट, वयर लेव मळबा रंगाचें खोमीस, कमरेक पटो हाजेन पयसुल्ल्यान, अडसरांतल्यान पळयतल्यांक तो राजकुंवर कसो दिसलो. 'जावं मंजूळाक बरो सोबतलो हो !'

'पोरान त्रास काडल्यात भुरगेपणासावन. आतांतरी ताका बरें मेळूं दी!'

'हय तर !'

गणेशान विचारलें, 'आनीक आनीक चेडूं पळयतले ?'

'नाका, नाका, पळेलें न्ही पोरसांत.'

'पळोवया मामा सोबोवनबी, एक फावट.'

गणेश बेगीबेगीन भितर गेलो. भितर बशिल्ल्या बायलांक ताणें सांगलें.

सुमित्रान मंजूळाक बेस बरें सोबयलें. सुमित्राच मुदलांत इतली सोबीत दिसता. ताका हेरांकय सोबोवचेली खुब्ब हौस. ताणें मंजूळाक इतलें बेस सोबयिल्लें, तें तशेंच उठून वाड्यार भोंवंक गेल्यार वाड्यावेले लोक म्हणपाचे, 'हें आनीक कोण नवेंच चेडूं, निकतेंच मुंबयसान आयलां शें !'

कोर्णे खंयच्यान चार केळीं आनी एक बिस्किटां पुडो हाडून दवरिल्लो गणेशाक कळ्ळेंच ना.

मंजूळान चावे कोपां आनी खाणाची बशी हाडून भायर मांदरेर दवरली आनी तें बेगीबेगीन भितर धांवलें. पूण सुमित्रान ताका तशेंच धरलें आनी परतें भायर हाडलें, 'धांवता कित्याक भितर ? यो हें अशें उबें राव. कितें उणें आसा गो तुज्यांत? कोण कसलें नुक्स काडटलो? आनी ती न्हवऱ्याकडेन पळोवन हांसली. पूण मंजूळ सोडोवन घेवन भितर धांवलेंच.

मामान कानांत विचारलें, 'चेडूं मानवलें मुरे तुका ?'

श्रीधर तकली हालोवनच हयकारलो. मगेर ताणें ल्हवच म्हळें, 'मामा, म्हाका देड तोळ्याची गळ्याक सरपळी घालूंक जाय म्हण सांग हां तांकां.'

'देण्या घेण्याचें उलोवप आसाच मुखार. आतां तूं फकत चेडूं पसंत कर.'

गणेश मदल्या दारांत उबो आशिल्लो. ताणें आयकलेंच. खरें म्हळ्यार ताज्या

बापायन तेरा तोळ्यांची खबर सांगतसान तो घोर चिंतनांत पडिल्लो. आनी आतां हें चेड्याचें. पूण हें थळ सोडूंक फावोना अशेंय दिसतालें.

मामान उठून वताना गणेशाक आंगणांत आफोवन हाडून सांगलें, 'चेड्याक चेडूं मानवलां. आतां जाणटेल्यान देण्या घेण्याचें, मान भोवमानाचें उलोवचें.'

ते वचूंक गेले. गणेश तांकां तारी मेरेन वचून पावोवन आयलो. वाटेर ते फकत म्हापुरी वर्साच्योच खबरी उलयताले. हेर कांयच ते उलयले नात.

तो घराकडेन येयलो तेन्ना नरशिंव म्हणूक लागलो, 'गणेशदाद, आदीं कळल्यार दोन खुर्च्यो तरी हाडून दवरूं येताल्यो.'

'आसूं दी. मलकार्जूनाचे कृपेन चेडूं मानवलां ताका.'

गणेश घरांत गेलो. मंजूळ नवें पातळ सोडोवन दवरून तोच म्हेळो घागरो पोलको घालून चुलीसरी बशिल्लें आनी चूल फुंकतालें. आपान खांकरलेशें केलें. ताणें फाटीं वळोवन पळेलें आनी तशेंच वोगी बसलें. गणेशान ल्हवच विचारलें, 'मानवलो मुगो तुका ?'

मंजूळ वोगी.

'घरदार, शेतभाट सगलें आसा. भुरगोय बरो.'

'पूण हांगाय आई ना आनी थंयूय आई ना आपा !'

आयकोन गणेश न्हिन्नळिल्लेवरी जालो. ताणें पिंजिल्ल्या आवाजांत म्हळें, 'कांय गजाली आपल्या नशिबांतच आसनात बाय!'

तो भायर वासरेंत येवन वणटीक तेंकून बसलो. थंय सुमन हेदोळ हांथुलिल्ली मांदरी मस्तून नाचतालें, मर्दीच ती कवळटालें, सोडयतालें. आपा ताजेर किसळ्ळो, 'व्हरून दवर ती मांदरी भितर. येद्दी व्हडली जाल्या घोडय, तिळाची अक्कल ना.'

शोभालो घोव शंकर भायर पडून आतां तीन म्हयने जाल्ले. शोभावयनीविशीं मंजूळाक भोवभोव माया दिस. म्हणच तें ताज्या दुख्खान आकूळपिकूळ जातालें. केन्ना शोभावयनीक मेळूंक वयतालें आनी येवन रडूंक बसतालें.

घोव गेले उपरांत ताका कायमचें व्हरूंक म्हण तागेलो बापूय, व्हडलो भाव

तीन चार फावट तरी येवन गेले. पूण शोभान कसोच घरांतल्यान पांय भायर काडलो ना. सामक्को न्हयकार दिलो. म्हणूंक लागलें, आतां म्हजें मडेंय ह्या घरांतल्यान भायर पडटलें, अवखळ हांसकुऱ्या चेडवाचीं हीं उतरां आयकोन सगल्यांकच अजाप जालें.

तागेलो घोव झुजामळार पयस खंयतरी मेल्लो. ताजे कुडीचो कोर्णे कसो विलो लायिल्लो कोणाकच खबर नासलें. म्हण शोभालो अयाव शिरंगार गोकर्ण क्षेत्रांत व्हरून देंवयलो. तागेली क्रिया श्राद्ध बीन थंयच केलें. गोकर्णच्यान परत येतकीर शास्त्राप्रमाण एके रातीचे वसतेखातीर ताका बापायन कुळारा व्हेलें. थंय तांचें अशें थारलें, शोभाक परत घोवाघरा धाडचें न्हय.

पूण शोभान दुसऱ्या दिसा आपली पोती हातांत घेयली आनी म्हळें, 'तुमी कोणय पावोवंक येतात जाल्यार येयात. नातर हांव एकलेंच चललें.' मगेर ताका व्हडल्या भावान हाडून तो पावोवन गेलो. उपरांत मात कोण येवंक ना.

एक दीस तिनसांजकातरेर शोभा ल्हवच घरांत रिगलें. मंजूळान ताका बसूंक बेगीबेगीन मणय दिली. तीं दोगांय रांदचेकुडींत बशिल्लीं. शोभालो उकतो चेरो लजेन, भिडेन आनी दुख्खान काळो पडिल्लो. मदींच तें आपलो पालोव चेऱ्यार ओडून घेतालें. ताणें अशें केलें म्हणटकीर मंजूळाक भोव दुख्ख जातालें.

सानशा आंगलोटाचें तें येदेंशें चेडूं. नव्यातल्ल तरणेपणाचें अठरावें वर्स निकतेंच ताणें बळाटिल्लें. मंजूळाक तर ताज्या तरण्या चेऱ्याकडेन पळोवन दिसलें, हें अजून म्हजेवरीच आंकवार आसा. हाजें लग्न अजून थारचेंच आसा, जावचेंच आसा. हांव तर म्हजो एक मावसभाव बीन आसल्यार, 'भाऊ, तूं शोभाकडेन लग्न जा,' म्हण सांगपाचें. मगेर तांगेल्या लग्नाक भोव मिरोवन घेतासलें.

अचकीत शोभाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. पूण ताणें ल्हान भुरग्यांवरी सूंऽऽ करीत दुकां पुसलीं.

'वयनी, तूं सारकी जेविना, खायीना खंय मुगे ?'

'तुका कोण सांग ?'

'तुगेली मांय. पार्वतमावशी सांग.'

'उपाशीं रावन तरी म्हजें मडें बेगीन भायर सरता काय पळयतां.'

मंजूळ भितल्ल्यान न्हिन्नळ्ळें, पूण आवाजांत मातसो राग उकतायत ताणें म्हळें, 'हें म्हण तुगेलें नाका जाल्लेंच आं वयनी !'

'मंजूळ, लडायेंत क्संय जण स म्हयने, वर्स नापत्तो जावन उरतात आनी

मगेर अचकीत येतात खंय. खरें तें ?'

आतां मंजूळाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. तीं लिपोवन तें कुशीक पळयत वोग्गी रावलें.

'गेल्ले फावट दोन म्हयने ताणें म्हाका इतलें बरें केल्लें, उखलून आंगार घेतालो आनी मटाळत नाचयतालो.'

मंजूळाक कितें उलोवचें सुचना जालें.

'काल तागेल्या पयशांची, पॅन्सिनेचीं कांय कागदपत्रां येयल्लीं. हावें दोळे धांपून सय करून दिलीं मांवाकडेन.'

'वयनी, हीं मात पिशेपणां करूं नाका तूं. तुका फटयतले ते. तुका तुजें आयुश्य आसा.'

'आयुश्य !' म्हणत शोभा दुखेस्त हांसलें. 'म्हाकां कांयच नाका जालां मंजूळ! कांयच नाका दिसता.'

इतलें म्हणसर थंय दोगांमदीं तीनसांजचो काळोख पातळ्ळो. 'राव हां वयनी दिवो लायतां' म्हण मंजूळ उठूंक लागलें. पूण शोभान धरून ताका बसयलें. 'नाका बस तूं. आसूं दी !'

कांय वेळ मोन्यांनीच तीं बसून रावलीं. मगेर मंजूळान खांकरलेशें करून म्हळें, 'पयर पळोवंक आयिल्लो. पसंत करून गेला.'

'तेंच विचारूंक येयिल्लें हांव. पूण विचारचेलो धीरच जाय नासलो.'

'शंकरभाऊवरीं फलटणींत आसा.'

'जाचें ताचें नशीब ताचेकडेन. तुका पसंत आसा मुगो तो?'

मंजूळ वोगीच रावलें.

'अनमानूं नाका तूं. आपलें नशीब खरें आसल्यार मनीस उज्यांतूनय बरो करून येता.' मगेर 'कळाव जालो गो' म्हणत शोभा उठलें आनी काळखांतल्यान पार गेलें.

मंजूळान फाटल्यान बेगीबेगीन म्हळें, 'वयनी ओगीच पिशेपणां करूं नाका. शंकरभाऊल्या पयशांचे बीन नीट चय.' मंजूळाक दिसलें ह्या तीन म्हयन्यांभितर शोभावयनी शाणी जाल्या. म्हालम्हातारेवरी उलयता.

लग्नाच्या बोवाळांत सुमन इतलें नाचतालें, मिरयतालें. मगेर कोणाकडल्यानय उलोवणीं खातालें. कितेंय काम सांगल्यार धडधड पांयें आपटीत धांवत वचप आनी मगेर थंय कितें तरी वाकडें करप. मगेर मेळत नो ताका धपकायतालो. लग्नघरांतल्या चकचकान तें भुल्लुसुनूच गेल्लें. एक दीस हाडिल्ली नेवी साडी सोडोवन ताजो वास हुंगताना पळोवन मंजूळाकय अस्सो राग येयिल्लो. मामावांगडा सुमनाय परस ल्हान दोगां मामालीं चेडवा येयिल्लीं. तांका घेवन हें कसले कसले खेळ मांडून बसतालें. तातूंत एक गोविंद. पूण तो कुशीकुशिनूच आसतालो. सुमनाक पळोवन सगले घोर लायिल्लेवरी म्हणटाले, 'कशें जातलें ह्या चेडवाचें ! गणेशाक तर दोळ्यांमुखार नाका तें !'

लग्नादिसाचीं वाजंत्रां वाजूंक लागलीं आनी सुमन थतरवितर. इतले दीस थार दिसनासतना काम करपी बाय आयज रांदचेकुडींत वोग्गी बशिल्लें. कितल्योशोच बायलो, चलयो ताजे भोंवतणीं बोवाळटाल्यो. मदींच बाय रडूंक लागतालें. हळदी म्हुर्ताक भायर हाडटाना ताका बायलो राखून धरूनशें हाडटाल्यो. हळदी म्हुर्ताची हळद आंगाक लावन बाय भितर आयलें आनी ताका दिसलें बाय आतां बाय उरलेंच ना. परतीं परतीं वाजंत्रां वाजतालीं आनी तें भिंयेल्लेवरी जातालें. बायलो तर सारक्यो ताजेभोंवतणीं उब्यो... कित्याक म्हण बायक ह्यो अशो लागल्यात... बाय जायते फावट आईल्या मर्णाच्यो खबऱ्यो सांगतालें. खुब्ब, आंगणभर लोक खंय. जण एकलो रडटालो खंय ! आनी तोंडांत पानसुपारी, माथ्यार फुलां... बाय तुवें आईक पळेल्लें म्हण विचारल्यार पुरो, बाय कितल्यो म्हण आईल्यो खबऱ्यो सांगतालें. आयकत रावशें दिस. हांवें मात केन्नाच आईक पळेलें ना...

भायर आंगणांत कितलो लोक एकठांय जाल्लो. सोयरूदाद सद्दां सगल्यांकडेन झगडत आसता. ताका पळेतकीर सुमनाक थर्त भिरांत दीस. तोवय आंगणांत येवन बशिल्लो. आनी एक फावट बागांतले आंबे पुंजायतना फाटीक लागिल्लो निळू आजो, कितलो काळो आनी ती ताजी मिशी !

गोविंद खंय गेलो... मामान नवी चेड्डी, खोमीस हाडल्या. घालून येतां म्हण गेल्लो. खंय गेलो तो !

अचकीत भायर एके हारीन तीन चार गर्नेळ फुटिल्ल्याचो आवाज येयलो. ते बराबर वाजंत्रां वाजूंक लागलीं. सुमनाच्या हड्ड्यांत कलकलूंक लागलें. तें भितर येवन बाय म्हऱ्यांत उबें रावलें. बायन ताका ओढून म्हऱ्यांत घेयलें. बाय मोन्यानच रडूंक लागलें. इतलें सोबयिल्लें बाय रडटा तें पळोवन सुमनाक कशेंशेंच जालें. तें

बांयल्या तोंडाकडेन पळेत रावलें. पूण ताका रडूंक मात येवंक ना.

तें बायच्या खांकोळांतल्यान उठलें आनी माटवांत येयलें. थंय एक बांक दवरिल्लो. तें ताजेर वोग्गी बसलें. इतल्यान कलकल घातिल्लेवरी न्हंयचे दिकेक शींग वाजलें. ताजे फाटोफाट हेर वाजंत्रां. कोणेंतरी म्हळें, 'बोट आलतडीं लागली. न्हंवरो येवंक लागला.'

सुमना धांवन आकाड्यांत गेलें. शें दोनशें लोक एके झुंडीन शेताकेर माडोवन येतालो. वांगडा वाजंत्रां वाजतालीं, धुल्ल उबतालो. सकाळच्या चडट्या वोतांत सुमनाक दिसलें, ह्या सगल्या लोकान धवीं वस्त्रां न्हेसल्यांत आनी ते उडटीं पावलां उडयत ताकतिकेन येतात. मुखार मुखार धांवन येवपी कितलींशींच पावलां ! आतां सुमनाक नवेंच होलमलें – हे लोक बायक व्हरूंक येवंक लागल्यात ! बायक घेवन वतले ते पयस !

तें परतें येवन भायल्या बांकार वोग्गी बसलें. कितलीं पोरां माटवांत बोवाळटालीं, गोविंद लेगीत. पूण तें उठलें ना. रागान फुगून बशिल्लेवरी बाकार बसून रावलें.

बायक भायर हाडलें. माळो घालून जाल्यो. केळीं बतास वांटले. पूण तें थंयच बसून आसलें. केळीं, बतास केन्ना कोणाकडच्यान हातांत घेयलो आनी केन्ना खालो हें लेगित ताका कळ्ळें ना. मुखावेल्यान वयतलो कोणूय वळखीचो ताका तिडोवन चाळोवंक पळेतालो. पूण तें तश्शें बसून आसलें.

मगेर गोविंद ताका सोदीत येयलो आनी बायन आफयलां म्हण घेवन गेलो. बायन ताका सव्यार आपले म्हऱ्यांत बसयलें. ताणें एका हात बाय भोंवतणीं घट घालो. बायकडेन कांय उलयलें ना तें. कोणें तरी न्हवऱ्याक म्हळें, 'ही तुजी मेवणी मुरे.'

न्हवरो मान सकयल घालून मुमुरखोच हांसलो. सुमनाक ताजें हांसप सामक्कें मानवलें ना. ताका ओगीच दिसलें हो बायवरीच काळो सावळो आसूंक जाय आसलो. ताजे तांबडे ओठ तर सुमनाक सामक्कीं आवडलीं नात. व्हडलो ! बायक व्हरूंक येयला !

लग्नविधी पार पडल्यो, जेवणावळी जाल्यो, न्हवरो वचूंक उठलो तरी सुमन घुम्म मोनें.

निमाणें बाय घोवावांगडा वचूंक भायर सरलें. तें आंगणांत आपाक मिठी मारून हामेऱ्यांनी रडलें. शेजारच्यो आवशो मावशो थातारताल्यो. सुमन हें सगलें दोळ्यांत जीव हाडून पळेतालें. आकाड्यांत पाव म्हणसर बाय कोणाक तरी सोदतालें,

फार्टी वळोन पळेतालें. बाय म्हाकाच सोदता दिसतालें ! अंबिकामावशेन म्हऱ्यांत येवन म्हळें, ‘बाय वयता मुगो तुगेलें.’

बाय वयता !! सुमनान ‘बाय गो’ म्हण एक हुयेल मारली आनी तें धांवलें. बायक घट्ट मिठी मारून व्हडाव्हडान रडूंक लागलें. मिठी चडचं घट करून हामेऱ्यांनी आनी हुमेऱ्यांनी रडटालें; लोक यत्न करताले थोपोवंक. पूण ताजी मिठी सुटून सुटनाशिल्ली. निमाणें कोणें तरी ताका उखलुनूच माटवांत हाडलें. तें थंय सोंपणार बसून रडूंक लागलें. तिनसांजची आवय घरा पावली ना म्हणटकीर ल्हान भुरगीं हुंडकेतात तशें रडूंक लागलें. कितल्या जणानी समजायलें, पूण तें रडचें थांबनासलें. रात पडसर तें रडतच आसलें. रडटां रडटां ताका झेम येवंक लागली. सुमित्रामावशेन हाताक धरून ताका भितर व्हेलें आनी मांदरेर घालें.

बाय घोवाघरा गेलें आनी सुमन मुळांतल्यानच बदललें. ताज्या पांयांची हुडकी कोणें काडून घेतिल्लेवरी जाली. तोंडांतलो बोवाळ अचकीत चीप जालो. आपालिपा खेळूंक, लिपूंक आतां जागोच उरलोना.

खेळमेळीक, पांच पर्थणेक आयिल्लें तेन्ना बायन सांगलें, ‘बायूल, पेजेक एक आटोव तांदूळ, दनपरां जेवणाक देड आटोव, एक आटोव तांदूळ, दनपरां जेवणाक देडआटोव तांदूळ आनी रातीं शिताक एक आटोव तांदूळ आदनांत घालचे. पेज चुलीवेल्यान देंवोवंक, शीत वाळूंक आपाक ना तर कोणाकय शेजारचे मावशेक सांग. तूं हात घालूं नाका. सटकन्न पांयार येत. बांयकडेन उदकाक गेल्यार मातशें फार्टीच राव. बिंदलो भरलो काय ना तें पळोवंक बांयंत बाग घेवची न्ही. आवाजार आनी वजनार पारखिचें.’

इतलीं वर्सां बाय धपकावन आनी आड्डून सांगतालें पूण सुमनान बायचें एक आयकोंक नासलें. पूण पांच पर्थणेक आयिल्लें तेन्ना सांगिल्लें ताजे घट यादींत उरलें. आतां लोकान कितेंय सांगल्यार हाणें म्हणप, ना, बायन म्हाका अशें सांगलां बायन म्हाका तशें सांगलां.

हुमणाक मसालो काडटना ताणें म्हणत वस्ती घालप – बायन पंदरा मिरसांगो घाल म्हळ्यात, चार सोलां, अर्द मूठ कोथमीर, एक नाल्ला वळें घाल म्हळां. बांगड्यांच्या, ताल्ल्यांच्या हुमणाक कांदो घालचें न्ही म्हण सांगलां बायन तातूंत

तेफळां घालचीं म्हण सांगल्यां.

लग्न जाल्ल्याक एका म्हयन्याक बाय पांच–स फावटीं तरी येवन गेलें. कितलें खोशी आसा तें. कितेंय उलयता आनी ओगीच हांस हांस हांसता. आतां आनी कितलें सोबीत दिसता तें ! बायल्या नव्या पातळाचो वास घेवचो अशें दिसता. ताजे गळसरे वांगडा खेळचें अशें दिसता.

भावोजीन परचे फावटीं येतासतना न्हंयकडच्यान व्हडलो पालू हाडिल्लो. बाय सांग, हळग्यांतलो एक शेट घेवंक सोदतालो. पूण भावोजीन चड पडून घेयलो म्हण. म्हाका एक वासाचो साबण, पोव आनी आंगलें कपडो हाडिल्लो भावोजीन. बाय सांग तो खुब्ब खर्च करता म्हण. म्हाकांय तो आतां बरो दिसूंक लागला. बाय ताजेकडेन पळोवन मुमुरखेंच हांसता, लजता. ताजे कपडे न्हाणयेसरी व्हरून दवरता. ताज्या माथ्याक तेल घांसता तेन्ना म्हाकाय बरें दिसता. भावोजी आतां म्हजीं फकाणांय मारूंक लागला. खेळमेळी दिसा ताणें म्हजेर कितलें उदक रकयिल्लें. कट्ट्यांची माळ करून हाडून म्हज्या गळ्यांत घातिल्ली. बायन बायूल म्हण उलो मारल्यार तो 'बायूल बायूल मार बेगीन पाऊल' म्हणटा.

एक दीस रातचें सुमन बायल्या आंगावेल्या नव्यातल्ल वस्त्राचो, वासा शाब्बान न्हाविल्ल्या आंगाचो वास घेत ताज्या खांक्यांत न्हिदिल्लें. सालाच्या दुसऱ्या पोंताक भावोजी न्दिदिल्लो. मंजूळान ताका नवी मांदरी, ताजेर गोदड आनी ताजेर परत फुलांफुलांचें चादर घालून हांथरूण करून दिल्लें. मंजूळ केन्नासान तें चादर ट्रंकाच्या तळांत दवरून राखतालें. ताणें घोवाल्या उशाक तो चकचकीत पितळेचो तांबयो दवरिल्लो. घरांत तो एक आगळोच तांबयो आशिल्लो. घांसतात तितलो तो भांगरावरी चकचकतालो. तें ताका एक चेप पडूंक दिनासलें. पुरी वर्साक वाड्यावेलीं जायतीं फुलांचीं बीन झाडां कुसून गेल्लीं. तांच्या घराफाटल्यान एक रातराणयेच्या झाडांची घोल आसली. पुरांतल्यान वाटाविल्ली ती रातराणी ह्याच वर्साक फुलून आयिल्ली. तिजो मंद परमळ सुटिल्लो. न्हंयेवेल्यान शितळसाण घेवन आयिल्लो वारो कवाथ्यांच्या चुट्टांतल्यान सळसळत व्हांवतालो.

सुमनाक बायकडेन उलयतां उलयतां झेम लागली. मंजूळान ल्हवच ताजो हात आपल्या आंगावेल्यान कुशीक काडलो आनी दिवो पालयलो.

बऱ्या वेळान ऊब सांडिल्लेवरी सुमनाक जाग आयली. सांसपून पळयल्यार बाय हांथरुणार ना. ताका एकदम बायक व्हडान उलो मारचो अशें दिसलें. पूण सटकन उगडास जालो, भावोजी पेल्यान न्हिदला. पूण खंय गेलें बाय! कोणें उखलून व्हेल्लेवरी!

ताका बायक उल्यार उले मारचे अशें दिस. पूण कसले तरी भिरांतेन काळीज कलकलूंक लागिल्लें. भायर वासरेंत न्हिदिल्ल्या आपाचोय आवाज कित्याक येना ! चोंयवटेन भरिल्लो रातराणयेचो परमळ आनी चुट्टांवेली वाऱ्याची सळसळ !

अचकीत पिंपळापान वाऱ्यार गेल्लेवरी फुतफुतिल्लो आवाज येयलो. फुतफुततात काय मुमुरखें हांसतात कांयच कळनासलें. मदींच बाय नाकसुरेंशें हुंकारतालें. ताजे वांगडा नव्या पातळाची सळसळ आयकोंक येताली. हातांतलीं काकणां मदींच किणकिणटालीं. सुमन दोळे ताणून ताणून ते वटेन पळोवचेलो यत्न करतालें. पूण कांयच दिसनासलें. रातचेंशें कित्याक थंय गेलां तें ! भावोजी बायक बरें करता. फुलां हाडून दिता, हांसत हांसत उलयता. एक फावट ताणें बायल्या पोल्याक हात लायिल्लो चयलां हांवें. म्हण बाय ताजेसरीं गेलां आसुये. तो कितें करतलो ? बायक खाकोळाक घेतलो ? सुमनाक सगलें अजाप अजापशें दिसूंक लागलें. ल्हान भुरग्यांवरीच करतात हीवय ! बाय म्हाका तर कितलें गिन्यान सांगता आनी आपूण पिशांवरी करता ! दोळ्यानच बाय बाय करचें अशें तें दोळे ताणून पळोवचेलो यत्न करता. पूण कांयच दिसना. फक्कत सळसळ, किणकीण आनी पिंपळापानान वाऱ्यार फुतफुतप...

सुमनाक परती म्हण झेम लागली ना. बऱ्या वेळान बाय आयलें. बाय म्हऱ्यांत आयलें आनी घमघम सुटिल्लेवरी जालो. कसलो कसलो म्हण परमळ - नव्या वस्त्राचो, रातराणयेचो, रंद्रानरंद्र फुलून आयिल्ले अपरूप घामेचो, बायल्या बायल आंगाचो -- हो सगलो परमळ मेळून तो सुमनाक देवसाळकांचो परमळ कसो दिसलो. तें उचांबळून त्या परमळाच्या खाकोळांत रिगलें.

मंजूळ दुसऱ्या दिसाक घरा वयतना ताणें आपान दिल्लें सगलें भांगर घातिल्लें. दोन तोडे, दोन पाटल्यो आनी बोमलेकडेन पाविल्लें बारा पोवनांचें गाटुलें. गणेशान तोळेबिळे कांय मेजूंक नासले. बायलेचें आशिल्लें तें सगलें ताच्या आंगार लखयिल्लें.

ताका पावोवंक आपा न्हंयकडेन गेल्लो. सुमन आकाड्यांतल्यान परततालें. गोकूळमावशी आपल्या आंगणांतल्यान सुमित्राक सांगताली, 'गणेशबाबान बायलेलें सगलें भागर मंजूळाल्या आंगार घालें. धाकल्याक बाबल्याक कांयच दवरलें ना.'

सुमनान आयकलें. ताणें मनांत म्हळें, हीकां कित्याक ही खबरी. बाय सगल्यो भांगरा वस्ती घालतकीर पळय कितलें सोबीत दिसता!

मंजूळ लग्न जावन घरा येयलें त्या दिसाक ताका तें लग्नघर कशें दिसलेंच ना. लग्नघराचो इल्लोय चकचक, बोवाळ नाशिल्लो. आंगणांत उदक मारून बेठोच धुल्ल अच्चून घेतिल्लो. वयर एक ल्हानसो माटोव घातिल्लो आनी ताजेर पातळ चुट्टां उडयिल्लीं. खंय एक तोर्ण ना, ताळो ना. घरांतले, माटवांतले सगलेच लोक उपरे उखलापी कशे वावुरताले. तें घरांत रिगतकीर भितर शेंस भरूंक पांच सवाशिणीं सोदून आफोवन आफोवन हाडच्यो पडल्यो. लग्नाचो विधी आटोपतकीर सगले लोक फासफले. एक पंचडी सोजी आनी एक तोपलेंच शीत केल्लें. तेंवय अर्दें उरलें. दुसऱ्या दिसाक फक्कत पांच लोक उरिल्ले. घोवालीं दोगां जाणटीं आत्या आनी तीग जण इश्ट. तातूंतलो एक तर तागेलो मावसभाव.

जेवण बरेंच उरिल्लें. तें कोणाकय हेर जातींच्यांक वाडचें म्हण मंजूळाक दिसतालें. तागेल्या शिद्दराक लग्नाक हेर जातींचो कितलो लोक येता. निमणी एक पंगत फक्कत तांगेलीच बसता. पूण हांगा केल्लें अर्द जेवण तशेंच बेळशेवन गेलें. मांव मोन्यानच भायरभितर वावुरतालो. ताजे मुजीक एक मदल्या बोटाइतली जाड चावी आशिल्ली. मर्दींच तो ती सांसपितालो. इतलें लग्न घर पूण तो फक्कत एक वालो न्हेसून आशिल्लो, उकत्या आंगान. कोणेंय कितें जाय म्हण सांगल्यार तो कांय वेळ चिंततालो. मगेर वचून ओंवरेची चावी काडटालो. ओंवरेच्या काळखांत रिगून ती वस्त घेवन येतालो. तीन नाल्ल जाय जाल्यार दोनच हाडून दिवप आनी म्हणप भागतलें !

घरा पावतकीर 'नांव घालूंक' व्हंकलेक आनी न्हवऱ्याक रांदचे कुडींत शेंदरेर बसयिल्लीं. श्रीधराले जिबेर निर्मल, शैला अशीं नांवां घोळटालीं. पूण बापूय अचकीत भितर येयलो. ताणें म्हळें, 'श्रीधर कावेरी म्हण नांव घाल. तुजे आजयेलें नांव तें.'

श्रीधर मातसो निर्शेलो, कचरलो. मगेर ताणें गप्प कावेरी हें नांव ताटांतल्या तांदळार बरयलें. तें नांव मंजूळाक मात मात्तूय मानवलें ना.

नेमकें तें आयलें तेच रातीक शेजारच्या दोन घरांमदीं झगडें पेटिल्लें. सामक्कें मध्यान रातसर झगडें चलिल्लें. मर्दींच इतल्या व्हडान कलकल जातालो, मंजूळाक दिसतालें हे बडोवनच घेतात. मर्दींच तागेलो मांवय बेठोच एकल्याचो पाखो घेतिल्लेवरी कोणाक तरी गाळयो घालतालो. मंजूळ सामक्कें भिंयेल्लेवरी जाल्लें. हें झगडें केन्नाय आमच्या दारांत येवं येता अशें ताका दिस. आदींच घर, घराच्यो त्यो धुरकटी कुडी आंगार लखून आयिल्लेवरी जाल्यो. तातूंत शेजारांत हें झगडें.

श्रीधर मर्दीच भितर येतालो. ताजे कुशींतल्यान पासय मारून वतालो. तो मात्सो धीर आशिल्लो.

मंजूळ सकाळीं उठून रांदचेकुडींत आयल्यार मांव आर्दीच उठून चुलीक जाळ करतालो. तें सडसडीत मुखार येयलें आनी ताणें म्हळें, 'मामा, तूं ऊठ. हांव उजो करतां.'

तो मोन्यानच उठलो. मंजूळ चुलीसरीं बसलें. कांय वेळान मांवान ओंवरेची चावी काडून सुपांत घालून थोडे तांदूळ हाडले. एके बशयेंत थोडी साकर आनी चावेपालो. 'तांदूळ पेजेक. साकर, पालो आसा सगल्यांक एकेक कोप चाव कर.'

मंजूळान रांदचेकुडींत नदर भोंवडायली. थंय एक दबो, भरणी लेगीत नासली. रांदचेकुडींत फक्कत मातयेचीं आयदनां 'हो सगलो म्हालमत्तो चावयेंतूच भरून दवरता काय कितें ?'

भायर मांव चेड्याक खूब व्हडान सांगतालो, 'शंकरान जांबळीकडेन आमच्या शेतांतल्यान मेर सरकावन घाल्या. सामक्को एक वांव भितर रिगला. ती मेर काडून उडोवंक जाय. ताका तसो सोडचो ना हांव. हाय कोर्टांत व्हरून लोळयतलों.' आनीकय कितें कितें तिडकीन झोडपूनसो तो उलयतालो.

घर व्हड आशिल्लें. व्हड आनी उंच. वयर ताका फळ्यान घंडयिल्ली लाकडाची माळी आशिल्ली. माळयेचें नळ्यांघर म्हण मंजूळाक अपरूप दिसलें. पूण त्यो चिन्याच्यो उकत्यो वणटी, एकेक रूख मारून हाडून घातिल्लेवरीं लाकडाची गडगंज मुस्तायकी हाजेन तें घर आंगार लखून आयिल्लेवरी दिसतालें. हड्ड्यार बेठेंच चेपण येतालें. दिसतालें हातूंतली एकाद्री पाटी आतां सण्ण करून तकलेर आपटतली.

पूण सगलेंच अर्दकुटें. लेपण नाशिल्ल्यो उकत्यो वणटी, फ्रेणकुलां पडिल्लो तळ, दारां नाशिल्लीं जनेलां. हाजेन हें घर कोणें तरी भोव उमेदीन बांदूंक घेयलें आनी उपरांत कसलें तरी अरिश्ट येतकीर अर्दकुटें सोडलें अशें दिस. त्या मानान शिद्दरचें आपालें घर कितलें बरें. दोनच शेकानशेक कुडी आनी भायर वासरी. वासरी म्हळ्यार एक आनंद मेळ. वाड्यावेलो कोणूय येवन बसतालो आनी खबरी मारून वयतालो. पूण हें घर सदांच बंद आशिल्लेवरी, मनशाच्या वासाक आंवडेल्लेवरी पडींगशें दिस. खंयचेय कुडींत गेल्यार एक आगळोच घुसमट वास. दिसतालें, दर एके कुडींतल्या काळखांत तो जाणटो मांव उकत्या आंगान फ्रट करून उबो आसा आनी वणटी सांसपीत कितें तरी सोदता.

कितलेशेच दीस मंजूळ त्या घरांत मेकळेपणान म्हण वावुरलें ना. ताणें काटकूट

करून चावी काडली आनी ओंवरेचें दार करकर करीत उकतें केलें म्हणटकीर मंजूळाल्या आंगार कांटो उबो रावतालो.

पूण एक सूख आसलें, घोवाली सावळी घरांत हालतकीर तें पिसावतालें. ताजे कुडीचो वास नाकांत भरून घेवंक आंवडेतालें. पूण मांव घरादारांत इतलो भरून आसलो, ताज्या सावटांत सगली उमेदूच मरताली. भीड, भिरांतेन काळीज चेपून वयतालें. लग्ना वेळार सगले उपदेश करीत सांगतालें, 'मांव आतां जाणटो जाला. ताजें कितें उरलां, पन्नास सरले पांच उरले. फाटीं फुडें कोण ना, तुवेंच सगलें चवंक जाय.

पूण हांगा पळयल्यार मांव घरादारार दरकार चलयता. ताणें सगलें मुठींत धरलां. म्हाकाच हांडीर घेवन दोंगर बळाटून वचचेली हागेली उमेद. हांव आनी हागेली कितें सेवा करतलें ! हो म्हातारो जावन धरतरेक तेंकता तेन्ना तेंकता. तेमेरेन काय हाजो दरकार सोंपचो ना.

लग्ना दिसा एक बायल घरांत ओगीओगी अनमानूनशी वावुरताली. नातर एकेकडेन ओगी बसून रावताली. दिसुंकूय तशीच. गरीब भागिल्लीशी. ती बारीकशी बायल तिणें लग्नाक म्हण न्हेशिल्ल्या णववारी कापडाआड लिपून गेल्ली. कोणें तरी मंजूळाक सांगिल्लें, 'ही तुगेल्या घोवाली भयण, नणन म्हण.' मंजूळान पळयल्यार खरीच ती तागेल्या भावावरी गोरी, घारशा दोळ्यांची आसली. पूण मंजूळाक अजाप दिशिल्लें, ही परकीशी अनमानून कित्याक वावुरता!

लग्नाच्या दुसऱ्याच दिसाक परती वताना ती बायल मंजूळाक वेंगेंत घेवन भोव रडली. 'बाय तूं तरी म्हाका ह्या घराचें अन्न उदक तुटोवं नाका गो !'

मंजूळान चोंयवटेन पळेत भिंयेत भिंयेत म्हळें, 'वयनी, राव तूं चार दीस. आजच कित्याक वचूंक उठल्या ?'

पूण ती थारली ना. आपली पोती उखलून चलूंक लागली. आकाड्यांत मात्शी थारली आनी दोळ्यांक पदर लावन चलूंक लागली. मंजूळालो माव, घोव घरांतच आसले. पूण कोणें एकल्यान भायर येवन ताका थातारलें ना. अशें कित्याक ! लग्नाक आयिल्ली भयण परती वयता आनी भाव भायर येना ! आनी हिगेलो घोव खंय ? ही इतली सुडसुडीत अयाव बायल, कसली अबर्गत हिका बादल्या !

चार आठ दिसान मंजूळाक ताजी सगली म्हायती मेळ्ळी. आशीकुशीच्यो बायलो रंगोवन रंगोवन ताज्यो खबरो सांगताल्यो –

आंकवारपणाक ताजो गांवच्या एका भुरग्या वांगडा मोग आसलो. दोगांय

दोंगरांतल्या झाडांनी आनी झिलींनी भोंवतालीं. दोगांय अबुद्द. पंदरा सोळा वर्सांचीं. पूण तांचो एक दुसऱ्याचेर इतलो खर मोग आसा आनी तीं एक दुसऱ्याखातीर मरूंक तयार आसात हें कोणाक खबर आसलें ? गांवच्या लोकांचे नदरेन तीं दोगांय गांवचीं नेणार भुरगीं. पूण त्या नेणार वयांत तांणी एक दुसऱ्यांक झिली झोंपांनी मिठी घाल्ली आसतली. एक दुसऱ्यांत ती भरसून गेल्लीं आसतलीं. आनी त्या मोगान तांच्या काळजाचो खोलखोल तळ गांठिल्लो आसतलो. एकादऱ्या मांसाळ जाग्यार रोंविल्ल्या झाडाचीं पाळामुळां खोल गेल्लेवरी.

अचकीत चेडवाचें लग्न थारलें. चोंय वटेची फास्की सामकी बळिश्ट आनी हीं दोगां भित्री पोरां. कोणाल्या तोंडांतल्यान एक उतर फुटलें ना. दोगांल्याय काळजांत मोगाच्या उमाळ्यांचीं ल्हारां; पूण तोंडार उतर ना.

चेडूं सुमती घोवा वागंडा लग्न जावन पयस गेलें. तागेलो घोव भटकळांत कस्टम शिपाय आसलो.

चेडो पिसो जावन दोंगुल्ल्यांनी भोंवतालो. देवळामळार, पिंपळापेडार वोग्गी बसून रावतालो. दीसदीस कोणाकडेन एक उतर उलयनासलो. स म्हयने जाले. चेड्याची–सदानंदाची सामकी दैना. एक दीस रातचो तो देवळामळावेल्या कट्ट्यार वोग्गी बशिल्लो. अचकीत सामकार सुमती उबें. ताका सामक्कें अजाप.

'सुमती, इतले रातीक खंयच्यान आयलें गो पापया ?'

'हांव पळून आयलां. भटकळच्यान बस धरून कारवारा आयलें. मगेर कोडीबाग मेरेन चलून. कोडीबागच्यान सांजची होडी मेळ्ळी.'

'एकलेंच ?'

' हय !'

'भिरांत दिसूंक ना ?'

सुमती वोगीच. सदानंदाक दिसलें, केन्ना हुळग्यांतल्यान भायर पडूंक नासलें हें चेडूं पयलेच फावट भटकळा वयता आनी थंयच्यान पळून एकलेंच येता म्हळ्यार अजाप ! भाऊ सांग, कारवारच्यान भटकळा पावंक सामक्को एक दीस मोडटा म्हण.

ताजो णववारी कापडाचो सोगो ताका सांबाळूंक जायनासलो. ताणें हातान कापड गुठलावन धरिल्लें. पूण एक शेव धतरीर लोळटालो. तें सामक्कें घामेवन, थकून गेल्लें, भुकेवन गेल्लें.

'सदा, म्हाका तान लागल्या.'

तीं दोगांय देवळामुखावेले तळयेर वचून उदक पिवन आयलीं.

'आतां खंय वतलें, सुमती ?'

'बाप्पा कळ्ळ्यार म्हाका दवरचोना सदा .'

तीं दोगांय कट्ट्यार कांय वेळ वोगी बसलीं. सुमती बशिल्लेकडेनच झेमेवंक लागलें. सदानंदान ताका हाताक धरून उठयलें आनी तो ताका देवाचे गर्भकुडीचे फाटल्यान घेवन गेलो. थंय ताणें ताका सिमिटार न्हिदयलें. कापडाचो एक शेव आंगापोंदाक घेवन तें सुस्त न्हिदलें. पूण सदानंद खुरमांडी घालून वणटीक तेकून वोग्गी बसलो. अठरा वीस वर्सांचो तो पोर खरोच भिंयेवन गेल्लो. कळ्ळ्यार सुमतीक ताजो बाप्पा दवरचो ना आनी म्हाका अण्णा आनी भाऊ सोडचे नात !

सक्काळीं झिळमिळ्यार ताणें सुमतीक उठयलें. दोगांयची भिंयेवन गुळी जाल्ली. कांयच सुचनासलें. तीं दोगांय तळयेर वचून तोंड धुवलीं. पोटभर उदक पियेवन फाटले दोंगुल्लेर वचून झिलींनी लिपून बसलीं.

वयर दोंगुल्लेर बशिल्लेकडच्यान गांवचो सगलो वाठार दिस्टीक पडटालो. मनशां वळखूंक मेळनासलीं. पूण तांचें यो-वच दिस्टीक पडटालें. दोंगुल्लेर मदींच एकाद्रें गोरूं येवन चरून वयतालें.

सारक्कीं तीन दीस तीं दोंगुल्लेर लिपून बशिल्लीं. रात जातकीर दोंगरांत कोले कुयो मारताले. गांवांत सगलें सामसूम जातकीर तीं दोगांय ल्हवच दोंगर देंवन येतालीं. तळयेर वचून पोटभर उदक पियेवन गर्भकुडी फाटल्यान न्हिदतालीं. परतीं सकाळीं तांबडें फुटचेपयलीं दोंगरांत वचून लिपतालीं.

सुमती सामक्कें थकलें. 'सदा कितेंय कर. म्हज्यान नजो आतां. नातर आमी तुगेले मावशेगेर या.'

'सांज जातकीर याच आमी आयज मावशेगेर.'

दनपारां कोण तरी गोरवांक सादयत दोंगर चडटालो. ताजे कमरेक लायिल्ले माकडेंतले कोयतेचो पावलाकणकर्णी खट् खट् असो आवाज येतलो.

'सुमती कोण तरी हे वटेनच गोरवां सादीत येतासो दिसता. ऊठ आमी लिपया.'

'नाका सदा. आनीक लिपचें नाका.'

तो मुखारच येवन उबो रावलो आनी हांकां पळोवन खीणभर कचरलो. मगेर अजापान पळेत रावलो. तो ओटमीकडचो रघुनाथ आसलो. सुमतीन आपलें आंग

सामक्कें कापडांत ओढून घेतिल्लें. सदानंद ताजेकडेन भिंयेवन पळेतालो.

'अरे, तुमी हांगा लिपून बसल्यांत आनी थिंगा तुमकां सगलो गांव सोदता. काल हागेलो घोव येवन थै थै नाचून, बोवाळ घालून गेलो. रावात तुमी रावात.'

तो धांव मारीत देंवती देंवन गेलो. तीं दोगांय वोग्गी बसून आसलीं. तांकां कांय सुचनासलें. थंयच्यान उठून आनीक वचचेंय दिसनासलें. अचकीत सुमती ताज्या आंगार पडून हामेऱ्यांनी रडूंक लागलें. वर देड वर अशेंच गेलें. फक्कत काळजांत कलकल. मगेर धा वीस लोकांचो बोवाळ म्हऱ्यांत पावलो. तातूंत सुमतीलो बाप्पा आसलो. सदानंदाले दोग व्हडले भाव आनी बापूय आसलो.

हांचीं दोगांचींय सामकीं भित्रीं कुकडां. आंगावेले कपडे, केंस विसकटिल्ले. भुकेन, चिंतेन आनी भिरांतेन अवतिकाय जाल्ली. रानांतूच वाडिल्ल्या वनमनशांवरी तीं दिसतालीं.

सगले तांचे मुखार येवन उबे रावले. जण एकल्याल्या तोंडार अजाप आनी तिडक. पयलीं तर तांकां दिसलें आमी कोणा परंतरांतल्यान आयिल्ल्या डोंबाऱ्याच्या जोडप्याकच पळयतात. कांय वेळ कोणाक कितेंय उलोवचें सुचनासलें. तीं दोगांय तर आंगां ओडून घेवन बशिल्लीं. सुमतीलो बापूय दोंगुल्ली हालयत आइडालो, 'हें नश्टें चेडूं म्हाका मेलें ! कुळाक बट्टो लायलो हाणें. हाजेफुडें हांव हाजें तोंड पळोवचों ना. घरा वयतां आनी हें मेलें म्हण हाज्या नांवान शेळें उदक न्हावन कोड्डूक शिजोवन खातां !'

तो तसोच फाटीं फिरलो. सदानंदाले दोगूय भाव ताका ओडून हाडूंक म्हण गाळयो घालीत मुखार वयताले. बापायन तांकां दोगांकय आडायले. पूण व्हडल्यान वचून सदानंदाचेर एक खोंट मारली. सुमतीचीं केंसतडां धरून हालयलीं. कोणें तरी मुखार वचून ताका ओडून हाडलें. बापायन म्हळें, 'हांगाच मरूं दी तांकां. लग्न जाल्ले परक्याचे बायलेक घेवन हो हांगा पडला. ह्या भश्ट्या पातक्याक म्हजे पावळेंत लेगीत उबो करचो ना हांव. हांगाच फोण काडून ताका पुरलो म्हण समजयात. तूं ह्यान फुडें हीं दोंगुल्ली देंवचो ना. पांय कातरतलों.'

ते सगले जण वोग्गी परते गेले. हांचेर आतां नवोच कलकल, दोळ्यांमुखार काळोख पातळ्ळो आनी सगलो वाठगार पुसून उडयिल्लेवरी जालो.

सांजचो सूर्य अस्ताक पावंक मावशी येयली. तिगेले हांडीर उदकाचें बिंदूल आसलें. तकलेवेल्या चोब्यांत तीणें केळीच्या पानांत बांदून शीत आनी तोपलांत तिसऱ्यांची कडी हाडिल्ली. तिणें कांय एक उलयनासतना तांकां फाट करून उबी

रावली. तांचो जेविल्लो च्याक् च्याक् आवाज येतालो. उदक घटघट घोंटिल्लो आवाज येतालो. पूण तिका तांचेविशीं इल्ली पूण मोगमाया दिसली ना.

तांचें जेवन जातकीर तिणें चोबो उखलून तकलेर घेयलो. तिणें म्हळें, 'सदा तूं रातचो असो झिर्लीं झोपांनी पडून रावं नाका. मातसो काळोख पडटकीर देंवन म्हगेर यो. आनी तूं गो, इतलें भश्ट हें कर्तूब तुजें, तुवें आतां जीवच दिवंक जाय. तुका आनीक देवधर्म, जातपात उरली ना.'

ती धा पावलां देंवन गेली आनी परती वळून तिणें विचारलें, 'रातचो येतलो मुरे तूं ? ताका आर्दी पावय व्हरून मसणांत.'

सदानंद कांयच उलयलो ना. पूण तीं रातचीं मावशेगेर गेलीं नात. परतीं देवळांत येवन न्हिदलीं. तें म्हादेवालें देवूळय अशें; रातची थंय मनशाली सामक्की संवकळ नासताली. रातचे म्हादेवाले पायक पोंवो करून भोंवतणीं भोंवतात असो पूर्वापार समज आशिल्लो. म्हणच हांगा रातचो आलाशिरो मेळिल्लो म्हणूं येता. पूण दर रात इतली एकसुरी आनी घनकाळखी आसताली, काळखाचे दंख आंगार बशिल्लेवरी जाताले. तातूंन तानभुकेन वळवळ.

मुखावेल्या वारांदांत तीं एक दुसऱ्याक सामक्कीं तेकून एक दुसऱ्याकडच्यान धीर घेत बशिल्लीं. सुमतीन सामक्या विनवणेच्या सुरांत निमाणें विनयिल्लेवरीं म्हळें, 'सदा, कितें तरी कर रे आतां ! मावशेकय हांव नाकाशें दिसता !'

'हय. म्हणच हांव आज तिगेर गेलोंना. हांव तुका सोडचों ना सुमती!'

'पूण आतां कितें करचें आमी ?'

सदानंद वोगीच रावलो.

'हांवच हे तळयेंत उडकी घेवन जीव दितां, सदा ! म्हणटकीर सगले सुट्टले!'

पूण हांव तुका सोडचोंना सुमती. म्हजेखातीर तूं सगलें सोडून येयलां मुगो ?'

अचकीत खर उमाळो येयिल्लेवरी सुमतीन ताका वेंगयलें. ते वेंगेची शक्त इतली चड आसली, सदानंद ते वेंगेंत पागळून गेलो.

उपरांत सदानंदान ताका हाताक धरून उठयलें, गर्भकुडीचे फाटल्यान व्हरून ताका सदचेवरीं न्हिदयलें. आपूण मात ताजे तकलेसरी वोग्गी बसून रावलो. घोर चिंतनांत घुसून.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मावशी तांदळाच्यो भाकऱ्यो आनी पितळेच्या

बासकिटांत चाव घेवन आयली.

'सदा, रातचो कित्याक येवंक ना तूं ?'

'मावशे, बाप्पान ही दोंगुल्ली देंव नाका म्हण सांगलां.'

मगेर हे आलातिणीक घेवन हांगाच जीव सोडटा ?'

'मावशे, तूं म्हाका एक कोयती, एक कुराड आनी दोन मातयेचे गाडगे हाडून दी.'

'कित्याक, हाजो बारावो वाडटा ?'

आतां आमच्या लोकांत आमकां थारो ना. हेच देंगुल्लेच्या धेंगणार पागयाल्या वाड्याचे वयले वटेन हांव एक झोंपडी बांदतां. हेच दोगुल्लेवेल्यो मेडी, आर्डी आनी सापडवाल हाडून वेल्यान करड घालून धांपतां.'

'मगेर खातलो कितें ?'

'हांव चिऱ्याखणीर कामाक वयतलों. मातीबीन काडच्या कामाक. जाल्यार चिरे मारूंक शिकतलो.'

पयलेच फावट मावशेक सदाची कारूट दिसली. 'आरे, तूं येद्द्या व्हडल्या शेतकारालो पूत आनी चिऱ्यांखणीर कामाक वतलो ?'

'मावशे, म्हाका कोयती, कुराड हाडून दी गे !'

मावशेक कांय वेळ ताजेकडेन मायेनशें पळयलें आनी ती दोंगुल्ली देवन वचूंक गेली.

सकल पाविल्ले मावशेक ताणें परतें व्हडान विचारलें, 'मावशे, हाडटा मुगे कोयती, कुराड ?'

मावशेन सकल्यान जाप दिली. 'तूं असोच हांगा खंवसोचो न्ही म्हण दिता हाडून. खोंप बांद ना तर ताजे मानेर घाल.'

सदानंदावांगडा वचतसान सुमतीचें आपल्या कुळारा येवप हें दुसरें फावट. सात-आठ वर्सां फाटीं बाप्पा खूब शीक जाल्लो. सुद्दी भायर गेल्लो. तेन्ना ते येवन दारांतल्यान बाप्पाक पळोवन गेले. पूण आर्दींच खेंवी बापूय इतलो राग धरून

बशिल्लो, शेवटामेरेन ताणें धुवेलें तोंड पळयलें ना.

भावाल्या लग्नाकय ताका कोण आफोवंक वचचो नासलो. पूण मामान हट्टच धरलो, सुमतीक आफयना जाल्यार हांवूय लग्नाक येवचों ना !

इतलें तें एकच भावाल्या लग्नाक सगलें कोडूपण गिळून उमेदीन येयिल्लें पूण तागेलो कसलोच भोवमान कोणें केलोना. करोलीचो मानय ताका दिवंक नासलो. श्रीधराली मावसभयण करोली जाल्ली.

मंजूळाक तागेली खबर आयकतकीर भोव चुरचुरे आनी आपलेपण दिशिल्लें. ताका आठ–पंदरा दीस आपणासरी कुळारा हाडून दवरचें अशें ताका दिसतालें. पूण मांव ! ताका कोण सांगतलो ? सोताचे धुवेचे चुरचुरे नाशिल्लो मनीस तो.

मंजूळान शिद्दरा येयिल्लेकडेन एक दीस ही नण्णेची खबर सुमनाक सांगली. आयकोन तें येद्देंशें पोर घुम्म मोन्यांनी बसून रावलें. हरशीं तें एकाद्रे खबरेक कितले फांटे फोडून उस्तून उस्तून विचारपी. पूण आयज सामक्कें मोनें. ती खबर काळजाच्या तळाक वचून बशिल्लेवरीं.

‘बाय मुगो...’ तें दुसरेंच सांगूंक लागलें. ‘काल चोंची आंब्याचो एक पिक्को आंबो पडिल्लो. हांव आंबो घेवंक धांवतालें. तेवटेन गोविंद धांवन आयलो. म्हाका धुकलून उडोवन ताणें तो आंबो घेयलो न्हू गो. म्हाका चाळोवन चाळोवन आंबो खावंक लागलो. म्हाका अस्सो राग आयलो. हांवें नाखटान ताका बोचके काडले. म्हाका एक आंबो मेळूंक दिना ल्हेंवटो.’

बायूल, केद्दीं व्हडलीं नाखटां दवरल्यांत तुवें, आनी ताजेन तुवें गोविंदाक बोचके काडले ? रगत येवपाचें मुगो !’

‘येयलें तर रगत !’

पूण दुसरे दीस मंजूळ परतें वचूंक म्हण तयार जावन आकाड्यांत येयल्यार गोविंद चोंची आंब्याचे एके फांदयेर चडून ती फांदी घसघस करीत हालयता. सकल पडिल्ले आंबे एकठांय करून सुमन ते आंगलेचे होंटयेंत भरून घेता.

‘बायूल गो !’

सुमन बायलो साद आयकोन होंटी सांबाळून घेत लखत लखत धांवन येयलें.

'काल झगडिल्लीं न्ही गो तुमी ?'

'हांवें कालसान गट्टी फू केल्ली ताजेकडेन. कालसान उलयलेंच ना हांव. तोच सकाळीं येवन म्हणूंक लागलो, 'कित्याक उलयना गो? हांव तुका आयज रुखार चडून जायते आंबे काडून दितां.'

'बरीं नवलाचींच पोरां तुमी!'

गोविंद ताळयेर तसोच उबो आशिल्लो. मंजूळान उलो मारून म्हळें, 'गोविंद सकल देंव रे. पडशी बीन. आनी झगडूं बीन नाका रे. गोविंद सकल देंव मुरे.'

मंजूळान बारीक पळयलें. पळयल्यार वयर आशिल्लेकडेन गोविंदाले पांय कडकड्टात. बेठोच हे फांदयेक ते फांदयेक हात घालता आनी पांय सकल काडटा वयर घेता. तें सडसडीत रुखापोंदाक गेलें. 'गोविंद देंवंक जायना रे?'

सुमनान सांगलें, 'हेदोळ वयर चडटनाय असोच भिंयेतालो तो. पोट रुखाक घांशीत वयर चडिल्लो तो.'

मंजूळाचेर सगलोच आवरो. 'अरे, रुखार चडूंक नकळो जाल्यार कित्याक चडिल्लो तूं ?' मगेर मंजूळान ताका सावकाशकायेन, धीर दीत हे फांदयेक हात घाल, पांय थंय लाय, अशें सांगत सकल देंवोवन घेयलो. तेंवय झाडापोंदाक अशा जाग्यार उबें आसलें, तो पडल्यार आपणाल्याच आंगार पडूं. तो देंवतकीर ताणें गोविंदाक बरेंच धपकायलें. 'झाडार कित्याक चडिल्लो रे तूं, कळना जाल्यार?'

'तें सुमन उलोवंक ना जालें म्हजेकडेन. म्हण दितां म्हण सांगलें ताका आंबे, जाय तितले.'

मंजूळाक सोताच्याच पोटांत पिकिल्ल्या पोरावरी ताका आंवळून गोपांत घेवचेंशें दिसलें.

मगेर ती दोगांय मंजूळाक पावोवंक तारीकडेन गेलीं.

श्रीधरान लग्ना उपरांत फौजेंत आपल्या वरिश्टांक बरयिल्लें, 'हांव लग्न जालां, रावपाक क्वॉर्टर रिते आसल्यार बायलेक घेवन येतां. कळोवचें. आसल्यार बायलेक घेवन येवंक रेल्वेचो पास धाडून दिवचो.' घोव आनी बायल जापेची वाट पळयत आसलीं. रजा सोंपूंक येयिल्ली. पूण श्रीधर मंजूळाक सांग, खोली रिती आसल्यार ते

आज्ञा धाडलेबगर रावचे नात.

तागेलें युनीट शिमलांत आसलें. तें खंयकात मंजूळ कांयच नकळो आसलें. पूण घोवावांगडा वचूंक मेळटलें म्हण तें उमळशिकेन वाऱ्यार हुबत वाट पळेतालें.

एक दीस श्रीधर खऱ्यांनीच एक हळदुवो लाखोटो घेवन येयलो. ताका बायलेक घेवन येवंक वरिश्टान परवानगी दिल्ली. वांगडा बायलेक रेल्वेचो पासय धाडिल्लो. लाखोटो नाचयत श्रीधर मंजुळासरीं येयलो.

मंजूळ खोशयेन भुरकुटलें आनी ल्हान चलयेवरी थुळेवंक लागलें.

'खंय आसा तो शिमला गांव ?'

'हंयसान पांच दिसांवाटेक.'

'आवयस ! मगेर वयचें कशें ?'

'दिल्लीमेरेन चार दीस रेल्वेन. मगेर थंयसावन बशीन.'

'चार दीस रेल्वेन ? मगेर न्हावचीं खंय ? जेवचीं खंय ?'

'रेल्वेंतच.'

'कितें ?'

'हय तर.'

'कसली आसता तर ती रेल्वे ?'

'केन्ना कारवार गेल्लें तेन्ना तुवें एसटी पळयल्या ? तसल्यो वीस-पंचवीस एसटी एका फाटोफाट बांदल्यो म्हणटकीर कशें दिसतलें, तशीच आसता रेल्वे. ती लोखणाचे कांबीर धांवता. तातूंत जेवण, उदक बीन सगलें मेळटा.'

मंजूळाची तकली धुंवली. तें शिद्‌दराभायर म्हणटा तें फकत दोन फावट कारवारा होडयेन गेल्लें. एक फावट कारवार-कोण्यांत विष्णूदादाल्या लग्नाक आनी दुसरे फावट मावशेगेर बाडचे बांडीक. बायूल ल्हान. ताका सोडून खंय वचूंक म्हण मेळटालें ? आई भायर पडतसान आपा तर खंय वचूंक मागनासलो.

'पूण तुवें रेल्वे खंय वचून धरची तें सांगलेंच ना.'

'पयलीं हुबळी वचून रेल्वेंत बसतालों हांव. आतां गोंय सुटल्या न्ही गो. मडगांव आतां लागीं पडटा.'

मंजूळाक आतां दोंट्टी खोशी. वांगडा गोंयय पळोवंक मेळटलें तर ! ताका दिल्ली-शिमलापरस गोंयाविशींच चड उमळशीक आसली. गोंयाविशीं कितल्यो

विजमिताच्यो खबरी आयकल्ल्यो ताणें ! थंय जाणट्यो बायलो लेगीत आंगल्यो घालतात म्हण ताका कोणें सांगिल्लें. थंयचे ते पाखले, तांची पालपात्री अजूनय आसा अशें ताका दिस. पूण खिणांत तकलेवेल्यान घुगूम उडून गेल्लेवरी एक विचार ताज्या मनांत येयलो.

'पूण तुवें बाप्पाक सांगलां ?'

'ना. पूण सांगूंक जाय. सांजचो सांगतां.'

मंजूळाल्या मनांत सारक्की दुगदूग. कितें म्हणटलो मांव ? बायलेक घेवन वच म्हणटलो ? ताणें नाका म्हळें तरी हांव वयतलेंच. पोती हातांत घेतलें आनी ताजे फाटल्यान भायर सरतलें. कशेंच रावचें ना !

ही खबर गांवांत इतले बेगीन पातळ्ळी, घरा फाटली एक बायल पार्वतआकी ताका आपल्या घराच्या वारांदांतल्यानूच कुरू करून विचारताली आनी फकाणांशीं करून हांसताली. मंजूळय खूब हांसलें आनी हात हेळोवन ताणेंय तिका आमी वयतलीं म्हण सांगलें.

मोनो देवाप्पा दनपारच्या ओतांतल्यान चलून हुमेन भिजूनसो येयलो. ताणें तकलेचो रुमाल काडून तोंड पुसलें, आपली खांदावेली कांबळेघडी सकल घालून तो पडवेंत बसलो. बरी वाचा आशिल्ल्या मनशाकडेन उलोवचें तसो श्रीधर देवाप्पाकडेन कुरू करून उलयतालो.

मंजूळान विचारलें, 'कोण तो ? तागेलें सांगिल्लें कळटा तुका ?'

'आगो हो आमगेलो देवाप्पामामा मुगो. तें सकल एकच पाख्याचें गांवठी नळ्यांचें घर दिसता न्ही, तें ताजें घर. एकलोच रावता तो. लोक खंयच्यान खंयच्यान येवन आफोवन व्हरतात ताका ! फाटीर थापट मारून बैलाचें आंग शिरशिरिल्लें पळोवन तो खंयची पिडा तें जिस्त सांगता.'

मंजूळान ताका बारीक पळयलें. ताणें बोंबलेसरींच पाविल्लें एक मोटवें, अशीर खोमीस घातिल्लें. मुजीर काश्टी मारिल्ली. ताजें लांब पोंत तो उबो रावलो म्हणटकीर भूंयक तेंकतालें.

ताणें येताना एक व्हडशें तवशें हाडिल्लें. तें ताणें मंजूळाल्या हातांत दिलें आनी ओटां हालोवन हातान कुरू करून कितें कितें सांगलें. मंजूळ हातांत तवशें घेवन ओगीच हांसत उबें रावलें. श्रीधरान म्हळें, 'आगो तो सांगता तवशाची बरी तवसोळी कर आनी आपणाक इल्ली दी म्हण. तें तवशें ताका गोरवांक पळोवंक गेल्लेकडेन कोणें

दिल्लें खंय. आनी सांगता, बायल बरी मेळ्ळी खंय म्हाका, फुलावरी सांबाळ खंय तुका.'

मंजूळाक हांसुंकूच येतालें. तें भितर गेलें आनी पयर कुळारच्यान हाडिल्ल्या मुगां लाडवांतले दोन मुगां लाडू ताणें देवाप्पाक हाडून दिले. ते खावन वेल्यान उदक पिवन देवाप्पा खांदार कांबळीफटें मारून वचूंक गेलो. मांव हातांत कोयती घेवन बागांत कितें तरी करतालो. मांवाकडेन तो ताळ्यांतल्यान बेठोच आवाज काडून कितें तरी उलयतालो. मांवय व्हडव्हडान ताका कितें तरी सांगतालो. मर्दींच ताका बुरशी गाळ घालतालो. श्रीधर सांग, 'ह्या दोगांलें अशेंच, व्हडाव्हडान तिडकीनशे एक दुसऱ्याकडेन उलयतना आनी मर्दी मर्दी गाळी घालून घेतात. देवाप्पामामा बरो मनीस आं मंजूळ, कोणाकय पावपी, उल्याक धांवन येवपी. कितेंय बरें रांदल्यार शाक, हुमण ताका पावय. एकलोच रावता तो.'

मंजूळाक आगळीच हुरहूर लागिल्ली. मांवाल्या मनांत कितें आसा काय? तो म्हाका घोवावांगडा वचूंक दितलो ?

सांजचें म्हऱ्यांत गेल्यार घोवाल्या तोंडाक सोऱ्याचो वास.

'सोरो आनी कित्याक पियेला तूं ?

'इल्लोच घेतिल्लो रम. तुजेखातीरच. बाप्पाक सांगूंक जाय न्ही गो.'

'पूण कित्याक भिंयेता तूं ? आपूण बायलेक व्हरतलोंच म्हणून सांग.'

'आगो, बाप्पाक वळखना तूं. एकच म्हयनो जाला लग्नाक. कितें चयलां तुवें ? ल्हान आसताना एक दीस हांवें आनी म्हगेलो इश्ट पुंडलीकान त्या कोनशावेल्या कवाथ्याचीं चार शिंयाळीं काडलीं आनी शेतांत बांदाकुशीक व्हरून फोडून खालीं. सोण्णां थंयच उरलीं. सोण्णावेल्यान ताणें हीं आपल्याच कवाथ्याचीं शिंयाळीं म्हण वळखलीं. मगेर घे गाळयांचो शिंवर. तेन्ना गांवचो सुब्बू म्हण एकलो लोकांले नाल्ल बीन चोरचेलें काम करतालो. बाप्पा ताका विचारूंक गेलो. ताणें सरळच सांगलें, 'तुगेल्याच चेड्यान नाल्ल काडून खाल्यात आनी म्हाका विचारता ?'

सुब्बूक हें कशें कळिल्लें कोण जाणा. पूण बाप्पान म्हाका हो मार घायलो, आंगभर वळ येवन आंग सुजून दुखतालें. देवाप्पामाम धांवन येवन म्हाका सोडोवन घेवन, खांकोळांत घेवन बशिल्लो. ते रातीक हांव ताजेच म्हऱ्यांत न्हिदिल्लों. तेन्ना देवाप्पामामान बाप्पाक हात हेळोवन हेळोवन आनी ताळ्यांतल्यान आवाज काडून बरेंच सविल्लें. तेन्नासानच हांचेमर्दी हें व्हडव्हडान सवन घेवप सुरू जालां म्हणूं येता. तरीय हांचेमर्दी राग मात कसलोच ना. ह्या गांवांत बाप्पाक धपकावपी हो एकलोच मनीस. हेर कोणाचें पित्त ना बाप्पाआड उलोवचेलें.'

'पूण तूं बाप्पाक सगलें सारकें सांगता न्ही ?'

'हय.'

'नाका म्हटल्यार कितें करतलो ?'

'चवया.'

मंजूळ सामकें थतरवितर. हो तर चड्डूच भिंयेता. ताणें नाका म्हळ्यार...!'

सांजचो बाप्पा हातपांय धुवन येवन ते चामड्याचे खुर्चेंत बसतकीर श्रीधरान ल्हवच म्हळें, 'खोली एक रिती आसा खंय. रेल्वेचो पास येयला. घेवन वयतां हांव ताका.'

बाप्पा कांय वेळ गोंदळांत पडिल्लेवरीं ताका पळयत रावलो. मगेर सटकन धेंगशेलो, 'वच वच. घेवन वच ताका. ताणेंच कोमार काडला आसतलो तुका. इतलीं वर्सां शेताभाटाचो वावर म्हजे तकलेर! हांवेच कोड्डूक शिजोवन खावप एकल्यान ! म्हाकाच कित्याक जाय संवसार ? पाड पड्डूं दी शेतां, बाग ! पर्डींग पड्डूं दी ! हाळ पड्डूं दी !'

बाप्पालो आवाज इतलो व्हाडलो, तीं दोगांय भिंयेल्लेवरी जार्लीं.

'तशें न्ही बाप्पा, आमचें हें निमाणें वर्स शिमलांत. मगेर घडये आमी सरादेर वयतले.'

'निमाणें वर्स खंय. अरे आतांच म्हातारो जालो ना तूं. पिराय सोंपली ना. बाप्पा मेलो म्हणटकीर बायलेकच मिठी मारून बस सदांचो. बरीं न्ही हीं चिन्नां, एक दीस माती खावची पडटली !'

'पूण बाप्पा...'

'आनीक कांय सांगूं नाका. वच तूं, वच तूं बायलेक घेवन. बाप्पा मेल्यार मरूं.' तो उठून सडसडीत भायर गेलो. श्रीधरान बेगीबेगीन बागलांत येवन चयलें. तो काळोख मांडायत आकाड्यांतल्यान वयतालो. श्रीधरान मनांत म्हळें, हो आतां देवाप्पामामासरीं वचून कसलें तरी झगडें काड्डून बोवाळत बसतलो. ना तर गंवर्णीत वचून बैलांसरीं बसतलो.

मंजूळ घरांत ओग्गी वणटीक तेंकून बशिल्लें. श्रीधरान कितें उलयल्यारूय तें हूं काय चूं करनासलें. ताणें रांदचेकुडींतलो चिमणेदिवो हाड्डून भायर पडवेंत दवरलो आनी पडवेंतलो लालटन उखलून तो बाप्पा, बाप्पा म्हण उले मारीत भायर सरलो.

मंजूळ लग्न जाले उपरांत पयलेच फावट येद्या व्हडल्या घरांत एकलें बशिल्लें. सगलीं चिंतनां भेरेल्लेवरी तें भंय-भिरांतेविरयत बसून आसलें. भायलें दार बंद केलां काय उकतें आसा हाचीय ताका सुद्द नासली. खरें म्हळ्यार ताका मांवाचो इतलो राग येयिल्लो...

श्रीधर लालटन घेवन देवाप्पाच्या घरासरीं येवन पावलो. तो ताटांत ताटभर पेज आनी एक आमलेतोर घेवन जेवंक बशिल्लो. ताणें आदीं बाप्पाची सुलूस घेतली. बाप्पा ना.

'देवाप्पामाम, रातचो पेजशी जेवता मुरे ?'

देवाप्पान ताळो खरडीत विचित्रसो 'आवो आव आव' असो आवाज काडलो. श्रीधराक खीणभर दिसलें, तो रडुंकूच लागला. मगेर ताणें कुरू करून सांगलें, 'हें रांदचें, वाडचें, आयदनां धुवचें दादल्याचें काम न्हय बाबा ! ते परस ही पेज बरी.' श्रीधराल्या काळजांत चर्र जालें. तो थंयच्यान भायर सरलो. फाटल्यान तागेलो आवाज येयलो. श्रीधराक कळ्ळें, 'हो रातचो खंय वयता काय म्हण विचारता.' तो जाप करिनासतना शेतांतले गंवर्णींत येयलो. थंय बाप्पा काळखांत गंवणीच्या आड्यार बसून आसा.

'आमी घरा या, बाप्पा.'

'बाळू, तुका सांगतां. ह्यान फुडें हांव शेताचें आडावन घेवचों ना. तशीच बंजर पडूं ना तर कोणय खावन वचूं ! हें बैलांचें जोतय विकून उडयतां!'

'बाप्पा, हांव ताका व्हरचों ना वांगडा.'

'व्हर तूं. घेवन वच. म्हजेपासत अडून रावं नाका. म्हज्या एकल्याचें सोड. कोड्डूक चुकिल्लो ना म्हाका. तुगेले आवयल्या मर्णाचो कोड्डूक हो. वीस वर्सां जालीं खातां. पयलीं तुकाय शिजोवन घालतालों. आतां एकलोच खातां !'

'ना बाप्पा, हांव खऱ्यांनीच व्हरचों ना ताका. तुवें सांगल्यार लेगीत व्हरचों ना.'

बाप्पा उठलो आनी मोन्यांनीच श्रीधराफाटल्यान घरा येयलो.

दुसरो अख्खो दीस बाप्पा घरात न्हिदुनूच आसलो. मर्दींच वायटकारावरी पिरंगतालो. खोकतालो. पूण मंजूळ सामकें ताजे म्हऱ्यांत खबरेक गेलें ना. तें दीसभर फुगुनूच बशिल्लें.

उपरांत दोन दीस अशेच गेले. सगलेच मोन्यांनी वावुरताले. कोण कोणाकडेन मेकळेपणान उलयनासलो. परतो वचपाक चार दीस आसताना मंजूळान घोवाक म्हळें,

'वचचे पयलीं एक दीस शिद्‌दराक वचून या. बायूल वाट पळयता दिसतालें !'

श्रीधर सटकन धेंगशेलो, 'आनी आनीक कित्याक ? अजूनूय उरल्या पांच पर्थवणी ? खंय वचचें नाका. परवां हांव उठ्ठां आनी चलूंक लागतां. तुका सांगतां, तुजे चड लाग नाकात. बाप्पा कितें सांगता तें आयक आनी वोग्गी हांगा राव. बाप्पाले आज्ञेबगर खंय वचचें ना, येवचें ना.'

मंजूळ मुखार कांय उलयलें ना. घोवाले हे तिडकीक ताका बाप्पालो वास येयलो. हागेल्या नाकाचो शेंडोय बाप्पाल्या नाकावरीच लांब आनी तांबडो आसा, हाकाय बापायवरीच राग येवं येता. आनीक म्हण बापायच्या आनी चेड्याच्या मदीं पडचें न्ही.

वचच्या दिसा सकाळीं तो भोव थतरवितर आसलो. ते राती रातभर तो ताका वेंगेंतच घेदन आसलो; मोन्यानच मंजूळ ताका बारीक तेळटालें. ताज्या चेऱ्यावेलें सांवट पळोवन ताजो जीव वयर सकल जातालो. 'तुजे वांगडा येवचेलें म्हज्या भोवभोव मनांत आसलें रे !'

तो वयतना तें बागलाचे चौकटेक धरून उबें आसलें; आंगणांत लेगीत गेलें ना. आनी दोन पावलां मारून ताजेसरीं वचूंक गेल्यार आपणाक रडूंक येतलें अशें ताका दिस. मोगाचें, ताटातुटीचें एक उतर उलयतलें म्हळ्यार मुखार मांव उबो. तो गेलो आनी मंजूळाक दिसलें अजून जायतें उलोवचें, सांगचें आसलें. सारक्की दुगदूग आनी अतृप्तताय.

मांव ताका घेवन सकाळीं लांचीत बसोवंक बंदरासरीं गेल्लो. तो ताका लांचीर बसोवन रोखडोच परतो येयलो. तो भोव म्होवाळ उतरांनी मंजूळाक सांग, 'लांच रोखडेंच मेळ्ळें. बसुंकूय जागो मेळ्ळो. तुजो बापुयूय बंदराकडेन येयिल्लो. एक खावची पोटोळी श्रीधराक दिल्या ताणें. सांग, तागेल्या धाकल्या चेडवान दांत्यार दळून मुगांलाडू केल्ले खंय.

आतां मात मंजूळाक हड्डें फुटून रडूंक येवंक लागलें. तें बेगीबेगीन भितर गेलें.

कांय वेळान मांवान ताका उलो मारलो आनी सांगलें, 'लग्नाचे धांदळेंत शेताचें काम तशेंच उरलें. लोक शेतां रोवंक लागले, पूण आमी अजून सारेंय घालेंना. चल चोबे घेवन यो. हांव गायरींतल्यान सारें भरून दितां. तूं व्हरून केळीशेतांत घाल.

साऱ्याचो चोबो तकलेर घेवन शेताची वाट चलताना मंजूळ शिमलाची वाट मेजतालें. हळगेच्यान लांचीन गडार वचप. गडावयल्यान बशीन गोंय. गोंयच्यान आगगाडयेन दिल्ली. आगगाडयेंतच जेवप, न्हावप. मगेर दिल्लीसावन शिमला कशें

वचचें म्हण सांगिल्लें ताणें... यादच ना. शिमलांत कसलीं तरी रुचीक फळां मेळाटात म्हण सांगिल्लें ताणें. कसलीं तीं फळां...

फाटल्यान गायरीकडेन उबो राविल्लो मांव व्हडान सादोवन सांगतालो, 'आगो मातर्शी बेगीबेगीन पावलां उखल.'

पूण मंजुळाच्या पावलांक त्राणच नासलें !

मांव खांपो शेतकार आसलो. तो चड शेताचो धनी आसलो म्हण न्हय तर आशिल्लें शेत ते भोव कश्ट करून नकसूद पिकयतालो. बाराय म्हयने शेतांत घोळ घोळ घोळप. कसताना नांगर उब्बो घालून मुंडळेमाती वयर काडून घालप. बैल खर्शेताले आनी वयर हो एकेक दिपळो येवन पडटालो. शेतांत एक तणाची काडी आसूंक फावोना. लुंवतना, मळटना एक भाताचो आंसो भायर पडूंक फावोना. शेतांतलें बायलांचें, दादल्यांचें काम एकल्यानच करप. जोत सोडटकीर हातांत दिपळो घेवन तो फोडूंक लागप. नडचें, नाटचें, नेर, मुगळ काडचें काम एकल्यानच करप. मळटाना ताटीर धानाचो पेणो मारल्यार ताट उडटाली आनी खळ हालतालें. माथ्यार वजें घेवंकय तसोच वाग. भुंयेर दिमी मारून भाताचे साक, तणाचीं वजीं एकलोच उखलून घेतालो. केन्ना लुंवताना, मळटाना कामेऱ्यां बीन कामाक घेयल्यार तो तांचेर सारक्को धेंगशेतालो. म्हण त्यो हागेर येवंक खांकुडटाल्यो. म्हाळूमामागेर कामाक वचचेपरस ओगी उपाशीं न्हिदूं आमी म्हणटाल्यो.

आतां तो साठीक तेंकिल्लो, पूण तागेली कामाची उमेद उणी जावंक नासली. पूण कुडीची शक्त मात इल्ली उणी जाल्ली जाणवताली. एकाद्रो दीस कामाचो भार चड जालो म्हणटकीर तो रातचो पिरंगतालो. आनी पोटऱ्यो दामून घेतालो. पयलीं व्हाळाकडच्या शेतांतल्यान एकाच पेण्यांत तो माथ्यावेलें वजें घरा हाडून पावयतालो. पूण आतां ताका तें मर्दी पेरांब्याक तेकचें पडटालें. म्हणूच घडये ताका आतां दिस आपणाक ह्या शेताच्या कामाक कोणाचो तरी आलाशिरो जाय. मंजूळ तर आयतेंच ताज्या हातांत गाविल्लें.

पूण मंजूळाचो जीव तो केदो. तशें तें मनान कर्तुबान घट, पूण सानुलीच कूड ताजी. काम करचेली उमेद आसली पूण शक्तच पावनासली. एक साऱ्याचो चोबो शेतांत पावयता म्हणसर खरशेतालें. चार दिपळे मारतकीर हाताचें रटें फुट्टालें. पूण ताणें एक थारायिल्लें, जाता तशें करचें, मांवालें एक उतर सकल उडोवचें ना.

तशें आपान ताका कुळाराक केन्ना शेंवटून कामाक लावंक नासलें. अर्दीमर्दी शेतांतलीं सान मोटीं कामां तें करतालें. पूण तातूंत केन्नाच पडून अशें नासलें.

हांगासर सगलें मांवान ताज्याच माथ्यार मारिल्लें. मांव शेतांत वचूंक भायर सरतकीर हाणेंय ताजे फाटल्यान आवतां घेवन वचूंक जाय. फाटींफुडें जाल्यार ताजी बोब. लग्न जाल्ल्या स–सात म्हयन्यांमदीं एकच दीस तें मांवाचेर फणफणिल्लें. तेंच निस्तरता म्हणसर नाकापुरो जाल्लें – मांव आंब्याकडचे शिरेंत कसतालो. मंजूळाल्या हातांत खोरें दिवन ताका कोनशे, मेरांच्यो देगो खणूंक सांगल्यो. मंजूळाक धड खोरेंय धरूंक कळनासलें. तरीय ताणें बळाबळ करून कोनशे, देगो खणून घाले. इतलें म्हणसर वोत तापूंक लागलें. मावान आतां ताज्या हातांत दिपळो दिलो आनी दिपळे फोडूंक सांगलें. ताणें एक दिपळो मारलो आनी फातरार बशिल्लेवरी तो सण्‌कन उसळ्ळो. हाताचें रटें दुखावलें. एका भिरभिऱ्यांत मंजूळान म्हळें, 'कित्याक कसता धर्तरीचें हड्डें फोडून? हो एकेक पाशाण कसो दिपळो काडून घाला. म्हज्यान फोडूंक जावचो ना.' तें गेलें आनी मेरेर वोगी बसलें. वोताआड पदर धरून.

मांव तिडकलो, 'जावचें ना खंय. वचून बसलां पळे उंवाळिल्लें. व्हडलें नोकरदारालेंच चेडूं न्हय तूं, शेताचो वावर करना जावंक.'

'गांवाशिवाय तूंच एकलो शेतकार. कितें ही घोळटीक रगत खावचेली.'

'हय, म्हजेखातिरूच करतां हें हांव सगलें. फाल्या हांवच खातलों.'

'कोणाखातीर करता तर ? आमचे खातीर करूं नाका. आसूं दी तशेंच. पाड पडूं दी शेत !'

इतलें म्हळें मात, तो रागान झिडपलो आनी पुरूसभर वयर हुडलो, 'कोणाचें शेत पाड घालता गो, तुजें तोंड पाड घाल. तुज्या बापायचें शेत पाड घाल. हें शेत पाड घालूंक तुवें अंदणाक हाडूंक ना. हे उप्पर शेताचें नांव काडल्यार सोंड फोडटलों तुजें !' घे! तो व्हडाव्हडान बोवाळूंक लागलो. आशीकुशीच्या शेतांनी लोक आनी हाजी बोब. मंजूळ लजेन मरूंक तेंकलें.

ताणें खेपतां खेपतां जोत रावयलें. बैलांच्यो कानयों काडून जोत सोडलें. बैलांचे फाटीर दोन दोन बडयो मारून तांकां धांवडायले. उपरांत नांगरा घडप, जूं तशेंच शेतांत सांडून तो खेपत वचूंक गेलो.

पेल्यानूच शिरेंत गोपीन जोत बांदिल्लें. ताजेकडेन सांगून खेपूंक लागलो गोपीन तार्जेच खरें धरून म्हळें, 'शिद्‌दरकारांली चेडवां तशींच मस्तीं !'

मंजूळाक मेरेर बसून रडूंकय तोंड नासलें. तें उठलें. ताणें शेतांत पडिल्लो नांगर आनी जूं उखललें आनी तें माथ्यार मारून घरची वाट धरली. माथ्यार जुंवासयत

नांगरा घडप, एका हातांत खोरें आनी दुसऱ्या हातांत दिपळो. घरा पाव म्हणसर तें कासावीस जालें. हुमेची धार आंगावेल्यान व्हांवताली. तकलेचे केंस, आंगावेलें पोल्क हुमेन चिप्प भिजिल्लें. णववारी कापडाचो सोगो भूंयर लोळटालो.

ताणें तीं आयदां-आवतां हाडलीं आनी गंवणींत उडयलीं आनी लखलखत तें घरांत गेलें आनी भितल्ले कुडींत वोग्गी न्हिदलें. कितलो वेळ तें तशें न्हिदिल्लें ताकाच खबर नासली. सुद्द आयली तेन्ना मांव म्हऱ्यांत उबो आसलो आनी म्हणटालो, 'अगो कावेरी, वेळ माथ्यांवल्यान कडसलो मुगो. न्हिदुनूच आसा. पेज वाडिना ?'

मंजुळाल्यो दोळ्यांच्यो बावल्यो हालल्यो. 'कोण हो अनवळखी मनीस म्हाका अनवळखी नांवान उलो मारता !'

मांवाची सावळी ताज्या दोळ्यांत हालली. हो म्हजो घोवा बापूय मुगो! तें उठलें आनी रांदचेंकुडींत गेलें. चुलीवेली पेज ओतून वचून ताजें शीत जाल्लें. ताणें बेगीबेगीन इल्लें उदक तापोवन तातूंत घालें. मांवाक ताट भरून पेज वाडली. कालचें ताल्यांचें हुमण आसलें तें तोणाक घालें.

पेज जेवंक बशिल्ले कडच्यान मांव म्हणटालो, 'दनपारां जेवणाक कितें करता ? पेजेकच कळाव जालो. आतां आनी कांय करू नाका तूं. रातचें मात आटोवभर तांदूळ दळून भाकऱ्यो कर. हांव पागयाल्या वाड्यार वचून कोंडयों घेवन येतां. रातचें दळिल्ल्या तांदळाच्यो भाकऱ्यो आनी कोंडयांचें दबदबें. तुज्या घोवाकय भोव घोस्त.'

भायलेवटेन वण्टीक तेकून बशिल्लें मंजूळ तिडकीनशें चिंततालें, हुंदराक खेळयिल्लेवरी खेळोवप आनी वेल्यान कांयच घडूंक ना अशें वागप. हेरांल्या काळजार घाये पूण हाका ताजें कांयच ना. गानुल्ल्यान मारलें आनी तायखिळ्यान पुसलें. उतराउतराक आंगार किसळप आनी मगेर काम अडून उरचें न्हय म्हण म्होंवाळ उलोवप.

कित्याक घोळटा हो असो, कोणाक खावंक, कोणाक पोसूंक ! कित्याक म्हण बारीकसाण आनी चामटेपण ! बागांतलीं फुलां लेगीत विकता. कितलो बरो केळीघड आसलो. केळीं पिकून हळदुवी जाल्लीं. एक पिळून काडून खावचें अशें मंजूळाक भोव दिशिल्लें. पूण ताणें भायलेभायर घड केळीवेल्यान मारलो आनी विकलो. मंजूळाक अशे फडफडे पडिल्ले.

लग्न जायतसान तें आबोलीआळी शिंपतालें. ताका फुलां येवंक लागतकीर हाणें तीं सद्दां खुटून व्हरून फुलकान्न तुळशीक विकप. एक दीस मंजूळान एक फांती करून माळ्ळ्यार बारीक पळोवंक लागलो आनी म्हणूंक लागलो, 'सकाळीं माळचीं सांजची बावन वचचीं. ते परस विकल्यार चार-आठ आणे मेळटा आसले.'

घोवालीं म्हयन्याक दोन तरी पत्रां येतालीं. मांवाल्याच नांवान. हाणें पत्र उक्तें करप आनी जनेलाकडे धरून उजवाडांत वाचप. पत्र मनांतच वाचून तशेंच सरयेच्या आंकड्याक खोवोवन दवरप. मजकुरांतलो एक शब्द तो सुनेक सांगनासलो. मंजूळाक भोव दिस, विचारचें, म्हाका कितेंय बरयलां काय म्हण विचारचें.

शेजारचो एकलो धा-बारा वर्सांचो सुभाष म्हण भुरगो आंगणांतल्यान बीन वयताना 'वयनी' म्हण भोव मायेन पाचारतालो. पूण तो केन्ना घराभितर येनासलो. एक दीस मंजूळान ताका भितर आफयलो. तो येवंक अनमनता अशें दिसतकीर ताणें ताका हाताक धरून भितर हाडलो.

'तुका कानडी वाचूंक कळटा रे सुभाष ?'

'सातवेक कानडींतच शिकता न्ही गे हांव.'

मंजूळान सरयेच्या आकड्यांतलीं पांच-स पत्रां काडून ताजे मुखार धरलीं, 'वाचून सांग रे हीं म्हाका. म्हजें नांव हातूंत आसा काय चय.'

पोरान पत्रां आरतून-परतून धरून वाचलीं.

'वयनी, नांव कितें गे तुजें ?'

'मंजूळ.'

'कावेरी म्हण कोण गे ?'

'हांवच.'

'सगल्या पत्रांनी 'कावेरीगे आशिर्वाद हेळ बेकु' म्हण बरयलां. म्हणजे कावेरीक आशिर्वाद सांगचो.'

'आयकोन मंजूळ समतेंच मुरकुटलें. भितर वचून बेगीबेगीन तायटायेदो कातलेकुडको आनी गोडाकुडको हाडून ताणें सुभाषाल्या हातांत चेपलो. तो पोर खायत खायत वचूंक गेलो.

कावेरी खंय कावेरी ! बापायन सांगलें म्हण कितें जालें, हाणें म्हाका कावेरीच म्हणूंक जाय ? काय बरें नांव म्हजें मंजूळ ! आतां येवं तो ! कावेरी म्हण उलो मारल्यार हांव ओ दिवचेंच ना.

मांवाक ताका एक बरोवंक सांगूंक जाय, सोऱ्याक केन्ना आफुडी नाका म्हण. पूण ताजेकडेन कितें सांगचेली सोय आसा ? चुकलेंच म्हजें, वयताना ताका सोपूत घालूंक जाय आसलो, म्हजे ना तर ताजे मेल्ले आवयचो.

सालांतल्यान रांदचेकुडींत वयताना दावेवटेन एक कूड आसली. काळखी आनी भूंयचेर फोणकुलां पडिल्ली. ताजी चिऱ्यांची उक्ती वणत इतली उंच आसली, भितर रिगतकीर अखखी कूड आंगार लखून येताली. ताज्या एका कोनशाक एक शिशाची बाज्ज आसली. ताजो एकेक खूर हतयाचो पांय कसो दिस. पूण ती खूब पोरणी आनी म्हेळी जाल्ली. तिजेर सांचिल्लो धुल्ल कितलीं वर्सां कोणें झाडूंक नासलो. चड करून कूड बंदूच आसताली.

मांव केन्ना केन्ना ते कुडींत वचून बेठोच उबो राव. वणटीसरीं तोंड करून. केन्ना केन्ना एक हात वणटीचेर आनी तो बेठोच उबो. ताजी नुस्त्याच्या खवळांवरी चिरमुटिल्ली फाटूच दिसताली. मंजूळाक बेठीच भिरांत दिस, हो आतांच ते वणटीच्या चिऱ्यांर तकली आपटून घेवन जीव दितलो ! पूण केन्ना ताका ताजेसरीं ते कुडींत वचचेलो धीर जायनासलो.

हुळगेच्या म्हास्ती जत्रेच्या आदल्या दिसाक एक जाणटी बायल आकाड्यापेल्यान उबी रावन आंगणांत आशिल्ल्या मंजूळाक कुरू करून कितें तरी विचारताली. मंजूळ कितें म्हण मुखार गेलें.

'तो आसा, तो ?'

'कोण ?'

'मांव गो तुगेलो.'

'ना. सोण्णां घेवन न्हंयंत कुसोवंक उडोवंक गेला.'

ती बायल भिंयेत भिंयेत भितर येयली. ही अशी कित्याक भिंयेता मंजूळाक कळ्ळेंना. 'कितें गे ? खंयच्यान आयल्या तूं ?'

'हांव तुगेले मांयली धाकली भयण. भयण आसतना येतालें केन्ना. भयणीची याद आयल्यार केन्ना केन्ना आंवडो येता हांगा येवचेलो. पूण मुद्दाम पावंक ना गो. नातू शीक जाल्लो तेन्ना म्हास्ती आवयक आंगवण घातिल्ली, माथ्याच्या केंसान तुजें आंगण झाडटां म्हण. फाल्यां जत्रा न्ही गो, आयज आंगवण पावोवन येयलें. म्हळें मातशें बायले सुनेक पळोवन येवया. तो काळ आसताना केन्ना येयना हांव.'

'कित्याक ?'

'बेठेंच. श्रीधर बरो आसा खंय मुगो ?'

'हय.' मंजूळान तिगेल्या कैंसांक पळेलें. तिगेल्या माथ्यार काळे-धवे गच्च केंस आसले. ते मेकळे सुटिल्ले आनी तातूंत कचरो घुशिल्लो. मंजूळाक खरेंच तिजे केंस सान्नीवरी दिसले, तिणें आपले केंस अशे भरिल्ले आसात म्हणच अशी आंगवण केल्ली आसुये.

ती बायल उठली आनी घरभर भोंवन येयली. ते चिऱ्यांचे काळखे कुडीसरीं पावतकीर ती कांचवेल्लेवरी घुम्म मोनी जाली. भायर पडवेंत येतकीर तिणें म्हळें, 'ती अवलक्षणी बाज्ज थंयच आसा आजून ? लासून कित्याक उडयली ना ती ?'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं ?'

इतली जाण्टी बायल ती. पूण इतलीं वर्सां चिड्डून दवरिल्ली भिरांत काळजांतल्यान वयर सरून चेऱ्यार थापिल्लेवरी जाली. शेवटाक हें कोणाक तरी सांगूंक जाय, काळीज रितें करूंक जाय अशें एके अंतरीक भावनेन ती नकळत उलोवंक लागली. ' त्या शिशापलंगावेल्यान बायलो पयलो चेडो पडून मान मोडून मेल्लो, ताच्या बाळंटेराक तेन्ना हांवच आयिल्लें. स म्हयन्यांचो तो भुरगो रडत रडत कडेन पावलो आनी वेल्यान पडून तकलेर आपटलो. उखल्ल्यार मानच नीट धरना जाली. दुसऱ्या दिसा तो सोंपलो.

बाय ते बाज्जेसरीं वचूंक लेगीत भिंयेतालें. तिडकीन घोवाक सांगतालें, 'मोडून लासून उडय ती बाज्ज.' पूण घोव कसलो, ताणें बायचें एक आयकलेंना.

मगेर बायक सात वर्सांनी श्रीधर जालो. बाय ताका रांदचे कुडींत सामकें हड्ड्याक लावन घेवन न्हिदतालें. पूण श्रीधर वर्साचो आसतना परतें अरिश्ट आयलें, तेन्नाय हांवच आसलें गो हांगा. हांव निमाणी भयण. बायचे यादीन परतें परतें धांवन येतालें.

बायक हो काळ भोव त्रास दितालो. केन्ना मारतालो लेगीत. बागांत एक हो केळीचो हींड आसलो. एक दीस एक वाटसुऱ्यान मागतकीर बायन दोन केळंबे हुमटून ताका दिले. हो काळ रानांत गेल्लो. येवन कापट्यां वजें आंगणामेरेन भायर उडोवन बांयर वयताना ताका केळंबे काडिल्ले दिश्टीक पडले. ताणें विचारलें, 'केळंबे खंय?'

बायन म्हळें, 'दिले एका वाटसुऱ्याक. जावं, असल्याच केळींनी आनीक एक बाग सोबतली.'

ह्या काळान कापट्या वज्यांतली एक कापटी काडली आनी रागान बायक

शेवटून मारली. कापटी सामक्की बायचे तकलेक बसली आनी ही व्हडली कोंक पडली. रगताचें खळें जालें. हांवें हुयेल मारली. ताणेंच येवन मगेर बायक धरलें आनी भितर व्हरून ते नश्टे बाज्जेर घालें.

बायची सुद्द गेल्ली. मातशी सुद्द येतकीर आपणाक ते बाज्जेवेल्यान काडात म्हण तें मोन्यानच विनयतालें. पूण ताणें ताका ते बाज्जेवेल्यान काडलें ना. आनी म्हाकाय ताका ते कुडींतल्यान भायर हाडूंक दिलेंना. तेन्ना हागेलीं गांवच्या लोकांकडेन झगडीं आनी मोटें दुस्मानपण. कोणाकय बायली ती अवतिकाय दिश्टीक पडत म्हण तो भिंयेतालो. म्हण ताणें दोतोराकय हाडलोना.

हाणें बाय भितर पडिल्लें आसतना ताजी सेवा मात बरी केली. पूण फुटिल्ली तकली, धाडाविल्लें मन आनी ती नश्टी बाज्ज हाजेन बाय दिसा-पळान मरत गेलें. म्हयन्या भितरूच तें सोपलें. तें मरतकीर ताज्या उशासरीं समयेदिवो लायताना पळयिल्ली म्हाका अजुनूय याद आसा. बायचे तकलेवेली कोंक पेखूंक नासली आनी ताजेर लायिल्लो वखदांचो लेप तसोच आसलो. ताजी कूड बरगल्ली आनी ताजो दोरो जाल्लो. म्हाका अजुनूय दिसता, ताका ते बाज्जेवेल्यान काडिल्लें जाल्यार तें तशें मरचें नासलें.'

आयकोन मंजूळ तटास जालें. ताज्या काळजांत भिरांतेन कलकल उठलो. ल्हव ल्हव तें मांयच्या त्या अद्रश्टांत सगले भावनेसयत खोल खोल रिगलें. ताणें तें कल्पनेनच अणभवलें. तेंवय त्या दुख्खांत पुरायेन भरसून गेलें. तें दुख्ख आपणांचेंच दुख्ख अशें ताका दिसलें आनी तें मनान मातशें घट जालें.

ती बायल वचूंक उठली. मंजूळान बेगीयबेगीन भितर वचून तें कुडीक खिळी घालून येयलें. ती बायल आंगणांत पावतकीर ताणें म्हळें, 'केन्नाय यो गे रावंक बीन.'

'श्रीधर म्हगेले भयणीलो चेडो आनी हांव तागेली मावशी. एक पावट नार्तीं पयसावलीं म्हण्टकीर लार्गीं येवप कश्ट. म्हगेर येवप ना तुगेर वचप ना. कित्याक हें अशें जावचें हाका जाप ना. बाय आसल्यार खरें आसलें. तातूंत हो काळ !'

ती आंगणामेरेर पावतकीर मंजूळाक सट्ट करून लक्षांत आयलें, तिगेले केंस तशेच म्हेळ सुटिल्ले आसात. ताणें तिका म्हळें, 'अगे, हांगा यो ते केंस वळोवन बांदतां.'

बरें बाय, म्हणत ती येवन बसली. मंजूळान तिका खाकोळांत घेतिल्लेवरी म्हन्यांत बसोवन बरें खोबरेल तेल घालूने नीट केंस वळोवन आमाडो घालो. ताजेर एक शेंवर्तें खोयलें.

'तुजे मांयवरी हांव. घोवाली मावशी. बरें जावं तुजें !'

ती कूड तें सदांच धांपून दवरतालें. मांवान उक्ती केली तरीय भायर येनाफुडें बेगींबेगीन वचून तें ती कूड बंद करतालें. मर्दीच ताका ते कुडींतल्यान कोण तरी पिरंगता, वथरेता, दांत चाबून रडटा अशें दिस. मांव मर्दीच ती कूड उक्ती करतालो. ते कुडींतल्यान भायर सरतकीर तो भोव थकला, बागवला, सर्गदन जाला अशें दिस. मगेर तो कितेंतरी नीब काडटालो. बागांत वयतालो आनी कोणाक तरी खेपूंक लागतालो. सुनेचेरूय घुरी पडटाली. ना तर खोरें घेवन घप्प घप्प खणूंक लागतालो.

भितर दोळे वटारून राविल्लीशी ती काळखी कूड. चोयभोंवतणीं मांवाली रड आनी बोब. मंजूळाल्या काळजार मणाचें वजें पडटालें. जीव भितल्ले भितर खांकुडत वचून इल्लो इल्लो जातालो. ताजो मगेर जीव उबगतालो आनी भावनेचो स्पोट जातालो. सट्कन तें मांवाक चड उणें उलयतालें. ताज्या वर्मार घाय घालतालें. मांवार मगेर चडच खेव येतालो. तो सवतालो, बोब मारतालो आनी मगेर अचकीत निवळटालो. सालांत ते चामड्याचे खुर्चेंत वोग्गी बसतालो. रडूंक बशिल्लेवरी. मंजूळ मगेर ल्हवच येवन दारांत उबें रावतालें आनी म्हणटालें, 'बाप्पा, वाडलां. जेवंक यो.'

तो एक असहाय्य नदरेन ताजेकडेन पळयतालो आनी मोन्यानच उठ्ठालो.

ताजी होंवरी सदांच मंजूळाक एक विजमिताचें भुंयार जावन आसलें. येद्दीशी ती कूड आनी ताका वेंतभर मोटीच चावी. कुड्क करून तो चावी काडटालो आनी व्होंवरेंतल्या गुप्पाट काळखांत रिगतालो. जिस्त जाय ती वस्त उखलून घेवन येतालो. परती चावी करतालो. मंजूळाक सदांच उमळशीक, कितें भरलां हाणें ते व्होंवरे कुडींत ?

एक दीस पळयल्यार ताणें व्होंवरेंत एक चिमणे दिवो पेटोवन मर्दी दवरला. मंजूळ बेठेंच दारांत गणमणलें. पूण भितर वचचेलो धीर मात ताका जावंक ना. मांवानच उलो मारलो, 'हांगा यो गो कावेरी.'

मंजूळ भिंयेत भिंयेत भितर रिगलें. कूडभर काळो, धुंवरेल्लो, कदीमकाळाचो कसो म्हालमतो भरिल्लो. धैरांवाचो जळमटिल्लोसो वास येतालो. एका कोनशाक दोन पातळ गोडाचे फाड आसले. मर्दीच एक नाल्लाची रास – एके वटेन चार मुडे रचून दवरिल्ले. तांदळाचे काय भाताचे, कांय खबर नासलें. एकार एक अशो दवरिल्ल्यो तीन पेटो, एक पेटारो, खुंटयेक हुमकळपी एक सांगशी आनीक हेर जायतें बारीक मोटें

सामान. वर्सानवर्सां धुंवरांत आनी काळखांत पडून त्यो काळ्यो जाल्ल्यो. मुड्यांक गुठलायिल्यो वेटों, त्यो लेगीत धुंवरेल्ल्यो. केन्ना आनी कित्यार ते मुडे दाळून दवरल्यात खबर नासलें. एक कुशीक दवरिल्लें तांब्याचें तामण - एक व्हड पंचडी, थाल, तोप, परात. तांचेर धुंवराचीं पुटां चडिल्लीं. एका आड्याक एक मातयेची ल्हान गोली हुमकळटाली. मंजूळान विचाल्लें, 'ही कसली गोली बाप्पा?'

बाप्पाक बरोच वेळ उगडास जायना जालो. ताणें बरें चिंतून मगेर सांगलें, 'ती मुगो, म्होंवागोली. फार्टीं श्रीधर शाळेक वयताना मल्लापूरच्या एकल्यान बेस बरें म्होंव हाडून दिल्लें. तशेंच आसा तें. तूं जाणा, म्होव पोरणें जाता तितलें बरें. वखदाक बरें. फाल्यां तुगेल्या भुरग्यांक थंडी बीन जाल्यार चिपीभर चाखूंक दिल्यार पुरो. थंडी खोंकली धांवन वयतली.'

मंजूळाक कशेंशेंच जालें.

'म्हाका कित्याक आफयिल्लें तुवें ?'

ताणें एकेक करून वेल्यो दोन पेटो सकल देंवयल्यो. पोनांतले पेटेसरीं तो बसकण मारून बसलो पेटेची कड धरून सगर्दन. मगेर ताणें पेटेंतल्यो वस्ती उस्तून एक साडयेची घडी, एक गांठीची चोळी, एक नथ आनी णव पवनांचें एक गाटुलें काडून मंजुळाल्या हातांत दिलें, 'न्हेसून दाखय.'

अचकीत मंजूळाक तें वजें जड जायत गेलें आनी सोंसना जालें. ताका दिसलें हो आपणाक एका कदीम काळांतल्यान चलत येयिल्ल्या दुख्खांत संकश्टांत धुकलून दिवंक सोदता. बंद पेटयेंतलें हें दुख्ख ताणें जाणा जावन उस्तून काडलां आनी तें म्हजे तकलेर मारलां. हो भितल्ले गांठीचो बेरकी मनीस म्हजेर जादू करणी करूंक सोदता. ताणें हातांतल्या ऐवजाकडेन खीणभर पळयलें. ताका बेठेंच दिसलें त्या पोरण्या, झिरझिरिल्ल्या, काळपटिल्ल्या रसमाच्या कापडार रगताचे दाग आसात. चोळयेची गांठ उसवल्या. नथाक गाटुल्याक शाप बादला.

ताणें बेगीबेगीन तें सगलें कुशीक दवरलें आनी भायर धांवलें.

मांव उठलो. ताणें तें सगलें गुठलावन घेवन तो भायर येयलो. ताणें सामक्कें विनयत म्हळें, 'एकच फावट हें सगलें न्हेसून दाखय म्हाका. एकच फावट कावेरी !'

'कित्याक म्हण तीं पोरणी वस्त्रां हांव न्हेसूं ? तांकां वास येता पळय घैरांवाचो.'

'तुजे मांयचो तो म्हालवज. तिणेंच दिला म्हण तुवें न्हेसचो एक फावट तरी !'

मंजूळान सगलें घेयलें आनी तें भितर गेलें. मांव भायर सामक्को अधीर जावन

दोळ्यांत जीव हाडून ताजी वाट पळयतालो.

मंजूळ भायर येयलें आनी फातराक आपटिल्लेवरी ताणें आंग काडलें. तो कचरलो. अचकीत ताणें म्हळें, 'ना तुका सोबनात ही वस्त्रां. तूं न्हेसूं नाका तीं. काड तीं आंगावेलीं.'

'कितें जालें तर ?'

'काड म्हळीं न्ही बेगीन !' मंजूळ भितर गेलें. तो सोताकडेनच उलयिल्लेवरी उलयलो, 'म्हजें सूख आनी म्हजें दुख तुमकां आनीक नाका. हांवच गुन्यांवकारी. तुमकां पडलें ना तें.'

मंजूळान सगलें हाडून ताजेसरीं दिलें. पूण तीं मोतयां धसयिल्ली नथ मात ताणें मुठींत घट्ट दामून धरली.

'नथ खंय ?'

'हांवें घेयल्या ती.'

'दी म्हळी न्ही.' तो धेंगशेलो. मंजूळान तशीच मूठ उक्ती करून ती धतरिर रागान शेंवटिली. खेळ करता हो आमचो !

नथ धतरिर पडिल्ली पळोवन तो तिडकलो आनी खेपूंक लागलो. धुमशणा घालीत खेपूक लागलो. 'माज येयला तुका. कोणाची पर्वा ना, मानमर्वद ना. बापायन हेंच शिकयलां तुका.'

मंजूळ तटास. पिशांवरीच करता केन्ना केन्ना !

लग्नाचें वारें व्हांवंक लागतकीर, श्रीधराले कुशींत रिगतकीर मंजूळ आंगान भरिल्लें. पूण ह्या दिसांनी मात तें सामकेंच बरगल्लें. पांयांच्यो बडयो जाल्यो आनी माथ्यार चोबो घेतकीर तें मोडूंक पाविल्लेवरी बागवतालें.

मांवाची बोब सदांची आशिल्लीच. खळार भात काडटना इल्लें भात हांतराभायर पडल्यार हाची बोब. हुमणाक, शाकेक कातलेचो एक भंवर चड पडल्यार ताका कळटालें. मगेर नाल्लाचें अर्दूक येवन पळयतालो आनी खेपतालो. मर्दींच एकादऱ्या दिसाक रांदचेकुडींत येवन म्हणटालो, 'आतांच येयलां मुगो शेतांतल्यान, पुरो जालां आसतलें. हांव मसालो वांटून दिवं ?'

'बाप्पा, हांव शिद्दराक वचून येतां दोन दीस' म्हण विचारल्यार, व्हडान म्हणटालो, 'वच वच. कोणें आडायलां तुका ? म्हजेपसत राव नाका.'

मगेर हो दीसभर वायटकारावरी पिरंगत रावतालो. न्हंय बलाटल्यार आपा आनी बायूल. पूण ताचें स- स म्हयने दर्शन ना. तांची ताका भोव याद येताली. न्हंय पलतडच्यान सारक्को कोण तरी सादयता अशें दिसतालें. कवडुल्याचो रडिल्लोसो आवाज कानांत घुंवतालो.

ह्या वर्साक शेतांत नडणेची हावळ पडिल्ली. सद्दां तें एकलेंच नडूंक वयतालें. मांवाक दोन कामेऱ्यां तरी घेवया म्हळ्यार तो म्हण्टालो, 'जाता तशें आनी जाता तितलें तूं नड. उरल्यार उरों'. पूण नडनासतना शेत भश्ट दवरचें मंजूळाक मानवनासलें. तें सकाळीं तोपलांत पेज घेवन शेतांत येतालें तें बद्द सांजच्याक घरा वयतालें. दनपारां जेवंक लेगीत तें घराकडेन वचनासलें. तें जाणा आसलें, एक फावट घरासरीं गेलें म्हण्टकीर दनपारच्या जेवणांतच घुस्पून उरतलें. घराकडेन मांव कितें करता तें करूं दी. पूण तो एक दीस शेतांत जेवण घेवन येनासलो. घराकडेन वयतकीर मात बेठीच सुकी तोखणाय करतालो.

ह्या दिसांनी घोग्यांनी पावस रखतालो. सगल्या शेताच्या केरांत उदकाचो धुंवर उठिल्लेवरी जातालो. पावस पडूंक लागतकीर माथ्यावेल्या पात्याच्या घुरम्यार अटामें पडूंक लागिल्लेवरी दिसताले.

केन्ना त्या पावसांत माथ्यार घुरमो घेवन उबें रावंक मंजूळाक मजा दिसताली. चोंयवटेन शेकानशेक पातळिल्लें पाचवेंचार शेत. मदींच तें उबें. पावस पडूंक लागलो म्हणटकीर शेंमळ वाजिल्लेवरी घुरम्यार पावसाचे थेंबे पडटाले. पावसावांगडा सळसळ वारो धानांतल्यान व्हांवंक लागतालो. मगेर ताजें मन ल्हव ल्हव जातालें.

पूण शेतांतली नडणी बुड्डिता बुड्डिता मात ताजो कमरेचो कांटो तुटूंक पावतालो. दनपार जाता म्हणसर ताका सामकें पुरो जातालें. पावस, वारो वेळून गेलो म्हणटकीर केन्ना जीव खरडून उडोवपी भूक लागताली. येतना हाडिल्ली पेज जेवनय भूक मरनासली. पेजेचेंय थंडकिरांव उदक जाल्लें आसतालें.

केन्ना तें शेतामेरेर बसून रडटालें, एकलेंच - केन्ना आपाचे, बायूलाचे यादीन, केन्ना घोवाल्या बेदिनवासीपणाक - फक्कत बापायक चिटयो. म्हजी वास्तपुस्त ना.

हाज्या बापायन केन्ना चिटयेंतलें एक उतर वाचून सांगलेंना. हांगा आसताना बरो थुळेतालो, मटाळटालो. फाट फिरयतकीर परको जालो. हांगा बायलेची दैना केल्या बापायन. तुका कोण सांगतालो !

ह्या दिसांनी तें न्हंय धेडयेवेल्या तांगेल्या शेतांत नडटालें. शेतांतल्यान पलतडचो शिद्दर गांव सारक्को दिस्टीक पडटालो. ताजी नदर परती परती ते वटेन वयताली. जीव थतरवितर जातालो. दिसतालें, घुरमो हांगाच मेरेर दवरचो आनी न्हंय हुपून पलतडी वचचें, आपासरीं, बायुलासरीं. वाडोभर भोंवन जण एकल्याची खबर घेवन येवची.

आपाक एक दीस कोणें तरी सांगलें, बाय तांच्या पलतडच्या शेतांत नडटा म्हण. ताका अशेंय कळ्ळें, तें एकलेंच सकाळीं शेतांत येता आनी सांजचें घरा वयता म्हण. आपाक तिडक मारली. कसलो आपसुवार्थी मनीस हो, म्हज्या पोराच्या एकल्याच्याच माथ्यार घालां ताणें हें !

आपाचो जीव सामक्को कासावीस जालो. दुसऱ्या दिसा सकाळींच वचून ताणें पनेळकाराक धरून एक शेतकांची गांथन हाडली. सुमनाक सांगलें, 'बरें हुमण करुया, हांव बायक शेतांत जेवण घेवन वयतां,' सुमन सामकेच मुरकुटलें. ताणें भिंयेत भिंयेत म्हळें, 'हांवूय येतां आपा.'

'तूं आनी खंय. न्हंयक आयला हुंवार. खळयो आनी उतरळां उदकान भरल्यांत.'

सुमन नुस्तें सुटे करूंक आडोळी घेवन आंगणांत गेलें. आपान सडसडीत चुलीर आदन चडयलें. म्हाळाक म्हण दवरिल्ले साळचे तांदूळ काडून दोन आटोव तांदूळ ताणें धुवन आदनांत रखयले. बरी एका नाल्लाची सोय घालून ताणें मसालो काडलो. तो रगड्यार घालून तो वांटूंक लागलो. इतले म्हणसर सुमन नुस्तें सुटे करून येयलें.

'हांव वांट्टां आपा.'

'आसूं. तूं मसालो सार ल्हव हातान. हांव वांट्टां.'

आपाक आगळीच उमेद आयिल्ली. हरशीं पयलींपसुनूच तो सुमनाकडेन चड मेकळेपणानसो उलय नासलो. पूण तो आयज सुमनाक उमेदीन कितें कितें फर्मायतालो. ताणें पोरसांतले केळीचीं दोन शिरवते पानां कातरून हाडलीं. तीं जाळार धरून मातशीं बावयलीं. तातूंत शीत, हुमण घालून भुती बांदली. भुती घेवन तो

सडसडीत भायर सरलो. आंगार खोमीस, खांदार कांबळ. कांबळीच्या खोल्यांत भुती आनी हातांत पात्यासत्री.

न्हंयसरीं गेल्यार तारयो न्हंयंत व्हडें घालूंक तयार ना. म्हणटा पावस, वारो आनी उदकाची व्हाण. व्हडें आटापूक जावंचें ना. आपान ताजें होलें हातांत घेयलें आनी म्हळें, 'तूं येता काय हांव एकलोच घेवन वचूं ?' तो उदकांत देंवलो लेगीत. तारयो बेगीबेगीन धांवन येयलो. दोगय मेळून व्हरूया म्हणूंक लागलो. आपाल्या हातांतली पात्यासत्री पळोवन मात तो ताणशेलो, 'ही सत्री आनीक कित्याक?' सत्रीय वाऱ्यार हुडून वयतली आनी व्हडेंय बुडटलें.' तारयान ताज्या हातांतली सत्री काडून व्हरून आपले खोंपींत दवरली.

व्हडें धारेक लागलें आनी पावस वारो गप्पकन बंद जालो. 'जाणा मुरे तारया, म्हजी धूव पलतडी नडटा. हो पंदरा वीस कामेऱ्यांचो पंगड ताज्या शेतांत. शेत तरी केदें, न्हंय धरिल्लें तें शाळेमळ मेरेन शेकानशेक ताजेंच शेत ! बाय म्हजें कामेऱ्यांक जेवण घेवन येयलां दिसतलें. सुरयाचें शीत आनी नोगल्यांचें हुमण. कामेऱ्यांचो मचमच! हांवें चिंतलें, बाय लागींच शेतांत आसा. कितेंय खावंक व्हरून दिवया. काजुबियो, सोय आनी गोड घालून घाटणें केलें.'

तारयो ताका आरपारसो पळयतालो आनी ल्हवल्हव होले मारतालो. वारें नासलें पूण पावस मात मर्दी मर्दी शेनतालो. मळबय गच्च भरिल्ले.

'तो गायनाचो आवाज येता तुका तारया, म्हज्या बायल्या शेतांत कामेऱ्यो चिल्लया बाळालें गायन गायतात.'

तारयो भितल्लेभितर हांसलो. बेरकी कसो. 'म्हाळूल्या चेड्याक दिलां मुरे तुगेले चेडूं ? वळखतां हांव ताका. शिगम्याक आमच्या पागयाल्या वाड्यावयल्या भुरग्यांनी शिगम्यामेळ काडिल्लो. हागेलें व्हडल्या घरचें व्हडलें आंगण म्हण भुरगे तोणयां खेळ नाचलें. तर हो तांकां एक आणो काडून दिता. भुरग्यांनी म्हळें, 'म्हाळूमाम, तळय खंय ?' तर हाणें तांका उरफाटे धपकायले, 'हांवें तुमकां म्हज्या आंगणांत नाचूंक आफोवन हाडूंक नासले.'

गणेश एकदम इल्लो इल्लो जालो आनी ल्हान भुरग्यांवरी तोंड करून ताका पळोवंक लागलो. हो तारयो असोच शापाती आनी पोटजाळो. ओगीच न्हीं हाका फार्टीं खारगेच्या एका तरणाट्यान होल्याचे काठयेनच मारिल्लो!'

म्हाळूचेर कसलो तरी राग आशिल्लेवरी मुखार तो उलयतच आसलो, 'हागेलो चेडो श्रीधर भुरगेपणापासून जिवान बारिकूच. तो फलटणींत वचूंक कसोच तयार

नासलो. तर हाणेन एक दीस जबरदस्तेन व्हरून कारवारा भरतेचे लायनींत उबो केलो. एकल्याच पुताक फलटर्णीत धाडलो.'

गणेश कानार केंस काडून वोगी रावलो. तार धडयेक लागकीर ताज्या हातांत आणो तेंकोवन चलूंक लागलो. तारयानच ताका उलो मारून विचारलें, 'ओ शिद्दरकारमाम, आयज परतो येतलो काय रावतलो धुवेगेर ?'

'हय हय, परतो येतलों.'

'पलतडीन आसल्यार उलो दी म्हाका. घेवन येतां तार.'

गणेशान एक फ्रवट फाटी वळोन ताजेकडेन पळेलें आनी तो चलूंक लागलो.

बायगेलें शेत खंय आसा हाजो अदमास गणेशाक आसलो. तो मेरेवयलो चिखोल मांडयत चलूंक लागलो. पांये चिखलान भरिल्ले. न्हेशिल्ल्या वाल्यारूय चिखोल, उदक उसळटालें. पयसुल्ल्यान पळयल्यार बाय धानांत बाग घेवन धानायेदेंच जावन नडणी काडटा. सकल बाग घेतिल्लें मान वयर काडिना. आपा म्हऱ्यांत पावलो तरीय ताका सुलूस ना. हो नदर पावना जाल्लो शेकानशेक पाचवोचार शेताकेर. बाय मर्दीच एकलेंच नडटा.

'बाय !'

'कोण, आपा तूं ? शेतांतच कसो पावलो ?'

'बायूलान शेतकांची गांथन घेवन बरें हुमण केल्लें. बायक जेवण व्हरून दीच म्हणूंक लागलें.'

'बायूल बरें आसा मुरे आपा ?'

'आसा.'

'रांदता बीन मुरे सारकें ?'

'हय तर. तागेल्या हाताक तुगेले आईली, तुगेली तीच रूच. जेवनच आतां पळयतलें तूं.'

मंजूळ उतराळाच्या उदकांत हात धुवन येवन आपासरीं बसलें. आपान बारीक पळयल्यार तें सामकें बरगलां. बरो जोराचो वारो येयल्यार तें तकलेवेल्या घुरम्यासयत उडून वयतलें अशें दिस. तकलेवेल केंसय तेलाक मेल्लेवरी विरूप जाल्यात. ताज्या णववारी कापडाची गुठली ताजे बारीक कुडीर थारना जाल्या आनी ती धानांत , उदकांत लोळटा.

'एकल्याकच तुका कित्याक म्हण शेतांत धाडटा तो ? दोन कामेऱ्यां तरी घेवचीं !'

'मेळटात खंय आपा कामेऱ्यां ! चड ना तें. हांव नडून काडटलें सगलें. ह्या वर्साक इल्ली चडच आयल्या नडणी. पंदरा वीस दीस जाले सोंपून सोंपना.'

आपान भुती सोडयली. 'जेवता मुगो ?

'इतलें सगलें हांवच जेवतलें ?' मगेर मंजूळान तें जेवण दोन पानांर घातलें. बापूय आनी ध्रूव मेरेर बसून जेवंक लागलीं. मंजूळ इतलें रूच घेवन जेवतालें, ताजी तनरीच लागिल्ली. आपाक दुबाव येयलो, जेवणा खाणाचेय हाल जातात काय कितें हाचे !'

'बाय, जेवणा खाणाक उणें करिना मुगो तो ?'

ना रे आपा. हांवेंच रांदचें, हांवेंच वाडून घेवन जेवचें. उणें आनीक कित्याक जातलें?'

'तशें न्ही. दाणोगोटो दिता मुगो मेकळ्या हातान ?'

'हय रे आपा.'

'मगेर भागलें कित्याक तर तूं ?'

'पयलींपसून खंय मोटें आसलें हांव. तुवें चड दिसांनी चयलें म्हूण दिसता तुका तशें.'

'सोताची काळजी घे गो तूं सारकी. पळय कशें काटये झोंप कशें जालां.'

मंजूळ हांसलें. आपान ताजीं पावलां पळयल्यार तीं सामकीं धुवन गेल्यांत आनी सोलिल्ल्या बेब्यावरी धवीं जाल्यांत. मदींच तांकां कातरे पडल्यात. ताणेंच कसलीं कसलीं वखदां लायिल्ल्यान मदींच काळी खतां.

'तूं कितें कर जाणा मुगो, सद्दां न्हिदतना खोबरेल तेलांत हळद हून करून पावलांक लावन घे. सारकें उदकांत उबें रावन पावलां कातरून वचूंक लागल्यांत पळय.'

मंजूळान भोव मोगाळ नदरेन आपाक पळयलें. ताका दिसलें, हांगाच ह्या शेतामेरेर आपाल्या खाकोळांत रिगचें आनी ताजेकडच्यान थापटून घेवचें, आईचे आनी आपाचे दोगांचेय मायेन.

'पत्र आयिल्लें गो घोवाचें ?'

'मांवाक येतात न्ही पत्रां.'

‘तुका येयनात ?’

‘म्हाका खंय बरोवंक वाचूंक येता?’

जेवन तीं मातशीं उलोवंक बसलीं. पळयता पळयतां तकलेवयल्यान कडसल्लो सूर्य केन्ना दोंगरामाथ्यार वचूंक गेलो कळ्ळेंच ना.

‘बाय, कळाव जालो. येता हांव. तूंवय वच आतां घरा.’

‘घराकडेन येयना आपा ?’

‘आतां आनीक नाका. नङ्गन जाले उपरांत चार दीस यो रावंक म्हण बायूलान सांगलां.’

‘पूण मांवाची धांदळ जेवणाची. तरी चयतां आपा.’

‘इतलीं वर्सां रांदून जेविनासलो तो !’

मंजूळ हांसलें. ‘आतां सून येयल्या न्ही घरांत. आयत्या जेवणाची सवय जाल्या. सुनेबगर पान उखलिना. उतरा पावलाक कावेरी.’

आपाक मातशें बरें दिसलें. ‘आतां वचून रांदतलें तूं ?’



‘गोरवां घेवन तो बेगीन येयल्यार कितेंय करता वावर. जाल्यार चुलीक जाळ घालता. आदन दवरता.’

बरें बाय, म्हण आपा वाटेक लागलो. मंजूळय शेतांतल्यान वयर सरलें. मुखार पावतकीर ताणें उलो मारून म्हळें, ‘आपा, हांव तागेलो फलटणीचो पत्तो धाडून दितां. बायूलाक ताका एक पत्र बरय म्हण सांग. म्हाका बरोवंक येना, वाचूंक येना. बायूलाक तरी चीट बरयता काय म्हण चयतां.’

आपान हात हालोवन कळ्ळें म्हण सांगलें. तो येतना चिंततालो. बायचें हांसकुरें तोंड तशेंच आसा. तरीय तें सुखी ना हें होलमता. पोराक हांवें त्रासांत घालें काय कितें ! चार बुकां लेगीत शिकोवंक जालें ना ताका. वाड्यार तेन्ना शाळा ना. तातूंत आवय भायर पडली आनी भयणीची जापसालदारकी आंगार. मंजूळाक पळेतसान आपाल्या काळजाचो देंठ उसवल्लेवरी जाल्लो. हें तोंडार हांशें हाडून सुखांत आशिल्याचें नाटक करता. पूण खरें न्ही तें. म्हज्या फुलावरी चेडवाक देवा, हांवें त्रासांत घालें !

तो न्हंयेकडेन पावलो तेन्ना काळखाची सया धतरिर देंवंक लागिल्ली. मदींच पावस पडटालो आनी थंड वारो सुटिल्लो. हुळगें, केरवडी, खारगें, शिद्दर गांवांफाटले

दोंगर आतां सांज सावळेंत रिगूंक लागिल्ले आनी तांचीच सावळी अख्ख्या वाठारार पातळूंक लागिल्ली. हेदोळ उजवाडांत हरवींताल्ल दिसपी शेतां, गांवांकडेचे माड, न्हंये घडेवेलीं झाडां-झोंपां आतां रूप बदलून काळीं पडूंक लागिल्लीं. तातूंत तारयाक सादयता म्हणसर अजून काळोख.

गणेशान तारयाक व्हडाव्हडान सादयलें, ओऽऽ ओऽऽय तारयामाम! पूण तारयाची जाप ना. गणेश सारको सादयत आसलो, थार दिनासतना. आवाजाचीं ल्हारां सगल्या वाठारांतल्यान भोंवतालीं.

पलतडीन कितें तरी हालताशें, भोंवताशें दिसतालें. पूण कोणाची जाप ना. ताजें सादोवप चालूच आसलें. अचकीत लागींच होले मारिल्लो बुडूक बुडूक आवाज येवंक लागलो. पळयतां पळयतां तारयाचें व्हडें धडेक तेकलें.

'तारया, सादक ओ तरी दिवची मुरे.'

'म्हटलें, सादोवंची तारयाक. वाठाराक जाग येवंदी. अशे तीनसांज कातरेर सादयल्यार म्हारू, गिरे धांवतात. अरिश्टां पयसावतात, पीक फळां उर्बेतात.'

गणेश कांय उलयलो ना. वोगी येवन व्हड्यांत बसलो.

येतना तारयो सांग, 'तीं व्हंकल आनी न्हवरो जिनवटींतल्या विश्रामाक परतीं दिस्टीक पडलीं खंय !'

'खयचीं रे?'

'तीं लग्नांतल्या लोकांसयत बुडून मेल्लीं तीं.'

गणेशान आपणाक खबर नाशिल्लेवरी म्हळें, 'केन्ना रे ?'

'ह्या वाठारांतली इतली व्हड गजाल तुका खबर ना' असो भाव तोंडार हाडून तारयो सांगूंक लागलो. 'जालीं आसतलीं साठ-सत्तर वर्सां. शंबर वर्सां लेगीत जावं येतात. एका चैत्राचे त्रयोदशीक व्हंकलेक घेवन परततना व्हंकल न्हवऱ्यासयत बोट बुडली. लोकांनी भरिल्ली बोट. लोकांच्यो बोबो आनी हुयेली. वारो ना मोड ना, आनी खंयचे व्हाणीक, खंयच्या भोंवऱ्याक ती मेळ्ळी कोण जाणा. शिद्‌दराम दोंगरासरीं हे न्हंयेक मोडण आसा न्ही थंयच खंय ती बोट बुडली. अशें सांगतात, ती व्हंकल इतली सोबीत, इतली सोबीत, आसली, एकाद्रे देवीनूच मनीसरूप घेवन जल्म घेतला. आनीक अशेंय सांगतात, त्या न्हवऱ्याच्या बापायन खंय लग्नाच्या तीन दीस पयलीं शिकारेक गेल्लेकडेन मेरूं समजून एके गायेक फ्रान मारिल्ली. आतां थंय दर पुनवेचे त्रयोदशीक रातचो उदकाचो भोंवरो घुंविल्लो खळखळ आयकूंक येता आनी लग्नाचीं

वाजंत्रा वाजतात. मगेर व्हंकल आनी न्हंवरो न्हंयंतल्यान उठून वयर धडेवयल्या तळपार येतात. आंगार खंय झगझगीत वस्त्रां, तोंडार रत्नांचें तेज. रातभर तीं थंय आपलो मोगाचो खेळ खेळटात. कोणाक दिश्टी पडल्यार एक उतर उलोवंक फावोना. मोन्यानूच कुशीक सरूंक जाय. फट न्ही. अजुनूय ते वटेन लग्नाचो मेळ वयताना तांचो मान म्हण विडो ओंपतात. उदकांत सुपली सोडटात.'

इतल्यांत व्हडें धडेक लागलें. गणेश देंवलो.

तो न्हंयचे धडेवयल्यान चलतालो. मदींच काळखांत न्हंयंत हुदां बुडिल्ल्याचो, शेंवटो उडिल्लोसो बुडूक बुडूक आवाज येतालो. काळखांत काळी न्हंयची ती धार इतली काळी दिसताली, खंयचे तरी कदीम काळाचे पोकळेंतल्यान येवन ती काळखाच्या अक्रंवर राज्यांत रिगून गेल्या अशें दिस.

तो घराकडेन पावलो तेन्ना दिवेलावणेचो वेळ जावन गेल्लो. सुमन वासरेंत चिमणेदिवो म्हऱ्यांत घेवन एकलेंच बशिल्लें. मदींच झेमेतालें. मदींच भिंयेल्लेवरी भायली सुलूस घेतालें. पयसुल्ल्यान आकाड्यांतल्यान आपान पळयल्यार चिमणे उजवाडाच्या भंवरांत साळकांतलें बाळक कशें तें ताका दिसलें. आपल्या धाकल्या चेडवाचे मायेन ताजें हड्डें भरून येयलें. आपालीं पावलां आंगणांत वाजतकीर तें उठलें.

'आपा, बाब मेळ्ळें ?'

'हय.'

'जेवलें तें ?'

'हय.'

'हुमण बरें जालां म्हणटालें?'

'भोव सुरबूस. तूं जेवलें बायूल ?'

'वाट पळयतालें आपा.'

गोकूळ जनेलांत येवन विचारताली, 'गणेश, कितलो कळाव रे ? पोर एकलेंच वासरेंत बशिल्लें. पळोवन म्हजें मन भितर लागनासलें. जनेलांतच येवन गणमणटालें हांव.'

गणेश वासरेंतल्या खांब्याक तेंकून बशिल्लो. ताणें भायर पळयत सोताकच

म्हळें, हो कवाथो बायल्या लग्नाक येद्‌दोसो देड हात आसलो. आतां पळय ताका पोंय फुटून बेस शिंवर येयल्या. ह्या वर्साक धा-वीस नाल्ला बोंड धरतले.

सुमन बांयकडच्यान हांडीर येद्‌दो व्हडलो कळसो आनी हातांत बिंदूल घेवन येतालें. तें सडसडीत आंगणांतल्यान घराचीं मेटलां चडून भितर गेलें. ताजो घसघशीत आंगलोट पळोवन आपा सुखावलो. पूण मनांत चिंता आसली, देवा, हांव आतांच आटापूंक येयलां. ह्या चेडवाचें थाऱ्यार पडसर हांव उरतलों?

मंजूळालें लग्न जायत सावन गेल्ल्या स वर्सांनी आपाली दैनाच जाल्ली. जियेवपाचें सोपयिल्लेवरी घुम्म मोनो बसून रावतालो. शेत आनी घर हाचेभायर ताका संवसार सोंपिल्लो. फाटल्या चार वर्सांक तो न्हंय बळाटून खंय वचूंक नासलो. गेल्ल्या वर्साक मंजूळान आपल्या चेड्याले कान तोंपताना ताका कितलो आफयिल्लो. तो गेलो ना. सोनाराकडच्यान दोन कानांच्यो मुदयो आनी तुवालो हाडलो आनी तो सुमनाकडेन धाडून दिलो.

खरें म्हळ्यार मंजूळालें लग्न जायतसान ताणें आंग कवळून घेतिल्लें म्हणूं येता. आर्दीच मोट्या हाडांचो मनीस तो. आतां आंगावेलें मांस जिरिल्लें आनी कातडी आंगाक धशिल्ली. हाडाचो सांगाडोच उरिल्लो. ताळयेवयले केंसय करपून गेल्लेवरी जाल्ले. आनीक एक ताणें आपले तकलेंत घेतिल्लें - देवा हांवें म्हजे धुवेक त्रासांत घालें. तें घोवाघरा सुखांत ना. ताजो मांव ताका घोळोवन मारता! आनी घोवय असोच लेचोपेचोच !

गणेश बशिल्लेकडेन वर्सकाळाचो हिशोब लायतालो. चोवीस वर्सांचेर आवयचें लग्न जाल्लें. लग्न जालें आनी अनसुयाक पाट मेकळो करून दिल्लेवरी आई रोखडीच गेली. लग्न जाल्ल्या तीन वर्सांनी मंजूळ जाल्लें. उपरांत पांच - स वर्सांनी एक चेडो जावन गेलो. मगेर सारकें चार वर्सांनी बायूल. मंजुळा फावटीकच तागेली वार पळोवन वैजिणीन म्हणिल्लें, वारिवेल्यो गांठी पयस पयस आसात. भुरगीं अशींच कळाव करूनच जातलीं. बायूला उपरांत दोगां तरी भुरगीं जावं येताली. दर गुरवचाराक अनसुयाल्या चेऱ्याक कसलें लखलखीत तेज येतालें! अजुनूय दोळ्यांमुखार झळकता.

अनसुयाक वचून हें सोळावें सरून सतरावें वर्स. आठवून गणेश न्हिन्नाळिल्लेवरी जालो. देवा हीं सतरां वर्सां कशीं काडलीं हांवें ! आनीक म्हण वर्स काडूंक जावचें ना म्हजेकडेन !

मंजूळ एक दीस येयिल्लें तेन्ना म्हण, 'आपा, तूं इतलो कसो रे उबगला? म्हजो मांव पळे कसो धडधडीत आसा.' तेन्ना गणेशान म्हणिल्लें,

'देवान रचिल्लो जण एल्याचो पींड तो. म्हाळू घडघड घालीत वावर करता, बोवाळटा, गाळयांचो शिंवर करता आनी निवळटा. आमी फकत फाटलो उगडास काडीत रावचें आनी फुडाराच्या हुसक्यान करपून वचचें. ताका आतां मारिल्ल्यो गाळी मगेर याद उरनात, मर्दी तुजे सारकिल्ल्याचें मर्ण... !'

मंजूळालो चेडो आता देड वर्साचो जाल्लो. पूण मंजूळालें तें सपन- आपूण घोवावांगडा आगगाडयेर बसून वतलें म्हण- तें मात पुरें जावंक ना. तो दर वर्साक दोन म्हयन्यांचे रजेर येतालो आनी परतो वयतालो. दर फावटी आडमेळें आसतालेंच. मांवाल्यां आडमेळ्यां भायर आनीक जायतीं आडमेळीं. मर्दी ते सेगीत तीन वर्सां सरादेर आसलो. थंयच्यान पर्थतकीर खंय तरी कसल्या तरी झुजाच्या सरावाक म्हण गेलो. उपरांत क्वॉर्टर्स मेळ्ळेनात. पूण मंजूळाक दिस, घोवाक आपणाक वांगडा व्हरचेली उमळशिकूच ना. ताणें वांगडा येवचेलो हट केल्यार तो तिडकेतालो. 'तुज्या बापायन फलटणवाल्याक कित्याक हाडून दिलां तुका ? भोग आतां !'

'तुमी बापूय आनी पूत दोगय तापटच सोबावाचे. व्हरू नाका तूं म्हाका! हांगाच मरतलें हांव शेतांत घोळत. तुज्या बापायक आयती कामेरी.'

'आगो, पूण रावंक घर मेळूं नाका कावेरी ?'

'म्हाका कावेरी म्हणूं नाका हां तूं. राग येता म्हाका !'

'कावेरी म्हण ना तर मंजूळ. भुरगीं जालीं म्हणजे जालें. एक दीस कावेरी एक दीस मंजूळ.'

मंजूळ खुक् करून हांसलें. हरशीं तो मंजूळाक बरो करी. पूण केन्ना केन्ना बापायवेलो राग ताजेर काडटालो. फलटणींतल्यान रजेर येतना पांच-स बाटल्यो रम घेवन येतालो. वयर माळयेर ताजो फलटणीचो व्हडलो ट्रंक आसतालो. माळयेर वचप आनी इल्लो गुट् करून येवप. त्यो तांबड्यो तांबड्यो रमाच्यो बाटल्यो पळोवन मंजूळालें आंग शिरशिरतालें. तातूंत कोणालें तरी रगतच भरून दवरलां अशें ताका दिस. ते रगत आत्तांच भूंयर वारवतलें आनी आपूण, तें पळोवन घुंवळ येवन पडटलें!

केन्ना इल्लो चड जालो म्हणटकीर तो म्हणटालो, 'खरेंच झूज सुरू जावन तातूंत हांव मरूंक जाय आसलों. म्हणजे बाप्पाक कळटलें.'

'अशें कितें म्हणटा तूं ! बापायचें कितें उरलां ? म्हाका आनी म्हज्या पुताक

जाय तूं.'

बापूय तर मोठो बेरकी. चेडो घरा आसा म्हणसर सुनेकडेन गोड गोड उलयतालो. रावन रावन थातरून कामां करून घेतालो. एक फावट चेडो गेलो म्हणटकीर तिजे मानेर परतो जूं दवरतालो.

पूण श्रीधराक सगलें होलमतालें. कळटालें. आतां वर्सां जातात तसो तो मातसो निबर जाल्लो. आतां आतां बापायकडेन उलोवप सुटिल्लेवरी जाल्लें. रजेर येयल्यार तो आतां पयलींभशेन शेतांत वचनासलो. कूस मारतालो आनी दुकानाकडच्यान भोंवंक वयतालो. केन्ना ताचेवांगडा गांवचो कोणय इश्ट येतालो आनी दोगूय माळयेर वचून रम पीत बसताले. मंजूळाक अशे फडफडे मारताले. तो इश्ट वयतकीर तें झगडूंक लागतालें. रम सोंपतकीर एक दीस तो बोटजुंव्यार वचून गांवठी सोऱ्याबाटली घेवन येयलो तेन्ना तर मंजूळाचेर सामको आकांत. मांवाची तरा मात वेगळी आसली.–

तो केन्ना हातांत खोरें घेवन बागांत वयतालो. थंय आळें बीन करताना खोऱ्याच्या घायांवांगडा बोवाळटालो. 'शेत नाका जालां ताका. लोकाले भुरगे रजेर येयल्यार शेताचो सगलो वावर करतात. हो सगलें म्हजेच तकलेर घालूंक सोदता. फाल्यां बापूय मेल्यार कळटलें ताका. बायल मेळ्ळ्या न्ही ताका घेवन मटाळूंक. शेत आनीक कित्याक जाय ? बायलेचीच शिकवण ती. एक फावट शेत पाड घालें म्हणटकीर जाय तशें मिरोवंक मेळटलें ताकां.'

एक दीस मंजूळान घोवाक विचारलें, 'तूं फलटर्णींत वचूंक तयार नासलो?'

श्रीधर सट्कन तापलो, 'कोणें सांगलें तुका ?'

'बापायन व्हरून मनाभायर भरती केलो म्हण आयकल्लें हांवें.'

तो वोगीच रावलो.

'तुका फलटण नाका जाल्यार सोडून यो. शेत करून रावचें हांगाच.' मंजूळान ताज्या बावळ्याक ल्हवच धरलें. ताजेकडेन मोगाळ पळयलें. श्रीधर पागळिल्लेवरी जालो.

'तें इतलें सोंपें न्हय. बापायन तसो अर्ज करचो पडटलो. आपलो एकलोच चलो. आपणाल्या मनाभायर फलटर्णींत गेला. ताका पर्थो धाडचो म्हण बरोवचें पडटलें. पूण हांव जाणां बाप्पा तशें करचो ना.' काळजाक कसक भरिल्लेवरी ताजो चेरो दीन जालो.

'तशें जाल्यार हांवच करतां अर्ज. बायल हांव तुजी. सगलें बरोवन धाडटां.'

'नाका मंजूळ. आतां हांव येवचों ना थंय इश्ट बीन बरे मेळ्ळ्यात' मंजूळान मर्दीच धपकायिल्लेवरी आवाज चडयलो.

'सोरो पियेवंची इश्टागत मात करिनाका. म्हाका भिरांत दिसता.'

ताजो चेरो ल्हान भुरग्यांवरी निश्कलंक, निरागस जालो. 'छावणेंत भितर रिगतकीर उगडासान हांव थतरवितर जातां. सगलें पयस सारूंक मगेर पियेतां.'

'कसलो उगडास तर ?'

'कोण एकल्याचोच उगडास न्ही. पळयिल्ली याद नाशिल्ले आईचो, ह्या गांवचो, न्हंयचो, शाळेमळावेलो.'

'आनीक कोणाचो ?'

'कोणाचो म्हण, तुजो. तूं पिडटा म्हाका सामकेंच.'

मंजूळान सोताच्या अपुरबुद्द भुरग्याकडेन पळोवचें तशें ताका पळयलें. ताका गोपांत घेवंक तें आशेलें.

सुमन पंदरा सोळा वर्सांचें जालें आनी ताजे कुडीक आगळोच लखलख लाबलो. आदली धवशी कात आतां तांबशी जाली. मोटवेच पूण शिट्रूक सडसडीत आंगलोटाचें सुमन खांदयेर धोलपी दसणीफुलावरी दिसतालें. दोळेय मातशे घारशे, भांगरावर्णाचे.

ताच्या घराचे वासरेच्या उदेंती आंगाक उबें रावल्यार गोविंदाल्या मामाल्या – भास्करअण्णाल्या – घराच्या दारार नदर पडटाली. मर्दी गणपतआज्याली न्हाणये खोंप आसा म्हण, ना तर दारांतल्यानच तांचें अख्खें घर दिश्टीक पडचेलें. सुमन आतां नाल्ल सोलूंक, भात हासडूंक, तांदूळ विंचूंक वासरेंत उदेंतेच्या आंगाकच येवन बसतालें. गोविंद केन्ना हातांत पुस्तक घेवन पडवेंत पासयो मारीत व्हडव्हडान वाचतना दिसतालो. केन्ना माळयेवेल्यान जनेलांत बसून कितें तरी पाठ करतालो. ताचें वाचप जोयशान मंत्र म्हणिल्लेवरी कानार पडटालें. तें कान दिवन आयकत रावतालें. जिबेर म्होंवाचे थेंबे गळिल्लेवरी तें सुखावतालें. केन्ना बेठेंच मनांत म्हणटालें, इतलो व्हडलो हो मॅट्रिकेक वयता आनी ल्हान भुरग्यांवरी व्हडव्हडान

वाचता. ताका चाळयतलेंच हांव. चिमटी काडून चाळयतलें आनी हांसयतलें. राग येवन मगेर आंब्याच्या ताळ्यान मारूं दी म्हाका.

आर्दींच सैमान सुमनाल्या दारांत भारी शिरवंतकाय पातळावन दवरिल्ली. दारांतल्यान चयल्यार पयस पयस मेरेन पाचवेचार दोंगर, जुंवें, शेतां, उशेलां आनी तातूंत कवाथ्यांच्या चुट्टांच्या झालरींतल्यान चकचकपी न्हंयची रुप्याधार. हातूंत मर्दींच खंय तरी गोविंद उबो! केन्ना तो पाचव्याचार शेतांतल्या अळंग वयर सरतालो. केन्ना न्हंयचे रुप्याधारेंत न्हातासो दिसतालो, न्हंयचे रुप्याधारेर तो अळंग खेळटा, धारेवेलो झगझग ताणेंच फासपिला !

सांज जातकीर चुट्टांत काळोख रिगूंक लागतालो. घरासयत आजुबाजूच्या झाडापेडांचो काळखा माटव जातालो. गोविंदालें वाचप मंदावतालें आनी न्हंय काजळ कांबरून घेताली. सुमन थतरवितर जावन सुन्न वासरेंत बसतालें. गोविंद वाच रे पापया, मातसो व्हडान वाच. सगलो वाठार घडघडाय! ना तर हांगा यो. म्हजे मुखार चिमणे उजवाडांत वाचीत बस. कालमेरेन शाळेचें सगलें दप्तर हांगाच सांडून खेळूंक धांवतालो तूं. आतां कित्याक म्हण परतो परतो येना रे ! फाल्या आमी न्हंयसरीं या ? कांदळां खुंटूंक, कोंडयो काडूंक! नाका फाल्यां नाका. तुजी परिक्षा सोंपूं दी. परिक्षा सोंपतकीर मात हांव तुका शिद्दराम दोंगरांतल्या त्या तीन भिल्लमाडांसरीं घेवन वयतलेंच. थंय शिद्दरामालें भुंयार आसा खंय. तातूंत बागवोन पळोवंक जाय. तूं भिंवचो ना मुरे ? मर्दींच उठून तें वासरेचे उदेंतेक वयतालें. थंयच्यान माळयेवयल्या जनेलांतलो दिवो दिश्टीक पडटालो. जनेलांत उजवाड – काळखांत एक आकृती पुस्तकार ओणोव घालून बसल्या. सारकें दिसना. तें जनेलाच्या आरपार दोळे ताणून पळयत रावतालें.

केन्ना दनपरां साकरआंब्यासरीं वचून तें एके फांदयेर ओग्गी बसून रावतालें. गोविंदाल्या मामाल्या घरामुखार पेल्यान वंयंत ओळीन चार पांच आंब्यारुख आसले. थंय माटव घातिल्लेवरी सदांच सावळी नंदताली. सवर्णी, चानयो खेळटाल्यो. साकरआंब्याचे सावळेंत उबें रावल्यार भास्करअण्णाल्या घरांतली सगली संवकळ दिश्टीक पडटाली. केन्ना गोविंदय थंय येतालो. तोवय म्हन्यांतच एके फांदयेर बसतालो. ती रुखावळ फांद्या – ताळयांनी इतली गच्च भरिल्ली, झाडार बशिल्लो मनीस लार्गींच्यानय दिश्टीक पडनासलो. तातूंत साकरआंब्याची घडवणच अशी आसली, ताका माळ्या माळयांनी पांच माळी फांदयो फुटिल्ल्यो, कांय फांदयो जाल्यार सामक्यो धर्तरीक तेंकिल्ल्यो. ल्हान भुरगो लेगीत सगल्या रुखावयल्यान भोंवन येतालो. तातूंत ताजो आंबो इतलो गोड, सगल्या गांवाक त्या रुखाचें अपरूप आसलें.

आनीक एक थंय गुडगुडो आंबो म्हण आसलो. तो आंबो पिकतकीर ताजी भितल्ली पार गुडूगुडू वाजताली. भुरगीं पयलीं तो पिको आंबो घेवन खेळ खेळ खेळटालीं, उपरांत घांस मारून खातालीं. कातले आंबो हरवो लेगीत कातलेवरी खावं येतालो आनी कातलेवरीच रुचीक लागतालो. आनीक एक आसलो सुंबाळो. तो भोवच उंच आसलो. एकाद्रे फांदयेर चानी पिको आंबो कोत्रायता म्हण दिसल्यार भुरगीं जिखूंक हात करून रावतालीं आनी पडटां पडटां जिंखताली लेगीत. आंबो रोसाळ आनी गोड. पूण सुंबान भरिल्लो. भुरगीं वरवरां सूंब चोखत रावतालीं. तरीय ताची गोडसाण सोंपनासली.

सुमन आनी गोविंद साकरआंब्याचे फांदयेर बसून सुंबाळ आंब्याची पार चोखिल्लेवरी उलयत बसतालीं. सुमनालें उलोवणें सदांच तिडीचें आनी वांकड्यांतलें. 'गोविंद फाल्यां तुगेलीं सगलीं पुस्तकां व्हरून हांव काळी न्हंयंत बुडयतलें.'

'कित्याक गो ?'

'मनीस शिकलो म्हणटकीर गांवाक उबगता आनी परदेशाक वयता. पयसो जोडूंक.'

'गेल्यार गेलो. तुजें कितें गेलां ?'

सुमनान गाल फुगयले. दोळ्यांत राग हाडून ताणें म्हळें, 'कितें गेलां खंय ! मगेर हीं शेतां, उशेलां, न्हंय कोणाखातीर तर... तुका याद येवची ना, आमी मेळून कांदळां खुंटिल्ली ?'

'येतली गो. आर्दी तुजी याद येतली. मगेर कांदळां खुंटिल्ली.'

'खरेंच ?' तें भोव संतोसलें. ताज्या तांबशा पोल्यार लाली उदेली. भांगरवर्णाच्या दोळ्यांतल्यान उदक देंवलें.

'मगेर कित्याक वयता तर तूं परगांवात ?'

'कोणें सांगलां तुका हांव परगांवात वयतां म्हण ?'

'बेठेंच म्हाका दिसता. मनीस शिकलो म्हणटकीर परंतराक वयता खंय.'

'पिशें तूं. मामान म्हका घरांत दवरूंक हाडला आनी हांव वयतलों खंय? गेलोंच जाल्यार तूंवय यो म्हजे फाटल्यान तकलेर पेटारो घेवन.'

'खरेंच वयचोना तूं ?,' तें उडकी मारून सकयल देंवलें. ताणें पांयाक धरून गोविंदाक सकल ओडलो. तो तोल सांडून धुल्लांत पडलो. 'आगो कितें करता तूं ?'

'वच. वचून आर्दी पुस्तक घेवन अभ्यासाक बस.'

गोविंद ताजेकडेन बारीक पळेतालो. कालमेरेन कवाशाचें बोंड कशें येद्‌देंशें आशिल्लें हें चेडूं पळय आतां कशें धश्टपुश्ट जालां. ताजी नदर ताज्या हड्ड्याक तेंकली आनी पयलेच फावट पयळयल्लेवरी अजापशें दिसलें..अशी कशी म्हजी ही इटीण इतली बदलली ! हाज्या आंगार ही लिकलीकसाण इतली खंयची! आनी हो वासाचो घमघम खंयचो ! सुमनाचे कुडीचो कांय चंवरिल्ल्या साकरआंब्याचो ?'

'कितें पळयता रे म्हाका ?'

'कितलें मोटें जालां गो तूं ?'

'बरें दिसना ?'

'दिसता.'

'तूंवय जाला लांब. आनीक कांय तेंपान मोटोय जातलो. दाडी मिशयांची ल्हंव पळय आतां काळी जावंक लागल्या. दाडी मिशयो काळ्यो जाल्यो म्हणटकीर मगेर दादलो तूं.'

'मगेर आमकां वांगडा भोंवंक मेळचें ना ?'

'ना. लोक चाळयतले.'

'मगेर आमी कितें करचें ?'

'कितें करचें सांगूं ?'

'सांग गो.'

'नाका. पिसो तूं. वचून आर्दी अभ्यासाक बस.'

'म्हाका पिसो म्हणूं नाका हां तूं. मारतलों तुका.'

सुमन सारक्कें ताजे म्हऱ्यांत गेलें. 'खरेंच मार म्हाका. ती आंब्याची ताळी मोडून घे आनी मार.'

'ना. हांव मारचों ना तुका. ल्हान आसतना तूंच मारतालें म्हाका. बोचके काडटालें, नाखटां लायतालें. पूण हांवें केन्ना मारलां तुका ?'

सुमनाल्या दोळ्यांत सट्‌कन दुकां उबीं रावलीं. भरिल्ल्या दोळ्यांनी तें ताकां पळयतालें. ताज्या चेऱ्यार लोणयाची नितळसाण आसली. दोळ्यांत सान भुरग्याचें बाबडेपण. सुमनाक दिसलें जनेलांतल्यान भितर पळयल्लेवरी कोणेंय हाज्या मनांत

आरपार पळोवं येत. फाल्यां हो म्हालगडो दादलो जालो तरीय हाच्या चेऱ्यावेलें निश्कलंक भुरगेपण कांय वचचें ना.

एकाच रुखाक फुटिल्ल्यो फांदयो आनी ताळयो कसो हो एक वाडो. जण एकलो जण एकल्यालो भाव, बापोयलभाव, भयण, बापोयल-भयण. आवशी ना तर मावशी. भावा बायलय आवयच हांका. म्हण एक दुसऱ्याच्या संबंदांमदीं दुबाव आनी तणाव हांगा निखालस नासलो. फाऽऽटीं केन्ना तरी एक वायट कर्तूब घडिल्लें म्हणटात. न्हंय धडेवेल्यान त्या 'आंकवार तळपाची' गवाय दिवन जाणटेले सांगतात, एक अपुरबुद्द चेडूं कशें कोण जाणा फटवलें आनी ताका दीस गेले. ताणें नांव सांगचें म्हण बापायन, बापोयल्यांनी भोव मारलें, बडयलें, धाडायलें. पूण ताणें शेवटामेरेन तोंडांतल्यान उतर काडलें ना. एके रातचें ताणें ओग्गी वचून न्हंयंत जीव दिलो. ताजें प्रेत वाडेकारान न्हंये धडेरूच पुरलें आनी ताजेर ती शिळा धुकलून दवरली. अशें सांगतात, अजुनूय कोणेंय ते शिळेर वचून बसल्यार पोंदांतल्यान रडिल्लेशे हुंकार आयकोंक येतात.

गोविंद ह्या गांवचो भाचो खरो पूण तो आतां ह्या भुरग्यांमदीं इतलो भरसून गेल्लो, तोवय आतां गांवच्या बाळू, अशोक, मनू ह्या भुरग्यांवरी सुमनालो बापोयलभावच असो लोकांक दिसतालो. सुमन वयार येमेरेन लोकांक हाजें भानच नासलें. पूण सुमन आंगान मातलें आनी तागेले हुमेक वास येवंक लागलो, तशेंच गोविंदाल्यो मिशयो काळ्यो जावंक लागल्यो, तशे लोक शादूर जाले. चड करून आवश्यो-मावश्यो, बायलो.

'बाय गो हो भाचो. भाव कसो जातलो ! हो वाड्यावयल्या खंयच्याय चेडवालो घोव जावं येता.'

'पूण गोविंद सुमनापरस ल्हान न्हय गो ?'

'ल्हान कसो ? गोविंदाली आवय वत्सल ताका खाकोळांत धरून कुळारा येयल्ली तेन्ना अनसुया सुमना फावटीक येद्दें व्हडलें पोट घेवन नेर काडूंक शेतांत वयतालें. हांवें म्हणिल्लें लेगीत आठवता, 'आगो अनसुया, गुर्भीण बायलेन असो उबो नेर हुमटिचो न्ही. गर्भाक बादता.' हांव जाणां न्ही, गोविंद सामको मिर्गा तेपाक जाल्लो तर सुमन चवथ काडून जाल्लें. तीन चार म्हयन्यांनी तरी ल्हान तें.'

एक दीस सुमन गोविंदाक घेवन शिद्दराम दोंगरार गेल्लें तेन्ना मात

वाड्यावेल्या बायलांक खरोच राग येयल्लो सुमनाचो –

शिद्‌दराम दोंगरावेले ते तीन भिल्लमाड भुरगेपणापासून सुमनाक खुणायताले, आफयताले. दोंगराच्या तेमकार एक दुसऱ्यामुखार खबरेक उबे राविल्लेवरी कवंडाळें करून तें उबे आशिल्ले. इतले उंच कळक, तांचीं चुडटां सामकीं मळबांत रिगिल्लेवरी दिसतालीं. एकादऱ्या उजवाडान भरिल्ल्या दिसाक ते पयस आवाठाभायर वयताले. चडच लांब जावन मळबांत रिगताले. जाल्यार दोंगरार सावट देंवन येतकीर ते मोटवे जावन म्हऱ्यांत आयिल्लेवरी दिसताले. सारकें तांच्या मुळांत वचून बसचें आनी गोविंदाक कूय मारची!

गोविंदाली मॅट्रिकेची परिक्षा सोंपली आनी सुमन ताका सामकेंच लागलें, दोंगरार या म्हण.

'पूण कितें दवरलां गो सुमन त्या दोंगरार ?'

'म्हाका पळोवंक जाय त्या भिल्लमाडाच्या पोंदाक वचून. जाल्यार आमी चारां, चुन्नां, कंजां काडुया. वयर दोंगरावेल्यान पळेल्यार न्हंय गांव, शेतां, उशेलां, कितलीं सोबीत दिसतात जाणा ! थंयसावन तुजो असनोटी गांव लेगीत दिसता खंय.'

'असनोटी दिसता खंय ?'

'हय तर.'

'मगेर मामाक खंय वयता म्हण सांगूं हांव ?'

'कितेंय सांग रें. शाळेंत काम आसा म्हण सांग. ना जाल्यार देवळाकडच्या इश्टागेर वयतां म्हण सांग.'

'तूं कितें सांगतलें ?'

'हांव सांगतलें आपाक, गोविंदा वांगडा चारांक, चुन्नांक वयतां म्हण.'

'राग येवचो ना गणेशमामाक ?'

'राग बीन सगलो सोडून दिला आपान. गोविंद, आपाक कितें जालां कळना. पयलींवरी ताका राग येयना, सवना. ओग्गी बसून रावता वासरेंत. केन्ना रातचो सपनांत आईक आफयता तो. व्हडाव्हडान उले मारता. एक दीस ताणें कितें केलें जाणां, ट्रंकांतल्यान आईलें एक पोरणें णववारी कापड काडलें आनी तें वासरेंत सबंद दांडीभर पातळून घालें.' उलयतां उलयतां ताजो आवाज भिजलो. उतरां ताळ्यांत बुडिल्लेवरी जालीं.

सकाळीं तीं दोगां शेतां बळादून दोंगराच्या मुळसांत पावलीं. तेन्ना सूर्य माडभर वयर पाविल्लो. सगलो वाठार उजवाडांत झगझगतालो. दोंगरावयलो उजवाड निसरून न्हंयचे धारेंत देंविल्लो आनी न्हंयचे धारेवेलो रुप्या उजवाड झाडांपेडार झोंपय घेतालो. इतलो लखलखीत आनी नितळ उजवाड. ताका दिसलें हांगा आयज उजवाडाचो हुंवार येयला आनी तातूंत सगलो सैम बुडून उबो आसा. पावस सरून गेलेउपरांत कार्तीक लागीं पावलो म्हणटकीर ह्या वाठारांतल्या सैमाक एक आगळेंच चैतन्य लाबता. चोंयभोंवतणीं पाचवीचार सैमाची शिरवंतकाय आनी ताजेर उजवाडाचो झगझग. जाणटे नेणटे मगेर उजवाडांतल्यां पाचूचें पिशें लागिल्लेवरी रुखावळींनी, दोंगराच्या मुळसांनी भोंवतात. खूंट, काटी, आडी, मेढी हाडच्या निमतान दोंगराचे दिकेनच चलत रावतात. कार्तीक धरिल्लो माघ मेरेन चार म्हयने रानां गजबजून वयतात.

दोंगराच्या मुळसांत येवन वयर चयल्यार भिल्लमाड अचकीत तकलेक आपटूंक आयिल्लेवरी तांकां लागींच दिसले. हें मोटे उंच कांड आनी वयर वयर गेल्लीं चुडटां. पूण चयल्यार मुखार सामकी उबी चडटी आनी धेंगणां. लागी पावनय पयसूच.

'मागीलदारांतल्यान कितलो सोंपो दिसतालो न्हय गो हो दोंगर.'

'कितेंय आसूं गोविंद. आतां दोंगरार गेलेबगर परतें वचचें न्ही.'

तीं दोंगांय दोंगर चडूंक लागलीं. मुखारच ताका कोण तरी गोरवाक हामुडटासो आवाज येयलो. पळयल्यार मुखार धा बारा गोरवां. मगेर वयल्यान धेंगण देवांन एकलो तार्चेसरीं येयलो. ताणें काश्टी लायिल्ली आनी ताजें आंग उक्तेंच आसलें. खांदार ताणें एक पिनकरी कांबळ उडयल्ली. हातांतली बडी मुखावयल्या दरेका फातरार आपटीत तो चलतालो. सुमन ताका वळखलें, हो मुदग्यातलो तातू.

'तातूमाम, आमी भिल्लमाडांसरीं वयतात.'

'आगो तूं सकयल्या वाड्यावयल्या गणेशमामालें चेडूं मुगो. भिल्लमाडांसरी कित्याक वयतात. तुज्या लग्नाक भिल्लमाडाच्या आड्याचो माटव घालचो आसा? लागीं हांगाच दिसतात तुमकां तो माड. पूण हें धेंगण हुपून वतकीर पयलीं आडवणाक पावतलीं आनी मगेर खडवणाक. खडवणाक गेल्लो म्हण केन्ना परतो येयला? थंय पावतकीर मनशाक रानपिशें लागता. सगल्यो वाटो आनी गवंड मोनेतात. सुर्याची उदेंत आनी अस्तंत चुकता. बसात बसात हांगा मातशीं. तूं भाचो मुरे भास्करालो. वळखतां हांव तुका. पिशेपणां करूं नाकात. हंयच्यानूच परतीं वचात.'

'पूण आमी वयतलींच माडासरीं. यो गो सुमन. तो घांग्रे फातर दिसता न्ही ते

दिकेक उदेंत.'

'पळे, भुरगीं तुमी. वाट चुकून पडल्यार रडत बसतलीं.'

पूण ताजें एक आयकनासताना तीं दोगांर चडूंक लागलीं. फाटल्यान तातून म्हळें, 'वचात. वाट मेळटा तेमेरेन दोंगर चडात. मगेर मात परतीं येयात. हांव हांगा गोरवांक सादयत रावतां. म्हजी सुलून घेयात.'

खरेंच तीं दोंगर चडटना तातू रावन रावन सादयत आसलो. फाटल्यान कोण तरी सांगाती आसा अशें सारक्कें दिस.

तीं अर्द पाऊण वर चडटी चडून गेलीं आनी मुखावेल्यो वाटो कोणे कवळून व्हेल्लेवरी बंद जाल्यो. मुखार फकत झाडा झोंपांच्यो, कांट्यांच्यो गच्च झिली. मर्दीच त्या झिलींतल्यान बाण मारून वयर सरिल्लेवरी ऊंच ऊंच रूख. अचकीत तांच्या हड्ड्यार चेपण येयिल्लेवरी जालें. अख्खें आडवण आंगार लखून येयलें. वयर पळयल्यार भिल्लमाडय दिसनात.

'सुमन आमी परतीं या.'

सुमनान भिंयेल्ले नदरेन चोंयवटेन पळयलें. मुखावयल्या रानाचो अंत लागनासलो. हांव सद्दां मागीलदारांतल्यान पळयतालें तो दोंगर होच काय. ताका दुबाव येयलो. मुखावयलो तो गडगंज माट्टी रूख दोन खांदे आडवे पसरून कवायतीक उबो राविल्लेवरी दिसतालो. कुशीक एका जांब्याच्या रुखाक तोंड फुटिल्लेवरी एक व्हड गूंज आसलें. सुमनाक ओगीच दिसलें आत्तां हो रूख कितें तरी उलयतलो. धव्या आंगाच्या त्या नाण्यारुखाक निकतीच धवी पांचवी आंकरी फुटिल्ली. वयल्या लखलखीत उजवाडांत तो रूख हांसतासो दिसतालो.

'गोविंद, आमी थंय मेकळ्या जाग्यांत मातशीं बसुया.'

तीं एक दुसऱ्या म्हऱ्यांत बसलीं. उलोवणेंच सोंपिल्लेवरी वोग्गी. मुखार पळयल्यार सैमाचो एक रंगरंगयाळो, उजवाडान चितारिल्लो, प्रचंड पड्डो. तातूंत धांग्रे फातर, न्हंय, जुंवे, उशेलां, शेतां, आनी गांव. परत हांकां सगल्यांक दोंगराचें कंवडाळें. कैगे, केरवडी धरिल्ले गोपशिटो मेरेन मैलान मैलांचें कंवडाळें. तातूंत मर्दी शिगम्याची तळय कसो हो सात गांवांचो सोबीत वाठार. पूण हांकां ताजो अंतपार लागनासलो. येद्दीशीं भुरगीं आनी येद्दो व्हडलो वाठार एके दिर्ठींत. खंयचो गांव खंय सोंपला आनी न्हंयची धार खंयच्यान खंय पावल्या कांयच कळनासलें.

'सुमन, तो आंबे जुंवो न्ही ?'

'न्हीं रे. खारगे जुंवो आसतालो. ना तर बोट जुंवोय आसूं येता.'

'तूं असनोटी हंयच्यान दिसता म्हणटालें न्ही गो !'

'कांयच कळना. अजून ऊंच भिल्लमाडांसरीं गेल्यार घडये असनोटी दिसतलें.'

'नाका आतां.'

तीं कांय वेळ तशींच बसून रावलीं. आतां गोविंदाक ल्हव ल्हव होलमलें, आमी दोगांच ह्या दोंगरार झाडांझोंपांमदीं अस्कडांत बसून आसात ! हुमेन चिप्प भिजिल्लो सुमनालो चेरो सोबीत तांबडो जाला. हुमेची धार गळ्यावयल्यान उबार हड्ड्यार देंवल्या ! कांय वेळ तो चोंय बाजुच्या वाठाराक विसरून गेलो आनी सुमनांत गुंतलो.

'कितें पळेता रे गोविंद म्हाकाच ?'

'कांय ना बेठोच.' गोविंदान चांचरलेंशें करून म्हळें, 'बाळू, मनू बीन म्हाका मुगो, हांव तुगेलो घोव म्हण चाळयतात.'

आयकोन सुमनाल्या तोंडार तोंडभरून हांशें फुल्लें.

'मगेर तांचेकडेन झगडूंक वचना तूं ?'

'ना.'

'कित्या ?'

'म्हाका बरें दिसता चाळयल्यार. तुका दिसचें ना ?'

सुमनालें काळीज कलकललें. कसलो तरी आधार घेतिल्लेवरी ताणें मुखार येत गोविंदाल्या खांदाक गच्च धरलो. कांय वेळ दोगांय थीर. मोनीं. मगेर सुमन बेगीबेगीन उठलें आनी ताणें म्हळें, 'आतां या आमी गोविंद.'

'सुमन हांव तुका वेंगेंत घेवं ? मातशेंच.'

'नाका. यो तूं.'

तें वाट देंवंक लागलें. फाटल्यान येतना गोविंदान म्हळें, 'राग येयलो गो ?'

'ना रे. खरोच राग येवना तुजो. कितलो बरो तूं आनी तुजेर राग कित्याक?'

'मगेर...' गोविंद चांचरूंक लागलो'.

'आंकवार चेडवान तशें दादल्याक पुराय आफडून घेवचें न्ही. पातक लागता.'

तीं मोन्यांनीच दोंगर देंवतालीं. फाटल्यान आडवणांतल्यान कसल्यो कसल्यो

शिळोवण्यो, सवण्यां-कवडुल्यांचें रडप आयकोंक येतालें. मर्दीच कोण तरी तांब्याच्या भाणांत तोंड घालून उलयता असो घुमघूम आवाज वयर घुमतालो.

मर्दीच गोविंदान म्हळें, 'सुमन तीं चय सीतेचंवरां. काडून हाडूं ?' तो कुशीचे झिलींत रिगलो आनी ताणें बचकभर सीतेचंवरां काडून हाडलीं. 'माळ तूं सुमन.'

सुमनान तीं पाचवींचार चंवरां पाचुकणसांवरी केंसांत खोयलीं. ताजें माथें भरून गेलें. उपरांत गोविंदान पिटकोळेचो तांबडो फुलां झेलो काडून हाडलो. तोय सुमनान चंवरांचेर माळ्ळो.

मुळसाक पावल्यार तातू रांखणो गोरवांक सादयत एका तळपाचेर बसला. ताणें तांकां पळोवन म्हळें, 'कितलें बेस देवता कशें सोबलां मुगो तूं चेडवा! ह्या सीतेचंवरांची म्हयमा जाणा तूं, सीतेक रावणान उखलून व्हरना ताज्या गळ्यांतले गळसरेचीं पिड्डुकां वाटभर सांडलीं. ताकाच कांय तेपान कोंब फुटलो आनी अशीं हीं सोबीत चंवर पानां वयर सरलीं. सीता ते वटेन परती येतली आनी फुलां फुलोवन ताका येवकार दितली म्हण तीं पानां राविल्लीं. पूण सीता काय ते वाटेन परती येयलीच ना. ती भलतेच वाटेन विमानांत बसून परती गेली. अजुनूय ताका फूल फुलना. फक्कत पानां भुंयेंतल्यान वयर सरून मोरपांखांवरी उबीं रावतात. इतलें सोबीत पान आनीक संवसारांत दुसरें ना.'

तीं फक्कत आयकतालीं. ताणेंच परतें विचारलें, 'वचून येयलीं तुमी भिल्लमाडासरीं ?'

'ना तातूमाम. वयर वचूंक वाटच ना.'

'हांव जाणां, शिद्दाराम दोंगरावयल्या शिद्दपुरसान वयली वाट आडावन दवरल्या, तांचे तपश्चर्ये आड कोण येवचो न्हय म्हण.'

'कोणाची तपश्चर्या ?'

'ते तीन भिल्लमाड आसात न्ही ते तीन शिद्दपुरूस. शेंकड्यांनी वर्सां ते पांयें वयर आनी तकली सकयल करून तपश्चर्या करताले. ल्हव ल्हव तांच्या केंसांचीं पाळां मुळां जालीं आनी भुंयेंत रिगलीं. पायांच्या बोटांक फागूर फुटले आनी तांची चुडटां जालीं. आतां ते मळबाक वेंगोवंक म्हण वाडूंक लागल्यात. ज्या दिसा तांचे पांय मळबांक तेंकतले, ते वाडचे थांबतले आनी तांची तपश्चर्या पुराय जातली. ते लोकांत परते येवन संवसाराचो उध्दार करतले. संवसारांतलीं सगलीं दुख्खां पयसावतलीं.'

सुमनान तातूसरीं बारीक पळयलें, झांब्यारुखाचें कातरिल्लें खोडच ताका पांयें

फुटून तें गोरवांफाटल्यान भोंवता अशें ताका दिसलें. वतान ताजी चेऱ्यावयली, आंगावयली कात करपून गेल्ली. हात पायें इतले बारीक आसले, ताजी कूड तिखट्यार उबी केल्या अशें दिस. पांयांत तुटकर व्हाणो आसल्यो. फक्कत फातरांत आनी कांट्यांतल्यान चलतना तो त्यो पांयांत घालतालो. एरवीं हातांत काडून घेतालो. ताजेन ताज्या पावलांक आडवे उबे कातरे पडिल्ले. पूण ताज्या दोळ्यांत मात आगळीच लिकलीकसाण आसली. ते दोळे गोरवांचेर, चोंय वाठाराचेर भिरभीर भोंवताले.

'तातूमाम, शेताची लुवणी, मळणी जाल्या. ह्या दिसांनी गोरवां कोण राखिनात. तूं कित्याक म्हण घेवन भोंवता गोरवांक ?'

तातून अचकीत आवाज चडयलो. 'शेताचो वावर जालो म्हण कितें जालें, उशेलां आसात, पोरसां आसात. फाल्यां कोणाल्याय उशेलांत, पोरसांत घुसून गेलीं जाल्यार ?'

'आमच्या वाड्यार तर लोक गळ्यांतली कानी काडटात आनी गोरवांक मेकळींच सोडून दितात. कांयच तक्रार ना. फक्कत पावसभर गोरवां राखप. गिमांत गोरवां फाटल्यान कित्याक म्हण भोंवप ?'

तातू ल्हान भुरग्यावरी हांसलो. 'गोरवांराखणो हांव. पांच जाण भावांतलो निमाणो. भुरगेपणांत हांव इतलो बारीक, येलतूंड आनी अरवळ आसलों. एक फावट गोरवां राखचें काम म्हज्या गळ्यांत बांदलें तें कायमचें उरलें. आमचें जायतें शेत आसा. पूण हांवें जिवितांत शेतांत एक खोरें मारूंक ना. भाव वेगळे जाले. पूण हांव रासवळूच उरलों. तांचीं रासवळच गोरवों राखतां. जेवणाच्या वेळाक खंयच्याय भावाले वासरेंत वचून बसतां. भावान लग्न केल्लें. पूण बायल पिशी. रातची उठ्ठाली आनी गांवभर भोंवताली. एक दीस बांयंत पडून मेली.'

गोविंदाक आनी सुमनाक दिसलें, खूब खूब लांबची वाट माडोवन गेले उपरांत एकाद्रो वाटसुरो सांगाती मेळचो आनी ताजेकडेन उलयत चलत रावचें तसो तो उलयता, मनाचे तळमळे म्हण, वाट बेगीन सोंपची म्हण.

'बसात. ह्या तळपार मातशीं बसात. तुमी जाणात रानाकय जीव आसता. तें शिळोवणी घालता, तें रडटा, आनी हांसता. एकाद्रें सावळे कूप ताजेर ओणोव घेवन रावलें म्हणटकीर रानाचें रंद्रान रंद्र फुलून येता आनी तें उदक न्हावंक आशेता. चैत्र वेंशाखाच्या वतांत रान हुलपतना तें सोंशेंता, पिरंगता. ताजी पिरंगणी हांवें आयकल्या. म्हाका ह्या रानांचें रानपिशें लागलां. रानाच्या मुळासाक पावतकीर म्हाका वतांतल्यान सावळेंत पाविल्लेवरी दिसता. म्हजें रान आनी म्हजीं गोरवां हेंच म्हजें

जिवीत. चाळीस वर्सां जालीं एक दीस हांवें रान चुकयलें ना. गांवचे जात्रे दिसा देवळामळार वाजंत्रां वाजतात, फोग पेट्टा. पूण हांव मात गोरवांक घेवन रानाचें दिकेन चलूंक लागतां. तुमी जाणां, गेल्या वर्साक म्हगेले व्हडले व्हनयेन म्हाका कार्तीक पुनवेचे परबेचें जेवण रानांकडेक धाडून दिल्लें.'

सुमनान ताजेकडेन विचित्रशे नदरेन पळयलें आनी म्हळें, 'आमी वयतां आतां.' तीं दोगांय चलूंक लागलीं. राखण्यान तांकां व्हडान सांगलें, 'ह्या रानाचे कडेर म्हण हांव तुमचेकडेन इतलों उलयलों. गांवांत वतकीर म्हजी जीब मोनेता. कांय लोक म्हाका मोनोच समजतात.'

सुमन आनी गोविंदान सकल शेतांत देंवन वयर पळयल्यार तो पानां झडिल्लें काळ्या खोडाचें खैरीचें झाड कसो तळपार उबो आसलो. हाजें भोंवतणीं गोरवां आसात म्हणच ताका मनीस म्हणचेलें, ना तर हेवुय रानांतलें एक झाडच. तांकां दिसलें आतां आमचेकडेन एक झाडच उलोवन गेलें.

तीं वाड्याकुशीक पावलीं तेन्ना वाड्यावयल्यो कांय बायलो आखाड्यांत, वंयंत उब्यो रावन तांकां पळयताल्यो, रागान, दुबावान !

आखाड्यांत पांय दवरतकीर अंबूमावशेन विचारलें, 'खंय गेल्लीं गो सुमन ?'

'बेठींच जीनवटेमेरेन भोंवन येयलीं.'

'वयल्यान फट उलयता तूं सुमन. पाडपडिल्ल्या कसलो हुबदळ मारला तुका. दादल्या चेड्याक घेवन वयल्या रानांत एकलेंच वचून येयलां.'

'ना गे मावशे.'

'आगो तीं सीतेचंवरां खंय मेळ्ळीं तुका ? वयल्या रानाबगर आनीक खंय मेळ्ळीं तीं ?'

सुमन वोग्गी.

गोकूळमावशी म्हऱ्यांत येयली. बारीक पळयत ताजे भोंवतणीं एक फेरी मारून तिणें म्हळें, 'खंय गेल्लीं गो, कितें केलें वचून ? पयलीं वाड्यारच धुमशणां घालतालीं, आतां दोंगरार वयतात. आई मेल्ल्यान पारपोळ पडलां तूं. पूण रांडला, हांव सांगता तुकां, कितें नश्टेपण केल्यार बेता बडयेन झोडून काडटलें.'

कुशीक दसणीपोंदाक सुमित्राकाकी उबी आसली. तिणें म्हऱ्यांत येवन सुमनाल्या हाताक धरून ताका घराकडेन व्हेलें. तिणें गोविंदाक म्हळें, 'चल रे भाच्या, वच. मामागेर वचून वोग्गी मामयेले होटयेंत बस. अजून मिशयो फुटल्योनात आनी

मामाल्या चेडवाक घेवन दोंगरांनी भोंवता.'

सुमित्रा सुमनाक घेवन वासरेंत येवन बसली. तिणें आपल्या म्हौंवाळ उतरांनी ताजे फाटीर हांत भोंवडायत सांगलें, 'आवय नाशिल्लें चेडूं तूं. वाड्यावयल्यो बायलोच तुज्यो आवशो म्हण तुका त्यो कितेंय बऱ्याचेंच सांगतात. आतां वयार आयिल्लें चेडूं तूं. भुरगेपणां सोडून दी. चड दादल्या भुरग्याच्या म्हऱ्यांत रावचें न्ही.'

'गोविंद बरो काकी. तशें कांय ना गे काकी. तो वांगडा आसल्यार म्हाका बरें दिसता.'

'ताजे वांगडा उलय बोलय नाका म्हणी नात आमी तुका. फाल्यां तुज्या दैवांत आसा तेंच जातलें. पूण आतां सोताक राखून राव. बायलांनी चड हुतहुतेपणां दाखयल्यार बायलो चड सवाय दिसतात पळयतल्याक. अस्तुरेची कूड म्हळ्यार धांपिल्ली मूठ.'

फुडले आठ दीस सुमन घुम्म मोनें आसलें. एकलेंच वासरेंत बसून रावतालें. अचकीत आपणाक हो संवसार सोंपून मर्दीच हुमकळ्याक उडयलां अशें ताका दिस. बाय वचतसान कोण आतां म्हजो उरूक ना ! म्हजो जिवाभावाचो इश्ट गोविंद, तोय आतां म्हजो उरलो ना. आंगल्याचें होंटयेंतल्यान आंबो काडून व्हेल्लेवरी ताका कित्याक म्हण व्हेलो ह्या लोकान. पूण हांव ना सोंपोवचें ताजेकडेन इश्टागत !

तें आतांय पयलींवरीच वासरेचे उदेंतेक बसून गोविंदाची सुलूस घेतालें. गोविंद पयलींवरी केन्ना वासरेंत येवन बसतालो. पूण तो दिश्टी पडटकीर ताजेकडेन उलयतना सुमनालें काळीज बेठेंच कलकलतालें, पयलींवरी हांसून खेळून उलोवप जायनासलें. जोखून जोखून उलोवप आनी मर्दीच भिरभीर नदरेन चोंयवटेन पळोवप. पूण सुमनाक दिसतालें भुरगेपणां सोंपल्यांत आनी आतां चडच ताळणी लागल्या !

पयलीं आपा मूठभर तंबाखू घालून केळीपानार वेतभर विडी वळटालो. कांबळी फटें कातरून केल्ली तागेली एक पोती आसली. तातूंत तो विडयेचे सामान घालून दवरतालो. सद्दां रातचो तो ते तीन चार खोजने विडयो वळटालो आनी दीसभर परतो परतो ओडीत रावतालो आनी खोंकतालोय बी. पूण ताणें अचकीत विडी ओडचीच सोडली. वोग्गी वासरेंत वणटीक तेंकून बसून रावतालो. आनी काळखांतलो उजवाड सोदतल्यावरी खंय तरी पयस पळयत रावतालो. वोग्गी रावल्यार दिसतास



घुम्म मोनो. केन्ना मर्दींच ताका तोंड फुट्टालें आनी घशघशान उलयतालो, 'पाडपडिल्ल्यांनो कितें शेत कसतात धतरिचेर चोटली भोंवडायल्लेवरी. असो उबो नांगर घालून धतरीचें हड्डें फोड्ूंक जाय. सारकी मुंडळे माती वयर काडूंक जाय. बैलाचे गांडींतल्यान फेण भायर सरूंक जाय. फाल्यां पीकच ब्रें जालें ना म्हणटले. पावसान दगो दिलो म्हणटले. वारें विखळें वेळ्ळें म्हणटले.. आर्दी हाडां झरयात मगेर खांडयांनी भात. साळचें सुरय शीत जेवंक संवकल्यात तुमी चाकरेशिपायांवरी. पाणयो, आजगो नाका जाला तुमकां. सरकारी साऱ्याची साकर मेळ्ळी आनी शेणपालो वाऱ्यार उडयलो तुमी.'

'आपा, विडी तरी एक वोळून ओड रे.'

'वासनाच मेल्या गो बायूल. बायूल, तुका बायचो, आईचो उगडास येता गो ? आई कशी दिसताली तुगेली ?'

'म्हाका याद ना रे आपा !'

'बायक याद आसा. सारकी याद आसा त्या शाण्याक. तें सांगता आई चान्नाचे देवीवरी दिसताली खंय आनी धर्वी धर्वी कांदळां माळटाली खंय. ताका चान्याच्यो उयो पडटाल्यो खंय !'

सुमनाक रडुंकूच येवंक लागलें. तें बेगीबेगीन भितर धांवलें आनी चुलीमुखार बसून रडूंक लागलें. 'आपा तूं असो कितें करता रे !

एके रातचे मध्यानरातीर आंगणांत रावन कोण आफयतासो आयकोंक येवंक लागलें. न्हिदेंत आशिल्ल्या सुमनाक रावन रावन उले आयकोंक येताले. आपल्याच दारांत काय शेजारचे गोकुळमावशेल्या दारांत कांयच कळनासलें. सुमन ऊं ऊं करीत उठलें आनी ताणें काळखांत धडपडत वचून दार काडलें. आंगणांत हातांत चिमणी घेवन केशवअण्णा आनी तागेली बायल देवकी उबीं आसलीं.

'कोण गे ? कितें जालें केशवअण्णा ?

'गणेशबाब न्हिदला गो घरांत ?"

केशवान आपल्या हातांतालो लांपयांव व्हरून वासरेंत चयल्यार आंगपोंदांतली शेंदरी गुटलावन वणटीसरीं उबी करून दवरिल्ली आसा. कांबळ मात ना.

सुमनान होळोम काडून विचारलें, ' कितें जालें केशवअण्णा, कितें जालें गे मावशे ?'

'ते आयक. तुजो आपा, मध्यानरातीर वचून ताणें शेतांत जोत बांदलां. तरीय

आमकां दुबाव आसलोच गणेशबाबच म्हण तो.'

मगेर तीं आंगणामेरेसरीं वचून उबीं रावलीं. पयस शेंकऱ्या शेतांतल्यान जोत हामुडिल्लें व्हडाव्हडान आवाज येतालो. 'अम्म ह ऽऽ य आरारा अम्म ह ऽ ऽ य ! हांच्या तोंडाक हळद लागूं, गोट्याक नळे पडूं...'

सुमन कांचवेवशें आयकतालें. केशवान म्हळें, 'कातया नखेत्राचो पुंजो अजून माथ्यावयल्यान कडसरलोय ना. मध्यानरात जाता थंयच आसा आनी हाणें ह्या काळखांत व्हरून जोत बांदलां. तासां तरी दिसतात हाका ?'

आपा सांवार आयिल्लेवरी जोत हामुडटालो आनी बैलांचेर आड्डतालो. मर्दीच बैलांच्या आंगार बडी पडिल्ल्याचो आवाज आयकोंक येतालो. सुमनाची सामक्की गुळी. 'कोण तरी वचून जोत सोडूंक लायात रे आपाक !

'आतां एक कुणगी तरी कसून जालेबगर जोत सोडचोना तो. तूं वचून न्हींद ओगीच. ताका देवकेन हाताक धरून वचून घरांत घालें आनी दार ओडून घेयलें. सुमन दाराआड बसून आपाल्या आवाजाची सुलूस घेतालें. बशिल्लेकडेन ताका झेम येवंक लागली. तें थंयच भुंयेचेरच लवंडलें.

सकाळीं जाग येतकीर सुमनान भायर येवन पळयल्यार आपा तकलेवयल्यान कांबळ ओडून घेवन वासरेंत न्हिदला. बरोच वेळ सुमन ताचेसरीं वोगी उबें रावलें. आपा तसो कांबळेपोंदाक आशिल्लो पळोवन ताका भिरांतशी दिसली. ताका उठोवंक मुखार गेल्यार तो पिरंगतासो आवाज येयलो.'

'आपा, आपा !'

आपान तोंडावयल्यान कांबरूण काडलें. कांय वेळ ताजे दोळे उजवाडाक दिपकावल्लेवरी उकते, धांपते जायत उरले. 'आपा, तुवें, मध्यानरातीर वचून जोत किद्याक बांदिल्लें ?'

'दोंगरापेल्यान दरयाचो गाज तुका आयकोंक येना ? न्हंयची धार सुकून मळबांत पावली. पावस येवन दोंगरार तेंकलो तरीय हे बींभात घरांत घेवन बसल्यात. फाल्यां घोऽ करून पावस पडटकीर बीं भाजून रोयात म्हण सांग.'

'आपा असो उलोवं नाका रे ! ऊठ तूं हांव च्याव करून दितां.

गणेशान सामक्कें तीन कसो करून शेत रोवंक तयार करून दवरिल्लें. रातदीस शेतांत. एका खांदार नांगरां घडप तर दुसऱ्या खांदार खोरें, कुदळ आनी हातांत दिपळो. मुखार जोत हामटीत रातदीस शेतांत. जोत सोडटकीर हातांत कुदळ घेवप

आनी कोनशे, कडो बारीक चांचोवन घालप. मगेर हातांत दिपळो घेवन सगले बारीक मोटे दिपळे बडोवन पिठो करप. खंयची शक्त ताणें एकठांय केल्ली देवाक खबर. पुरो म्हण जायनासलें. चैत्र वैशाखाच्या वोताकडार दनपारच्या भाराक हो शेतांत.

मेळमेळिल्ल्यांक सांगत सुटिल्लो, 'पापयांनो पावस येवन मळबार तेंकलो. बियांचण करात आनी शेत हुंवन उडयात. पावस तुमकां फटोवंक रावला.'

बियाचण एकदांची जाली आनी लोकान सुपांत बीं घेवन शेतांत उडी घेयली. शेतांत वचत थंय जोतां धांवतालीं. तांचे फाटीर बडयो फुट्टाल्यो. सगलो लोक गांव रितो करून शेतांत. कोण सारें वारयताले, कोण कसतालो, ओळयतांलो, मेरो धरतालो, कोनशे कडो चांचयतालो. सगलो घडघड !

गणेशान रोवंक मूठ मारली आनी एक मिनटाची उसरपत घेनासतना ताणें आपलें स खांड्यांचें शेत पंदरा दिसांनीच रोवन उडयलें. ताणें सुमनाकय फुरसद घेवंक दिलिना. सुमनान झिळमिळ्यार उठप आनी भाकरी चाव करून आपाक शेतांत व्हरून पावोवप. माथ्यार बियांचो चोबो, वयर सूप आनी हातांत फाळ्याक गुठलायल्ल्यो भाकऱ्यो. वेळ माथ्यार पावंमेरेन तें आपा वांगडा शेतांत रावतालें. वेल्यान आपाली तापसाण. कामां फाटल्यान ताका तो धांवडायतालो म्हळ्यार जाता. आपालें जेवण खाणच न्हय तर बैलाचें तण, नीस उदकय तें शेतांतच हाडून पावयतालें.

रोवन जालें आनी अचकीत धर्तरेर पांय तेंकिल्लेवरी ताजेवेलो भार देंवलो. आतां तो वोगीच मेरांनी भोंवतालो.

रामदादान रोयताना बिंयांची मूठ हातांतच घेवन विचारलें, 'गणेश, बेगीच उडयलें मुरे रोवन.'

'शेत सगलें तयार आसलें रामदाद. बीं हुंवलें, एक कस केली आनी ओळयलें, आर्दीच कळाव जाला.'

'तुजें बरें. सगलें शेत धुळवपेक, बींय हुंवलें आनी पावसाची वाट पळेत रावलो. आमचेवरी जोन्नी ना.

'जोन्नी मारूक म्हजें शेत मकी-बरड न्ही. बरें एकतळ केरातलें शेत. खांडयेक कूंभ पिकचें.'

'जावं बाबा. कूंभ पिकूं दी तुज्या शेतांत. आतां नांगर धुंवणेची शागोती केन्ना रे ?'

'नांगर धुंवणेची इतले बेगीन ? घरांत आशिल्लें शेतांत हाडून ओतलां. मळब

अजून उजो ओंकता आनी इतले बेगीन नांगर धुंवणेचें उलयता तूं रामदाद. आदी हुंविल्लें किल्लून येवंदी. बींय कोंबेतलें तेन्ना खरें.'

रामदादाली बायल भागरथीन घोवाक म्हळें, 'बेठीच गणेशाली तकली घुंवल्या म्हण लोक उलयतात. पूण तो तर चड शाणो दिसलो म्हाका.'

'आगो, पूण तो पयलीं केन्ना इतलो उलयतालो ? आतां कामाय तसोच सांवार आयिल्लेवरी करता आनी उलयताय चड. कितेंकात देवाक खबर.'

शेत रोवन जालें आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं सुमन बैलांच्या गळ्यांतली कानी काडूंक म्हण गंवणींत गेल्यार शिबऱ्यालो खांद सुजून जूं घेवचेकडेन हें येदे व्हडलें गोळ येयलां. ताज्यान मान हालोवंक जायना. रडटलेवरी दोळ्यांतल्यान उदक देंवता आनी दोळ्यांभोंवतणीं पूर सांचला. फाटीर हात दवरल्यार ल्हंवय थरथरायना. सुमनान गंवणींतल्यानच व्हडव्हडान उले मारले, 'आपा, हांगा यो रे आपा, शिबऱ्याक कितें जालां चय !'

आपा आंगणांत उबो आसलो. 'कितें जालें गो बायूल.' म्हणत आपा गंवणींत गेलो. सुमनाले उले आयकोन गायरेसरीं सारें भरतालो केशव, शेतांत वचूंक सुटिल्लो खुशाली बीन येयले.

वाडेकारालीं गोरवां पावसभर रस्त्याचे वयलेवाटेन दोंगराच्या मुळसाक आशिल्ल्या गोठ्यांनी आसतात. गीमभर मात वाड्या भोंवतण ताटीचे कडवे करून गंवण घालतात. वाड्याचे वंयंत आशिल्ल्या दर एक रूखापोंदाक सावळेंत एक गंवण. जाल्यार वयर चुडटांचो माटोव.

सगलेच गंवणींत येयले आनी तांणी बैलाक चयलें. खुशालीन म्हळें, 'पापया गणेशदाद, बैलाक खांद येयला मुरे. उब्बो नांगर धरून कसूंक जाय तुका. वेल्यान बैलाक बडयो मारीत धांवडायता. गेल्ले धा-बारा दीस तुवें एक मिनटाची फुरसत दियनासतना बैलांक झोडून काडले. कोंब्यासादार जोत बांदप आनी वेळ माथ्यार पावलो तरी सोडप ना. सांजचें आनीक परतें. कसलो सांवार येयला तुजेर? मोनजात ती पोटाक दिवपी. ताजो जीव शेतकारानच राखूंक जाय.'

गणेश म्हऱ्यांत गेलो. शिबऱ्याक पोशेत 'म्हज्या शाण्याक, म्हज्या गुण्याक कितें जालें रे देवा' म्हण रडूंक लागलो.

'कांय जावचें ना गणेशदाद. दूख गेली म्हणटकीर बरो जातलो. एक कर, रानांत वच आनी पोडलेरुखाच्यो साली घेवन यो. त्यो बडोवन बरो अर्क काड. त्या अर्कान

हूनहून शेक दी.'

'कीड लागिल्लें वर्स हें केशवा. सक्रांत उंटाचेर बसून येयल्या म्हण जाणा मुरे तूं? हांव सांगतां ह्या वर्साक मोगा पावस सामको पडचोना. धानांचो पोटुरो पोटांत उबोच सुकून वयतलो. म्हशीर बसल्यार म्हापूर आनी उंटार बसल्यार दुकळ–कांय खरें न्ही. नातर म्हज्या हती कशा बैलाक खांद येवचो ! मेरेवयले हद्दे फातर वर्सवर्साक हुमटितात मुरे तुमी. आतां पानवळ भोगचेलें.'

गणेश रानांत गेलो आनी ताणें एक वजें बांदून पोडलेसाल हाडली. ती कोयतेन बारीक कातरली आनी फातरेर दवरून चेंचली. मगेर हांडयेंत घालून तिजो शिजोवन अर्क काडलो. सांजभर तो शिबऱ्याक शेकयत रावलो.

रातचें ताणें खांदार कांबळ उडोवन म्हळें, 'बायूल, दाराक खिळी घालून घे. हांव गंवर्णीत बैलांसरीं वचून न्हिदतां.'

'नाका आपा तूं हांगा वासरेंतच न्हीद. आतां बैलांसरीं न्हिदून कितें जातलें?'

'म्हजें वासूर थंय दुखीन सोंशेता आनी हांव ताका सोडून हांगा न्हिदूं? आतां ताज्या खांदार जूंव दवरचें म्हण उरलेंना गो बायूल. कितलो तेंप घेतलो तो जूंव खांदार? म्हजो हातच राकेसाचो. फाटीर बडयो पडल्यो आनी हें अपशरण येयलें. बायवरीच हो एक शिबरो मोव म्होंवापोळो. बाय कांय आतां म्हाका दवरचें ना. हांव सांगतलों ताका, बाय गो आतां बडी सासणाची सुटली. जूंवय ना आनी बडीय ना.'

तो वथरेल्लेवरी उलयत गंवर्णीत वयतालो. सुमन कांचवेवन ताका काळखांत पळयतालें, कित्याक म्हण हो गंवर्णीत न्हिदूंक वयता ? ताणें आपा म्हण परतो उलो मारलो. उलो काळखांत घुसपून खंय गेलो कळ्ळेंच ना.

तें भितर येयलें. चिमणेचो तांबसो काळसो उजवाड भितल्ल्या पसाऱ्यार पातळिल्लो. कोनशांतलो मुडयां दाळ, मुगां, हुडदांचे कोडके, आड्याक हुमकळावन दवरिल्ली मोगीं आनी तांबडे दुदी, सरबीं आनी दोरयो, मडक्यांच्यो हारी हांचें थंय एक कवडाळें पडिल्लें. तातूंत सुमन घुसपलें आनी भिंयेल्लेवरी जालें. तें बेगींबेगीं भायर येयलें.

'गोविंद, आरे गोविंद, तूं तरी यो रे सभाग्या ! आपाक मातसो सांगात कर ! नातर बेठोच येवन वासरेंत बस. तूंय कित्याक पयसावलो !'

आपणें गोविंदाक खरेंच उले मारले काय सगलें मनांतच घोळयलें, ताका कांयच कळ्ळें ना. पूण मगेर ताका उगडास येयलो, आयज सांजचो आपा पोडलेसाल

बडयताना गोविंद आपासरीं येवन बशिल्लो. पूण म्हाकाच कितें तरी जालां. हांव कित्याक कचरतां ताका ! कोणाक भिंयेतां हांव!

तें बेगीबेगीन वासरेचे उदेंतीक गेलें. गोविंदाल्या मामालें घर, थंयची रुखावळ सगली गुडूप काळखांतशेंडिल्ली. माळयेर एक लांपयांव मंद पेट्टालो. पूण जनेलांत कोणच दिसनासलो. सुमन थंय बरोच वेळ उबें आसलें, जनेलांत एक सावळी तरी हालता काय पळोवंक!

वाडेकारालें सगलें धुळवपेचें शेत रोवन जाल्लें. उबारेवयलें मकी–बरड जोन्नें शेत तितलेंच रोवचें उरिल्लें. लोक पावसाची वाट पळयताले. पूण रोयणी पावस वचून मीर्ग सोपूंक येयलो तरीय पावसाचो थेंब ना. वयर बंजर घुप्प रितें मळब. सकल तानेल्ली वोतांत हुलपावन गेल्ली धर्तरी. मळबांत एक काळें कूप म्हण धरनासलें. रातचो मळबांत नखेत्रांचो चकचक आनी दिसाचो वोताचो रखरख. लोक मळबा वटेन तोंड करून म्हणटाले, 'मीर्गा तेंपाक असलें पडींग मळब कोणें चयल्लें ! मनशाची नीत इबाडली म्हणटकीर देवाली सासाय उणी जाता. दोळ्यांमुखार मेरेवयलो हद्देफातर हुमटितात हे !

वोताचो रखरख वाडलो आनी गणेशाल्या मनाचो थावच चुकलो. सकाळ म्हण ना सांज म्हण ना, दनपारच्या वोताकडार लेगीत तो शेताची मेरान मेर भोंवन येतालो. तापिल्ल्या धुल्लांत उकत्या पांयान चमकून ताज्या पावलांच्यो कायली जाल्ल्यो. वतान करपून चेऱ्यावयली कात रांपिल्ली आनी काळी पडिल्ली.

एक दीस अंबू मावशी बांयर उदक भरताली. बिंदलो बचून बांयच्या तळाक तेंकतालो आनी तो खदूळ उदकान अर्दकुटोच भरून येतालो. ती वित्रागान तणतणली, 'धतरिचो पानोच सुकला थंय बांयंत झर खंयची आसतली. मळबाच्या तिळ्यार तर येद्दी ओलसाण ना !' तिणें बेठीच मान वयर करून चयल्यार पयस शेतांमेरो माडयत वोताच्या रखरखांतल्यान कोण तरी उकतो बोडको येता. कोण हो उजो माणयत येता काय !

लार्गी पावतकीर पळयल्यार गणेश. इतल्या वोतांतल्यान चलून येवनय ताज्या चेऱ्यार हुमेचो थेंब ना. बेठोच वोतान सुकिल्लेवरी, वातडिल्लेवरी दिसता. अंबू मावशी ताजेर धेंगशेली, 'गणेशा, कसलो खेव येयला तुजेर. कित्याक असो वोतांत भोंवता ?

कसलें हें सोताक जितो लासून घेवचें !'

गणेशान आपल्या तायटार भातागोटे आशिल्लेवरी तायट तिजेमुखार हालयलें आनी म्हळें, 'पळयलें मुगे अंबू होनये, शेतांत हुंविल्ल्या बियांचे ल्हावें फुलूंक लागल्यात. आतां कांय मेलों म्हण पावस पडचो ना. शंबर वर्सां जालीं मुगे ह्या थळार खुटी रोवन मठी बांदून ! शंबर वर्सांचो वायदो. आतां साटली पोटली बांदून तयार रावात. खुंटी हुमटिची आनी...'

'कसलीं भिकनार्शी उतरां हीं पापयां ! ह्या थळार मारिल्ली हीं खुंटी सासणाची. खुंटी हुमटिल्यार ह्या कुळाचें मूळ वरशें पडटलें.'

'तूं कणकीक कांटो येयला म्हण जाणा मुगे. ह्या वर्साकं पावस ना. कणकीचो कांटो काणून खावचो पडटलो सगल्यांक. अनसुयाक निमाणें तुवेंच दसणीं फुलां माळिल्लीं मुगे. कसलो उटांगाराचो पावस. चितेक दाळिल्लीं लाकडां भिजून गेल्लीं. तरीय तें जळून गेलेंच मुगे कापरासवरी. शा! आतां म्हण तसलो पावस म्हण पडचो आसा ! विखाळ्या वोतांत आमी हुलपावन वचचेलें.'

अंबू मावशेन दोड हांडीर मारली, 'भोगणार. वयार येयिल्लें चेडूं गळ्याक तेंकलां आनी हो तकली पाड घालून घेवन संवसारा भायरो जाला.'

एक दीस अचकीत सांजचो झडमोडो वारो वेळूंक लागलो. पळयतां पळयतां काळ्या कुपांनी मळब भरून गेलें. मर्दीच मळबाचो धोल कोणें बडयलो आनी मळब तटतटायंच करून वाजलें. आर्दी पावस शिरीशिरी शेनवंक लागलो. कांय खिणांनीच पावसान सामकी धार धरली. पावसाक पळोवन मनशांच खुशाल भरीत जालीं अशें न्हय तर झाड-माडय पानांचे तुरे फुलोवन मोरांवरी थुयथुयतात अशें दिसूंक लागलें.

आपा वासरेंत बसून पांवळ्यो गळटात त्यो पळेतालो. तीन दीस तानेल्ल्यान उदकाचो एकेक घोंट घेवचो तसो तो पावसाक संतोसान पळयतालो. अचकीत तो उठलो, तकलेर कांबळीखोल उडोवन उकत्या आंगानच भायर सरलो.

'आपा पावसांत खंय वयता रे ?'

'भोंवन येतां मातसो शेतांतल्यान. मेरो, उतरळां चवंक जाय न्ही गो. सगलेंच व्हांवन गेल्यार बद्द न्हयंत. कसलो धोग्याचो पावस! जीव मातसो भिजोवन घेतां. बायूल गो, तुगेली आई मेल्ली त्या दिसाक असोच पावस. कोण्णाच्यान म्हण आडावंक जालोना.'

आपा उलयत पावसांतल्यान वयतालो. ताजे कांबळीचे वादयेंतल्यान उदक गळटलें. सुमन पांवळेंत उबें रावन मोन्यांनीच ताका पळयतालें.

पूण काळोख पडून रात जाली तरीय आपा परतलोना म्हणटकीर तें भियेलें. भायर रावन रावन पावस पडतच आसलो. भायर उदकाचो धवो धुंवरसो उठिल्लो आनी काळखांत भरसल्लो. भायर दोळ्यांमुखार धवो-काळसो एक पड्डो. ताजे भायर मात पार आनी तीर नाशिल्लो घुडूप काळोख.

सुमन पांवळेंत उबें रावन आपाक सादयतालें. वाड्यावयले लोक भितर रावन सादोवप आयकताले. खंय गेलो काय हो उटांगाराच्या पावसांत ! आर्दीच तकली घुंवल्या ताजी !

आतां सुमनाल्या सादाक एक रडटी धार येयली. आकूळपिकूळ जावन तें आफयतालें, 'आपा, आपा रे, खंय गेलो रे आपा !'

इतलो वेळ जनेलांत रावन आयकताली आवडू आजी दारांत येयली. ते वाटेच्यान सुमित्रा आनी तिगेलो घोव नरशींव येयलो. गोकूळ मावशी, खुशाली बीन येयले. मुखावयल्यान भास्करअण्णा आनी तागेलो भाचो गोविंद येयलो. कोण वासरेंत येवन उबो रावलो तर कोण तकलेर आडसराक कितेंय घेवन आंगणांत उबो आसलो.

खुशालीन आंगणामेरेर उबो रावन आपल्या दादल्या आवाजांत कांय व्हडाव्हडान उले मारले. जाप ना. भास्करअण्णा हातांत लालटन आनी कपड्यासत्री घेवन आंगणांत उबो आसलो. ताणें म्हळें, 'खंय गेलो हो उल्या भायर. खुशाली, नरशींव तुमी अशें करात, हें लालटन हातांत धरात आनी खंयी आशिकुशीक सोदून येयात. जाल्यार देवळाकडेन, देवूळवाड्यामेरेन वचून येयात.'

नरशींवान लालटन हातांत घेयलो. तो आनीक दोग दादले वचूंक सुटले. गोविंदान बेगीबेगीन मामाल्या हातांतल्यान सत्री घेयली. 'तूं आनी कित्याक वयता गोविंद ?'

'ना मामा, हांवय वयतां, मामाक सोदूंक.'

दादले वचूंक भायर सरले आनी सदाशिवाली बायल, विश्रांती मुखार येवन सांगूंक लागली, हेदोळ काळोख पडूंक हांव शेतांतल्यान सारें वारोवन परतें येताना गणेशभाथो म्हाका अंदणां शेतांत दिश्टी पडिल्लो. बेठोच मेरेर उबो आसलो.'

खुशाली तिजेर ताणशेलो, 'इतलो वेळ खंय गेल्ली गे ? आतां सांगता?'

आवडू आजयेन म्हळें, 'आरे तें न्हिदिल्लें आसतलें भुरग्यांक चिंवांक घेवन. ल्हान भुरगे आसा न्ही रे तागेले.'

दादले सादयत मेरांनी भोंवताले. पावसांत कोणाले तकलेर कांबळीखोल,

कोणाल्या हातांत सत्री बीन आसली. पावसान सगलेकडेन उदक आनी चिखोल जाल्लो. मर्दीच कोणय पांय निसरून झिडपतालो, आनी मेरेवेल्यान उदकांत पडटलो. गोविंद तांचे फाटल्यान मोन्यांनीच चलतालो.

एके कडेन एके मेरेचो ऊंच कोनसो आसलो. थंय कांय लिंगोडेचे ताळे आसले. लिंगोडेच्या ताळ्यांसरी कोनशाक मेरेची तेकणी घेवन गणेश लवंडून पडिल्लो. ताका पळयतकीर सगले जाण ताजेभोंवतणीं एकठांय जाले. गोविंदान 'मामा' म्हूण ताका वेंग मारली. लालटनाचो उजवाड तोंडार धरून पळयल्यार ताजे दोळे उकतेच आसात आनी तो बिटीबिटी काळखांत पळयता. ताजे तकलेवयली कांबळीखोल सकल पडिल्ली आनी तो पुरतो भिजून गेल्लों. सकल पातळायल्ले पांय शेतांतल्या उदकांत बुडिल्ले.

'गणेशबाब, तूं कित्याक म्हण हांगा असो पडून आसा ?'

सगल्यांनी धरून ताका उठोवन उबो केलो. तो ऊं ऊं करीत जाग आयिल्लेवरी उबो रावलो.

'गणेशमाम घरा या आमी.'

ते ताका फार्टी फुडें धरुनूच घराकडेन घेवन येयले. ते सगले तशे आपाक धरून हाडटात तें पळोवन सुमनाचेर कलकल येयलो. तें वासरेंत दारासरीं धप्पकन बसकण मारून बसलें. रडुंकूय येनासलें आनी कितेंच सुचयनासलें.

वाड्यावयलो लोक मात भायर भितर घडघडीत वावुरताले. दादल्यांनी ताका सुक्या फाड्यान बरो पुसोवन काडलो. दुसरो वालो न्हेसूंक दिलो. अंबू मावशेन कयलांत पेट्टे इंगळे हाडून मुखार दवरले. सुमित्रान आपल्या घरांतल्यान एक तांतें हाडून भूंयर आपटून कट्ट करून फोडलें आनी तें गांवठी जितें तांतें ताज्या ताळ्यांत रकयलें. म्हळें, 'आंगाक बरी ऊब येतली.' गणेशय देवाभशेन सगलें वोग्गी करून घेतालो.

गोकूळमावशी मर्दीच सुमनाचेर धेंगशेली, 'आगो बसलां कित्याक तूं फतकल मारून ? वाडून हाड ताका.'

दनपारां ताणें सुंगटा घालून भिकणां रोस केल्लो. ताट वाडून घेवन तें भायर येयलें. आपा जेव म्हळ्यार बेठोच तोंडांत हात घालून कुयां मुड्डितालो. सुमनान एक उंडी करून ताज्या तोंडाक लायली. गणेशाक कितें दिसलें कोण जाणा, ताणें एक व्हड उंडी केली, तोंडांत घाली. उपरांत उंडयेचेर उंडी तो तोंडांत लकयत रावलो.

सकाळीं उठून पळयल्यार मळब निवळ्ळां आनी आपाय सडसडीत आंगणांत वचून उबो आसा. ताणें पांवळे भितल्लें खोरें उखलून खांदार घेतकीर सुमनान विचारलें, 'आपा खंय वयता, जातलें मुरे?'

'आमले शेतांत गो, मेरो, आडे चवंक जाय. अनसुयान नडिल्लें नाटिल्लें शेत तें. तसलो चंवर आतां म्हण येवचो आसा.' सोतासरींच तो उलयत वचूंक लागलो. 'आपा, हांव चाव आनी भाकरी घेवन येतां रे आमले शेतांत.'

आपा बरो ना म्हण कळटकीर एक दीस मंजूळ उठाउठी धांवन येयलें. मांवान म्हळें, 'देड खाणयेचो रोव येवन पडला घरांत आनी तूं खंय वयता? ह्या दिसांनी कुळरा वचचें म्हण आसा ?'
पूण ताणें कांय एक आयकलें ना. चेड्याक खाकोळांत मारलो आनी तें चलूंक लागलें.

आपाल्याच चिंतनांत आनी हुसक्यांत केन्ना ते तार बळाटून कुळारच्या आंगणांत येवन पावलें ताकाच कळ्ळेंना. मंजूळ येतकीर गायेन वासराक हामेवन जीव दोळ्यांत हाडून पळेत रावचें तसो तो धुवेक पळेत रावलो. चारच उतरां तो उलयलो, 'बायूल, बाय येयलां. चार नाल्ल सोलून बायचे होटयेंत उडय.'
उपरांत तो घुम्म मोनो.

मंजूळ आपामुखार बसून मोन्यानच खूब रडलें. रडून मातशें निवळ्ळें आनी आपाल्या आंगावयल्यान हात भोंवडायत ताणें म्हळें 'आपा असो करूं नाका रे ! मातसो घट राव. म्हजें सोड. बायूलाक कोण आसा? फाल्यां ताजें सगलें कोण करतलो ! तूं कितेंच मनांत धरून घेवन बसूं नाका. देवाच्या मनांत आसा तें जातलें. तूं आदीं घट राव.'

मंजूळ येयलां म्हण कळटकीर वाड्यावयल्यो कांय बायलो वासरेंत येवन बशिल्ल्यो. त्यो भोव हुसक्यान आपाल्या विपरीत उलोवण्याची, वागण्याची विसकटावणी करून सांगताल्यो. मंजूळ चडूच कांचवेवल्लें. तें तकलेर हात घेवन बशिल्लें.

सुमन मात बायल्या चेड्याक, रमेशबाळाक घेवन मटाळटालें. तोवय दोन वर्सांचो भुरगो मावशेकडेन बरो हांसतालो, खेळटालो. सुमनान ताका खाकोळांत घेवन सगलो वाडो भोंवडावन हाडलो. आदनांतलें थोडें शीत वेगळें काडून तातूंत

गोड, सोय घालून परतें शिजोवन इल्ली खीर केली. ती ताणें रमेशाक खावयली. मंजूळ परते वयताना बाळाक ताजेसरीं दिवंक सुमनाल्या सामक्कें जिवार येयलें. तो पोरय मावशेक घट्ट धरून आसलो.

मंजूळ सकाळीं येयलें आनी सांजेचें गेलें. ताणें 'आपा, हांव वयतां रे' म्हण सांगतकीर तो बेठेंच 'बाय वयता, बाय वयता,' म्हण परतो परतो गणयत रावलो.

मंजूळ वयताना आखाड्यांत उबें रावन सुमनाक सांगतालें, शेत रोवन जातकीर धा पंदरा दिसांनी परतें येतां. मगेर आपाक घाडी, जोयशी करुया. नातर कारवार व्हरून दोतोराक दाखोवया. हेदोळ येताना सदाशिवबाब वाटेंत मेळिल्लो. तो सांग, फाटल्या वर्साक चिंचेवाड्यावयलो एक दादलो खंय ओंवळी रुखावयल्यान पडून मेल्लो. ताजें क्रियाकर्म सारकें जावंक नाशिल्ल्यान खंय तो म्हारू जावन भोंवता, खंयच्याय आड खिणाक आपाक आड गेलो आसतलो.

'म्हाका कांयच कळना जालां गो बाय ! भिरांतच दिसता.'

'कांयच भियेवं नाका. बापूय तो आमचो, आमीच राखूंक जाय. तूं एक कर, कशेंय करून दिसांतल्यान चार गोटे ताका जेवंक लाय. उपाशीं मात दवरिनाका. कितेंय चड उणें आसल्यार गणपत आज्याक, भास्कर अण्णाक बीन वचून सांग. बापबापोलये धांवन आयलेबगर रावचेनात.'

तीं दोगांय चलत मातशीं मुखार गेलीं. मंजूळान भोव हुसक्यान जीव अंदल्लेवरी सुमनाक सांगलें, 'भावोजीली तीन म्हयने जाले चीटच येवंक ना मुगो ! तुका बीन येयल्ली चीट ?'

'ना मुगो बाय. कितें जालें तर चीट ना बरोवंक?'

'आसूं. येतली. तूं चल आतां घरा.'

इतल्यान गोविंद मामाल्या घराकडच्यान धांवत येताना दिस्टीक पडलो. 'ताई, तूं येयिल्लें म्हाका सांगिनासतना वयता गो ?'

'ताकतीक आसा रे गोविंद. शेतांतलो चोबो शेतांतच उडोवन येयलां.'

'ताई, भावोजीलें पत्र येयिल्लें ?'

'हय.'

'तूं बरें आसा मुगो ?'

'हय रे.'

ताणें रमेशाक 'येतां रे' म्हण हात मुखार केल्यार तो आईल्या खाकोळांत लिपूंक लागलो.

'आसूं. हांव येतां आतां गोविंद. आपाक राखात तुमी.'

आपा आतां आंगणांत येवन उबो राविल्लो. पयलींवरीच ताठ. तो व्हडान सांगतालो, 'तुज्या मांवांक सांग, येता ते अमाशेक उरफाट्या पांखांचो कोंबो जाय. बेताळ जागोवंक. चोरू हांव शिजयतलों.'

मंजूळान ना आयकलेशें केलें. तरीय ताणें भोव मायेन, आस्तेन एक फावट आपाक पळेलें. परतें आपणाक रडें फुटतशें ताका दिसलें. तें तोंड घुंवडावन चलूंक लागलें.

गोविंद आनी सुमन दोगांय येवन वासरेंत बसलीं. वोग्गी कितलो वेळ तरी तीं थंय बशिल्लीं. पूण एक उतर उलयलिनात. .

सारके चार म्हयने पत्र ना म्हण्टकीर ताचो आवरोच उडिल्लो. मंजूळ दीसदीस वाटेकडेन नदर लावन बसतालें. न्हंयंतल्यान व्हडें येता, तार बळांटून कोणय हे वटेन पावलां मारता म्हण दिसतकीर ताजें काळीज कलकलतालें. तें जीव दोळ्यांत हाडून पळेत रावतालें. गांवांत पोस्टमन आयलो म्हण कळटकीर आकाड्यांत धांवन वयतालें. पूण दिसा फाटल्यान दीस फक्कत जीव अंदीत वयतालें.

मांवालोय जीव हरपल्लो. ताणें चार पत्रां बरयलीं पूण जाप ना. निमाण्या म्हयन्याक तो धतरीकच लागिल्लेवरी जालो. आंगावेली कात लांबूंक लागली. आवाजय थरथरो घोगरो जालो. आतां तो बैलांचेर आड्डनासलो. सुनेचेर राग काडिनासलो. शेतांत बीन वचून येवन पिरंगत रावतालो. मर्दींच व्हडान म्हणटालो, 'नारायणा, म्हजो पूत खंय पावलो रे !'

एक दीस तो मंजूळाकडेन एक कोरें आंतर्देशीय पत्र घेवन येयलो. 'हें पत्र तूं बरय. कोणाकडच्यानय बरोवन घे. मातशें मोगान थातरून बरय.'

'तूंच बरय बाप्पा.'

'बापायचेर कसलो तरी राग धरून घेवन बशिल्लो आसतलो तो. म्हाका जाप करचो ना.'

मंजूळान थरथरत्या हातान पत्र बोटाचे चिमटेंत घेयलें. मांव भायर वयताना उलयतालो, 'घोवाक मोगान बांदून दवरचेली हुशारकाय ना तुका. आतांच्यो बायलो कितल्यो हुशार. घोवाक मुठींत दवरतात.'

मंजूळाक मांवालें आयकोन अजाप दिसलें. पूण राग मात येवंक ना. ताणें मनांत म्हळें, 'तुजोच सगलो दरकार आनी शेक. म्हजें कितें चलतालें? ताणें बायलेक व्हरतां म्हटल्यार तूं आडकाठी हाडटालो. वयल्यान म्हणटालो बायलेकच मटाळटा म्हण.'

मंजूळान आतां नवेंच धरिल्लें, खंयच्याय कारवारच्या गांवांत कोणय फलटणींतल्यान रजेर येयला म्हण कळटकीर तें थंय धांवन वयतालें. केन्ना चेड्याक खाकोळांत मारून घेवन तर केन्ना ताका घराच सांडून. बाड, गड, माजाळी, मुडगेरी, असनोटी, हणकोण हे गांव ताणें म्हयन्यांतच मांडयले. असनोटी बाबुराव साळुंखे म्हण तागेर गेल्लें तेन्ना येताना होडी ना, गाडी ना पंदरा मैलांची वाट तें चलून येयलें. मदीं दोन तारी. हणकोण तार आनी हळगे तार.

हणकोण तारीर चडटाना तें त्या चिखलांत निसरून पडटाच आसलें. दोन तीन पावलां निसरून येयलें आनी व्हड्यार ओमथेंच जालें. न्हेसण भिजून गेलें. तारयान बारीक पळयलें, खंयची ही अनुळखी बायल ? केन्ना हेवटेन चवंक ना.

'खंयचें गो बाय तूं ? पयलेच फावट हे वटेन चयतां.'

मंजूळाक रडूंकच येयलें. 'हुळगे बागांतलें हांव मामा. घोव मिलिटरींत आसा. चार-पांच म्हयने जाले चीटच ना. खबरीक म्हण गेल्लें असनोटी.'

'ह्या दिसांनी लडायेचो बोवाळ कांय ना आनी चीट कित्या बरयी ना तर तो ? मगेर मेळ्ळी खबर ?'

'ना. तो आनीक खंय हेरच वाठारांत आसा खंय.'

अशेंच जातालें. तागेलो घोव श्रीधर आसामांत सप्लाय खात्यांत आसलो. आनी तो रजेर येयिल्लो हेरच खंयच्यान तरी, काश्मीरांतल्यान, पंजाबांतल्यान ना तर दिल्लीच्यान येयिल्लो आसतलो. तातूंत आनी तो इन्फण्ट्रींत ना जाल्यार आर्टिलरींत बीन. मंजूळ बेठेंच शेणिल्ल्याचें मन बारांकडेन म्हण मिलिटरीच्यान येयला म्हणटकीर धांवन वयतालें.

तारींत आनीक एकलो जाणटो दादलो बशिल्लो. ताणें खाकी मोटवें कालसांव घातिल्लें आनी वयर व्हड व्हड बटनांचो धवो कोटसो घातिल्लो. तो घटमूट आनी बरोच ऊंच आसलो. तागेल्यो मिशयो, भुंवयो पुराय पिकिल्ल्यो, पूण माथ्याचे केंस

मात काळे आसले. ताणें विचारलें, 'चेडवा, तुगेलो घोव मिलिटरींत खंयच्या खात्यांत आसा जाणा गो तूं ?

'सप्लायेंत. आतां आसामांत आसा.'

'मगेर बेठेंच अशें भोंव नाका. कारवारचे हे सगले बैल इन्फण्ट्रींत ना तर आर्टिलरींत आसात. हांवय इंन्फण्ट्रींतच आसलों. तूं एक काम कर. आर्दी कारवारचो कोणय सप्लायेंत आसा काय चय. तो रजेर येयल्यार, ना तर ताका चीट बरोवन खबर काड. हांवय काडटां खबर. तुगेल्या घोवालें नांव कितें तें सांग.'

मंजूळान घोवाली, मांवाली सगली म्हायती सांगता म्हणसर तार धडेक लागली. मंजूळ तारीवेल्यान देंवताना तारयान तायटार इल्लें उदक घेयलें आनी ताज्या माथ्यार फाफडिलें. 'हें कितें तारयामाम?'

'तीर्थ तें. तूं जाणां, हणकोणची सातेरी, कद्रेची म्हामाय आनी तिनैची अंबिका ह्या तीनय देवींल्या पांयापोनांतल्यान येयिल्लें उदक हे न्हंयंतल्यान व्हांवता. सासणाची सवाशीण उरतलें तूं.'

मंजूळाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. दुकां लिपोवंक ताणें सडसडीत पावलां मारलीं. इल्लें मुखार वचून फार्टी वळोन ताणें पळेलें. वोतांत करपून काळो जाल्लो तारयो हातांत होल्याकाठी घेवन तारींत मर्दी उक्त्या आंगान उबो आसलो. तो जाणटो दादलो मात कूड तायट धरून लांब लांब धेंपां घालीत आपले वाटेन वयतालो. त्या दादल्यान परतें एक फावट फार्टी पळोवन सांगलें, 'हांव खबर काडटां गो चेडवा. हुस्को करी नाका.'

मर्दी आनीक पंदरा-वीस दीस गेले. मांवाचो तर मुड्डो जाल्लो. सकाळी उठ्ठालो आनी तकलेर हात घेवन लोट्यार बसतालो. मुंर्जीतली चावी सोडल्यार ताका आनीक कसली सुद्द नासली.

तशें मंजूळ घट आसलें. सगलो वाठार हुलातापान सुकूंक लागतकीर झाडांन मुळां खोल रोवून भूंयतली ओलसाण ओडून घेवची तशें तें शक्त एकठांय करतालें. ल्हव ल्हव ताका होलमूंक लागिल्लें, आतां सगल्या बऱ्यावायटाक ताणें एकल्यानच तोंड दिवंक जाय. ते तारींत भेटिल्ल्या जाणटेल्यान ताका आनीक एक सांगिल्लें, 'कितें बरें वायट आसल्यार ताजे मिलिटरींतले वडील घरा कळयलेबगर रावचें नात.' ताजेन इल्ली धिटाय लाविल्ली.

अडेच म्हयने जाल्ले तें शिद्दरांत वचून. आपालीय खबर मेळूंक नासली.

तेंवय एक दुख्ख खातालें ताका. हांगा हें संकश्ट तर थंय आपाली अवतिकाय. चिंतून चिंतून ताजी तकली भेरेताली आनी मगेर तें एकलेंच बसून रडून घेतालें.

केन्ना केन्ना मंजूळाक दिसतालें, हो हटीपणान आमकां सतावंक चीट बरयनासताना आसा. ताका रागच येतालो. मगेर तें चिंततालें, ताजी निमाणी माघ पुनवेकडेन येयिल्ली चीट. तातूंत कसलोच राग वितराग नाशिल्लो. बायलेकय बरयिल्लीं दोन उतरां. ते भायर शिद्दरांत आपा, बायूल कशीं आसात म्हणय विचारिल्लें.

'बाप्पा, शेत नडचें उरलेंच मुरे ह्या वर्साक. कामेरी तरी मेळ्ळ्यार घेवया मुरे. हांव रावतां तांचेवांगडा.'

'पाड पडूं गो तें शेत. म्हाका कांयच नाका जालां.'
तो मर्दीच तापलो, 'हांगा स म्हयने घोवाली खबरवास्त ना आनी तुका शेताचें पडलां, फाल्यां भकूंक ?'

एक दीस सकाळीं मंजूळ घरांतलो वावर आटपून आंगणांत उबें आसलें. पळेल्यार शाळेमळावेल्यान देंवन शेतामेर माडयत दोग जाण धंवाडे ताज्या घरचे दिकेन येतात. पावस पडून शेतां वयर सरलीं म्हण्टकीर शेतांतल्यान बागांत येवपी लोक उणेच. पावसांतले तीन चार म्हयने हो वाठार कुशीकच पडिल्लेवरी जाता. मगेर हे धंवाडे कोण ! मंजूळाचेर सगलोच कलकल. 'बाप्पा पळे रे, कोण येतात हेवटेन !' तें धप्पकन वचून लोट्यार बसलें.

मांव आंगणांत येयलो. ताणें पयस आसतानाच विचारलें, 'कोण गा ?'

ते आनीक मातशे लागीं पावतकीर मंजूळान पळयल्यार तो एकलो त्या दिसा तारींत मेळिल्लो धव्या मिश्यांचो जाणटेलो. ताणें पयसुल्ल्यानच हात हालयत सांगलें, 'खबर मेळ्ळी ताजी. श्रीधर बरो आसा. सुखरूप आसा तो.'

'मगेर पत्रां कित्याक नात तर ताजीं ?'

'सांगतां. यो बसुंया.' ते मांवाक घेवन पडवेंत वचून बसलें. मंजूळ मात लोट्यार बशिल्लें उठलेंना. कोण कित्याक येयल्यात, कितें सांगतात, कितें चललां हें समजून घेवंकच ताका वेळ लागलो.

ते दोगय भितर बांकार वचून बसले. मांव तागेले चामड्याचे खुर्चेंत बसलो. मंजूळ कशेंबशें उठून जनेलांत येवन जनेलाक धरुनूच उबें रावलें.

'चेडवा, भितर यो मुगो.'

'कसली खबर घेवन येयला मामा!' म्हणत मंजूळ भितर येयलें आनी पडवेच्या

दारासरीं फतकल मारून बसलें.

'आयक म्हाळूमाम, हे आमचे कारवारचे सोल्जर बोर्डाचे जाळवणदार. सरकारालो मनीस तो. आमी खबर काडली शीधराली. ताजे फलटणींतल्या वडिलांकच पत्र बरोवन विचारलें. ताजी जाप रोखडीच येयली. कळ्ळें मुगो चेडवा, हांव तेन्ना तुका मेळिल्लों न्हय तारीर. तेन्नासावन तेच राटावळींत आसां. आमच्या कारवारचो भुरगो फलटणींत आसून ताजी खबर मेळना म्हळ्यार कितें ! बरेंच धपकावन विचारिल्लें तांकां.'

मांवालो आनी मंजूळालो जीव दोळ्यांत पावलो. 'कितें म्हण सांगतात ते ?

'ताजेकडेन एक चूक घडल्या. कसली चूक आनी कितेंकात तें नाका. मिलिटरी ती. शिस्तीभायर येद्दें वांकडें जाल्यार पुरो. ख्यास्त चुकना. ताजो खंय कोर्टमार्शल जाला.'

'कितें ? कितें जालां ?'

सोल्जर बोर्डाचो तो जाळवणदार तरणाटोच आसलो. ताणें म्हळें, 'सगलें स्पश्टच सांगतां तुमकां, आनीक आनीक दाखय लिपय नाका. म्हजी जापसालदारकीच ती. श्रीधर आनी तागेलो एक इश्ट मेळून रातचे कँप सोडून गांवांत घुशिल्ले. थंय कितें तरी वायट कर्तूब घडलें. मगेर गांवच्या लोकांन धरून हाडून तांकां कँपांत ऑफिसराकडेन दिले. मगेर चवकशी बीन जावन तांकां तीन म्हयने बंदखणीची ख्यास्त जाली. नोकरीय सुटली.'

मांवान एक आंवडो घोटून सुकिल्ल्या ताळ्यान विचारलें, 'आतां खंय आसा तर तो ?'

'आसामांत एका सिवील जेलांत. इतले दीस सुटलो लेगीत आसतलो.'

मांव ल्हान भुरग्यावरी रडूंक लागलो. मंजूळ मात एक दूक गळयनासताना घुम्म बसून रावलें. दुकां जिरोवन वाताडून गेल्लेवरी.

ते दोगय उठले. उतरां सोंपून गेल्लेवरी तो जाणटेलोय मोनो जाल्लो. तरी ताणें वयतना आंगणांतल्यान म्हळेंच, 'कांय नजो. हांगा बापायलें कितें आशिल्लें किरयल्यारूय पोट भरतालो तो. उपाशीं पडचो ना.'

मंजूळ वोग्गी उठून भितर गेलें. ताणें एक तांबयो भरून हाडून मांवाक दिलो आनी म्हळें, 'बाप्पा, रडूं नाका. वचून तोंड धुवन यो.' तें परतें भितर गेलें. पेज ओतून वचून कुंयां सुकिल्ली. ताणें तातूंत परतें उदक रकयलें आनी जाळ केलो. थोडीं कुंयां ताटलेंत काडून तें तीं चेड्याक भरोवंक लागलें.

दुसऱ्या दिसा श्रीधराली भयण सुमती येयली. आनी भायल्या लोट्यार कासावीस जाल्लेवरी बसली, 'म्हाका हुसकोच जाला गो बाय ! कितें जालें सांग तरी ! लोक कितेंय उलयतात. म्हाका म्हज्या भावाचो हुसको गो बाय! म्हादेवा, ताका बरो करून हाडून पावय !'

मंजूळ दारांतच आसलें. ताणें म्हळें, 'कांय जावंक ना. बरो आसा तो. नोकरी सोडली ताणें. सोडूं दी. हांगा येयल्यार उपाशी पडचो ना. तूं भायरच कित्या बसल्या व्होनये ?' ताणें तिका हाताक धरून भितर रांदचेकुडींत हाडली.

सुमतीन एक फावट घरभर नदर भोंवडायली. ताका अचकीत हुंडको फुटलो. तिणें बेगीबेगीन तोंडांत पालवाचो शेव चेपलो. बाप्पा मदले कुडींत बाज्जेर न्हिदिल्लो. जागोच आसुये. तिणें बाप्पाक एक फावट थीर नदरेन पळयलें. खूब तेंप हांथरुणाक लागिल्ल्या वायटकारावरी दिसतालो तो. पूण ताका जाप करचेलो धीर मात ताका जावंक ना. बाप्पान मर्दीच जाग येयिल्लेवरी विचारलें, 'कावेरी, कोण येयला गो ?'

सुमती बेमीबेगीन धांवून भायर येयलें. ताणें मंजूळाकय वोगी राव म्हण कुरू केली. तें आंगणांत येवन उबें रावलें. ताणें मंजूळाक म्हऱ्यांत आफयलें आनी म्हळें, 'आईलीं बरीं झरीचीं दोन तीन कापडां आसलीं पेटेंत. तीं तुका दिलीं बाप्पान ?'

'ना गे. पेटेंत दामून दवरल्यांत ताणें.'

'तातूंतलें म्हाका एक काडून दिशी तूं ? ह्या घरांतलें कांयच व्हेले ना गो बाय हांवें. आंगावेल्या वस्त्राचेर ताजेवांगडा गेल्लें हांव.'

'पूण चावी ताजेकडेन आसा न्ही गे.'

'आईल्या आंगावेलें वस्त्र म्हज्या आंगाक लावचेली भोव वानसा आसली! आसूं. येता हांव.'

'अगे जेवन वच मुगे !'

'नाका. वयता हांव. श्रीधराली परती खबर मेळ्ळ्यार सांगून धाड म्हाका. हुस्कोच जाला.'

ती सरसरीत चलूंक लागली. इतले बारीक, भागिल्ले बायलेची चलचेली तरा पळोवन मंजूळाक अजाप दिसलें. आतांच शेतांत देंविल्ली ती. पळयतां पळयतां शेत बळाढून ती शाळेमळार पावली. चुरचुरे बावडेचे. आयज चाकरे शिपायाली बायल म्हण खावन पिवन सुखांत उरतासली. कित्याक म्हण तिणें हें उकत्या दोळ्यान दुखब मोलायलें ! एक फावट तिका विचारूंक जाय, 'व्होनये, पयल्या घोवाक सोडून

येयिल्ल्याचें दुख्ख तुका भोगता ?'

शा! हांव म्हण पिशेंच ! असले जाप नाशिल्ले प्रस्न कोणाक म्हण विचारचे आसतात !

ती सुखी नाशिल्ली जाल्यार आपल्या घोवाक लागून, भुरग्याक लागून इतली धडपडटा आसली ! कोण सांग, घोव सकाळीं उठून चिऱ्या खणीर चिरे मारूंक वयता आनी ही ताजे फाटल्यान साका चुंबळ आनी चोबो घेवन ताका खणीतली माती काडून दिवंक वयता. घडये खऱ्यांनीच सुखी आसतली ती!

तिज्या सुखाविशीं चिंततां-चिंततां मंजूळाक सोताच्या दुख्खाचीं दावखुलां दोळ्यांमुखार दिसूंक लागलीं. बळयां एकठांय केल्लो धीर गळून पडिल्लेवरी जालो. तें भीतर येयलें आनी चेड्याक खाकोळांत घेवन ओग्गी वणटीक तेकून बसलें. मांवालोय आवाज नासलो. सगल्या घराची गोमटी अंदल्लेवरी जाल्ली. इतली कुळारची धूव केन्ना ना ती येवन गेली पूण घराक कसली हूनसाण ना.

सांज जातकीर मोनो देवाप्पा येयलो. कांबळ कांबरून घेवन तो वोग्गी पडवेंत बांकार बसलो. ह्या दिसांनी देवाप्पा सांजचो येतालो आनी रातचो तांगेरूच पडवेंत न्हिदतालो.

घरांत कसलो आवाज ना हें पळोवन तो उठलो आनी सुलूस घेत भितर गेलो. रांदचेकुडीच्या हुबरासरीं एक मिणमिणो चिमणेदिवो पेट्टालो. कुशिकूच मंजूळ न्हिदिल्ल्या चेड्याक होटयेंत घेवन वणटीक तेंकून बशिल्लें. चिमणेच्या काळ्या उजवाडाक देवाप्पान पळयल्यार ताका दिसलें हाजो जीवच गेला आनी हाका कोणें तरी कदीम काळासावन अशें तेकोवन बसयलां.

चुलींत सामको जाळ नासलो. चूल गोबरान भरिल्ली आनी ताजेर कसलें आयदणय नासलें. देवाप्पान हुंबराकडचो चिमणेदिवो उखल्लो आनी वचून सगलीं आयदनां पळयलीं. मंजूळान दीसभर रांदूंक नासलें. सकाळीं केल्ली पेज फक्कत एका बुडकुल्यांत शेळी जावन पडिल्ली. ताका तिडकूच मारली मंजूळाची. पूण मंजूळ हाललेंना.

उपरांत देवाप्पान चुलींतलो गोबर कुशीक करून चुलींत लाकडां सारलीं. भायर वचून ताणें चार चुडटां सारगून हाडलीं. चुडटां चिमणेर धरून पेटयलीं आनी चुलींत जाळ घालो. आतां मात मंजूळ रावं नजो जावन उठलें. चुलीसरीं वचून 'ऊठ मामा' म्हणत ताणें बुडकुल्यांत आदन केलें आनी चुलीर दवरलें.

देवाप्पा भायर येयलो. भायर येतना ताणें मदले कुडींत न्हिदिल्ल्या म्हाळूची

सुलूस घेयली. तो घर्रघर्र करून एका तालांत घोरेतालो. मर्णाची वाट पळेत पडून राविल्लेवरी तो थंड पडिल्लो.

मर्दी आनीक एक म्हयनो गेलो. गोळाक लागिल्ले सारके सात म्हयने. वाट पळोवन मंजूळाचे दोळे थकिल्ले, कूड भागिल्ली. मांवान शेतांत बींय उडोवन येयिल्लो परतो म्हण पांय दिवंक नासलो. येद्या व्हडल्या ह्या घडघडीत मनशाली आवतिकाय मंजूळाच्यान पळोवं नजो जाताली. मंजूळ भागिल्लें, थकिल्लें पूण घट आसलें. सुरवेक कांय दीस तें थतरवितर जाल्लें, पूण उपरांत मात ताणें सोताक थातारलें. चेड्यालें, मांवालें जेवणखाण तें नीट राखतालें. शेतांतय वयतालें.

एक दीस तें मागीलदारांत उबें आसलें. एक व्होडी न्हंयची सांजची काळी धार कापीत येताली. फाटल्या दोंगरांतलें सांवट, न्हंयची सावळी धार, तातूंतल्यान धवें शीड फुलोवन येवपी व्होडी, मंजूळाक बेठीच काळजाक हुरहूर लागली. ही व्होडी एका दिगंतरांतल्यान दुसऱ्या दिगंतराक वचूंक वयता ! ती आमच्या बंदराक काय लागचिना !

पळयतां पळयतां व्होडयेन शीड कवळ्ळी. ती नागडी बोडकी जाली. तिजी उकती कुयांकाठी फाटल्या दोंगरार उबो नामो ओडिल्लेवरी उबी जाली. व्होडी बंदराक लागली खरी पूण तातूतल्यान कोण देंवल्यात तें कांयच दिसलेंना. मर्दी शेत, न्हंय घडेर कांदळाचीं, भेडशीचीं झाडां. फक्कत उबीं कुंयाकाठी तितलीच दिश्टीक पडटली.

पूण मंजूळ बागलांतल्यान हाललेंना. ताका वोगीच दिसं कोण तरी आपलो पयसुल्लो सोयरो येयला हे व्होडयेंतल्यान.

कांय वेळान बारीक पळयल्यार वाडिल्ल्या शेतांतल्यान मेरेवेल्यान कोण तरी येता. ताज्या खांदार कितें तरी आसा. मनीस कोण, ताज्या खांदार कितें ट्रंक आसा काय चोबो कांयच कळना.

तो लागीं पावलो आनी मंजूळान ताजेसरी धांव मारली. ताज्या खांदावेलो ट्रंक काडून ताणें माथ्यार घेयलो. एका दमांत ताणें ताका कितलेंशेंच विचारलें, ' चीट

कित्याक म्हण बरोवंक ना तुवें इतलो तेंप ? नोकरी पाड पडली म्हण कितें जालें.? बायल भुरगो ना तुगेलो ? बापूय धतरीक तेंकला. हांव कांट्याकच जीव घेवन आसां. कितें म्हण समजुचें आमी ?'

पूण तो एका उतरान कांय उलयलोना. मोन्यानच ताजे फाटल्यान तो घरांत येयलो आनी ओग्गी पडवेंत बसलो. मंजूळान ट्रंक भितर हाडून तेंकयत म्हळें, 'बाप्पा, चेडो येयलो तुगेलो !'

बाप्पा थाड करून उठून उबो रावलो. लकत, पडत, धडपडत तो भायर येयलो. भायर बांकार बशिल्ल्या चेड्याचेर ताजी नदर पडली आनी शेळें उदक रकयिल्लेवरी जालें. निर्शणेचो एक दोंगर आंगार लकून येयलो. आळीपाळीन चेड्याविशीं मोग आनी राग ताज्या चेऱ्यार उदेत रावलो. तो भागिल्लो, बरगल्लो आनी धवो पडिल्लो. एक लाचार भिकारी कसो आपल्याच घरांत परको जावन बांकार वोग्गी बशिल्लो.

बाप्पा एकेक पावल ल्हवल्हव घालीत वचून खुर्चेंत बसलो. सोतासरींच उलयिल्लेवरी तो उलोवंक लागलो, 'आमचें दैवच खोटें. आतां गांवांत कांय तोंड दाखोवचेली माणसुकी ना. आपलीच बुद्द पाड तर कोण कितें करतलो?'

पूण श्रीधर वोग्गी आसलो. मर्दी बरोच वेळ गेलो. मर्दींच बापूय तिडकलो, 'अरे कितें जालें सांग तरी मुरे !'

मंजूळ भितल्ल्यान भुरग्यांक घेवन येयलें. भुरग्याक घोवाल्या खाकोळांत दवरीत ताणें म्हळें, 'बाप्पा इतले दीस चेड्याच्या नांवान वथरेतालो. आतां चेड्यार नदर पडटकीर चंवचाळ्ळा तो.'

तें तशेंच न्हाणये खोपींत गेलें. शेणी, सोण्णां घालून ताणें न्हाणये भाणाक जाळ केलो. श्रीधर भुरग्याक अळंग खाकोळांत घेवन बशिल्लो. भुरग्याकडेन लेगीत तो कांय उलयलोना. तो भुरगो मागीर ल्हवच ताज्या खाकोळांतल्यान सुटून आई फाटल्यान येयलो.

मंजूळ ताका बारीक तेळटालें. ताजी आवतिकाय पळोवनच कांय अदमास बांदतालें. खरें म्हळ्यार तो येतसान ताजीं पावलां वाऱ्यार हुबतालीं. तो बरो करून पावला इतलेंच ताका पुरो जाल्लें. तो कसो येयला, इतलो कित्याक भागला, तें ताका पड्ंक नासलें. हो कितें पयलीं तरी खंय मोटो बळभीम आसलो. पयलीं पसूनच बारीक पूण तसो घट. आंगावेलें मास कितें, चार दीस सारको जेवल्यार खायल्यार आपशींच भरतलें.

उदक तापतकीर ताणें घोवाक उठोवन न्हाणयेंत व्हयलें. आंगावेलें पॅण्ट शर्ट देंवोवन तीं दांडयेर उडयलीं. आनी घसघस करून आंगार हून उदक रकयलें. बरो शाबू लावन घांसून आंगावेलो मळ काडलो. पयलीं आपल्या पदरानच ताणें तागेलें माथें पुसलें. मगेर आंग पुसूंक ताका तुवालो दिलो.

रार्ती जेवन मांव हांथरुणा कवळो घेवन माळयेर न्हिदूंक गेलो. माळयेर एक पोरणी बाज्ज आसली. मर्दीमर्दी ताका वचून माळयेर न्हिदची हुकी येताली. चड करून घरांत झगडीं जालीं, आपल्या मनासारकें कितें जालेंना म्हणटकीर तो हांथरुणा कवळो खाक्याक मारतालो आनी माळयेचे पांवडे चडटालो. आयज पांवडे चडटाना तो उलयतालो, 'कितले फावट सांगिल्लें, परंतराक गेल्लेकडेन राखून राव म्हण. आयकता कोण. आता हें अपशरण.'

आतां मात मंजूळाक ताजी तिडक मारली. ताणें म्हळें, 'आतां ताजे नोकरेचे पयशे मेळचे नात म्हण फडफडटा तूं. सुवार्थी मनीस तूं. एक फावट तरी ताजे वांगडा हांव वयतां म्हळ्यार आडमेळें हाडटालो. आतां पुताक आनी सुनेक दोगांकय घे घोळोवन शेतांत. इतले दीस रडटालो. आतां परतीं शिंगां फुटलीं तुका.'

खरें म्हळ्यार लग्न जायतसान सडसडीत मांवाक कोंचून आजच तें उलयिल्लें. मांव रागान आड्डलो, 'चुतड आज बरें चणचणूंक लागलां. असले नश्ट देखीन फाल्यां माती खावंक पडटलीं तुमी. मानमर्वद नासलेलें खंयचें. तुजो पांयगूणच वायट जाल्यार...' तो आनीक कितें कितें उलयत रावलो आनी मगेर गची आंवुळिल्लेवरी थंडलो.

श्रीधर जेवन मदले कुडींत मुडयां थडी लावन दवरिल्ली थंय मुडयांक तेंकून बशिल्लो. मंजूळान हांथरूण घालून ताका हाताक धरून हांथरुणार व्हेले. चेड्याकय ताणें ताजे कुशीकच घालें.

'उलयना कित्याक तूं ? कित्याक इतलो मनाक लावन घेवन बसला?'

तो मोनोच.

'कितें जालें सांग आतां म्हाका.'

......

'सांगलेबगर सोडचेंना हांव तुका. रातभर न्हिदूंक दिवचें ना.' तें सामकें ताजे म्हन्यांत सरकलें आनी ताणें ताका अख्खो वेंगेंत घेयलो. मगेर श्रीधरानय ताका बावळ्यांत ओढून घेयलें.

'सांग म्ही !'

'कितें कर्मां सांगतलों आनीक !'

'कित्तेंय आसूं. सांग तूं म्हाका.'

तो परतो मोनो. एकच उतर कर्माचें. पूण ताका दिस, आपले बायलेक सगलें सगलें सांगचें. ओंकून उडोवचें सगलें. ताका खीणभर दिसलें लेगीत, आपूण खऱ्यानीच सगलें बायलेक सांगतां, ल्हवपीक जायत वता...

...जाणा मुगो मंजूळा, तो दीस युनिटांत रम वांटचो दीस आसलो. पूण, तो रम आमकां पावलोना. उणोच जालो. मगेर हांव आनी म्हजो एक इश्ट अवतारी मेळून चोरून लार्गींच्याच गांवांत गेले. थंय एका घरांत सोरो मेळटालो. पूण आमी वाट चुकून हेरच खंयच्या तरी घरांत पावले. त्या घरांत बायलो बीन आशिल्ल्यो. घे तांच्यो बोबो. मगेर कुशीकुशीचे लोक धांवन येयले. आमी तांकां सांगूंक पळेताले. पूण तांची आनी आमची भास जुळनासली. त्या लोकांनी आमकां खूब मारले. धाडावन धाडावन आंग सुजोवन उडयलें. उपरांत ओडून हाडून कँपांत गार्डाचे सुवादीन केले. मगेर क्वार्टर गार्डांत बंदखण, चवकशो. मगेर निमाणो कोर्टमार्शल. कोर्टमार्शल म्हळ्यार कितें जाणा. मिलिटरीचें कोर्ट ख्यास्त फर्मायता. ख्यास्त फर्मायतकीर ताका बेडयो आनी दोरयो घालून बराकी मुखावेल्यान, परेडी मळावेल्यान धांवडावन हाडटात. मगेर आंगावेले मिलिटरीचे कपडे देंवोवन घेतात आनी सिवील पोलिसां सुवादीन करतात. मिलिटरी कोर्टान फर्मायिल्ली ख्यास्त सिवील जेलांतच भोगची आसता... !

'कितें चिंतता, तूं सांग म्ही.'

.......

'हांगा सोल्जर बोर्डाचो मनीस येयिल्लो. तो सांग तीन म्हयने...'

'तीन म्हयने उरलोंना. दोन म्हयन्यांनीच सोडिल्ले आमकां.'

'मगेर इतलो तेंप खंय आशिल्लो तूं ?'

'मुंबयंत उरलों दोन म्हयने. थंय एक नोकरी लेगीत पळयिल्ली. गांवांत वचचेंच न्ही अशें दिसतालें.'

'मगेर बरो येयलो तर.'

'तुजी खुब्ब याद येताली म्हाका ! एक दीस रेल्वे पोंदांक जीव दिवंक गेल्लों हांव. पूण तूं दोळ्यांमुखार उबें रावलें !'

मंजूळ ताजे कुशींत खोलखोल रिगलें आनी रडूंक लागलें. ताज्या हड्ड्यार तकली घुसळायत तें रडलें. मदींच तें रडचें थांबलें आनी ताणें म्हळें, 'न्हीद तूं आतां. प्रवासांतल्यान येयिल्लो, पुरो जाल्लें आसतलें.'

'अजुनूय म्हाका जीव दिवचो अशें दिसता. म्हजी आस्त सोड मंजूळ.'

मंजूळान एकदम धपकायलें, 'मगेर आमी कित्याक रावतलीं, सगलींच मेळून वचून काळी न्हंयंत उडी घेवया. चेड्याकय धुकलून दितां आनी हांवय घेतां उडी तुजे वांगडा.'

मगेर बरोच वेळ सगलें शांत. मांवाचीय पिरंगण थांबिल्ली. शाळेमळा वटेनचो गजबजय आयाकोंक येनासलो. न्हंयंत कडवे लावंक गेल्ल्या पागयांचे कुंकार मात पयसुल्ल्यान ल्हवल्हव आयकोंक येताले. भायर चुडटां सळसळायत इल्लो वारो वेळटालो.

मंजूळान बंद सुटिल्लेवरी अचकीत ताका विचारलें, 'तूं त्या गांवांत गेल्लो तेन्ना अस्तुरेचेर हात घातिल्लो ?'

तो सटकन उठून बसलो आनी ताणें म्हळें, 'ना गो. खरेंच ना. बेठेंच बगळांट तें.' मगेर ताणें रागान म्हळें, 'कोणें सांगिल्लें तुका हें मंजूळ ?'

'कोणें ना बेठेंच, बेठेंच विचारलें.हांवें. वाऱ्यावयली खबर. सोल्जर बोर्डाचो मनीसय नकळ आशिल्लो खरें कितें तें.'

तो रडिल्लेवरी म्हणूंक लागलो. 'आपलेच गिरे खोटे. दैव फिरलें म्हणटकीर वाऱ्याकय दांत फुट्टात.'

'मगेर कांय एक मनाक लावन घेवं नाका तूं. पूण एक सांग, त्या गांवांत गेल्लो कित्याक तूं ?'

'पिवंक. हांव आनी म्हजो एक इश्ट मेळून गेल्ले पिवंक म्हण.'

मंजूळाक सामकोच कलकलो भरलो. हें तर चड वायट. तो इतले उकतेपणान तें सांगतालो. मंजूळाक कितें उलोवचें कांयच सुचना जालें. कांय वेळान पळेल्यार ताका झेम लागिल्ली. बाळय ताजेकुशीक सुस्त न्हिदिल्लो. पूण मंजूळ दोळे उकते दवरून जागतालें. ताका दिसलें अशेंच गुपचूप उठून वचचें आनी न्हंयंत वचून जीव दिवचो !

दुसऱ्या दिसा, दीसभर तो घरांतच बसून आसलो. मंजूळ चेड्याक परतें परतें ताज्या खाकोळांत हाडून बसयतालें. तो चेड्याक घेतालो पूण उखलापी. इल्लीय माया

दाखयनासलो. सकाळीं ताजे दोग इश्ट, मळावेल्यान पयसुल्लो बापोयलो रघनाथ येवन गेलो. येयले आनी ते वोग्गी बसून गेले. तांणीय कांय हाका विचारलेंना आनी हाणेंय कांय ताचेकडेन उलयलेंना. ताजो रामदास म्हण इश्ट पयलीं कितलो उलयी. वयनी वयनी करून घरभर बोवाळटालो. चुलीसरीं येवन बसतालो आनी चायेक दवरूंक लायतालो. तोवय आयज मोन्यांनीच उठून गेलो. बापोलयान मात वयतां वयतां म्हणिल्लें, 'फलटणीची शिस्त, नेम मोटो खर. तांकां पाळो दिवप सुमाराचें काम न्हय, आमी काडलिंनात फलटणींत वर्सां ?'

सांजचो मातसो काळोख पडटकीर श्रीधरान आंगार खोमीस चडयलें आनी तो भायर वचूंक सुटलो. मंजूळ 'खंय वयता' म्हणत आकाड्यामेरेन येयलें. पूण तो केन्नाच आकाडो बळाटून शेतांत देंवलो आनी ताणें मळावटेन पावलां मारलीं.

बरोच कळाव जालो तरी तो परतलोना. मंजूळान भितल्ल्यान लालटन हाडून आंगणांतले दांडयेक वयर हुमकळावन दवरले. ताजो उजवाड आकाड्यामेरेन पडसो करून तें वाट पळयत लोट्यार बसलें. मांवाक 'बाप्पा, मातसो ताका पळोवन यो रे' म्हळ्यार तो म्हणूंक लागलो, 'भुरगो न्ही ल्हान. तागेल्या घरची वाट तो नकळ कितें?'

तो बऱ्या वेळान येयलो. पावला पावलाक लकतालो. चेरो, दोळे तांबडेगूंज जाल्ले. मंजूळान विचारलें, 'पिवन येयला तूं ?'

'हय पिवन येयलां हांव. तुजी भिरांत कितें म्हाका? कोणाक भियेवचों ना हांव. कॅर करचो ना कोणाक.'

बाप्पान भितल्ल्यान म्हळें, 'आतां सगलेंच सोडलां तुवें. भितलो कित्याक तूं?'

तो अचकीत हालेटी मारिल्लेवरी आइडलो. 'बाप्पा, फाल्यां म्हजी पयशांची मनीऑर्डर येवची ना म्हण खुबळ्ळा तूं. सात वर्सांमदीं सतरा हजार पावयले हांवें तुका. आतां म्हाका जाय ते पयशे. दुकान घालतलों, कारखानो घालतलों हांव ! खोंटायतलों सगल्यांक.'

मंजूळान ताका धरून ओडून भितर व्हेलो. ताजें बोवाळप सुरूच आसलें. हांथरूणार घालतकीर तो थंयच उमथो पडलो. बोवाळटां बोवाळटां रडूंक लागलो. मगेर तशीच ताका झेम लागली. येतना शेतांतल्या चिखलांत पांय पडून ते म्हेळे जाल्ले. तो तसोच न्हिदिल्लो.

मंजूळान कोणाक जेवंक उठयलेंना. वोग्गी ताच्या शेजारी बसून रावलें. मांव भितर वचून ग्लासभर उदक घोंटून येयलो आनी वचून न्हिदलो.

आतां श्रीधरालें सदांचेंच जालें. दीसभर हांगा थंय ओगी वोगी भोंवतालो आनी सांजचो वचून शेंवटून पिवन येतालो. मगेर घरांत बोवाळ. पितकीर मांवालीं आनी तागेलीं सदांच झगडीं. मर्दीं मंजूळाचो मुड्डो.

दीसभर तसो तो देवाभशेन ओगी रावतालो, सांजचो पितकीर मात ताजो देंवचार.

एक दीस सकाळीं मांव बोवाळ घालतालो, 'शेतांत चंवरिल्लेवरी नेर कणशेला. सगलें शेत म्हातारेच्या केंसावरी नेरान धवें जालां आनी घरांत पाळणें धोलयत बसून आसात.' ताणें खांदार कांबळ उडयली आनी तो शेतावटेन वचूंक लागलो. मगेर मंजूळानय घरांतलें काम ताकतिकेन आटिपलें, चेड्याक व्हरून फाटले पार्वतआकीगेर दवरून येयलें. ताणें घोवाक म्हळें, 'चल शेतांत या आमी.'

तो कांय एक उलयनासतना खांदार तुवालो उडोवन मंजूळा फाटल्यान शेतांत गेलो. शेतांत तांणे तिगांनी मेळून दनपारमेरेन बरोच नेर हुमटिलो. कुणग्यांनी भांग घालीत तीन शेवांनी तीं तिगांय जाणां नेर हुमटीत वयतालीं. मंजूळाक भोव बरें दिसलें. एकदम सगलें थाऱ्यार पडिल्लेवरी.

दनपरां परततना श्रीधरान म्हळें, 'हांव मातसो दुकानाकडेन वचून येतां.'

'दुकानांतल्यान कितें हाडचें आसा तर ?'

'बेठोच. बेठोच मातसो वचून येतां.'

त्या दिसा दनपारांच तो पिवन येयल्लो पळोवन मात मंजूळालो सामकोच आवरो उडलो. त्या दिसा सगली आस्त उमेद गळसणून पडली.

'गोकुळमावशे, बायन शिगम्या पुनवेक जत्रेक यो म्हण सांगून धाडलां. वचून येतां दोन दीस.'

'वच पुता. आनीक खंय वचचें पडलां ! एक माम म्हण आसा. तोवय केन्ना येवन व्हरिना.'

'ना गे मावशे, मामान म्हाका जायते फावट आफयिल्लें. पूण आपाक सोडून हांवच वचना. तो आपल्या जंजाळांत. पांच जण चेडवां तागेलीं. शेता धंद्यार तांगेलीं लग्नां कसो करतलो म्हण तकलेर हात घेवन बसता केन्ना केन्ना.'

'तूं वचून येता मुगो, हुळग्या मंजूळागेर ?'

'पूण दोन दीस आपाल्या जेवणाचें गे, म्हणच तुका सांगूंक येयिल्लें हांव.'

'तूं कांय हुस्को करूं नाका. हांव पावयतां दोन दीस जेवण.'

'हांव तांदूळ दिवन वयतां मावशे.'

भितल्ल्यान खुशालीअण्णान धपकायतशें म्हळें, 'व्हडलें तांदूळ दितलें तूं. आगो तो तुगेलो बापूय तसो आमचो बापोलभाव म्हण जाणा मुगो तूं ?' ह्या खुशालीअण्णाची सुमनाक सदांच भिरांत दिस. उग्र चवकोनी चेऱ्याचो, ऊंच, घटमूट आंगलोटाचो खुशाली चलूंक लागल्यार वाट घुमघूम हालताली. येद्‌दें मनाभायर जाल्यार सटकन कोणाल्याय आंगार धोंवन वयतालो. शेतामेरेकडेन वर्सांतल्यान एकफावट हागेलें कोणाकडेन तरी हाणामारीचें झगडें आसतालेंच. पूण बरो आसल्यार एकदम बरो, काळीज काडून दिवपी. देवळाकडेन वर्साक एक फावट चैत्र पुनवेक कानडी खेळ आसतलो. तातूंत ताका वांटो आसतालोच. कितें थय थय नाचतालो तो ! कमरेच्या एका आडव्या वाल्याभायर ताज्या आंगार केन्ना एक वस्त्र नासतालें. पूण खेळांत जरीचीं वस्त्रां घालीं म्हणटकीर रायांचो राय कसो दिसतालो तो. रंगयतकीर तागेलो चवकोनी चेरो भारी सोबीत दिसतालो.

खुशालीअण्णालें आयकून आपलें चुकलें म्हण येद्‌देंशें तोंड करून तें उबें आसलें. गोकूळमावशेन ताका म्हऱ्यांत आफयलें. 'सुमन, तुगेलो भावोजी पांच-स म्हयने जाले घराच आसा म्हण आयकलां मुगो. परतो नोकरेक वचना तो?'

'हांवय सारकें नकळों मावशें. बायूय कांय सांगना.'

'तें आनीक सांगपी ? चिरल्यार लेगीत हां हूं करपी न्हू तें. रगत दिसल्यारूच कळचेलें.'

'बाय खरेंच त्रासांत आसा शें दिसता मावशे.'

भितल्ल्यान खुशालीन तिडकीनशें म्हळें, 'पयर उंवाळिल्लो पिवन बेबदो जावन हुळगे-मळार पडिल्लो खंय !'

सुमन थंय आनीक थारलेंना. दोळ्यांतलीं दुकां लिपयत फार्टी फिरलें. गोकूळमावशेन म्हळें, 'वचून यो तूं हुळग्याक. मंजूळाली खबर तरी मेळटली.'

सुमन घरांत येयलें. लग्न जातकीर पयलीं झूट भावोजीलीं कांय पत्रां येयिल्लीं. तीं पत्रां एका कोनशाक सरयेच्या आंकड्याक हुमकळावन दवरिल्लीं. आतां तीं धुंवरान

काळीं म्हेळ जाल्लीं. सुमनाक दिसलें आतां ती पत्रां वाचचीं. पूण ताका धीर जावंक ना. बायन ताका पयले रातीक कांबरूक दिल्लें तें चादर, ताजीं आतां बोंदरां जाल्लीं आनीं तीं दांडयेर लांबतालीं. बाय ताका उदक पिवंक दितालें तो फुलां चितारिल्लो तांबयो, बायन एक दीस घांसून पुसून फळ्यार काडून दवरलो आनी म्हळें, 'बायूल, सांबाळ गो हो तांबयो. पळे कितलीं सोबीत फुलां हीं. तुज्या हातान ह्या तांबयांतल्यान तुज्या घोवान एक घोंट उदक पिल्यार जल्माचो तो तुजो जातलो.'

पिशें बाय. ताका त्या तांबयाचो रागच येयलो. काडून ताका एक चेप घालचेंशें दिसलें.

सुमन भितर गेलें आनी ताणें ट्रंक उकतो केलो. फाटीं रजेर येताना ताका भावोजीन एक लुगटाचो कुडको हाडिल्लो. ताणें मुजरत कोडीबागा वचून ताजीं बरीं आंगभर आंगलीं शिविंल्लीं. कितलें राखतालें तें तीं आंगलीं. ताका ताजो रंगय भोव मानवल्लो. फाल्यां जत्रेक बायगेर वयताना हींच आंगलीं घालतलें हांव. भावोजीक विचारूंक जाय म्हाका, 'भावोजी इतलो बरो आशिल्लो तूं आतां अशें कित्याक करता ? बायक कश्ट दिवं नाका रे !'

सकाळीं वयताना, आपा हांव वयतां रे म्हणटकीर तो म्हणूंक लागलो, 'वशाडाचेर वशाडां आनी खंय वयता राट ओडूंक. बायक सांग, न्हंय सुकचे पयलीं बळाट्रून वच म्हण. घांग्रे फातरार पाव म्हणसर कळाव जातलो.'

सुमन वचूंक गेलें. तरीय आपाचें एक बरें, कितेंय उलयता मूळ, तुरी नाशिल्लें पूण आपलो वावर नीट करता, नीट न्हाता, जेयता. गोरवांक घेवन दोंगरार वयता. शेताच्यो मेरो चयता. पूण तोंडाचें बडबडप अर्थ नाशिल्लें.

घरांतल्यान भायर सरून आकाडच्यांत पाव म्हणसर ताजी नदर भिरभिरताली गोविंदाक सोदूंक. खंय गेलो काय ? मेळ्ळ्यार ताका विचारता आसलें, 'कशें दिसता रे हांव गोविंद ?'

तो खंयच नासलो. तें न्हंयवटेन चलूंक लागलें. खरें म्हळ्यार ताका बायन जत्रेक आफोवंकच नासलें. बायल्या गांवांत जत्रा म्हण कळटकीर ताका वचचेली उमळशीक लागली. गेल्ले चार म्हयने बायक ताणें पळोवंक नासलें. बायक पळोवंक जीव आकूळपिकूळ जातालो.

तें सडसडीत पावलां उखलीत तार लागीं करतालें. खरें म्हळ्यार ह्या शिद्दर गांवाक आपलें बंदरच ना. गांवासमोर न्हंयंत दोन जुंवे - आंबे जुंवो आनी खारगे जुंवो. ताजेन पयल्या तिरार वचची सरळ तार नासली. ते वटेन खारगे गांवांत ना तर

हे वटेन किन्नर गांवचे शिमेर येवन तार धरची पडटाली. तशे हे तीनय गांव एकमेकांक तेंकुनूच आसले. खंयचेय तारीर वचूंक वरावयर वेळ लागनासलो. सुमन खारगे तारीर वचूंक वयतालें. थंयच्यान न्हंय बळाटटीर हुळगे-बायलो गांव. बायलें घर तर न्हंय तिरारूच.

तें शेतांतल्यान वतना शेतांतल्या तेकणे अडसराक आशिल्लो गोविंद अचकीत मुखार आयलो.

' अरे गोविंद, तूं हांगा कितें करता रे ?'

'तुका पळोवंक म्हण राविल्लों हांव. तूं जत्रेक वचच्या कपड्यार कशें दिसता तें म्हाका पळोवंक जाय आसलें.'

'पूण अशें दपून येवचें बरें न्ही गोविंद.'

'वाड्यावेले लोक बेठेच तिडयतात, दुबावतात.'

'भिंयेता तू ?'

'ना. पूण...'

तो कचरलोसो जावन येद्‌दें तोंड करून उबो आसलो. सुमनाक एकच फावट ताजेविशीं मोग, राग आनी काकूटय दिसली. 'भियेवचें न्ही गोविंद हे फुडें. पयलीं भुरगेपणापसून आमी मेळटालीं तशेंच मेळत रावचें. लोकांक उलोवं दी जाय तशें. ग्रेल्लें वर्सभर हांवें कितलें भोगलां जाणा ! तूं घरासरी यो, उलयत बस लोकाहुजीर.'

हय सुमन. भिंयेतकीर मगेर मनाक भोव कश्ट जातात. अशें लिपून दपून मेळचें अशें दिसता.'

'येतां हांव आतां.' तें वचूंक सुटलें. थोडें मुखार वचून परतें वळून ताणें म्हळें, 'कशें दिसता हांव गोविंद ?'

'भोव सोबीत गो ! म्हणच तुका पळोवंक आशेतालों हांव.'

तारींत एक पसरट कुडीची काळी बायल बशिल्ली. तिज्या पोटाचीं, कमरेचीं काळीं तेलकट गाबळां न्हेसणाचेर लांबतालीं. कुडीवरीच तिजो चेरो पसरट काळो आसलो. तिजें कपल ताळयेमेरेन उकतें आसलें आनी तिणें केंसांचो बुचडो फाटल्यान बांदिल्लो. ताका एक दसणीचें फूल खोवयिल्लें. कपलाक व्हडलो कुकूम. सुमनाक दिसलें, हें बायलेक खंय तरी पळयल्या पूण लक्षांत येना. तिणें सुमनाक मर्दीच विचारलें, 'कोणागेर वयता गो तूं ?'

'भयणीगेर. हुळगे-बागांत म्हगेली भयण दिल्या.'

'कोणागेर गो ?'

'श्रीधर म्हण नांव भावोजीलें.'

ते बायलेन आपल्या फुटक्या ताळ्यान कितल्या तरी व्हडान म्हळें, 'कोण म्हाळूमामालो श्रीधर गो ? ह्या हुळगेच्या दादल्यांक कितें जालां कोण जाणा...'

मर्दींच तारयान म्हळें, 'गुलाबी, तूं तुगेल्याच दादल्यालें चय. हेरालें तुका नाका. हणकोण धरिल्ली काणकोण मेरेनचीं पारपतां जाय तुका. थंय रथार बावटे चडोवन रथ तयार जालो आनी तूं अजून हिंगा.'

'हांव कितें रथामुखार नाल्ल फोडूंक वचूं काय कलवंतावरी नाचूंक वचूं?'

'गांवकान्न न्ही गो तूं ?'

'कसली गांवकान्न ? रांदपिणीक म्हण देवाली पंदरा कुडवांची जमीन दिल्ली, शेताची. तीवय बाळसून खायली मुरे.'

'पूण तुवें सोडचीच न्ही आसली.'

'कितें करतलीं? हो बेबदो गांवार पडटकीर बाळसूकडेन भागाक म्हण दिल्ली. तीन वर्सां बरी कसली वसयली. म्हजो वांटोय म्हाका दिलो. पूण चवथ्या वर्साक आपलीच जमीन म्हण ताणें ट्रिब्युनलाक बरोवन घाली. हांव सांगतां पांडू, ताका ती बऱ्याक पडचिना. निसंतान जातलें ताजें. घटणार तायकुळो किल्लतलो. देवाची जमीन ती. म्हादेव बगशिचो ना ताका.'

'आयज तुजो पांटलो खंय गो ?'

'पांटलो सोडलो. काल गेल्लें उदारी वसूल करूंक म्हण. हें पळय हेडून हेडून पांच-सात कुडव भात हाडलां.'

'इतल्या वर्सांचो पांटलो सोडलो बरो मुगो तुवें ?'

'चेडो म्हणटा, हांव पणजे ऑफिसांत नोकरी करतां आनी तूं सुक्या सुंगटांचो, तिसरे, कोंडये मासांचो पांटलो घेवन भोंवता काय म्हण. हरशींय म्हाका नाकाच जाल्लो हो धंदो. उदारी दी म्हणप आनी मागूंक गेल्यार रडोवप. पोल भात घालून दिवप. हांव सांगतां पांडू, ह्या आठ धा गांवचे हे खोत म्हज्या आटोव पडीच्या रिणांत आसात.'

'आगो पांटलो सोडलो. आतां घोवाक सद्‌दां सोऱ्याक रुपयो खंयच्यानन दितलें ?'

'खंयूय गांवार वचून पिवं ना तर मरू तो. उबगण आयल्या.'

'आगो, ताज्या नांवान रुपया येदो कुकूम लायता. कोणालेंय फुलां झाड दिसतकीर ताजी खांदी ओडून फुलां बुड्डून माळटा आनी घोवाक मरों म्हणटा?'

'कुकमाचो आदार म्हण इतलीं वर्सां सोंसलें न्ही रे.'

सुमनाक ते बायलेसरीं बसूंक उबगण येयली. केन्ना एक फावट तार तडीक लागता अशें जालें ताका. तार तडीक लागतकीर दिमीभर उदकांतच देंवन तें सडसडीत चलूंक लागलें. वट्ट ते बायलेन तागेली उमेदच खायली.

तें बायल्या घरासरीं पावलें तेन्ना सुर्या दोन वांव वयर आयिल्लो आनी वोताक निकतीच हूनसाण येवंक लागिल्ली.

सुमन बायल्या घरासरीं पावल्यार थंय सगलें सामसूम आसलें. जत्रे-परबेचो कसलोच बोवाळ नासलो. माडाअळ्यार एक कळसो लवंडून उमथो पडिल्लो. आंगणांतय हो कोयर. बागाच्या एका कोनशावेल्यान झाडां अडसरांतल्यान घुप्पघुप्प कितें बडयिल्लोसो आवाज येतालो.

सुमन सडसडीत भितर गेलें. मंजूळ चुलीसरीं बसून जाळ फुकतालें. 'बाय !'

मंजूळान फाटीं वळून पळयलें आनी अचकीत खोशयेचो शिंवर जाल्लेवरी तोंड भरून हांसलें. तें म्हेळ कपड्यानच आसलें. केंसय वळोवंक नासले. चुलीक फूक मारतना चुलींतलो गोबर ताज्या चेऱ्यार, केंसार बशिल्लो. घरांतली निर्शेणी, थंयचो पसारो आनी मर्दीं बायलें नितळ हांसप, सुमनाक कितें तरी विपरीत अशें दिसलें.

'सुमन येयलें पोरा, बस. तुका कोणाकडेन तरी जत्रेक यो म्हण सांगणें धाडचें केल्लें हांवें पूण कोण मेळ्ळोच ना.'

'जावं गो. तुमची जत्रा म्हणटकीर म्हजें मनच रावना जालें. तुजें लग्न जायतसान ही जत्रा चुकोवंक नासली हांवें.'

'बरें केलें गो येयिल्ल्याक. म्हज्या मनाक तितलेंच समाधान.'

'पूण हें कितें बाय, परबे दिसाक तूं अजून अशेंच जुनेर गुठलावन घेवन बसलां.'

मंजुळाल्या तोंडार अचकीत सांवट देवन येयलें. 'बरें ना गो म्हज्या जिवाक. उमेदच नाशी !'

'कितें जालें बाय? कितें जाता तुका ?'

'कांय ना. बस तूं. हांव रांदतां. रातीं उड्डां पोळ्यांक वांटून दवरलां. मांवाक

सांगतां एक निरपणस काडून दी म्हण. बरी शाक करुया. मूग भिजोवंक घाल्यात हांवे. पोळे, शाके खतखतें आनी पायस.'

'बाळ खंय गो ?'

'हेदोळ देवप्पामाम येवन घेवन गेल्लो. आसतलो ताजेकडेन.'

'आनी भावोजी ?'

'देवळामळार आसतलो.'

'भावोजी बरो आसा मुगो ?'

'हय गो. बरो ना जावंक कितें जालां ताका.?'

'मगेर तूं अशें पिरंगता कित्याक ?'

मंजूळ खोल हांसलें. 'पिरंगतलें कित्याक ? तूं येयलां मुगो. आतां परब जत्रा झकास उडोवया.'

दोगीय भयणी कामाक लागल्यो. सुमनान नवीं आंगलीं काडून वांगडा हाडिल्लीं पोन्नी आंगलीं घालीं. हातांत सान्न घेवन ताणें आदीं सगलें घर, आंगण नितळ लोटून घेतलें. शिंतडो घालून शेड घेवन हुमरो शेडीन पिंतारलो. 'बाय, तुगेलें तें वस्त्राचें तोर्ण खंय गो? परबे दिसा तरी लावचें. कितलें सोबीत मेटयिल्लें तुवें.'

'आसूं गो तें आतां.'

'दी तूं तें. हांव लायतां.'

मंजूळान ताका ट्रंकांतल्यान तें फुलां आनी वाली भरिल्लें तोर्ण काडून दिलें. तें सुमनान मुखावयल्या दाराक ज्युस्त लायलें. आतां घराक खरेंच परबेचें घरपण येयलें. उपरांत तें कळसो आनी बिंदलो घेवन बांयचेर गेलें. बांय वयल्यान ताका कुशिल्लीं सोणणां बडोवन कातो काडपी बायलो मांव दिश्टीक पडलो. सुमनान मनांत म्हळें, 'परबे दिसा हो आनी अवचिन्नाळो हें कितें करता !'

तो हातांत कुडती घेवन घुप्पघुप्प करून ओलीं कुशिल्लीं सोणणां बडयतालो. ताजें पुराय आंग घाणीन भरिल्लें. चौंयवटेन कुसड वास मारतालो. सुमनाक ताजो रागच येयलो. हातांतली कुडती घेवन ताजे तकलेर घालची अशें दिसलें.

वेळ माथ्यार चडटा म्हणसर दोगांय भयणींनी रांदप सोंपयलें. मगेर सुमन मंजूळाक म्हऱ्यांत घेवन केंस वळोवंक लागलें. इतल्यान न्हाणयेंतल्यान हाणयेंत तांबो घातिल्ल्याचो आवाज येयलो. मंजूळान म्हळें, 'येवन न्हावंक गेला दिसता मांव.

तुळशीक वाडी काडूंक जाय.'

'काडशी मगेर. आर्दी तूं नवी साडी आनी पोल्क न्हेस पळोवया.'

तें न्हेसून येय म्हणसर मांव न्हावन येयलो.

'कावेरी, वाडी काड.'

'पूण केळी पानां खंय काडून हाडल्यांत तुवें ? हेदोळ निरपणस काडून दी म्हणटलें म्हळ्यार तूं तुज्या कामांत. हांवेंच कण्णाक कोंकें बांदून गोळ घेत काडलो पणस.'

तो विळो घेवन केळी पानां काडूंक गेलो. सुमनान हुसक्यानशें विचारलें, 'बाय, भावोजी येयलोच ना मुगो.'

मंजूळान फापुडलेंशें करून म्हळें, 'येतलो तो. खंय वयतलो येयिना जावंक.' पूण ताजी नदर मात मळावटेन लागिल्ली.

मांवान पानां हाडून दितकीर तें वाडी काडूंक रांदचेकुडींत गेलें. फाटल्यान मांव गणयतालो, 'हांव आसां म्हणसर आमास पुनवेक म्हज्या आवयबापायक घालतां. हांवें मात मेलेउपरांत मर्दीच हुमकळत वटवटे काडूंक जाय. हो चेडो म्हज्या ताळ्यार कितें घालतलो म्हण! घोंटभर उदक मेळचेंना म्हाका हाच्या हातान. जितो आसतानाय मेळचें ना आनी मेलेउपरांतय मेळचें ना.'

मंजूळाक ताज्या उलोवपाचें कांयच दिसलेंना, पूण सुमन मात भितल्ले भितर शेळेल्लेवरी जालें.

मंजूळान भितर वचून तीन वाडी काडल्यो. एक तुळशीक, एक गायक आनी एक कावळ्यांक. केल्ल्या रांदपांतलें इल्लें इल्लें पानार घालें. म्हणसर मांवान गंध-फूल तयार केलें. मांव गायच्या पानाक उदक सोडून तुळशीवाडी घेवन भायर येयलो. वाडी तुळशी माणयेर दवरून तो तुळशींतल्या गणपतीची आनी तुळशीची पुजा करूंक लागलो. 'राम, राम, राम, राम, हरी ॐ हरी ॐ.'

इतल्यान एक सुणें पान हुंगत म्हन्यानच पावलें. मांव 'हड्त' करून गाळयांचो शिंवर करीत ताजे फाटल्यान लागलो. ताका पयस धांवडावन तो परतो येवन पुजा करूंक लागलो. पळोवन सुमनाक हासुंकूच येवंक लागलें.

मंजूळ परतें परतें भायर येवन 'हो देवप्पामाम बाळाक घेवन खंय मेलो' म्हण हुस्को काडटालें. सुमनाकय ताका आंगार खेळोवचेली उमळशीक लागिल्ली.

कांय वेळान देवप्पामाम येयलो. बाळाच्या हातांत एक मोठ्ठो फुगो आसलो.

कितें कितें खावन तागेलें तोंड म्हेळ जाल्लें. 'देवप्पामाम, तूं ताका जत्रेक घेवन गेल्लो ?"

देवप्पा ओगीच हांसलो.

'देवप्पामाम, जत्रेक माण चड आयल्यात ?'

देवप्पामामान हय म्हण तकली हालयली. आतां मंजूळ तागेली भास बरें शिकिल्लें. ताजेकडेन बेस बरें उलोवंक ताकतालें तें.

'देवप्पामाम, आमगेलो हो दिशिल्लो ?'

आतां मात देवप्पान आपणाक कांयच समजलेंना अशें केलें आनी तो चलूंक लागलो. मंजूळ धांवन वचून ताजेमुखार रावलें आनी ताणें म्हळें, 'जेवंक राव. आयज आनी तूं रांदूं नाका.'

देवप्पान 'येतां येतां, मगेर येतां' अशें सांगून पावलां मारली.

सुमन रमेशाक घेवन जायतें थुळेतालें, मटाळटालें. तो पोरय बरो खी खी करून हांसतालो. घर कांय वेळ उमेद उल्लासान भरून गेलें. मंजूळाकय पयलींच होलमलें, आयज आमगेर परब !

बरोच वेळ तो येयलोना म्हणटकीर मंजूळान मांवाक म्हळें, 'तूं जेवन घे. तो येतलो मगेर.'

'येवं दी ताका. केन्ना येता तेन्ना येवं दी. नातर भरिल्ले परबेक म्हजो उपास.' तो माळयेचीं सोंपणां चडूंक लागलो. मंजूळाक ताका पळोवन दिसलें, ह्या दिसांनी हो आंगान बरोच सडकला. आंगावयली कात चिरमुटल्या. ती अळंग पडून आंगावेल्यान लांबूंक लागल्या.

'सुमन, तुका वाडटां हांव. तूं जेव आनी बाळाकय इल्लें जेवय.'

'ना गो बाय, घरांतले कोणच जेवलेनात जाणटेले आनी हांव जेवं ?'

'तूं सोयरें मुगो. तुवें जेवल्यार सवाशीण पावतलीं. सोयऱ्यान आदीं जेवचें.'

मुखार बसून मंजूळान ताका वाडलें. तें नाका नाका म्हणटाना पोट्टभर जेवंक लायलें. 'नाका कित्याक म्हणटा गो, मुगाची शाक तर तुका भोव आवडटा.'

'घरामुखार शेतांत कोणालो तरी बोवाळसो आयकोंक येयलो. मंजूळ बेगीबेगीन भायर येयलें. सुमनय हात धुवन बाय फाटल्यान भायर येयलें. तो येतालो, तोंडान बडबडत, बोवाळत, वाकर्डी-तिकर्डी पावलां घालीत येतालो. दिसतालें, आतां

दुसऱ्या पावलाक हो लकुनूच पडटलो.

म्हऱ्यांत येतकीर पळयल्यार ताज्या हातांत एका म्हेळ वस्त्रांत बांदिल्ल्यो दोन तीन पाटोळ्यो आशिल्ल्यो. हातांत नाकांतल्यान दोरी ओंविल्लो हातभर पालू.

'गुलाबीन सांगलें म्हाका, अरे तुजी मेवणी येयल्या. मार पिल्लूक. मगेर घेयलें खाजें, मिठाय, हालवो. हो पालू घेताना तो हळगेचो शेट चड पडटालो. ताज्या नाकार मारून दोबराद पयशे मेजून पालू हाडलो हांवें.'

सुमन तटास जावन पळेतालें. ताका भिंवन थरथरोच भरिल्लो.

'आगो सुमन, भावोजीक जाप तरी कर मुगो पापया. स म्हयने जालें येवन. एक दीस भावोजीचे खबरेक तरी येवचें.'

'तूंवय येयलोना भावोजी शिद्दरांत.'

'हांव बेकार लवडी. नोकरेक लाथ मारून येयलां न्हू गो. आगो कावेरी–मंजूळ, हो पालू धर. बरें झकास हुमण कर. शागोती जावंक जाय शागोती.'

मंजूळ रागान झिडपूनशें ताजेकडेन पळयतालें. ताणें पालू हातांत घेतलो आनी शेंवटून मारलो. तो बद्द आंगणा मेरेसरीं वचून पडलो.

'पिवन सुद्द ना सुम्रत. एक पावल धड पडना आनी पालू घेवन येयला खंय. कोणाच्या मड्यार घालूंक !'

'मंजूळ तुवें पालू शेवटून मारल्लो. इतली मस्ती तुका ?' तो ताज्या आंगार झुडोन गेलो.

सुमन भिंयेवन एकदम मर्दी येयलें. मंजूळान ताका कुशीक काडीत ल्हवच म्हळें, 'तूं ओगी राव. हात लावचो ना तो म्हज्या आंगाक.'

सुमनान बेगीबेगीन वचून तो पालू उखलून हाडलो. तो लकत लकत घराचीं मेटलां चडून गेलो आनी भितर मदल्या सालांत भूंयचेरूच लवंडून पडलो; मंजूळान मुखार वचून उठोवचेलो यत्न केलो. पूण तो हालनासलो. मगेर मंजूळान एक मांदरी हाडली. ती ताजे कुशीक हांयरून ताका तसोच धुकलून मांदरेर नीट घालो. तो सुद्द गेल्लेवरी पडून रावलो.

जिवितांत मंजूळ इतलें केन्नाच निर्शेवंक नासलें. निर्शेणी, वितराग आनी जीव दिवचेली खर इत्सा अशें कितें कितें ताज्या मनांत येत रावलें. तें भितर वचूत वोग्गी बसलें. कुशीक चेडो न्हिदिल्लो. ताजेकडेन पळोवचेलो लेगीत ताका धीर जायनासलो.

सुमन मात सडसडीत कामाक लागलें. ताणें आडोळी घेवन आर्दी पालू सुटो केलो. तो धुवन हाडून भितर दवरलो. मगेर ताणें हुमणाक आळेण काडलें. तें बायक कितें कितें विचारतालें. पूण मंजूळ कांयच उलयनासलें. ताणें आपल्या मनानच सगलें केलें.

आतां सामको वेळ पडूंक येयिल्लो. 'बाय, मांवय जेवलोना मुगो. ताका वाडूंक जाय न्ही गो !'

'बायूल तुका उगडास आसा, भुरगेपणाक एक वर्स व्हडलो हुंवार येयिल्लो. सगलें सगलें व्हांवन गेल्लें. तसोच आतां आनीक एक फावट व्हडलो हुंवार येवचो. हें घर, ह्या घरांतलीं सगलीं मनशां त्या हुंवरांत व्हांवन वचचीं.'

सुमनाचें काळीज चिरिल्लेवरी जालें. तें मोन्यानच उबें रावलें.

'बायूल, एक ताट कर. ताट आनी उदक भरून तांबयो व्हरून ताका माळयेरच दी. वाडी घाल्या ताणें. ताका उपाशीं दवरूंक फावोना.'

सुमन माळयेर ताट घेवन गेल्यार मांव दोळे धापून वोग्गी बाज्जेर पडिल्लो. पावलांच्या आवाजान ताणें दोळे उकते केलें. 'मामा, तूं जेवन घे.'

तो वोगी उठून बसलो. ताट दवरून परततना तो म्हणटालो, 'गणेशालीं दोगांय चेडवां तुमी गुणांचीं. पूण नशिबांतलें कोणाच्यान काडूं येता ?'

सुमन वयल्यान सकल येयल्यार श्रीधर मर्दीच जाग येयिल्लेवरी उठून बसलो आनी ताणें थंयच ओकून खळें केलें. सोन्याचो, उश्ट्याचो बुरसो हरवट वास घरभर पातळ्ळो. तो उठून बसलो. तसोच थंयच परतो आड पडलो.

सुमनाच्यान ती हळशीक सोसूं नजो जाली. तें बेगीबेगीन भितर गेलें. भितर गेलें आनी मागील दारांत वोगी उबें रावलें. ताणें बायकय कांय सांगूंक ना. कितें करचें सुचनासलें. तो वासय सोंसनासलो.

कांय वेळान सुमन एक फाळो घेवन येयलें. ओंकिल्लें फाळ्यान एकठांय करून व्हरून ताणें माडाअळ्यार व्हरून उडयलें. उपरांत एक नितळ फाळो घेवन ताणें भावोजीलें तोंड पुसून काडलें. थंय सान्न भोंवडायली. गंवर्णीत वचून इल्लें शेण हाडून वेल्यान शेणागुळो भोंवडायलो.

'बाय तूं इल्लें जेवन घे मुगो.'

'नाका सुमन.' ताणें आपलो पालोव थंय भूंयचेरच सोडयलो आनी तें आड पडलें.

भायर आतां काळोख पातळिल्लो. सुमनाक झेम येवंक लागली. तें एक मांदरी सोडोवन बायचे कुशिकूच आड पडलें. बेगीन ताकाय झेम लागली.

बरेऽ रातीर भावोजी बायक उठयता तें ताका आयकोंक येवंक लागलें. पयलीं बरोच वेळ मंजूळ ओगीच रावलें. मगेर ताणें म्हळें, 'आतां निवळ्ळो दिसता. निवळटकीर भूक लागल्या हाका.'

'मंजूळ, उठ मुगो. वाड म्हाका.'

'पिवन पोट भरलें ना तुजें ? केन्ना ना तें पोर येयिल्लें, तुजें ओंकिल्लें काडलें ताणें.'

'ऊठ तूं. वाड म्हाका आनी ताकाय वाड.'

मंजूळ तिडकीनशें उठलें, 'तेंवय जेवंचें ना आनी हांवय जेवचें ना. तुका जाल्यार वाडटां.'

ताणें एक तांबयो भरून ताका दिलो. तो मागीलदाराच्या सोंपणार उबो रावन नीट तोंड धुवन येयलो. मंजूळान एकच ताट वाडिल्लें पळोवन ताणें म्हळें, 'सगलींच जेवया मुगो.'

'सांगलें न्ही हांव जेवचेंना म्हण.'

'मगेर हांवय जेवंचो ना.' तो उठून भायर वचूंक लागलो. मंजूळान म्हळें, 'राव बस हांगा मातसो म्हणयेर.'

ताणें मगेर सुमनाक उठयलें आनी तोंड धुवन येवंक लायलें. आनीक दोन ताटां वाडलीं आनी तीं सगलीं एकठांय जेवंक बसलीं. मंजूळ ताटांत हात घालचे पयलींच उठलें आनी माळये पावंड्यासरी येयलें. सकयल्यानच ताणें म्हळें, 'बाप्पा, जागो आसा ?'

'म्हाका आनी न्हीद खंयची. म्हजी न्हींद देवचारान व्हेली.'

'जेवंक यो.'

'सांजचो वेळ धारेक पावतकीर जेविल्लों मुगो, जेविल्लें गळ्याकडेनच आसा अजून.'

मंजूळ येयलें आनी ताटार बसलें. मर्दींच श्रीधरान म्हळें, 'नुस्त्याचें हुमण बेसबरें जालां मंजूळ.'

मंजूळान सुमनाक पळेलें. ताजें लक्षच नासलें. एकवटेन तें इल्ली इल्ली उंडी

करून जेवतालें आनी दुसरेवटेन दुकां गळयतालें. मंजूळ कांयच उलयलेंना. ताणें ल्हवच चिमणे दिवो ताजेर काळोख पडचो अशे तरेन घुंवडावन दवरलो. मनांत ताणें म्हळें, कित्याक रडटा तूं बायूल ? म्हजी दुकां तूं घेवन कित्याक रडटा! रडून घे इल्लें बायच्या नांवान !

तीं न्हिदूंक गेलीं तेन्ना देवळामळार फोग पेटिल्लो, वाजंत्रा वाजिल्लीं आयकोंक येतालीं. मर्दीच लोकांचो कलकल. तांणी मनांत म्हळें, पालखी देवळांतल्यान भायर सरून मळार भोंवता दिसतालीं.

कांय वेळान सगलीं न्हिदून गेलीं. पूण मंजूळाक झेम लागनासली. हड्ड्यार मणाचें वजें आनी चेपण ! तळ आनी अंत नाशिल्ले खोल खोल बांयंत पडिल्लेवरी तें सामकें काचाबूल.

सकाळीं उठ्ठकीर भावोजी मोन्यानच वावुरतालो. ताणें खाड काडलें आनी तो न्हालो. आपले कांय कपडेय ताणें उमळून घाले.

सुमनाक दिसतालें भावोजीकडेन आपणें कितें तरी उलोवचें. तूं आनी बाय मेळून एक दीस शिद्दरा यो म्हण सांगचें. पूण तो घुम्म मोनो आसलो. भावोजी तूं इल्लो तरी पयलींवरी फकाणांनी उलय रे. 'बायूल बायूल, मार बेगीन पाऊल' म्हण. एकच फावटीं म्हण. बायकय बरें दिसतलें.

न्हांवन बीन तो नितळ कपडे न्हेसून तयार जालो. 'मंजूळ, हांव वयतां मुखार. मगेर सुमनाक घेवन जत्रेक यो तूं. देवाक बीन मेळून येयात.'

'वांगडा सगलीं मेळून या न्ही आमी.'

सुमन थंयच आसलें. ताणेंय म्हळें, 'वांगडा या आमी भावोजी.'

'नाका. हांव वयता मुखार.' ताणें खिशांतल्यान एक धांची नोट काडली आनी सुमनाक म्हळें, 'घे जत्रेक तुका.'

सुमन अनमनलेंशें करून वोगीच उबें रावलें. मंजूळान म्हळें, 'घे. घे तूं.'

तो वचूंक गेलो आनी मंजूळाल्या मनांत सारक्की दुगदूग. हाका एकल्याक सोडूंक फावानासले हांवें !'

'बायूल म्हाका जत्रेक वयची उमेदच ना गो.'

'तूं येना जाल्यार हांवय वचचें ना बाय.'

मंजूळान सुमनाक बेस आंबाडो घालून उगयलें. ताजेर एक आबोलेची,

मोतिमोगरेची फांती माळयली. आपलें एक नवें पातळ हाडून ताणें सुमनाक न्हेसयलें. चेऱ्याक पोव लायलो. दोळ्यांत काजळ घालें. गळ्याक, हाताक भांगरा वस्ती घाल्यो. मगेर ताका वेंगोवन मटाळत ताणें म्हळें, 'बायूल, पळय कितलें सुंदर दिसता तूं. देवती कशें ! म्हणच भाचो पिसो जाला तुजेर.'

सुमन लजलज लजलें. 'बाय, तूं म्हाकाच सोबयता आनी तूं अजून अशेच.'

'म्हजे कितें गो कितेंय... ' उलयतां उलयतां ताणें दांडयेवेली णववारी साडी ओडली. सुमनान ती साडी हातांतल्यान ओडून घेवन कुशीक काडून दवरली.

'बाय, तूं म्हजेवरीच पांच वारी गोल न्हेस मुगो.'

'म्हजेकडेन ना गो आनीक पांच वारी.'

'फट उलयता तूं. भावोजी पयलीं येतना पांच वारीच हाडटालो तुका. फाटीं तूं शिद्दराक चार दिस रावंक येयिल्लें तेन्ना न्हेशिल्ली ती, अबोले रंगाची तीच न्हेस.'

'पूण तो पळे पाऱ्याक आशिल्लेवरी आसा मांव. ताका मानवना तें. ताणेंच म्हाका सुरवेक णव वारी न्हेसूंक लायिल्ली.'

'ताका कित्याक भिंयेता तूं बाय. हांव जाल्यार ताका कडाशेक खोवोवन दवरपी. न्हेस तूं. तो कांय म्हणचो ना. काल तर तो तुजी तोखणाय करतालो.'

'तसोच तो. आत्तां तोखणांय करतलो, मगेंर भूंयर आपटितलो.' मगेर मंजूळ भितर गेलें. ट्रंकांतल्या तळांतल्यान ती अबोली रंगाची साडी घेवन येवन न्हेसलें.

'बायूल मुगो, हांव शिद्दरा वतकीरच पांच वारी न्हेसतालें. हांगा हावें केन्ना न्हेसूंक नासली.'

'जांव गो.' सुमनान ताका उरिल्लीं सगलीं फुलां माळयलीं. सुमनान सक्काळीं उठून बागभर भोंवन तीं फुलां एकठांय केल्लीं आनी गुंथिल्लीं.

बायक सोबोवन ताका तोखेत सुमनान म्हळें, 'वाड्यावयल्यो बायलो कितें म्हणटात जाणा, सुमन रंगान गोरें खरें, पूण मंजूळाली सोबीतकाय मात ताका ना. खरेंच तांचें तें.'

तीं जत्रेक वचूंक घरांतल्यान भायर सरून घरामुखावयल्या शेतांत पावलीं. तांणी फाटीं वळोवन पळयल्यार मांव घराक कुलूप करून खांदार खोरें उडोवन शेताक वचूंक सुटिल्लो, जत्रेक फाट करून.

तीं आनीक, थोडी मुखार पावलीं आनी एक तरन्नाटो 'वयनी वयनी' करीत

फाटल्यान धांवन येताना ताका दिश्टीक पडलो. मंजूळान म्हळें, 'हो पळय येयलो वयनीक फुलां माळोवंक.'

'तशें कित्याक म्हणटा बाय ?'

'आगो तो पयल्या घरांतलो प्रभाकर. म्हणटा, वयनी, हांव तुजे भयणीकडेनच लग्न जातलों. परतो परतो म्हजे भोंवतणीं गणमणत आसता.'

'कितें करता तर तो ?'

'कांय ना गो. बेठोच आसा. एक भाव गोंयां पोलिसांत आसा. दुसरो मुंबय. म्हणटा, म्हाका गांवकारान शाळेंत नोकरी दिता म्हळां. नवी शाळा काडल्या न्ही गो ताणें.'

'कितें शिकला तर तो ?'

'खंय गो, चवथी पांचवी शिकला आसतलो.'

'मगेर कसली शाळेंत घंटी बडोवची नोकरी ?'

तो म्हऱ्यांत पवलो. ताणें चिप्प तेल घालून कें‌स वळयिल्ले. कपलार केसाचो कोंबो उबो केल्लो. इल्लें इल्लें तेल कपलार देंविल्लें. तागेले निकतेच फुटिल्ले दाडयेचे कांय लांब कें‌स बेठेच चेऱ्यार लोळटाले. तो बरोच ऊंच, पूण बारीक आनी काळसोच आसलो. ताजी पॅण्ट इतली मोटवी आसली, ताणें पांयांक घातिल्ले तांबडे मेय वेंतभर तरी दिश्टीक पडटाले. बूटय म्हेळ आनी अळंग आसले.

सुमनान कानांतच विचारलें, 'बाय, हागेले भाव सामक्के मोटवे आसात कितें गो ?'

'कित्याक म्हणटा गो ?'

'पळय ती भावाली पॅण्ट कितली मोटवी जाता ताका.'

'बरें हुशार मुगो तूं' म्हणत मंजूळान व्हडान म्हळें, 'हो एकलोच घरांत भिल्लमाड कसो लांब जाला. हेर भाव केनाळे कवाथे.'

'लांब मनीस बरे दिसनात खंय वयनी ?'

'बरो दिसता तूं. नाटकांतलो रंगयिल्लो गडो कसो.'

'मगेर ?'

'मगेर आनीक कितें ?'

'हांव तुगेले भयणीक वळखतां वयनी.'

'आंकवार चेडवाक संवसार वळखता.'

'वयनी, पयर आई बाप्पाक कितें सांगताली जाणा, हें वर्स शेतांत सुरय भात चडच रोय म्हण. येता त्या वर्साक बाबुल्या लग्नाक सुरय तांदूळ जाय पडटले म्हणटाली.'

सुमनान ताका आयकंवशें म्हळें, 'भात बरें तव्यार भाजून रोय म्हण सांग.'

'वयनी फकाणां करता मुगे तें म्हजीं.'

'फकाणेरच तें. फकाणां करतकीर कितें जाता जाणा, चड हांसूंक येता. चड हांसलें म्हणटकीर भूक लागना. पोट आपशींच भरता.'

'भूक लागना जाल्यार बरी गे ?'

'मगेर पोट भरूंक काम करचें पडना.'

प्रभाकरान बेठेंच चॅ चॅ म्हळें.

बायलो चेडो रमेश सुमनाले हाण्डीर आसलो. तो ताका, 'हांव घेतां' म्हण मुखार गेलो. सुमन 'नाका, नाका' म्हणीत बेगीबेगीन कुशीक गेलें.

मळासरीं पावतकीर ताका कोण तरी दिस्टीक पडलो. 'हांव येतां रे' म्हण उलो दीत धप्प धप्प बुटापांय उडयत धांवक लागलो. सुमनाक हांसुकूच येवंक लागलें. 'बाय, ताणें तुका लग्नाक झरीदेगोचो शालू हाडटा म्हळां कितें गो?'

'तो खपलो शालू हाडटलो. तागेलो आवय बापूय चिक्कू मारवाडी. आठ आठ दिसांचें बेळशेल्लें, करपल्लें हून करून खावपी.

मगेर तीं मोन्यानच कांय वेळ चलत रावलीं.

'गोविंद कितें म्हणटा गो ?'

'तो कितें म्हणटलो !'

'घराकडेन येता आतां ?'

'तो भित्रो. वाड्यावयल्या बायलांक आर्दी भिंयेता.'

'चार दीस भिंयेतलो. भास्करअण्णा ताका पोसको करून घेना खंय ?'

'म्हणच हाडून दवरून घेतलो न्ही गो.'

'लग्नाचें केन्ना कितें उलयता?'

'लग्नाचें केन्ना कितें उलयता ?'

'तो कितें उलयतलो.'

'तुका एक सांगतां बायूल. मोग आसूं दी, पूण ताका लग्ना पयलीं चड म्हऱ्यांत येवंक दिवं नाका. सोताक राख.'

सुमनान नदर वयर करून ताका रागानशें पळयलें.

'तुजेर म्हजो विस्वास आसा बायूल. तुज्या हातान कांय वांकडें घडचें ना. पूण वेळ काळ सांगून येयना. फुडलें फाटलें पळोवंक जाय. मनशाचें मन म्हणटा तें उज्या कीट. आपणेच आपणाक राखूंक जाय.'

इतल्यान जत्रेचो कलकल सामको म्हऱ्यांत पावलो. देवळासरी गेल्यार थंय लोकांची ही खेटाखेट. भैरें, केरवडी, हळगें, हुळगें, खारगें, शिद्दर ह्या भोंवतणच्या गांवचो लोग लाटून येयिल्लो जत्रेक.

मंजूळान म्हळें, 'बायूल, देवाक मगेर मेळचें. लोक मातशे उणे जांवदी. आदी जत्रेक भोंवन येवया.'

रातीं फांत्या पाराक ओडून भोंवडावन हाडिल्लो रथ आतां देवळाकुशीक संथ उबो आसलो. ताजेवेले पताके वाऱ्यार हुबताले. नाटकाच्या माटवाचे पड्डे आतां देंवयिल्ले आनी तो ऊंच माटोव उकतो पडिल्लो. मंजूळान मनांत म्हळें, 'बरें खंयचें नाटक आशिल्लें खंय, रातीं हो बरो आशिल्लो जाल्यार हांव बायूलाक घेवन नाटकाक येवचेलें.'

देवळामळावेली भोंवतण सामक्की फुलून गेल्ली. देवळांत वाजंत्री वाजतालीं, तर भायर भुरग्यांल्यो पिल्लुको आनी पेंपरां. लोकांचोय बोवाळ. मदींच एकाद्रो तरनाट्यांचो पोंवो बेठोच दशावतारी नाटकांत नाचिल्लेवरी नाचत गायत वतालो. तांका वाट काडून दितना लोकांची धांदल जाताली. ते एक दुसऱ्यार लकताले. आंकवार चेडवां आवयस्स करून बेठींच आंग सांबाळटालीं. पूण तांचो दोळो मात पोंव्यातल्या दर एका तरणाट्याचेर आसतालो.

निकत्योच दिवजां ओंपून मेकळ्यो जाल्ल्यो दिवजकान्नी एका झाडापोंदाक सावळेंत बशिल्ल्यो. केळीं बीन खावन, सरबत पिवन त्यो आपलो देड दिसांचो उपवास सोडटाल्यो. कास मारून आनी सोगो सोडून न्हेशिल्ल्यो नवेताल्ल साडयो, माथ्यार कुडवभर आबोले फुलांचे मुडे, कपलाक कपलभर कुकूम, गळ्यांत सोळा अठरा पवनांची गोटलां पळोवन आतांच पुजा करून आनी ओटी भरून स्थापन केल्ले

देवतेवरी त्यो दिसताल्यो.

सुमनान रमेशाबाळाक एक खुळखुळो घेवन दिलो. तो पोर तो मुठींत धरून खुळखूळ वाजोवंक लागलो. ते पळोवन सुमनय ताजेवांगडा मातशें थुळ्ळें.

इतल्यान कोणालो तरी व्हडाव्हडान बोवाळ आयकोंक येयलो. कोण झगडटात, गाळी घालतात काय बेठेच व्हडाव्हडान उलयतात कांयच कळनासलें. फक्कत घुंवळेंत लुबडी आरड.

मंजूळालें काळीज कलकललें, 'सुमन, म्हाका धर गो !'

'बाय कितें जाता तुका ?' तीं दोगांय पावलां उखलीत बोवाळावटेन गेलीं. आता बोवाळ सामक्को तांच्या कानांत तेंकलो. दोळ्यांमुखार येयलो.

श्रीधर खूब पियेवन घुंवळेंत तर्र जाल्लो. कोणाक तरी गाळयो घालतालो. मर्दींच लकतालो आनी कोणाचेर तरी पडटालो. मगेर तो ताका दुसऱ्याचेर धुकलून दितालो. भोंवतणीं कंवडाळें करून राविल्ले ताका चडच तिडयताले आनी मगेर ते गाळींचो शिंवर करतालो. लोक शबय घालताले आनी तो तांकां संवतालो.

मंजूळाक दिसलें आतां ही धर्तरी फुट्टली. आपणाक पोटांत घेतली. मगेर आपली भिरांत आपलें दुख्ख, लज खिणांत सासणाची ना जातली.

'बाय गो सुमन, कोण बोवाळटा गो, कोण कोणाक धाडायता, कोणाचेर कित्याक हो सांवार येयला ! देवाचोय फातर कित्याक जालो !'

सुमन फकत बायक राखतालें. एके हांडीर रमेशाक घेवन दुसरो हात बाय भोंवतणीं घालून उबें आसलें. भर जत्रेंत धा गांवचो लोग एकठांय जाल्लो आसतना हाणें लज सोडप ! हातूंत पळे कितलो लोक तर वळखीचोच ! तो पळय शिद्दरचो देवूळवाड्यावयलो शंकर देवळी... बाय म्हजें गरीब, मोव मनाचें... बाय गो तूं हाजी बायल कित्याक जालें, म्हजी आवय कशी म्हजी भयणच जावन रावलेंना कित्याक ?

'सुमन, या आमी.'

'हय बाय, या आमी.'

तीं थंयच्यान कुशीक सरलीं. मळाकडेर पयस एक ओंवळी रूख आसलो. ताजे पोंदा तीं येवन बसलीं. हेदोळचो जीव खावपी बोवाळ आतां पयस पयस गेलो आनी ना जालो. तांकां सू जालें.

मंजूळालें सगलें आंग हुमेन भरिल्लें आनी ताका भरिल्लो थरथरो थांबनासलो. सुमनान ताज्याच पालवान तागेली हूम पुसोवन काडली. 'बाय आमी वचून देवाक

मेळून या.'

'नाका. आतां आनी देवाक मेळचें नाका.'

'बाय मातशें राव आं' म्हण सुमनान देवळावटेन धांव मारली. साडी पांयांमदीं घुसपताली. ताणें ती वयर हातांत गुठलावन घेतिल्ली. तें गेलें आनी एक फुगो घेवन येयलें. तो ताणें रमेशाल्या हातांत दिलो.

'ताका कर्मकट्ट्याक फुगो आनीक कित्याक हाडला तुवें ?'

'तूं म्हण नाका जाल्लेंच उलयता मुगो बाय.'

तीं वचूंक सुटलीं. मंजूळाच्या पावलांक त्राणच नासलो. फाटीं वळोवन देवळासरीं पळयल्यार ताज्या दोळ्यांमुखार सगलोच काळोख. ताका दिसलें, देवळामळार एक काळें कूप दाटून येयलां आनी रथ, पालखी, थंयचीं सगलीं मनशां तातूंत बुडून सांडल्यांत. आनीक म्हण हें देवळामळ फुलून येवचें ना. आनीक म्हण हांगा जत्रा भरची ना देवाकच सासाय ना तर ती जत्रा आनी तो रथ कित्याक ! तें मदींच सुमनाचेर तिडकलें, 'तूं आनी व्हडलें व्हडविकायेन जत्रेक येयलां. आफोवंक ना कांय ना आनी जत्रा जाय तुका ! पळयली मुगो इपस्टा ?'

सुमनान कांयच म्हळें ना. तें वोग्गी चलतालें. मंजूळान पळयल्यार ताज्या चेऱ्यार सांवट पातळ्ळां. ताका दिसलें तें आतांच रडूंक लागतलें. इतलें गोरें तें पूण खिणांत ताज्या चेऱ्यावेली गोरसाण, नितळसाण काळी पडिल्ली. तरीय मंजूळ कांयच उलयलेंना. म्हजें दुख्ख तूंवय इल्लें भोग गो बायूल म्हणिल्लेवरी तें वोग्गी आसलें.

घराकडेन येयल्यार मांव भायल्या तेण्यार एक कांबळ हांथरून न्हिदला. मंजूळान म्हळें, 'पळे अवचिन्नाळो दनपारच्या कडार दारांत न्हिदला.

हांची सुलूस लागतकीर तो उठलो. ताणें म्हळें, ' अरे रमेश, जत्रेक वचून आयलो मुरे, आज्याक एक खाज्या बोट तरी हाडलां मुरे ?'

मंजूळ सट्कन तिडकलें, 'आज्यान जत्रेक वयतना एक आणो तरी नातवाच्या हातार दवरिल्लो व्हय.'

तागेलीं सकल दें‌विल्लीं ओटं कांय वेळ वयर सकल हाललीं. 'आगो कावेरी अशें कितें उलयता तूं ? आज्यालें आसा तें सगलें ताजेंच न्हू ?'

'आसा तें कितें, हुंवार येयल्यार कुसून वचचें शेत आनी हें चिरे दाळून दवरिल्लें घर. तेंवय फाल्यां बापायन सोऱ्याक विकून खाल्यार गेलें.'

मांवान आंगापोंदांतली कांबळ गुठलावन कुशीक मोखली. तो थरथरत उबो

रावलो. सुमनाक दिसलें, आतां हो रागान खेपूंक लागतलो. पूण तो वोगी आखाडो बळाटून न्हंयचे दिकेन चलूंक लागलो. निमाणे जीव दिवंक वतल्यावरी. वतना तो बडबड, 'घराचे वांशे फिरतकीर बाणशिऱ्याक दांत फुट्टात. आपलोच पयसो खोटो म्हणटकीर कर्माक रडचें आतां.'

रातची खंयच्या तरी घरांत कोणेंतरी मारिल्ली किळांच आयकूंवक येयली. सुमनान न्हिदिल्लेकडच्यान कांचवेनशें आयकलें - कोणें ही काळीज फोडून शी किळांच मारली काय ! कोणाक खंय कितें जालां?

गणेश वासरेंत तकलेवयल्यान कांबरूण घेवन न्हिदिल्लो. कांबरुणा भितर जागता काय न्हिदला कांय कळनासलें.

ते किळांचेन सुमनाली न्हीद खळ्ळी. काळजाक बेठीच दुगदूगशी लागली. कोणाची ही किळांच ? अचकीत भायर आंगणांत माजरा पावलान कोण तरी धांवन येतासो आवाज ताका येयलो. उपरांत दारार ल्हव ल्हव हातान थांपटां बसूक लागलीं. 'सुमन दार काड. दार काड सुमन !' आवाजांत थरथरो आनी भिरांत.

'कोण, कोण थंय ?'

'हांव गो सुमन. दार काड !'

सुमनान सुलूस घेयली. हातांत दिवो घेवन धडपडत वचून दार काडलें. दारांत शोभा उबें आसलें. बऱ्या शिंयांतय तें हुमेन चिप्प भिजिल्लें. दाडमणां बशिल्लेवरी बेठेंच चांचरिल्लेवरी करतालें.

'कितें जालें गे शोभावयनी ?'

तें भितर वचून सुमन न्हिदिल्ले मांदरेर धप्पकन बसलें. कांय वेळ जोरा जोरान स्वास घेत ताणें उसरपत घेयली. पालवान हूम पुसली. शोभा घोव मरतसान कापरावरी करपून गेल्लें. हांसप तें विसरिल्लें. पूण तागेले मुदलांतले घसघशीत केंस आनी चेऱ्यावेलें बाळकावरी निरागसपण तशेंच कायम आसलें. दोळ्यांतलें तेजय अजून मावळूंक नासलें.

'कितें जालें गे शोभावयनी ?'

शोभान कांय वेळ रडून घेतलें. रडटां रडटांच उलोवंक लागलें, 'पयलींपासून

म्हाका ताजी भिरांत दिस. म्हाका मेळिल्लें घोवाचें सगलें ताका ओंपलें. सगलो पयसो खायलो. पॅन्शन येता ती हांव सय करतां आनी सगले पयशे तशेच मांयकडेन दितां. तो मगेर मांयकडच्यान बुड्डून घेता. आतां म्हजेरच उठला. मांव म्हणटा तो बापूयच न्ही गो... !'

'कितें जालें गे ?' विचारतना सुमनालें काळीज कलकललें.

शोभान एकदम आपलो आवाज ल्हव केलो, 'कितलें सोताक राखतालें हांव. न्हावंक, न्हेसूंक दिनासलो. कावळ्याल्या दोळ्यान पळयतालो. कसलें तरी नीब काडून कुशीक गणमणटालो पातकी. हांव पातेनासलें ताका. मांय वांगडाच रावतालें. खळार, उशेलांत गेल्यार मांय वांगडाच परतें येतालें म्हण हाका राग येतालो. मांयक बेठ्योच गाळी घालतालो. काल मांय माजाळे गेल्ली. तिगेलो एक मावसभाव भायर पडलो न्ही गो. संद सादून हो म्हजो घात घेवंक येयलो. काळखांत म्हाका पयलीं कितें म्हण कळ्ळेंच ना. चेडवाभशेन हांव ताजें, आंगार हात घालचो गो !' तें परतें रडूंक लागलें.

सुमन तटास आयकतालें, तागेलें आयकून सुमनाक अजाप अजाप दिसलें. तकली धुंविल्लेवरी कांय वेळ तें वोग्गी रावलें. संवसारांत असलें कितेंय घडूं येता हाजेर ताजो विस्वासच बसना जालो. तरीय ताणें म्हळें, 'रडूं नाका शोभा वयनी. आतां पयसच राव तूं.'

'दुसरे फावट रजेर येतकीर तुका वांगडा व्हरतलों म्हणटालो. आतां ताजेसरीं हांवेंय मसणांत वचचें. म्हाका हो जीव नाका जाला सुमन !'

सुमनाक कितें उलोवचें सुचना जालें. तें उठलें आनी ताणें भितरल्यान उदकाचो तांबयो हाडलो.

'शोभावयनी, रडून दोळे सुजले पळय तुगेले. पयलीं तोंड धुवन घे तूं. जाल्यारि हांगाच न्हीद.'

शोभा तें अर्द तांबयो उदक घटघट करून पियेलें. तांबयो पांयासरीं दवरून तें सुमनाल्या हांथरुणाचेर आड पडलें. 'सुमन, कोणाक सांगू नाका हांव हांगा आसा म्हण.'

सुमन ताजे कुशीकच एक गोदडी हांथरून न्हिदलें. ताका शोभाल्या आंगावयल्यान हात घालून ताका ल्हान भुरग्यावरी म्हऱ्यांत ओडून घेवचें अशें दिसलें. पूण धीर जावंक ना. तें वोगीच पडून रावलें. शोभाक पळोवन ताका दिसलें, देंठासयत एक धवें साळीक वाटेर पडलां. कोणालो तरी एक राकेसपांय ताका मांडावंक रावलां. चिमणेच्या उजवाडांत ताणें पळयलें, गळिल्लीं दुक्कां ताज्या धव्या पोल्यार तशींच

सुकिल्लीं. दोळे तर सुकून ताजीं खवलां जाल्लीं. ताज्या रित्या गळ्याकडेन, चेऱ्याकडेन ताज्यान पळोवं नजो जालें. ताणें बेगीबेगीन दिवो पालयलो.

न्हिदतकीर सुमनाक रातभर सारक्को भास जातालो, शोभावयनी दुकां गळयत परती रडूंक लागल्या. पूण ताजीं दुकां सांसपून पळोवचेलो धीर मात ताका जालोना. ताका दिसलें शोभावयनीच्या दुकांक उज्याची धग आसा, रक्ताचो वास आसा.

सक्काळीं नसकाक शोभा उठलें. ताणें सुमनाक म्हटलें, 'हांव वयतां सुमन.' पूण सुमन न्हिदेंतच आसलें. ताणें बेठेंच ऊं ऊं केलें आनी तें कूस परतून न्हिदलें. शोभा केन्ना गेलें तें ताका कळ्ळेंच ना. शोभा गेलें आनी शेजरा आवडू आजयेल्या कोंब्यान गळो चरांटून साद घालो. मगेर तो सारको एकाचेर एक साद घालीत रावलो. सादूय इतल्या व्हडान घालतालो, चोंयवटेन वाठार हालतालो. सुमनाले कान किटले. ताणें जागें जायत मनांत म्हळें, कसलो सांवार येयला हाजेर, अवचिन्न कित्याक असो आड्डता !

आवडू आजयेलो हो कोंबो पळोवंक राकेस कसो आसलो. आनी सादय तसोच घालतालो. ताजो मानेकडचो भाग कांबळी फटें कांबरून घेतिल्लेवरी काळो शिबरो आसलो. पांखाटे मात तांबडे आसले. तो भोंवर घेत कों कोंऽऽ कोंऽऽऽ करीत वाडोभर भोंवतालो. मर्दीच दोनय पांय धतरिर रोमून घेत मान नीट वयर करूत साद घालतालो. 'आवडू आजये, हो येद्दो व्हडलो कोंबो पोसून असो पारपोळ कित्याक सोडला गे' म्हण विचारल्यार ती सांगताली, 'सांगणेचो कोंबो तो. बेताळाचे जागोवणेक देवामुखार मारूंक जाय.'

सुमन चिंततालें, इतले सकाळीं उठून शोभावयनी खंय गेली काय ? सकाळीं मांव सोयरू बेठोच वाड्यावयल्यान सुलूस घेतिल्लेवरी भोंवडी मारतालो. अंबूमावशेन विचारलें, 'रातीं घरांत किळांचशी आयकूंक येयल्ली ?'

सोयरून म्हळें, 'आमगेल्या बुकल्यान वणटीवयल्यान काळखांत सुनेल्या आंगार उडकी घेतली न्ही. तरी बरें दावखुलां बीन लागलीं नात.'

सुमनाल्या काळजांत सामक्को खपखपो. खंय गेली काय ही शोभावयनी! तांच्या घरासरीं वचून पळोवचेलोय धीर ताका नासलो. बेठेंच एक फावट तें तागेल्या घराभोंवतणीं भोंवडी मारून येयलें. पूण शोभा दिश्टीक पडलेंना. पूण खरोच एक काळो बुकलो पांवळेवयल्या कुंवाळ्याचे वालींत बसून आसलो. शेजराकच एक हे व्हडले कुंवाळे. सुमनाक दिसलें आत्तां हे कुंवाळे वालीवयल्यान तुटून दारांत पडटले आनी फुटटले; ताजो गबो दारांत फासपतलो.

दनपारां शोभाली मांय पार्वती माजाळेसान परतली. पळयल्यार सून घरांत ना आनी सकाळपासून चूलय पेटिल्ली दिसना. घोवाक विचारल्यार तो उलटो तिकाच सवंक लागलो, 'तूं गेली माजाळे आनी तें गेलें आसतलें अमदळे. गांव हेडत रावात दोगांय.'

पार्वती येयतसान सुनेक सारक्की सादयताली, 'शोभा, खंय गेलें गो शोभा !'

पूण शोभाचो आवाज नासलो. ल्हव ल्हव तिगेल्या आफोवपाक रडचेली धार येवंक लागली. आतां मात लोक शादूर जालो. जण एकलो घरांतल्यान भायर सरून शोभाक सोदूंक लागलो. आर्दी घराघरांत वचून तांणी शोभाविशीं विचारलें, कोणेंय पळयिल्लें आसल्यार कोणाल्याय घरांत लिपून बशिल्लें आसल्यार सांगात म्हण सांगलें. पूण कोणाकच खबर नासली. सुमनय तांचे वांगडा सोदूंक भोंवतालें. रातीं तें म्हजेवांगडा आशिल्लें हें मात ताणें लोकांक सांगलेंना.

रातची ती किळांच आनी आतां शोभा ना. लोकाचेर कलकल आनी दुबाव. आतां लोक वाड्यावयल्यान भायर सरून आशीकुशीच्या झाडां-झोंपांनी, बांयंनी सोदूंक लागले. सदाशीव सोदतां सोदतां व्हडव्हडान ताणशेतालो, 'पोरान जिवाचें कितेंय बरें वायट करून घेतल्यार तांकां सोडचोंना हांव. घरांतल्या लोकांक बेडी घालून कारवार पावयतलों !'

सकल जिनवटीकारांल्या उशेलासरीं आशिल्ले बांयचेर उबो रावन एकलो हड्डें बडोवन घेवन हुयेली मारतालो, 'येयात रे, धांवन येयात, धांवन येयात!'

वाडोभर लोक - दादले, बायलो थंय धांवले. तो बोबो मारपी भुरगो मनू. तोवय येदोळ शोभावयनीक सोदूंक भायर सरिल्लो.

शोभालें प्रेत बांयत उदकाचेर हुबतालें. आंगावेली धवी साडी कुडी भोंवतणीं पातळिल्ली. लांब सुटिल्ले केंस चंवर कशे हुबताले. दोनय हात वेंगोवंक राविल्लेवरी पातळिल्ले. पिसड्डून उदकांत उडयिल्लें साळक कशें तें दिसतालें.

शोभान बांयंत उडी घेवन जीव दिल्लो !

मांय पार्वती सुनेक वेंगोवन खूब रडली. चेडो गेल्लो तेन्ना रडूंक नासली इतली रडली.

सुमन आठ दीस सामक्कें थतरवितर. सगलो वाडोच दुख्खाच्या राज्यांत रिगिल्लो.

सुमनाक शोभाक पळोवन बायची इतली याद येयली, हे न्हंये पलतडी आशिल्ल्या बायक उल्यार उले मारून आफोवचें ना तर आपणेंच न्हंयतल्यान पेंवत,

बुडत, हुबत बायसरी वचचें. 'बाय, शोभा वयनीचें पळयलें मुगो? तूं तुजें चड मनाक लावन घेवं नाका !'

कंवडाळें करून घोलींत बशिल्ले नागिणीवरी न्हंयची धार काळखांत लिपिल्ली. न्हंयतेल्यान खारट, चिखोल कुशिल्लोसो वास वाऱ्यावांगडा व्हांवन येतालो. न्हंयचो वाठार इतलो थंड आसलो खंयच्यान पागयाली, तारयाली एक कुंकार लेगीत आयकोंक येयनासली. मंजूळ मुखार चिमणेदिवो घेवन बगलांत बशिल्लें. बरीच रात जाल्ली. अजून श्रीधर घरा येवंक नासलो. मर्दीच बागापयल्यान गंवर्णीत बांदिल्ल्या बैलांचीं शिंगां खुंट्याक आपटतकीर खडखडसो आवाज येतालो. मंजूळ बेगीबेगीन कान दितालें.

कांय वेळान आखाड्यासर्रीं कोणें उलयिल्ल्याचो आवाज येयलो. चिमणेच्या उजवाडांत कांय धवाडे झळकले. तीग जाण गांवचे दादलें श्रीधराक उखलून हाडटाले. मंजूळ बेगीबेगीन मुखार गेलें, 'कितें जालें ?'

'चड पियेलो दिसता. चिंचेसर्रीं वाटेवयल्या धेंगणांत लकून पडिल्लो.'

मगेर ताणीं मोन्यानच श्रीधराक भितर हाडून शेंदरेर घातलो आनी ते गेले.

इतले दीस तो पितालो पूण असो वाटेर केन्नाच पडूंक नासलो. मंजूळाक भोव वायट दिसलें आनी जीव लजेन मरूंक पावलो. घेवन येयिल्ल्यांतलो एकलो तो शाबा मास्तर. तागेली बायल शिद्दरची. तो मंजुळाक बरो वळखतालो. खंयूय मेळ्ळ्यार आस्थेन जाप करतालो आनी मंजूळय ताका भावोजी म्हण मायेन पाचारतालें.

दुसऱ्या दिसाक सबंद दीसभर तो न्हिदुनूंच रावलो, तकलेवेल्यान कांबरूण घेवन. मंजूळान ताका परतो परतो उठोवन बळयां जेवयलो. दीसभर एक उ़तर उलयलोना. कसल्या तरी खोल चिंतनांत पडिल्लेवरी घुम्म मोनो आसलो. ना म्हळ्यार रातचो जेवन उठ्ठना ताणें म्हणिल्लें, 'म्हाका आतां गांव नाका जाला!'

पूण मंजूळान तें कानामनार घेवंक नासलें. हाचें हें सदचेंच!

सदचे प्रमाण मंजूळाक कोंब्यासादार जाग येयल्ली. पूण गात्रांनी त्राण नासलो; उमेद नासली. तें हांथरुणार तशेंच बरोच वेळ पडून रावलें. घोव मदल्या सालांत न्हिदिल्लो. सुलूस घेयल्यार तागेलो इ़ल्लोय आवाज ना. तो तसो घोरेनासलो. पूण न्हिदतकीर गूं गूं असो एका तालान ताज्या ताळ्यांतल्यान आवाज येतालो. पूण भायर

तर सगलें शांत.

तें ल्हवच उठलें. ताणें दिवो लायलो आनी तो घेवन तें भायर येयलें. पळयल्यार तो हांथरुणार ना. फक्कत एक मांदरी पातळायिल्ली आसा. आंगापोंदांतली कांबळ, कांबरूक दिल्लें चादर तेंवय ना. बेगीबेगीन तें भायर दारासरीं येयलें. दार उकतें आसलें. ताणें दिवो हातांत धरून उलो मारलो, 'खंय गेला तूं ?'

पूण आवाज ना. तें आतां खरेंच भिंयेलें. ताणें माळयेर न्हिदिल्ल्या मांवाक उलो मारून उठयलो. भितर वचून बारीक पळयलें. पळयल्यार मदल्या सालांत तागेले एकाचेर एक दाळून दवरिल्ले तीन ट्रंक आसले. तातूंतलो एक धाकलो ट्रंक ना. खुंटयाळाक लावन दवरिल्ले कपडेय नात. 'हो रातचे बोटीन खंय तरी पयस वचूंक गेला !'

ताणें बेगीबेगीन मांवाक बंदरासरीं धांवडायलो. 'बाप्पा, वचून पळे रे तो खंय वचूंक गेला म्हण.'

बाप्पा उकत्या आंगान झिळमिळ्या उजवाडांत लकत-पडत बंदरासरीं गेलो. पूण सकाळचे पाराक सुकतेचे व्हाणीर आनी उलटो वारो शिडांत भरून घेवन वचपी बोटी केन्नाच हुळगें बळाटून गेल्ल्यो. आतां तांणी किन्नर लार्गी केल्लें. बंदरासरीं दोग तीग जण उबे आसले. बाप्पान विचारलें, 'शिवा, म्हगेलो पूत बीन बोटींत चडिल्लो पळयिल्लो तुवें ?'

'येदोळ बाबाजानाले बोटींत बसून गेला मूं तो. हातांत एक ट्रंक आसा. आयज बोटी बेगीनच येयिल्ल्यो. सुकतेचे व्हाणीर सरसरीत धांवल्यो त्यो.'

बाप्पा वोगी परतो येयलो. वासरेंत गेलो आनी घप्पकन तुटून पडिल्लेवरी बसलो.

'बाप्पा, मेळ्ळी तागेली खबर ?'

'आर्दीच गेलो तो बोटीर बसून.' खंयच्या दिगंतराक वचूंक गेला देवाक खबर ! आतां भोगचेलें आमी कावेरी, भोगचेलें !'

मांवालो मुदलांतलो गोरो रंग आतां तेज गेल्लेवरी काॅळो पडिल्लो. चेऱ्यावेली कात पारव्याल्या पांखरट्यावरी लांबूंक लागिल्ली. दोळे सदांच रडून भिजिल्लेवरी तांबडे, सुजिल्ले. बळयां सोताक धुकलून व्हेल्लेवरी तो सकाळ धरून सांजमेरेन

कामांत गुंथून रावतालो. केन्ना केन्ना लकून पडिल्लेवरी जातालो. पूण काम करचें सोडनासलो.

मंजूळ जिवाक मर्णाची ताळणी लागिल्लेवरी सारक्कें हातपांय सोडून पडिल्लें. मर्दींच उठून मागीलदारांत येतालें, काळी न्हंयचे धारेंत पयस पयस मेरेन दोळे लावन बसतालें. ताणें रांदचें, जेवचें, न्हावचें, धुंवचें सोडिल्लें. सकाळीं इल्ली पेज करप. ती कोणेंय पोटाभुकेक इल्ली घोंटप. शेजारच्या एका घरांतलें सुरेखा म्हण एक चेडूं ह्या दिसांनी तागेर सद्दां येतालें. मंजूळाक 'मामी मामी' म्हण पाचारीत घरांत मोगान वावुरतालें. तागेलो बापूय रान खात्यांत पयस जंगलांत आसतालो म्हण बापायन ह्या चेडवाक शाळेक म्हण मामागेर हाडून दवरिल्लें. तें आजो आनी आजये वांगडा रावतालें. ताका मंजूळालो चेडो रमेशाची भोव माया लागिल्ली. तें परतें परतें येवन ताका उखलून व्हरतालें. तो ह्या दिसांनी सुरेखासरींच आसतालो.

तो वचतसान दिसा मासाचो हिशोब चुकिल्लो. तो गेले उपरांत पंदरा वीस दिसांनी अचकीत एक दीस मंजूळाक घुंविल्लेवरी जावंक लागलें. परती परती घुंवळ येताली आनी तकली धतरिक लावन न्हिदचें अशें दिसतालें. काळीज थपथपतालें आनी कांयच नाका अशें दिसतालें. वयल्यान आनी ओंकाऱ्यो. मंजूळाक पयलें दिसलें, इतले दीस काळजार चिंतनाचें, हुस्क्याचें चेपण पडिल्ल्यान जीव कासावीस जाला. पूण उपरांत मात ताका होलमलें, आपणाक दीस गेल्यात !! कित्याक म्हण हें आनीक म्हज्या पदरांत घालून गेला तो!

लग्ना· उपरांत सारक्को चार वर्सांनी चेडो जाल्लो. पूण हो गुरवचार मात बेगीनच येयलो. चेडो दोन वर्सांचो आसतनाच. मंजूळाक मनासावन दिसातालें, आतां हो गुरवाचार नाका आसलो म्हाका. जिवान तें सामक्कें बरगल्लें. मनानय सैरभैर आशिल्लें. हें आनीक आपूण आंगार घेवंक तांकचें ना अशें ताका दिसतालें.

चेड्या फावटीक ताका दुवाळ्याचो चड त्रास जावंक नासलो. आपणाक दीस गेल्यात म्हण कळटकीर तें इतलें भुल्लुशिल्लें, ताका कसलो त्रास म्हण जाणवलोना. पूण हे फावट ताची दैनाच जाली. पाड चिंतनां, दुवाळ्याचो त्रास, तातूंत सारकें अन्न–उदक ना. पोटांत घेतिल्लेंय पोटांत रावनासलें.

एक दीस सकाळीं तें बैलांमुखार तण घालूंक म्हण तणावळींतलें तण सरगितालें. पूण तें थंयच घुंवळ येवन पडलें. मातशें सावचीत जातकीर त्राण ना जावन तशेंच तणांत पडून रावलें. ते वटेन मोनो देवप्पा येतालो. ताणें ताका पळोवन ताळ्यांतल्यान जिबेंतल्यान आवाज काडून इतलो बोवाळ घालो, थंय पयल्यान

पोरसांत उदक घालपी एक बायल धांवन येयली. तांणी दोगांनय मेळून ताका घरांत व्हेलें. ते बायलेन खंयच्यान तरी एक लिंबू हाडून इल्लें पानक करून दिलें. ते बायलेन सांगलें, 'तूं आनीक हांगा राव नाका. जीव थाऱ्यार येयसर म्हयनोभर कुळारा वचून राव. मांव थंयच आसलो. ताणें म्हळें, 'हय. हांगा आनीक कोण करतलो तुजें? राव कांय दीस वचून.'

दुसऱ्या दिसा मंजूळ चेड्याक घेवन वचूंक भायर सरलें आनी ताणें म्हळें, 'बाप्पा हांव वयतां.'

मांव सगर्दन जालो. नातवाक कुशींत घेवन दुकां गळयत रडलो. 'कावेरी, हाका राख गो बरो करून.'

मंजुळान सट्कन म्हळें, 'बाप्पा म्हाका तें मांयलें एक जरी कापड दिता?'

मांवान मोन्यान मुंजींतली चावी काडली. ती मंजूळासरीं दीत ताणें म्हळें, 'वोंवरेंत ट्रंकांत आसा. तुका जाय तें काडून घे.'

ती चावी हातांत विंचू धरिल्लेवरी ताका विचित्रशें दिसलें. पयलेच फावट तें ती चावी हातांत घेतालें. ताणें भिंयेत भिंयेत वचून वोंवरेचें दार काडलें. काळखांत भितल्ल्या पसाऱ्याचीं भुतां जावन ताजे मुखार उबीं रावलीं. एका कोनशाक तांबडें कापड न्हेंशिल्ली, कपलार कुकूम व्हांविल्लीशी कोण बायल उबी रावल्या असो भास जालो. ते वोंवरेंत वचनासतना बेगीबेगीन भायर येयलें, 'बाप्पा, तूंच काडून दी म्हाका!'

मांवान वचून एकावेली एक पेट सकयल दवरून एके पेटेंत दवरिल्लें तें कापड काडलें आनी मंजूळाक हाडून दिलें. पोरणें धुंवरेल्लेंशें कापड, पूण मंजूळाक तें मोलाचें दिसलें. ताणें बेगीबेगीन गुठलावन पोतयेंत चेपलें.

आखाडो बळाटून येतना ताका दिसलें हो आखाड्यांतलो पंगरो चडच मातला. ताजेर खुब्ब तांबड्या फुलांचे घोंस फुलिल्ले. वाटेर फुलां झडून पडिल्लीं. तीं मांडयतच तें आखाड्यांतल्यान भायर येयलें आनी मळावटेन चलूंक लागलें.

मांव दारांत उबो रावन चयतालो, हें न्हंयवटेन बंदरार वचचें सोडून अशें मळावटेन कित्याक चलूंक लागलां ? 'आगो कावेरी, खंय वयता गो?'

'सुमती होनयेसरीं वचून येतां.'

मांव कांयच उलयलोना. वोग्गी येवन भितर बसलो.

मंजूळ शेताकेर, देवळामळ बळाटून दोंगुल्लेवटेन चलूंक लागलें. हातांपांयांच्यो

बडयो जाल्ल्यो. पांय चांटये कणकणीं कडकडटाले. पूण तें सगली शक्त एकवटावन दोंगुल्ली चडटालें. तें हेवटेन येयल्यार जाय ते फावट कोणें कोणें बोट दाखोवन ताका सांगिल्लें, 'तें चय तुगेले नण्णेलें घर' म्हण. पूण तें ताज्या घरासरीं मात पयलेच फावट वचूंक सुटिल्लें. ताका नण्णेक तागेले आवयलें तें कापड दिवचें आसलें. जाल्यार तागेल्या भावाली खबर सांगून गळ्यांत गळो घालून रडचें आसलें.

तें दोनतीन पागयांलीं घरां बळाटून धेंगणां चडून वयर येयलें आनी नण्णेल्या घरामुखार उबें रावलें. घर बंद आसलें. दार ओडून घेतिल्लें आनी दोन खुंटे आडांबे कशे तिरशे उबे लावन दवरिल्ले. दारांत, आंगणांत एक कुकड - माजर लेगीत नासलें. आंगणांत वयल्या रुखाचो खूब पत्रो पडिल्लो. एक पागयाली बायल दपूनशी आपल्या घराच्या कडव्यांतल्यान भायर येयली. तिणें सांगलें, 'तो कैग्यापयल्यान कुपांत रानां मारचेल्या कामाक गेला. वयतना बायल भुरग्यांकय घेवन गेला.'

'पयलीं हांगाच काम करतालो न्ही तो ?'

'चिऱ्यांची खण कसली किजिलां जावन बंद पडल्या न्हू गे.'

मंजूळ चेड्याक खांक्याक मारून धेंगणां देंवंक लागलें. फाटल्यान ती बायल म्हणटाली, 'म्हाळूमामाली सून न्ही गे तूं ? सुमती भोंव याद काडटाली तुगेली. म्हगेली भावज भोव बरी मनीस म्हणटाली.'

मंजूळाक समतीच नाळ तुटिल्लेवरी दिसतालें. सात वर्सां जालीं म्हगेलें लग्न जावन. हे नण्णेखातीर कांयच केलेंना हांवें. म्हर्जीच रुवां फुंकीत रावलें. आतां तर सगल्योच वाटो बंद जाल्यात.

तें तार बळाटून शिद्दरा येवन पाव म्हणसर वेळ माथ्यार पाविल्लो. वोताच्या रखरखांत जीव थळपेवंक लागिल्लो. मदींमदीं सावळेंत बसत उठत तें कशेंबशें येवन पावलें.

सुमन न्हाणये खोपींत न्हाणयेक उजो घालतालें. तें बायक पळोवन धांवत येयलें. आनी चेड्याक घेवन, बायक धरून घेवन येयलें. बायली दैना पळोवन ताजो जीव खपखपलो. 'बाय, बरें ना गो तुका ?'

'ना गो बायूल, बरें ना म्हाका !'

'कितें जालें बाय ?'

'आप्प कसो आसा ?'

'रातदीस शेतांत आनी मेरेर. घरांत येयल्यारूय ओग्गी बसून रावता. पयलींवरी

बडबडी मात ना.'

'बायूल म्हाका मांदरी घालून दी. पडटां मातशें.' मंजूळ घरांत येयलें आनी वोग्गी पडून रावलें.

'बाय कितें जाता गो तुका ?'

'कांय ना !'

'बाय, भावोजी सांगिनासतनाच गेलो ?'

मंजूळान सट करून मान वयर केली आनी विचारलें, 'कोणें सांगलें तुका ?'

'हांगा सगलेच जण जाणात बाय.'

मंजूळालें काळीज कोंचिल्लेवरी जालें. ताजें दुख्ख ताज्या चेऱ्यार पातळ्ळें. तें जीव गेल्लेवरी पडून रावलें.

बऱ्या वेळान आपा येयलो. सुमनान भेड्ड्याक सांगतलेवरी व्हडान सांगलें, 'आपा, बाय येयलां.'

आपा खऱ्यानीच मंजूळासरी येवन उबो रावलो, बिटीबिटी नदरेन पळेत. पूण चेरो खरखरीत सुको. वाचाय कोणें भितल्ले भितर अंदून घेयिल्ली. मंजूळ असहाय्य, ओले नदरेन आपाक पळेतालें, 'बायूल, आपा पळय म्हाका कसो पळयता तो !'

अचकीत आपाचे दोनय दोळे सरसरीत व्हांवक लागले. सामकी उदकाची धार. तसोच तो भायर येयलो. वासरेंत बसून उलोवंक लागलो, 'गानुल्ल्याच्या मुडयांवरी ही शंबर नाल्लांची पेंड. फोडीत त्या नाल्लांत फळफळीत रगत. उदक म्हण नाच. आतां ताळ्यार घालचें कितें लोकान...'

आपा उलयता तें पळोवन सुमन बेगीबेगीन भायर येयलें. 'पळयलें मुगो बाय, स म्हयने जाले एक उतर उलोवंक नासलो हो. उलोवंक लागला तींवय पयलींवरी पिशेपणांच.'

मंजूळ मात वोगीच पडून रावलें.

स म्हयने जाल्ले. मंजूळाल्या घोवाक श्रीधराक वचून. ह्या स म्हयन्यांनी तागेली बोटभर चीट कोणाक येवंक नासली. कोणय वाड्यावयलो हुळगेवाटेन वचचो

आसल्यार मंजूळ ताका आपल्या घरा वचून खबर घेवन येवंक सांगतालें. पूण ताजी खबर मेळनासली. तें दीस दीस दारांत बसून पयस दोळे लावन बसतालें. दर दिसाची सांज येतकीर ताजेर दुख्खाचो, चिंतनांचो दोंगर लकून येतालो. सारकें खावप ना, जेवप ना, सारक्कीं चिंतनां आनी वाट पळोवप.

सातवो म्हयनो लागिल्लो ताका. हातांपांयांच्यो काडयो जाल्ल्यो आनी फक्कत पोटच दिश्टीक पडटालें. बायलो पळोवन म्हणटाल्यो, हाका इल्ली शक्त ना आनी फाल्यां बाळंत जातना हें वेणो कशो दितलें!

आर्दी तें कुळारा म्हयनोभर रावन जीव निवळटकीर परतें वचचें म्हण येयिल्लें. पूण दिसान दीस कापरावरी करपूंक लागिल्लें. जीव थकूंक भागूंक लागिल्लो. आनी घरांतल्यान परतें भायर पडचेली शक्त आनी इत्सा मेल्ली. चेडो न्हय जाल्यार तें केन्नाच धतरीक तेंकिल्लें. चेड्याक लागून जीव वयर सकल जातालो. पोटांतल्या जिवाविशीं तर ताका इल्लीय उमळशीक नासली.

एकलें सुमन मात घट आसलें. तें बायलें, आपालें सगलें नीट करतालें. बायक बळयां उठोवन उठोवन न्हावंक, जेवंक घालतालें. आपालो हात धरून ताका शिताच्यो उंडयो करून लायतालें आनी जेव म्हणटालें. तो पिशांतूर जावन बशिल्लो. खरो पूण शेताचो वावर आडवेळार, अर्दकुटो, वांकडो तिकडो कसोतरी करतालो. बैलांक चुकनासताना खावड घालतालो. ताजी याद शेणिल्ली काय काळजाची हुडी शेणिल्ली तें कांय कळनासलें. पूण तो बायचे अवतिकायेपसून पयस धांवंक सोदतालो इतलें मात खरें.

'बायूल, आपाक घाडी-जोयशी, वखद-विर्सद कितें तरी करूंक जाय. वर्स जावन गेलें तो थान्यार ना. आनी आमी वोगीच आसात.'

'तेंच सांगूंक सोदतालें तुका हांव बाय. भिकूअण्णा कितले दीस जाले सांगता, गोपतिठ्यावयल्या रानांत एक कुणबी आसा खंय. तो पिशें काडटा. ताजी गरडच आयकोन म्हारू बीन आसल्यार धांवन वयता खंय.'

'कोण आफोवन हाडटलो ताका ?'

'चयतां विश्रामदादाक बीन सांगून.'

विश्रामान आनी पंढरीन गोपतिठ्याच्या रानांत वचून घाडयाक आफोवन हाडिल्लो. उमाशे आदल्या दिसा बुधवाराक दिवो लागणेच्या वेळार घाडी येवन आंगणामेरेर बसलो. तो खुब्ब काळो आनी ऊंच आसलो. ताज्या दोळ्यांच्या भुंवयांचेर खूब केंस आसले. ताजेन ताजे दोळे धांपून गेल्ले. ताज्या हातांत एक लांब बेताबडी आसली. ताणें कमरेक एक आडवो वालो गुठलायल्लो आनी माथ्याक तांबडो रुमाल बांदिल्लो. हेर सगलें आंग उकतेंच आसलें. खांदार उडयिल्ले कांबळीचे खोलींत ताणें कांय वस्ती भरून हाडिल्ल्यो. घाडी येयला म्हण कळटकीर वाड्यावेले कांय दादले येवन आंगणांत उबे रावले.

'कळाव केलो घाडीमाम ?'

'घाडयालें काम देंवचाराचें. रात पडटकीर सगले म्हारू, गिरे उचांबळ जातात. गोमटेक धरूंक मेळटात.'

लोकांनी भावार्थान ताजेकडेन पळयलें.

ताणें मुखावेल्या पणसारुखा पोंदाक सान्नी खुंट्यान लोटून इल्लो मांड तयार केलो. कांबळी खोलींतल्यान चार भिरांकूळ चेऱ्याच्यो बावल्यो काडल्यो आनी चार दिकांनी उब्यो केल्यो. तांचेर पिंजर शिंपडिली. मदीं उज्याचो जाळ केलो. थंय एक बोणकी पणस दवरलो. त्या पणसाक व्हड व्हड दोळे आसले आनी ते जाळाच्या उजवाडांत खऱ्यांनीच चयतात अशें दिसतालें. घाडयान आदींच सांगिल्ले प्रमाण पंढरीन एक व्हडल्या शेंकराचो कोंबो हाडून दवरिल्लो. तो ताणें जाळासरीं फोंड काडून गोमटेमेरेन पुरलो. ताजो गळो आनी शेंकर तितकेंच वयर दिसतालें. थंय उज्यासरीं घाडी पाट घेवन बसलो आनी ताणें गणेशाक हाडूंक फर्मायलें. दोगातिगांनी धरून गणेशाक ताजेमुखार हाडून बसयलो. तो खूरमांडी घालून सान भुरग्यावरी तुकूतुकू पळयत थंय बसलो.

पाटाचेर घाडयान कसलें तरी कणकीचेंशें बींय दवरिल्लें. तें एका हातान घोळयत घाडी कुदूंक लागलो. मदींच तो तें बींय मुठींत घेतालो आनी उज्यांत उडयतालो. मगेर तें बींय फुट्टना फट्फद् असो व्हड आवाज जातालो.

घाडी कुदता तसो गणेशय अचकीत कुदूंक लागलो. शो, शो, करीत तकली घुंवडावंक लागलो. घाडयान गरड मारली. 'पळयलो मरे गांवच्या बुदवंता, कुडीर लिपून बशिल्ल्या म्हारवाक कोंचयला.आतां ताका ही कूड सोडून सात शिमांभायर धांवडायतलों. बाटलेंत घालून सात समुद्रांनी व्हरून बुडयतलों.'

मगेर तो कांय वेळ पाटावेलें बींय घोळयत कुदत रावलो. मदींच आड्डलो,

'गांवचो कोणय म्हालगडो आसल्यार मुखार यो.'

विष्णून रामदादाक उठोवन मुखार धाडलो. घाडी उलोवंक लागलो, 'जांवय बसला तेज्या माथ्यार ?'

'कोण खंयचो जांवय गा ?'

'अरे विसरले तुमीं तें अपशरण ? बारा वर्सां जालीं, ह्या गांवचो एक जांवय – आवय बापूय नाशिल्लो पोर – आशाढ उमाशेक बायलेक व्हरूंक म्हण हणकोणच्यान तार बळाटून येयिल्लो. मांवान ताका गाळयो घालून, मारून बडोवन धांवडायिल्लो. मगेर सोमतोच वचून ताणें न्हंये धडेवेल्या काऱ्यारुखाक गोळ घेतिल्लो.'

'हय आसा खबर घाडया. अजूनय ताची बायल कपल बडयत बसल्या.'

'जांवयाक मुक्ती ना अजून. म्हारू जावन ह्या वाठारांत भोंवता.'

'तुमीच ताजो बंदोबस्त करचो.'

ते सरशीं तो उठलो. ताणें शो शो करीत गणेशा भोंवतणीं भंवर घेयले. ताजे केंस धरून नेटान हालयले. ताका ताणें मातयेंत आडवो घालून लोळयलो. परतो उठोवन बसोवन गरड मारीत धपकायलें. 'सोडून वच ही कूड बरे भशेन, बेगोबेग. ना तर जोत्यान मारतलों, बडयेन फोडटलों. दरयांत व्हरून बुडोवन मारतलों.' तो हातांतली बडी हेळयत ताजीं केसतडां धरून हालयतालो.

गणेश सुद्द नाशिल्लेवरी कुदत आशिल्लो आनी रडिल्लेवरी तोंडांतले तोंडांतच कितें तरी उलयतालो. वाड्यावयले दादले, बायलो कुशीन उब्यो आसल्यो. तातूंत सुमनय आसलें. मंजूळाक मात लोकांनी म्हऱ्यांत येवंक दिवंक नासलें. गुरवार बायलेन असल्या नश्ट्या कामा वेळार म्हऱ्यांत रावचें न्ही म्हण तांणी ताका सांगिल्लें.

घाडी सांवार येयिल्लेवरी गणेशा भोंवतणीं नाचतालो. ताजेवेल्या म्हारवाक बोब मारीत धपकायतालो. ताका भूंयर लोळयतालो. 'सोडून वच ही कूड. तुका नासाची आण, बर्म्याची आण, क्षेत्रपाळाची आण.'

अचकीत ताणें हातांतली बेताबडी वाऱ्यार हेळयली आनी रप् करून गणेशाले फाटीर शेडायली. तशीच दुसरी पांयार. सुमन 'आपा' म्हणीत मुखार येयलें. 'रामदाद, तो पळय रे आपाक मारता !'

घाडयान तसोच भंवर घेत आइडत परती बडी उखलली. सुमन ताजेसरीं धांवलें आनी ताणें ती बडी घट्ट धरली. घाडयावेलो अवसर सामक्को देंवलो. ताणें रागान सुमनाक पळयलें. 'हांव मारूंक दिवंचें ना तुका आपाक !'

रामदादान बेगीबेगीन मुखार येत म्हळें, 'आगो त्यो बडयो म्हारवाच्या आंगार पडटात. आपाक लागच्यो नात त्यो.'

'जावं. पूण हांव कशेंच मारूंक दिवचेंना !'

कांय वेळ तटास उबो आशिल्लो घाडी आतां रागान आइडलो. 'भश्टायलें ह्या चेडवान देवस्पण. मांडार येवन म्हज्या देवस्पणाचे बडयेक हात घालता? हो म्हारू आतां तुजेर बसलेबगर रावचो ना. तुज्या हड्ड्यार बसून तुजी गोमटी आंवुळटलो तो.'

विश्रामान मुखार येत म्हळें, 'रागार जावं नाका घाडीमाम, भुरगें तें. तुमचें काम तुमी अनमानासताना करात.'

'ह्या नश्ट्या पोरान आमच्या सात पिळग्यांच्या देवस्पणाची बकच्छाय केल्या. हांव आनीक हांगा रावचोंना. हो म्हारू सासणाचो तुमकां खायत उरतलो.' ताणें आपल्यो वस्ती एकठांय केल्यो आनी कांबळी खोलींत घाल्यो. तो पुरिल्लो कोंबो तसोच सोडून तो चलूंक लागलो. कोण्णच ताका आडावंक गेलोना. एकठांय जाल्लें लोकय मोन्यांनीच फासपले. वयतना आवडूआजी मात तणतणली. 'कसलो सांवर येयला ह्या अवचिन्न चेडवाचेर. काय बरो घाडी म्हारुगिरे काडून उडयता आसलो. आता कांय सत न्ही. घेवन बस म्हण सांग बापायक तसोच पिशांतूर, म्हारू तकलेर घेवन !'

सुमनान आनी गोविंदान आपाक उठोवन घरांत हाडलो. मंजूळ मदल्या दारांत रावन सगलें आयकतालें. ताका सगलें होलमतालें. तें बेगीबेगीन मुखार येयलें आनी ताणें सांसपिलेंशें करून आपाक पळयलें. ताज्या आंगार तीन रोतां उदेल्लीं. काळे रगशेल्ले तीन वळ आंगार उठून दिसताले. पळोवन मंजूळ न्हिन्नळ्ळें, 'कसलो गो बाय हो घाडी ! घाडी काय राकेस !'

गोविंदान म्हळें, 'जाणा मुगो मंजूळताई, सुमन न्हय जाल्यार तो मामाक फोडून काडटा आसलो. वयल्यान त्यो बेता बडयो मामाक बसनात म्हारवाकच बसतात म्हणटात. मगेर हे वळ खंयचे ?'

रातभर तो भूंयंत पुरिल्लो कोंबो कों कों करून आइडतालो. सगले कांचवेन आयकताले. वाड्यावयल्या कोणाक थंय वचचेलो धीर नासलो. सगले जण आपआपल्या घरांत फुतफुतताले, 'आतां तर म्हारवाक चडच उचांबळ करून घाला !'

सकाळच्या पाराक कोंब्यालें आइडवप बंद जालें. सुमन सकाळीं उठून ल्हवच थंय गेलें. पळयल्यार कोंबो मरून पडला. ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. कोण नाशें पळोवन कोंब्याली गोमटी धरली. ताका थंयच्यान हुमटिलो आनी व्हरून वंयंभायर

झिलींनी उडयलो.

मंजूळ तीन दीस रडिल्लेवरी सारक्कें पिरंगतालें. ऊठ, बस, न्हीद करतालें. धोंपरां धरून उठ्ठालें. पूण उठून बसुंकूय शक्त नासली. तिसऱ्या दिसा ताणें बायूलाक सांगलें, 'बायूल चडच जालां. सांजमेरेन जातलें. तूं कोणाकय धाडून वैजिणीक आफोवन हाड.'

सांगणें मेळटकीर चिंचेवाड्यावयलें शेंवतू हातांत पोती घेवन धांवन येयलें. मंजूळाक पळोवन खप्प जाल्लेवरी जालें. तिणें म्हळें, 'हागेली शक्त पावतली?' शेंवतून आपल्या फिशाल हातान शेकय, पुसय केलें. पोटाक तेल काडटना तें भितल्ल्या भुरग्याक सांगतालें, 'ये तूं असो सरक. हां अशी तकली घे. पांय अशे नीट सोड. चड मस्तेपणां करूं नाका. खंयूय रुसून अडून रावंनाका. तुजे आवयक तीळभर जीव ना.'

शेंवतू वैजीण आंगान पसरट आनी बुरशी दिसताली. हात, हाताबोटांय तशींच घट, खरबटीत. पूण ती आशिल्ली फिशाल. वांगडाच वैजीण आनी वखदळण. उलयतालीय खूब. सांगताली, 'ह्या हातान वार कापिल्लें एक भुरगें अजून सोंपलेंना.'

'जिनवटींतल्या शांबालो चेडो म्हयन्या भितरच गेलो न्ही गे ?'

'म्हजो गुन्यांव न्ही हां. शांबा बायलेन बाळंत जावन पंदरा दीस जावचे पयलीं कासाळे अळुवाची ताटभर शाक खायली. दुदांतल्यान शेळ पोटांत देंवली आनी थंडी भरून भुरगें गेलें.'

मंजूळान तीन दीस कुंथनत आनी दांत चाबून रडत चेडवाक जल्म दिलो. मणाचें वजें माथ्यावयल्यान देंवयिल्लेवरी तें बाळंत जालें आनी भुरग्याक फाट करून जीव गेल्लेवरी न्हिदलें.

बाळांत जालें आनी दिसान दीस ताजो जीव इल्लो इल्लो जायत गेलो. कात धवी पडून हाडांक दशिल्ली आनी त्राणच नाशिल्लो. भुरगें चिंवांक लागतालें आनी सुको मोमो ओडून थकतकीर रडूंक लागतालें.

सुमनाची तर अवतिकायच जाल्ली. आपा रुशी जावन बसतकीर ताणें विठोबाक पांयें पडून शेत कसून रोवन घेयल्लें. शेताभाटाचो वावर, बायचें, आपाचें आनी भुरग्यांचें करप हातूंत तें दीसभर इतलें गुंथून उरतालें, रात पडसर ताका झेमेन

लकण मारूंक लागताली. आपले कुडीची उस्तवारी ताणें सोडिल्ली. जुवान चेडूं तें, सतरा खतां आनी ठिगळ्यो पडिल्लीं वस्त्रां न्हेसून दीसभर वावरांत उरतालें. जशें तें आपूण एक आसा हें विसरूनच गेल्लें. तातूंत ताका बायचो हुस्को. बायचो इतलो हुस्को, ताजेनच ताजो जीव अर्द करगुन गेल्लो.

गोविंद मर्दींच येतालो, 'बरें ना गो तुका ताई ?' म्हण हांथरूणासरीं येवन बसतालो.

'आसा रे बरें. कांय जावचें ना म्हाका.'

पूण दर फावट येतकीर तो विचारतालोच. 'बरें ना गो तुका ताई ?'

गोविंद येतकीर घराक खरीच जाग येयिल्लेवरी जाताली. सुमनाल्या दोळ्यांत चैतन्य भरिल्लेवरी जातालें. पूण जिवितावेली वानसाच उठिल्लेवरी तें वावुरतालें. गोविंदाक केन्ना तिडक मारताली ताजी. हाका केंसाक एक रिबीनय बांदूंक कितें जाता!

पूण केन्ना केन्ना ताका दिसतालें, ह्या म्हेळ आंगाच्या सुमनाक अशेंच वेंगेंत घेवचें. ख्यास्त दिल्लेवरी धरून मुड्डुवचें. कितल्या तेंपाची ताजी ही वानसा ! पूण सुमन तर कामाचे राटीक बांदून घेतिल्लेवरी थंड वावुरतालें.

'बाय, कितें जाता गो तुका ?'

'बायूल रडूं नाका. तुवेंय अशे हातपांय सोडल्यार कशें जातलें ! पोरां खंय आसात चय.'

'हीं चय हांगाच आसात.'

मंजूळान भोव कश्टान मान घुंवडावन भुरग्यांक चयलें. धाकलें म्हयन्याचें चेडूं फाळ्यांत गुठलावन घातिल्लेवरी गोधडेर न्हिदिल्लें. तीन वर्सांचो चेडो रमेश बेटोच तोंड गंभीरशें करून वणटीक तेंकून वोग्गी बशिल्लो. जशें ताका होलमतालें, आपले आईची ऊब आपणाक ल्हव ल्हव पयस जावंक लागल्या. ताणें भोवभोव मायेन पूण असहाय्य नदरेन एक फावट आपल्या भुरग्यांक चयलें. भोव दुखिल्लेवरी ताज्या चेऱ्याच्यो शिरो हालल्यो. दोळे व्हांवले. पूण दोळे इतले फ्रेणकुलांत गेल्ले, दुकां तातूंतच सांचिल्लेवरी जालीं. मगेर ल्हव ल्हव ताका घुंवळ येयली. तें मान उडोवन पडून रावलें. सुमनान 'बाय' म्हणून हुयेल मारली. शेजारच्यान गोकुळमावशी,

सुमित्रामावशी धांवन येयली. कोणें तरी वचून साळूआजयेक आफोवन हाडलें. ताणें मगेर ताका ताकतिकेन कसलेकसले उपाव केले. शेकलें, भाजलें, आंगाक वखद काडलें. तें मातशें सावसीत जालें.

गुरवाचारासानच मंजूळ इल्लो इल्लो जीव घेवन आसलें. तें बाळांत जातना ताणें इल्लीय शक्त नासतना वेणो कशो दिल्यो, तें मुक्त कशें जालें हेंच एक अजाप म्हणपाचें. शेंवतू वैजीण तर परती परती म्हणटाली, 'तुमी ताका कारवार व्हरीनासताना हांगाच घेवन बसल्यांत, ताका आतां देवान वाटोवचें.'

पूण मंजूळ तर दवाखान्याचें, दोतोराचें नांव काडल्यार हात हालोवन न्हयकारतालें.

गणेश भायर वासरेंत बसून पिनिंल्ले कांबळीचीं सुतां सोडोवन तांची गुठली करतालो. सुमनान भायर येवन सांगलें, 'आपा, बायक चड बरें ना रे !'

'तेन्नाच सांगिल्लें हांवें म्हाका एक देड वांव दोरी हाडून दी म्हण. तारी व्हड्यार बसून काय बरें तांबडें पितांबर न्हेसून येयिल्लो तो खंय दड मारून बसला... !'

सुमनाक तिडक मारली, 'सगल्यांक खावचें पिशें हें. तूं पिशें कांबरून वोगी बस. आमीच वयतात मरून !'

सांज जावंक येयिल्ली. मंजूळाक चड बरें ना म्हण कळटकीर कोण कोण दादलेय वासरेंत येवन बशिल्ले. भास्कर चडसो कोणाल्या घराकडेन वचून बसपी न्ही. पूण तोवय येयिल्लो. दादले मर्दीमर्दीं भितर वचून मंजूळाक पाचारून येताले. पूण तें थाऱ्यार नासलें. स्वास घेतना आडखळिल्लेवरी जातालें आनी ताळ्यांतल्यान घर्र घर्र असो आवाज येतालो. साबुद्द आसा काय ना कांयच कळनासलें. मर्दीच एक हात वयर उखलतालें. मगेर तो हात तसोच सोडून दितकर सकल येवन धाडावतालो.

दादले चिंतेस्त बशिल्ले. 'कसलो पाड गांव हो ! सकाळीं एक फावट लांच आनी व्होडी बंदर बळाटून गेली म्हणटकीर दीसभर कसलें म्हण वाहन ना. एस्टी येता येता म्हण कितलीं वर्सां जालीं खबर ना.'

'फाल्यां सकाळीं कशेंय करून पोराक कारवारा व्हडल्या दवाखान्यांत व्हरूंक जाय.'

'काय हळग्या वचून दोतोराक आफोवन हाडुया ?'

'इतलें बरें ना ताका. तो येवन आतां कितें करतलो. एकेच रातीची खबर. फाल्यां सकाळचे लांचीन व्हरचें ताका कारवारा.'

'हळगेचो दोतोर म्हण खंय इतलो पयस रातचो येवंक आसा.'

'रातचो आतां भायर सरना खंय तो !'

रातभर मंजूळ सोंशेतालें. रातभर वाड्यावयल्यो बायलो म्हऱ्यांत कोण ना कोण बशिल्ल्यो.

सकाळच्या पाराक मात म्हऱ्यांत कोणच नाशिल्लो. सुमन बायल्या उशासरीं तकली बागोवन झेमेतालें. एक चिमणेदिवो जळटालो. तो आतां इतलो बारीक जायत गेल्लो, ताजो तांबसो उजवाड काळखार चिरो पडिल्लेवरी पातळिल्लो. भायर सगलें शांत आशिल्लें. मंजूळान भोव कश्टान ल्हव ल्हव आपलो हात वयर घेयलो आनी सुमनाले तकलेर तेंकयलो. तें जागें जालें, 'बाय कितें गो ?'

खोल आवाजान ताणे म्हळें, 'भुरगीं खंय ? हाड तांकां.' मगेर ताणें आपली कूस रिती केल्लेवरी केली.

सुमनान वचून पयल्यान न्हिदिल्ल्या चेड्याक हाडून ताजे कुशींत घालो. चेडवाक मात तें आपल्या आंगारच घेवन बसलें.

'बायूल, भुरगीं तुज्या पदरांत घालतां. सांबाळ तांकां. पूण तुजें...' तें सुस्कारलें. पोल्यावयल्यान दुकां व्हांवंक लागलीं.

'बाय, तूं बरें जातलें गो !'

मंजूळान तागेलो हात हातांत घेतलो, 'वचन दी म्हाका. भुरग्यांक अंतर दिवचें ना म्हण सांग !' सुमनाक दिसलें बायलो आवाज खरसो जाला. तें भिंयेल्लेवरी जालें. ताणें म्हळें, 'हांव वचन दितां बाय, हांव भुरग्यांक अंतर दिवचें ना !'

भोव थकिल्लेवरी मंजूळालो जीव हरपूंक लागलो. तें घुंवळ येयिल्लेवरी पडून रावलें.

सुमनान एक फावट भोवभोव दुख्खान, काकुळटेन बायक, भुरग्यांक पळयलें. ताका खीणभर दिसलें - बायच्या जाग्यार हांवच न्हिदलां. म्हजोच जीव खोलखोल तळाक पावंक लागला. आत्तां कोण तरी येतलो, आमकां सगल्यांक एके काळखे पोकळेंत धुकलून उडयतलो. सासणाचो !

सकाळीं दादले ताका कारवारा व्हरचे तजविजेक लागले. लांचीच्या बंदरार पावंकच दोन मैलांची वाट. व्हरचें कशें ? पिणग्यांत बसोवन व्हरचें म्हण थारलें. दादले पिणग्यांक दोरयो आडांबो बीन घालताले.

कितलो वेळ मंजूळाल्या ताळ्यांतल्यान सूं सूं असो स्वास धुंविल्लोसो आवाज

येतालो. 'बाय मंजूळ' म्हण उलो मारल्यार बेठेंच दोळे उकते करतालें, धांपतालें. ल्हव ल्हव ताजो स्वास खोल वचूंक लागलो. दोळे उक्ते करपाचो त्राणच हरपलो. सुमन मात ताका बाय, बाय, म्हण उले मारीत आसलें.

पिणग्याची कावड तयार करून दादले ताका उखलून व्हरूंक म्हण मुखार येयल्यार ताजी मान लंवडल्या आनी ताजें लाकूड जालां. दादले गोठेवन थीर उबे रावले. सुमनान मळब फोडून उडोवपी एक दिगंतखोल किळांच मारली. ती किळांच चुडटांतल्यान, ताळयांतल्यान रिगत, शेता-उशेलावेल्यान भोंवत न्हंयच्या ल्हारार पावली. खीणभर सगलें हालून गेल्लेवरी जाले.

अख्खो वाडो घरांत, आंगणांत एकठांय जाल्लो. 'म्हयनो जालो पोर हांथरुणार पडून आसलें. वखद विर्सद म्हळ्यार सदांच नाका म्हणप.'

'बाळंटेरांत तें अशें जालां म्हण आमी समजल्ले. इतले बेगीन हें अशें वयतलें म्हण कोणाक खबर आसली ?'

'दोगां अबुद्द पोरांक उबंत उडोवन गेलें. चेडूं तर म्हयन्याची कीट. तातूंत बापायची अवतिकाय ही अशी !'

फाटल्या तीन म्हयन्यांमदीं गणेश सामकोच संवसाराभायर जाल्लो. ताणें शेताभाटाचो वावरय सोडिल्लो. दीस दीस वासरेंत वोगी बसून रावतालो. मदींच तोंडांतल्या तोंडांत कितेंय बडबडटालो.

वाड्यावयलो एक्कान एक दादलो येवन वासरेंत, आंगणामेरेर बशिल्लो. हे मातयेंत तांच्या दोळ्यां मुखार तें ल्हानाचें व्हड जाल्लें. ताका आतां आमी आमच्या हातान उजो दिवप ! कोणाक कसली म्हण उमेद नासली. जण एकलो ह्या चेडवा वांगडा कसले ना कसले यादीन बांदिल्लो.

खुशालीक याद आसा, भुरगेपणांत फुलांचोच सोस आशिल्लो पापणीक. धाकले भयणीक हांडीर मारून ओंवळांच्या, सुरंगाच्या रुखांमुळांनी भोंवतालें. झाडां-झोंपांनी घुसतालें. एक फावट दनपारां वाड्याकुशीक आशिल्ल्या सुरंगारुखापोंदाक सुरंगां पुंजायतालें. आंगलेची होटी भरून घेतिल्ली. खुशालीन बेठेंच तापयलें, 'दनपारच्या कडार रुखामुळांत भोंवता, हेडगें खंयचें...' फुलांची होटी तशीच सांडून तें रडूंक लागिल्लें. मगेर खुशालीन मुखार वचून सगलीं फुलां परतीं ताजे होटयेंत घातिल्लीं. भयणीक उखलून हांडीर दिल्लें.

...पोराच्या उतराक कितली गोडी. अण्णा म्हण उलो मारल्यार तोंडार कळो

फुलिल्लेवरी जातालो. ओडच लागताली ताजी. कितलें सोंशीक आनी कितलें मायेस्त. काल पयरच लग्न जावन गेल्लें अशें दिसता. लग्न जावन वतना पावोवंक गांव लोटिल्लो आखाड्यांत. जण एकलो हुंडकेतालो. णव वारी शालवांतली येद्दीशी व्हंकल अजून दोळ्यांमुखार झळकता.

...घोवाक सोऱ्याचें व्यसन. तो घर सोडून वतकीर तें सोमतेंच गळसणलें. जिवितावेली वान्साच गेली पोराली ! सद्दां न्हंयच्या बंदरावटेन दोळे लावन बसतालें!

सुमन कपल धाडायत रड रड रडलें आनी अचकीत ताजी शिळा जाली. घुम्म मोन्यांनी तें बशिल्लें आनी अंतपार नाशिल्ले काळखाचे खोळींत तें पळेतालें. मर्दीच गोविंद काळखांत हय न्हयसो झळकतालो. बाय तर अनुळख्या काळ्या किर्णार बसून पयस पयस वयतालें. बाय, म्हर्जी सपनां घेवन खंय वयता गो... पळय तुर्जी नेणार भुरगीं दुदाक तानेल्यांत, उम्याक आशेल्यांत ! कोण भरयतलो म्हण रावल्यांत तीं...? म्हज्यान तुजेवरी आई जावंक येवचेंना गो!

बायलो भितर येवन मंजूळाक नवें कापड पोलको न्हेसयताल्यो. सुमन मेल्ल्या दोळ्यांनी पळेतालें... खंय व्हरतात गे तुमी न्हेसोवन म्हज्या बायक, म्हजे आईक !

मंजूळ गेलें म्हण कळटकीर वयल्या वाड्यावयल्यान, देवूळ वाड्यावयल्यान कोण कोण येयिल्ले. तातूंत मुकुंदमामय आशिल्लो. सुमन मुकुंदमामाक वेंग मारून खूब रडलें.

दादल्यांनी नरशिंवाक आनी विष्णूक शास्त्र आनी वेळकाळ विचारूंक जोयशाकडेन धाडिल्ले. ताणें येतना मर्णाचें सामानय दुकानांतल्यान हाडलें.

तें येतकीर दादले उठून ताचेसरीं एकठांय जाले. नरशिंवान सांगलें, 'वेळकाळ, नखेत्र सगलें बरें आसा. पूण कुळारचे धुवेक कुळारा लासूंक फावोना म्हण सांगलां. ताज्या घोवाल्या गांवाचे शिमेभितर लासूंक जाय. ताजो चेडो रमेश अजून तीन वर्सांचो जाल्लो ना खंय. ताका तीन वर्सांक देड म्हयनो उणो आसा खंय. ताका मुसुंडेर व्हरूंक फावोना उजो दिवंक.'

आयकोन जाणटेले पेंचांत सांपडिल्लेवरी जाले. रामदाद, गणपत–आजो, भास्करअण्णा हांचेमर्दी भासाभास जावंक लागली.

रामदादान म्हळें, 'आमी प्रेत व्हरून घोवा घरा पावोवन येवया. तांकां जाय तसो विलोव लावंदी.'

खुशाली सट्कन तापलो, 'बेवारशी कशें प्रेत आमी व्हरून ताज्या घोवाल्या

आंगणांत उडोवन येवचें ? ना. तांकां सांगणें धाडात. जाय जाल्यार येवन प्रेत व्हरूं दी. नातर आमचे धुवेक आमी आमच्या हातान उजो दिवया.'

'पूण शास्त्रांत बसना तें खुशाली.'

'शास्त्र गेलें उज्यांत.'

गणपत आज्यानय म्हळें, 'तांकां आर्दी सांगणें धाडात. मगेर चवया कितें जाता तें.'

पंढरी आनी यशवंत उकत्या माथ्यानच उठाउठी हुळग्या वचूंक गेले. वाटभर ते मोनेच आसले. सगल्या वाठाराचेर एक दुख्खाचें मोनें सांवट पातळिल्लें आसा अशें तांकां बेठेंच परतून परतून होलमतालें. तारयान कांय एक उलयनासतना तार काडली आनी ती बद्द हुळग्या म्हाळूल्या घरासकल व्हरून लायली. ते देंवन वयतना तारयान म्हळें, 'तो आतां मनशांत ना. वचून येयात तुमी.'

मगेर सोतासरी तारयो उलयतालो, 'पोर व्हड्यांत बसल्यार देवी बशिल्लेवरी दिसतालें. लग्न जातकीर हांवेंच जोडपें न्हंय बळाट्न हाडिल्लें.'

मंजूळाल्या मांवाल्या-म्हाळूल्या, घरासरीं गेल्यार सगलें थंड आसलें. दार उकतें आनी सगलो लोक उठून गेल्लेवरी सगलें शांत, रितें. बागांतल्या केळीच्या हिंडासरीं दोन गोरवां पारपोळ सोडिल्लेवरी केळीचीं पानां ओडून ओडून खातालीं. तांणी तो केळीचो हींड खावन मस्तून मातये भरवण केल्लो. आंगण मातयेन, कोयरान भरिल्लें. पावसांत कोसळिल्ली तुळस तशीच पडिल्ली.

पंढरीन दारांत वचून उलो मारलो, 'घरांत कोण गा ?'

जाप ना. ताणें बगल धाडायत परतो उलो दिलो, 'घरांत कोण आसा गा?'

भितल्ल्यान खंयच्यान तरी खोल भुंयेरांतल्यानसो वाजेल्लोसो आवाज येयलो. 'कोण थंय? कोणालो जीव वयता ?'

'आमी शिद्दरासान येयल्यात. मातशे भायर येयात.'

कांय वेळ पिरंगल्लो आवाज येत रावलो. मगेर म्हाळू लकतलकतसो भायर येयलो. ऊंच, मोटो मनीस सामक्को भागून बरगलार कसो दिसता तसो तो दिस. तो वायटकारावरी सारक्को पिरंगतालो.

'जिवाक बरें ना गा ?'

'आतां बरेपण मर्णांत. कितें जालां? कित्याक येयल्यात ? हांव जाणां

कसलीतरी पाड खबर घेवन येयल्यात तुमी. नातर शिद्दरच्यान हांगा पावपी न्हू.'

'हय. तुमची सून... मंजूळ, स म्हयने हांथरुणारच आशिल्ली म्हटल्यार जाता.'

तो रडिल्लेवरी उलोवंक लागलो, 'हांव जाणाच आसलों तें आनीक तग धरचेंना म्हण. भोव मोव मनाचें, मायेस्त तें. पूण बऱ्या प्रांयगुणाचें न्ही. ह्या घरांत येयलें आनी घराचे पाडसरेचे मोडिल्लेवरी सगलो विस्कोट जालो.'

पंढरी मातसो तापट सभावाचो. तो कितें तरी खर उलोवंक सोदतालो. पूण यशवंतान ताका थातारलो. ताणें भायर नदर मारल्यार तांकां दिसलें, भायर वंयेसरी, आखाड्यासरीं कोणकोण मोर्न्यांनी उबे आसात, सुलूस घेत. यशवंतान मनांतच म्हळें, हांकां आर्दींच खबर पावल्या काय कितें ? वायट खबर पावंक कळाव लागना.

यशवंतान विचारलें, 'कुडीचें कितें करचें गा ? तुमी वचून हाडात आनी अग्नी दियात.'

तो उब्याउबोच थरथरलो. यशवंताक दिसलें हो खंयच्याय खिणाक लकून पडटलो. ताणें ताका धरून कुशीचे खुर्चेंत बसयलो.

'तुमची सून न्हय ती ? हेच मातयेचो हक्क तिका.'

'चेडोच मेलो म्हाका आनी सून खंयची उरल्या? हांव असो मोडको वायटकार. म्हाकाच पेजेनीस घालतलो ना. ताका आनीक हाडून कितें करूं? ताज्याच बापायन कितें करता तें करचें.'

'दोन नेणार भुरगीं आसात ताजीं.'

'तांचें नशीब तांचेकडेन.' तो उठलो आनी फाट फिरोवन लकत लकत भितर गेलो.

पंढरी आनी यशवंत परते येवंक म्हण आखाड्यांत पावल्यार त्या गांवचे लोक मोन्यांनीच थंय एकठांय जाले. पंढरी तांचेर तापलो, 'तुमचे कुळयेची एक सून थंय मरून पडल्या आनी तुमी अशे दोपतात कित्याक ? कुडीचो विलोव कोणें लावचो ?'

एक जाणटेल्यान म्हळें, 'आमी कूड हाडून आमचे मुसुंडेर बेस बरे अग्नी दिवं. पूण मुखावयलीं क्रियाकर्मां कोण करतलो? हाडून तशेंच लासून उडयलें आनी मगेर स्मशानशुद्धी, बारावो, तेरावो केलोना जाल्यार पातक भोगपाचें आनी मेल्ल्या आत्म्याकय मुक्ती ना.'

तांणी तांचें फुडचें कांयच आयकनासताना सडसडीत धेंपां मारलीं. बरेंच

मुखार वचून फाटीं चय जाल्यार तांचे फाटल्यान माथ्यार लाकडांचें खोड घेवन एकलो चलता.

'पंढरीन म्हळें, 'कोण रे हो ?'

'हांवय वळखना ताका.'

तारीसरीं पाव म्हणसर ताणें हांकां मेळोवन घेयलें. ताणें माथ्यावयलें खोड खांदार तेंकयलें आनी तें तो तारींत आडवें दवरूंक गेलो. तारयान म्हळें, 'अरें कितें करता तूं ?'

पळेल्यार ताजे दोळे व्हांवतात. ताणें रडिल्लेवरी आवाज काडून हातान कुरू करून कितें तरी तारयाक सांगलें, 'तारयो वोगीच रावलो.

'कोण, कितें सांगता तो तारयामाम ?'

'मोनो देवप्पा तो. गणेशाल्या चेडवाचेर भोव जीव आशिल्लो ताजो. घोवाकडचें एक लाकूड तरी ताजे चितेर पडचें म्हण हें खोड घेवन येयला.'

मोन्यांनीच ते न्हंयचें उदक कापीत रावले. मारिल्ल्या व्हल्याचो घस्स घस्स तितलोच आवाज येतालो. दोंशीवटेनचीं वांयगणां, उशेलां पोरसूं हांचेर धुंवर पातळिल्लेवरी जाल्लो आनी तीं म्हेळम्हेळशीं दिसतालीं. चडट्या वोताकय कसलो चकचक नासलो.

व्हल्यांच्या तालार तारयो सांगतालो, 'हो देवप्पा भुरगेपणांत मावशेगेर गोरवां राखतालो. मावशी मरतकीर धांवडायलो हाका. पयलींपसूऩच हाका मोनजातीचेर मोग. थंय ताका एक धनमंतरी भेटिल्लो, ताणें हाका गोरवां वासरांक कांय वखदां शिकयिल्लीं. आतां खंयीय एक पाडी पाडूक बरें ना म्हण कळ्ळ्यार धांवन वयता. मोनजातीक हो मोनो वैज. मोनजातीची भाशा बेसबरी कळटा आं हाका. बैलाचे फाटीर एक थापट मारून कितें जालां तें ज्युस्त सांगतलो आनी वखद दितलो.'

तार तडीक लागतकीर मोन्या देवप्पान खोड उखललें आनी ताणें सडसडीत पावलां मारलीं. यशवंत आनी विष्णूय वाट वांकडी करून जोयशागेर वचून येयले. जोयशाक सांगलें, 'कूड कांय घोवागेले लोक व्हरूंक तयार नांत. तर कुडीचें आमी कितें करचें ?'

जोयशान सांगलें, 'बापायन आपले मालकीचो चार हात भूंयचो कुडको उदक सोडून चेडवाक अंदण म्हण दिवचो. थंय तुमच्यांनी कूड लासूं येता. ताका उजो मात कुळारच्या कोणेंच दिवंक फावोना.'

'ताज्या घोवा गांवचो एकलो जाणटेलो आयला. ताकाच सांगतात तर.'

'शा. शा. जाणटेल्यान नेणट्याक उजो दिवंक फावोना.'

'चयतात. सगलेकडच्यान आडखळ्योच मूं.'

ते वाड्यार पावले तेन्ना लोक चोंयवटेन ओग्गी बशिल्ले. कोण कोणाल्या कानांत मरणाचें तत्वगिन्यान फुतफुतनासले. बेठेच वैराग्य येयिल्लेवरी बसून आसले.

सालांत बायलो मंजूळाक होंटयेंत घेवन बशिल्लेवरी भोंवतणीं बशिल्ल्यो. अजाप म्हळ्यार त्यो कितें कितें रडचेसारकें उलोवन कोणाक रडोवंक सोदनाशिल्ल्यो. रडयतलीं तरी कोणाक ! सुमन तर रडपाचे शिमेभायर गेल्लें. आनी बापूय कांबळी सुताची गुठली सोडयत पिशांतूर कांबरून वासरेंत बशिल्लो.

पंढरीन आंगणांत पावनाफुडें रागानच म्हटलें, 'ते व्हरूंक येवचे नात बायक. ते कितें व्हरतले दळिडिरे ! ती आमची धूव, आमची भयण. आमीच आमच्या हातान उज्या सुवादीन करुया ताका.'

चोंयवटेन दुख्खाची चिप्प ओली शिरशिरी पातळिल्ली. जाणटेले मरण कशे तरेन करपाचें हाजेर भासाभास करताले. मोनो देवप्पा खोड रुखाक तेंकोवन वोग्गी आंगणामेरेर बशिल्लो.

गणपतआज्यान म्हळें, 'गणेश पिशें घेवन बसला. आतां ही चार हात भूंय ताचेकडच्यान कशी अंदण घेवची ?'

ताजेर रामदादान म्हळें, 'गणपतबाब, तूं पूण घराब्यांत जाणटेलो. ही सगलीं जमीन वांटून गेल्या खरी पूण ती आदीं एकाच घराब्याची. तूं उदक सोडून दी चार हात भूंय ते धुवेक ! चिंचेकडचे शेताधडेर लासुया ताका.'

सगल्यांनी खरें म्हळें आनी किरवड बांदचेलें काम सुरू जालें. भितोडेक दवरिल्ले वांशे हाडून केशवान कोयती मारून कट्कट् करून फोडले आनी ताज्यो कामट्यो केल्यो. सोयरू, खुशाली दोरी घेवन कामट्यो बांदूक लागले. हेरांनी लाकडाचीं खोडां माथ्याक माल्लीं आनी ते चिंचेकडच्या शेताचे दिकेन वचूंक लागलें. गणपतआज्यान हातांत उदकाचो चेंबू आनी उदक सोडूंक तुळशीपान आनी आंब्यापानांचो दोणो करून घेतलो. मगेर ताणें आंगणांत किरवड बांदतल्यांक म्हळें, 'सगलें खरें, पूण चितेक उजो कोण दितलो ? कुळारच्या मनशान तर उजो दिवंक फावोना.'

जाणटेले परते एक फावट घोर चिंतनांत पडले. 'उजो दितलो मनीस

सोयरसंबंदांतलो आसूंक जाय. वेल्यान तो कुळारचो आसूंक फावोना.

गोविंद मंजूळ बरें ना तेन्नासान ताचेसरीं वोग्गी येवन बसतालो. मंजूळ केन्ना तागेलो हात हातांत घेवन कितें तरी सांगूक पळेतालें. बेठींच तार्जी बोटां थरथरतालीं. शेवटमेरेन तें कांयच उलयलेंना. मंजूळाल्या वायटाक, मर्णाक तो ह्याच घरचो जावन गेल्लो. पोरको पोर कसो येद्दें तोंड करून बसतालो. मंजूळ कुळारा येयिल्लें तेन्नाच तो मॅट्रिकेचे परिक्षेक कारवारा वचूंक गेल्लो. तेन्ना तें आखाड्यांत येवन उबें राविल्लें. तो नदरेआड जाय म्हणसर ताका पळयतालें. तो मॅट्रिकेक पास जालो म्हण कळटकीर तें आपलें दुखणें विसरून खुशाल जावन हांशिल्लें; थुळेल्लें. हे फावट कुळारा येतसान् तें घडये एकच फावट तेन्नाच तोंड भरून हांशिल्लें जावये.

कुडीक उजो कोण दितलो म्हण जाणटेले तकलेर हात मारून घेवन चिंतताले. अचकीत गोविंद तांचे सामकार येवन उबो रावलो. ताणें गणपतआज्याक म्हळें, 'आज्या, हांव दितां उजो मंजूळताईक.'

थंयच तागेलो खासा माम भास्कर बशिल्लो. गणपतआज्यान भास्करासरीं पळयलें. भास्कर वोगीच आसलो. मगेर गणपतआज्यान म्हळें, 'भाचो तूं. उजो दिवंक आडखळ ना. पूण उपरांत क्रियाकर्म, खऊर, श्राध्द जाय त्यो राटावळी आसात.'

'हांव सगलें करतलों आज्या !'

'भास्कर तूं कितें म्हणटा रे ?'

'तो आतां करता म्हणटा तर करूं दी.' पूण भास्करालीं उतरां जड लागलीं. जशें ताका हें बरें मानोवंक नासलें.

सोयरून शिक्यांत गाडगो दवरून गोविंदाल्या हातांत दिलो. दुसऱ्या हातांत शेणी पेटोवन दिली. मंजूळाक भायर हाडून ताजी अयाव सवाशिणीची पुजा जाली. माथें फुलांनी भरलें. ताका किरवडेर दवरून किरवड उठली आनी वाडोभर लोकांच्यो बोबो आनी हुयेल्यो सुरू जाल्यो.

सांवार येयिल्लेवरी वाडोभर लोक रडटालो. पिसो विठोबा तर हड्डें बडोवन घेवन रडटालो. सुमनाक थातारून घेवंक कोण नासलो. तें दारांत थार आडवें पडून हातपांय धाडावन घेतालें. मर्दींच तार्चीं दाडमणां बसलीं. आनी ताजी साबुद्द गेली. मगेर कोण कोण मुखार येवन ताका सावचीत करूंक लागले.

देवूळवाड्यावयलो शांबा आंगणामेरेसरीं येवन उबो आसलो. तो मनांत म्हणटालो, वाड्यावयली धूव घोवाघरा वयताना दुकां गळोवपी हे लोक ताजें मडें भायर सरताना रडलेबगर कशे रावतले?'

मरणदिसाक मंजूळाल्या भुरग्यांक कोणें खंय व्हरून दवरून घेतिल्लीं आनी कोणें तांकां जेवयले, भरयलें सुमनाक कांयच खबर नासलें. ताका जाणून घेवचेलीय उमळशीक नासली. दुसऱ्या दिसा तांकां कोणें तरी हाडून वासरेंत न्हिदयलीं तेन्ना तांचेकडेन पळोवन सुमनाच्या मनांत कसले म्हण भाव उदेलेनात. तांकां जेवोवचें, भरोवचें अशेंय ताका दिसलेंना. तांकां हात लावचोय धीर ताका नासलो.

दुसऱ्या दिसा केरवडीच्यान माम येयिल्लो. ताणें अचकीत भान गेल्लेवरी म्हळें, 'मामा, तांच्या बापायक आफोवन तांकां ताचे सुवादीन करात रे !'

मामा कांयच उलयलोना. त्या भुरग्यांविशीं कोणच कांय उलयनासलो. जशे उलोवंकच भिंताले. जण एकल्याक दिसतालें, 'भुरग्यांलो प्रस्न हो म्हाकठीण प्रस्न ! उलोवचें म्हण कांय उरलेंना ! भोव तर तांचें नशीब तांचेकडेन म्हणचेलें!

व्हडलो तीन वर्सांचो आसलो. ताका कितें तरी घडून गेलां, हांगा आशिल्ली आई नाच जाल्या, लोक कित्याक म्हण तरी रडटात हें होलमतालें. तो काचाबूल जाल्लेवरी दिसतालो. तोंडान बोट घालून बीन वणटीक तेंकून वोग्गी बसून रावतालो. धाकलें मर्दीच हांथरुणार वळवळ्ळेंशें करतालें आनी मोटमोट्यान रडूंक लागतालें. ताजें रडप आयकोन सुमन उबगतालें. मगेर कोण तरी येवन ताका उखलून घेतालो. कोणाल्याय घरांतल्यान इल्लें दूद हाडून पिवयतालो. सुमन जाणा आसलें हें चड तर तेराव्यामेरेन. तेरावो जालो म्हणटकीर सगले फासपतले.

तेरा दिस मेरेन घरांत लोकांचो सारक्को राबितो आसलो. माम, मुकुंदमाम सद्दां सकाळीं येताले आनी दनपारां परते घरा वयताले. वाड्यावयलोय लोक येवन वचून रावतालो.

गोविंदान सगलें विधी आनी क्रियाकर्म मन लावन मात्तूय उबगनासतना केलें. णव दिस मेरेन सद्दां सकाळीं उठून तो ग्लासांत दूद घेवन मंजूळाक लाशिल्लेकडेन वयतालो आनी तें दूद तागेल्या अस्थींच्या गोबरार घालून येतालो. सद्दां सांजच्या वेळार वेळ पडचे पयलीं जेवप. मगेर गरूड पुराण वाचून न्हिदप. ह्या दिसांनी सगली 'क्रिया' जाता म्हणसर तळिल्लें, भाजिल्लें, गोडशें, आंबट कांयच खावंक फावोनासलें. माथ्याक तेल लेगीत घालूंक फावोनासलें. दनपारां पेज आनी रातचें सोलकडयेन निखटें शीत.

ह्या दिसांनी तो सुमनागेरच रावतालो. रातचो थंयच न्हिदतालो. सुमन जिवितावेली वान्सा गेल्लेवरी खंय तरी वोग्गी बसून रावतालें. घरांत सद्दां इतली धांदळ, गडबड चलताली पूण तें सामक्कें पयस. कोणें कितेंय खंय आसा काय म्हण विचारल्यार बोट दाखोवनच सांगातालें. गोविंद मात भायर भितर वावरत रावतालो. केन्ना सुमनासरीं थंय पयल्यान बसतालो. पूण उलोवप कांय जायनासलें, बिंयांतल्यान कोंब भायर सरतां सरतां जसो अचकीत मोनेल्लो. उमेदच गळसणिल्ली. कितलें कितलें उलोवचें आसलें, मंजूळताई संबंदान, तुजे म्हजे संबंदान. पूण मर्दीच कोणें तरी एक मोनी रीस मारिल्ली. ना म्हळ्यार तें जेवना जातकीर तो ताट हाडून ताजेमुखार दवरतालो आनी सोपूत घातिल्लेवरी उबो रावतालो.

णवव्या दिसाक स्मशान शुद्धी जाली. मातयेचे कळसुलेंतल्यान शेळें उदक न्हावन म्हाल्या फुडच्यांत बसून गोविंदान खऊर करून घेयलो. म्हाल्यान माथ्यार इल्ली शेंडी दवरली आनी हेर सगलें तासून उडयलें. स्मशान शुद्धीचो विधी जातकीर मंजूळाल्या अस्थींचो चोबो ताणें माथ्यार मारून व्हरून काळी न्हंयंत त्यो विसर्जन केल्यो.

इकराव्या दिसाक सपिंडविधी आनी श्राद्ध जालो. बाराव्या दिसाक गांवजेवण. त्या दिसाक मामान गोविंदाल्या माथ्याक तेल घालून तुवालो बांदलो आनी मगेर गोडशें खावयलें.

कसले कसले म्हण विधी आनी क्रियाकर्म. सगलें गोविंद मोन्यांनीच करतालो. कितले फावट शेळें उदक न्हावचें पडटालें आनी कितले फावट ओल्या आंगान येवन भटाफुडच्यांत बसचें पडटालें.

तेरा दिसांमेरेन माम, मुकुंदमाम आनी हेर वाड्यावयलो लोक खूब वावुरतालो. मामान केरवाडीच्यान बाराव्याक म्हण गोड, नाल्ल, सुरय तांदूळ बीन हाडिल्ले. मामा खरोच भोव मायेमोगान वावुरतालो. सद्दां सकाळीं तो घरच्यान येतालो आनी सांजचो वयतालो. सोयऱ्यान रातचें वसतेक रावंक फावोनासलें. मामा सुमना संबंदान वा मंजूळा संबंदान कोणाकडेनय उलयतना मर्दीच तागेलो गळो भरून येतालो. मगेर रडत रडत तो उलयतालो.

माम वयताना सुमन ताज्या गळ्यांत पडून खूब रडलें. 'हांचें आतां हांव कितें करूं रे माम' म्हण ताणें हुयेल मारली. 'चवया, तांचें कितें करूं येता तें चवया' म्हण माम गेलो. सोताक सोडोवन घेवन गेल्लेवरी.

तेराव्या दिसाक खरेंच लोक फ्रासपले. गोविंदय त्या दिसाक रातचो थंय रावलोना. वासरेंत तकली हालयत बशिल्लो आपा आनी घरांत सुमन. ताज्या

सांगाताक दोग नेणार भुरगीं. मन रितें ! घर रितें!

पयलीं बायलो चेडो रमेशाचेर कितलो जीव आशिल्लो ताजो. पूण आतां कांय नाकाच दिसतालें. आत्तां कोणय तांका उखलून घेवन गेल्यार तें ताळयो वाजोवपाचें.

बरीच रात जाल्ली. सुमन खिळो मारिल्लेवरी वणटीक तेंकून बशिल्लें. रमेश कुशीक न्हिदिल्लो. चिमणेचो मंद उजवाड ताज्या चेऱ्यार पातळिल्लो. ताजो तो निश्कलंक चेरो पळोवन सुमनालें काळीज तुटलें. अचकीत साक्षात्कार जाल्लेवरी जालो, हो तर सामक्को बायलोच चेरो ! बायन हाका सांबाळटलें म्हण म्हजेकडच्यान वचन घेयलां !

मातसो दोळो लागल्यार सपनांत बाय उबें रावतालें – काळोखसो, उजवाडसो. मर्दी सावळेच्या आंगान बाय उबें. रडून रडून निकतींच थांबिल्लींशीं दोन भुरगीं. आंगणांत फोडून उडयिल्ल्यो किरवडेच्यो कामट्यो, अर्द जळिल्लें चुडत... बाय कितें तरी विचारता. आयकोंकच येना काय हांवें कानार हात घेयला कांयच कळना.

ताका रमेशालो चेरो वायटान हांथरूणाक लागिल्ल्या बायचो सानुलो चेरो कसो दिसलो. ल्हव ल्हव ताणें हात मुखार घेयलो आनी रमेशाल्या चेऱ्यावयल्यान तकलेवयल्यान भोंवडायलो ! केंस पळे कितले खरबरीत जाल्यात ! पोराची दैना जाल्या. पोर म्हाका मावशी म्हणिना. कितलें सांगलें तरीय बायूल मावशी म्हणटा. पयलीं रड, मस्तेपणां करी. पूण ह्या दिसांनी 'हांव सगलें जाणां बायूल मावशी' म्हणिल्लेवरी वोगी वोगी बसून रावता. 'आईक भायर काडटनाय ह्या लोकांनी ताका म्हऱ्यांत हाडलोना.

सुमनान अचकीत ताजेर ओणोव घेतलो. सुस्त न्हिदिल्ल्या ताका उखलून घट हड्ड्याक लायलो. तो घुसमटून जागो जालो तरीय तें ताका सोडिनासलें.

मर्दीमर्दी गणेश घुंवूनसो, तकली हालयतसो कितें कितें उलयत रावतालो. बेठींच उतरां, उतरांची अर्थ नाशिल्ली सरपळ. दारांत विंयेल्ले केळीपासून सुरवात करतालो आनी खंयच्या तरी पडींग घराच्या दारार बशिल्ले रांड बायलेचेर वचून पावतालो. मंजूळाक भायर काडटना बुड्डून सो कांबळीचीं सुतां सोडयतालो आनी गुठलायतालो. रामदादान वचून म्हळें, 'गणेश, तुजे धुवेक भायर काडटात रे पापया.' तर तो ताजेकडेन दिगंतखोल नदरेन भाकाभाका पळोवंक लागलो. रामदादाक ताजे

ते भूत नदरेची इतली भिरांत दिसली, तो ओग्गी भायर येयलो आनी किरवडेचेर केळी पानां हांथरुच्या कामाक लागलो.

मंजूळ गेल्ल्या तिसऱ्या दिसाकच आवडूआजी आंगणांत उबी रावन म्हणटाली, 'म्हारू काडून शिमेभायर करतासलो तो मंत्रीक घाडी. पूण ह्या पोरान आडखळी हाडल्यो. आतां एकाचेर एक हीं अपशरणां.'

सुमनान आयकलें आनी तें वोगी रावलें. म्हयन्यान एक दिस कृष्णानंद जाप करूंक म्हण येयिल्लो. तो गोंयां पणजी पोलिसांत आसतालो. सुमनान ताका विचारलें, 'कृष्णानंदभाऊ, आपाक बऱ्या डॉक्टराक दाखोवंक जाय. गोंयां कोणय आसा तुजे वळखीचो डॉक्टर?'

'ताका मुगो आमी कांय दिस हॉस्पिटलांत दवरुया. आल्तिनोर आसा तें हॉस्पिटल. हांव थंय लागींच रावतां. तूं मुगो ताका फुडल्या बुधवार दिसा पणजे घेवन यो. मगेर हांव सगलें पळयतां तें.'

'पूण हांवें खंय पणजी पळयल्या भाऊ ?'

'कोणाकय घेवन यो येतना.'

'कोण आसा ? वाड्यार आसात ते सगले दादले गांवच्यान केन्ना भायर सरूंक नाशिल्लें. तुमी इल्ले शिकिल्ले सगले भायर आसात.'

पूण कृष्णानंदान सट्‌कन म्हळें, 'आगो, गोविंद आसा मुगो, भास्करअण्णालो भाचो. ताणें पळयल्या पणजी.'

सुमन आदी मातशें कचरिल्लेवरी जालें. मगेर ताणें म्हळें, 'पळयतां विचारून.'

'येयात तुमी. हांव पणजे पोलीस स्टेशनारच आसतलों. कोणाकय विचारल्यार सांगतलो. सक्काळपाराचे बोटीन येवन गडाचेर बस धरल्यार बारा मेरेन पणजे पावतलीं. गोविंद जाणा.'

सांजचें सुमनान गोविंदाक म्हळें, 'गोविंद, तुवें पणजी पळयल्या ?'

'कित्याक गो ?'

'बेठेंच.'

'फ्रटीं असनोटी घरा गेल्लों तेन्ना गांवचे कांय भुरगे पोलिसेंत भरतेक म्हूण गेल्ले. तांचे वांगडा हांवय गेल्लों. बेठोच गोंय पळोवंक म्हण. रातचे आमी लक्ष्मी देवस्थानांत वचून न्हिदिल्ले.'

'तुवें पणजे पोलिस स्टेशन पळयलां ?'

'पोलिसेक भरती करतात थंयच मुगो तें पोलीस स्टेशन. थंय नरहरीमामालो चेडो कृष्णानंद आसता.'

सुमनाक सू जालें. 'गोविंद, आमी आपाक घेवन पणजे या. थंय एक बरें हॉस्पिटल आसा खंय.'

गोविंद वोग्गी रावलो.

'तूं येवचोना गोविंद ?'

'मामाक मामयेक सांगूक जाय.' ह्या ताज्या उतरांतल्यान सुमनाक बेठीच ताणें भिरांत उक्तायिल्ली होलमली.

खरेंच ताजें. ह्या दिसांनी गोविंद सुमनागेर वयतना, थंयच्यान येयलो म्हणटकीर मामा-मामी बेठींच फणफणटालीं. 'खंय गेल्लो रे तूं?' म्हणिल्ल्या उतरांक दांत फुटिल्लेवरी दिसतालें.

'सुमन, तूं वचून सांग मामयेक, मामाक पणजे घेवन वयतात म्हण.'.

दुसऱ्या दिसा सुमन सकाळीं उठून भास्करअण्णागेर गेलें. घरांत सरस्वतीमावशीच आशिल्ली. बाय वचतसान सुमन पयलेच फावट तांगेर वयतालें. तें गेलें आनी निकतीच आवय गेल्ल्या अनाथ भुरग्यावरी भायल्या बाकार बसलें. सरस्वतीमावशेन म्हऱ्यांत येवन ताज्या खांदार हात दवरलो. सुमनाक अचकीत हुंडको फुटलो.

'रडूं नाका. कित्याक म्हण येयिल्लें ?'

सुमनान दोळे पुसले. एक फावट मान वयर करून मावशेक पळयलें. सरस्वती सदांच पिडेस्त कशी बारीक आनी धवीधवी दिस. पूण ती दीसभर काम करची कांय सोडिनासली. केन्नाय चयल्यार घरांत, बागांत कामांत गुंथून उरताली. तातूंत तिगेलें घर, आंगण, बाग इतलीं नितळ उरतालीं लोक तिगेल्या घराक कोंकण्यांल्या वाड्यार बामणालें घर म्हणटाले. पूण मदींच सरस्वती कसल्या तरी वायटान पिरंगूंक लागताली आनी आठ-पंदरा दिस हांथरूणार पडून उरताली. लोक म्हणटाले, पोटचें भुरगें नाशिल्ल्यान सरस्वती चिंतनांत झरता.

तांगेल्या बागांत थंय सकल कोण कितें तरी कुराडेन हाणिल्ल्याचो व्हडाव्हडान आवाज येतालो. त्या आवाजांत सुमनाक कितें उलोवचेंच दिसनासलें. 'कोण कितें

कातरता गे मावशे ?'

बेनुल्लेन भरिल्लो आमलेचो खांदो तो. सोमाक कातरूंक सांगलां. कवाथ्याक सांवट करता. कित्याक म्हण येयिल्लें तूं ?'

'मावशे, आपाक पणजे हॉस्पिटलांत व्हरचें केलां. कृष्णानंदभाऊन घेवन यो म्हळां. हांव आनी गोविंद घेवन वयतात आपाक.'

सरस्वती कांय वेळ वोगी रावली. मगेर तिणें म्हळें, 'गोविंद जाणा खंय?'

'तो गेला खंय पणजे हांजेपयलीं.'

'मगेर वचात तुमी घेवन.'

सुमनाक सू जालें. कितली बरी गे तूं मावशे, म्हणिल्लेवरी ताणें तिजेकडेन पळयलें.

'कळाव जाल्यार रातचीं खंय रावतलीं ?'

'कृष्णानंद भाऊ आसा न्ही गे ! अण्णा खंय गेला मावशे?'

'ते आनी गोविंद मेळून शानभोगाले चावडेर गेल्यात कसलीं तरी कागदपत्रां पळोवंक.'

सुमनाल्या हड्ड्यांत बेठेंच कलकलिल्लेवरी जालें. तें उठलें. 'वयतां मावशे.'

आतां सरस्वती चडच ताजे म्हऱ्यांत येयली. 'चय, बायलचेड्डूं तूं. लोक कित्याकितेंय उलयतात. म्हज्याय कानार येता. मुखार तुमच्या दैवांत आसा तें जातलें. आतां राखून रावात.'

'शप्पत, तशें कांय ना गे मावशे !'

सरस्वती राव म्हण सांगून भितल्ल्यान चार शाकेकेळीं घेवन येयली. 'व्हर हीं. बरी शाक करून घाल बापायक.'

सुमन केळीं घेवन भायर सरलें. ताका हें घर चडच थंड, सुस्त अशें दिसलें. ह्या घराचे माळयेर चार वर्सां शाळा शिकिल्लें तें. धडधड करून पांवडे चडटालें आनी देंवतालें. हांगा शाळा चलतना भुरगीं वाचूंक, परोची म्हणूक लागतकीर सगलो वाडोभर घडघड जातालो. आतां सरकारान वाड्या भायर शाळा बांदल्या. जयराममास्तराक कायम करून ताजी पयस बदली केल्या. सुमनाक मनासावन दिसलें, ह्याच घराचे माळयेर अजूनय शाळा आसूंक जाय आसली. हें घर चड आपलेंशें दिसतासलें. अशें परकें दिसचें नासलें.

सुमनाक त्या शाकेकेळ्यांची शाक मात नीट करूंक कळ्ळिना. ती बेठीच बुळबुळीत आनी दिखाळशी जाली. आपाक इल्ली वाडल्यार ताणें शितावांगडा ती पोटांत धुकलली. ताजें अशेंच जाल्लें. सुमन ताट वाडटालें आनी जेय म्हण ताजो हात ताटाक लायतालें. ते सरशीं ताटांतलें सगलें मुड्डिलेंशें करून जेवन उडयतालो, थार दिनासताना.

सामक्के फ्रांत्यापाराक सुकतेचे व्हाणीर उलट्या वाऱ्यांत शीड सोडोवन बोटी वयताल्यो. बुधवार दिसा मध्यानरातीरच सुमन उठलें. ताणें दिवो घेवन वचून नरशिंवाक आफोवन् हाडलो. 'अण्णा, मातशें आपाक धोतर न्हेसोवन खोमीस घाल. बोटी येवचे पयलीं बंदराक वचूंक जाय.'

नरशिंवान आंगणांत उबें रावन मळबाक पळेलें, आगो अजून कात्या नखेत्रांचो पूंजो माथ्यावयल्यान देंवलोय ना मुगो. इतले बेगीनच खंय वयता?

'जावं. न्हेसय तूं अण्णा.'

'इतले बेगीन खंय न्हेसय म्हणटा?' नरशिंवान आवाज चडयलो.

मगेर नरशिंव झेमेलोसो करीत बरोच वेळ बसून रावलो.

'अण्णा, कळाव जातलो.'

नरशिंव उठलो. ताणें गणेशाक उठोवन माडाअळ्यासरीं हाडून ताज्या तोंडार उदक मारलें. ताज्याच वाल्याच्या शेवटान तोंड पुसलें. मगेर भितर हाडून ताका धोतर न्हेसयलें.

आतां 'अण्णा मातसो गोविंदाक वचून आफोवन हाडटां' म्हणचें ताज्या तोंडार येयिल्लें. इतल्यान आंगणांत धंवाडो झळकलो.

'सामको वेळार पावलो मुरे गोविंद ?'

'मामयेन येदोळ उठयिल्लो. तिणें ही पळय पोळी लेगीत करून दिल्या. दनपारां खावंक.'

सुमनान कालच रात पडटकीर रमेशाक आनी बायल्या चेडवाक व्हरून गोकूळमावशेल्या घरांत व्हरून न्हिदयिल्लें. सांगिल्लें, 'फाल्यांचो एक दिस हांकां नीस, उदक कितेंय घालात.'

तें आपाक घेवन भायर सरलें आनी हातांत दिवे घेवन पांच स जाण तरी एकठांय जाले. यशवंतान दिवो वासरेंत पालोवन दवरून, गणेशाल्या एका दंडाक धरलें आनी म्हळें, 'पावोवन येतां बंदराकडेन.'

एका दंडाक नरशिंवान धरिल्लें तर दुसऱ्या दंडाक यशवंतान. मुखार गोविंद चलतालो. फाटल्यान सुमन आशिल्लें. गणेश थंड आसलो. हाका पिशें लागलां काय योग्याची समाधी लागल्या सांगूं नजो आसलें.

ते न्हंयसरीं पावले तेन्ना काळी न्हंयच्या उदकार काळोख लेप लायिल्लेवरी पातळिल्लो. इल्लो इल्लो दंव पडटालो आनी धुंवटीय आशिल्ली. कार्तिक तेंप्राचें वारें व्हांवतालें आनी बरोच शेळाव मारतालो.

ते बंदरासरीं येवन आंगा भोंवतणीं हात कांबरून वोग्गी बसले. मदीं एकाद्री बोट घसघस आवाज करीत येताली. तिजें धवें शीड झळकतालें. मगेर ते 'ओऽऽ हुय्य' करीत सादयताले. ती बोट मगेर 'ना रे, ना रे, ना रेऽऽ' करीत मुखार वयताली.

दर एके बोटीचीं बंदरां थारिल्लीं आसतालीं. खंयचीय बोट खंयच्याय बंदराक लागनासली. कांय वेळान खरीच हांगेल्या बंदराची बोट येयली. दिमीभर उदकांतल्यान चलून येवन तीं बोटींत बसलीं. नरशिंवान आनी यशवंतान धरून हाडुनूच गणेशाक बोटींत बसयलो.

तीं गडार पावलीं तेन्ना सूर्य तिकतोच उदेल्लो. मुखावेले जुंवे, सुरीचें वन, अथांग दर्या दोळ्यांमुखार विजमितावरी उकतो पडिल्लो. इल्ल्याश्या शेवण्यान दर्यार उडून वचचें तशी गोविंदाली नदर दरयाक पळेताली. सुमन मात आपाक धरून हुसक्यान चेपूनशें बशिल्लें.

गडावेल्यान बस धरून पणजे पावंक साडेइकरा वरां जालीं. गोविंदान मामालो एक हात धरलो आनी तीं सडसडीत चलून पोलीस स्टेशनार येयलीं.

सुमन आपाक हाताक धरून भायरच उबें रावलें. गोविंद एका व्हडल्या दारांतल्यान कोटाभितर गेल्लेवरी भितर गेलो. थंय कृष्णानंद गांवकार खंय आसा काय म्हण ताणें विचारल्यार एकलो दुसऱ्याक आनी दुसरो तिसऱ्याक विचारूंक लागलो. निमाणें एकल्या खुर्चेत बशिल्ल्यान एक बूक पळयलो आनी म्हळें, 'दोनापावला एक बॉडी पडल्या. तो सायबावांगडा थंय गेला.'

'केन्ना येतलो ?'

'सांगूंक जायना. बॉडीचो पंचनामो करूंक जाय, पोस्ट मॉर्टेमाक व्हरूंक जाय, ती रिलेटिवांच्या ताब्यांत दिवंक जाय. कळाव जातलो.'

'गोविंदाक चडशें कांय कळ्ळेंना. पूण एक कळ्ळें, कृष्णानंद काय हांगा ना आनी तो बेगीन पावचेलोना. ताणें खुब्ब हुसक्यान, निर्शेणेनशें येवन सांगलें,

'कृष्णानंद ना खंय.'

'खंय गेला खंय ?'

'कोणतरी मेला दिसता. थंय कित्याक तरी गेला तो.'

सुमनालो आवरोच उडलो. आतां कितें करतलीं आमी ह्या वळखदेख नाशिल्ल्या सागरांत !

तें बरोच वेळ तशेंच उबें आसले. बेठेंच दिसताले, कृष्णानंद ना तर तसोच कोण तरी वळखीचो आतां मेळटलो आनी आमकां सगलें दाखयतलो.

इतल्यान तो येदोळ पोलीस स्टेशनार आशिल्लो एकलो पोलीस भायर येयलो. गोविंदान बेगीबेगीन ताजेसरीं वचून म्हळें, 'कृष्णानंद गांवकारान यो म्हणिल्लें आमकां. हो माम बरो ना. पिशांल्या हॉस्पिटलांत ताका घालतां म्हण सांगिल्लें.'

'गांवकार कांय इतले बेगीन येवचो ना. तुमी रिक्षा करात आनी वचात हॉस्पिटलांत. घेतले ते.'

'खंय आसा तें ?'

त्या पोलिसान थंय दोंगुल्लेर बोट दाखयलें. तीं दोंगुल्ली माथ्याकच तेंकिल्लेवरी दिसताली. तिजेर कितल्योशोच ऊंच इमारती आशिल्ल्यो आनी थंय पावप भोवभोव अवघड अशें दिसतालें.

'थंय आल्तिनोर आसा मेंटल हॉस्पिटल. रिक्षा करून वचात तुमी.' इतल्यान एक रिक्षा येयली. त्या पोलिसानच ती हात दाखोवन थांबयली. 'हांकां वयर मेंटलांत घेवन वच.'

तीं तिगांय रिक्षांत बसलीं. त्या पोलिसान म्हळें, 'दोन रुपया दिल्यार पुरो रिक्षाक.'

आल्तिनार पिशां हॉस्पिटला मुखार तीं देंवलीं आनी सुमनान कचकन आंग काडलें. भितरल्यान कोणें तरी किळांच्यो मारिल्लोसो आवाज येतालो. ताका तें हॉस्पिटल शें दिसुंकूच ना. ताणें गोविंदाल्या बावळ्याक गच्च धरून म्हळें, 'अरे, हें तर जैल कशें दिसता मुरे!'

'हॉस्पिटलच तें पिशा. ती पळय पाटी लेगीत लायल्या.'

भितर वचच्या दाराभायर एक धवो पिंतारिल्लो बांक आशिल्लो. थंय ताणें आपाक बसयलों. थंय कोणच नासलो. गोविंदान सुलूस घेवंक म्हण एका कांचेच्या दारांतल्यान भितर पळयलें. थंय टेबलासरीं एक नर्स बशिल्ली. ती खुब्ब मोटी

आशिल्ली. बशिल्ले खुर्चेंत तिगेली कूड धरना अशें दिसतालें. ती इतली गोरी–तांबडी आशिल्ली, चेऱ्यावेल्यान रगत निशेता अशें दिसतालें. तातूंत ओंठार पिंगशो मिशो. खीणभर ती बायल काय दादलो म्हण गोविंदाक कळ्ळेंच ना. गोविंदाची सुलूस लागतकीर ती उठली. आनी सडसडीत भायर येयली. आतां मात गोविंदाक खरेंच अजाप दिसलें, ती आपलो येद्दो व्हडलो देह एका आगळ्याच लांब खुळयांच्या चपलार तोलून घेवन सडसडीत चलताली. तशीच तापोवन उलयताली.

'कोण, खंयसून येयल्याय ?'

'हो म्हगेलो आपा. तकलेन सारको ना.'

'कारवारकारां कितें गो ?'

'हय. सकाळीं गडावेल्यान बस धरून येयल्यांत.'

'गोंया भायल्यांक घेयना आमी मानीकोमांत.'

'उपकार कर गे. पयसुल्ल्यान येयल्यांत. मध्यानरातीर बोटींत बशिल्लीं.'

'कितें म्हणटाय गो ? सांगलें , घाटयांक गेयनाय म्हूण. मामलेतदाराच्या सेर्दांवांबोगोर आमच्यान गेवं नोजो.'

इतल्यान एक जाणटो मनीस भायर येयलो. 'कितें गो, कितें जालें ?'

'दातोर, ही कारवारचीं, घाटयां. त्या जाणटेल्याक मानीकोमांत घालूंक सोदितात.'

दोतोर बरोच जाणटो आसलो आनी कमरेंत बागवल्लो. तो चलतना, उलयतना तागेली मान डुगूडुगू हालताली. तागेल्या आंगावेलो काट, पाटलोण इतलें अळंग आसलें, ताका त्या कपड्यांत रिगोवन दवरला अशें दिस. ताचें उलोवणें मातशें लुबडें पडटालें. पूण ताणें गोविंदाल्या खांदार हात दवरून समजायत म्हळें, 'गोंयाभायल्या मनशाक भितर घेवंक सर्तिदांव लागता. मामलेतदार ऑफिसांत वचात आनी तो जाणटेलो गोयांतच खंयूय रावता म्हण सर्टिफिकेट घेवन येयात.

'खंय आसा मामलेतदार ऑफीस ?'

'सकयल सिदार्दींत. क्वार्तेला कुशीक.'

'खंय म्हळें तुमी ?'

कुशीक एक भुरगोसो उबो आसलो, काळशे कपडे घालून. ताणें सांगलें, 'येयिल्लेवटेन सकल वचात. लक्ष्मी देवळाकडच्यान गेल्यार लागीं पडटलें. सकल

वचून कोणाकय विचारात, मामलेतदार ऑफीस खंय काय म्हणून.'

सुमनाक तागेली भास वळखीचीशी दिसली. ताणें विचारलें, 'खंयचो रे तूं ?'

ताणें खंयचो म्हण सांगलेंना. उलटें 'वचात वचात' म्हण सकयलेवटेन बोट दाखयलें.

तीं फाटीं फिरलीं. वयल्यान सकल पळयल्यार सगलें पणजी शार तबकडेंत दवरिल्लेवरी पांयांसकलच दिसूंक लागलें. पूण चलूंक गेल्यार वाट सोंपून सोंपनासली. येदोळ ताणें, 'लक्ष्मी देवळाकडच्यान सकल देंवात' म्हण सांगतसान गोविंदाक गूर्त मेळिल्लेवरी जावन बेठीच उमेद आयिल्लेवरी जाल्ली. खरें म्हळ्यार फाटले खेपे पणजे येवन वतकीर 'लक्ष्मी देवस्थान' हें एकच ताज्या लक्षांत राविल्लें. आनी तीं खरींच कोणाक तरी विचारून देवळाकडच्यान सकल देंवलीं. आपा तर कांयच आडकाठी हाडिनासताना दावें धरिल्लेवरी तांचेवांगडा भोंवतालो.

गोविंदान म्हळें, 'येदोळचो तो कारवारचो सो दिसता.'

'पूण वळख दाखयली ना पळय. बेठेंच वचात वचात केलें ताणें. ती नर्स घाटी घाटी कितें म्हण रे ?'

'गरिबांक तें घाटी म्हणटात दिसता.'

'आमी गरीब ?'

'हंयचीं हीं बिल्डिंगां पळयल्यांत मुगो. कितले गिरेस्त लोक हांगाचे. आनी ह्यो गाडयो पळय.'

'हिंगाचे सगले लोक कोंकणीच उलयतात मुरे. म्हाका भिरांत दिशिल्ली भाशा बीन कळना जायत म्हण.'

मर्दी तांणी मामलेतदार ऑफीस खंय काय म्हण एकल्याक विचारतकीर ताणें सांगलें, 'येयात म्हजे वांगडाच येयात. हांव दाखयतां.'

खरोच तो मनीस तांकां ऑफिसाच्या दारांतच सोडून गेलो.

थंयचो तो दारावेलो शिपाय रातभर नाटकाक वचून येवन झेमेल्लेवरी उबो आसलो. इतल्या सोबीत ऑफिसाच्या दारांत हो म्हेळ मनीस पळोवन तांकां कशेंशेंच दिसलें.

पूण तो उलयतालो इतलो समजिकायेन आनी काकुटायेन, तागेलें उलोवणें आयकोनच हांकां धीर येयिल्लेवरी जालें. ताणें सांगलें, 'सायब तुमच्याच गांवचो.

ताजेच पांय धरात.' तो भितर गेलो आनी कांय वेळांतच येवन हांकां भितर घेवन गेलो.

'सायबा, हो मगेलो माम, हिगेलो बापूय. तकलेन बरो ना. हॉस्पिटलांत घालूंक जाय.'

सायब लांब, हाडकुटो आनी काळसो आशिल्लो. तागेल्या तोंडावेल्यान एक शीर हालनासली. तो स्टेजीरसो एके ऊंच खुर्चेंत बशिल्लो. ताजे फुडले एके खुर्चेंत एकलो धवेफुल्ल कपडे घालून बशिल्लो. तो मात गोरो आनी सोबीत आंगलोटाचो आसलो.

सायबान दोळे धांपूनशें गोविंदान सांगिल्लें आयकलें आनी म्हळें, 'तुमी कारवारचीं, कारवारा रावतात आनी कारवारच्यान आयल्यांत.'

'हय सायबा.'

'गोंया भायल्या मनशाक हांगच्या मँटल हास्पिटलात घालूंक जायना. तुमी धारवाडा वचात. थंय तुमचें हास्पिटल आसा.'

'पूण सायबा...'

'शंभू हाका भायर व्हर.' धांवडोवन घातिल्लेवरी ताणें म्हळें.

तो धवीं वस्त्रां न्हेशिल्लो मर्दीच उठून कितें तरी इंग्लेजीन सांगूंक लागलो. पूण मामलेतदारान ताका हातान कुरू करुनूच सकयल बसयलो.

सुमन आनी गोविंद आपाक घेवन ऑफिसाभायर वोग्गी कांय वेळ उबीं रावलीं. सुमनाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. ताणें तीं पोल्काच्या हातान पुसलीं.

तशें पळोवंक गेल्यार तीं पळोवंक दिसतालींय तशींच-रानांतल्या गवळांतल्यान उठून आयिल्लींशीं. गोविंदान धवेंशें खोमीस आनी खाकी मोटवें खालसांव घातिल्लें. सुमनान लांब हातांचें आंगभर पोल्क घातिल्लें आनी पावलांमेरेन पाविल्लो पाचवोसो घागरो. आपान न्हेशिल्ल्या धोतराची तर कमरा भोंवतणीं गुठली जाल्ली. म्हऱ्यांतल्यान एकाद्री गाडी गेल्यारूय तीं कांचेवेल्लेवरी जातालीं.

'गोविंद, आमी बस धरून परतीं वचुया.'

'कृष्णानंद येयला काय म्हण वचून चवया.'

सुमनाक सगल्यांचोच राग आयिल्लेवरी जाल्लो. ताणें म्हळें, 'आनीक कोणांक मेळचें बीन कांय नाका.'

ताणें वचूंक पावलां माल्लीं आनी तो येदोळचो धवीं वस्त्रां न्हेशिल्लो गोरो

मनीस मुखार येयलो. 'येयात तुमी म्हजे वांगडा येयात. हांव व्हरून घालतां हॉस्पिटलांत. तो मामलेतदार कारवारचोच. आपूण गोंयांत येवन मामलेतदार जावन खुर्चेंत बसला आनी तुमकां पिशां हॉस्पिटलांत जागो ना खंय. हाणेंय मगेर सिर्वीस सोडून वचूंक जाय.'

वयतना वाटेर दोगा तिगांन तकलेक हात लावन ताका नमस्कार केलो. ताजेन तो बरोच व्हड मनीस म्हण तांकां कळ्ळें.

तो हांकां घेवन पोलीस ठाण्यार गेलो. थंय आदीं भितर वचून तो फौजदार सायबाक मेळून येयलो. मगेर व्हडान थंयच्या हवालदाराक सांगलें, 'हो पिसो मनीस म्हजो शेजारी. पिशांतूर जावन रातरात बोब मारता. चोंय भोंवतणच्या लोकांक झेम पडूंक दियना. भुरग्यांक अभ्यास करूंक दियना. भौशीक शांतताय इबाडल्या हाणें. हाका व्हरून मेंटल हॉस्पिटलांत घालात.'

गोविंद आनी सुमन आयकतच रावलें. गोविंदान भायर उबो आशिल्ल्या एका पोलिसाक ल्हवच विचारलें, 'कोण हो ?'

त्या पोलिसान हात हालयलोसो करून तूं वोगीच राव अशें म्हळें. उपरांत सांगलें, 'वकील माशेलकार तो. मोटो सुटकेझुजारी. आतां आदवोगाशी करता.'

पोलीस हवालदारान ताकतिकेन कांय कागद तयार केले. पांच मिणटानी एक जीप येयली आनी तांकां घेवन ती आल्तिनोची चडटी चडूंक लागली. तो व्हड मनीस हात हालोवन तांकां 'वचात वचात' म्हण सांगतालो. त्या मनशाच्या दिनवासान तांचें काळीज भरून येयलें. सुमनान म्हळें, 'कोण वळख नाशिल्लो मनीस देव कसो पावलो.'

जिपींत वांगडा एक पोलीस आशिल्लो. ताणें कागदां दाखयतकीर दोतोरान ताका मातसो तपासलो आनी थंयच्या सेंवकांक ताका भितर व्हर म्हणून सांगलें. एकलो ताका हाताक धरून भितर व्हरतालो. आपान एक फावट सुमनाक नदर चराटूनशें आरपार पळयलें. सुमनाक तें नदरेचो थाव लागलो आनी तें न्हिन्नळ्ळें.

तो सेवक ताका घेवन मोनीकामाच्या बंद दारासरीं पावलो आनी तें उकतें करूंक लागलो. ते सरशीं 'ना नाका, ना नाका !' करीत आपा धांवन भायर येयलो. भायर येतना वाटेंत डॉक्टराल्या तपासच्या टेबलाक आपटलो. आनीक कितें तरी गडगडत सकल पडलें. पूण त्या पोलिसान ताका फाटल्यान मिठी घालून धरलो. मगेर त्या पोलिसान आनी हॉस्पिटलाच्या आनीक दोगां सेवकांनी मेळून ताका धरून ओडून भितर व्हेलो. तो 'ना नाका, ना नाका!' करीतच आसलो. मानीकोमा भितर पयस पावता म्हणसर ताजो आवाज आयकोंक येतालो.

पळोवन सुमन व्हडाव्हडान ल्हान भुरग्यावरी रडूंक लागलें. 'गोविंद, आमी आपाक परतो घेवन वचुया !'

पळयल्यार गोविंदाल्याय दोळ्यांत दुकां येयिल्लीं. इतल्यान जिपीचो व्हॉर्न वाजूंक लागलो. तो पोलीस येयात येयात म्हण सांगतालो. गोविंदान आपल्या दोळ्यांचीं दुकां पुसलीं आनी सुमनाभोंवतणीं आपलो हात घालून तो ताका जिपीसरीं घेवन गेलो. सकल येता म्हणसर तें रडटालें.

मामयेन दिल्ली पोळयेची पोती गोविंदाल्या हातांतच हुमकळटाली. जिपीन तांकां सकल हाडून सोडटकीर सुमनान म्हळें, 'गोविंद, तूं इल्ली पोळी खा.'

'तूं खावचें ना ?'

'म्हाका नाका रे !'

'मगेर आसूं. म्हाकाय नाका !'

दोगांय बसून खावया इल्ली इल्ली.'

वाटेर कुशीक एक झाडाचें कवंडाळें कशें आसलें. पेल्यान एक नळ लेगीत आसलो. थंय बसून तांणी इल्ली इल्ली पोळी खाली. सुमन एकच इल्लो कुडको घेवन बशिल्लें आनी तोंड हालयतालें. गोविंद खांव म्हण रावतालें. उरिल्ली पोळी तांणीं थंयच झाडांमुळाक सांडली. नळार वचून उदक पिवन तीं बस स्टॅण्डार येयलीं.

इतले म्हणसर दनपारचीं साडेतीन वरां जाल्लीं. गडार वचची बस सुटचीच जाल्ली. बस सुट्टां सुट्टां ती ताणी धरली.

गोविंदान हुसक्यान म्हळें, 'गडार वचून पावसर काळोख जातलो. घरा वचूंक कांय मेळ्ळें ना जाल्यार खंय रावतलीं ?'

'जाता तें जाता. आर्दी गडार तरी वचून पडुया.'

बशींत तीं दोगांय तेंकुनूच बशिल्लीं. अशें आंकवार चेड्यान आनी चेडवान तेंकून बसचें अजापाचें अशें दिसतालें. तीं वाटभर कांयच उलयलीं नात. सुमन आपाचे यादीन आकूळ पिकूळ जावन मोनें जाल्लें. गोविंदाकय ताजेकडेन कांय उलोवचें अशें दिसनासलें.

बशींन बोरये पुलावेल्यान झुवारी न्हंय पार करतना ताणें इतलेंच म्हळें, 'हिवय काळी न्हंयवरीच न्हंय न्ही ?'

हाजेर सुमनान म्हळें, 'ती पणजे आशिल्ली तिवय न्हंय काळी न्हंयवरीच. दोंगर

आनी गांव लेगीत कारवारचे वरीच. लोकालें उलोवपय कारवारचेवरी कोंकणीच.'

तीं गडार पावलीं तेन्ना वयल्या गांवाक वचूंक गाडी, व्हडें, बोट कांयच नासलें. काळोख जावंक लागिल्लो आनी आतां कितें करचें सुचनासलें. काळखांतल्यान पलतडी कोडीबागांत मांगरून दवरिल्ल्यो दोन तीन बोटी दिश्टीक पडटाल्यो. तांचीं शिडां कवळिल्लीं आनी उकत्यो कुयाकाठयो तितल्यो मळबांत रिंगिल्लेवरी दिसताल्यो. तीं बेगीबेगीन लांचीन पलतडी कोडीबागांत गेलीं.

सगल्यो बोटी सामक्यो रित्यो आशिल्ल्यो. बोटकारय नाशिल्ले. एकेच बोटींत एकलो दादलो बोटीच्या तळांत बसून कितें तरी करतालो. लागींच एक दिवो पेट्टालो आनी त्या दादल्याची तकली तितलीच दिश्टी पडटाली.

गोविंदान बोटीच्या फळ्यार पांय दवरून विचारलें, 'बोट केन्ना वयतली गा ?'

ताणें तसोच फाट करून बसुनूच सांगलें, 'आतां आनीक बोट खंयची? बोट फाल्यां उजवाडटकीर वयतली. खारगेकारालें भात हाडिल्लें मिल्लार. आतां कांडूक लागल्यात दिसता.'

'आमी गोंय गेल्लीं. कळाव जाला. बोटींतच बसून रावतात.'

ताणें फाटीं वळोवन पळयलें. तो बरोच जाणटो आसलो. तोंडार मिरयांचें जाळें पातळिल्लें पूण आंगलोट मात घटमूट आसलो. झडिल्ले आनी पिकिल्ले केंस. मिरयो पडिल्लो चेरो हाजेन जाणटेल्याली तकली एकादऱ्या तरणाट्याचे कुडीर दसयल्या अशें दिसतालें. ताणें म्हळें,' न्हंयंत उकती बोट, कार्तीक वाऱ्याचें शींय आनी तुमी रातभर हांगा बसतलीं ? खंयूय सोयऱ्यागेर वचून रावात रातचीं.'

गोविंदान विचारलें, 'कितें करचें गो सुमन, कोण आसा वळखीचो ?'

'आसात वळखीचे जायते. पोलीस लायनींत रामदादालो चेडो ना ? पूण आमी खंयच वयचें न्हू. हांगाच बसून रावचीं रातभर.'

'तुका भिरांत ना दिसची ?'

'तूं दादलो आसताना म्हाका कसली भिरांत ?'

आता गोविंदाक खरेंच थंयच बसून रात काडची अशें दिसलें. 'मामा, आमी हिंगाच बसतात' म्हण तीं बोटीच्या मल्लांच्या पांख्या भितर वचून बसलीं. माथ्यार तितलींच मल्लां आनी पांखें दोंशीवटेन उकतें. वेळिल्लो वारो सामको भितरच येतालो.

सुमन खूरमांडी घालून घागरो पावलांमेरेन ओडून घेवन पांयांक मिठी घालून

बशिल्लें. गोविंद बरोच वेळ तसोच उबो आसलो.

त्या बोटकार दादल्यान सकल चूल पेटयिल्ली. एके वटेन तो उजो शेकतालो तर दुसरे वटेन चुलीवेल्या बुडकुल्यांत दवलो घालून धवळटालो. त्या बुडकुल्यांत खतखतिल्लो आवाज सारक्को येतालो. ती चूल, बुडकुल्याचो खतखतो आयकोन सुमनाक भुकेन पोटाक भगभग पडिल्लेवरी जालो. पूण तें वोगीच रावलें. खरें म्हळ्यार दोगांकय भुकेविशीं कितें तरी उलोवचें अशें दिसतालें. पूण दोगांय वोग्गी.

त्या दादल्यान बुडकुलो सकल दवरलो. मगेर तो देवाचीं नांवां, फालां गायिल्लेवरी कितें कितें सोतासरींच उलयत रावलो.

कांय वेळान तागेलें ताट वाजलें. तो ताटांत घस्सघस्स करून पेज वाडून घेतालो. ताणें हांकां म्हळें, 'सकयल्या वाड्यावयलें गणेशालें चेड्डूं मुगो तूं ? तुमी कोंकणे आनी आमी भंडारी. आमी रांदिल्लें चलचें ना तुमकां. ना तर ताटांत घालून दितां आसलों ताटभर पेज.'

सुमनाक आदीं तो आपणाक वळखलो कसो हाजें अजाप दिसलें. मगेर ताणें ताका म्हळें, 'ना मामा, चड रांदल्यार दी तूं ताटलीभर पेज.'

'एकलो जेवचो आसल्यारूय दोगांलें रांदपाची रीत आमची. केन्ना खंयचो सोयरो दारांत येवन उबो रावत म्हण सांगूं येता ! पूण तुगेलें खरेंच अजाप दिसता म्हाका !'

ताणें दुसरें ताट काडलें. तातूंत उदक घालून उडयलें आनी ताट भरून ताणें पाख्यांत सरकयलें. सुमनान तें बेगीबेगीन उखललें आनी गोविंदाक म्हळें, 'जेव.'

गोविंद अनसनून उबो रावलो. सुमनान धपकायत म्हळें, 'जेव म्हणटां न्ही. अन्नाक बांट ना. तें सदांच पवित्र.'

'तशें म्हूण न्ही. तूं जेवचें ना ?'

सुमनान ल्हवच ताज्या कानांत म्हणिल्लेवरी म्हळें, 'तूं जेव आदीं. उरल्यार जेवतां हांव.'

खरेंच तीं दोगांय अर्द अर्द ताट पेज जेवलीं. आदीं अर्द गोविंदान जेवली, उरिल्ली सुमनान. आता तांची भूक मेल्लेवरी जाली.

आतां ल्हव ल्हव सगलें शांत जावंक लागलें. कोडीबागचे दिवेय एकेक करून पालवले. पयस तांदळाच्या मिल्लाचो तितलो कुक्कुक् करून आवाज येतालो. त्या जाणटेल्यान एक कांबरूण तांचेसरीं मोखलें. 'म्हजें आंगावयलें एक तुमकां दितां.'

काळखांत तें चादर काय कांबळ कांय कळ्ळेंना. सुमनान तें म्हऱ्यांत ओडलें आनी आंगा भोंवतणीं कांबरून घेयलें. 'गोविंद, म्हाका शिंयान कुलकुले येवंक लागल्यात !'

गोविंद वोगीच रावलो. त्या बोटाकरान एक पिंजिल्लें व्हड साकाफटें काडलें आनी मुखावेल्यान पाख्याच्या तोंडार उडयलें 'वारें लागचेंना चड.' मगेर तो भुंयारांत गेल्लेवरीं बोटीच्या तळांत गेलो. कांय वेळ पिरंगत रावलो. ल्हव ल्हव ताजें पिरंगणें बंद पडलें.

सगलो वाठार थंड, शांत आसलो. मर्दींच बोटीची कुंयाकाठी वाऱ्यावांगडा हालताली आनी ताका बांदिल्ल्या दोराचो कर्रकर्र आवाज येतालो. एकाद्रें माणकुलें ल्हार बोटीर येवन आपटताले आनी तें फुटिल्लो घस्स आवाज येतालो. मर्दींच वाऱ्यावांगडा खारटसो, कुसडसो वास व्हांवन येतालो आनी नाकांत भरतालो. वयर मळबांत इतलीं नखेत्रां फुलिल्लीं, दोळे लावन बसल्यार अंतपार लागनासलो. ह्या नखेत्रांचो इल्लो इल्लो रासवळ उजवाड काळखार मारतालो. ताजेन सुकतेन उकत्यो पडिल्ल्यो दोनय तडी मातशो मातशो दिश्टीक पडटाल्यो.

पाख्याचें फाटलें तोंड उकतेंच आसलें. गोविंद भायर नदर लावन थंयच बशिल्लो. सैमाच्या त्या गूढ विजमितांकडेन नदर ताणून पळेतालो.

सुमन म्हऱ्यांतच चादर कांबरून घेवन न्हिदिल्लें. गोविंदाक वोगीच दिसलें, घडये सुमन रडूंक लागलां, ताजे दोळे सांसपून पळोवचें, दुकां हातीक लागतलीं.

'सुमन, तूं न्हीद वोगी.'

'इतल्या पयसुल्ल्या गांवांत वळकदेख नाशिल्ल्या मनशांमदीं आमी आपाक सोडून येयल्यांत ! हॉस्पिटल काय जेल तें !'

'बरो जावन येतलो तो ! मगेर पयलींवरी बरो उलयतलो, शेत कसतलो, बांयर राट घडयतलो'.

'गोविंद तुका शींय खायना ?'

'आसूं. न्हीद तूं !'

सुमनाक ताका कितें सांगचेंच कळना जालें. दीसभर तीं वागडा पांय तुटसर भोंविल्लीं. आतां रात पडटकीर मात संबंद तुटल्यात अशें दिसतालें. तें अखखें चादरूय गोविंदाक दिवचेंशें दिसनासलें. तो बोटकारय बरोच, दोगांकय एकाच ताटांत पेज दिता. आनी आतां चादरूय दोगांक एकच !

सुमनाक खरेच शींय खातालें आनी पांगरुणांत चडच मुंगरून पडचें अशें दिसतालें.

गोविंद आतां बशिल्लेकडेन झेमेवंक लागलो. सुमन ताकाच पळयतालें. दीसभर असो भोंवतकीर झेम येवचीच. पूण ह्या शिंयांत कसो न्हिदतलो तो! सुमनाचे तळमळे!

'गोविंद न्हीद रे.' ताका जागो करून दिल्लेवरी सुमन कुशीक सरकलें. येद्देंशेंच तर पाखें !

तो मातसो पयल्यान येवन आड पडलो. धोंपरां पोटांत घेवन दोनय हात कांबरून तो न्हिदलो. सुमन कांय वेळ ताजेकडेन थीर पळेत रावलें. ताजेविशीं भुरगेपणापसून आशिल्ल्यो सगल्यो भावना खतखतून वयर आयल्यो. हो म्हजो जिवाभावाचो इश्ट असो शिंयांत उकतो न्हिदला... तें एकदम ताज्येम्हऱ्यांत गेलें. आंगावेलें अर्दें चादर ताजेर पातळून घालें. मगेर ताजे उबेक गेल्लेवरी ताका तेंकलें...

'म्हाका शींय खाता गोविंद !'

सुमन ताका तेंकून ताजे उबेंत गेलें आनी हुसक्यामेकळें जाल्लेवरी शांत जालें. खिणांत ताका न्हीद लागली. ह्या शिंयांत उबेक आशेल्लो गोविंद सुमनाल्या खाकोळांत सुपूर समादानान कांय वेळ हवेंत हुबतालो. आपूण सुमनाले उबेंत रिगलां काय आवयले उबेंत गेलां हें कांय वेळ ताका कळ्ळेंच ना... कितलें बरें गो तूं सुमन ! तुगेले उबेक कितली गोडी आसा ! तो चडच ताज्या खाकोळांत रिगलो. ते उबेचें समादान घेतां घेतां ताका झेम लागली.

सकाळीं घुप्प घुप्प करून कोण तरी पोटल्यो बोटींत हाडून उडयतालो. त्या आवाजान सुमनाक जाग येयली. तें बेगीबेगीन उठून बसलें. ताणें सगलें चादर नीट गोविंदाल्या आंगार घातलें. अजून काळोखच आसलो पूण बंदराक जाग येयिल्ली. मिल्लावयल्यान कांडिल्ले तांदूळ हाडून बोटींत घालताले. वयल्या गांवच्यान सामान व्हरूंक येयिल्ले पसरकार आपलो म्हाल बोटींत भरताले. वयल्या गांवानी वचपी लोकय बोटींत येवन बशिल्लें. इतले म्हणसर बरें उजवाडलें. कोण तरी तडीर उबो रावन सांगतालो, 'वारो फिरला आतां शीड सोडोवन व्हडें सोडात.'

सुमनान बेगीबेगीन गोविंदाक उठयले. ताजें चुरिल्लें खोमीस ताणें ओढूनशें नीट केलें.

शीड सोडयतकीर तातूंत वारें भरलें, तें फुगलें आनी बोट वाटेक लागली.

तीं घरा पावतकीर गोकूळमावशी सांगताली, 'हो रमेश रातभर बायूलमावशेक याद करून रडलो. सारक्कें बायूल मावशे, बायूल मावशे करतालो. ताका वोगी करूंक नाकाशीव जालें.'

सुमनान दोगांकय दोन हांडीर मारले आनी तांकां तें घरा घेवन येयलें.

तें तांकां दार उकतें करून घरांत घेवन येयलें आनी फाटलेफुडले यादीन गळसणलें. कांयच करिनासतना वोगी रडूंक बसचें अशें दिसलें. पूण पोरां भुकेल्लीं, चुलीक जाळ घालूंक जाय आसलो. घरांत घोंटभर उदक नासलें. ताणें दोड हांडीर मारली आनी तें बांयर वचूंक गेलें. फाटल्यान सालांत घातिल्लें बायलें चेडूं व्हडव्हडान रडटालें. ताका दिसतालें, म्हज्यान जावचें ना हांचें करूंक. हांकां खंय तरी पावोवंक जाय. खंय गेलो हांचो बापूय, खंयच्या मसणांत!

फाटल्या वर्साक शेताक जोत बांदचे पयलींच आपा मनीसभायरो जाल्लो. बैलांचें जोत, शेताचीं आवतां आशिल्लीं. सुमनान बिठोबाक पांयें पडून शेताक जोत बांदूंक सांगलें. वांगडा ताजेंय शेत कसून घे म्हण सांगलें. विठोबाकडेन जोत नासलें. तो दर वर्साक खण्णी घालून शेत रोयतालो. विठोबान दोगांलेंय शेत कसून घेयलें आनी वांगडाच रोयलें. उपरांत नडूंक, नाट्रूंक, लुवूंक कामेरीं घेवंच्यो पडल्यो. सुमनय तांचे वांगडा काम करतालें. एके वटेन बायलें, आपालें शीकपण, बायलो भुरगो, दुसरे वटेन शेताचो वावर. नाकापुरो जातालें ताका. तरीय एके आगळेच उमेदीनशें तें वावुरतालें. हें हांव बायखातीर करतां ही उमेद !

ह्या वर्साक शेताक अजून नांगर लावंक नासलो. सुमनाकय कसली उमेद नासली. बैलांक खावड उदक घालतालें. शेतांच्यो मेरो-धारो करून घेतालें. पूण फुडें एकल्यान कितें करचें कळनासलें. पूण म्हाका करूंक जाय ! बायल्या भुरग्यांखातीर हातपांय धाडोवंक जाय ! फाल्यां आपा बरो जावन येयल्यार म्हणटलो, 'सुमन शेत पडींग घालचें केल्लें गो ?'

तें परतें कामाक लागलें. विठोबाक वचून पांयें पडून जोत बांदूंक लायलें. कामेरीं घेयल्यार अर्द पीक तांच्याच हड्ड्यार घालचें पडटा. आतां सगलो वावर हांवच करतलें. फक्कत लुंवतना, मळटना चार कामेरीं, कामदार घेवचे !

कोडीबागच्यान एक भंडाऱ्याली बायल येताली. ती नाल्ल, तांदूळ, भात,

पातळ गोड मेळत तें विकतें व्हरताली. सुमन तिका मदींमदीं उरिल्लें नाल्ल, भात बीन विकतालें. ताजे पयशे वेल्या खर्चाक, आतां बायल्या चेडवाल्या दुदाक बीन मेळटाले.

चेडूं तीन म्हयन्यांचें जाता म्हणसर खूब रडटालें; रडून रडून चिनारतालें. पोटांत घालें, उबेंत घेयलें तरीय वोगी रावनासलें. मगेर तांचेवांगडा सुमनय रडूंक लागतालें. तशें ताका चड कोण उखलून घेनासले. चड अपुरबाय नासली. आतां आतां ताका भूंयची संवय जाल्ली. तरीय मदींच एकाद्रे सांजचें तें अचकीत हुयेल्यांनी रडूंक लागतालें. मगेर सुमनाक बायची इतली याद येताली ! तें रडत रडत बायकडेन उलोवंक लागतालें, 'म्हज्यान जायना गो बाय ! हांव कितें करु ! बाय कित्याक म्हण म्हजेकडच्यान वचन घेवन येद्दें व्हडलें संकश्ट घायलां म्हजेर !'

वाड्यावेलो कोण तरी मदींच ताज्या तोंडार, ताजे असवडीं म्हणटालो, कित्याक म्हण सुमनान हें आंगार घेयलां. तांचीं भुरगीं तांच्या घरा व्हरून पावोवन येवचें हाणें. दारांत उडोवचीं आनी वोगी येवचें !

सुमनाक कळटालें ह्या पोरांविशीं कोणाक व्हडलीशी माया ना आनी तांकां कोणाचो आदारय ना. आतां तर म्हाका तांकां पयस करचें शक्य ना !

एक दीस चेडूं थार दिनासतना रडूंक लागलें. दिवेलागणेक रडूंक लागिल्लें तें धा वरांमेरेन रडटालें. जो तो बागलांत, जनेलांत उबो रावन आयकतालो. पूण कोण मुखार येवन कितें उपाव सांगनासलो. थातरून धरनासलो. सुमनाक दिसलें रडण्यान हे लोक बेजारल्यात.

पयल्या घराची दसमती दारांत येवन उबी रावली. तिणें म्हळें, 'आवयची चींव हो देवान दिल्लो गिरास. पोर आवयल्या चिंवांक आंवडेलां. तोंडांत चींव दिवंक जाय !'

बारीक बारगल्लिशी दसमती, सुकिल्ल्या सुरी ताळ्यावरी दारांत उबी आसली. सुमनान बारीक पळयल्यार तिका सारकें हड्डेंच नासलें. सुमनाच्या लक्षांत येयलें, ही भुरगीं नाशिल्ली वांज बायल ! पूण तिणें सांगिल्लीं उतरां – पोर आवयच्या चिंवांक आंवडेला – धाय दिकांतल्यान घुंवत ताज्या काळजाक येवन तेंकलीं. 'हय. हांवेंय हीं उतरां केन्ना आयकल्यांत जावये ! म्हाकाय ताळणी लागिल्ली आसुंये ! ह्या उतरांचो अर्थ तुजे इतलो आनी म्हजे इतलो आनीक कोणाक होलमचो ना दसमती होनये !

भुरगें थार दियनासतना रडटालें. सुमनाक कळटालें, शेजारचे वाजेल्ले कान जनेलाक लागल्यात. तें रडचें थांबचें म्हण ताणें भुरग्याक सारक्कें हड्ड्याक लायलें.

आवयवरीच हांव तागेली मावशी, आनी भुरगें म्हजे कुशींत अशें रडटा! ताजें आंग शिरशिरलें.

तें भितर गेलें. ताणें एकेक करून पोल्काचीं बटणां काडलीं. भुरग्याक हड्ड्याक लायलें आनी ताणें चींव तोंडांत दिली. सुमनाक मर्णाच्यो खातखुल्यो जाताल्यो पूण तें पोर खरेंच तो सुको आंकवार पानो लुचूलुचू ओडटालें. ल्हव ल्हव पोर झेमेवंक लागलें आनी सुमनाले कुशींत न्हिदून गेलें.

उपरांतय केन्ना तें अशेंच रडूंक लागतालें, सोंसूं नजो जावन ताकाय रडूंक येवंक लागतालें तेन्ना किंवाट्यान तें ताका रांदचेकुडींत घेवन वयतालें. एकेक बटणां काडून ताका चिंवांक धरतालें. केन्ना ताका तिडक मारताली. धुकलून दिल्लेवरी चेडवाक कुशीक काडटालें, खंयूय साकाफट्यार घालून म्हणटालें, 'मर, रड !'

ताणें बायल्या घोवालो पत्तो काडचेलो भोव यत्न केलो. कोणय भायल्या गांवच्यान येयल्यार तें वचून विचारतालें, 'हुळगे बागांतलो तो श्रीधर म्हण खंय आसा तुमी जाणात ?' ताका दिसतालें, एक फावट तांचो बापूय मेळ्ळ्यार ताजे सुवादीन करतासलें हीं भुरगीं !

आपाक पणजे व्हरून घातिल्ल्याक आयज म्हयनो जाल्लो. व्हरून घातिल्ल्या तिसऱ्या दिसाक कृष्णानंद धांवन येयिल्लेवरी पणजेसावन येयिल्लो. ताणें येयिल्लोच येवन सुमनाक सांगिल्लें, 'इल्ली चुकामूक जाली. बेगीनच येतलों म्हण सायबावांगडा गेल्लों. थंयच उरलों. दर्याविळेर प्रेत येवन पडिल्लें. एक फावट ताब्यांत घेतकीर कशीच सुटका ना जाली. सांजचीं तुमी आपाक जिपीर घेवन गेलीं आनी हांव पांवलों.'

'आपाक पळोवंक गेल्लो तूं ?'

'सकाळींच ताका पळोवन येयलां न्हू गो.'

'कसो आसा ?'

वखदां चालूं आसात. सकाळीं घुंवळेंतच आशिल्लेवरी आसलो. बरो जातलो तो, एक नर्स वळखीची आसा तिका हांवें सगलें सांगलां. म्हयनो, देड म्हयनो रावचें पडटलें म्हणटाली.'

तुजेरच पातयेवन व्हरून घातला भाऊ. तुवेंच पळोवचें सगलें.'

'तूं कांयच भियेवं नाका सुमन.'

'तूं आत्र्या पयन्यान वचून खबर घेतलो मुरे ?'

'हय गो. सगलें पळयतां आनी बरो जालो म्हणटकीर सोमतोच घरा घेवन येतां. एक फावट भेस घालून वचून दोतोराक सेल्यूट बीन मारून सगलें सांगचें आसो हांव !'

सुमनाक आगळोच धीर आनी उमेद येयिल्लेवरी जाल्ली. तें वावराक लागिल्लें. काळजार फातर दवरून ताणें ते दोन म्हयने सोंसलें, आपा बरो जावन येतलो हे आशेन. आपाक येतकीर विचारतलें हांव, 'आपा भुरग्यांचें कितें करुया रे ?'

पूण तें एक नव्याच चिंतनांत पडिल्लें, आपाक बायचें खबर आसा काय! बायक भायर काडिल्लें तेन्नाय तो मनीस भायरोच आशिल्लो. तो बरो जातकीर बायचें कळ्ळ्यार तो कितें करतलो!

वाड्यावयल्यो बायलो ताका सांगताल्यो, आपा बरो जावन येतकीर तूं बायचे यादीन रडूंक बीन फावोना. ताकाय रडोवंक फावना. ताजी परती तकली घुंवतली.

एक दीस तीनसांजचो कृष्णानंद आपाक घेवन घरा येयलो. आपा आखाड्यांत दिसलो आनी सुमनान ताजेसरीं धांव मारली. आतां ताका 'आमचें बाय गेलें रे आपा' म्हण आपाक मिठी मारून होळोम कडून रडचें आसलें. पूण ताणें तशें कांयच केलेंना. 'आपा येयलो' म्हणत तें तोंड भरून हासलें आनी तागेलो हात धरून घेवन घरांत येयलें. ताणें ताका तांबयो भरून दिलो. माडाअळ्यार हातपांय धुवन गणेश वासरेंत येवन बसलो.

रमेश वासरेंत खेळटालो तो अचकीत थांबलो आनी सोंपणासरीं वोगी बसलो. भितर न्हिदिल्लें बायलें चेडूं गीतू न्हिदिल्लें उठून कुसकुसतालें. सुमन बेगीबेगीन भितर वचून ताका वोगी वोगी करूंक पळयतालें.

गणेश येयलो म्हूण कळटकीर वाड्यावयलो कोणकोण वासरेंत येवन बशिल्लो. मोन्यांनीच. कोणाक एक उतर उलोवचेलो धीर नासलो. हाका कितें कळ्ळें काय !

कृष्णानंदाक मेरेभायर व्हरून सुमित्रा, यशवंत बीन विचारतालो, 'ताका कितें कळ्ळां रे ?'

'कळ्ळांशें दिसता. हॉस्पिटलाची ती एक नर्स सांग, एक दीस खंय दीसभर 'म्हजे धुवे, म्हजे धुवे' करीत खूब रडलो. दोन तीन दीस सारको जेवलो लेगीत ना खंय.'

'तुका कितें विचारतालो ?'

'बर्शीत विचारी, भुरगीं खंय आसात काय म्हण. मंजूळालो घोव आयिल्लो काय म्हणय विचारतालो.'

'ताका कशें कळ्ळें तर ?'

'नकळों.'

'पिसो जालो म्हण कितें जालो ? दोळ्यां हुजीर घडिल्लें आनी कळना म्हण आसा !'

'सारको बरो जालो मुरे तो, कृष्णानंद ?'

'दातोरान सांगलां न्ही. सारको बरो जालेबगर ते सोडिनात. वयल्यान गुळयो दिल्यात. त्यो म्हयनोभर तरी घे म्हण सांगलां.'

'सुमनाक सांगूंक जाय.'

मगेर सगले येवन वासरेंत बसले.

सुमित्रान धीर करून म्हळें, 'गणेशबाब, वोगीच बसला मुरे, उलय न्ही.'

'कितें उलोवं, कर्माच्यो खबरी. बाय गेलें मुगो? आतां हांवेंय मरचेलें.'

'भुरगीं आसात न्ही गणेशबाब.'

'कोण पोसतलो भुरग्यांक ? त्या पोराच्या हइड्यार घालचीं मुगो भुरगीं? कांय खेरें न्ही आता सुमित्रा. आमी सगल्यांनी वचून आतां वांगडाच न्हंय लागीं करचेली.'

'चड मनाक लावन घेवं नाका तूं. आतां मातसो बरो जावन येयला. ना तर...

'परतो पिसो जातलों मुगो ! जाल्लो बरो आसलों. आतां कोण भोगतलो हें.'

सगले जण उठून वयतकीर सुमनान म्हळें, 'आपा जेवता न्ही.'

'भुरग्यांच्या पोटाक घायलें मुगो ?'

'हय. रमेश इल्लें शीत जेविल्लो. गीतूक एक दुदाचो दबो हाडून घेयला हांवें कारवारसान रत्नाकराकडच्यान.'

'बायूल, बस मुगो हांगा मातशें.'

सुमन मदल्या दारांत भायले वटेन बसलें. कांय वेळ दोगांय ओगी.

'बायूल, बायक चड त्रास जाल्लो गो ?'

'भोव भागिल्लें तें. मर्दी तापय येतालो. पूण शेवटमेरेन सुद्दीर आसलें.'

'दोतोरासरीं व्हरूंक ना ?'

'दोतोर नाकाच म्हणटालें. निमाणें व्हरचें म्हण तयारी केल्ली पूण...'

'घोवाकडचे कोण आयलेच नात न्ही व्हरूंक ?'

'ना !'

'बायूल म्हाका दोळ्यांमुखार कितें तरी झळकल्लेवरी जातालें. तांबडीं दसणीचीं फुलां, किरवड्योच्यो कामट्यो, धवें वस्त्र ! वोताच्या ल्हारार बसून खूब मनशां येयल्यांत अशीं... पूण कसलोच अर्थ लागनासलो. बरो जातकीर म्हाका होलमलें, आतां कांय बाय उरलें ना ! मनाच्या भितल्ल्यान म्हाका कोण तरी सांगतालो, बाय गेलें म्हण !'

सुमनाक काळीज फुटूनशें रडूंक येतालें. पूण ताणें तें चिड्डून दवरलें. उलयतां उलयतां आपा रडूंक लागलो. पूण सुमनान हट्टान आपणाक थोपोवन धरलो.

इतल्यान गोविंद येयलो. 'मामा बरो आसा मुरे' म्हणत तो म्हऱ्यांत बसलो.

'आतां इतल्या वेळान जाली रे तुका मामाची याद ?'

'हांव सायकल घेवन किन्नरा गेल्लों मामा. थंयच्या निरंकारा देवळाक मामान एक घांट सांगून घेतिल्ली. ती केन्ना घेवन येवं काय म्हण मिराशाकडेन विचारूंक गेल्लों.'

'केन्ना घेवन यो म्हळां ताणें ?'

'मिराशाक विचारल्यार मिराशी मक्तेसुराक विचार म्हणूंक लागलो. मक्तेसुराक विचारल्यार तो भटाक विचार म्हणूंक लागलो. पूण भट घरा नासलो.'

'मामाक सांगलें तुवें ?'

'मामा म्हणटा एक दीस वयतां आनी घांट देवामुखार आड्याक हुमकळावन येतां. तांचें देवसपण तांचेकडेन. घांट घरांत हाडून दवरून वर्स जालें.'

'कित्याक म्हण सांगून घेतिल्ली देवाक घांट ?'

'गोविंद लजेलो, 'हांव मॅट्रिकेक पास जाल्यार देवाक घांट घालतां म्हणिल्लें मामान.'

'गोविंद, तुका वर्सां कितलीं रे ?'

'अठरा सरून एकुणीस लागल्यांत मामा.'

'हय तितलींच जालीं आसतलीं. बायूलापरस तीनच म्हयन्यांनी व्हड तूं.'

'पूण तें म्हजेपरस हुशार मामा.'

'बायलांची हुशारकाय कितलीय जाल्यार तितलीच. दादलो म्हणटात तो खांबो. बायल म्हणटात ते आडे. सगलो भार आड्याच्या आंगार पूण नांव मात खांब्याचें.'

'बायूल मातशी खोबरेला बाटली हाड. पांय चुरचुरूंक लागल्यात.'

सुमनान बाटली हाडली. 'घेरे गोविंद, इल्लें खोबरेल तायटार घे. लाय मातशें पांयांक.'

सुमन 'हांव लायतां आपा' म्हण मुखार येयलें. पूण गणेशान ताका नाका म्हळें. गोविंदान एका तायटार तेल घेतलें. तें मगेर दोनय तायटार घेवन दोनय पांयांक वांगडाच तेल लावंक लागलो.

'तूं म्हाका घेवन गेल्लो मुरे गोविंद ? हेदोळ कृष्णानंद सांग. म्हाका उगडास ना. सकल्यान वयर मळबार पळयिल्लेवरी कांय धवेधवेश्यो इमारती दोळ्यांमुखार झळकतात.'

'तें आल्तिनो मामा. पणजेसान आल्तिनो तशेंच दिसता.'

गोविंद तेल पुसयत आसलो. गणेशालें काळीज भरून येयलें. तागेले दोनय तेलाचे हात आपल्या हातांत घेवन गणेश रडूंक लागलो. कांय खीण मोन्यांनीच गेले. सुमनाच्यान हें सोसूं नजो जालें. ताणें म्हळें, 'आपा, तूं जेवन घे. मगेर वखदां घेवंक जाय.'

'म्हाका आनीक वखदां नाकात गो बाय. म्हजें हें शीकपण बरें जावचें न्ही.'

भितर बायलें चेडूं उठून व्हडव्हडान रडूंक लागिल्लें. गणेशान एक फावट भितल्लेवटेन पळयलें आनी मगेर तो वैराग्य येयिल्लेवरी वोग्गी बासून रावलो.

गणेश सकाळीं उठून दोंगुल्ले मुळसांतल्यान गोठ्याकडच्यान शेतामेरेवयल्यान बेठोच भोंवन येतालो. केन्ना गंवणींत वचून वोगी बसतालो. पूण शेताविशीं कांयच

उलयनासलो. खंयूय वचून वोतांतल्यान बीन येयलो म्हणटकीर तो कासावीस जाल्लेवरी दिसतालो आनी हुश्श करून वासरेंत येवन बसतालो.

'आपा, शेताचें कितें करुया म्हणटा ? हांवें विठोबाभाऊक कसून घाल म्हण सांगिल्लें.'

'आतां माघ येयलो. शेत सुकून गेलां. आतां तो कसो कसतलो आनी धुळवप कसो रोयतालो ?'

'जोन्नेकच रोवया म्हणटालो.'

'फोंडांतलें शेत. उदक भरता. फाल्यां पावसांत ताका रोव लागतलो ?'

'मगेर कितें करचें आपा ?'

म्हाका कांयच कळना जालां. आंगांत शक्तय ना आनी कितें करचेली इत्साय ना. शेत कसून घालेंच म्हण जालें ? फुडलो वावर ना ?'

गेल्ल्या वर्साक हांवें आटापून घेतिल्लें काम.'

'दोग भुरगीं, शेताचो वावर जावचो ना तो तुजेकडेन. म्हाका तर चांट मारूंक खरस मारता.'

'कोणाकय गेणीन लावया आपा ?'

'कोणाक लायतले ? सगले फटींग. गेण खावची खावन शेतय हातासून बसतले.'

'आमच्याच वाड्यावयले घरवडींतल्या कोणाकय दिवया गेणीन. पंढरीदाद करतलोसो दिसता.'

गणेश वोगीच रावलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं सुमन घरांतल्यान भायर सरून पंढरीगेर येयलें.

पंढरील्या घरासरी पावल्यार, पंढरी शेनवतां कातरून विडयो बांदतालो. बायल ताका तापयताली, 'कितले व्हडले खोजने विडयो बांदता तूं ! आनी तो कुल्ले पाटांचो खर तंबाखू. ओडटा आनी मगेर खोंकत रावता.'

'सुमन गेलें आनी ताजेमुखार वासरेंतल्या खांब्याक तेंकून बसलें. पंढरीली बायल मुखार येयली.

'कितें गो सुमन ?'

'काम आशिल्लें गे इल्लें.'

'कितें जालें ?'

'आपाच्यान आतां शेताचो वावर जायतसो दिसना. हांव म्हण कितें करतलें? बायलीं भुरगीं आसात न्ही गे ! शेत गेणीन दिवंचें म्हण्टां.'

पंढरीली बायल सुमना म्हऱ्यांत येवन बसली. पंढरी म्हऱ्यांत सरकलो. पूण ती कांय उलयलीं नात. सुमनान म्हळें, 'हेर कोणाकडेनय दिल्यार पातेवं येता ? बेठोच हुसको. आपणाल्या बाप–बापोलयाकडेन आसल्यार भिरांत ना. दादा, तुमी गेणीन करूंक घेतात शेत ?'

'कोणाक शक्त आसा गो? आशिल्लें तेंच आटापूंक जायना. शिकिल्ले लोक नोकरेक वयतात. शेतां करचीं तीं आमच्या सारक्या शिकूंक नाशिल्ल्यान, ना तर पेन्सिनेर येयिल्ल्या जाणटेल्यान. हांव सांगता तुका सुमन, आनीक चारच वर्सांनी गांवचीं शेतां पडींग पडनात काय चय.'

'तें आसूं दादा, आमच्या शेताचें आंगार घेता जाल्यार पळय. कित्याक, आपल्या बापोलयासरीं आसल्यार शेत तरी सारकें उरतलें म्हण.'

'हय. आमच्याच घराब्याची पुर्वाचाराची जमीन ती. ती पडींग पडूंक दिवपय खरें न्ही. पूण गेण कितली घेतले तुमी ?'

खांडये शेताक चार खांडयो भात गांवांत दितात न्ही.'

'तें पयलींचें सोड, आतां शेतांत घोळूंक कोणाक जाय ? आनी पयलींवरी शेतां पिकनात आता. खांडयेक तीन खांडयो दितलों.'

'तूंच पळोवन न्यायान दी दादा.'

'कितलें जातलें शेत ?'

'चिंचेकडचे दोन खांडयांचें, मुळसांतलें धा कुडवाचें आनी म्हातार आंब्याकडचें देड खांडयांचें. सगलें चार खांडयांचें.'

'आनी हडगरांतलें ?'

'तें खांडयें शेत हांवच कितेंय करून करतलें. खंडून ना तर कोणाकडच्यानय कसून घेवन.'

पंढरीन हांसून म्हळें, 'बरें हुशार आं तूं सुमन. लागींचें आनी बरें पिकचें शेत आपूण दवरून घेयलां.'

'चिंचेकडचें शेतय वायट न्ही दादा. तूं जाणाच तें.'

'पूण बरेंच पयस गो.'

'जांव दादा. म्हणच गेणीक दिलां न्ही. शेत मात नितळ दवरल्यार पुरो.'

हाजेर पंढरीले बायलेन शिट्ट जाल्लेवरी म्हळें, 'आमगेलें शेत पळयलां तुवें, तुका एक मुगळीचो खाम मेळचोना, नेरांचें शिंवर दिसचेंना.'

पंढरीली बायल म्हन्यांतच बशिल्ली. म्हयनोभर तेलाचो वास लागूंक नाशिल्लेवरी तिगेलीं केसतडां पिसुडिल्लीं. न्हेशिल्ल्या कापडाकय वास मारतालो. ती घोळटाली खूब, पूण खंय नीटपण म्हण नासलें. पंढरी मात कडक सभावाचो आसलो. वाड्यार कोणाकच व्हड मिशी नासली. ताणें व्हड शिवडमिशी दवरिल्ली. ताज्यो त्यो मिश्यो, लिकलीक खर दोळे हाजेन ताज्या तोंडाकडेन पळोवचेलो धीर जायनासलो.

सुमन उठून येयलें आनी तांगेल्या आंगणामेरेसरीं पावतकीर माडाचें सुकिल्लें चुडत सर्र करून येवन ताजे म्हन्यांतच पडलें. पिडो ताका चुकलो पुण चुडटां आंगाक लागून पडलीं. पंढरी बायलेन विचारलें, 'आगो, चुडत आंगाक लागलें गो ?'

'हय मावशे, सांपळो आंगावेल्यानच पडलो.'

'मगेर तें शेतांत व्हरून लासूंक जाय. ताजीं तीन चुडटां चिमटेन धर आनी ओडीत व्हरून लास शेतांत.'

'उजो गे ?'

पंढरी बायल भितर गेली. कैलांत इंगळे घालून घेवन ती भायर येयली. कैल तिणें सुमनाल्या हातांत दिलें. चिमटेन चुडत ओडीत, हातांत उजो घेवन सुमन शेतांत गेलें आनी ताणें तें लासून उडयलें.

फाटल्यान पंढरी म्हणटालो, 'काय बरें चुडत बेठेंच लासून उडोवचें पडलें.'

गणेश वखदां घे म्हळ्यार कसोच घेयनासलो. वैराग्य येयिल्लेवरी बेठोच भोंवत आसतालो. ना तर वासरेंत वोगी बसून रावतालो. केन्ना तरी भुरग्याक उखलून घेवन खेळयतालो. खेळयतां खेळयतां केन्ना मनान इतलो सदळ जातालो, दिसतालें आतां हो रडुंकूच लागतलो.

केन्नाय तीनसांजकात्रेर शिंयान कुडकुडिल्लेवरी करीत विचारतालो, 'बायूल, बायलो घोव येवचोच ना गो ?'

'हांव कितें सांगू आपा !'

'मगेर भुरग्यांचें कितें करचें ?'

'आतां आसात न्ही हांगा.'

'आगो, पूण तुका तुजो फुडार ना ? लग्न जावचे पयलीं दोगां भुरग्यांली आवय तूं. हांकां फाल्यां खंय घालतलें आनी लग्न जावन वयतलें ?'

सुमन वोगी रावतालें. आपाय घुम्म मोनो जावन बसतालो. आपा असो बसलो म्हणटकीर सुमन थतरवितर जातालें, 'आपा वखदां तरी घे रे !'

'म्हज्या जिवाकच त्राण ना गो बायूल आतां ! वखदां घेवन कितें जातलें! हांव परतो पिसो जातलों म्हण भिंयेता मुगो तूं? आतां तरी खंय बरो आसां हांव ? म्हजें हें सासणाचें.'

माघ पुनवेच्या आठ दिसांपयलीं आपाक पणजेसान हाडिल्लो. आता चैत्र सोंपून वैशाख लागिल्लो. ह्या तीन म्हयन्यांमदीं आपा खरोच बरो जाला काय पिशेंच कांबरून आसा कांयच कळनासलें. आतां उलयतालो बरो म्हणच बरो जाला म्हणचेलें. हरशीं ताणें संवसारांतल्यान आंग काडून घेतिल्लें.

वैशाखाचो रखरख सुरू जालो आनी गणेश थळपेल्लेवरी जावंक लागलो. भोंवंक म्हण वयतालो आनी दनपारच्या कडार खंयच्याय झाडापोंदाक बसून रावतालो. मगेर सुमन वचून घेवन येतालें. ह्या वर्साक पावस लांबलो आनी झाडां-पेडां वांगडा गणेशय घुंवंक लागलो.

एक दीस रामाक आफोवन हाडून सांगूंक लागलो, 'रामबाब, धाकल्याचें लग्न करून उडयतां ह्या वर्साक. कोणय उमास-पुनवेक जल्मल्लो, पिनकर काश्टेचो, कोणय उपकारता.'

रामबाब कांय वेळ ताजेकडेन अनमनूनसो पळयत रावलो. मगेर ताणें चांचरलेंशें करून म्हळें, 'दीस आतां मिर्गा पावसाक तेंकले. पावस पयस गेलो म्हण, ना तर येन्नादर शेतांत चिखोल जावचेलो. तीं दोन पोरां आसात ताजेसरीं. तांकां खंय उडयतलो ? तांकां आर्दी ठिकाण पळय.'

रामबाब रावनासताना गेलो. गणेश भितर येतना उलोवंक लागलो. 'बायूल गो, बायक पावयतना वाजंत्रां वाजलीं नात मुगो! आतां मात वाजतलीं.'

सुमन तटास आयकतालें.

'गोविंदान बायची क्रिया केल्ली मुगो. आता तुजीय केलेबगर ताका मुक्ती ना. म्हजी करूंक वाडो आसा. हातांच चुडी घेवन रावल्यात. तुमकां मात फकत गोविंदान उजो दिवंक जाय.'

सुमनाल्या दोळ्यांतल्यान घळ्घळ् जावन दुकां देवलीं.

आवडू आजी फाट धरिल्लेवरी परती परती म्हणटाली, 'ह्या नश्ट्या पोरान धाडयाल्या काय बऱ्या देवस्पणाक आडमेळें हाडलें आनी विस्कोट जालो. कोणय पांयें पडून ताका परतो हाडात.'

दुसऱ्या दिसा दनपारां सुमन बैलांक नीस घेवन गंवर्णींत गेल्यार गंवर्णींत दोनय बैल मेकळे आसात. तांच्यो कानी खुंट्याक नात. ताका अजाप. कोणें काडून व्हेल्यो बैलांल्यो कानी ! आपा केन्ना गंवर्णींत येवन बसता... तोवय खंय गेलो काय ! 'चांदू, तुवें पळयिल्लो रे आपाक ? शेत हांवें गेणीक लायलां. तुमी आतां आयतें खावचेलें.'

तें येयलें आनी आंगणांत उबें रावन आपाची वाट पळोवंक लागलें. भायर शेताकेरांत पळोवं नजो जातालें इतलो वोताचो रखरख मारतालो. ताका दिसलें, आतांच आपा हो वोताचो रखरख माडयत खंयच्यान तरी येतलो.

इतल्यान न्हंय दिकेंतल्यान दोग जण उक्तेबोडके धांवन येतना दिश्टीक पडले. वोताच्या ल्हारार बसून ते धांवतात अशें दिसतालें. कोणाक ही इतली आनी कसली ताकतीक लागल्या !

ते वाड्यार येयले आनी आकाड्यांतच कोणाक तरी तांणी कितें सांगलें. मगेर ते वाड्यार आनीक खंय तरी गेले. सुमनाक कितें जालां हें कळचे पयलींच वाड्यावेले आनीक चार–पांच जण दादले आनी ते हेदोळ येयिल्ले सगले जण परते न्हंयवटेन धांवंक लागले. सुमनाच्या काळजांत कलकल... कितें जालां काय, खंय उजो पेटला, खंय कोणाचें तारूं बुडलां ! गोविंद, तूं तरी वचून पळोवन यो रे पापया !

कदीमकाळचो काळोख हुपून सपनांतल्यान उठून येयिल्लेवरी चार पांच जण बायलो सुमनाक थातारताल्यो. पूण म्हज्यो मावशो इतल्यो पयस कशो! इतल्यो परक्यो कशो ! म्हजी आई हातूंत कित्याक ना ! हांच्या कपलावेलो कुकूम कोणें काडून व्हेलो ! हांच्या माथ्याचीं फुलां बावन खंय पडलीं ! म्हजी आई, म्हजें बाय आयाव मर्ण मेल्लीं मुगे, मगेर तुमीच अशो बोडक्यो कित्याक!

'बाय सुमन, मनाक लावन घेवं नाका, मन घट दवरून आयक, तुगेल्या आपान न्हंय तडीवयल्या काऱ्या रुखाक गोळ घेवन जीव दिलो !'

'बाय सुमन, मनाक लावन घेंव नाका, मन घवरून आयक, तुगेल्या आपान न्हंय तडीवयल्या काऱ्या रुखाक गोळ घेवन जीव दिलो!'

'मगेर मावशे, म्हजी आई नाका गे ह्या सुवाळ्याक! कोण तरी म्हजे आईक हाडून आपासामकार पाटार बसयात रे! आपा गेलो, आतां तिजे सगले सुरंगार देंवोवंक जाय! एकच फावट म्हाका आईक आनी आपाक वांगडा पळोवं दी! बाय कितलें सांगतालें आईच्यो खाबरी, तिजीं बुटीभर फुलां, पोवनायेदो कुकूम हांव दवरून घेतलें. मगेर आयाव मरणां येत रावतालीं. गोविंद, तुजेखातीर हांवय आयाव मरण मरतलें! गोविंद, चल रे पापया, आपाक इल्ली तरी हूनसाण आसा काय पळय!'

गणेश गोळ घेवन मेल्लो. कायद्या प्रमाण पोलिसांक खबर करूंक जाय आसलें. पूण वाड्यावयल्या दादल्यांनी ताकतीक केली. प्रेत रुखावयल्यान देंवयलें आनी बेगीबेगीन लासची तयारी केली. सदाशिवान म्हळें, 'सगले वाडेकार फाल्यां फांसार गेल्यार उपकारतात पूण गणेशबाबाले कुडीक पोलिसांक हात लावंक दिवंक फावोना. कूड बांदून व्हरतात आनी तिजी इपश्टा करतात. वेल्यान गांवची बेअब्रू.'

'हय तर. फार्टी सोयरूले सुनेन, शोभान, जीव दिलो तेन्ना तीन दीस दगदगे. पोलिसांनी प्रेत व्हेलें आनी तिसऱ्या दिसाक परतें हाडलें. तीन दीस चुलीक उजो केलोना वाडोभर लोकांनी. घराभायर पेज शिजोवन भुरग्यांक पेजे निवळ घालताले.'

'मर्ण करचें दवरून तोंडान उदक लेगीत घेवंक फावोना न्ही रे !'

'पोलिसांनी प्रेत हाडून पावयलें तेंवय पोट फाळून. उखलून चितेर दवरूंक गेल्यार पोटार हातभर कापिल्लो चर.'

नरशिंवान गणेशाली क्रिया केल्ली. सगलीं क्रियाकर्मां वाड्यावेले दादले भायलेभायर करताले. सुमनाक हें घरचें मर्ण अशें दिसलेंच ना. ह्या क्रियाकर्माक ताका इल्लीय उमळशीक नासली. फक्कत आपाखातीर शोक करीत बसचें अशें दिसतालें, ताजेन ह्या दुख्खान खोल तळ गांठिल्लो. ताका दिसतालें ह्या धपक्यांतल्यान आनीक म्हण हांव तकली वयर काडूंक तांकचें ना.

पोरान 'बायूल मावशे भूक लागल्या' म्हण सांगल्यार तें मेल्ले नदरेन ताचेकडेन पळयतालें. पोरान रडून आकांत केलो म्हणटकीर कोण तरी शेजारच्यान येवन उखलून व्हरतालो. पूण सुमन बशिल्लेकडच्यान उठनासलें.

तें चितताले, बायच्या म्हालवजार हांवें बाळपण खूब भोंगलें. पूण बाय लग्न जावन गेलें आनी बाळपणांतल्यान हांवें उडकी मारली ती बद्द जाणटेपणांत. जुवानपण म्हजें खंयचे वाटेर शेणलें ! ताका अचकीत दिसलें, आपले केंसय़ धवे जाल्यात काय कितें ! चेऱ्यार, आंगार मिरयो पातळ्ळ्यात काय कितें! ताका केंसावेल्यान हात भोंवडावंकय भिरांत दिसली. हांव केन्ना जुवान जाल्लें, केन्ना न्हावंक लागिल्लें ! हांव पयल्या न्हाणाचे अपुर्बायेन रडलेंय ना. खंयचे मावशेन म्हाका न्हाणयेंत व्हरून न्हावयलेंना. इल्लें हळदी उदक, इल्लें शेणां उदक कोणें केन्ना म्हजेर शिंतुडलेंय ना ! कितलें लिपून आयलें जुवानपण आनी कितले बेगीन पळून गेलें. ना म्हळ्यार ह्यो बायलो केन्नाय गोविंदाक मुखार घेवन बसल्यार म्हणटाल्यो, 'बाय गो, जुवान चेडवान दादल्या भुरग्याक चड मुखार घेवचें न्ही !' बस. इतलोच म्हज्या जुवानपणाचो अर्थ. पूण त्यो खंय जाणात, गोविंद न्हय जाल्लो जाल्यार हांव केन्ना आवडूमावशेवरी म्हातारें जावन वयतासलें.

तेराव्या दिसाक भाचयेन मामागेर रातचे वसतेक वचूंक जाय अशें शास्त्र आसलें. माम बलांव घेवन ताका व्हरूंक येयिल्लो. 'मामा, भुरग्यांकय वांगडा घेवया मुरे !' म्हळ्यार मामान म्हळें, 'बापायल्या मरणा उपरांतचें तुगेले आईल्या कुळारचें शास्त्र तें. त्या सान भुरग्यांक वांगडा व्हरचें बरें दिसचेंना.'

'मगेर भुरगीं खंय रावतलीं?'

'दवरुया शेजाऱ्यांगेर.'

'नाका मामा. हांव भुरग्यांक सोडून येवचें ना.'

'आगो, शास्त्र तें. तूं आयज येयलेंना जाल्यार मुखार मामागेली वाट तुटिल्लेवरी जातली. आयची रात तुवें हांगा काडूंक फावोना.'

पूण तें भुरग्यांक सोडून कशेंच वचूंक तयार ना जालें. वाड्यावेल्या लोकांनीय समजायलें. पूण ताणें आयकलेंना. मगेर मामान भुरग्यांचीं तोंडां बीन धुवन तांकां वस्त्रां घालीं. एकल्याक खांदार आनी एकल्याक हांडीर घेवन मामान म्हळें, 'चल या.'

मामान तांकां थंय भोंव बरें केलें. दोन दीस रावन तीं परतीं येयलीं. येतना मामान पांच कुडव सुरय तांदूळ बांदून दिल्ले. मामाचीय अवतिकाय बरी नासली. एका फाटोफाट पांच चेडवां. मामी सदांच दुयेंत शी. मामाक भाचरांक करचेली उमेद भोव आसली पूण हात पावनासलो.

सुमन मामागेर वचून परतें येयलें आनी मातशें निवळ्ळें, ताका दिसलें आतां

हो भार हांवें एकल्यान ओडचेलो.

गणेशा भायर पडिल्ल्या पंदरा दिसांनी पावस सुरू जालो आनी लोक आवतां घेवन शेतांत देंवले. शेतांत केरभर जोतां आनी जोतांक हामुडिल्ल्याचो 'आरारा पापारा अम्मं हऽऽ य' चो गजगज.

एक खांडयेचें शेत सुमनान आपणासरीं दवरून घेतिल्लें, आपुणूच करतलें म्हण. बैल आसले. चांदू आतां म्हातारो जाल्लो, बुधो मात जुवान आसलो. ताजो तांबडोगूंज रंग, ऊंच खुबस्थन, उर्बी शिंगां पळेतकीर सुमनाक भोव संतोश जातालो. लोक सांगताले, 'शेत गेणीक लायलें मुगो, आतां जोत विकून उडय. कित्याक घेवन बसता तांकां तण जाय, खाण जाय. फाल्यां पावसांत राखूंक जाय.'

पूण सुमनाक कितें करचें सुचनासलें. बुध्याक कोणय दोळे धांपून सांगिल्लें मोल दिवन व्हरतीत. चांदूचें कितें करचें ! धा वर्सां जालीं तो आमगेर घोळटा. आंगान बरगला. मानेची भिजिल्ली गोदड जाल्या.

एक दीस विठोबा येयलो. सुमन ताका पळोवन ओगीच पावळेंत उबें रावलें. सुमन ताका पयलीं तो सादो, अरवळ मनीस म्हण समजतालें. पूण मगेर ताका कळ्ळें, हो पिशें कांबुरिल्लो बिलंदर मनीस म्हण. दोन वर्सां ताणें सुमनागेलें शेत कसून दिल्लें. ताज्या बदलाक ताका तागेलेंय शेत कसून घे म्हण सांगिल्लें. पूण हाणें पयशे घेवन हेरांलेंय शेत कसून दिलें. बैलांमुखार केन्ना हाणें एक मूठ तण घालेंना. गांवावेलें शेत मात कसून दिलें. ताळतंत्र नाशिल्लें कित्याय कितें उलयतालो. मेळत ताका बाप्पा, अप्पा करीत व्हडव्हडान पाचारीत वयतलो. पळेतल्यांक दिसता हो अर्दकुटो. पूण भितल्ल्यान मोटो मतलबी. एक दीस जोत थांबोवन हाणें वरभर मेरो धरिल्ल्यो ताजे दोन रुपया दी म्हण बसलो.

'बाय गो सुमन, जोत व्हरतां. पावस लागलो न्ही गो. आडवें तिडवें कसून घालचें. आनी रोव, बींय हातांत मेळटा ते रोवन उडोवचें गणेशबाप्पा वचतसान हांव थान्यार ना गो बाय. कळाव जालो.'

'विठोबभाऊ हांवें शेत गेणीक दिलां.'

'पूण हडगरातलें खांडयेचें आसा न्ही गो. तें आर्दी कसून उडयतां.'

सुमनान मनांत म्हळें, हो म्हगेलें खांडयेचें कसतलो आनी आपलें आनी हेरांचें

मेळून घा खांडयांचें कसून घेतलो.

'चांदू आतां म्हातारो जाला विठोबभाऊ. ताज्यान आतां चिखलांत चांट मारूंक जायतशें दिसना.'

'पिशें गो बाय तूं ! घट हाडाचो बैल तो. हें एक वर्स कांय न्ही करून जोत ओडटलो.'

'आनीक आनीक जोत दिना हांव.'

'मगेर तुगेलेंय शेत पडींग उडयता ?'

'चयतां कितें जाता तें. पूण अंदूं आनी जोत कोणाक दिवचें ना हांव.'

'बैल ते बैल. तांदळाचे मुडे न्हू घरांत दवरून घेवंक. शेत घाल पडींग आनी बैलांक पारपोळ सोड. फाल्यां लग्न सोबाण जावचें आसा तुजें. घोव बरो मेळ्ळ्यार माणसुकी.'

विठोबा उलयत उलयत गेलो. सुमन चिंततालें, आपलें खांडयेचें शेत कशें सागवळ करचें तें. पडींग उडयल्यार लोक हांसतले. म्हणटले, गणेश गेलो आनी तागेलें घाम रकिल्लें शेत पडींग पडलें. ना, शेत हांव कशेंच पडींग दवरचेंना !

आपालीं शेतकामाचीं आयदां-आवतां आसलीं. खोरें-कुदळ, नांगर-जूं, आळय-दातें, दोरी-दायें, कंवकल-मरकल, मांच-ताट, हातर-हातरी सगलें आसलें. ताणें थरयलें आतां हें हांव हातांत घेतलें. साळू आजी केन्ना सांगताली, ह्या गांवांत नांगराच्या निरमण्यार हात दवरपी आपूण पयली बायल म्हण !

घराचे भितोडेचे पावळेंत दोन नांगरा घडपां आनी जूं उबें करून दवरिल्लें. जुंवाक बांदिल्ल्यो कानी, नांगरट्या दोरी तशीच आसली. सकाळीं उठून ताणें रमेशाक सांगलें, 'बाळा, तूं गीतूसरीं बसून राव. हांव शेतांत वयतां.'

'बायूलमावचे, बेगीन यो आं !'

'येतां रे बाळा, बेगीन येतां.'

'दूद दवलून वच. हांव घायतां.'

'तुका कळचेंना रे. ताका शिंतुड्याक वयतलें. हांव येतां बेगीन.' सुमनान मनांत म्हळें, चार वर्सांचो हो भुरगो पूण कितलो समजिकायेचो. आपली भयण रडूंक लागल्यार हो धांवन धांवन म्हजेसरीं येता आनी म्हजें घागऱ्याचें पोंत धरून ओडत मोन्यान उबो रावता. केन्ना कांय मागना, रडना. वाड्यावेल्या भुरग्यांवांगडा खेळूंक

वच म्हळ्यारूय वचना. भयणील्या हांथरुणासरींच गणमणत रावता.

सुमन भितोडेक गेलें आनी ताणें नांगर, जूं खांदाक मारलें. तें व्हरून ताणें शेतांत दवरलें. मगेर गोठ्यासरीं वचून बैलांक घेवन येयलें. पावस पडूंक लागतसान बैलांक गोठ्यांतच बांदतालें.

तें बैलांक घेवन शेतांत येयलें. ताणें बैलांच्या खांदार जूं दवरलें आनी कानी घायली. पूण नांगरट्या दोरी रिशीच्या खंयच्या खांपार कशी बांदची तें मात ताका कळना जालें. ताणें खंयच्याय खांपार कशाकशीय दोरी गुठलायली. निरमण्यार हात दवरून नांगर उबो लायलो आनी बैलांक हामुडले, 'आरारा हऽऽय.'

बैल वचूंक लागले पूण नांगर भूंयत उबो खोंचतालो. बैलांच्या खांदावेल्या जुंवाक झटके बसताले. आनी खांद दुखावताले. तासय भूंयंत सारको पडनासलो. कांय वेळान बैल कशाकशेय वांकडे तिकडे वचूंक लागले. नांगर तांच्या पांयांक घुसपूंक लागलो. सुमनान निरमणें सोडून दिलें आनी तें ओगी उबें रावलें.

'गोविंद खंय तरी वयतालो काय हाकाच पळोवन तो येयिल्लो सुमनाक कळ्ळेंना. शेत तशें वाड्या लागींच आसलें.

'सुमन, तुवें जोत बांदलां ?' ताणें अजापान विचारलें.

सुमनान रडकुरें तोंड करून म्हळें, 'हय रे. पूण नांगर नीट जालोना सो दिसता. सारक्को खोंचता.'

गोविंदान निरमणें धरून एक फावट फेरी मारली. 'आगो कितलो उबो नांगर घाला तुवें ? अशें करून कसल्यार फाल्यां बैलांक खांद येवन मान सुजून पडटली तांगेली.'

गोविंदान नांगरट्या दोरी सोडयली आनी नांगर नीट बांदलो. रिशीच्या खंयच्या खांपार दोरी कशी बांदची हें ताणें सुमनाकय नीट दाखयलें.

ताणें वयतना परतें अजापानशें विचारलें, 'आगो तूं जोत कसतलें ?'

'गोविंद राव मुरे ! एक फेरी मारून दाखोवन वच.'

गोविंदान निरमण्यार हात दवरलो आनी ताणें बैलांक हऽऽय करीत हामुडलें. सुमनान बेगीबेगीन वचून ताज्या हातार हात दवरलो, दोगांनीय मेळून एक भोंवडी घेतली. मगेर गोविंदान आपलो हात सोडून म्हळें, 'आतां पळय तूंच भोंवडी घेवन यो.'

'आनीक एक भोंवडी घेवया मुरे.'

'नाका, मामाल्या शेतांत दोन जोतां आसात. हांव बींय व्हरूंक म्हण येयिल्लों. तुवें जोत बांदिल्लें पळोवन हांगा येयलों. आगो, चेडवां जोत बांददतात गो ?'

सुमन बेठेंच हांसलें, वांकडो तिकडो नांगर घुंवडायत कसूंक लागलें. गोविंदान वयतना म्हळें, 'ते पळय दादले जोत राबोवन पळयतात तुका.'

खरेंच, कांय वेळान पेल्यान जोत बांदिल्ले विष्णू, खुशाली, केशव येवन शेताचे मेरेर उबे रावले. सुमनान तांकां पळेलेंनाशें केलें आनी कसत रावलें.

'सुमन जोत थांबय, सांगतां.' कोणें तरी म्हळें, जोत थांबयतना बैल खंय तरी वांकडे गेले आनी कुणगेच्या कोनशार वचून थारले.

केशवान म्हळें, 'आंकवार चेडूं तूं. कसलो सांवर आयला तुजेर, धतरिचें हड्डें फाळटा तूं !'

'विष्णून म्हळें, 'आमी वाडोभर दादले आसात आनी तूं चेडूं जोत बांदता. हे घरवडीक अशें घडिल्लें ना.'

'साळूआजी जोत धरताली खंय अण्णा.'

'ती घोव मेल्ली बोडकी. तुजें जायतें जावचेलें आसा. तुका खबर आसा, सवाशीण बायलांनी धरतरेचें हड्डें चिरल्यार तांची कूस फळना म्हण ! तांकां धरतरेचो शाप बादता.

सुमन रडूंक बशिल्लेवरी मेरेर बसलें. 'मगेर हांवें कितें करचें, शेत कशें रोवचें ? बायलीं दोन भुरगीं आसात. तांकां फाल्यां कितें खावंक घालचें ?'

'कोणाकय सांगून, धरून करून घेवंक जाय वावर.'

'कोण करतात ? एक आदेस मेरो करूंक आयल्यार पांच रुपया मागतात. जोताक आफयल्यार धा रुपया दी म्हणटात. वाड्यावेलो लोक 'सुमन त्रासांत पडलें गो तूं' म्हण दुकं गळयतात. पूण पांच पयशांक पातयेनात. सदाशीव अण्णा, तुवें आपाक लासूंक चार वर्जी लाकडां हाडून घातिल्लीं मुरे, पयर मावशी पयशे मागताली.'

सदाशिवान चाचरलेंशें करून म्हळें, 'तें सोड. ताका लागलां पिशें. हांव पळयता तें.'

केशवान म्हळें, 'तुज्या बऱ्याचें सांगतात आमी. बायलांनी धरतरेक नांगर तोंपचें न्ही. नांगर म्हणटात तें राकेसालें शस्त्र !'

ते तीगय 'तुजीं कर्तुबां तुजेकडेन' म्हणिल्लेवरी ओगी वचूंक गेले.

सुमन बुद्द येतसान पळेतालें. वाड्यावयले हे लोक मनान बरे, संकश्टाक धांवन येवपी. कोणय शीक जाल्यार उशासरीं बसून रात रात जागपी. लग्नघरांत, मर्णघरांत ते आपलेंच घर म्हण वावुरपी.

पूण हेच लोक शेतामेरेकडेन, हद्दे फातराकडेन, बिच्चभर शेताखातीर हाणामारीचीं झगडीं करून घेतात. आटोवभर तांदूळ उसणे हाडल्यार दी म्हण फाल्यां दारांत येवन बसतले. उजो दी म्हण गेल्यार हातांत उजो व्हर म्हणटले, पूण कयलाच्या कुडक्याक पातेवचे नात.

सुमन कांय वेळ मेरेर बसलें. बैल बेठेच जुंवाक शिंगां मारून खडखड आवाज करताले. जशे सांगताले, आमकां सोडून घाल ना तर कस तरी. तें किंवाट्यान उठलें. ताणें निरमणें धरलें आनी नांगरा फाळ भूंयंत दामून तोपलो. बैलांचे फाटीर बाडी मारली. बैल चलूंक लागले आनी वांकडें तिकडें तास भूंयर पडूंक लागलें.

दोन कुणग्यो ताणें कसून घाल्यो आनी ताज्या ध्यानांत येयलें, वेळ माथ्यार पावला आनी भुरगीं घरासरीं एकलींच आसात. ताणें बेगीबेगीन जोत सोडलें. नांगराक जूं खोवयलें आनी नांगर-जूं तकलेर घेवन घरा येयलें.

दीसभर वाड्यावेल्यो बायलो बेठ्योच आंगणांतल्यान बीन पासयो मारताल्यो. 'अगो सुमन तुवें जोत बांदिल्लें' म्हण विचारचेलो धीर कोणाक नासलो. गोकूळमावशी मात सगल्यांक आयकंवशें करून आपल्या जनेलांत उबी रावन व्हडान म्हणटाली, 'घाटार दर येयल्या म्हण मांजरार खंय गोणी घातिल्ल्यो.'

एके खांडयेचें शेत तें. आठच दिसांनी ताणें आडवें उबें दोन फावट कसलें आनी बींय उडयलें. बींय मात ताका रामदादान हुंवन दिल्लें. शेत अळयलें लेगीत ना. बेठेंच हलकेचे फाटीन ओडलेंशें केलें.

एकच वर्स. त्याच पावसांत चांदू दोंगरांत लकून पडलो आनी तागेलो एक पांय मोडलो. राखण्यान येवन सांगतकीर सुमन धांवन गेलें. आर्दीच बडतणाक पडिल्लो तो बैल कसोच उठना जालो. ताणें बापोलयांक सांगलें, ताका उखलून हाडून गोठ्यांत तरी घालुया म्हण. पूण ते म्हणूंक लागले, 'पांयो मोडला. उखलून हाडलो जाल्यार पांयांक दोर घालूंक जाय आनी पांयांमदीं आडे घालून तकलेर घेवंक जाय. जावचें ना तें. तूं पडिल्लो आसा थंयच ताका तण उदक व्हरून घाल. चड दीस जगचो ना तो. आस्त धरूं नाका.'

सुमन सदां हांडीर उदकाचें बिंदूल आनी हातांत तणाचो पेंडो घेवन दोंगरांत वयतालें आनी ताका घालून येतालें. तो इल्लें उदक पितालो. पूण तण चाबलेंशें करून

तशेंच सोडटालो.

एक दीस तें दोंगरांत वचूंक गेल्यार दोंगरांत वयर रणगिदां भोंवतात. ताका कच्च जालें. मुखार वचून पळय जाल्यार रणगिदांचो झूंड बैलार पडला आनी क्यांव क्यांव करीत मास ओडून खातात. सुमन तशेंच परतलें.

चांदूक साधू बैल म्हणटाले. आतां धा बारा वर्सां जालीं तो गंवर्णींत आसलो. केन्ना कानी काडटना-घालतना ताणें शींग हालयलें ना. कसतना तास सोडून गेलोना. ल्हान आसतना सुमन तागेले मोव मोव गोदड कशे मानेर पडून रावताले. पोंदांतल्यान, पांयांतल्यान पासार जातालें.

कार्तिकांत बुधो बैलय विकलो. मामान एक दीस केरवडीच्यान गिरायक हाडलें आनी चारशें रुपयांक तो विकलो. चांदू मरतसान तो एकमुळो जाल्लो आनी बेठोच भोंवत आसतालो. गोठ्यांत, गंवर्णींतय सारको येयनासलो. आनी गोठो तरी खंय सारको आसलो ! गेल्ल्या वर्साक शिंवंक नाशिल्ल्यान गळूंक लागिल्लो. बुध्याचो पागो काडून दितना ताका कांयच दिसलेंना. विकत घेतिल्लो तो दांव्याक धरून मुखार चलतालो. माम फाटल्यान हामुडटालो. सोबीत, दांडगो तो बैल रथाक बांदिल्लेवरी शिंगां हालयत चलतालो. सुमनान चिंतलें, हांगा एकमुळो पारपोळ पडिल्लो; वचून कोणाल्याय जुंवाक खांदो दितलो.

पीक जातकीर पंढरीन उतराप्रमाण बारा खांडी भात हाडून घरा पावयलें. खांडयेच्यो बारा पोटल्यो हाडल्यो आनी त्यो घरांतल्या एका कोनशाक रित्यो करून गेलो. सुमनान रोयिल्ल्या एक खांडी शेताकय धा-बारा खांडयो भात जाल्लें. तातूंतलें दोनेक खांडयो लुवंक, मळूंक आयिल्ल्या कांमेऱ्याक बीन गेलें. सगलें मेळून कूंभभर भात ताणें कणात्तरेंत घालून दवरलें.

ह्या वर्साक जोत नासलें. सुमनान नांगर, जूं, निरमणी, रिशी सगल्यो माळ्यार उडयल्यो आतां तें सदां सकाळ सांज खोरें, कुदळ घेवन शेतांत वयताले आनी शेत खणून घालतालें. मर्दींच खोरें, कुदळ शेतांतच उडोवन भुरग्यांले वासपुशेक येतालें. ताणें थरयिल्लें ह्यान फुडें शेत खणुनूच रोवचें. निमाणें रोयतना दोन दीस कोणालें जोत मेळ्ळ्यार पुरो. ना तर हलकेन हलकोवन हांव बीं उडयतलें. पूण हें खांडयेचें शेत हांव कशेंच पडींग घालचेंना.

गोरें, गोमटें पूण घटमूट आंगलोटाचें सुमन पयलींच जुवानपण आंगार येतकीर आंगान चडच भरिल्लेवरी दिसतालें. पूण आतां ताणें जशें सोताक घाण्याक बांदून घेतिल्लें. ल्हव ल्हव आंगावेलें मास देंवंक लागिल्लें. घटसाण आनी सोबीतकाय मुळावी तीच आसली पूण आंगान बरगल्लेवरी दिसतालें. तातूंत एक पूर्ण आवय ताजेमर्दी येवन घर करून राविल्ली. ताजेन तें बेठेंच खोल उदकांत राविल्लेवरी पयस पयसशें, जूनशें दिसतालें आनी उलयतालेंय तशेंच, म्हाल आवयलीं उतरां. वीस वर्साँच्या चेडवाचें हें उलोवप न्हींच दिसतालें.

आतां बायलें चेडूं देड वर्साचें जाल्लें आनी चेडो पांच वर्साँचो.

गोविंदाचे बाबतींत मात एक बरें जाल्लें: तो आतां परतो भुरगेपणाचो जिवाभावाचो इश्ट कसो जाल्लो. आतां भंयभिरांत, कचरप, अनमनप पयसावल्लें. गेल्लीं दोन वर्साँ सुमनाल्या जिवितांत इतलीं मोडां येवन गेल्लीं, दर फावट गोविंद येतालो, बसतालो आनी दर एका कामाक पावतालो. तांगेले इश्टागतीक आतां इतली सहजताय येयिल्ली, लोकांकय आतां कांय दिसनासलें. लोकय जाणा जाल्ले, सुमन आतां सोताचें सोता मुखत्यार. सोताची काळजी सोताच घेतलें. दोन भुरग्यांक कांय न्ही करून सांबाळपी हें चेडूं, हाका आनीक कोण कितें सांगतलो !

गोविंद वासरेंत येवन बसतालो. आपल्या गोड उलोवण्यान बेस खबरी सांगतालो. सुमन घराचो वावर करतां करतां ताजेसरीं उलयतालें. केन्ना ताजे सामकार ताजो परमळ घेत बशिल्लेवरी बसतालें. पूण तांकां मोगाच्यो, लग्नाच्यो खबरो उलोवंक थर्त भय दिसतालो. पूण बावडो उकत्या मनाचो गोविंद मर्दीच केन्ना म्हणटालो, 'आमी लग्न जातात म्हळ्यार माम मामी तयार जावचीं नात गो ?'

'हांवय नकळों गोविंद,' मगेर केन्ना तें ल्हवच मुखार सरकतालें आनी आपलो हात ताज्या हातार दवरतालें. आपूण आपल्या मोग्याच्या हातार हात दवरला काय एका नेणार भुरग्याच्या हातार हात दवरला तें ताका कांयच कळनासलें. पूण ताका भोव भोव सूख मेळटालें.

गोविंदाली मामी मात भोव शादूर आसताली. ताका परतूंक कळाव जालो, काळोख जावंक लागलो म्हणटकीर ती ताका सादोवंक लागताली. मगेर गोविंद 'येयलों मामी' म्हण धांवतालो.

दुसऱ्या वर्साक पंढरीन दोन खांडयो भात उणेंच दिलें. विचारल्यार म्हणूंक लागलो, 'धान बरें जाल्लें, कणसय बरें येयिल्लें. पूण सगलें हुबून पोल गेलें. ह्या वर्साक वारोच बरो गेलोना. पोटुऱ्याक वायट वारो बादलो.'

पूण लोक सांगतालो, 'पंढरीक पीक भरप्पूर जाल्या'. पूण सुमनान चिंतलें, आतां ताजेकडच्यान करूं नाका म्हण शेत काडून घेयल्यार फाल्यां कोण करतलो म्हण शाश्वती आसा ? कोणच करूंक तयार जालोना तर पडींग पडपाची. तो कितें दिता तें खरें म्हणचेले. कितेंय उलयल्यार झगडूंक येतलो. इल्लो तिरकटीच मनीस तो.

एक दीस सांजचीं भुरगीं आंगणांत बोवाळून खेळटालीं. अचकीत तीं चिप्प जालीं. सालांत दळत बशिल्ल्या सुमनाक कोणाची तरी सावळी दारांत हालिल्लेवरी दिसली. कोण आयला रे रमेश म्हणत तें भायर येयलें. दारांत एकलो उबो आसलो. खीणभर तें त्या मनशाक वळखलेंच ना. मगेर ताणें सट् करून म्हळें, 'भावोजी, तूं केन्ना येयलो ? खंय आशिल्लो तूं इतलो काळ ?'

सुमनाक एकदम हुंडो फुटलो. 'बस भावोजी' म्हणत तें आंगणांतल्यान भुरग्यांक घेवन येयलें. ताणें भुरग्यांक हाडून भावोजीमुखार बसयलीं. ताणें रमेशाक ओडून म्हऱ्यांत घेयलो. चेडूं मात भिंयेवनशें ताजेकडेन पळयत रावलें.

सुमन भुरग्यांक सांगतालें, 'हो तुमगेलो बाबा. रमेश, बाबा म्हण. आतां तुमी बाबा वांगडा रावचे !'

तकली सकल घालून तो घुम्म मोन्यान बशिल्लो. ताजी सामकी वायट अवतिकाय जाल्ली. आंगार पोरणें म्हेळ शर्ट पॅण्ट आसलें. मातयेन भरिल्लें एक तुटकर चप्पल ताणें पावळेंत काडून दवरिल्लें. चेरो सुजिल्लो सो आनी आठ दीस खाड करूंक नाशिल्लो बुरसो दिसतालो. दोळे धुरकटिल्ले आनी ताजे भोंवतणीं कवंडाळीं पडिल्लीं.

'तुका केन्ना कळ्ळें भावोजी ?'

तो कांयच उलयलोना. बेठीच मान हालयली शी करून बसून रावलो.

'तुवें धाकल्या गीतूक पळोवंक ना न्ही अजून ! तूं गेलो आनी स – सात म्हयन्यांनी तें जालें.'

सुयेंतल्यान सूत ओडिल्लेवरी बारीक चिरक्या आवाजांत ताणें विचारलें, 'कितें

जाल्लें मंजूळाक ?'

'तुजेंच मनाक लावन घेयलें ताणें. शेवटामेरेन तूं येतलो म्हण आशेन आसलें. बंदरावटेन नदर लावन पडटालें.'

सुमनाक दिसलें आतां हो रडूंक लागतलो. पूण ताजे दोळे सुके आनी रितेच आसले. हाडिल्ले पोतयेंतल्यान एक बिस्किटाचो पुडो काडून ताणें रमेशाल्या हातांत दिलो. तो घेवन रमेश भितर धांवन येयलो. ताणें गीतूक मुखार ओडूंक गेल्यार तें व्हडाव्हडान रडूंक लागलें.

भावोजी इतली अवतिकाय करून घेवन येयिल्लो पूण सुमनाक भोवभोव आनंद जाल्लो. आपणाक कित्याक म्हण ही खोस भोगता हें ताजे ताकाच कळनासलें. रातचें ताणें बरें मचमचीत जेवण रांदलें. दळिल्ल्या तांदळाची भाकरी, तिसरे मासाचें धबधबें, सुरय शीत आनी सुंगटांचो रोस.

ताणें घरांतले चुलीचेरूच मडकेंत उदक तापयलें आनी तें न्हाणये खोपींत व्हरून दवरलें. 'न्हावन घे भावोजी'.

वांगडा हाडिल्ले, पोरणे, तुटकरशे सुटकेसींतल्यान ताणें एक म्हेळशी चड्डी आनी तुवालो काडलो आनी तो न्हावंक केलो. न्हांवन येतकीर आपालें एक नवें धोतर आसलें तें ताणें ताका दिलें आनी म्हळें, 'आडवें गुटलावन घे भावोजी.'

जेवंक बसतकीर भूक नाशिल्लेवरी तो उंडी फाटीं फुडें करतालो. सुमनाक दिसलें हो बायच्या उगडासान सगर्दन जाला. काकुयट. जिवाची चय दैना करून घेयल्या.

'जेव न्ही भावोजी.'

'जेवतां...'

'खंय आशिल्लो तूं भावोजी ? एक चीट लेगीत कित्याक बरयली ना तुवें ? आशिल्लो खंय तूं ?'

'मुंबयंत.'

'नोकरी करता ?'

'करतां.'

'रावंक-ठिकाण आसा मुरे ?'

'हय.'

रातचें सालांत ताणें तांचें हाथरूण घालें. एके वटेन गीतूक घालें दुसरे वटेन

रमेशाक. आपूण येवन रांदचेंकुडींत एकलेंच न्हिदलें. गीतू पयलींच न्हिदून पडिल्लें. रमेश मात थंय कसोच न्हिदूंक तयार ना जालो. ताणें मगेर रमेशाक उखलून आपणासरीं व्हेलो. पूण गीतू दुसरे वटेन नाशिल्ल्यान ताका चुकिल्लेवरी जाल्लें. आनी झेमच पडनासली. दुसरे वटेन चिंतनाचों दोंगर लकून येयिल्लो. बायची याद परती परती उफेवन येताली. भावोजी येतसान बायलीं पावलां घरांत वाजूंक लागिल्लीं. मदींच तें आवाज घेतिल्लेवरी फाटल्यान फुडल्यान पळयतालें. आतां भावोजी येयला, ताजीं हीं भुरगीं ताजे सुवादीन करतां आनी हांव मेकळें जातां. ताका जाय तें करूं दी. ताजीं भुरगीं आनी तो. मदींच तें खोशयेन मुरकटिल्लेवरी जालें. मगेर ताका सोताकच गुन्यांवकारी अशें दिसलें. ताणें रमेशाक ओडून मुखार घेयले. ह्या पोरान भोव माया लायिल्ली ! आतां बापायवांगडा वयतलीं पोरां!

सुमनाक कळटालें, भायर न्हिदिल्ल्या भावोजीक झेम लागना. तो बेठोच कुशी परतिता आनी उठून बसता, न्हिदता.

दुसऱ्या दिसा सुमनान भावोजीलीं सगलीं वस्त्रां रिठ्यान घांसून घांसून धुंवली. वांगडा भुरग्यांलींय वस्त्रां धुली. आंगणांत ह्या माडापासून त्या माडामेरेन एक दोरी बांदून तीं एके ओळीन सुकोवंक घालीं. भावोजीलीं वस्त्रां आनी मदींमदीं भुरग्यांलीं वस्त्रां. ती ओळ पळोवन तें सोताभितरच मुरकुटलें.

दुसऱ्या दिसा तो दीसभर सालांत वोगी बसून रावलो. वाड्यावयल्यो बायलो बीन येवन फुतफुतत, हातान कुरू करुनूच सुमनाक कितें कितें आंगणांतल्यानच विचारताल्यो. पूण सुमित्रा मुळचीच धीट. ती वचून सालांत ताजेमुखार बसली आनी तिणें ताका सांगलें, 'जालें तें जावन गेलें. दुख्ख करून उपेग ना. ह्या भुरग्यांचें आतां तुवेंच आंगार घेवंक जाय. सुमनाचें अजून सगलें जावचेलें आसा. भुरग्यांक लागून तें आडखळीक पडलां.'

पूण तो एक उतरान कांय उलयलोना. अशेच चार दीस गेले. तो जेवतालो, खातालो आनी ओग्गी बसून रावतालो. पूण सदांच थतरवितर. ना म्हळ्यार एक फावट वयर दुकानासरीं वचून तो खाड करून येयिल्लो. येताना भुरग्यांक खावंक, इल्लो चायेपिठो साकर आनी एक वासा साबण घेवन येयिल्लो.

'भावोजी, घरा गेल्लो ?'

'हय.'

'बाप्पा कसो आसा ?'

'आंग धरून पडला.'

'मगेर कोण करता तागेलें ?'

'भयण सद्दां सकाळीं येता आनी ताजें करून वयता.'

'कोण सुमती होनी ?'

'हय.'

सुमनालें काळीज चरचरिल्लेवरी जालें.

एकदीस सांजचो तो भोंवन येता म्हण न्हंयवटेन गेलो आनी काळोख पडटकीर परतलो. घरांत येयल्यार ताज्या तोंडाक सोऱ्याचो वास. तो सालांत येयलो आनी हांथरुणा कवळ्यार तसोच बसलो. पूण कांय उलयलो मात ना.

ताका पळोवन सुमन कासावीस जालें. 'हाका सोरो ह्या गांवांत मेळ्ळो खंय ! शिद्दरांत तर हो शिद्ध लोकांलो वाठार म्हण सोऱ्याचो थेंब कोण हाडिना. ह्या गांवचे शिमेभितर सोरो हाडटल्यांचें, पितल्यांचें बरें जायना म्हणटात. एक फावट एक वडारी सोरो पिवन रस्त्यार बोवाळ करूंक लागलो तर गांवच्या लोकांनी ताका मारून मारून शिमेभायर धांवडायलो. पूण हो सोरो पिवन आयला ! ताका याद येयली, लागींच आंबेजुंव्यार सोरो मेळटा म्हणटात. हो व्हड्यान पोंय बळाटून वचून पिवन येयला दिसता.

ताणें मोन्यानच ताका वाडलें, रातचो रमेश ताजेसरीं न्हिदूंक तयार ना जातकीर ताणें एक थापट घालून ताका थंय न्हिदयलो. तें तणतणलें, 'बापाय वांगडा न्हिदूंक तयार ना. मावशी जाय तुका. आई वांगडा मावशीय मेली म्हण समज.'

दुसऱ्या दिसा सांजचो तो भुरग्यांक घेवन शेतांतल्यान वेल्या रस्त्यामेरेन वचून भोंवन येयलो. ताज्या खांदार गीतू आनी बोटाक धरिल्लो रमेश. रमेश तागेल्या बोटाक धरून चलतालो आनी कितें कितें विचारतालो. सुमनाक बेठीच उमळशीक लागली, हे कितें उलयतात काय ! पूण ते तशे चालून येतना पळोवन सुमनाक धन्य धन्य दिसलें. तें कालचें विसरलें. ताज्या दोळ्यांत सट्कन दुकां उर्बीं रावलीं, 'फाल्यां वयतलीं पोरां !'

मर्दीं आनीक दोन दीस गेले. सुमनाक सामक्की धाकदूग. हो भुरग्यांक केन्ना व्हरतलो, व्हरून खंय दवरतलो ! ताजीं भुरगीं, तो खंयूय व्हरून दवरूं, म्हाका लागना तें. हांव भुरग्यांक ताजेवांगडा धाडलेबगर रावचें ना ! ताजें धन ताणें सांबाळचें !

'सुमन हांव वयतां फाल्यां.'

'खंय वयतलो ?'

'मुंबय.'

'घरा हुळग्यांतच राव मुरे.'

'ना. शेत दोन वर्सां पडींगच आसा. आतां शेताचो बीन वावर करचोंना हांव.'

'वच. मुंबय जाल्यार मुंबय वच. पूण वयतना तुगेल्या भुरग्यांक घेवन वच.' फातरापोंदा शिरकल्लो हात सोडोवन घेवंक केल्लेवरी म्होंव्या उतरांनी ताणें म्हळें.

पूण तो कांयच उलयलोना. सुमनच उलयत रावलें, 'हांव कितलो काळ सांबाळटलें तांकां. चेडवाल्या दुदाचे पयशे हांव घरांतलो दाणो गोटो विकून पावयतां. शेत गेणीक लायलां. ताणें दिल्लें हांवें खावचें. तूं घेवन वच तांकां. फाल्यां म्हजें कितें जाता तें जाता. लग्न जावं ना तर मरूं हांव. म्हजो हुसको कोणाक नाका !'

'भुरग्यांक मावशेची माया लागल्या. सोडून रावचीं नात तीं. सान आसात तीं.'

'भावोजी, तुका सांगलें न्ही. हांव आनीक तांका दवरून घेवचें ना म्हण.'

'आमी वांगडाच वचुया मुंबय. आपाय ना. तुजें कोण करतलो ?'

सुमन शादूर जालें. कांय वेळ ताजेकडेन पळयत रावलें. आवाज तीख करून ताणें म्हळें,

'मुंबय येवन कितें तुमची वावराडी म्हण रावूं ?'

तो कांय वेळ चाचरत रावलो. 'तशें न्ही गो. भुरगीं आसात. भुरग्यांक घेवन रावचीं बरीं करून. मेवणेकडेन लग्न जावच्याक वायट कितें आसा ?'

खरें म्हळ्यार सुमनाची तकली रागान फुटूंक तेकिल्ली. पूण ताणें तापून तांबड्या जाल्ल्या लोखणार उदक रकोवचें तसो आपलो राग यत्नान न्हिवयलो. मातशें खालच्या आवाजांत ताणें म्हळें, 'सोन्याच्या नादांत तुवें बायलेक झरोवन मारली. आता मेवणेक व्हरून सोन्याक वीक.'

'आयज सात दीस जाले एकच फावट पियेल्लों मुगो. ह्यान फुडें सामकेंच सोडटां.'

'तें कांय सांगूं नाका म्हाका. फाल्यां तूं वयतना भुरग्यांक न्हंयसरी घेवन येतां आनी व्हड्यांत बसयतां. तूं आनी तुजीं भुरगीं !'

तो मुखार कांयच उलयलोना.

सुमन सडसडीत कामाक लागलें. दुकानाकडेन वचून तें मूग आनी गोड घेवन येयलें. मूग भाजून, दळून आनी तातूंत पातळ गोड घालून ताणें चाळिशेक मुगांलाडू

केले. लाडू वोळटना ताजे हात थरथरताले. तांच्यो आंगल्यो-तोपल्या एकठांय करून पोतयेंत भरतना जीव अंदल्लेतवरी जातालो. बैल विकून आयिल्ल्यांतले दोनशीं रुपया तशेच आसले. तातूंतले शंबर रुपया वयतासतना रमेशाल्या हातांत दिवचे म्हण ताणें थारायिल्लें.

रातचें न्हिदताना दोगांय भुरग्यांक तें सोतासरींच घेवन न्हिदलें. हांथरुणार पडटकीर दोगांय भुरग्यांक एकच फावट म्हऱ्यांत ओडून घेवन तें खूब्ब रडलें. ताजें रडें भायर भावोजीकय आयकूंक येतालें.

रडटांरडटांच ताका झेम लागली. पूण मर्दीच केन्ना जाग आयल्यार कोणाचो तरी जड हात ताज्या आंगावयल्यान भोंवता. तें सडसडीत उठून बसलें. कुशीच्या उकत्या जनेलांतल्यान इल्लो चान्याचो उजवाड भितर येतालो. हांथरुणासरीं एक दादल्याची आकृती. ताणें तो भावोजी म्हण वोळखलें. काळखांत तो बरोच ऊंच आनी दांडगो दिसतालो, कांबळ कांबरून घेतिल्लेवरी. पूण सुमन सामक्कें भिंयेलेंना. 'भावोजी कित्याक येयला हांगा ?'

'भुरग्यांक हांव एकलो व्हरून कितें करूं ?' ताणें शेळेल्ल्या आवाजांत म्हळें.

'मुंबय वचना जाल्यार हुळग्या घरा घेवन वचून राव.'

'तूं जाता जाल्यार खंयूय वचून रावन हांव.'

सुमनाक आतां ताजो इतलो राग येयलो, ताणें ताणशेवन म्हळें, 'हांव जायना म्हण सांगलें न्ही !'

ते उठलें. ताणें ताका घट बावळ्यांक धरलो आनी उबो करून भायर ताज्या हांथरुणार व्हरुन बसयलो. ताज्या हाताची पकड इतली घट आसली, ताजो बावळो बरोच दुखलो. ताज्या बावळ्याक धरतकीर सुमनाकय दिसलें, हाज्या आंगात आतां इल्लीय घटसाण उरलिना. सोऱ्यान हाका पगळून उडयला. खीणभर ताका अजाप दिसलें, ह्या मनशाची वाट पळयत पळयत बायन जीव सोडलो म्हण!

सुमनाक आतां झेमच पडना जाली. उकत्या दोळ्यांनी रात सारतां सारतां फांत्यापाराक केन्नातरी न्हीद लागली.

सकाळीं उठून पळयल्यार भावोजी हांथरुणार ना. तागेलीं खुंटयेवेलीं वस्त्रां नात आनी ताणें येतना हाडिल्ली ती तुटकर सुटकेसय ना. सुमनाक खप्प जालें. साबुद्द गेल्लेवरी तें मदल्या दारांतल्या हुंबऱ्यासरीं बसलें. पूण थंय ताजी नदर गेल्यार धा धा रुपयांच्यो पांच-स नोटी हुंवऱ्याभितर घडी घालून दवरल्यात.

सुमनान होळोम काडलो, 'बाळ रमेश, तुगेलो बाबा तुमकां सोडून धांवलो रे!'

गोविंद असनोटी तागेल्या घरा गेल्लो, आठ दीस येयलोच ना. सुमन सामक्कें आकूळपिकूळ जावन तागेली वाट पळयतालें. एक दीस तो नदरेन पडलोना जाल्यार ताजो जीव गोळाक लागतालो. आनी आठ दीस गोविंद नासलो. तें परतें परतें घराचे उदेंतेवटेन वचून गोविंदाल्या मामाल्या घरासरीं पळतालें. बागलांत, वासरेंत, माळयेर तो खंयूय दिश्टीक पडटा काय म्हण सोदतालें. ना तर घरामुखावेल्या आखाड्यांत उबें रावन शेतापेल्यान न्हंय तडी मेरेनचे वाटेक नदर लावन रावतालें. कोणय ते वाटेन येता म्हण दिसतकीर उचांबळ जातालें, लार्गी पावतकीर तो गोविंद न्ही म्हण कळटकीर निर्शेतालें. तीन-चार दिसांनी परतो येतां म्हण सांगून गेल्लो गोविंद आज आठ दीस नासलो. भास्करअण्णाल्या घरासरीं वचून विचारचेलो धीर नासलो. भावोजी येवन वचतसान सगलो धीर गळसणिल्लो.

एकेक फावट सुमनाक दिसतालें, आपूण कित्याक म्हण गोविंदाली अशी काळीज खरवडून वाट पळयतां. कित्याक म्हण म्हाका हीं ताळणी ! तो एक मायेस्त इश्ट म्हण काय म्हजो फाल्यांचो घोव म्हण! तो तर आतां म्हाका दिसानदीस पयसुल्लें अपरूप धनशें दिसूंक लागला. त्या धनाचो चकचक मनाक भुलयता, पूण ताजेर शेशनाग फोडें काडून उबो रावला ! हांव भोव भोव आंवडेतां गोविंद म्हाका मेळचो म्हण ! पूण हांव कर्मकट्टें लग्नापयलींच दोगां भुरग्यांली आवय जावन बसलां. आनी हांव कितें ही भुरगीं घेवन फाल्यां भास्कर अण्णाल्या घरांत रावंक वयतलें ! सगल्यांक कोंक्यार गारतालो म्हळ्यार गोविंद म्हजेपरस भिजूड !

बाय, तूं म्हगेली आवय जाल्ली मुगो ! आतां हांव तुगेल्या दोगां भुरग्यांली आवय जालां, म्हण गोविंदाक लेगीत सोडूंक उठलां ! पूण बाय म्हाका गोविंद मेळूंदी म्हण आशिर्वाद दी गो !

खंय गेलो हो गोविंद ! सुमनाक तागेलें असनोटचें घर म्हळ्यार भिरांत दिस. केन्ना तागेले व्हडले तीग जण भाव लुवणे मळणे वेळार वांगडाच येताले. घडघड घालीत भास्करअण्णाल्या खळार वावुरताले. लुंवप, वर्जी बांदून घुडयां घालप. मगेर मांच, ताटी मांडून रात रात तें मळप. सगलो घडघड चलतालो. मळटना ताणें शेतांतल्या खळार ताटीर मारिल्ल्या धानांच्या मोड्याचो आवाज वाड्यार आयकोंक

येतालो. उलयतालेय तशेच व्हडव्हडान झगडिल्लेवरी.

तीगय जण भाव एकापरस एक धश्टपुश्ट, ऊंच आनी दांडगे. गोविंद तांचे मुखार कांयच न्ही. आतां बावीस वर्सांचो जालो तो पूण अजून भुरगोसोच दिसतालो. गोरो, शिडशिडीत. काळे नितळ दोळे. उलोवपांतय भुरग्यालें भाबडेपण.

गोविंद येयलो म्हण कळ्ळें आनी वाड्यार परमळ सुटिल्लेवरी ताका दिसलें. दुसरें मन म्हणटालें, म्हाका कित्याक म्हण ही खोस भोगता ! मोट्या कचाट्यांत शिरकलां हांव !

सांज जावच्याक गोविंद येयलो. 'खंय आशिल्लो रे तूं इतले दीस ?'

'आई बरी ना. चार दीस कारवारा व्हडल्या आस्पत्रेक आशिल्ली.'

'कितें जालां तर तिका ?'

'खोंकली येता आनी खरस मारता. सारकी जेवय ना.'

'कितें सांगलां दोतोरान ?'

'कांय ना. वखदां दिल्यांत. पयर मामा गेल्लो आईक पळोवंक. आई मामाक सांग, हांव आसतनाच गोविंदाचें कितें करचें तें करून उडय म्हण.'

'मामान कितें सांगलें तुगेले आईक ?'

'तेंच चिंततां हांव म्हणूंक लागलो.'

'कितें आसा तुगेल्या मामाल्या मनांत ?'

'हांव तरी खंय जाणा गो?'

सुमनाक थरथरो भरिल्लेवरी जालो. ताणें सुक्या ताळ्यांत एक आंवडो घोंटून विचारलें, 'गोविंद, मामान तुगेलें लग्न आनीक खंयचेय चलयेकडेन करतां म्हळ्यार तूं कितें करतलो ?'

'हांवे थारावनच दवरलां. हांव तुजेकडेनच लग्न जातलों म्हण सांगतलों.'

'ताणें मानलेंना तर ?'

गोविंद भितल्ल्यान घुसमटिल्लेवरी जालो. 'हांव जांवचोच ना आनीक कोणाकडेन लग्न.

गोविंदान सांगिल्लें आयकोन सुमनाल्या काळजार खोशयेचीं मोरापाखां भोंवलीं खरीं पूण भितर दड मारून बशिल्ली भिरांत मात तशीच उरली.

पंढरीक शेत गेणीक दिल्ल्याक तीन वर्सां जावन गेल्लीं. तिसऱ्या वर्साक पंढरीन आनीक दोन खांडयो भात उणें दिलें. म्हळ्यार फक्कत आठ खांडयो भात दिलें. विचारल्यार म्हणूंक लागलो, 'शेतांत घोळप, हाडां दणदणोवप आमी आनी तुमी पांयार पांय घालून आयतें खावप. कसलें कंगाल शेत तुजें. बारा खांडयो रोयलें आनी तेरा खांडयो जालें. एक खांडी अल्लान दिलें, असली गत.'

'आमचें शेत कसलेंय आसूं. येता त्या वर्साक तूं करूं नाका तें. कोणाकय दीन हांव.'

'कोणाकय दिता ? कोण कसो शेतांत पांय दवरता तें पळेतलों हांव.'

आयकोन सुमनाक अजाप जालें. हो असो कित्याक उलयता ! ताज्या पांयांसकल्ली भूंय सरकूंक लागली. फुडले दोन दीस ताका ज्यो खबरी कळ्ळ्यो ताजेन तर तें पिशांतूर जावंक पावलें. पंढरीन शेत गेणीक करतसान तें शेत आपुणूच वसयतां म्हण दर वर्साक गांवचावडेर वचून रिकार्ड उताऱ्याचेर तलाठ्याकडच्यान लावन घेतिल्लें. आतां तीन वर्सां जातकीर ताणें तें शेत आपणाल्या नांवार जावचें म्हण साक्षीदारांसयत मामलेतदाराक अर्ज केल्लो.

दुसऱ्या दिसा तें नरशिंवाक घेवन तलाठ्यासरीं गेलें. ताणें सांगलें, 'दर वर्साक ताणें तें शेत आपुणूच वसयतां म्हण बरोवन दिल्लें आसा.'

नरशिंवान विचारलें, 'ताणें सांगलें आनी तुमी ताजें नांव रिकार्ड उताऱ्याचेर बरयलें ?'

'ताणें त्या शेताच्या भोंवतणच्या शेतकारांचीं साक्षी म्हण नांवा दिल्लीं आसात.'

'मगेर आतां उपाव कितें ?'

'उपाव कांयच ना. कायदो कुळांचे बाजून. आतां तुमी कोर्टांत वचून केस उबी करची पडटली. तातूंत जैत मेळटलें म्हण सांगूं नजो. शेत ताणें तीन वर्सां केलां हें खरें.'

सुमनाक आतां त्या शानभागाचोय राग येयलो. ताणें म्हळें, 'तुमकां पयशे खावोवन कित्याकितेंय करतात लोक. गरिबांक नाडयात.'

त्या तलाठ्यान 'बेठींच पिशेपणां. शा, शा. तशें कशें जातलें?.' अशें कितें तरी

म्हळें.

तीं दोगांय घरा परतलीं. नरशिंवान ताका सांगलें, 'गांवपण आफय.'

सुमन दर एका बापोलयासरीं वचून रडलें, 'हेंच घरवडीचें शेत तें आमकां वांटून येयिल्लें. हांव एकलें चेडूं म्हण तो म्हाका नाडूंक सोदता.'

तांणी सुमनाक सांगलें, 'कायदो मारेकार. ह्या कूळकायद्यान बामणांली शंबर शंबर एकर जमीन कुळांक पडली. गांव सोडून बामणांनी मुंबयची वाट धरली.'

'पूण हो आमचो बापोलयो म्हण पातेल्लें हाका.'

'खरें तुजें. गांवपणाक उलो घाल तूं. ते कितें सांगतात चवया.'

तिनसांजचे वाड्यावेले दादले तुळशी आंगणांत माटवापोंदा गांवपणाक एकठांय जाले. पयलीं केशवान वचून पंढरीक लोकांमुखार यो म्हण आफयलो. पूण तो म्हणूंक लागलो, 'प्रकरण सरकाराकडेन पांवलां. ते कितें तें थारायतले. ताजें तुमकां लागना.'

. अरे पूण सुमन आमचेच कुळयेंतलें. जमीनय हेच घरवडीची. सगल्यांक आर्दी वांटून गेल्ली.'

'सगल्यांक आर्दी सारकी वांटून गेल्ली मुरे ? मगेर म्हाका तीनच खांडयांची जमीन कशी आनी भास्कराक बारा खांडयांची कशी ? निळूक धा खांडयेची कशी ? आर्दी आमचो आजो, बापूय अडचणेक शिरकल्ले पळोवन ह्या लोकांनी तांची जमीन फुकेसवाय हातासली. आनी केशव, तूं म्हाका सांगता ? आपूशणैली सांवरीकडची तीन खाडयांची जमीन तुवें कितें विकत घेतिल्ली रे ? आपूशणै कडवाडच्यान गेणीक येयल्यार तूं ताका सरकाराकडल्यान गेण घे म्हण सांगतालो. फावटी मारून खुळयो झरल्यो ताज्यो. तो आतां घरदार सोडून मुंबय वचून धुवेसरीं आसा.'

उपरांत ताका आफोवंक रामदाद गेलो, यशवंत गेलो. पूण तो कसोच आयकना जालो. खरें म्हळ्यार हांच्या उलोवण्याक जाय तसो जोरच नासलो. कारण नव्या कूळ कायद्यान हांच्या जण एकल्याच्या पदरांत थोडी भोव जमीन पडिल्ली. बामणांली, मुंबय चाकरेक गेल्ल्या कोंकण्यांली.

सुमन इतलो वेळ तुळशीआंगणाचे मेरेर वोगी बशिल्लें. एके वटेन तें रागान खतखततालें. कसलो घातमारो मनीस हो, म्हजी जमीन खाता आनी वयल्यान गांवपणाक आफयल्यार येयना. आतां तें सोता गेलें, 'वाड्यावेले आफयतात, यो मुरे पंढरीअण्णा !'

'कित्याक आफयतात ? व्हडलें तूं गांवपण आफोवपी. येयना म्हण सांग.'

'म्हजी जमीन खावंक सोदता? बरें जावचेंना. बऱ्याक पडची ना तुका.'

'बेठीच खायना. तीन वर्सां वसयल्या. घरासरीं व्हरून गेण पावयल्या.'

वाड्यावेलो म्हण दिल्ली तुका. तूं पातकी असो घात मारतलो म्हण नकळो आसलें.'

'चड उलोवं नाका. लाग चलूंक आमच्या दारांतलें. कित्याक गो जमीन तुका ? फाल्यां लग्न जावन वयतना माथ्यार मारून व्हरतलें ? होसमार हांगासल्लें.'

सुमनाक हाजेर इतलो राग येयलो. तें तोंडाक आयिल्ल्या उतरांनी ताका सवत सुटलें. भुरगेपणापासून आयकत येयिल्ल्या सगल्यो खर, पोजड्या गाळींचो ताणें शिंवर केलो. हात हेळयत हिस्तहिस्तीन खेपलें. पंढरी उठून आंगणांत येतकीर ताणें मेरेवेलो एक चिऱ्यां फातर उखललो आनी म्हळें, 'यो मुखार. तुजें मडेंच घालतां !'

'व्हडलें नाक घेवन उलयता. भास्कराल्या त्या भाच्याक दीसभर घेवन पडटा.'

'हय. घेवन न्हिदतलें ताका ! तूं कोण विचारतलो, तुका कित्याक जाय तें !'

'सगलें सोडलां तुवें ×××.'

कोण तरी मुखार येवन सुमनाक ओढून घेवन गेलो. कांय वेळ वाडोभर कलकल. कोण पंढरीक गाळी घालतालो, कोण बेठीच भासाभास करतालो. सुमनान पळयलें, वाड्यावेल्या दर एक, घरांतल्यान बायलो, दादले येवन आशी कुशीक उबे रावल्यात. कोण कोण तर सुमनाक राखूंक राविल्लेवरी उबे आसात.

सुमन घरासरीं येतना लोक आपलेपरीन उलयताले, 'वाड्यावेल्या बापोलयाक अशो गाळी घालच्यो न्हय ताणें.'

'बापोलयो ताज्या मुळार उठून ताका भिकेक लावंक सोदता. मगेर ताणें कितें करचें ? एकलें अनाथ पोर तें !'

घराकडेन येयल्यार गोविंद वासरेंत एकलोच बसला. भुरगींय ताजेसरींच आसात. सुमन भितर गेलें आनी सालांत धप्पकन बसलें. गोविंद भुरग्यांक घेवन तसोच भायर बसून रावलो. आंगणांत उबी आशिल्ले देवकीमावशेन वचून आपणाल्या घरांतल्यान दिवो हाडलो आनी तांचो दिवो सोदून काढून पेटयलो.

देवकीमावशी वयतना म्हणटाली, 'पळेलें मरे गोविंद, चोंयवटेन कशें त्रासांत पडलां तें. मामालो चेडो तूं. तूंच कितेंय सांग ताका.'

कितलो वेळ गोविंद वोगीच बशिल्लो. धाकलें न्हिदिल्लें आनी रमेश वचून मावशेल्या खाकोळांत बशिल्लो. सुमन भितर रडटाशें दिसतकीर गोविंदान इतलेंच म्हळें, 'रडूं नाका सुमन. वोगी राव. खाता जाल्यार खांव दी ताका शेत. उपाशीं पडचें ना तूं !'

मामी ताका सादोवंक लागिल्ली कांय वेळ ताणे आयकलेंनाशें केले. मगेर तो "येता गे मामें" म्हण उठून गेलो.

रमेश तागेले कुशींत झेमेवंक लागिल्लो. पूण ते तस्सें बसून आसलें. कांय वेळान परतीं दारांन पावला वाजलीं. गोविंद आनी तागेली मामी सरस्वती घरांत येयली. सरस्वतीच्या हातांत पितळेच्या तोपांत शीत आसलें. ताजेर रोसाचें आयदन. तोप सुमना मुखार दवरुन सरस्वती मावशेन म्हळे, "सुमन उठ जेव तू बेठेंच बसून किंते जातलें.

सुमनाक खरें तर सरस्वती मावशेक मिठी मारुन रडचें अशें दीस. पूण खिणाक तार्णे चितलें, बरें दिसचे ना तें

सरस्वती मावशी चोरुनशी येयिल्ली आनी बेठीच चोर पावलांन ताकतिकशी करताली. ल्हव आवाजांत उलयताली. ती येयली आनी गोविंदाक घेवन रोखडीच गेली.

भास्कर गेल्ल्या पंदरा दिसांक तीन फावट तरी कारवारा गेलो. बोटी फांत्यापाराक वयताल्यो. लांच मात णव वरांचेर येताली. तो लांचीन वयतालो. धवेंफुल्ल खोमीस, तशेंच धोतर आनी माथ्याक काळी तोपी. पयलीं हे दादले तांबड्या पाटाचे रुमाल माथ्याक बांदताले, ल्हवल्हव तांबडे रुमाल गेले... तांबडो रुमाल गेलो आनी कांय जाणांच्या माथ्यार काळी तोपी येयली; तर बऱ्याच जाणांचीं माथीं उकतीं पडलीं. आतां कसल्याय बऱ्या कारणाक माथें धांपचें जाल्यार हे आंग पुसचो तुवालो माथ्याक वेडयतात.

भास्कर सारक्को कारवारा कित्याक वयता हाची वाड्यावेल्या लोकांक भोव उमळशीक आसली. तो पावसकर वकिलासरीं वयता म्हण लोकांक कळिल्लें. पूण कित्याक वयता म्हण कोणाक खबर नासली. एक दीस रत्नाकर येयलो. तो कारवारा मामलेतदार आफिसांत आसलो. ताणें येनाफुडें सांगलें, 'भास्करदाद भाच्याक पोसको करून घेवचेलो आसा. ताजी कागदपत्रां करूंक कारवारा येता.' रोखडोच गांव भरलो.

सदाशिवाली बायल विश्रांती चुकून पाविल्लेवरी भास्कराल्या घरासरीं गेली आनी तिणें सरस्वतीकडेन आयल्यो पयल्यो खबरो काडून, पान बीन खावन विचारलें, 'आयकतां तें खरें गो ? गोविंदाक पोसको करून तुमी मांडयेर घेतात खंय.'

सरस्वती तशी मातशी सरळ सभावाचीच. तिणें खरें तें सांगलें, 'हय, घोव ताकाच लागून कारवारा वयता. कागदपत्रांचें सगलें थाऱ्यार पडटकीर मगेर जोयशाक आफोवन हाडून दत्तक घेवचो सुवाळो जातलो.'

खरें म्हळ्यार हे खबरेंत नवें अशें कांय नासलें. पूण उमळशीक आसली–एका सुवाळ्याविशींची उमळशीक. आंकवार चेडवाचें लग्न जातलें म्हण सगल्यांक खबर आसता पूण ताजें लग्न थारतकीर एक उमळशीक पातळटा तसली उमळशीक. तातूंत भास्कराल्या घरचें कार्य. सतरा गांवचे सोयरे एकठांय जातले. पंगतीर पंगती पडटल्यो. गोविंद तर सगल्यांचोच भाचो. सगल्यांक जाय जायसो.

सुमनान ही खबर अरवळावरी आयकली आनी तें खोशी जालें. गोविंदाक व्हडली व्हडविकाय दिसली ना. कशेंय जालें तरी मामागेर तर रावचेलें.

पूण शादूर जाली ती सुमित्रा. अरे, एक फावट भास्कराबाबान गोविंदाक पोसको करून मांडयेर घेयलो म्हणटकीर तो तागेलो पोटचो चेडो कसो जालो. तो तागेलेंच नांव लायतलो. गोविंद भास्करालो चेडो म्हणटकीर सुमनालो भाव!

तिका अजाप दिसलें, ही गांठ आयजवेर म्हज्या ध्यानांत कशी येयलिना! सुमनाचें सोड. तें एक नेणार. आनी गांवच्या लोकांनी तांच्या लग्नामेरेनचें केन्ना चिंतलेंय नासुये. पूण हांव कितले फावट मनांत सुमनाचें आनी गोविंदाचें जोडें जुळयतालें. तीं दोगांय उलोवंक लागलीं म्हणटकीर चोरून आयकनशें दिसतालें. पूण ही गांठ म्हज्या ध्यानांत कशी येयलिना !

आतां सुमित्रा एका नव्याच पेचांत पडली. आतां हें सुमनाक आनी गोविंदाक सांगचें काय ना ? दोगांय नेणार. कितें घडटा हाजो अर्थ आज घडये तांकां लागना जायत. फाल्यां घडचेलें तोंडार आयले उपरांत वा घडून गेले उपरांत ताजो अर्थ लागल्यार कितें जातलें, तांचे तळमळे म्हज्यान पळोवंक जातले ? घडये तीं आपलो जीव लेगीत वगडावन घेत ! हें आनीक पातक नाका !

सुमन वासरेंत मंजूळाल्या चेडवाक आंगार घेवन खेळयतालें आनी थुळेतालें. पळोवन सुमित्राक कशेंशेंच दिसलें. सुमित्राक पळोवन तें 'बस काकी' म्हण म्हऱ्यांत येयलें.

'तीन वर्सां सोंपलीं दिसता न्ही गो गीतूक ?'

'हय काकी. पयर तुळशी परबेक तीन वर्सां सोंपलीं.'

'रमेश खंय गेलो ?'

'शाळेक. पयली शिकता न्ही गे तो काकी.'

पळेतां पळेतां कितलीं व्हड जालीं पोरां. मंजूळ वचून तीन वर्सां जालींशीं दिसच नांत. पयर पयर अशें दिसता.'

सुमन कांय वेळ वोगी रावलें, 'रामदादागेलो रेडयो बरो वाजता न्ही? हांगा लेगीत आवाज येता.'

'नवो नवो हाडला म्हण लायतात व्हडान. हांव जाल्यार बारीक लायतां. तूं जाणां सुमन, इंदिरा गांधीक खंय जैलाक घालूंक व्हरताले, लाखभर लोकांनी येवन खंय तिका सोडोवन घेयली.'

'रेडयोचेर सांगलां ?'

'हय तर.'

'कोण घालतालो गे तिका जेलाक ?'

'जनता पक्षाचे लोक.'

'कित्याक म्हण ?'

'तिणें तांकां जेलांक घातिल्लें न्हू गो.'

सुमन अजापानशें आयकतालें.

'गोविंद खंय दिश्टीक पडलोना मुगो ह्या दिसांनी ?'

'आसतलो. तागेल्या मामालीं कामां आसात न्ही गे.'

'हांगा येयिना ?'

सुमन लजलें. 'येता केन्ना केन्ना.'

'ये तुमी लग्न जातलीं गो ?'

सुमनान सद् करून तिजेसरीं पळयलें. मगेर मान सकल घालून वोगी बसलें.

'पूण ताका भास्करबाब पोसको करून घेता न्ही गो !'

'घेवं दी.'

'घेवं दी कितें ? तो भास्करबाबाचो पोसको म्हणटकीर देवाधर्मान तागेलो खाशेलो चेडो जालो. तागेलो चेडो म्हणटकीर तुगेलो भाव. तुमी दोगांय भाव भयणी जालीं नात ?'

आयकोन सुमनालो आवरो उडलो. आदार सुटून हुमकळूंक लागलां अशें ताका दिसलें. लज भीड सोडून ताणें विचारलें, 'आतां कितें करचें गे काकी?'

'हांव आनीक कितें सांगतलें ? तुमीच आतां झुटासून कितें ते थारावंक जाय. गोविंद घट रावल्यार कितेंय जायत.'

सुमनालो मनाचो बंद सुटिल्लेवरी जालो. 'आमी खरेंच एक दुसऱ्याचेर मोग करतात गे काकी ! भुरगेपणापसूनचो तो म्हजो इश्ट ! एक दीस तो दिश्टीक पडलोना जाल्यार म्हजें चित्त थाऱ्यार उरना ! तो म्हाका जाय गे, आमी लग्न जातलीं ! नातर हांव जीव दितलें काकी ! हांव पवित्र आसां गे ! केन्नाच ताजेकडच्यान हात लावन घेवंक ना हावें ! आमी आमचें लग्न जातलें म्हण रावल्यांत ! म्हाका खूब आवडटा तो आनी तोवय म्हजेकडेनच लग्न जातलो म्हणटा !' उलयतां उलयतां तें खरस लागिल्लेवरी रावलें.

सुमित्रान ताजेसरीं अजापान, तोखणायेनशें पळयलें. 'नशिबांत आशिल्लोच घोव मेळटा. आतां म्हजेंच चय. भुरगेपणाक हांव हांगा येवन पडटलें म्हण कोणेंय म्हणिल्लें जाल्यार पिशांत काडटासलें.'

'नरशिंवअण्णा बरो गे काकी.'

'बरो आनी वायट. वायट जालो म्हण सोडून दिवं येता ? तुका सांगतां, हातूंत तुमीच दोगांयनी जाता तितले यत्न करचेले. तिसरो मनीस हातूंत पडूंक शकचो ना. वाड्यावयलो लोक कितें तुगेली सोयरीक घेवन भास्करबाबाकडेन वयतलो ?'

सुमित्रा उठून गेली. त्या दिसा, दीसभर तें थतरवितर. कशांतच मन लागनासलें. भुरग्यांक इल्लें शिजोवन घायलें. तें मात जेवलेंना, खायलेंना. त्या दिसा दीसभर गोविंदय येयलोना. ताजो जीव चडच गोळाक लागलो. तें मर्दीच घराचे उदेंतेवटेन वचून उबें रावतालें आनी पळयतालें, ताका ओगीच दिस, गोविंदाल्या मामाल्या घरासरीं कसली तरी ताकतीक चलल्या. गजगज जाता!

पूण हो गोविंद येयलोना कित्याक ?

दनपारां गोविंद येयलो. ताजें खुमणें पडिल्लें. चिंतनांत पडला असो दिसतालो. 'कितें जालें गोविंद ?'

'पयलीं मामा चड वचूं नाका म्हण धपकायतालो. आतां मामीय वचूं नाका म्हणटा. गेल्ले चार दीस चडच 'वचूं नाका, वचूं नाका !'

'खंय वचूं नाका म्हणटात ?'

'हांगा, तुजेसरीं.'

'कित्याक म्हण ?'

'नकळों. कांय सारकें सांगिनात.'

'तुका पोसको करून घेतात न्ही रे तीं ?'

'म्हण कितें जालें? पयलीं म्हण हांव पोसक्यावरीच नासलों तर !'

'तशें न्ही गोविंद. देवाधर्मान सोयऱ्याधायऱ्यां हुजीर 'दत्तक विधान' जावन तुका तांणी पोसको म्हण घेतकीर तूं तांगेलो सोताचो चेडो जातलो. तांगेलो चेडो म्हणटकीर म्हगेलो भाव ! भाव – भयणींमदीं आनीक लग्नां जातात?'

गोविंद अजापलो. मगेर भितल्ल्यान फुटिल्लेवरी घुसमटत बसून रावलो.

'तूं पोसको जातलो गोविंद ?'

'मर तूं वचून खंयीय. म्हाका कित्याक विचारता ?'

सुमन हांसलें, 'तुजें तूं थाराय गोविंद. हांव आडखळी हाडचें ना. पूण सांगतां, हांव तुजेबगर रावंक शकचेंना!'

गोविंदान एक फावट मळबखोल नदरेन सुमनाल्या दोळ्यांत पळयलें. कांय युगांची वळख आशिल्लेवरी तीं कांय खीण एक दुसऱ्याचे नदरेंत बुडत गेलीं. सुमनाक दिसलें, हाजी भुरगी नदर आज आरपार धीट, जुवान आनी जून जाल्या !

कांय वेळ तीं एक दुसऱ्याचीं दुकां वांटून घेत बशिल्लेवरी ओगी बसलीं सुमनान सद्द करून म्हळें, 'तूं म्हाका त्या भिल्लमाडाचे दोंगुल्लेंर वेंगांत घेतां म्हणटालो मरे ?'

'हय घेतांच आसलों पूण त्या भिल्लमाडाच्या पोंदाक आमी पावलींच नात न्ही!'

'कसली वाट ती झिली झोपांची आनी कांट्याकुट्यांची. खडवणान आमी शेणून पडटा आसलीं.'

'शेणल्यारच बरें आसलें, उदेंतेंतल्यान अस्तमतेक खंयूय वचून दोगांच रावता

आसलीं. तो दोंगरायेदो घांग्रे फातर नाशिल्लो वाट दाखोवंक ?'

गोविंदाल्या दोळ्यांत परतीं भुरगेपणांशीं देंवन येयलीं. सुमन भिंयेल्लेवरी जालें. 'गोविंद, तूं पोसको जातलो ? कितें आसा तुज्या मनांत ?'

गोविंद कोणाचो तरी खर राग येयिल्लेवरी उठून गेलो. वयतना सुमनान म्हळें, 'तुज्या मनांत आसा तें कर. हांव आनीक कांय सांगिना तुका.'

एक व्हडलो निर्णय घेवचेलें काम आपणें पयलेच फावट कोणाचेर तरी सोंपयला अशें दिसून सुमन मुक्त जाल्लेवरी ल्हवपीक जालें.

भास्कराल्या घरांत उलोवण्याच्यो हारीर हारी चलताल्यो. केन्ना व्हडान, केन्ना फुतफुतत. जोयेशी, भट, माटोव धरून जेवणावळी आनी होंवळीक मेरेनचीं सगलीं उलोवणीं चलतालीं. ह्या गांवांत लोकांले यादींतलें हें पयलें 'दत्तक विधान.'

मर्दींच कोण तरी पडवेंत येवन बसतालो. ताका भास्कर सांगतालो, 'यशवंत, भाच्याक पोसको करून घेतां. अजून दीस थरलो ना. बरो वेळ पळोवन म्हूर्त धरूंक जाय.'

गोविंद बरो भुरगो. भांगर जातलें घरादाराचें.

गोविंद आजुबाजूक वोगी आसतालो. उलोवणीं गप्प आयकतालो जशे सगले जण धरून चलिल्ले, येद्दी व्हडली गिरेस्तकाय हाज्या हातांत घालतात. तो आनीक कित्याक ना म्हणटलो !

मामयेक ताजी अस्वस्थताय होलमताली. पूण ती कांयच उलयनासली. गोविंदाक दुबाव येयलो, मामयेलें मामाकडेन कसलें तरी उलोवणें जालां. तिवय म्हजेआड गेल्या. ना तर ती 'तूं सुमनासरीं वचचें सोड म्हण कित्याक सांगतासली?'

पूण सगलें भायलेभायर अशें चलतालें. अजून कांयच गोविंदाल्या आंगार अशें लकून येवंक नासलें. गोविंदाक तिडक मारताली. हें सगलें म्हाका विचारिनासतना थरयतात म्हणजे कितें! हांव कितें अन्माडी ?

एक दीस असनोटीच्यान व्हडलो भाव येयलो. येतना बागांतल्या तोरंगीचीं दोन तोरंगां, चार रामफळां घेवन येयिल्लो. एक तोरींग तर ताणें सोता सोलून शिरो काडून गोविंदाक दिल्यो. तो हे फावट गोविंदासरी भोव मोगान, गोडयेन उलयतालो. बोटीर बसोवन पावोवंक आयिल्लो निमाणचें निरोपाचें म्होव उलयता तसो तो

उलयतालो.

गोविंद फक्कत तेळटालो.

भुरगेपणापासून व्हडल्या भावाक तो थर्त भियतालो. बापूय नाशिल्ल्यान घरांत सगलो व्हडल्या भावालोच दरकार चलतालो. तो बरोच लांबरूंद आशिल्लो. मुखार आयिल्ले फुगिल्लेशे पोले, मर्दी फोंडकुलांत गेल्ले बारीक दोळे, जाड मिशयो. हाजेन ताजेकडेन सरळ पळोवचेलो धीर गोविंदाक जायनासलो. केन्ना ताजेमुखार उबो रावन 'अण्णा' म्हण उलो मारिल्लो ताका याद ना. ताणें आपल्या खरखरीत आवाजांत 'हांव पुरशोत्तम धनश्याम साळुंखे' अशें म्हण कोणाकय सांगल्यार ताजी लोकांक भिरांतच दिसताली.

आयज पयलेच फ्रावट मामागेर येतना ताणें पोतयेंत घालून कितें हाडिल्लें. हरशीं हात हालयत येतालो. मामान विकतें हाड म्हळ्यार नवे नांगर, निरमणें, चोबेंटीन हाडटालो. वयतना मात तो मामाल्या बागांतल्यान, पोरसांतल्यान जाय ते जिन्नस काडून साक भरून व्हरतालो. मामालें बागय इतलें व्हड, तें शेकोनशेक शेतामेरेन पाविल्लें. तातूंत हर तरेच्या फळफळावळीचीं झाडां आसलीं. केळी, कवाथो, नारींग, तोरींग, रामफळ, सीताफळ, आंबो, पणस हाजेन बाग भरिल्लें.

व्हडलो भाव आनी मामा रातचे सालांत उलयत बशिल्ले.

'मामा, कारवारचीं सगलीं कागदपत्रां जालीं ?'

'हय. गोविंदाली सय जाय. दोन दिसांनी ताका कारवारा व्हरून सय करून येतले. मगेर कागदपत्रां कारवारच्यान मामलेतदाराकडच्यान गांवचे चावडेर येतलीं. म्हजेवांगडा गोविंदाचेंय नांव लागून वयतलें वारस म्हण.'

'ताजें नांव कितें बदलुचें केलां ?'

'ना. ना. तेंच नांव, गोविंद म्हणच – गोविंद भास्कर गांवकार !'

'दत्तक विधानाचें केन्ना जातलें मामा ?'

'फाल्यां आमी दोगय जोयशागेर वचून बरो म्हूर्त पळोवन येवया. रोखडेंच करून उडोवचें धर्माप्रमाणें आसा तें.'

'कितलो सोयरो आमचो मामा? तेभायर गांवचो लोक. पत्रावळीचे चार मुडे तरी लागतले पंगत्यो घालूंक.'

'हय तर. लग्नापरस हें काम व्हड. फाल्यां लग्नाक येवपी लोक भास्कराल्या

पुताल्या लग्नाक वयतां म्हण येवंक जाय.'

'मामा, गडार हालींच एक जोगी कदम म्हण पोलीस जमादार रिटायर जावन येयला. केद्दें व्हडलें घर काडलां ताणें. तसलें घर अख्ख्या गडार ना. तो गोविंदाविशीं विचारतालो. तागेलें एक चेडूं आसा लग्नाचें.'

'ताका कोणें सांगलें तर ?'

'आमगेली बापोलभयण सुशिलाक थंय लागींच चार पेडांसरीं दिल्या न्हीरे.'

'पळोवचें तें मगर. चेडूं बरें आसल्यार चैत्रामेरेन लग्नय करून उडोवचें.'

'बरें घालून दितलो मामा. एकवीस तोळे भांगर आनी पंदरा हजार दिवंक तयार आसा खंय.'

'पळोवया तें मगेर. जाल्यार ताका सांगणें धाड, म्हयनो देड म्हयनो राव म्हण. आर्दी आमचें हें काम आसा म्हण सांग.'

दुसऱ्या दिसाक मामा आनी भाचो जोयशाकडेन वचून म्हूर्त पळोवन येयले. येतना सामानाची यादीय घेवन येयले जोयशाकडच्यान.

मामा सालांत उबो रावन उमेदीन मामयेक सांगतालो, 'माघाचे पंचमीक बरो म्हूर्त आसा खंय. फेब्रुवारीची णव तारीख पडटा.' मामी उमळशिकेन आयकताली आनी खोशयेन ल्हव ल्हव जाताली.

उपरांत व्हडलो भाव, माम, मामी जोयशान दिल्ले यादी संबंदान आनी हेर कार्यासंबंदान सालांत बरोच वेळ उलयत बसलीं.

सांजचो भाव परतो वयताना गोविंदाक म्हंन्यात घेवन सांगतालो, 'मामान सांगिल्लें नीट आयक. आतां तोच तुजो मामा आनी तोच तुजो बापूय. सूखसंतोशान रावतलो.'

गोविंदाक दिसलें, भावाक सगलें सांगून उडोवचें. पूण तो जाणा आसलो कितेंय सांगल्यार भाव हांगाच थय थय नाचूंक लागतलो आनी बोवाळ घालतलो. ताका थोपोवंक जावचें ना.

गोविंद व्हडल्या भावाक भितालो तितलोच मानतालो. तो भोव घोळटिकेचो आसलो. असनोटचें मुदलांत गरिबीचें घरदार ताणेंच नांवारुपाक हाडिल्लें. चार जण भाव ते. तांज्या पयलींपसून भोव मनांत आशिल्लें, गोविंदाक मामान पोसको करून घेवचो म्हण. केन्ना गोविंद रजेंत असनोटी गेल्यार तो परतें परतें विचारी, 'अरे गोविंद,

तुजी रजा सोंपली ना ? शिद्दर वच मुरे आतां.'

आपल्या गांवांत वेंत वेंत जमनीखातीर गांवच्या लोकांसरीं हाणामारीचें झगडें झगडपी व्हडलो भाव, मामाली येद्दी व्हडली इस्टेट धाकल्या भावाल्या हातांत पडटा हाजेन भुल्लुशिल्लो.

एक दीस सांजचें मामान गोविंदाक सांगलें, 'फाल्यां आमी कारवारा या.'

'कित्याक मामा ?'

'तूं जाणा गोविंद, हांव तुका पोसको करून घेवचो आसां. आर्दी तूं कायदेशीर वारस म्हण कांय कागदपत्रां करचेलीं आसात. मगेर तुजो नव्यान बारसो जातलो.'

'पूण हांव पोसको जायना मामा !'

मामान सट्ट करून अजापान ताजेसरीं पळयलें. हो असो कित्याक उलयता! भुरगेपणापसून मायेमोगान, अपुरबायेन राविल्लो हो भुरगो आज कितें जालां हाका ! मामयेली रिती होंट तुवेंच भरून काडिल्ली, हांव तुका म्हजो चेडोच म्हण लेखतालों. तूं म्हज्या पुता, आज असो कित्याक उलयता ! हांव तुका पोसको करून घेवंक इल्लो तडवच केलो. लोक म्हणटाले, म्हातारपणांतय भुरगीं जावं येतात. मगेर अडचण नाका. पिशेपणां !

'कित्याक पुता तूं पोसको जायना म्हणटा ?'

'तुजो पोसको जातकीर हांव तुगेलो चेडो जातलों. मगेर म्हाका सुमनाकडेन लग्न जावंक मेळचें ना.'

'सुमनाकडेनच कित्याक लग्न जावंक जाय तुका ? ती तुजी इश्टीण मुरे, आतां ताका तूं भयण म्हण मान ! हांव तुका सोबीत सुंदर भांगरान भरिल्ली व्हंकल हाडटां.'

'नाका मामा, हांव आनीक कोणाकडेन लग्न जावचों ना.'

'येद्दो आसतना हाडिल्लो तुका, पोसको करून घेतले म्हण. मोट्या पेंचांत घालें तुवें आतां.'

'मामा तूं सुमनाकच आपलें चेडूं करून घे. मगेर हांव घरजांवय जावन रावतां हांगा.'

ह्या साद्यासुदया भुरग्यांलीं हीं उतरां आयकोन माम अजापांत पडलो. येदोळ पसून उलयता भीड सोडून. त्या सुमनानच कोमार काडला हाका. 'अरे, पूण तें चेडूं आनी तूं जांवय जाल्यार तुमकां म्हजें नांव कशें लावंक मेळटलें? तुमचीं भुरगींय

फाल्यां तुजें साळुंखे हेंच नांव लायतलीं.' मर्दींच मामान तापून म्हळें, 'तें लग्न जावन ह्या घरांत येता आनी भयणील्या भुरग्यांक खंय घालता खंय ! तुका सांगतां गोविंद, नश्ट्या कर्तुबांचें चेडूं तें. हें जालें आनी म्हयन्या भितर आवयक खालें ताणें. भयण, बापूय मरून एकलें उरलां, कोणाक खावंक देवाक खबर !' फार्टी आनीक जोत बांदून नांगरान धतरिचें हड्डें फाळ्ळां ताणें. ताका तें बादलेबगर रावचें ना.'

'पूण मामा...'

'कांय उलोव नाका तूं. ताजेकडेन लग्न जावन तागेल्या भयणील्या पोरांक दवरून घेवन पोसची हिंमत आसा मुरे तुज्यान ? म्हाका आनीक नाका तें.'

'सुमनाकडेन लग्न जावंक मेळचें ना तर हांवय हांगा रावचों ना.'

मामाक आतां आपूण खरोच निपुत्रीक आसां हें खोलायेन होलमलें. ताणें विनयत म्हळें, 'गोविंद, असो उलोवं नाका तूं. भुरगेपणापसून माया लागिल्ली तुजी.'

'मगेर म्हाका तूं सुमनासरीं लग्न जावंक कित्याक दिना ?'

'तुजें ताजेकडेन लग्न जावन म्हजो प्रस्न सुटचोना. म्हाका म्हजें नांव लायतलो म्हजो पूत जाय. दुसरें तुका सांगतां, ह्या वाठारांत, ह्या वाड्यार हेर खंयचेय पिळगेचो वंश वाडचो ना. आमच्या मूळ पुरसान हांगा खुंटी मारिल्ली ती फक्कत हेच पिळगेचे वंशावळीखातीर. हें शेतभाटय ह्या वंशावळी भायल्याक पचचें ना.'

'मगेर म्हाका कशें पचतलें तर ?'

'तुका हांव देवाधर्मा मुखार म्हजो पूत करून घेतलों. मगेर तूं हेच वंशावळींतलो जातलो.'

'पूण सुमन ह्या वंशाचें न्ही ?'

'तें चेडूं. दिल्लेकडेन गेलें. वंश वाडटा तो चेड्यांचो. चेडवांचो न्ही. भुरगीं बापायचेंच नांव लायतात.'

'मगेर हांव जावचोना पोसको.'

आतां मात मामा रागान झिडपलो. 'जायना जाल्यार वच खंयच्यानय. तुका पांयें पडचोंना हांव. अठरा वर्सां तुका पोशिल्लें फुकट गेलें म्हण समजतां. ही इस्टेट कोणाकय अशीच खावंक घालतलों हांव. नातर देवाच्या भंडाराक दितलों !'

गोविंद वोग्गी कुशीक सटलो.

रातभर तो हांथरूणांत तळमळटालो. मामयेक होलमतालें. ती मर्दींच ताज्या

हांथरुणासरी येताली. मोन्यांनी उबी रावताली आनी परतताली. 'कसलें संकश्ट उबें रावलां चय. हांवें म्हजें वांजपण तशेंच भोगूंक जाय आसलें ! कित्याक म्हण माया लायली ! दुसऱ्याचो पोर कितलोय आपलो म्हळो म्हण तो आपलो जायना ! अशें मर्दी आडमेळें उबें रावतात. आपलें पोट पिकल्यारच खरें ! पूण हो पोर भोव मायेस्त. आंतडी तुट्टा ! मामी हांथरुणार पडली आनी मोन्यांनीच रडूंक लागलीं. मर्दीच ती उठली. गोविंदासरीं बसून ताका हालयत तिणें म्हटलें, 'गोविंद, तूं सुमनाकडेनच लग्न जावंक कित्याक सोदता ?'

'हांव नकळों मामे, पूण हांव ताजेकडेनच लग्न जातलों.'

'दुसरें खंयचेंय बरें चेडूं पळोवया.'

'नाका मामे.'

'म्हाका मामे म्हणूं नाका तूं.' तिणें रागानशें म्हळें. मगेर कांय वेळ ती ताजेसरीं बसून रावली. मर्दीच तिणें म्हटलें, 'लग्न जाल्यार तागेल्या भयणील्या भुरग्यांक खंय घालतलें खंय तें ?'

ह्या प्रस्नाक मात जाप नाशिल्लेवरी तो वोगीच रावलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं ताका माम सांग, 'तुज्या भावांक आज आफोवन हाडटां. ते येवन तुका घेवन वचूं ना तर दवरूं. तुमचें तुमी थारायात. म्हज्या पुर्वजांची आस्पत ताजे भायर म्हज्या बापायन, हांवें तातूंत कितली भर घाली. तांब्याचीं चार भाणां आमगेर, अख्ख्या शिद्दर गांवांत ना इतलें थाल–तामण. सगलें तुजे सुवादीन करचेलों हांव, पूण तुजेर त्या उंवाळिल्ल्या, अवचिन्न चेडवान कसली करणी केल्या देवाक खबर. बऱ्याक पावचें ना तें. ताका पानवळ दितलों हांव.'

गोविंदान वोगी आयकलें. मोन्यांनी भितर वचून आपले चार कपडे पोतयेंत भरले. मामी, माम ताका दाराआडच्यान तेळटालीं. तो वचूंक भायर सरतकीर मामयेन बेगींबेगीन भायर येत विचारलें, 'अरे, खंय असनोटी वयता?'

पूण तो वोगीच गेलो.

तो सुमनासरीं गेलो आनी पावलेंतल्यानच ताणें ताका सांगलें, 'हांव गोंयां वचूंक वयतां. थंय कसलीय नोकरी धरतलों. फोंड्यां म्हण म्हजो एक मावशेभाव आसा.'

'मगेर म्हजे कशें जातलें गोविंद ?'

'राव तूं. दोन तीन म्हयने राव. मगेर आमी सगलींच गोंयां वचचीं. तुजें तरी आतां कितें आसा हांगा.'

'खरें तुजें. म्हजें आतां कांयच ना हांगा. तूंवय वचूंक उठला. कांयच उरलेंना आतां म्हजें ! पूण तूं आतां आडवेळार खंय वयता ? व्होडी गेल्यो, लांच गेली. आतांच आवाज आयकल्लो हांवें. आज राव तूं. एकच दीस हांगा राव – म्हजेसरीं.'

'सगलें आयुश्य तुजेसरींच रावचें आसा सुमन.'

सुमन हांसलें, 'तूं दादलो. तुका हें सगलें कितलें सोंपें दिसता. तूं लाथ मारीत थंय उदक येतलें हातूंत दुबाव ना. पूण म्हाका बेठीच भिरांत दिसता. राव तूं आज. असो गाडी–व्हडें नासताना आडवेळार वचूं नाका.' तें पावळेंत येयलें आनी ताका हाताक धरून घेवन भितर सालांत गेलें.

'हांव भायर वासरेरच बसतां सुमन.'

'नाका, भितरच बस तूं.'

'कित्याक ?'

'आज तूं म्हजो इश्ट न्ही, म्हजो घोव ! आज एक दीस तुवें म्हजो घोव म्हण रावचें. तूं परतो येयसर हांव मगेर म्हातारे जाल्यार ?'

'पिशें तूं.'

'हय पिशेंच हांव.' तें एकदम ताज्या म्हऱ्यांत येयलें. ताका वेंगोवन ताणें दांत रोमीत ताज्या पोल्यांक घांस मारलो. गोविंद वोगीच रावलो.

मर्दीं विश्रांती, गोकूळ, आबोलें बीन बायलो घरांत येवन गणमणून गेल्यो. बेठ्योच दारांतल्यान भितर बशिल्ल्या गोविंदाक पळोवन गेल्यो. एके बायलेन–कोण म्हण सुमनाक नीट कळ्ळेंना – आंगणांतल्यान ल्हवच म्हळें, 'भांगराचे खणीक खोंट मारून हांगा येवन बसला !'

सुमित्रा येयिल्ली ती मात सरळ ताज्या मुखारूच वचून उबी रावली. 'हें तडीक व्हरतलो मुरे गोविंद ?'

'हय मामे, हांव वचन दितां ! मेल्यारच म्हजें हें वचन मोडलें म्हण समजुचें.'

सुमन हांसलें.

'हांसता कित्याक गो तूं ?'

'म्हज्या जिवितांत कितें बरें घडटलें हाजेर म्हजो विस्वासच ना काकी!'

सुमित्रान सुस्कारो सोडलो आनी ती गेली. सुमन आतां गोविंदाखातीर बरें

रांदूंक लागलें. मर्दींच ताणें इल्लें खोबरेल घेवन ताजे ताळयेर घांसलें. घांसतां घांसतां ताका चिमट्यो काडून खातकुल्यो केल्यो. तोवय खूब हांसलो.

सुमन रगड्यार वांटूंक बशिल्लेकडच्यान ताका आयकोंक येतालें, भास्करअण्णाल्या घरचे वटेन कोण तरी व्हडाव्हडान उलयतात, भासाभास करतात. पूण ते आमचे पासत न्ही अशीच ताणें मनाची समजूत घाली आनी तें वांटत रावलें.

मर्दींच रस्त्यावटेन नुस्तें घेवन येयिल्ल्या सायकलकाराचो पों पों आवाज येयलो. बेगीबेगीन वल्लेंत पडभर भात घेवन तें सायकलकारासरीं धांवन गेलें आनी सरभरशी नुस्तें घेवन येयलें. रस्त्यावयल्यान वचून येयसर तें खर्शेलें आनी हुमेन बुडलें. पूण तें तशेंच कामाक लागलें.

'गोविंद, आयज हांव तुका आंगाक तेल लावन न्हावयतलें.'

'नाका, कित्याक म्हण ?'

'आज तुजें कांयच आयकुचें ना हांव.' ताणें न्हाणयेंत बरें भाणभर उदक तापयलें. नंतर आपल्या हातान तागेल्या शर्टाचीं, पॅण्टीचीं बुतांवां काडून तें देंवयलें. मदलें दार बंद करून तें तागेल्या आंगाक तेल काडूंक लागलें. उपरांत ताणें ताका न्हाणयेंत व्हेले आनी घसघस करून हून हून उदक आंगार घालें. शाब्बान घांसून घांसून ताका न्हावयलो. तुवाल्यान ताजें आंग पुसलें. 'जाणा मुरे गोविंद, तुवें म्हाका साडयेचो पदर दिल्लो जाल्यार हांव म्हज्या पदरान तुजें आंग पुसतासलें!'

'दितलों तुका हांव साडी न्हेसूंक. मगेर जिवीतभर पुशीत राव म्हजें आंग पदरान.'

'तुजें आंग पुशीत रावल्यार मगेर भुरग्यांचें आंग कोण पुसतलो ? उपरांत मात म्हजो पदर भुरग्यांखातीरच.'

'कोणाल्या भुरग्यांखातीर ?'

सुमनान सट्ट करून ताजेसरीं पळलें. भितल्ल्यान दुखिल्लेवरी दूक ताज्या चेऱ्यार देंवन येयले. पूण तो मात हांसतालो. फकाणां केल्लेवरी.

सुमनान ताका म्हऱ्यांत बसून पोटभर जेवयलो. उंडयो करून ताज्या तोंडाक लायल्यो. ताणें एक व्हड ढेंकर दितकीर तेंवय तुश्ट जालें. उपरांत ताज्या उश्ट्या ताटांतच आनीक वाडून घेवन तें उश्ट्यासयत जेवलें.

भास्कराल्या घराकडच्यान बोवाळ सारको कानांक येवन तेंकतालो. खरोच थंय तो बोवाळ जाता काय आपणाक भास जाता कांयच कळनासलें.

दनपारां वाड्यावयले चार - पांच दादले आनी भास्कर सुमनागेर येयले.

भास्कर रागान खतखतिल्लेवरी उलयतालो, 'ह्या चेडवान करणी केल्या ताजेर. पयलीच गोडी लायल्या म्हण संवकला तो ! ताकाच निखळायात पयलीं. हाजेपयलीं ह्या वाड्यार केन्ना चयलें तुमी आंकवार चेडवान चेड्याक घरांत घालून दवरिल्लें ?'

सुमनान भायर येवन थंडपणान म्हळें, 'हांवें घरांत घालून दवरूंक ना ताका अण्णा... तोच येयला. ताका हावें सांगिल्लें म्हजी कांयच आडखळी ना तूं पोसको जा म्हण. तोच पोसको जायना म्हणटा. हांव कितें करूं ?'

रामान तापुनूच म्हळें, 'पूण तुवें कोणाक विचारिनासतना ताका घरांत दवरून घेवची चूकच.'

'चूक कित्याक म्हण रामदाद ? आमी भुरगेपणापसून वांगडा खेळिल्लीं, वाडिल्लीं. आतां आमी लग्नय करचें थारायिल्लें. आमच्या लग्नाकच आडखळी उब्यो रावल्यात. तुमकां सांगलें म्हण कितें तुमी आमचें लग्न लावन दितासले? म्हजी चार खांडयांची जमीन बापोलयानच खायली. तुमी कांय उलयले नांत आनी आतां तुमी भास्कर अण्णाच्या आड वचून म्हजें लग्न करून दितासले? आवय बापूय नाशिल्लें पोर हांव. म्हजें हांवेंच थारावचें.'

'म्हण अशी लज सोडल्या तुवें ? आपलें आपूण थारावचें खंय. ह्या वाड्यावेले सगले दादले मेले कितें थारायतले ? ह्या वाड्यार आमी हें चलूंक दिवचे नात. हाड, ताका भायर हाड. गोविंद, वोग्गी यो आनी मामावांगडा वच.'

गोविंद भायर येयलो. 'हांवें पयलींच सांगलां हांव पोसको जावचों ना म्हण !'

'हांव गोंयां वचूंक भायर सरिल्लो आज. कळाव जालो. फाल्यां सकाळीं वयतलों. हांगाय ना आनी घराय वचचो ना हांव मामा.'

नरशिंवान मदींच म्हळें, 'तो पोसकोच जावचो ना म्हणटा तर कोण कितें करतलो ?'

सगलें 'खरें' म्हणिल्लेवरी कांय वेळ ओगी रावले. मगेर रामदादान धपकायलें, 'ह्या वाड्यार आंकवार आसतना तुमकां अशें वांगडा रावंक मेळचे ना. पयलींच सांगता, नातर हाडां मोडून घालतलों तुमचीं.'

सुमनान पिंजिल्ल्या आवाजांत म्हळें, 'फाल्यां सकाळीं वयतलो तो दादा!'

मगेर भास्कर आनी हेर दादले उठून गेले. आतां मात सुमनान थारायलें, हो दीस म्हजो. कोणाक भिवचें ना हांव आतां. ती सांज तीं दार लावन दोगांच एक दुसऱ्याल्या गोपांत बसून उलयत रावलीं. बायलीं भुरगीं खंय खेळूंक गेल्लीं तिंवय

ताका खबर नासलीं.

सुमन हांव गोंयां नोकरी करतलों. थंय घर करतलो. मगेर तुमकां व्हरतलों. म्हज्या पगारान तुमचें सगल्यांचें भागचें ना. गरिबींत रावचें पडटलें आमकां. रावतलें मुगो ?'

'तुजेवांगडा रावल्यार आनीक गरिबी म्हण लागता ! पूण गोविंद...'

'पूण कितें सुमन ?'

'आंकवार चेडवाक सोडून गेल्ल्या दादल्याक विसरपिशें लागता खंय !'

'पूण हांव कसो विसरतलों तुका ?'

'विसरचो ना मुरे' म्हणत सुमनान ताका घट वेंगेंत धरून आंवुळ्ळो.

मगेर तें उठलें. ताणें बेस तोंड धुवन केंस वळोवन घेयले. तोंडाक पोव लायलो. दोळ्यांत काजळ घालें. बागांत वचून कसलीं कसलीं फुलां हाडून माळ्ळीं. ट्रंकांतल्यान नवी साडी काडून तें न्हेसलें. सदांच घागऱ्या-पोल्कांत तें बेठेंच म्हेळशें, गांवठीशें दिस. कुडीची उस्तवारीय नीट करिनासलें. पूण आता तशें सजतकीर तें तटतटीत तांबडे दसणीचें फूल कशें दिसलें.

'कित्याक म्हण अशें सजलां तूं सुमन ?'

'तुजेखातीर. तुकाच लागून अशें सजलां हांव.'

'पिशेपणाच करता तूं... !'

माळिल्ल्या फुलांचो, आपले कुडीचो वास ताका हुंगूंक दिवंक बशिल्लेवरी सुमन सामक्कें ताज्या म्हऱ्यांत, ताका तेंकून बसलें. मोगाच्यो खबरी ताज्या कानांत फुतफुतूंक लागलें. तें कितें उलयता तें गोविंदाक कळनासलें. पूण तें तशेंच आपणांत भरसून बसून रावचें अशें ताका दिसलें.

'गोविंद म्हाका भोव दिसता, आमी दोगांय त्या भिल्लमाडाच्या पोंदांत वचचीं आनी थंय तुवें म्हाका वेंगेंत घेवचें.'

'पूण ती आडवणांतली, खडवणांतली वाट आमच्यांनी हुपूक जावची ना !'

तीं दोगांय आता मैथुनमग्न नाग-नागिणीवरी एक दुसऱ्याक सर्व कूड वेश्टावन पडिल्लीं. तातूंत दोन जुवान कुडी आनीक लागीं येवचेलो यत्न सगले ताकदीन करताल्यो. दोन कुडींची सामकी तडफड आनी धडपड. तांचे हून स्वास, काळजाची हुडी, रंध्रानरंध्र फुलिल्ल्यो कुडी एक दुसऱ्यांत सामक्यो भरसून गेल्ल्यो.

दोगांल्याय तन मनांचो हावेस एकच, एक दुसऱ्यांत पागळून भरसूर वचचेलो. उद्वैततेचो, एकरुपपणाचो एक अपरूप सुवाळो.

कांय वेळान उठून तें भायर येयलें. कांय वेळा पयलींच हांगा वाड्यावेल्या दादल्यांचो आमचेविशींचो कलकल जाल्लो हें आठवून तें निर्शेलें. ताका दिसलें, हांगाची शितळसाण कोणें ओडून घेतल्या. चोंयभोंवतणचीं घरां, हीं उज्याचीं झाडां जाल्यांत आनी भायर जोगलांचो पावस पडटा. मदींच एक पानांफुलांची वाल उज्यापसून सोताक राखत आंग ओडून उबी आसा. कितलो तेंप ही वाल सोताक ओत पावसापसून राखतली !

तें भिंयिल्लेवरी जालें आनी ताका गोविंदाल्या गोपाची परती ओड लागली. तें भितर गेलें. 'गोविंद, तुका वचुंकूच जाय फाल्यां? आनीक एकच दीस रावंक जायना?'

'ना गो. म्हजो माम, म्हजो भाव...'

सुमनान बेगीबेगीन ताज्या तोंडार हात दवरलो. 'आतां आनीक कांयच उलोवं नाका मोगाभायलें. नातर हांव गळसणटलें. गोविंद म्हाका ओगीच दिसता ही आमची पयली आनी निमाणी रात म्हण! ही रात आज आमची !'

'ना गो पापया, फक्कत मरणच आमकां आता एक दुसऱ्यापसून पयस दवरीत!'

'कोणाचें, म्हजें मरण ? हांवें देवासरीं मागलां, म्हाका आईवरीच, बायवरीच आयाव मरण दी म्हण !'

'लग्न जावचे पयलींच बरें मागणें मुगो तुजें ?'

'लग्न जावं ना जावं. आतां तुजे खातीर हांवें मरण आपणावचेंच.'

'मोगाच्यो खबरी करुया म्हणटालें तूं मरणाच्यो खबरी करूंक लागलें मुगो!'

'ना रे' म्हणत तें उठलें. ताणें भुरग्यांक जेओवन रांदचेकुडींत न्हिदयलीं. मगेर तींवय जेवन रातराणी फुलचेली वाट पळेत बशिल्लेवरी कांय वेळ बसलीं.

सुमनान गोविंदालें हांथरूण सालांत घालें. उशासरीं उदकाचो तांबयो दवरलो. ताका न्हिदूंक यो म्हण ताणें ताका हाताक धरून उठयलो. तो उबो रावतकीर सुमनान दिओ पालयलो. सरसरीत पोल्काचीं बुतांवां काडलीं, आंगावेलीं वस्त्रां सोडोवन पांयां पोंदाकच उडयलीं. मोड जावन, जोगूल जावन ताणें गोविंदाक गोपान घेयलें. सोंशेत आनी हुंकारत तें ताजें आंग सांसपितालें.

'आजच कित्याक गो हें सुमन ?'

'गोविंद, फाल्यां हांव म्हातारें जातलें. ही रात परती येवची ना रे ! तसोच तूं म्हाका ताळणी लावन वयतलो ! कांयच अनमनूंक नाका गोविंद, तूं म्हजो मनान आपणायिल्लो घोव ! म्हजी कूड तुका दिली ना जाल्यार म्हजें मन म्हाका जल्मभर खातलें'.

'तुका ही कूड ओंपल्यार तिचें भांगर जातले. ना तर कुसकुटा इतलेंय मोल तिका उरचें ना !'

ल्हव ल्हव गोविंदाली गर्भकणी जागली. कुडींतलें चैतन्य फुललें. ह्या किरकोळ दिसपी भुरग्याली दादली शक्त होलमून सुमन अजापलें, सुखावलें. ताजे कुडीचेर जैत व्हेल्लेवरी तो ताका जाय तसो खेळयतालो आनी किरयतालो. ल्हव ल्हव सुमन ताजे मिठींत कापरावरी पागळून गेलें. रेशमाची मोव लडी कशें हांथरुणार पडून रावलें.

मगेर बरोच वेळ तुश्टतायेचे हुंकार दीत तीं एक दुसऱ्याल्या गोपांत पडून आसलीं. कानांत फुतफुततालें तेंवय फाटल्यो भुरगेपणाच्यो खबरी. फुडाराचें उलोवंकय भिरांत दिसताली. गोविंद झेमेवंक लागला अशें दिसतकीर सुमनान आपली कूड ताजे कुडीक वेश्टायत म्हळें, 'गोविंद, आमचें कितें थारिल्लें, आयची रात आमी जागोवची.'

ती रात तांणी खऱ्यानीच जागयली. तरीय सकाळीं उठ्ठकीर सुमन मोगरेफूल कशें ताजें तट्टटीत दिसतालें. मन ल्हवपीक जावन तें वाऱ्यार हुबतालें. सोताभोंवतणींच तें एक फावट घुंवलें आनी ताणें एक पदाची ओळ गायली. मगेर तें कामाक लागलें. ताकतीक आसली, गोविंद आतां सकाळचे लांचीन गोंयां वयतलो !

गोविंद कपडे घालतना सुमनान मर्दीच म्हळें, 'गोंयां कित्याक वयता तूं आतां? सरळ मामागेर वच आनी ताचो पोसको जा. मगेर ताणें सांगिल्ल्या चेडवासरीं लग्न जावन सोड.'

'कित्याक म्हण ?'

'हांव जाय आशिल्लें मुरे तुका ? हांव आतां सांमतेंच तुजें जावन गेलें. आतां कितें उरलां ?'

'मगेर तूं कितें हांवें 'दवरिल्लें' जावन रावतलें ह्या गांवांत?'

'तोंड फोडटलें हांव तुजें. बरो हुशार मरे तूं !'

'चल म्हाका कळाव जातलो. म्हजी पिशवी खंय ?'

'गोविंद, तूं खरोच येतलो परत ?'

'हय गो. ही न्हंय बळाट्न हांव परतो येतलों, येत रावतलों. कोणाक भिंयेवचों ना !'

'हे लोक तुका येवंक दितले ?'

'कोण लोक ?'

'कोण ना. एकच फावट मातसो भितर येता ?'

'आनीक आनीक नाका सुमन'. तो दारांत रावलो आनी मुखावयल्यान तीगय भाव आनी माम येताना दिश्टीक पडले.

तीगय भाव मुठी आंवळून धुप्पधुप्प पावलां उडयत येताले. तीगय भाव दांडगे आनी धश्टपुश्ट, तांच्या चलण्यांन भूंय हालताली.

ते तीगय आंगणांत येवन उबे रावले. व्हडल्यान गर्जण मारली, 'गोविंद यो, असो भायर यो.'

तो पावळेंत येवन उबो रावलो. 'गोविंद, तुवें मामालो पोसको जावंक न्हयकारलां ?'

गोविंद भावासरीं तसोच मुठी आवळून तायट उबो रावलो आनी ताणें सांगलें, 'हय ! हांव पोसको जावचों ना !'

'कित्याक ?'

'म्हाका सुमनाकडेन लग्न जावचें आसा.'

सुमन फाटल्यानच उबें आसलें. ताका ताची ही जाप आयकोन दिसलें ह्या खिणांतच ताजें गोविंदावांगडा लग्न जावन गेलें !

व्हडलो गोविंदाचे हे जापेन रागान आकांताचो झिडपलो. ताणें मुखार येत एक थापट ताज्या कानफ़टार दिलें. मदल्यान गाळी घालीत ताजो एक हात धरून ओडलो. फाटीर एक मूठ घालून ताका आंगणांत धतरेर शेंवटिलो. सुमन न्हिन्नळ्ळें आनी गोविंदासरीं धांवलें. पूण ताणें सुमनाकय कुशीक धकलून दिलें.

तीगय भावांनी सुमनाकच गुन्यांवकारी धरून इतल्यो बुरश्यो गाळी घाल्यो, सुमनाच्यान त्यो आयकोंक नजो जाल्यो. तें कांयच जाप करिनासताना गाळी आयकत वोगीच रावलें. आंगार पोजोड रकयिल्लेवरी जातालें.

उपरांत ते तीगय गोविंदाक घट धरून ओडत घेवन गेले. दोगांनी दोनयवटेन ताज्या बावळ्यांक इतलें घट आंवळून धरिल्लें, सुमनाक दिसलें हाचे मोव बावळे

चेंचून वयतले. व्हडलो म्हणटालो, 'ह्या दळिडिऱ्याक ह्यान फुडें ही न्हंय बळाढून हे तडीक येवंक दिवचे नात आमी !'

मामा आपल्या घरासरीं वोगी परतलो. तीगय भाव गोविंदाक घेवन असनोटी वचूंक वयताले. सुमन खंती मनान घरामुखावेल्या आखाड्यांत येवन उबें रावलें. रितीं शेतां मांडयत ते वयताले. गोविंद तांकां मात्तूय विरोध करिनासताना वोगी चलतालो.

सुमनाक दिसलें, मुखावेले काळी न्हंयंतल्यान नांवा प्रमाणच काळें काजळ व्हांवता. सकाळच्या ओतांतय ती आज कित्याक चकचकना ? तातूंतले जुंवे-आंबे, जुंवो बोट जुंवो, आनी खारगो जुंवो मांडवोळान कवंडाळें करून पडून राविल्लेवरी विद्रूप दिसतालो. सुमनाक दिसलें, केरवडी दोंगरावेलो तो दोंगरायेदो घांग्रेफातर आत्तांच लकून पडटलो आनी ताजेखाला हो सगलो वाठार चिड्डून वयतलो.

तें जड पावलांनी परतें येयलें. भुरगीं भिंयेल्लींशीं वासरेंत वोगी बशिल्लीं. तागेलो सट्ट करून ओटीपोटासरीं हात गेलो. थंय इल्ली दूखशी आशिल्ली. ताणें भुरग्यांक दुबावान बारीक शें पळेलें, हीं भुरगीं म्हज्याच पोटांत जल्मल्लीं काय कितें! ना तर ही आवयआंगाक दूख खंयची ! मगेर ताणें लजंत मुरकटत येवजिलें - तो नाचून गेला फटकिरो ! वयल्यान भोळो लजेकुरो दिसता पूण म्हजेकडेन धुमशाणां कांडून गेला ! तें सोतासरीं हांसलें.

पूण ल्हव ल्हव आपणाल्या चिंतपाचो, हांसपाचो ताकाच राग येयलो.. चोंयवटेन असो उज्याचो पावस पडटना आपूण हें सूख घेवकच कशें ताकलें हाजें ताका अजाप दिसलें. देवा, म्हज्या गोविंदाक ताणें येदोळ कसलो मारलो!

घराभितर गेल्यार आपणाक हामेऱ्यांनी रडूंक येतलें अशें ताका दिसतालें. तें भायर तेण्यारच बसलें, चडटें वोत पळयत.

वाडो उठून गेल्लेवरी सगलें शांत आसलें. सुमनाक बेठेंच दिसलें, वाड्यावयलो जण एकलो दारां, जनेलां बंद करून दोंगरावटेन तोंड करून चलूंक लागला. साळूआजी केन्ना सांग, 'ह्या थळार खुंटी मारचे पयलीं हांगा अटंगें रान आशिल्लें म्हण. तें रान हांगा परतें एक फावट उदेतलें. टायकुळो किल्लतलो, कांटोकुंटो माततलो. आपा पिसो जावन भोंवतलो. बायची किरवड उठ्ठली. मगेर थंय एक सुवर्ण हरण रावंक येतलें...'

सुमन अचकीत चिंतनांतल्यान भायर येयलें. आनी ताणें पळयलें, दर एका जनेलाफाटल्यान मनशां आसात. पूण हांणी दारां फक्कत म्हजेखातिरूच बंद केल्यांत. केन्ना ना तीं दारांक कडी कुलपां मासल्यांत. गणपत आजो केन्ना सांगता, संवसारांत

कलियूग सुरू जालां कलियूग म्हण. पूण ह्या वाड्यार तें केन्नासान सुरू जालां हें सुमनाक नेमकें कळना ! पूण ताका आतां एक होलमलें, 'लोकांची चूक न्ही, कांय दुख्खां एकल्याचींच आसतात. विधवा दुख्खांवरी एकल्यानच भोगचलीं!

पयस न्हंयचे धारेर लक्ष गेल्यार थंय उजवाडांत न्हंयच्या काळ्या उदकाचेर विखाळे नाग नाचिल्लेवरी दिसतालें.

गोविंद ही न्हंय बळाटून पलतडी पावलो काय




शिद्दरच्यान अगळी तार मेरेन दोन मैलांची वाट चलून येतना भाव ताका एकच विचारताले, 'तूं पोसको जाता काय ना ?'

तो फक्कत 'ना' म्हणटालो. ताणें तांकां एकच प्रस्न विचारिल्लो, 'तुमी सुमनाक गुन्यांव नासतना कित्याक गाळी मारल्यो ?'

तेन्ना मदल्याचो हात उठलो. पूण व्हडल्यान तो धरलो आनी सांगलें, 'एक फावट घरा पावंदी मगेर दाखयतां पानवळ. कसो ना म्हणटा तो पळयतां !'

ते अगडी तारीसरीं न्हंयचे तडीर पावले तेन्ना जोरगतेचे भरतेन न्हंय उपाट भरिल्ली. दोनय तडी भरून व्हांवताल्यो. आर्दीच काळी न्हंय हे अगडीच्या मोण्णार अकराळ, अगड रूप घेता, तातूंत भरतेचो भार !

पूण गोविंद वेगळेंच चिंततालो. हांगा शिद्दराम दोंगराच्या मुळसांत न्हंयंत केन्ना एक लग्नाची व्होडी व्हंकल आनी न्हवऱ्यासयत बुडिल्ली खंय. अजुनूय खंय थंय रातचीं वाजंत्रां वाजतात आनी व्हंकल न्हवरो न्हंयंतल्यान वयर सरून तडीर मोगाखेळ खेळटात. गोविंदाक दिसलें, हांवें आनी सुमनान दोगांनीय मेळून शिद्दराम दोंगरावेल्यान न्हयत उडी घेवची ! मगेर युगां युगां मेरेन आमकां तो मोगाखेळ खेळूंक मेळटलो. पूण दुसऱ्याच खिणाक ताका उगडास जालो, सुमनाक तागेलीं भुरगीं आसात ! म्हजेवरी एकसुरें न्ही तें ! हांवें एकल्यान हें मरण मरपाचें ! एक खोल खोल दुख्खाची, निर्शेणेची कसक ताज्या काळजामेरेन देंवली.

'तारयामाम, धुकल व्हडें न्हंयत.'

'भरतेची व्हाण सोंशेता, जातली तार आटापूंक ?'

'दी एक व्हलें म्हजेकडेन.' व्हडल्यान व्हलें हातांत घेयलें. तारयान व्हडें न्हंयंत

धुकललें. व्हडलो व्हले मारतालो आनी तारयो तार व्हाणींतल्यान आटापून घेतालो. व्हडें खिणाखिणाक वयर सकल जातालें.

वयर केरवडी, करकल, खारगे, हुळगे धरिल्ले सकल कडवाड, कोडीबाग, सदाशिवगडामेरेन उदकाचो एक सागर पातळिल्लो. चोंय भोंवतणचे पाचवेचार दोंगर, जुंवे, शेतां आनी गांवान ह्या सागराक वेश्टावन घेतिल्लें. सैमाचें हें विशाळ रूप पळोवन दोळे दिपकावताले. नदर मारल्यार सट् करून सैमपिशें लागिल्लेवरी जातालें.

व्हडें सामक्कें न्हंयचे मर्दीं पावलें. खोल आनी जोराचे व्हाणींत तें खीणभर तवंकलें. दोळ्यांची पाती लवता, ना लवता गोविंद बशिल्लेकडच्यान उठलो आनी ताणें घस्स करून आपणाक न्हंयचे व्हाणींत घालून घेयलें. उडी घेतिल्लीच तो खोल खोल गेलो. एकच फावट बोमांडो फुटिल्लेवरी ताजी तकलीच उदकावयर दिश्टीक पडली आनी नाच जाली.

न्हंयचे मर्दीं तीगय भावांल्यो बोबो. असनोटकार ते. तांच्या गांवांत न्हंय ना व्हाळ. तांकां कोणाक पेवंकय कळनासलें. तारयो तर व्हाणींत व्हांवन वचपी व्हडेंच राखूंक खर्शेतालो. तारयान बळाबळ करून व्हडें व्हरून पलतडी लायलें.

येद्दो व्हडलो उदकाचो सागर आनी तातूंत येद्दासो तरणाटो बुडिल्लो. तीगय भाव तडीर बसून तकलेर हात मारून घेवन आनी हड्डें बडोवन घेवन रडटाले. तारयान तडीर उबो रावन अशे कांय कुलकुलाट कुंकार दिले, ‘पोर बुडलो बुडलो बुडलो व्हऽऽऽय !’ दोंशी तडींवयल्यान ते कुंकार वाजत गर्जत गेले. गरोवपी पनेळकार थिरावले. कडवे, कूळ, कांटाळी लावपी पागी, आंबी सगलें शादूर जाले. न्हंयतडीवयल्या उशेलांनी उदक काडप्यांचे हातांतले कोळंबे हातांतच उरले. पळेतां पळेतां तीनचार व्हडयो, पनेळ तारयावटेन येवंक लागल्यो.

आतां व्हाणीनय आपली दिका बदलिल्ली आनी न्हंय सुकतेक लागिल्ली.

काळी न्हंयचे हे कदीम व्हाणींत एक मळब लकून पडिल्ल्याची जाण न्हंयंक नासुये. चंदन रानांतल्यान व्हांवन येवन अरबी समुद्राच्या अथांगांत मेळपी ही न्हंय दोंशीवटेच्या दुख्खांविशीं बेफिकीरशी व्हांवत आसता ! परत हाची खोल काळी सया, दुख्खाचें पेरगांव घालीत वयतलेवरी ती दर एका खडपार आनी मोण्णार खळखळत वयता ! परत ही काळी न्हंय आंगान इतली काळी कशी, हाका जाप ना! कारवारची

ही गंगा खरी पूण ती 'काळी' गंगा !

भरती आनी सुकतेच्या संधीकाळांत सगली धार भोंवऱ्यावरी गरगर घुंवताली. वयली व्हाण आनी तळांतलें उदक हांचेमदीं घश्टून झगडेंच चलिल्लें. सगली न्हंयची व्हाण एक विश्वाकाराचो भोंवरो जावन घुंवतालो. वयर दनपरचें खर ओत आरपार चकपकतालें. तें भाले कशें उदकांत देंविल्लें. वयल्यान वारो ल्हाराल्हारांनी उदकाचे फार्टीवेल्यान भोंवतालो. पूण ताजी दिशा समा कळनासली. खळखळ उदक, चकचकीत ओत, खेळटो वारो आनी तांचेमदीं एक निर्जीव कूड ! दिस, सैमान निश्ठूरपणान गोविंदाले कुडीची सगली ऊब ओडून घेयल्या आनी आतां तो तवनासपणान शबय घालता !

गोविंदाली कूड ब्रह्मांडाचे भोंवडेर वचूंक सरिल्लेवरी आपले दिकेन व्हांवन वयताली ! दर एक ल्हाराक खोंटायत ती वयताली. तिजी दिशा कोण थरयता कांयच कळनासलें.

शिद्दर, कातनें, करंजें, किन्नर आनीं नासाफातरामेरेन दोनय तडींचेर कितलोसोच लोक तडी सोदतालो. उले, हुयेली आनी बोबो हाजेन वाठार भरून गेल्लो. व्हडेकार आपलें व्हडं घेवन आंबे जुंवो, खारगे जुंवो मेरेन सोदूंक गेल्ले. गरोवपी पनेळकार गरोवप सोडून न्हंयंतल्यान फेरयो मारताले. करड पेटिल्लेवरी खबर पातळिल्ली आनीं लोक न्हंयवटेन धांवतालो.

पूण कुडीन सांजचें हळदुवें वोत आंगार येयसर आपली भोंवडी पुराय केल्ली आनी ती शिद्दरा सकयल्या जेवणकारां वाड्यासकल तडीक येवन लागिल्ली.

सुमनाक होलमतालें, आपणाअसवडी एक खुब्ब व्हड अरिश्ट येवन गेलां. सगली धांवपळ, सगलो आकांत ताका कळटालो. पूण कोणाक कितें विचारचेलो धीरच नासलो. कोणय फट्कन सांगत, 'आगो मळब मोडून पडलां मुगो !' तें काळजांत खपखपो घेवन वोग्गी बसून रावलें. परती परती आंगावेल्यान हूम देंवताली आनी साबुद्द गेल्लेवरी जाताली. दिसतालें ह्या सगल्या लोकांनी म्हजेर सारक्को बहिश्कार घायला. हे लोक म्हाका कांयच सांगूक सोदिनात म्हण पयस पयस धांवतात. पूण शेवटाक हें म्हज्याच हड्ड्यार येवन थारतलें!

तिनसांज कात्रेर सुमित्राकाकी येयली. 'सुमित्राकाकी, तूं इतली कित्याक

बावल्या, इतली कित्याक धवी पडल्या ? तूं आत्तांच रडून आयल्या ? तुज्या उतरांतल्यानय रगत गळटा मुगे ! कितें जालें गे सुमित्राकाकी ?

'बायगो, तुगेल्या गोविंदान काळी न्हंयंत उडी घेवन जीव दिलो !'

'जीव दिलो ?' उतरां काळीज फुटून भितर रिगिल्लेवरी जालीं. कांय वेळ शिरंतरां तुटून तुटून ताजें सूंब जालें. पूण तें साप्प रडलें ना. रडून ल्हव जाल्यार आपूण ताका बेदिनवासी जातलें अशी ताका भिरांत दिसली. ताजेखातीर रडूंक तर आयुश्य आसा !

तें उठलें. ताज्या दोनय हातांक दोन दोन आंकवार कांकणां आसलीं. तीं ताणें काडलीं आनी केळी मुळार व्हरून उडयलीं. आंकवार कूकमय दाव्या हातान पुसून उडयलो. भितर गेलें आनी आपलीं आंकवार वस्त्रां, घागरो – पोल्क देंवयलो आनी साडी न्हेसलें. साडयेच्या पदराचो शेव तोंडार घेवन सालांतल्या काळखांत तें वोगी बसलें !

गोविंद तुजेखातीर म्हाका आयाव मरण मरचें आशिल्लें रे ! पूण म्हज्या नशिबाक हें आंकवार रांडावपण वांट्याक येयलें !!

–x–

साहित्य हो फक्कत शब्द आनी शैलीचो निर्जीव रूपकार न्हय जाल्यार तें मनीसजिणेच्या चैतन्याचो, मनशाल्या मनाचो पूर्त आविश्कार ! साहित्य आसता ते भाशेंतल्या, त्या वाठारांतल्या सर्व लोकांल्या संस्कृतीदर्शनाचो हारसो !

हें सुत्र महाबळेश्वर सैलाक ज्युस्त होलमलें आनी ताणें कारवारचे मातयेंतल्यान, सैमांतल्यान आनी लोकजिणेंतल्यान कांतोवन काडलें एक साहित्यशिल्प, काळी गंगा.

मनशाल्यो पुर्विल्ल्यो सगल्यो संस्कृतायो न्हंयच्या तिरारूच जल्मल्यो, खेळ्ळ्यो आनी उदरगतीक पावल्यो. तशीच कारवारची तेजिश्ट संस्कृताय वाडली काळी न्हंयच्या तिरार, म्हणून काळी ही कारवारची गंगा. म्हणून ती काळी गंगा.

कारवारचो हो वाठार अलोकीक सोबीत खरोच. तो सोबीत आनी चैतन्यमय लेगीत. थंयच्या मनशालीं दुख्खां आनी कश्ट हीं दुख्खां न्हयच जाल्यार जिणेंतल्या संघर्शाचें माध्यम ! मुदलांतलें क्षात्रतेज आनी गरिबी हांचो एक संघर्शच थंय चललो आनी तांणी जैत व्हेलें ! आपलें मूळपीठ गोंय सोडून वचून, गोंयाभायरे जावन विस्थापीत जिणेची व्यथा कारवारान भोगल्या. म्हणुनूच तें चड मायेमोगी, शब्दवंत जालां.

तशींच तीं मनशां ! सैलान तांकां मनशां म्हणुनूच तांच्या सगल्या आकार विकारांसयत चितरायल्यांत. हर तरेच्या अणभवान समृध्द जाल्ली सैलाची जीण आनी तातूंत वैश्विक धार आशिल्ली तांगेली प्रतिभा हांकां लागून कारवारचे मातयेचें भांगर जाला. आपणें काळी गंगा बरयली आनी कारवारच्या रिणांतल्यान मुक्त जालों अशें ते म्हणटात.

सैलान बरयिल्ल्या साहित्याची आनी मानभौमानाची वळेरी व्हड. आमी हांगा ती दिनात. इतलेंच म्हणटात, तांणी कोंकणी साहित्याक अणभवाचें विश्व दिलें आनी कोंकणीचो आवाठ शीम-हद्द हुपून गेलो.

---

ISBN 81-858554-38-6